# भगवान बुद्ध

लेखक

**धर्मानंद कोसंबी**

अनुवादक

**बाकी बाब बोरकार**






**साहित्य अकादेमी**
**नवी दिल्ली**

**Bhagwan Buddha** : Konkani translation by B. B. Borkar of Dharmanand Kosambi's Marathi **Classic.** Sahitya Akademi, New Delhi, (1979) Price Rs. 20-00



पयली आवृत्ती : १९७९

प्रकाशक :

**साहित्य अकादेमी**
रवीन्द्र भवन,
३५, फिरोझशाह रोड,
नवीं दिल्ली ११० ००१.

छापपी :

**अभय भिडे**
श्री राजमुद्रा मुद्रणालय,
१८, प्रभादेवीं इंडस्ट्रियल इस्टेट,
वीर सावरकर मार्ग,
मुंबई ४०० ०२५.

किमत : वीस रुपये

# अनुक्रम

# ग्रंथकर्त्याची वळख

भगवान बुद्धावेलो श्री धर्मानन्द कोसम्बींचो ग्रंथ मेळौन नवभारत ग्रंथमालेन ग्रंथकारांचे कीर्तिमत्तीचे बाबतीत उंचातलो ऊंच आंकडो गांठला. पालि भास आनी बौद्ध धर्म हांतले निष्णात म्हणून तांचें नांव संसारातल्या विद्वन्मंडळाक परिचित आसा.

धर्मानंद कोसम्बी हांचें पूर्वायुष्य हें हालीच्या काळाक क्वचित सांपडपी धर्मजिज्ञासेचे उत्तमांतले उत्तम उदाहरण. केवळ तेविसाव्या वर्सा वयावेले बायलेक सोडून आनी संसाराक खोंट मारून कल्याणकारक अशा धर्माचें ज्ञान करून घेवपाचे तळमळीन घराभायर सरिल्ल्या धर्मानन्दांची खबर वाचली म्हण्टकच संसारदुःख ना करपी धर्ममार्गाच्या सोदीखातीर घरादाराचो त्याग करपी गोतमाचें चित्र दोळयांसामकार आयल्याबगर रावना. संसारिक संकष्टां कोणाचेर येनात ? हजारांनी आनी लाखांनी लोकांचेर तीं येतात. त्या प्रसंगार मनीस जे तरेन वागता ताजेवेल्यान ताजे मोल थारता. गोंयच्या एका ल्हानशा गांवांत १८७६ सालाक जल्मा आयिल्ल्या धर्मानन्दाचेर तरणेपणांत कांय संसारिक आपत्ति आयल्यो आनी तांचें 'चित्त प्रपंचांत रमनाशें जालें' 'बुद्धाचेर म्हजी अदिकादिक स्रद्धा जडत चल्ली. प्रपंचाचो जसोजसो वीट येत गेलो तशीतशी म्हजी स्रद्धा दृढ जायत गेली. बुद्ध म्हजें सर्वस्व अशें म्हाका दिसूंक लागलें. कितलींय संकष्टां येवंत, कितल्योय इपत्ती भोगच्यो पडूंत, बुद्धोपदेसाचें ज्ञान म्हाका, जालें म्हण्टकच म्हज्या जल्माचें सार्थक जालें अशें म्हाका दिसूंक लागलें.' अशें धर्मानन्दानीच त्या काळांतले आपले मनःस्थितीचें वर्णन केल्लें आसा.

प्रबळ धर्मजिज्ञासेक लागून इ. स. १८९९ सालच्या अखेरेक निष्कांचन अवस्थेंत घराचो त्याग केल्याउपरान्त ह्या तरुणान जें पर्यटण केलें आनी ज्यो कल्पनेभायल्यो हालइपष्टा सोंसून बौद्ध धर्माचें ज्ञान आनी ताजे-वांगडाच आत्मसमाधान संपादलें तांचो वृत्तांत अत्यंत अद्‌भुत आनी चकासूर करपी आसा. धर्मज्ञान प्राप्त करून घेवपाखातीर आरंभाक संस्कृत शिकपाचें धर्मानन्दांनी थारायलें. त्याखातीर पैलीं पुण्याक, थंयच्यान ग्वाल्हेराक आनी थंयसून काशीक ते गेले. संस्कृत विद्येच्या ह्या कुळारांनीं तांच्या शिक्षणाची सोय सोंपेपणी आनी बरेभशेन जाली. जेवणाची सोय मात तांकां अन्नछत्रांतच लावन घेवची पडली; थंय प्रवेशय कष्टानच मेळ्ळो. सुमार देड वर्स व्याकरण (कौमुदी) आनी साइत्य हांचें अध्ययन केल्याउपरांत धर्मजिज्ञासेन धर्मानंदांक नेपाळाक वचूंक प्रवृत्त केलें. बुद्ध भगवानाच्या धर्माचे जिवे तट्‌टटित अवशेष, भगवन्ताची जल्मभूंय असो मान मेळैल्या नेपाळ राज्यांत थोडे पुण पळौंक मेळटले अशे आशेन ते थंय गेले. पुण आर्त आनी जिज्ञासू अशा त्या तरुणाक थैंची विपरीत परि-स्थिती पळौन अपार विषण्णताय आयली. थैंच्यान ते बुद्धगयेक गेले. बौद्ध धर्मग्रंथांचे सम्यक् ज्ञान सैलावांक गेल्यान जातलें अशें थैंच्या एका भिक्षून सांगिल्ल्यान धर्मानन्द थैंच्यान तडक सैलांवाक वचूंक भायर सल्ले. मेजमापाभायरे दगदग, कष्ट आनी संकष्टां सोंसून ते एकदांचे सैलांवाक पावले. थंय अखेर तांकां जाय आशिल्लें तें, म्हळचार धर्माचें ज्ञान मेळ्ळें. कोलंबो शारालागशिल्ल्या 'विद्योदय विद्यालय' नांवाच्या विहारांत भिक्षुधर्मान रावन ताणीं महास्थविर सुमंगलाचार्य हांच्या हाताखाल पालि ग्रंथाचो अभ्यास केल्लो. पुण सैलावांत खाणाजेवणाचे हाल जांवक लागिल्ल्यान तांचे आरोग्य बरें उरना जालें, म्हणून ते वर्सभरयान परतले आनी मद्रासाक गेले. थंय सं म्हैने रावन विशेष अध्ययन करपाच्या इराद्यान ब्रह्मदेशाक गेले. थंय विहारांत रावन ताणीं ध्यानमार्गाचो अभ्यास केलो; पुण थंयय तांगेलें आरोग्य बरें उरना जाल्ल्यान ते परते हिंदुस्थानाक आयले. भिक्षूच्या भेसांतच भगवान गोतमाच्या आयुष्यांतल्या चिरस्मरणीय घट-

नांनीं पवित्र जाल्ल्या सारनाथ, कुसिनारा, लुम्बिनीवन, कपिलवस्तु बी बौद्ध धर्माच्यो ताणीं यात्रा केल्यो. उपरान्त परतेय ब्रह्मदेशांत वचून मंडाले शारालागशिल्ल्या वेगवेगळ्या विहारांत रावन वर्सभर ताणीं बौद्ध धर्मग्रंथांचो आनी ध्यानमार्गाचो अभ्यास केलो आनी थैंच्यान १९०६ सालच्या आरंभाक हे भिक्षू धर्मानन्द परते कलकत्त्याक आयले.

त्या उपरान्तचो कोसम्बींचो आयुष्यक्रम रासवळ स्वरूपाचो जाल्ल्यान तातूंत पैलीच्या इतली रम्योद्भुताय आनी लोकविलक्षणपण प्रत्ययाक येना. तरी लेगीत तांचें ह्या फुडलें सगळें आयुष्य स्वदेशसेवेच्या हेतान प्रेरित जाल्ल्यान तें आदल्या आयुष्याइतलेंच उद्बोधक आनी उदात्त भासता. स्वतः इतल्या कष्टांनी मेळैल्या बौद्ध धर्माच्या (आनी पालि वाङमयाच्या) ज्ञानाचो आपणाल्या देशबांधवांमदीं प्रचार करप ह्या ध्येयान हे फुडल्यो तांच्यो करण्यो प्रेरित जाल्ल्यो दिसतात. वंगभंगाच्या चळवळींतल्यान उपरासिल्ल्या कलकत्त्याच्या नॅशनल कॉलेजांत आनी कलकत्त्याच्या युनिवर्सिटींत पालि भाशेच्या अध्यापकाचो जागो ताणी पत्कल्लो. परंत कोसम्बींची विशेष इत्सा आपणाल्या महाराष्ट्र बांधवांत बौद्ध ज्ञानाचो प्रसार करचो अशी आशिल्ली. ताणी श्रीमंत सयाजीराव महाराज गायकवाड हांची भेट घेतली. त्या उदार मनाच्या राजान थोडयाच दिसांभितर तांकां फुडलो संदेस धाडलो : ' तुमी महाराष्ट्राच्या खैंच्याय शारांत रावशात जाल्यार तुमकां बडोदें सरकारांतल्यान म्हैनोम्हाल ५० रुपये मेळटले आनी ही मजत तीन वर्सांमिरेन चालू उरतली. मात वर्सांतल्यान एकाद्रें पुस्तक बडोदे सरकाराखातीर तुमी बरौन तयार करूंक जाय.' बरीच भवति न भवति करून अखेर कोसम्बीनी गायकवाड सरकारचो हो आस्रय पत्कल्लो. त्या संबंदान खासा कोसम्बी म्हण्टात :– " मासिक २५० रु. ची (कलकत्ता युनिवर्सिटीची) नोकरी सोडून श्रीमंत गायकवाड म्हाराजांनी दिल्ल्या ५० रु. वेतनाचो स्वीकार केल्याबद्दल म्हाका केन्नाच पच्छताप जालो ना. हे वेतन स्वीकारूंक नाशिल्लें जाल्यार डॉ. वुडस् हांची गांठभेट घडची नाशिल्ली आनी

अमेरिकेक वचपाची संद मेळची नाशिल्ली. पुण्याक येवंन राविल्ल्यान डॉ. भांडारकरांचो लागशिल्लो संबंद जडलो आनी तांचे खटपटीन मुंबय युनिवर्सिटींत पालि भाशेचो प्रवेश जावंक पावलो."

डॉ. जेम्स एच. वुडस् हे अमेरिकेतल्या नावाजल्या हार्वर्ड युनिवर्सिटीचे प्रोफसोर आशिल्ले. तांकां पालि शिकौपाच्या निमित्तान कोसम्बींचो तांचे-कडेन परिचय जालो. परिचयांतल्यान स्नेह जावन 'विशुद्धिमार्ग' नांवाच्या बौद्ध तत्वज्ञान ग्रंथाच्या संशोधनाच्या कामांत मजत करूंक म्हणून डॉ. वुड-सांनी कोसम्बींक अमेरिकेक आपौन घेतले. सयाजीराव म्हाराजांची परवानगी घेवन कोसम्बींनी १९१० च्या आब्रिलांत अमेरिकेक प्रयाण केलें. हार्वर्डमदले संस्कृत बी उदेंतेच्या भासांचे प्रमुख आचार्य प्रा. ल्यानमन हांच्या सहकार्यान कोसम्बींचें काम सुरू जालें. कोसम्बींनी कसून काम करून 'विशुद्धिमार्गा'चें संशोधन १९११ च्या अखेरेक सोंपैलें. परंत ल्यान-मनांकडेन तांगेले पटना जालें. कोसम्बींचे प्रयत्न गौण लेखून जाल्लें सगळें संशोधन आपल्याच नांवान प्रसिद्ध जावचें असो ल्यानमन हांचो मानस दिसलो आनी तो आपणालो बेत साधना अशें दिसलें तशे ते तिडले आनी तापले. तेन्ना कोसम्बींनी अमेरिकेच्यान परतुपाचें थारायलें आनी ते १९१२ च्या जानेरांत न्यूयार्कच्यान स्वदेशाक येवंक भायर सल्ले.

हिंदुस्थानांत येतकच प्रा. कोसम्बींनी डेक्कन एज्युकेशन सोसायटीन आपैल्यान पांच वर्सांच्या बोलीन फर्ग्यूसन कॉलेजांत पालि भाशेच्या प्राध्यापकाची नोकरी घेतली. तांगेले अध्यापकी कारकीर्दींत बौद्ध धर्माचे आनी पालि भाशेचे जायते विद्वान तांच्या हस्तकीं तयार जाले. कै. चिंतामण वैजनाथ राजवाडे, डॉ. पु. वि. बापट (फर्ग्यूसन कॉलेजातले पालीचे प्राध्यापक) प्रा. चिंतामणराव जोशी (बडोदा कॉलेजांतले पालीचे प्राध्यापक), प्रा. ना. के. भागवत, (सेंट झेविअर कॉलेज, मुंबय, हांगचे पालीचे प्राध्यापक) हीं सगलीं कोसम्बींच्याच शिष्यमाळकेंतलीं लखलखीत रत्नां.

सं वर्सां फर्ग्यूसन कॉलेजांत काम केल्याउपरान्त डॉ. वुडसांनी अमेरिकेक येवपाचो खूब आग्रो केल्यान ते १९१८ सालांक परते अमेरिकेक गेले. त्या वेळार म्हायुद्ध सुरू आशिल्ल्यान अमेरिकेचो हो प्रवास कोसम्बींनी पूर्वेवसल्यान पॅसिफिक म्हालसमुद्रांतल्यान केलो. तांचेवांगडा तांगेलीं भुरगीं आनी श्री. पार्वतीबाय आठवले ह्यो आशिल्ल्यो. हे फावटी अमेरिकेंत कोसम्बींचो मुक्काम सुमार चार वर्सां जालो. १९२२ च्या आगोस्तांत ते परतले. थंय ताणी संशोधनाचें काम बरेंच केलें पुण ल्यानमनच्या दुराग्रहाक लागून हेय फावटी तांकां त्रास जालोच.

कोसम्बींच्या विचारांक नवी दिशा १९११ सालचे अमेरिकेचे पैले सफरेपसूनच लागत वताली. अमेरिकेंत ताणी समाजशास्त्रावेल्या ग्रंथांचे- चड करून समाजसत्तावादाचें- खूब वाचन केलें. भांडवलशाय ना करून समाजाची मांडावळ साम्यवादाचे बुन्यादीचेर केल्ल्यानच सर्वसाधारण लोकाक सुख लागतलें आनी समाजांतलीं सर्त, धोंस बी गजालींचें मूळ कातरतलें, अशी तांची खातरी जायत वताली. पुण अस्तमत्तेच्या देशांनी साम्यवाद मूळ धरूंक पाव नाशिल्लो आनी सगळ्या राष्ट्रांचे हात हिंसा आनी अत्याचार हाणीं बुरशे जाल्ले, हें तांकां सोंस नाशिल्लें. 'संसारातल्या कष्टी कुळवाडी वर्गान अशे तरेचो प्रेमाचो मार्ग पत्कल्ल्याबगर मनशाच्या हस्तकीं जावपी मनशाची हत्या थांबची ना. पुण देशाभिमानान उन्मत्त जाल्ल्यांक तो कसो सांपडटालो?"

अशे मनःस्थितींत, भांडवलशायेचें आगर जाल्ले अमेरिकेंत बेचैन चित्तान दीस सारता आसताना १९२०-२१ सालच्या गांधीजीन सुरू केल्ल्या सत्याग्रहाच्यो बातम्यो थंय एका फाटोफाट येवन पावंक लागल्यो. त्यो आयकून कोसम्बींचे अंतस्कर्ण धन्यतायेन भरून गेलें. 'राष्ट्रद्वेषाचे आनी वर्णद्वेषाचे पिडेंतल्यांन पार पडूंक हाज्याबगर अन्य मार्ग आसूच नज' असो तांचो ठाम ग्रह जालो.

अशे रितीन कोसम्बी अमेरिकेच्यान आयले ते मनान साम्यवादी, सत्याग्रहाचे पुरस्कर्ते जावन आयले. हिंदुस्थानांत येतकच १९२२ ते १९२५ मेरेन गांधीजीनीं काडिल्ल्या गुजरात विद्यापीठाच्या पुरातत्वमंदिर शाखेंत पालि भाशेचे आचार्य ह्या नात्यान ताणी काम केलें. हे अवधींत मराठींत आनी गुजरातींत ताणीं जायतीं पुस्तकां बरैलीं. प्रा. ल्यानमन सेवानिवृत्त जाल्ल्यान 'विशुद्धिमग्गा'चे संस्करण पुरतें करपाची संद आता मेळटली हे अपेक्षेन १९२६ च्या प्रारंभाक धर्मानन्द परते अमेरिकेक गेले आनी सेतेंब्र १९२७ मेरेन सगलें संस्करण छापून तयार जातकच ते स्वदेशाक परतले.

हिंदुस्थानांत येतकच घरकान्नीक घेवन ताणी सगल्या क्षेत्रांच्यो यात्रो केल्यो आनी गुजरात विद्यापीठांत ते पैलीभशेन रावंक लागले. १९२९ सालाक लेनिनग्राड (रशिया) च्या बौद्ध संस्कृतायेच्या अभ्यासाखातीर स्थापिल्ले संस्थेंत काम करपाखातीर ते रशियाक गेले. तांगेल्या पैलींच साम्यवादी मनाचेर जाल्ल्या रशियातल्या अणभवांचो बरोच अणकूळ परिणाम जालो. रशियांतली हवा, रीतखीस आनी जेवणखाण मानवना जाल्ल्यान एका वर्साभितरच म्हळचार १९३० चे सुर्वेक ते हिंदुस्थानांत परतले. हांगा येवन पळेतात जाल्यार सगलो देश सत्याग्रहाच्या संग्रामाखातीर सज्ज जाला. मार्सा म्हैन्यांत सुप्रसिद्ध दांडीकूच जालें. धर्मानन्दांनी ह्या स्वातंत्र्ययुद्धांत उडी घेतली. खेडयापाडयांतल्यान प्रचार केलो, शिरोडें (रत्नागिरी) च्या मिठाच्या सत्याग्रहांत वांटो घेतलो आनी निमाणें विलेपार्लेचे सत्याग्रह-छावणीचें प्रमुखपण स्वीकाल्लें. थंय तांकां अटक जातकच हायकोर्टान रोखडेच तांकां सोडून दिले. १९३१ च्या ओतुब्रांत डॉ. वुडसाच्या आग्र्याक लागून चवथे फावटी ते अमेरिकेक गेले आनी थैंच्यान १९३२ सालाक परते आयले. त्या उपरान्त '१९३४ सालच्या आगोस्तांत हांव बनारसाक वचून रावलों. थंय सं म्हैने हिंदु युनिवर्सिटीचो सोयरो आशिल्लों. त्या उपरांत काशी विद्यापीठांत आठ णव म्हन रावलों. विद्यापीठाच्या चालकांनी म्हजखातीर एक ल्हानशें घर बांदून दिलें. त्या घरांत रावन हांवें 'हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा' हें पुस्तक बरैलें.'

कष्टी कुळवाडी वर्गाभितर बुद्धाच्या अहिंसा तत्वज्ञानाच्या प्रचारान स्पृश्यास्पृश्य भेद ना करून समता स्थापूंक येत काय किते हें अदमासच्या इराद्यान परळचे वस्तींत एक आस्रम स्थापन करपाचें काम कोसम्बींनी त्या उपरान्त हातांत घेतलें. तांच्या इराद्याप्रमाण १९३७ च्या जानेरांत 'बहुजनविहारां'त्री स्थापना जाली. थंय आपणाल्या उद्देशानसार ते काम करूंक लागले.

थंय रावन आपणाले उद्देस सिद्दीक वचचे नात अशें कांय वर्सांच्या अणभवान तांच्या मनान घेतलें तेन्ना ते बनारस लागशिल्ल्या सारनाथाक वचून रावले. आयुष्याचे अखेरेक जैन तीर्थंकर पार्श्वनाथ हाणें पुरस्कारिल्ल्या चातुर्यामधर्मान तांचें मन विशेष ओडिल्लें. ताजेर ताणीं एक पुस्तकय बरैलां.

जैन धर्माच्या उपदेसानसार तांच्या मनान घेतलें कि काया निर्बळ जावन लोकांच्या सेवेक ती उपकरना जातकच तिका अन्न दीत जगवप हें पातक. प्रायोपवेशन करून ती त्यागप होच अशे अवस्थेंतलो धर्म, अशे मानून ताणी अन्न वर्ज्य करूंक आरंभय केलो. महात्मा गांधींक हें कळ्ळें तेन्ना ताणी कोसम्बींक ह्या तांगेल्या बेतापसून परावृत्त केले. पुण पार्थिव कुडीचे आवरण तांगेल्या आत्म्याक तेन्नाच्यान मानवना जालें. अखेर गांधीजींच्या म्हऱ्यांत आसचें म्हणून ते सेवाग्रामाक वचून रावले आनी थंय ५ जून १९४७ दिसा तांचो देहान्त जालो.

अशें ह्या महाभागाचें लोकविलक्षण चरित्र. बुद्ध भगवानान उपदेसिल्लो कल्याणाचो धर्ममार्ग तांकां पटलो. ताणी तो स्वतः आचरून सगळ्यांक उपदेसलो. पुण तांगेले मन इतल्यार थांबलें ना. अखेरमेरेन नवे नवे संस्कार घेत ते वाडत उल्लें. मात हे संस्कार एकामेकांकडेन जुळटे जावन एकाच मार्गावेली पेणीं आसचीं तशे आशिल्ले. अमेरिकेक वतकच समाजशास्त्राचो अभ्यास घडून तांच्या मनान मार्क्सान सांगिल्लो समाजवाद आपणायलो. पुण गांधीजींचे समग्र जीवन व्यापपी अहिंसेचें आनी

सत्याग्रहाचें दर्शन जेन्ना तांकां जालें तेन्ना खरेलो समाजवाद, सत्य अहिं-सेच्या मार्गानच मनशांमदीं अवतरूंक पावतलो अशी तांची दृढ धारणा जाली. तांतूंत अखेरेक जैनांच्या 'चातुर्याममार्गा'च्या व्यासंगाची भर पडून व्यक्तिजीवनाची कृतार्थताय हेंच परमध्येय, तांतूंतच समाजवादाचें पर्यवसान जावंक जाय, अशी तांगेली सर्वसमन्वयी जीवनदृष्टी जाली आपणांक जे जें प्रत्ययाक आयलें ताजो ताजो ताणी निर्भयपणान प्रचार केलो.

फेब्रेर १९१० त सयाजीराव म्हाराजांचे सांगणेन बडोद्याक बौद्ध धर्माचेर कोसम्बींनी व्याख्यानां दिलीं. तांचें पुस्तक रोखडेंच 'बुद्ध, धर्म आणि संघ' ह्या नांवान भायर सल्लें. फुडें १९१४ सालाक तांगेलें 'बुद्ध-लीलासार संग्रह' हें पुस्तक प्रसिद्ध जालें. ह्या ग्रंथाचे तीन भाग आसात. पैल्या भागात गोतम बुद्धाच्या पुर्विल्ल्या जल्माच्यो कथा आयल्यात. दुसऱ्या भागात खुद्द गोतम बुद्धाच्यो कथा आयल्यात आनी तिसऱ्या भागांत बुद्धाचो उपदेस आनी ताजें परिनिर्वाण हांच्यो कथा आयल्यात. समाधिमार्ग, (१९२५) आनी 'बौद्ध संघाचा परिचय' (१९२६) हीं पुस्तकां गुजरात विद्यापीठांत आसताना ताणी बरैलीं. त्या उपरान्त 'हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा' (१९३५) हें पुस्तक काशीक आसताना बरैलें. हातूंत ताणी पुर्विल्ल्या भारतासंबंदाचे आपणाले परिणत अवस्थेतलें विचार आनी समाजीक तत्वज्ञान प्रगट केलां. "विशुद्धिमग्गा'च्या संशो-धनासंबंदान वैर अनेक उल्लेख येवन गेल्यात. ह्या ग्रंथाचें संस्करण अंधेरी (मुंबय) च्या 'भारतीय विद्याभवन' हे संस्थेन नगरी लिपयेंत हालींच प्रसिद्ध केलां. गुजराती भाशेंतच तांची जायतीं पुस्तकां भायर सल्यात.

गांधीजींचे प्रेरणेन धर्मानन्दांच्या स्मारकाची योजना जाली त्याप्रमाण बौद्ध धर्म आनी साइत्य हाचें निष्ठेन अध्ययन करपाखातीर कांय विद्यार्थी लंकेक धाडचे अशें थारलें. शिवाय धर्मानन्दांच्या वाङमयाचें सगल्या भारतीय भासांतल्यान प्रकाशन जावचें असोय संकल्प जालो.

धर्मानन्दजीन आपणाल्या पूर्वायुष्याचो वृत्तांत बरैला. तो 'निवेदन' ह्या नांवान १९२४ सालाक पुस्तकरूपान प्रसिद्ध जाला. उत्तर आयुष्याचो

वृत्तांत ताणीं १९३७–३८ सालाक 'खुलासा' ह्या नांवान बरैल्लो, तो वृत्तपत्रांतल्यान प्रसिद्ध जाल्लो.

निर्लोभ, अभय आनी ध्येयनिष्ठा ह्या तीन अमोल गुणांनी कोसम्बींचें शील संपन्न जाल्लें. बौद्धधर्म, तत्वज्ञान आनी साइत्य हांचे ते केवळ पंडित नाशिल्ले; पंडिताचे पंडित आशिल्ले. आपल्या पांडित्याचो वेंच ताणीं बहुजन हिताय, बहुजन सुखाय केलो हें तांगेलें खाशेलेपण. ह्या खाशेले–पणाक लागून पंडितांमदीं तशेंच लोकसेवकांमदीं तांगेलें उंचेलें स्थान अढळ आसा.



# प्रस्तावना

पाली वाङमयांतलो मुखेल ग्रंथसंच म्हळ्यार तिपिटक (त्रिपिटक). सुत्तपिटक, विनयपिटक आनी अभिधम्मपिटक हे ताजे तीन भेद. सुत्तपिटकांत बुद्ध आनी ताजे अग्रशिष्य हांच्या उपदेसांचो संग्रह प्रामुख्यान केल्लो आसा. विनयपिटकांत भिक्षूंनी कशें वागचें ह्यासंबंदान बुद्धान केल्ले नेम, ते करपाचीं कारणां, वेळोवेळ तातूंत केल्ले फेरफार आनी तांचेर केल्ली टीका हांचो संग्रह केल्लो आसा. अभिधम्मपिटकांत सात प्रकरणां आसात. तांतूंत बुद्धाच्या उपदेसांत आयिल्ल्या जायत्या मुद्यांचो खल केल्लो आसा.

दीघनिकाय, मज्झिमनिकाय, संयुत्तनिकाय, अंगुत्तरनिकाय आनी खुद्दकनिकाय अशे सुत्तपिटकाचे पांच विभाग आसात. दीघनिकायांत व्हडल्या व्हडल्या चौतीस सुत्तांचो संग्रह जाला. दीर्घ म्हळ्यार व्हंड (सुत्तां). तांचो संग्रह हातूंत जाल्ल्यान हाका दीघनिकाय म्हण्टात.

मज्झिमनिकायांत मध्यम प्रमाणाचीं सुत्तां एकठांय केल्यांत म्हणून ताका नांव दिलां मज्झिम (मध्यम)– निकाय. संयुत्तनिकायांत गाथा भरशिल्लीं सुत्तां पैल्या भागांत आयल्यांत आनी उपरान्तच्या भागात तरेकवार विशयांवेलीं ल्हानव्हड सुत्तां एकत्र केल्यांत. ताकालागून ताका संयुत्तनिकाय, म्हळ्यार मिश्रनिकाय, अशें नांव दिलां. अंगुत्तरनिकाय म्हळ्यार ज्यातूंत एकेका आंगाची वाढ जायत गेली तो. तातूंत एकेका निपातापसून एकादसक निपातामेरेन इकरा निपातांचो संग्रह आयला. एकेक निपात

म्हळचार एकाच गजाली संबंदान बुद्धान उपदेसिल्लीं सुत्तां ज्यातूंत आसात तो. तेचपरी दुक-तिक-निपात बी समजुचे.

खुद्दकनिकाय म्हळचार माणकुल्या प्रकरणांचो संग्रह. तांतूंत फुडलीं पंदरा प्रकरणां येतात. खुद्दकपाठ, धम्मपद, उदान, इतिवृत्तक, सुत्तनिपात, विमानवत्थु, पेतवत्थु, थेरगाथा, थेरीगाथा, जातक, निद्देस, पटिसंभिदामग्ग, अपदान, बुद्धवंस आनी चरियापिटक. हो सुत्तपिटकाचो विस्तार. विनय-पिटकाचे पाराजिका, पाचित्तियादि, महावग्ग, चुल्लवग्ग आनी परिवार-पाठ अशे पांच विभाग आसात.

तिसरें अभिधम्मपिटक. हाजीं धम्मसंगणि, विभंग, धातुकथा, पुग्गल-पञ्ञत्ति, कथावत्थु, यमक आनी पट्ठाण अशीं सात प्रकरणां आसात.

बुद्धघोषाच्या मुस्तींत म्हळचार इसवी सनाच्या सरासरी चौथ्या शेंक-ड्यांत ह्या सगल्या ग्रंथसंचांतल्या वाक्यांक आनी उतान्यांक **पाली** म्हण्टाले. बुद्धघोषाच्या ग्रंथांत तिपिटकांतल्या वचनांचो निर्देस आसा ' अयमेत्थ पालि ' (ही हांगा पालि) वा ' पालियं वुत्तं ' (पालींत म्हळां) अशा उतरांनी केल्लो आसा. पाणिनी जसो ' छंदसि ' ह्या उतरान वेदांचो आनी ' भाषा-याम् ' ह्या उतरान आपले मुस्तींतले संस्कृत भाशेचो उल्लेख करता, तसोच बुद्धघोषाचार्य ' पालियं ' ह्या उतरान तिपिटकांतल्या वचनांचो आनी ' अट्ठकथायं ' ह्या उतरान तेन्नाचे सिंहली भाशेंत चालंत आशिल्ल्या ' अट्ठकथां 'तल्या वाक्यांचो उल्लेख करता.

अट्ठकथा म्हळचार अर्थसैत कथा. त्रिपिटकांतल्या वाक्यांचो अर्थ सांगप आनी गरज पडल्यार एकाद्री कार्णी सांगप असो परिपाठ सिंहलद्वीपांत चलतालो. कालान्तरान ह्यो अट्ठकथा बरपांत आयल्यो. पुण तांतूंत पुनरुक्तीचो दोस जायतो आयला. शिवाय त्यो सिंहलद्वीपाभायल्या लोकांक व्हडल्योशो उपकारापडसारक्यो नाशिल्ल्यो. म्हणून बुद्धघोषा-

चार्यान तांतल्यो मुख्य अट्ठकथांचें थोडयाभितर रूपांतर तिपिटकाच्या भाशेंत केलें. ते इतलें बरें वठलां कि ताजो मान तिपिटकाइतलोच जावंक लागलो. ('पालि विय तमग्गहुं'). अर्थात् त्या अट्ठकथांकपसून पालिच म्हणूंक लागले. खरें म्हळ्यार 'पालि' हें भाशेचें नांवच न्हय. ह्या भाशेचें मुदलचें नांव मागधी. पुण तिका हें अशें नवें नांव हे तरेन मेळ्ळें.

वैर सांगिल्ल्या त्रिपिटकाच्या विभागांची थारावणी राजगृहाक भरिल्ले पैले सभेंत जाली, अशें बुद्धघोषाचार्यालें म्हण्णें आसा. बुद्ध भगवानाच्या परिनिर्वाणाउपरान्त भिक्षू शोकव्याकुळ जाले. तेन्ना सुभद्र नांवाच्या एका वय जाल्ल्या भिक्षून म्हळें, 'आमचो नियंतो परिनिर्वाणाक पावलो, हें बरें जालें. तुमी अमुकच करूंक जाय आनी तमुक करूंक कामा नये, अशे तरेन निरंतर तो आमकां बंदपासांत दवरी. आतां मनाक मानत तशे वागूंक आमकां मेकळीक जाली.' हें आयकून महाकाश्यपान येवजिलें कि धर्मविनयाचो संग्रह केलो जाल्यार सुभद्रासारकेल्या भिक्षूंक स्वैराचार करूंक मुभा मेळटली; तेन्ना भिक्षुसंघाची ताबडतोब सभा आपौन धर्म आनी विनय हांचो संग्रह करून दवरूंक जाय. त्याप्रमाण महाकाश्यपान त्या चातुर्मासांत राजगृहाक पांचशें भिक्षू पुंजा केले; आनी ते सभेंत सुर्वेक उपालीक विचारून विनयाचो संग्रह सिद्ध केलो आनी उपरान्त आनंदाक प्रस्न करून सुत्त आनी अभिधम्म हीं दोन पिटकां नक्की करून घेतलीं. जायत्या जाणांच्या मतान खुद्दकनिकायाचो अंतर्भाव अभिधम्मपिटकांतच जाल्लो. पुण हेर म्हणत कि ताजो अंतर्भाव सुत्तपिटकांतच जावंक जाय.

सुमंगल विलासिनीचे निदानकथेत आयिल्ल्या मजकुराचो हो सारांश. होच मजकूर समन्त पासादिकी नांवाच्या विनय अट्ठकथेंचे निदानकथेंतय मेळटा. पुण ताका तिपिटक ग्रंथांत खैंच आधार ना. बुद्ध भगवानाच्या परिनिर्वाणाउपरान्त राजगृहाक भिक्षुसंघाची पैली सभा जाल्ली जायत. पुण तिज्यांत सध्याच्या पिटकाचे विभाग वा पिटक हे नांव लेगीत आयिल्लें आसत अशें दिसना. अशोकाच्या काळामेरेन बुद्धाच्या उपदेसाचे धर्म

आनी विनय अशे दोन वांटे जाल्ले. पैकी धर्माचीं णव आंगां म्हणून मानताले ती अशीं :– सुत्त, गेय्य, वेय्याकरण, गाथा, उदान, इतिवुत्तक, जातक, अब्भुत-धम्म, आनी वेदल्ल. ह्या आंगांचो उल्लेख मज्झिमनिकायांतल्या अलगद्दू-पम सुत्तांत, आनी अंगुत्तरनिकायांत सातकडेन सांपडटा.

सुत्त हें पालि उतर सूक्त वा सूत्र ह्या दोनय संस्कृत उतरांबदली येवं येता. वेदांत जशीं सुक्तां तशींच हीं पालि सुक्तां अशें जायत्या जाणांचें म्हण्णे. परंत महायानसंप्रदायाच्या ग्रंथांत हांकां सूत्रां म्हळां; आनी तोच अर्थ बरोबर जावंये. हालीं सूत्रां म्हळीं म्हण्टकच तीं पाणिनीचीं आनी हेर आसतीत तींय तसलींच असो समज जावन बसला. पुण आश्वलायन गुह्यसूत्र बीं सूत्रां ह्या त्रोटक सूत्रांपरस मात्शीं विस्तृत आसतात; आनी अशाच अर्थान पालि भाशेंतलीं सूत्रां आरंबाक रचलीं जावं येता. त्या सूत्रां-वेल्यान आश्वलायनादिकांनी आपणांली सूत्रां रचलीं काय बौद्धांनी तांची देख घेवन आपणालीं सूत्रां रचली ह्या वादात भितर सरपाची गरज ना. इतलें खरें कि अशोकाचे मुस्तीपैलीं बुद्धाच्या उपदेसपर वचनांक सुत्तां म्हण्टाले आनी तीं चडशीं व्हड नासतालीं.

गाथांनी भरसल्ल्या सुत्तांक गेय्य म्हण्टात, अशें अलगद्दसुत्ताचे अट्ठकथेंत म्हळां आनीं देखीक संयुक्तनिकायाचो पैलो विभाग दिल्लो आसा. परंत जितल्यो म्हणून गाथा आसात त्या सगळयांचो गेय्यांत संग्रह जाता. तेन्ना गाथा नांवांचो विंगड विभाग कित्याक केलो हें सांगतां येना. गेय्य म्हळयार अमूकच प्रकारच्यो गाथा असो समज आशिल्लो जाल्यार कोण जाणां.

वेय्याकरण म्हळयार व्याख्या. एकाद्रें सूत्र घेवन ताजो थोडयाभितर वा विस्तारान अर्थ सांगप हाका वेय्याकरण म्हण्टात. (अर्थात् ह्या उतराचो संस्कृत व्याकर्णाकडेन कांय संबंद ना.)

**प्रस्तावना**

धम्मपद, थेरगाथा आनी थेरीगाथा हे तीन ग्रंथ गाथा ह्या मदरांत येतात अशें बुद्धघोषाचार्यालें म्हण्णें. परंत थेर आनी थेरीगाथा बुद्धाच्या निर्वाणाउपरान्त तीनचार शेंकडे अस्तित्वात आशिल्ल्यो अशें दिसता; आनी धम्मपद तर सामकोच ल्हान ग्रंथ. तेन्ना गाथा म्हळयार तो एकच ग्रंथ आशिल्लो काय दुसऱ्या कांय गाथांचो ह्या विभागात समावेस जाल्लो हें सांगप कठीण.

वैर दिल्ले खुद्दकनिकायाचे वळेरेंत उदानाचो उल्लेख आयलाच. तांतली उदानां आनी तशेच परीची सुत्तपिटकांत इतरत्र आयिल्लीं वचनां हांकां उदानां म्हण्टाले, अशें बुद्धघोषाचार्यालें म्हण्णें आसा. पुण तांतलीं कितलीं उदानां अशोकाचे मुस्तींत अस्तित्वांत आशिल्लीं हें सांगप शक्य ना. उपरान्त तांच्यात भर पडत गेली हातूंत दुबाव ना.

इतिवुत्तक प्रकरणांत ११२ इतिवुत्तुकांचो संग्रह आसा. ते पैकीं देखावे सांची आनी बर्हुतच्या स्तूपांच्या आजूबाजूंनीं कोरायल्ले सांपडटात. हाजे-वेल्यान अशोकाचे मुस्तींत जातकाच्या बऱ्याचशा कथांचो बौद्ध वाङमयांत रिगाव जाल्लो अशें अनुमान करूं येता.

अब्भुतधम्म म्हळयार अद्भुत चमत्कार. बुद्ध भगवन्तान आनी ताज्या फडेच्या श्रावकांनी केल्ल्या अद्भुत चमत्कारांची वर्णना ज्यातूंत आशिल्ली असो एकाद्रो ग्रंथ ते मुस्तींत आशिल्लो अशें दिसता. पुण आता ह्या अद्भुत धर्माचो लवलेस उरूंक ना. तांतले सगळे भाग सध्याच्या सुत्तपिटकांत भरसून गेले जावं ये. बुद्धघोषाचार्याकपसून अद्भुतधर्म कितें आशिल्लो हें सांगप कठीण जालें. तो म्हण्टा, "चत्तारोमे भिक्खवे अच्छरिया अब्भुता धम्मा आनन्दे ति आदिनयपवत्ता सब्बे पि अच्छरियब्भुतधम्मपटिसंयुत्ता सुत्तन्ता अब्भुतधम्मं ति वेदितब्बा!" (भिक्षूंनो! हे चार आश्चर्य अद्भुतधर्म आनंदांत वास करतात, इत्यादी प्रकारान अद्भुतधर्मान सुरू जाल्लीं आश्चर्य

अद्‌भुतधर्मांनी युक्त आशिल्लीं सगलीं सूत्रां अद्‌भुतधम्म समजुंचीं) पुण ह्या अद्‌भुतधर्माचो आनी मुळच्या अब्भुतधम्म ग्रंथाचो कांय संबंद दिसना.

महावेदल्ल आनी चूळवेदल्ल अशीं दोन सूत्रां मज्झिमनिकायांत आसात. ताजेवेल्यान वेदल्ल हें प्रकरण कशें आशिल्लें हाजे अनुमान करू येता. त्यांपैकी पैल्या सुत्तांत महाकोट्ठित सारिपुत्ताक प्रस्न विचारता आनी सारिपुत्त तांकां फावो त्यो जापो दिता. दुसऱ्यांत धर्मदिन्ना भिक्षुणी आनी तिजो पूर्वाश्रमातलो घोव विशाख या दोगांयचो अशेच तरेन प्रस्तोत्तर पद्धतीचो संवाद आसा. हीं दोनय सुत्तां बुद्धाचीं भाषितां न्हयत. पुण तशे रितीच्या संवादांक वेदल्ल म्हण्टाले. श्रमण, ब्राह्मण आनी हेर लोक हांचे-बरोबर बुद्ध भगवंताचे जे संवाद जाले जातले, तांचो एक निराळो संग्रह केल्लो आनी ताका वेदल्ल हें नांव दिलें अशें दिसता.

हीं णव आंगां अस्तित्वांत येवचेपैलीं सुत्त आनी गेय्य ह्या दोनच आंगांत बाकीच्या आंगांचो समावेश जाल्लो अशें महासुञ्ञतासुत्तांतल्या सकैल्या मजकुरावेल्यान दिसून येता :– बुद्ध भगवान आनंदाक म्हण्टा, "न खो आनन्द अरहति सावकोसत्थारं अनुबन्धितुं यदिदं सुत्तं गेय्यं वेय्याकरणस्स हेतु। तं किस्स हेतु। दीधरत्तं हि वो आनन्द धम्मा सुत्ता धाता वचसा परिचिता. . . ." (आरे आनन्दा, सुत्त आनी गेय्य हांच्या वेय्याकरणा खातीर (फोडणिशे खातीर) श्रावकान शास्त्या (गुरूच्या) बरोबर भोंवप योग्य न्हय, कित्याक तर ह्यो काणयो तुमी आयकल्ल्योच आसात; आनी त्यो तुमकां परिचित आसात). म्हळ्यार, सुत्त आनी गेय्य इतल्यांतच बुद्धाचो उपदेस आस्पावतालो आनी वेय्याकरण वा फोडणिशी श्रावकांचेर सोंपयल्ली. करतां करतां तांतूंत आनीक मं आंगांची भर पडली आनी फुडें नांतल्या कांय आंगांची सरभरस करून सध्याची बरीचशीं सुत्तां घडलीं. तांतलो बुद्धाचो खरेलो उपदेस खैंचो आनी अडेचो खैंचो हें जरी सांगूंक कठीण जालां आसलें तरी अशोकाच्या भाब्रा वा भाब्रू शिला-

लेखांच्या आधारान पिटकांतले पुर्विल्ले भाग खैंचे आसतीत हाजें अनुमान करप शक्य आसा.

अशोकाच्या भाब्रू शिलालेखांत सकैले बुद्धाचे सात उपदेस भिक्षूंनीं भिक्षुणिनीं, उपासकांनीं आनी उपासिकांनी परते परते आयकुचे आनी तोंडपाठ करचे अशी सुचौणी केल्या. ते उपदेस अशे :–

(१) विनयसमुकसे (२) अलियवसानि (३) अनागतभयानि (४) मुनिगाथा (५) मोनेयसूते (६) उपतिसपसिने (७) लाघुलोवादे मुसावादं अधिगिच्य भगवता बुद्धेन भासिते.

ह्या सातांपैकी नं. ७ मज्झिमनिकायांतलें राहुलोवाद सुत्त (नं. ६१) आसा अशें ओल्डेनबर्ग आनी सेनार ह्या दोन अस्तमत्तेच्या विद्वानांनीं दाखौन दिलां. उरिल्ल्यांची म्हायती दिवचेलो येत्न प्रो. ऱ्हिस डेविड्स हाणीं केला. पुण सुत्तनिपातांतल्या मुनि सुत्ताखेरीज ताणीं जीं दुसरीं सुत्तां दर्सायलीं तीं सगळीं चुकीचीं आशिल्लीं. नं. २, ३, ५, आनी ६ हीं चार सुत्तां कोणाचीं आसतीत हाजो ऊहापोह हांवें १९१२ सालच्या फेब्रेराच्या 'इंडियन अँटिक्वेरी' च्या आंकांत केल्लो आसा. तांतूंत दर्सायल्लीं सुत्तां आतां सर्वत्र ग्राह्य जाल्यांत. फकत पैल्या सुत्ताचो थांग तेन्ना म्हाका लागूंक नाशिल्लो. 'विनयसमुकसे (विनयसमुत्कर्ष)' हाजो विनय ग्रंथांकडेन कांय पुण संबंद आसूंक जाय अशें दिसलें आनी तशे तरेचो उपदेस खैंच सांपडिल्ल्यान तें सूत्र खैंचें हें म्हाकां सांगूंक आयलें ना.

पुण विनय शब्दाचो अर्थ विनयग्रंथ असो करपाचें कांय कारण ना. 'अहं खो केसि पुरिसदम्मं सण्हेन पि विनेमी फरुसेन पि विनेमि।' (अंगुत्तर चतुक्कनिपात, सुत्त नं. १११); 'तमेनं तथागतो उत्तरिं विनेति।' (मज्झिम, सुत्त नं. १०७) 'यन्नूनाहं राहुलं उत्तरिं आसवानं खये विनेय्यं ति।' (मज्झिम, सुत्त नं. १४७) बी सुवातींनी वि-पूर्वक नी धातूचो अर्थ शिकवप

असो आसा; आनी ताजेवेल्यानच उपरान्त विनयाच्या नेमांक विनय-पिटक अशें म्हणूंक लागले. बुद्धान जेन्ना भिक्षू पुंजावक आरंब केल्लो तेन्ना विनयग्रंथाचें अस्तित्वच नाशिल्लें. जी कितें शिकवण आशिल्ली ती सुत्तांच्या रूपानच. शिरथबलकेक पंचवर्गीय भिक्षूंक बुद्धान आपले शिष्य केले ते ‘ धम्मचक्क-पवत्तनसुत्त ’ उपदेसून. तेन्ना विनय शब्दाचो मुदलचो अर्थ शिकवण असोच घेवंप जाय. आनी त्या विनयाचो समुत्कर्ष म्हळयार बुद्धाचो उत्कृष्ट धर्मोपदेस. ‘ समुक्कस ’ हें उत्तर जरी पालि वाङमयांत बुद्धाच्या उपदेसाचे वाचक म्हणून मेळना आसलें तरी ‘ सामुक्कंसिका धम्मदेसना ’ हें वाक्य जायत्या सुवातीनी सांपड्टा. देखीक, दीघनिकायांतल्या अम्बट्ठ सुत्ताचे अखेरेक आयिल्लो हो मजकूर पळेयात–“ यदा भगवा अञ्ञासि ब्राह्मणं पोक्खरसातिं कल्लचित्तं मृदुचित्तं विनीवरणचित्तं उद्-ग्गचित्तं पसन्नचित्तं, अथ या बुद्धानं सामुक्कंसिका धम्मदेसना तं पकासेसि दुःखं समुदयं निरोधं मग्गं।” (जेन्ना भगवन्तान जाणलें कि पौष्करसादि ब्राह्मणाचें चित्त प्रसंगाक योग्य, मोव, आवरणांपसून मुक्त, उदग्र आनी प्रसन्न जालां तेन्ना बुद्धाची जी सामुत्कर्षिक धर्मदेसना ती ताणें प्रगट केली ती खेंची? तर दुःख, दुःखसमुदय, दुःखनिरोध आनी दुःखनिरोधाचो मार्ग.)

ह्याच सुत्तांत न्हय तर, मज्झिमनिकायांतल्या उपालिसुत्तासारकेल्या दुसऱ्या सुत्तांत आनी विनयपिटकांत अनेककडेन हेंच वाक्य आयिल्लें आसा. फरक इतलोच कि हांगा हें पोक्खरसाति ब्राह्मणाक उद्देसून आसा आनी थंय उपालिबी गृहस्थांक उद्देसून आसा. हाजेवेल्यान विनयसमुत्कर्ष म्हळयार सामुत्कर्षिका धर्मदेशना. एका काळाक ह्या चार आर्यसत्यांच्या उपदेसाक विनयसमुक्कंस म्हण्टाले हातूंत दुबाव ना. ‘ धम्मचक्कप्रवत्तन-सुत्त ’ हें नांव अशोकाउपरान्त बऱ्याच काळान प्रचारांत आयलें जावंये. चक्रवर्ती राजांच्यो काणयो लोकांत प्रिय जाल्याउपरान्त बुद्धाच्या ह्या उपदेसाक हें असले गडगंज नांव मेळ्ळें.

'विनयसमुकसे' हेंच धम्मचक्कपवत्तनसुत्त अशें मानून चल्यार भाब्रू शिलालेखांत निर्देसिल्ले सात उपदेस बौद्ध वाङमयांत सांपडात, ते अशे :–

(१) विनयसमुकसे – धम्मचक्कपवत्तनसुत्त
(२) अलियवसानि – अरियवंसा (अंगुत्तर चतुक्कनिपात)
(३) अनागतभयानि – अनागतभयानि (अंगुत्तर पञ्चकनिपात)
(४) मुनिगाथा – मुनिसुत्त (सुत्तनिपात)
(५) मोनेयसूते – नाळकसुत्त (सुत्तनिपात)
(६) उपतिसपसिने – सारिपुत्तसुत्त (सुत्तनिपात)
(७) लाघुलोवाद – राहुलोवाद (मज्झिम, सुत्त नं. ६१).

ह्या सातांपैकी धम्मचक्कपवत्तंनसुत्त जंय थंय सांपडटा. तेन्ना ताजें म्हत्व विशेष हे सांगूकच नाका. आनी त्याप्रमाण अशोकान तें अग्रभागीं दिलां. बाकीच्यापैकीं तीन एका ल्हानशा सुत्तनिपातांत आसात. ताजेवेल्यान सुत्तनिपाताचे प्राचीनपण सिद्ध जाता. ताज्या निमाण्या दोन वग्गाचेर आनी खग्गविसाणसुत्ताचेर निद्देस नांवाची विस्तृत टीका आसून तिजो समावेस ह्याच खुद्दकनिकायांत केल्लो आसा. सुत्तनिपाताचे हे भाग निद्देसा-आदीं एक दोन शेकडे तरी अस्तित्वात आशिल्ले अशें समजूंक जाय आनी त्यावेल्यान पसून सुत्तनिपाताचें प्राचीनपण सिद्ध जाता. तांतलीं सगलींच सुत्तां अतिप्राचीन आसतीत अशें ना. तरोपूण चडशीं सुत्तां निःसंशय खूब पोरणीं आसात. प्रस्तुत ग्रंथांत बुद्धचरित्रासंबंदान वा बुद्धाच्या उपदेसासंबंदान जी चर्चा केल्या ती अशाच प्राचीन सुत्तांच्या आधारान.

आतां आमी खाशेल्या बुद्धचरित्राकडेन वळुंया. त्रिपिटकांत सबंध बुद्धचरित्र एकाच जाग्यार ना. तें जातकअट्ठकथेचे निदान कथेंत सांपड्टा. ही अट्ठकथा बुद्धघोषाचे मुस्तींत म्हळयार पांचव्या शेंकडयांत बरैली आसूंक जाय. तिचेआदीं ज्यो सिंहली अट्ठकथा आशिल्यो तांतलो बरोचसो

मजकूर हें अट्ठकथेंत आयला. हें बुद्धचरित्र चड करून ललितविस्तराच्या आधारान बरैलां. ललितविस्तर इसवी सनाच्या पैल्या शेंकड्यांत वा त्या आदीं कांय वर्सां बरौन जालो जावंये. तो महायानाचो ग्रंथ. आनी ताजे-वेल्यानच जातकअट्ठकथाकारान आपणाली बुद्धचरित्राची कथा रचल्या. ललितविस्तर लेगीत दीघनिकायांतल्या महापदानसुत्ताच्या आधारान बरैला. त्या सुत्तांत विपस्सी बुद्धाचें चरित्र खूब विस्तारान दिलां. आनी त्या, चरित्रावेल्यान ललितविस्तरकारान आपणालें पुराण रचलें. अशे तरेन गोतम बुद्धाच्या चरित्रांत नसत्योच गजाली शिरकटल्यो.

महापदानसुत्तांतले कांय भाग वेगळे काडून ते गोतम बुद्धाच्या चरित्राक लागू केल्ले सुत्रपिटकांत दिष्टि पडटात. देखीक, तीन राज-वाड्यांची गजाल घेयात. विपस्सी राजकुंवराक रावपाक तीन राजवाडे आशिल्ले ह्या कथेवेल्यान गोतम बुद्धाक रावंक राजवाडे आसूंक जाय, अशी कल्पना करून गोतम बुद्धाच्याच तोंडांत असो मजकूर घाला कि, ताका रावंक तीन राजवाडे आशिल्ले; आनी तो त्या राजवाड्यांनी सुमारा-भायर चैनींत रावतालो. ह्या कथेंची अशक्यताय हांवे दाखौन दिल्याच. (पृष्ठ ९१). पुण ही कथा अंगुत्तरनिकायांत आयल्या आनी त्याच निकायांत अशोकाच्या भाब्रू शिलालेखांतली दोन सुत्तां येतात. तेन्ना म्हाका ती कथा एका काळाक इतिहासिक दिसली. पुण विचारान्तीं अशें दिसून आयलें कि ह्या अंगुत्तरनिकायांत जायते भाग फाटसून घाल्यात. तीन वस्तू संबंदान ज्यो गजाली आसतात तांचो तिकनिपातांत संग्रह केला. तातूंत अविल्लेपण आनी पुविल्लेपण हांचो विचार केल्लो दिसना.[1]

---

1 महापदान सुत्तांतल्यो विपस्सी बुद्धाच्यो दन्तकथा गोतम बुद्धाच्या चरित्रांत कशो भरसल्यो आनी तांतल्यो खंच्यो सुत्तपिटकांत सांपडटात तें पैल्या परिशिष्टांत पळोचें.

अशा कथांतल्यान बुद्धचरित्रासंबंदानच्यो पातयेवपाच्यो गजाली वेगळ्यो कशो काटट्या येतीत, हें दाखौपाच्या उद्देसानच हांवें हें पुस्तक बरैलां. कांय अशो उपयुक्त गजाली म्हजे नदरेंत येनासताना उल्ल्यो जातीत; आनी ज्या कांय गजालींक म्हत्व दिवं नये तांका म्हजेकडल्यान म्हत्व मेळून गेलां जायत. पुण संशोधन करपाचे पद्धतींत म्हजी चूक जाल्या आसत अशें म्हाका दिसना. हे पद्धतीचो अवलंब केल्यार बुद्ध–चरित्राचेर आनी त्या काळच्या इतिहासाचेर विशेष उजवाड पट्टलो असो म्हाका भरवंसो दिसता; आनी त्याच उद्देसान हांवें हें पुस्तक बरैलां. हांतलें कांय लेख कांय वर्सां-फांटी 'पुरातत्व' नांवांच्या तिमासकांत आनी 'विविधज्ञानविस्तारां'त छापून आयिल्ले. पुण ह्या पुस्तकांत ते जशाचे तशे घेवंक नात. तातूंत जायतो फेरबदल केला. मुळांतलो बरोचसो मजकूर ह्या पुस्तकांत दाखल केल्लो आसलो तरी हें पुस्तक सामकें स्वतंत्र आसा, अशें म्हणपाक हरकत ना.

प्रस्तुत पुस्तकाचें हातबरप नवभारत ग्रंथमालेच्या संपादकांनी वाचून पळेलें, तेन्ना ग्रंथांत ज्यांचें विशेष विवेचन आयिल्लें ना अशे कांय मुद्दे म्हजे नदरेक हाडपाचो ताणीं येत्न केलो. तांचो हांगां थोडयाभितर विचार करप योग्य जातलें अशें दिशिल्ल्यान तशें करतां.

(१) बुद्धाचे जल्मतिथीसंबंदानची वेगवेगळीं मतां मांडून साधक-बाधक प्रमाणांनिशीं तांचो ऊहापोह प्रस्तुत ग्रंथांत करूंक नाका आशिल्लो? आमगेल्या पुर्विल वा मध्ययुगीन इतिहासांतल्या राज्यकर्ते, धर्मगुरु, ग्रंथकार बी मान्यवंतांची चरित्रां वर्णचेंपैलीं तांचो काल थारावपाखातीर विद्वानांक पुस्कळच मजकूर खर्चुचो पट्टा, तशें ह्या ग्रंथांत दिसना.

ह्या मुद्यासंबंदान म्हजे म्हण्णे अशें – मध्ययुगीन कवि आनी ग्रंथकार हे शककर्ते नाशिल्ले. तांचे जल्मतिथींसंबंदान केदोय वाद केलो तरी त्यो नक्की थारावंक येतीत अशें दिसना. बुद्धाची गजाल तशी न्हय. ताज्या

परिनिर्वाणापसून आजतागायत ताजो शक चालू आसा. मध्यंतरी अस्त-मतेच्या पंडितांनी वादविवाद करून हे तिथींत ५६ पसून ६५ वर्सांमेरेनचो फरक आसा, अशें सिद्ध करचेलो येत्न केल्लो. पुण अखेरेक जी परंपरा सैंलावांत चलत आयल्या तीच बरोबर अशें थाल्लें. पुण समजा बुद्धाचें जल्मतिथींत थोडोभोव फरक पडलो तरी ताकालागून ताज्या चरित्राक कितेंय गौणपण येत अशें दिसना. मुद्याची गजाल जल्मतीथ ही नासून ताजे आदली स्थिति कितें आशिल्ली आनी ते स्थितीतल्यान बुद्धान नवो धर्ममार्ग कसो सोदून काडलो ही; आनी ती जर विशद करूंक आयली, जाल्यार आजकाल बुद्धासंबंदान रूढ आशिल्ले जायते भ्रम ना जातले आनी आमकां त्या काळचो इतिहास नीट बरो समजतलो. म्हणून तिथी-चेर चड पानां खर्ची घालिनासताना बुद्धाच्या चरित्राचेर उजवाड पडत अशा गजालींकडेन हांवें विशेष लक्ष दिलां.

(२) बुद्धान उपदेसिल्ले अहिंसेन हिंदी समाज भेजूड जालो आनी देखूनच परक्यांनी ताका जिखलो, अशें मत जायतेकडेन प्रतिपादिल्लें दिसता. ताका ह्या ग्रंथांत जाप आसूंक जाय आशिल्ली.

उत्तर – बुद्धाच्या चरित्राचो आनी ह्या प्रतिपादनाचो कितें संबंद आसा अशें म्हाका दिसना. बुद्धाचें परिनिर्वाण इ. स. पैलीं ५४३ व्या वर्सा जालें. त्या उपरान्त दोन शेंकडयांनी चंद्रगुप्तान साम्राज्य स्थापन केलें. स्वत: चंद्रगुप्त जैनधर्मी आशिल्लो म्हण्टात. पुण ग्रीक लोकांक ह्या देशां-तल्यान धांवडावन घालूंक अहिंसाधर्म ताज्या आड आयलो ना. ताजो नातू अशोक सर्वशीं बौद्ध जालो, तरी तो व्हडलें साम्राज्य चलैतालो.

महंमद इब्न कासीम हाणें इ. स. ७१२ सालाक सिंध देशाचेर घुरी घाली, तेन्ना बौद्धधर्माचो पश्चिम हिंदुस्थानातल्यान लोप जाल्लो; आनी ब्राह्मणी धर्माचें वर्चस्व वाडत गेल्लें. अशें आसून खलिफाच्या ह्या भुरग्या वयाच्या सरदारान सिंध देश हां हां म्हण्टा पादाक्रांत केलो आनी थैंच्या

हिंदु राजाक जिवन्शीं मारून ताज्यो कुंवरी आपणाल्या खलिफाक नजराणो म्हणून धाडून दिल्यो.

मुसलमानांनी सिंध आनी पंजाब देशाचो कांय भाग ताब्यांत घेतल्या-उपरान्त शंबर वर्सांनी शंकराचार्य उदयाक आयले. तांगेल्या वेदान्ताचो सगळो रोंख सुदरांनी वेदांचें अध्ययन करूंक जायना हो! सुदरांनी वेदवाक्य आयकलें जाल्यार तांचे कान शिशान वा लाखेन भरचे; वेदवाक्य उच्चाल्लें जाल्यार ताची जीब कापची; आनी वेदमंत्र धारण केल्यार तांकां थार मारचे हो तांगेलो वेदान्त. मुसलमानी जेत्यांकडल्यान तरी आमगेले हे सनातनी धडो घेतीत काय? बुद्ध तर तांगेलो दुस्मानच. ताजेकडल्यान शिकपासारकें आशिल्लें कितें?

रजपूत लोक खूब सनातनी, ते अहिंसा निखालस मानीनाशिल्ले. प्रसंग पडत तेन्ना आपसांत येतिष्ट लडायो करताले. हिंसेच्या ह्या शूर भक्तांक महंमद गझनीन घोडयांच्या पायांमुळां धुल्लाभशेन उध्वस्त कशे केले? ते बुद्धाची अहिंसा मानताले म्हणून काय कितें?

आमगेली पेशवाय तर खासा ब्राह्मणांच्याच हातांत आशिल्ली. निमाणो बाजीराव कर्मठपणाविशीं प्रसिद्ध आसा. हिंसेची तर पेशवायेंत परमा-वधि जाल्ली. हेरांकडल्यो लडायो आसुंदीच, घरच्या घरांतच एक फावट दौलतराव शिंद्यान पुणें लुटलें, तर दुसरे फावटीं तें येसवंतराव होळकरान लुटलें! अशा ह्या निःसीम हिंसाभक्तांचें साम्राज्य अख्ख्या हिंदुस्थानाचेर जावंक नाका आशिल्लें? तांकां तांच्यापरस शतपटीन अहिंसक आशिल्ल्या इंग्लेजांक कित्याक शरण वचचें पडलें? एका फाटल्यान एक मराठे सरदार इंग्लेजांचे अंकित कित्याक जाले? ते बुद्धाचो उपदेस आयकताले म्हणून?

जपान आज हजार बाराशें वर्सां बौद्धधर्मी आसा. १८५३ सालाक तांचेर कमोडोर पेरीन तोफो रोंखतकच तांच्यात जागृताय जावन एकी कशी जाली? बौद्धधर्मान तांकां भेजूड कशे केले नात?

ह्या प्रस्नाच्यो जापो लब्धप्रतिष्ठित टीकाकारांनी अवश्य दिवच्यो. ‘ मिरविसि सुज्ञत्व वृथा अन्याला स्वकृत ताप लावूनी ’ हें आर्याधं मोरोपंतान जशें कितें ह्या लब्धप्रतिष्ठित लोकांक उद्देसूनच बरैल्ले जावंये ! हाणीं आनी हांगेल्या वाडवडलांनीं जीं पातकां केलीं तांचें सगळें अक्ष बुद्धाचेर फोडून हे खुशाल सवळेपणाचे शाणेपण मिरैत भोंवतात!

(३) बुद्धाच्या संबोधिज्ञानाउपरान्तच्या ताज्या चरित्राचो कालक्रमी आराखडो कित्याक दिवंक ना ?

उत्तर – सध्या उपलब्ध आशिल्ल्या प्राचीन वाङमयाच्या आधारान तसो आराखडो तयार करप शक्य ना. बुद्धाचे उपदेस कालक्रमांन दिल्ले नात. इतलेंच न्हय तर जे उपदेस आसात तातूंत पुस्कळच भर पडिल्ली आसा. तातूंतल्यान सत्य सोदून काडप खूबच अवघड. तो प्रयत्न हांवें ह्या ग्रंथांत केलाच. पुण कालक्रमानुसार बुद्ध–चरित्राचो आराखडो तयार करप शक्य जालें ना.

(४) ‘ वैदिक संस्कृताय ’ आर्यांचें भरतखंडांत आगमन जाल्या उपरान्त उपस्थित जाली; ते आदीं ‘ दासांची ’ म्हळयार ब्राह्मणांची संस्कृताय आशिल्ली हाका आधार किते?

उत्तर – हाजो विचार हांवें, ‘ हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा ’ ह्या ग्रंथाच्या पैल्या प्रकरणांत केल्लो आसा. तो ग्रंथ ह्या पुस्तकावांगडा वाचल्यार जायत्या गजालींचो सारको खुलासो जातलो. म्हजें म्हणणें सगळ्यांनी मान्य करचें असो म्हजो बिलकुल आग्रो ना. तें येवजुपाजोगें दिशिल्ल्यान वाचप्यामुखार मांडलां. ह्या दासांच्या आनी आर्यांच्या संस्कृतायांचो बुद्धाच्या चरित्राकडेन भोव थोडो संबंद येता. ह्या दोनय संस्कृतायांच्या संघर्षान उत्पंन्न जाल्ली वैदिक संस्कृताय बुद्धाच्या वेळार प्रतिष्ठित जावन बशिल्ली, इतलें दाखौपाखातीर पैलें प्रकरण ह्या ग्रंथांत घालां.

(५) उपनिषदां आनी गीता हीं बुद्धाउपरान्त रचून जालीं हाका आधार खैंचे ?

उत्तर – हाजीय सविस्तर चर्चा ‘ हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा ’ ह्या ग्रंथांत येवन गेल्या. म्हणून ह्या विषयाची पुनरुक्ति पुस्तकांत केली ना. उपनिषदांत कित्याक, तर आरण्यकांपसून बुद्धाउपरान्त बरौन जाल्यांत हें हांवें मबळ पुराव्यांसैत दाखौन दिलां. शतपथ ब्राह्मणांत आनी बृहदारण्यक उपनिषदांत जी वंशावळ दिल्या, तिजेवेल्यान बुद्धाउपरान्त ३५ पिळग्यांमेरेन तांची परंपरा चालू आशिल्ली अशें दिसता. हेमचंद्र राय चौधरी दरपिळगेक तीस वर्सांचो काळ दितात. ते ऐवजी किमान पंचवीस वर्सांचो काळ दिल्यार बुद्धाउपरान्त ८७५ वर्सांमेरेन ही परंपरा चलताली, अशें म्हणचें पट्टा. म्हणचे समुद्रगुप्ताच्या काळामेरेन ही परंपरा चालू आशिल्ली; आनी तेन्ना ब्राह्मणां आनी उपनिषदां थीर जाल्ली. ते आदीं तांतूंत फाव थंय फेरफार जाले नासतीत अशें न्हय. पालि वाङमयाचो लेगीत असोच प्रकार जाला. बुद्धघोषाआदी सरासरी दोनशें वर्सां पालि वाङमय थीर जाल्लें; आनी बुद्धघोषान अट्ठकथा (टीका) बरयतकच ताजेर अखेरची म्होर बसली. उपनिषदांची टीका तर शंकराचार्यान णव्या शेंकडयांत बरैली. ते आदीं गौडपादाच्यो माण्डूक्य कारिका बरौन जाल्ल्यो. तातूंत तर जंय थंय बुद्धाची तुस्त आसा. चड कित्याक, अकबराचे कारकिर्दीत बरैल्या अल्लोपनिषदाचो पसून उपनिषदांत समावेस जाल्लो आसा.

उपनिषदांनी आतमवाद आनी तपच्छर्या श्रमणसंप्रदायाकडल्यान घेतली हातूंत दुबाव बाळगपाचें कारण ना. कित्याक म्हळ्यार, ह्या दोन गजालींचो यज्ञयागाच्या संस्कृतायेकडेन कितेंच संबंध ना. आजकाल जशे आर्य आनी ब्राह्मण समाज बिब्लीचो एकेश्वरीवाद वेदांचेर आनी उपनिषदादिक ग्रंथांचेर थापूंक सोदतात, तशेच तरेन आतमवाद आनी तपच्छर्या वेदांचेर थापपाचो उपनिषदांचो येत्न दिसता. मात ताणीं श्रमणांची

अहिंसा घेतली ना. तितल्यान ते वैदिक उल्ले. अशें आसून कर्मठ मीमांसक आज लेगीत उपनिषदांक वैदिक म्हणूंक तयार नात!

ज्यांकां पालि वाङमय वा ताजी इंग्लेज भाषांतरां वाचप शक्य आसत, तांकां बौद्धकालीन इतिहाससंशोधनाच्या कामांत हें पुस्तक, उपकारा पट्टलें अशी हांव आशा बाळगितां. पुण ज्यांकां तशी सवड नासत, ताणीं निदान सकैल दिल्लीं पांच पुस्तकां अवश्य वाचचीं.

१. बुद्ध, धर्म आणि संघ; २. बुद्धलीलासारसंग्रह; ३. बौद्धसंघाचा परिचय. ४. समाधिमार्ग; ५. हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा.

हें पुस्तक लोकप्रियता जोडूंक बरौंक ना; केवळ सत्य सोदून काडपाचे बुद्धीन बरैलां. तें लोकांच्या आदराक कितपत पात्र जायत हाजो दुबाव आसा. अशें आसून सुविचार प्रकाशन मंडळाच्या संचालकांनी ह्या पुस्तकाक आपणाले ग्रंथमालेंत स्थान दिलें, त्याबद्दल हांव तांचो भारी उपकारिक आसां. प्राचीन इतिहासाचो निर्विकार मनान विचार करपी जायते महाराष्ट्रीय वाचपी आसात आनी ते ह्या ग्रंथाक आस्रय दिवन सुविचार प्रकाशन मंडळाचो प्रयत्न सफळ करतले असो म्हाका भरवंसो दिसता.

प्रा. श्रीनिवास नारायण बनहट्टी हाणीं मुद्रितां वाचपांच्या कामांत साह्य केल्याबद्दल हांव तांचे उपकार मानतां.

—धर्मानंद कोसंबी

प्रकरण पैलें

# आर्यांचो जय

## उषादेवीचीं सूक्तां

ऋग्वेदांत जीं उषादेवींचीं सूक्तां मेळटात तांच्यावरवीं लो. टिळकांनीं आपल्या The arctic home in The Vedas ह्या पुस्तकांत आर्य उत्तर ध्रुवाकडेन रावताले अशें सिद्ध करपाचो येत्न केलो. 'सदशीरद्य सदृशीरिदु श्वो दीर्घं सचन्ते वरुणस्य धाम।' ऋ. १।१२३।८ (आज आनी फाल्यां ह्यो सारक्योच. त्यो दीर्घकाळमेरेन वरुणाच्या घरांत वतात.)[१] लोकमान्यांच्या मतान हीं आनी अशे तरेच्यो हेर ऋचा उत्तर ध्रुवाकडल्या उषःकालाक उद्देसून बरैल्यात, दीर्घकाळमेरेन उषा वरुणाच्या घरांत वतात, म्हळयार थंय सं म्हैन्यांमेरेन काळोख आसता, असो अर्थ आसूंक जाय.

पुण त्याच सूक्ताच्या बारावे ऋचेंत 'अश्वावतीर्गोमतीर्विश्ववारा' हीं उषादेवीचीं विशेषणां सांपडटात. 'ज्यांचेकडेन खूब घोडे आनी गायो आसात आनी ज्यो सगळयाक पूज्य आसात' असो तांचो अर्थ.[२] उत्तर ध्रुवाकडेन सध्या घोडे आनी गायो नातच; आनी ते प्राणी हजारांनीं वर्सांपैली थंय आशिल्ले हाकाय कांयच आधार सांपडूंक ना. ह्या एकाच सूक्तांत न्हय, तर उषादेवीच्या हेरा सूक्तांत पसून ती घोडे आनी गायो

१. The Arctic Home in the Vedas पृ. १०३

२. हांगा उषा अनेक वचनांत आसा.

दिवपी, गायांची जल्मदात्री बी विशेषणां घे म्हणून सांपडटात. हाजे वेल्यान हयो ऋचा वा ही सूक्तां उत्तर ध्रुवाकडेन रचूंक नात हें सिद्ध जाता.

## इश्तर

तर मागीर दीर्घकाळमेरेन उषा पाताळांत वतात हाचो अर्थ कसो लावप? बाविलोनियेन लोकांत खूब पुर्विल्ल्या काळच्यान चालंत आशिल्ल्यो इश्तर देवतेच्यो दंतकथा लक्षांत घेतल्यार हाजो अर्थ सहज लागात. तम्मुज किंवा दमुत्सि (वैदिक दमूनस्) हया देवाचेर इश्तरेचे प्रेम बसता. पुण अकस्मात तो मरता. अम्रुत हाडून ताका जितो करचो म्हणून इश्तर पाताळांत वता. थंयची राणी अल्लतु ही इश्तरची भैण पुण ती तिजो भयांकृत छळ करता; तिज्या आंगावेल्यो एकेक करीत सगल्यो वस्ती ती काडून घेवंक लागता आनी तिका पिडेखोर करून बणखणीत उडैता. चार सं म्हैने अशे तरेचें दुःख आनी बणखण भोगतकच अल्लतूकडल्यान इश्तरेक अम्रुत मेळटा; आनी ती परती पृथ्वीचेर येता[३] इश्तरेच्यो दुसऱ्योय जायत्यो दंतकथा आसात, पुण तांतली ही प्रमुख दिसता. हिजी वर्णना सगल्या बाबिलोनियन वाङमयांत सांपडटा. ऋग्वेदांतल्या वैल्यासारकेल्या ऋचांचो संबंद हे दंतकथेकडेन आसा हातूंत संशय बाळगपाचें कारण ना.

इश्तर पाताळांतल्यान वैर येता, तेन्ना तिजो त्या रुतूंत उत्सव मनैताले; तांबडया बैलांच्या गाडयेंतल्यान तिजी रथयात्रा काडटाले. घोडयांचो शोध लागल्याउपरान्त तिजो रथ घोडे ओडूंक लागले. 'एषा गोभिररुणभिर्युजाना' ऋ. ५।८०।३ (ही उषा, जिच्या रथाक तांबडे बैल जुंपल्यात) 'वितद्ययुररुणयुग्भिरश्वै' ऋ०६।६५।२ (अरुणवर्ण रथांतल्यान उषादेवी आयली)

---

३. Lewis spence: Myths and Legends of Babylonia and Assyria, (1926), PP. 125–131.

## घोड्यांचो लडायेंत वापर

इ. स. आदीं दोन हजार वर्सां बाबिलोनियान घोड्यांचो उपयोग मातय खबर नाशिल्लो. रथाक बैल वा गाडवां जुंपताले; आनी ते लोक घोड्यांक जंगली गाडवां म्हण्टाले. बाबिलोनियाच्या उत्तरेक दोंगरयां रावपी केशी लोक म्हाल हाडूंक व्हरूंक घोड्यांचो उपेग करूंक लागले. ह्या जंगली गाडवांक लगाम लावन आनी तांचेर स्वार जावन फसलेच्या वेळार ते बाबिलोनियांत येताले; आनी थंयच्या कुळवाड्यांक मजत करून दिसवड्यात मेळिल्ले धान्य आपणाल्या घोड्यांवैल्यान व्हरताले. केशी लोकांक युद्धकसब बिलकुल खबर नाशिल्लें. तें कसब बाबिलोनियन लोकांकडल्यान शिकले, आनी ताणी पैल्या प्रथम घोड्यांचो युद्धात वापर केलो.[४]

आपणातल्या घोडदळाच्या बळार केशींच्या गदश नांवाच्या राजान इ. स. आदीं १७६० वर्सां बाबिलोनियांत सार्वभौम राज्य स्थापन केलें. आनी त्याउपरान्त ताज्या वंशजांची पाथावळ चालू उल्ली.[५] मुद्याची गजाल ही कि, इ. स. पूर्व अठराशें वर्सांफाटीं घोड्यांचो लडायेंत वापर जाल्ल्याचो दाखलो खैंच सांपडना, आनी वेदांत तर जंय थंय घोड्यांचें म्हत्व वर्णून केशीचो आनी घोड्यांचो निकट संबंद दाखैला. हाजेवेल्यान आर्यांची सप्तसिंधुवेली धुरी इ. स. पैलीं सतराशें वर्सांपेलेकडेन वचुं नज हें स्पष्ट जाता.

## दास

आर्य येवच्यापैलों सप्तसिंधुप्रदेशांत (सिंध आनी पंजाब प्रांतांत) दासांचें राज्य चलतालें. दास ह्या उतराचो अर्थ गुलाम असो जावन पडला.

---

४. L. W. King : A History of Babylon, (1915), P. 125,

५. L. W. King : A History of Babolon, (1915), P. 214.

पुण वेदांत दास आनी दाश् ह्या दोन धातूंचो प्रयोग 'दिवप' ह्या अर्थी जाता; आनी तसोच तो हालींच्या कोशांनीय दिला. म्हळ्यार दास उतराचो मुदलचो अर्थ दातो, उदार (Noble) असो आसूंक फाव. आवेस्तांतल्या फर्वर्दीन यस्तांत ह्या दास देशांतल्या पितरांची पुजा आसा. तातूंत तांकां 'दाहि' म्हळां. ( We worship the Fravashis of the holy men in the Dahi Countries).

पूर्विल्ले पर्शियन भाशेंत स चो उच्चार ह असो जातालोदेखीक, सप्तसिंधूक आवेस्तांत हप्तहिंदु म्हळों. हाकाच धरून दासी वा दास हाज रूपांतर 'दाहि' अशें जालों.

## आर्य

आर्य हें उतर ऋ धातुपसून सादलां. आनी जिनसवारगणांत जे ऋ धातु सांपडटात ते चड करून गत्यर्थ आसात. म्हळ्यार आर्य ह्या उतराचो अर्थ फिरस्तो (हेडगो) असो जाता. आर्यांक घरदार करून रावप आवडनाशिल्लें अशें दिसता. मोगल लोक जशे तंबूंनीं रावताले, तशेच आर्य लोक तंबू ताणून वा माटव घालून रावताले जावंये. एके बाबतींत तांगेली ही वज अजून तिगल्या. बाबिलोनियांत यज्ञयागाच्यो सुवाती म्हळ्यार देवळांचे आस्कळविस्कळ प्राकार आसताले. आनी हरप्पा आनी मोंहिंजो – दारो त्या दोन सुवातींनी जे पुविल्ल्या शारांचे अवशेष सांपडल्यात, तातूंत लेगीत दाही लोकांचीं देवळां ह्योच तांगल्या यज्ञयागाच्यो सुवाती आशिल्ल्यो अशें तज्ज्ञांक दिसता. ही पायावळ आर्यांनी मोडून घाली. यज्ञयाग करचो जालो जाल्यार तो माटवांतच जावंक जाय अशी ताणी वयवाट घाली. आर्यांचे वंशज तंबूंतला रैवास सोडून कालांतरान घरां बांदून रावंक लागले. पुण यज्ञाक माटवच जाय ही प्रथा अद्याप तिगून उल्ल्या.

## दासांचो पराभव कित्याक जालो ?

अशा ह्या हेडग्या लोकांनी दासांसारकेल्या फुडारलेल्या लोकांचो पराभव कसो केलो ? हाजी जाप इतिहासान – चडकरून हिंदुस्थानच्या इतिहासान – वारंवार दिल्या. एका राजवटीखाल लोक आरंभाक सुखी आनी सधन जाले, तरी अखेरेके एका ल्हानशा वर्गाच्या हातांत सत्ता एकठावता, तो वर्ग तितलो फोल्गांत रावता आनी अधिकाराखातीर आपसांत झगडत उरता. ताका लागून भौसावेलें करांचें वोजें वाडत वता; आनी तो ह्या सत्ताधाऱ्यांचो द्वेस करूंक लागता. अशा वेळार लोकांचे बेस बरे फावता. एकजुटीन असले साम्राज्य शार्येचेर हल्लो करून ते तो पादाक्रांत करतात. तेराव्या शेंकडयाच्या आरंभाक जंगली मोगलांक एक करून झंगिझ खानान कितलीं साम्राज्यां लयाक न्हेलीं ? तेन्ना आर्यांनी आपसांत झगडपी दासांक विनायास जिखले जाल्यार तातूंत मातय नवल ना.

## शारां मोडून घालपी इंद्र

दास ल्हान ल्हान शारांनी रावताले. आनी ह्या शारांचे आपसांत वैर चलतालें अशें दिसता. कित्याक तर, दासांतलो दिवोदास हो इंद्राक भेर्दी जाल्ल्याचो उल्लेख ऋग्वेदात जायते कडेन मेळटा. दासांचें मुखेलपण वृत्र ब्राह्मणाकडेन आशिल्लें. ताजोच नातेवर्गी त्वष्टा; ताणे इंद्राक एका प्रकारचें यंत्र ( वज्र ) तयार करून दिलें. ताज्या साह्यात इंद्रान दासांचीं शारां मोडून घालीं आनी अखेरेक वृत्र ब्राह्मणाक थार माल्लो. पुरंदर म्हळ्यार शारां मोडून घालपी. हे विशेषण इंद्राक ऋग्वेदांत जायतेकडेन लायिल्ले आसा.[६]

---

६. आदेक खबर ‘ हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा ’ पृ. १७–१९ पळेयात.

## इंद्राची पाथावळ

इन् आनी द्र ह्या दोन वर्णाच्या समासान इंद्र उतर जालां. इन् म्हळ्यार झुजारो. देखीक, 'सह इना वर्तते इति सेना.' द्र उतर शिखर वा मुख्य अशा अर्थी बाबिलोनियन भासांनी सांपडटा. करतां करतां हे उतर राजवाचक जालें. जशीं देवेंद्र, नागेंद्र, मनुजेंद्र बी. पैल्या इंद्राचे नांव शक्र आशिल्ले, त्या उपरान्त ताजीं पाथावळ बरीच वर्सां चल्ली जावये. नहुषाक इंद्र केल्ल्याची दन्तकथा पुराणांत आयल्याच. 'अहं सप्तहा नहुषो नहुष्टरः' असो उल्लेख ऋग्वेदांत (१०।४।९८) सांपडटा. अर्थात् हे दन्तकथेंत काय पुण तथ्य आसूंक जाय.

## इंद्राची पुजा

सार्वभौम राजांक यज्ञांत आपौन हाडून तांकां सोम दिवपाचो विधि बाबिलोनियांत चलतालो. त्या प्रसंगार तुस्तीन भरिल्ली तांची स्तोत्रां गायत. इंद्राची चडशीं सूक्तां अशेच तरेचीं आसात. इंद्राची संस्था ना जाल्या उपरान्तय ही स्तोत्रां तशींच उल्लीं आनी तांचो अर्थ भलतोच जावंक लागलो. इंद्र मळबांतल्या देवांचो राजा अशी कल्पना जावन बसली; आनी ह्या सूक्तांचो अर्थ काय कडेन कोणाकच लागना जालो. तांच्या निखटया उतरांत मंत्रप्रभाव आसा अशें लोक धरून चलूंक लागले.

## इंद्राचो सभाव

सप्तसिंधूचेर शेक बसौपी सेनापति इंद्र मनीस आशिल्लो हाजो पुरावो ऋग्वेदांत घे म्हणून सांपडटा. ताज्या सभावाचे थोडेशें दिग्दर्शन कौषितकि उपनिषदांत सांपडटा ते अशें:

दिवोदासाचो पूत प्रतर्दन झूज खेळून आनी पराक्रम दाखौन इंद्राच्या आवडटया वाडयांत गेलो. ताका इंद्रान म्हळें, 'आरे प्रतर्दना, तुका हांव वंर दितां.' प्रतर्दनान म्हळें 'जो मनशाक कल्याणाक व्हरत असो वंर

दी.' इंद्र– 'वंर दुसऱ्याखावर तीर घेनात. आपले खातीर वंर मागून घे.' प्रतर्दन– 'म्हज्या खातीर म्हाका वंर नाका.' तेन्ना इंद्रान सत्य गजाल आशिल्लीं ती सांगली. कारण इंद्र सत्य आसा. ताणें म्हळें, 'म्हाका वळख तेंच मनशाक हिताचें ज्याकालागून तो म्हाका वळखूंक पावत. त्वष्ठयाच्या पुताक–त्रिशीर्षाक– हांवें थार माल्लो. अरुर्मग नांवाच्या यतीक हांवे सुण्यांच्या भकोक घालो. जायते तह बालांडून दिव्य लोकांत प्रल्हादाच्या अनुयायांक, अंतरिक्षांत पौलोमांक, आनी धर्तरेचेर कालकाश्यांक हांवें थार माल्ले. त्या प्रसंगी म्हजी एक ल्हंवपसून बागवली ना. अशा म्हाका जो वळखत ताणें आवयची हत्या, बापायची हत्या, चोरी, भ्रूण हत्या बी पातकां केल्ल्यान वा करताना ताका दिक्कत दिसची ना वा ताजी नुरा पालटुची ना.'

आपल्यालें साम्राज्य स्थापपाच्या वेळार ह्या उताऱ्यांत दिल्ले बरेच अत्याचार इंद्रान केल्याचो निर्देस खुद्द ऋग्वेदांतच मेळटा. पुण इंद्रच कित्याक, कोणाय मनशाक साम्राज्य स्थापपाचें आसल्यार आपपर-भाव, दयामाया दवरतां येना. तह मोडपाचें भय बाळगतां येना. शिवाजीन चंद्रराव मोऱ्याक थार माल्लो, हें न्यायाचें जालें काय अन्यायाचे हे वाद निरर्थक. न्याया-अन्यायाचो विचार करीत बशिल्लो जाल्यार शिवाजी साम्राज्य स्थापूंक पावचो नाशिल्लो. साम्राज्यातलो लोक लेगीत असल्या पापापुण्याचो विचार करीत बसनात. ते इतलेंच पळेतात कि एकंदरीत त्या साम्राज्याचे स्थापनेच्यान सामान्य लोकाचो फायदो जाला काय कितें ?

## आर्यांच्या सत्तेपसून फायदे

हे नदरेन विचार केल्यार इंद्राच्या वा आर्यांच्या साम्राज्यापसून सप्तसिंधूतल्या लोकाचो खूब व्हडलो फायदो जालो जावंक जाय. ल्हान ल्हान शारांमदीं हाडव्हर जी झगडीं झुजां जातालीं, तीं बंद पडिल्ल्यान लोकांक

एके तरेन सुखथंडाय मेळ्ळी. पेशव्यांच्याच नातेवर्गान शनवार इंग्लेजांचो झेंडो लायलो; आनी पेशवाय बुडटकच हेरां हिंदूंनीं तर मोटोच उत्सव केलो खंय. त्याचप्रमाण वृत्र जरी ब्राह्मण आशिल्लो तरी ताका मारून सप्तसिंधूतली अंतस्थ धोंस बंद उडैल्यान थंयच्या प्रजेन इंद्राक माथ्यार घेवप सभाविक आशिल्लें. तेन्ना दासांच्या आनी आर्यांच्या संघर्षाक लागून जे कांय बरे परिणाम घडून आयले, तांतलो पैलो हो समजूंक जाय कि सप्तसिंधूत एके तरेची थंडाय नंदूंक लागली. दुसरी गजाल राजकर्णींत ब्राह्मणांचें जें वर्चस्व आशिल्लें तें ना जालें. इंद्रान त्वष्टयाच्या चल्याक–विश्वरूपाक–पुरैतपद दिलें आनी तो बंड करीत ह्या हुस्क्यान ताका थारय माल्लो असो उल्लेख खुद्द ऋग्वेदांत आनी यजुर्वेदात सांपडटा.[७] पुण पुरैतपद खैंच्याय ना खैंच्या ब्राह्मणाकडेन उल्ले राजकर्णापसून अलिप्त राविल्ल्यान ब्राह्मण समाजाकडल्याक वाङ्मयाची अभिवृद्धि करूंक आयली.

## वैदिक भास

दासांच्या आनी आर्यांच्या संघर्षाक लागून एक नवी भास उत्पन्न जाली. हीच वैदिक भास. मुसलमानांच्या आनी हिन्दूच्या संघर्षाक लागून जशी उर्दू नांवाची नवी भास उपजली, तशी ही भास जाली. पुण वैदिक भाशेइतले उंचेलें स्थान उर्दूक केन्नाच मेळ्ळेना आनी मेळपाचो संभव ना. वैदिक भास निव्वळ देववाणी जावन बसली !

हे वैदिक भाशेचो नीट अर्थ लावपाचो असल्यार बाबिलोनियन भासांच्या ज्ञानाची खूब गरज आसा. कांय मूळ उतरांचे अर्थ सामकेच कशे परतल्यात हे दास आनीं आर्य ह्या दोन उतरांवेल्यान दिष्टि पडटा. दास उतराचो मुदलचो अर्थ दातो आसून मध्या गुलाम असो जावन पडला; आनी आर्य उतराचो मुदलचो अर्थ हेडगो आसताना व्हड उदार ऊंच असो जाला.

---

७. हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा पृ. १९–२०

## आर्यांच्या जयान जाल्ली हानी

दासांच्या आनी आर्यांच्या संघर्षणान जी मोट्टि हानी जाली ती ही कि, दासांची घरां आनी नगरां बांदचेली कला नाच कशी जाली. सिन्ध आनी पंजाब प्रांतांत सांपडिल्ल्या पुर्विल्ल्या नगरांची आनी घरांची पाथावळ हिन्दुस्थानांत उल्ली ना. दुसरी गजाल ही कि रानानी रावपी यती कशे तरेन वागताले हें कळपाचो मार्ग उल्लो ना. वैल्या उतान्यांत इंद्रान तांकां सुण्यांच्या भकीक घाले असो उल्लेख आयला. मूळ उतर आसा 'सालावृक' हाजो अर्थ कोलसुणो वा सुणो असो जावं येता. टीकाकारान सालावृक म्हळ्यार कोलसुणो असोच अर्थ केला. पुण इंद्राकडेन जायते शिकारी सुणे आशिल्ले आनी ताणें ते यतींच्या आंगार घाले, हें अदीक संभाव्य दिसता. ह्या यतींचो प्रभाव समाजाचेर खूब आसल्या बगर इंद्रान तांकां मारपाचें कारण नाशिल्ले. पुण ते वागताले कशे, लोक तांकां कित्याक मानीत. बी गजाली कळपाचो कांयच मार्ग उल्लो ना.

## आर्यांले संस्कृतायेक कृष्णाचो विरोध

सप्तसिंधु प्रदेशाचेर इंद्राची सत्ता पुरती स्थापन जाल्या उपरान्त तांचो म्होरो मध्यहिंदुस्थानाचेर वळ्ळो जाल्यार नवल ना. पुण थंय ताका वस्ताद प्रतिस्पर्धी भेटलो. देवकीनंदन कृष्ण गायांचो प्रतिपाळ करपी राजा आशिल्लो. इंद्राली यज्ञ–यागाची संस्कृताय आनी तागेलें वर्चस्व तो मान्य करूंक तयार नाशिल्लो. म्हणून इंद्रान ताजेर घुरी घाली. कृष्णाकडेन घोडदळ नाशिल्लें. तरी लेगीत मारो करूंक ताणें अशी सुवात सोडून काडली कि, ताजे फुडें इंद्राचें कांयच चल्लें ना. बृहस्पतीच्या आलासन्यान तो कसो तरी जीव सांबाळून फाटीं परतलो. ऋग्वेदान (८।९६।१३–१५) सापडिल्ल्या कांय ऋचांवेल्यान आनी भागवत बी

पुराणांनी आयिल्ल्या आख्यायकांवेल्यान ह्या विधानाक बरीच पुष्टी मेळटा.[८]

कृष्ण यज्ञयागांची संस्कृताय मानूंक तयार नाशिल्ले. मागीर तो मानतालो तरी कितें ? ताका आंगिरस ऋषीन यज्ञाची एक सादी पद्धत शिकैल्ली. त्या यज्ञाच्यो दक्षणा म्हळच्यार तपश्चर्या, दान, उजुपण, अहिंसा आनी सत्यवचन ह्यो. 'अर्थ यत्तपो दानयार्जवमहिंसा सत्यवचनमिति ता अस्य दक्षिणाः ।' (छां. उ. ३।१७।४–६) ह्यावेल्यान दिसता कि, आर्यांच्या आनी दासांच्या संघर्षांत जी यतींची संस्कृताय सप्तसिंधुप्रदेशांत नष्ट जाली, तिजो काय पुण अंश गंगायमुनेच्या प्रदेशांत कायम उरिल्लो. तपश्चर्या करपी अहिंसक मुनींची कृष्णासारकेले राय ह्या प्रदेशांत पुजा करताले, हे वेल्या उतान्यावेल्यान दिसून येता.

## वैदिक संस्कृतायेचो विकास

पुण हे अहिंसात्मक संस्कृतायेची चडशी उन्नति जाली ना. ब्राह्मणांनी राजकर्णांतल्यान आंग काडून घेतिल्ल्यान वाङ्मयकडेन आनी लोकांक उपकरपी हेर गजालींकडेन ताणी बेस बरें लक्ष पुरैलें. हिंदुस्थानांत सगळचांत पोरणें विश्वविद्यालय तक्षशिलेक आशिल्ले. थंय ब्राह्मण वेद तर शिकैतालेच; त्या भायर धनर्विद्या, वैजकी बी शास्त्रांय शिकैताले. सप्तसिंधूंतलें इंद्राच्या पाथावळीचे साम्राज्य ना जावन गेलें तरी तें पाथावळींतल्यान उद्भविल्ले नवे संस्कृतायेचें राज्य सुरू जालें, आनी ताजी वाड जायत गेली.

## वैदिक संस्कृतायेचो मध्यदेशांत विजय

कृष्णान इंद्राचो पराभव केल्याउपरान्त सशें–सातशें वर्सांनी परीक्षित आनी तागेलो चलो जनमेजय ह्या पांडवकुलीन रायांनीं सप्तसिंधूंत तयार

---

८. हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा पृ. २२–२५.

जाल्ल्या आर्य संस्कृतायेची संस्थापना गंगायमुनांच्या प्रदेशांत केली. पांडव आर्यसंस्कृतायेचे भोक्ते आशिल्ले ह्याका आधार वैदिक वाङ्.मयांत सांपडना. कृष्ण आनी पांडव हांचे मजगतीं तर निदान स–शें वर्सांचो काळ लोटला जातलो. महाभारतात ज्यो कृष्णाच्यो कथा येतात, त्यो वेल्यावैर वाचल्यो तरी लेगीत त्यो प्रक्षिप्त आसूंक फावतात अशें दिसता. निदान इंद्रावांगडा झुजपी कृष्ण आनी महाभारातांतलो कृष्ण एक न्हयत, अशें मानचें पडटा. पांडवांचे वंशज परीक्षित आनी जनमेजय ह्या दोगांनी मात वैदिक संस्कृतायेक असुदाय आस्रय दिला, हें अथर्ववेदावेल्यान (काण्ड २०, सू. १२७) बेस बरे सिद्ध जाता.

[९]सप्तसिंधूंत यतींची संस्कृताय सामकी ना जाली, तरीय ती मध्य हिंदुस्थानांत बरी वळिल्ली हें वैर दिल्या छांदोग्य उपनिषदाच्या उताऱ्या वेल्यात आनी पालि वाङ्.मयांतल्या सूत्तनिपातांत सांपडिल्ल्या 'ब्राह्मण-धाम्मिक' सुक्तावेल्यान दिसून येता.[१०] सप्तसिंधूंतले चातुर्वर्ण्य मध्यहिंदु-स्थानांतय थिराविल्ले. फरक इतलोच कि, सप्तसिंधूंतल्या ब्राह्मणांनी आर्यांच्या जैनाक लागून उत्पन्न जाल्ली यज्ञयागांची पद्धत पुरायेन स्वीकारली. मध्यहिंदुस्थानांत ब्राह्मण जरी अग्नीची पुजा करताले तरी ते पुजेंत प्राणी बळी दी–नाशिल्ले. तांदूळ, सवाद बी जिनसांनीच ते अग्निदेवाची पुजा करीत. पुण परीक्षित आनी जन्मेजय हाणी यज्ञयागाक आरंभ केल्या उपरान्त ही पोरणी अहिंसात्मक ब्राह्मणी संस्कृताय ना जावन गेली आनी तिजे सुवातेर हिंसात्मक यज्ञयागाची प्रथा नेटान पातळूंक लागली. सप्तसिंधूच्या बदला गंगायमुनांच्या मदलो प्रदेशच आर्यावर्त जालो !

## अहिंसा तीग धरून रावली

पोरणी अहिंसात्मक अग्निहोत्रा–पद्धत मेल्ल्याभशेन जाली खरी पुण ती

९. हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा पृ. ३७/३८

१०. हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा पृ. ३९/४०

सामकीच न जाली ना. तिणें राजदरबारातलें आनी वेल्या वर्गातलें आपणालें वर्चस्व सोडून दिवन रान घेतलें. म्हळ्यार जे लोक अहिंसात्मक संस्कृतायेक घट्ट धरून आशिल्ले ताणी आपणाली तपश्चर्या रानांतल्या फळांमुळांचेर निर्वाह चलौन तिगैली. जातक अट्ठकथांत अशा लोकांच्यो जायत्यो गजाली आयल्यात. नव्या स्थापन जाल्ल्या हिंसात्मक यज्ञपद्धतीक विटून जायते ब्राह्मण आनी अन्य वर्णी लोक लेगीत अरण्यांनी वताले आनी थंय आस्रम बांदून तपःसाधन करताले. वर्सातल्यान कांय दीस हे लोक आंबट आनी खैण जिनस खावंक लोकवस्तींत येताले आनी परते आपल्या आस्रमांनी वताले. तात्पर्य सप्तसिंधूंतल्या यतींभशेन मध्य-हिंदुस्थानांतले ऋषिमुनी नाशे जाय नासताना अरण्यांनी तपश्चर्या करीत जीव वाटावन रावले.

## हालींचो दाखलो

हाका हालींच्या इतिहासातलो एक दाखलो दितां येण्याजोगो आसा. पश्चिम सैलांव पुर्तुगेजांनीं काबीज केलें आनी थैंचीं बुद्धमंदिरां आनी भिक्षूंचे विहार ताणी मातयेभरवण करून सगळ्यांक बळजबरेन रोमन कातोल्क धर्माची दीक्षा दिली. त्या प्रसंगार सैलावांच्या राजान बुद्धाची दंतधातु बरोबर घेवन क्यांडीच्या जंगलात धाव घेतली. आणि थैंच्या दोंगराआड आपणालें नवें राजपाटण स्थापन केलें. पश्चिम सैलावांतल्यान फिरग्यांच्या हातसून वाटावल्ले भिक्षू व्हरूंक मेळ्ळे तितले बौद्ध ग्रंथ बरो-बर घेवन दोंगरी प्रदेशांत क्यांडीच्या राजाच्या आस्रयाक वचून रावले. होच प्रकार कांय अंशांनी गोंयांतय घडलो. फिरग्यांनी साष्ट, बार्देस. तिसवाडी हे तीन तालुके पैली जिखले, आनी कांय वर्सांनी त्या तालु-क्यांतली देवळां जमनीभखण करून लोकांक जबरदस्तीन बाटौन किरि-स्तांव करचेलो सपाटो चलैलो. अशा वेळार कांय हिंदूंनी आपल्या भाटा बेंसाचेर उदक सोडून आनी देवदेवता बरोबर घेवन पळ काडलो आनी शेजारच्या संवदेकार राजाच्या मुलखाचो आस्रय घेतलो. आज घडये

माष्टींतलीं पुर्विल्लीं सगळीं हिंदूचीं दैवतां ह्या संवंदेकाराल्या संस्थानात आसात. फुडे हो प्रांतय फिग्रयींनी जिखलो; पुण हिंदूल्या धर्मांत ताणी परतो हात घालो ना. तीच स्थिति कांय अंशीं मध्यहिंदुस्थानच्या अहिंसात्मक संस्कृतायेची जाली अशें म्हणपाक हरकत ना.

## अहिंसेचो प्रभाव

परीक्षित वा जनमेजय राजांनी बळी दिवपी यज्ञयागांची प्रथा जोरजुलूम करून लोकांचेर लादली ना. पुण ते प्रथेक राजाचो आस्रय मेळ्ळो त्या बराबर ब्राह्मणांनी ती आपुण जावन घेतली आनी ज्यांका ती मान्य नाशिल्ली, तांका जंगलांच्या आनी तपश्चर्येच्या आस्रयान आपणाली पोर्णी पाथावळ तिगौची पडली. फिग्रयींनी किरिस्तांव केल्ल्या बौध्दांचेर व हिंदूचेर जसो आजय बौद्ध आनी हिंदू संस्कृती यांचो प्रभाव उल्ला, तसो मध्यहिदुस्थानातले प्राचीन अहिंसात्मक संस्कृतायेचोय सामान्य लोकाचेर थोडो भोव प्रभाव तीग धरून उल्लो. जंगलांत रावपी ऋषिमुनी जेन्ना गांवांत व शारांत येताले तेन्ना लोक तांची खूब भावार्थान पुजा करताले. हेरा वेळार यज्ञयाग आनी बळी दिवप ह्ये प्रकार चलताले.

## यज्ञसंस्कृतायेची वाढ

ऋषीमुनींचो मान बरोच आशिल्लो खरो, पुण ते संस्कृतायेन कांयच उन्नति केली ना. सप्तसिंधु प्रदेशांत जी तक्षशिलेसारखीं विश्वविद्यालयां स्थापन जालीं तीच शिक्षणाचीं केंद्रां जावन बसलीं जातक अट्ठकथांतल्या जायत्या गजालींवेल्यात दिसून येता कि, ब्राह्मणांतले भुरगे वेदाध्ययन करूंक आनी राजांचे कुंबर धनुर्विद्या शिकूंक तक्षशिलेसारकेल्या पैसुल्या सप्तसिंधु प्रदेशांत वचत.

सप्तसिंधु प्रदेशांत जावं मध्यहिंदुस्थानांत जावं, इंद्राच्या सारकेलें एकच बळाढच साम्राज्य उल्लें ना. परीक्षित वा जनमेजय हांच्या

राज्याची इंद्राच्या राज्यकडेन सर करतांयेना. ताणी बळी दिवपी यज्ञयागांक प्रोत्साहन दिलें आनी तांगेले खटपटीक लागून गंगायमुनांमदलो प्रदेश आर्यावर्त जालो, इतलेंच किते तें तांचे कार्रकिर्दीउपरान्त सप्त-सिंधु आनी मध्यहिंदुस्थान ह्या प्रदेशांच्यो कैल्यो जाल्यो जावंये. पुण आर्यांच्या आनी दासांच्या संघर्षाक लागून उपराशिल्ली बळी दिवपी यज्ञयागांची संस्कृताय मात दृढ आनी बळिष्ट जाली.



प्रकरण दुसरें

# तेन्नाची राजकी परिस्थिती

## सोळा राष्ट्रां

यो इमेसं सोळासन्नं महाजनपदानं पहूतसत्तरतनान इस्सराधिपच्चं रज्जं कारेय्य, सेय्यथीदं – (१) अंगानं (२) मगधानं (३) कासीनं (४) कोसलानं (५) वज्जीनं (६)मल्लानं (७) चेतीनं (८) वंसानं (९) कुरूनं (१०) पञ्चालानं (११) मच्छानं (१२) सूरसेनानं (१३) अस्सतकानं (१४) अवंतीनं (१५) गंधारानं (१६) कंबोजानं.

हो उतारो अंगुत्तनिकायांत चार कडेन सांपडटा: ललित् विस्तराच्य तिसऱ्या अध्यायांतय बुद्ध जावचे पैलीं जंबुद्वीपांत (हिंदुस्थानांत) वेगळीं वेगळीं सोळा राज्यां आशिल्लीं असो उल्लेख आसा; पुण तांतल्या आठ राज्यांतल्या राजकुळांचें तितलें वर्णन होल्मता. ह्या सगळ्या देशांचो उल्लेख अनेकवचनी आसा. हाजेवेल्यान अशें दिसून येता कि, एका काळाक हे देश म्हाजनसत्तेन चालताले. हांतल्या म्हाजनांक राजा म्हणत आनी तांच्या अध्यक्षाक म्हाराज म्हणत. बुद्धाच्या मुस्तींत ही म्हाजन सत्तेची पद्धत दुर्बळ जावन ना जावच्या पंथाक लागली आनी तिज्या-बदला एकसत्ताक राज्यपद्धत अमलांत येत चलिल्ली. हे घडामोडीचीं कारणां कितें आसतात हाजो विचार करच्या पैलीं वेल्या सोळा देशां-विशी सापडपी म्हायती संक्षेपान हांगा नमूद करप योग्य दिसता.

### १ अंगी

अंगाचो देश मगधाच्या पूर्वेक आशिल्लो. ताज्या उत्तर भागाक अंगुत्तराप

म्हण्टाले. मगध देशाच्या राजान अंग देश जिखिल्यान थैंची म्हाजन सत्तेची पद्धत ना जाली. पुविल्ठ्या म्हाजनांचे वा राजांचे वंशज आशिल्ले. तरी तांगेलां स्वतंत्र सत्ता उल्ली ना; आनी कालान्तरान 'अंगमगधा' असो त्या देशाचो मगध देशावांगडा द्वंद्वसमासी निर्देस जावंक लागलो.

बुद्ध भगवान त्या देशांत धर्माचो उपदेस करी आनी त्या देशाच्या-मुख्य शारांत – चंपानगरींत–गग्गरा राणीन बांदिल्ल्या सरोवराच्या कांठार तो मुक्कामाक राव, असो त्रिपिटक ग्रंथांत जायतेकडेन उल्लेख सांपडटा पुण हें चंपानगरपसून एखाद्या पुविल्ल्या राज्याच्या ताब्यांत नाशिल्लें. बिंबिसार राजान तें सोणदंड नांवाच्या ब्राह्मणाक इनाम दिल्लें. ह्या इनामाचे येणावळीचेर सोणदंड ब्राह्मण अदींमदी यज्ञयाग करी[1]

## मगधा

बुद्धकाळच्या राज्यांमदल्या मगध आनी कोसल ह्या देशांचो एकसारको तरतराट जायत वतालो; आनी तीं राष्ट्रां एकसत्ताक राज्यपद्धतीच्या कवऱ्यांत पुरायेन सांपडिल्लीं. मगधांचो राजा बिंबिसार आनी कोसलांचो राजा पसेनदि (प्रसेनजित्) हे दोगय म्हाराज उदार मनाचे जाल्ल्यान तांगेली एकसत्ताक राज्यपद्धत रैताक खूब सुखदिणी जाली. हे दोगय राय यज्ञयागांक जळ दिताले खरे, पुण श्रमणांक (परिव्राजकांक) तांगेल्या राज्यांत आपणाल्या धर्माचो उपदेश करून पूर्ण मुभा आशिल्ली. इतलेंच न्हय, तर बिंबिसार राजा तांच्या रावपाची बी तजवीज करून तांकां उत्तेजन दितालो. गोतम जेन्ना पैलोच संन्यास घेवन राजगृहाक आयलो तेन्ना बिंबिसार राजान पांडवपर्वताच्या मुळसांत वचून ताजी भेट घेतली, आनी ताका आपणाल्या सैन्यांत व्हड पदवी घेवपाची विनंती केली. पुण गोतमान आपणालो तपश्चर्या करचेलो निश्चेय

१. दीघनिकाय, 'सोणदण्डसुत्त' पळेयात.

धळूंक दिली ना. गये लागाशिच्या उरूवेला म्हळ्ळेकडेन वचून ताणें आरंभली आनी अखेर तत्वबोधाचो मध्यम मार्ग सोदून काडलो. वाराणसीक पैलो उपदेस करून आपणाल्या पांच शिष्यांसैत बुद्ध भगवान् जेन्ना राजगृहा आयलो, तेन्ना बिंबिसार राजान ताका आनी ताज्या भिक्षुसंघाक रावंक म्हणून वेळूवन नांवाचें उद्यान दिलें. ह्या उद्यानांत एकाद्रो विहार म्हणून आशिल्लो, असो, उल्लेख खैंयच सांपडना. बिंबिसार राजान बुद्धाक आनी भिक्षुसंघाक हांगा निर्बंध रावपाची परवानगी दिली, इतलोच ह्या वेळुवनाच्या दानाचो अर्थ समजूंक जाय. पुण ताजेवेल्यान भिक्षुसंघाविशींचो ताजो आदर स्पष्ट दिसता. केवळ बुद्धाच्याच भिक्षुसंघाखातीर न्हय, तर तेन्ना जे श्रमणांचे व्हडले व्हडले संघ आशिल्ले तांकांय बिंबिसार राजान आस्रय दिल्लो. एकाच वेळार हे श्रमणसंघ राजगृहाच्या आसपास रावताले, असो उल्लेख दिघनिकायांतल्या सामञ्ञफलसुत्तांत आनी मज्झिमनिकायांतल्या (नं. ७७) महासकुलुदायिसुत्तांत सांपडटा.

बिंबिसार राजाचो चलो अजातशत्रु आपल्या आमात्यांसैत पुनवेचे रातीं राजवाड्याच्या गच्चेर बसला. तेन्ना ताका एकाद्र्या व्हडल्या श्रमणनायकाची भेट घेवची अशी इत्सा जाता. तेन्ना ताज्या आमात्यांतलो जणएक एकेका श्रमण संघाच्या नायकाची तुस्त करता आनी राजाक ताजेसरीं वचूंक विनयता. ताजो घरचो वैज मोन्यानी बशिल्लो. ताका अजातशत्रु प्रस्न करता; तेन्ना जीवक बुद्ध भगवानाची तुस्त करून ताजी भेट घेवंक राजाचें मन वळैता. आनी जरी ह्या श्रमण संघाच्या मुखेल्यामदीं बुद्ध वयान ल्हान आशिल्लो आनी ताणेलो संघ निकतोच स्थापन जाल्लो, तरी ताजीच भेट घेवची अशें अजातशत्रु थारायता आनी बुद्धाच्या सपरिवार दर्शनाखातीर जीवकाच्या आम्रवनांत वता.

अजातशत्रून आपल्या बापायक कैद करून थार माल्लो आनी गादी बळकायली. तरी लेगीत बापायन श्रमणांचो जो आदर दवरिल्लो तो

ताणें उणो जावंक दिलो ना. बिंबिसार राजाच्या मर्णापरान्त बुद्ध भगवान क्वचितच राजगृहाक येई. वैर सांगला तो तांतलोच एक प्रसंग. गादी मेळचेपैलीं अजातशत्रूक आपलेवशीन वळैन देवदत्तान नालगिरि नांवाचो मद चडिल्लो हाती बुद्धाचेर सोडचेलो घाट घाल्लो बी गजाली विनय-पिटकात वर्णिल्यात. तातूंत तथ्य कितलेंशें आसत तें सांगुं नज. पुण एक गजाल खरी कि, अजातशत्रूचे देवदत्ताक बेस बरें फाटबळ आशिल्लें. आनी ताकाच लागून बुद्ध भगवान राजगृहापसून पैस रावतालो जावंये. पुण जेन्ना तो राजगृहाक आयलो तेन्ना ताजी भेट घेवंक अजातशत्रू कचवेलो ना. आनी त्याचे वेळार राजगृहाच्या आजूबाजूक व्हडल्या व्हडल्या श्रमणसंघांचे सं मुखेली रावताले, ही गजाल लक्षांत घेतल्यार अजातशत्रू आपल्या बापायपरसय श्रमणांचो चंड आदर करी, अशें स्पष्ट दिसून येता. इतलेंच न्हय तर ताजे कारकिर्दींत मगध देशांतले यज्ञयाग संपुष्टांत येत गेले आनी श्रमण संघांचो तरतर जायत गेलो.

मगधाची राजधानी राजगृह ही सुवात बिहार प्रांतात तिलय्या नांवाच्या स्टेशनच्यान सोळा मैलांचेर आसा. चोंशीय दोंगर आसून तांचे मजगतीं हें शार वसलां. शारांत वचूंक दोंगराच्या धांवांतल्यान वचपी दोनच रस्ते आशिल्यान शत्रूपसून शाराची राखण करप सोंपें दिशिल्ल्यान हांगा हें शार बांदले जावंये. पुण अजातशत्रूचें बळगें इतलें वाडत गेलें कि ताका आपल्या रक्षणाखातीर ह्या दोंगरांतल्या गोठ्यांत (गिरिव्रजांत) रावपाची गरज दिसली ना. बुद्धाच्या परिनिर्वाणाआदीं तो पाटलिपुत्राक एक नवें शार बांदतालो; आनी फुडें ताणे आपणाली राजधानी थैंच व्हेली जावंये.

अजातशत्रूक वैदेहीपुत्र म्हळां. हाजेवरवीं ताजी आवय विदेह राष्ट्रांतली आसूंये अशें सकृद्‌र्शनी दिसता. आनी जैनांच्या 'आचारांग' सूत्रादिकांतल्या ताजी आवय वज्जी राजांपैकी एकाची कुंवर आशिल्ली असो उल्लेख सांपडटा. पुण कोसलसंयुत्ताच्या दुसऱ्या वग्गाच्या चौथ्या सुत्ताचे अट्ठकथेंत ताका पसेनदीचो भाचो म्हळां, आनी वैदेही उतराचो

अर्थ 'पंडिताधिवचनमेतं पंडित्तिस्थिया पुत्तो ति अत्थो' असो केला. ललित-विस्तारात मगध देशाच्या राजकुळाक वैदेहीकुल हीच संज्ञा दिल्या. हाजेवेल्यान अशें दिसता कि, हें कुल पितृपरंपरेन प्रसिद्ध नासिल्लें; आनी फुडें तांतल्या एखाद्‌ऱ्या राजाचो विदेह देशांतल्या राजकन्येकडेन संबंद जडिल्ल्यान ते नांवारुपाक आयले; आनी कांय राजकुंवर आपणांक वैदेहीपुत्र म्हणौन घेवंक लागले.

अजातशत्रून बिम्बिसाराक थार मारिल्ल्याची खबर आयकली तेन्ना अवंतीचो चंडप्रद्योत राजा खूब संतापलो आनी अजातशत्रूचेर घुरी घालपाचो ताणे घूट केलो. ताज्या भयान अजातशत्रून राजगृहाच्या तटाची वागदुजी केली.[२] फुडे चंडप्रद्योताचो घुरयेचो बेत रद्द जालो जावंये. चंडप्रद्योतासारकेलो परकी राजा अजातशत्रूचेर कोपलो, पुण मगधांतलो रैत भातय खुबल्लो ना. हाजेवेल्यान ह्या देशांत एकसत्ताक राज्यपद्धत कशी घांस घेवन राविल्ली, हाजो बेस बरो कयास बांदुं येता.

## ३ कासी

काशी वा कासी हांची राजधानी आशिल्ली वाराणसी. थैंच्या चडशा राजांक ब्रह्मदत्त म्हण्टाले, अशे जातक अट्ठकथे वरवीं दिसून येता. तांचे राज्यपद्धती संबंदान चडशी म्हायती सांपडना. तरीपुण काशीचे राजे (म्हाजन) खूबच उदार मनाचे आशिल्ले. तांच्या राज्यांत कलाकसबांचो बेस बरो विकास जाल्लो. बुद्धकाळाकपसून फिशाल जिनसांक कासिक म्हण्टाले. कासिक वस्त्र, कासिक चंदन बी उतरां त्रिपिटक वाङमयांत जायतेकडेन मेळटात. वाराणसींतल्या अश्वसेन राजाचे वामा राणयेच्या पोटीं पार्श्वनाथ-जैनांचो तेविसावो तीर्थंकर जल्माक आयलो. ताणें गोतम बुद्धाच्या जल्मा आदीं अदमासे २४३ व्या वर्सा आपल्या उपदेसाक आरंब केलो जावंये. म्हणचे, काशीचे म्हाजन कलाकसबांतच न्हय, तर धर्मविचारांतपसून फडेक

---

२. मज्झिमनिकायांतली गोपकमोग्गलान सुत्ताची अट्ठकथा पळेयात.

आशिल्ले अशें म्हणचें पट्टा. पुण बुद्धाचे मुस्तींत ह्या देशाचें स्वातंत्र्य माप नी जावन तो कोसल देशांत समाविष्ट जाल्लो. 'अंगमगधा' च्या समासा भशेनच 'कासीकोसल' हेंय उतर रूढ जाल्ले.

## ४ कोसला

कोसल देशाची राजधानी श्रावस्ती. ही अचिरवती (सध्या राप्ती) न्हयच्या कांठार आशिल्ली; आनी थंय पसेनदि (प्रसेनजित) राजा राज्य करतालो. तो वैदिक धर्माक पुरायेन पाळो दिवपी आसून व्हडले व्हडले यज्ञ करतालो अशें कोसलसुत्तांतल्या एका सुत्तावेल्यान दिसता. तरी लेगीत ताज्या राज्यांत श्रमणांक मान आशिल्लो. अनाथपिंडिक[३] नांवान नामना पाविल्ल्या एका मोठ्या श्रेष्ठीन बुद्धाच्या भिक्षुसंघाखातीर श्रावस्तीक जेतवन नांवाचो विहार बांधलो. विशाखा नांवाचे प्रसिद्ध उपासिकेनय पूर्वाराम नांवाचो एक मोठो वाडो भिक्षूंखातीर बांदून दिलो. ह्या दोनय सुवातींनी बुद्ध भगवान् भिक्षुसंघासैल अदींमदीं राव. ताजे जायते चातुर्मास हांगाच गेले जातले. कित्याक म्हळ्यार, बुद्धान सगळ्यांत चंड उपदेस अनाथपिंडिकाच्या आरामांत केल्ल्याचो दाखलो त्रिपिटक वाङ्मयांत सांपडटा. पसेनदि राजा यज्ञयागांचो भोक्तो आशिल्लो तरी तो बुद्धाच्या दर्शनाखातीर अदींमदीं अथानपिंडिकाच्या आरामांत वच. ताका जायते फावटी बुद्धान केल्ल्या उपदेसांचो संग्रह कोसलसुत्तांत सांपडटा.[४]

ललितविस्तरांतल्या ह्या राजवंशाच्या वर्णनावेल्यान अशें दिसता कि, ते राजे मातंगांच्या उणाक जातींतल्यान वैर सल्ले. धम्मपद

३. ह्याजें खरेलें नांव सुदत्त. अनाथांक तो जेवण (पिण्ड) घाली, म्हणून ताका अनाथपिण्डिक म्हण्टाले.

४. ह्या संयुत्ताच्या पैल्याच सुत्तांत पसेनदि बुद्धाचो उपासक जाल्ल्याची कथा आसा; पुण णव्या सुत्तांत पसेनदीच्या महायज्ञाचें वर्णन येता. तेन्ना पसेनदी राजा खरो बुद्धोपासक जाल्लो अशें म्हण् नज.

अट्ठकथेंत सांपडपी विड्डभाचे ( विदुर्दभाचे ) गजालीवेल्यानय ललित-विस्तरांतल्या विधानाक पुष्टी मेळटा.

पसेनदि राजा बुद्धाक खूब मानी. ताज्या शाक्य कुळांतले एकाद्रे राजकन्येकडेन लग्न करपाचो पसेनदीन बेत केलो. पुण शाक्त राजे कोसलराजकुळाक उणाक मानताले जाल्ल्यान ताकां आपणालीं धूव दिवप कोसलराजाक योग्य दिस नाशिल्लें. अशें आसलें तरी शाक्यांचेर कोसल राजाचीच सत्ता चलत उरिल्यान ताजी मागणी कडाळप शक्य नाशिल्ले. ताणी माण्णी काडली कि, महानाम शाक्यान आपणाले नायकिणीचे चेडूं वासभखत्तिया हाका आपणाली खासा चली म्हणून कोसल राजाक दिवचें. कोसल राजाच्या आमात्यांक व्हंकल मानली. महानाम तिका बरोबर घेवन जेविल्ल्यान ती ताजी खासा चली अशी तांची खात्री जाली; आनी थारायल्ल्याप्रमाण वासभखत्तियेचें शुभ म्हुर्तार कोसल राजा-कडेन लग्न जालें. राजान तिका पट्टराणी केली. तिजो पूत विडूडभ सोळा वर्साचो जातकच शाक्यांकडेन आपल्या आजोळा गेलो. शाक्यांनी आपणाल्या संस्थागारांत ( नगरमंदिरांत ) ताजो फावसो भौमान केलो. पुण तो भायर सरून वतकच आपणाले आसन धुवन घेतले; आनी आपुण बटकिणीचो पूत, ही गजाल विडूडभाच्या कानार गेली. वयार येतकच विडूडभान ज़बरदस्तेन कोसलदेशाचें राज्य बळकायलें आनी म्हाताऱ्या पसेनदीक श्रावस्तींतल्यान धांवडावन घालो. पसेनदि आपलो भाचो अजातशत्रू हाज्या आस्रयाक वचपखातीर गुप्त वेषान राजगृहाक वचूंक भायर सल्लो पुण अत्यंत क्लेश जावन राजगृहाभायले एके धर्मशाळेंत खंवसलो.

बापायच्या मर्णाउपरान्त विडूडभान शाक्यांचेर घुरी घालपाचो बेत केलो. भगवान् बुद्धान ताका समजावन ताका हो बेत दोन फावटी रद्द करूंक लायलो. पुण तिसरे फावटी मध्यस्थी करपाक बुद्धाक उमर्पत न मेळिल्ल्यान विडूडभान आपणालो बेत तडीक व्हेलो. ताणे शाक्यांचेर घुरी

घालून तांची दाणा-धिस्पट केली. जे शरण आयले वा पळून गेले ते सोडून हेरांची बायलांभुर्गासैत कत्तल केली आनी तांच्या रगतान आपणाले आसन धुवंक लायले.

शाक्यांचो निःपात करून विडूडभ श्रावस्तीक येवन अचिरवतीच्या कांठार आपल्या सैन्याचो तळ दिवन रावलो. आसपासच्या प्रदेशांत आडोळच्या पावसाची आकांताली वृष्टी जावन अचिरवतीक भयांकृत हुंवार आयलो आनी सैन्यांतल्या काय लोकांसैत विडूडभ त्या हुंवाराच्या वेगांत व्हांवन गेलो.

मगध देशाभशेनच कोसल देशांतय एकसत्ताक राज्यपद्धत घट जायत वताली हें विडूडभाचे कथेवेल्यान स्पष्ट जाता. ताणे आपणाल्या लोकप्रिय बापायचो गादी बळकायली, तरी लेगीत कोसलांनी ताज्याआड ब्रय काडलो ना.

## ५ वज्जी

म्हाजनसत्ताक राज्यांत तीनच राज्यां स्वतंत्र उरिल्ली. एक वज्जीचे आनी दोन पावा आनी कुशिनारा हांगच्या मल्लांचीं. पैकी वज्जीचें राज्य बलाढय आसून ताचो तरतर आशिल्लो, तरी लेगीत ताजो अस्त चंड पैस नाशिल्लो. तशांतय फांत्या—पारच्या सुंकिर तान्याभशेन तें चमचमतालें. बुद्ध भगवान अशाच एका म्हाजनसत्ताक राज्यांत जल्माक आयलो. पुण शाक्याचें स्वातंत्र्य पैलींच नष्ट जाल्लें. वज्जी आपल्या एकवटान आनी विक्रमान बुद्धाचे हयातेंत स्वतंत्र उरिल्ल्यान बुद्धाक ताचेविशीं सभाविकच आदर आशिल्लो. महापरिनिब्बान सुत्तांत भगवान बुद्ध पैसुल्यान येवपी लिच्छवींकडेन पळौन भिक्षूंक म्हण्टा, 'भिक्षूंनो, ज्याणी तावतिंशत देव पळेल्ले नासतीत, ताणी हचा लिच्छवींच्या जम्याकडेन पळौचें !'

वैशाली नगरी ही वज्जींची राजधानी आशिल्ली. तिज्या आसपास रावपी वज्जींक लिच्छवी म्हणत. तांच्या पूर्वेक पैलीं विदेहांचे राज्य आशिल्लें, जंय जनका सारकेले उदार मनाचे राजा जावन गेले. विदेहांचो निमाणो राजा सुमित्र मिथिला नगरीत राज्य करतालो अशें ललितविस्तारावेल्यान दिसून येता. ताज्या फाटल्यान विदेहांचें राज्य वज्जींच्या राज्यांक जोडलें जावंये.

बुद्ध भगवानान वज्जींक अभिवृद्धीचे सात नेम उपदेसिल्ल्याचें वर्णन महापरिनिब्बान सुत्ताच्या आरंबाक आनी अंगुत्तर निकायाच्या सत्तकनिपातांत मेळटा. महापरिनिब्बान-सुत्ताचे अट्ठकथेंत ह्या नेमांचेर विस्तृत टीका आसा. तिजेवेल्यान अशें अनुमान करूं येता कि, वज्जींच्या राज्यांत एके प्रकारची ज्युरीची पद्धत आशिल्ली आनी निरपराध मनशाक सहमा रुयास्त जाय नाशिल्ली. तांगेले कायदे बरैल्ले आसताले आनी तांचे प्रमाण चलपाविशीं ते दक्ष आसताले.

## ६ मल्ला

मल्लांचे राज्य वज्जींचे पूर्वेक आनी कोसल देशाचे पश्चिमेक आशिल्ले. थंय वज्जींभशेनच गणसत्ताक राज्यपद्धत चलताली. परंत मल्लांत फूट पडून पावाचे मल्ल आनी कुशिनाराचे मल्ल अशे तांचे दोन वांटे जाल्ले.

मगध देशांतल्यान कोसल देशाक वचपी रस्तो मल्लांच्या राज्यांतल्यान गेल्ल्यान बुद्ध भगवान थैंच्यान वारंवार प्रवास करी. बुद्ध भगवंतान पाव्याक रावपी चुंद लोहाराचें अन्न घेतलें आनी तो जोरान पडलो; थैंच्यान कुसिनारेक वतकच ते रातीं ताजें परिनिर्वाण जालें. आज ते सुवातेर एक ल्हानसो स्तूप आनी मंदिर आसा. जायते बौद्ध यात्रेकरू थंय दर्श-नाक वतात. पावा वा पडवणा हो गांवय थैंच्यान लागींच. तेन्ना पावाचे मल्ल आनी कुसिनारेचे मल्ल लागीं लागीं रावताले अशें दिसता. ह्या दोन राज्यांनी बुद्धाचे बरेच शिष्य आशिल्ले. ही राज्यां स्वतंत्र आशिल्लीं

खरी, पुण तांचो प्रभाव वज्जींच्या गणसत्ताक राज्यायेदो खचित नाशिल्लो. इतलेंच न्हय तर, वज्जींच्या बलाढ्य राज्याक लागूनच तीं तिगिल्लीं जावंये.

## ७ चेती

ह्या राष्ट्राची खबर चेतिय जातक आनी वेस्संतर जातक ह्या दोन जातकांनी आयल्या. ताजी राजधानी सोत्थियवती (स्वस्तिवती) आशिल्ली अशें चेतिय जातकांत (नं. ४२२) म्हळां; आनी थैंच्या राजांची पाथावळ दिल्या. निमाणो राजा उपचर वा अपचर फट उलैलो आनी आपल्या पुरैताच्या स्रापाक लागून नरकात पडलो. ताजे पांच चले पुरैताक शरण गेले. पुरैतान तांकां तें राज्य सोडून वचूंक सांगलें आनी त्याप्रमाण ताणी भायर वचून निरनिराळी पाच शारां वसयलीं, अशें वर्णन ह्या जातकात मेळटा.

वेस्संतराची बायल मद्दी (माद्री) ही मद्द (मद्र) राष्ट्रांतली राजकन्या. ह्याच राष्ट्राक चेतिय राष्ट्र म्हटाले अशें वेस्संतर जातकातले कथेवेल्यान दिसून येता. खुद्द वेस्संतराचो शिवि हो देश ह्या चेतिय राष्ट्रा म्हन्यात आशिल्लो. थैंच्या शिवि राज्यान आपले दोळे ब्राह्मणाक दिल्ल्याची कथा जातकांत प्रसिद्ध आसा.[५] वेस्संतर राजकुंवरानय आपलो मंगल म्हळ्ळो हती, दोन भुरगी आनी बायल ब्राह्मणाक दान दिल्ल्याची खबर वेस्संतर जातकांत आयल्या. हाजेवेल्यान चडच जाल्यार इतलेंच सिद्ध जाता कि, शिवींच्या आनी चेतींच्या (चैद्यांच्या) राष्ट्रांत ब्राह्मणांचे खूब वर्चस्व आशिल्लें आनी ताकालागून हीं राज्या खंय तरी पश्चिमेचे कुशीक आशिल्लीं जावंये. बुद्धाचे मुस्तींत शिवीचें आनी चेतीचें नांव घोळटिकेंत आशिल्लें. पुण बुद्ध तांच्या राज्यांनी गेल्ल्याचें, वा अंगाचो जसो मगधाच्या राज्यांत समावेस जालो, तसो त्या राज्यांचो अन्य राज्यांत समावेस जाल्ल्याचेंय

५. सिविजातक (नं. ४९९) पळेयात.

दिसना. कितेंय जावं, बुद्ध भगवानाच्या चरित्राकडेन ह्या राज्यांचो कमलेच रितीन संबंद आयलो ना इतलें निश्चित.

## ८ वंसा (वत्सा)

हांगेली राजधानी कोसम्बी (कौशाम्बी). बुद्धाचे मुस्तींत हांगची गणसत्ताक राज्यपद्धत नष्ट जाल्ली आनी उदयन नावाचो व्हडलो चेती राजा सर्व-सत्ताधीश जाल्लो अशें दिसना. धम्मपद अट्ठकथेंत ह्या राजाची एक गजाल आयल्या, ती अशी;

उदयनाचें आनी उज्जयिनीचो राजा चंडप्रद्योत हांचे हाडवैर आशिल्लें. लडायेंत उदयनाक जिखप शक्य नाशिल्ल्यान प्रद्योताक हिकमत लडौन उदयनाक धरचेलो बेत करचो पडलो. उदयन राजाक हतयाक धरपाचो मंत्र खबर आशिल्लो; आनी जंगलांत हती आयलो तसो शिकारी लोकांक घेवन तो ताज्या फाटी लागतालो. चंडप्रद्योतान एक कळसूत्री हती तयार करूंक लायलो आनी ताका वत्सांच्या सरादीचेर व्हरून दवरूंक लायलो. आपणाले सरादीचेर नवो हती पाविल्ल्याची खबर कळ्ळी तसो उदयन राजा ताज्या फाटल्यान लागलो. ह्या कळसूत्री हतयाच्या पोटांत लिपून राविल्ल्या मनशांनी तो हती चंडप्रद्योताच्या शिमेभितर व्हेलो. उदयन ताज्या फाटो-फाट धावत थंय गेल्लो आसताना थंय दप मारून राविल्ल्या प्रद्योताच्या शिपायकांनी ताका धरून उज्जयिनीक व्हेलो.

चंडप्रद्योतान ताका म्हळें, 'हतयाचो मंत्र शिकैशी जाल्यार हांव तुका सोडून दीन. ना जाल्यार हांगाच थार मारतां.' उदयन ताजे लाल-चेक वा ख्यास्तेक मातय भियेलोना. ताणें म्हळें, 'म्हाका नमस्कार करून शिष्य ह्या नात्यान तू मंत्राचे अध्ययन करशीत जाल्यार हांव तुका मंत्र शिकैन; ना जाल्यार तुका करीन दिसता तें खुषाल कर.' प्रद्योत खूब मानी जाल्ल्यान ताका हें रुचलें ना. पुण उदयनाक मारून मंत्रच ना करप योग्य न्हय आशिल्लें. म्हणून ताणें उदयनाक म्हळें, 'दुसऱ्या कोणाकय तू

हो मंत्र शिकैशी व्हय ? म्हजे प्रीतींतल्या मनशाक तुवें हो मंत्र शिकैल्यार हांव तुका मेखळो करीन.'

उदयनान म्हळें, 'जी बायल वा जो दादलो म्हाका नमस्कार करून शिष्यत्वान मंत्राचें अध्ययन करीत, तिका वा ताका हांव तो शिकैन.'

चंडप्रद्योताची कन्या वासुलदत्ता (वासवदत्ता) मोठी हुशार आशिल्ली. मंत्र ग्रहण करूंक ती समर्थ आशिल्ली खरी; पुण उदयनाक आनी तिका एकठांय येवक दिवप प्रद्योताक योग्य दिसलें ना. ताणें उदयनाक म्हळें, 'म्हगेर एक कुबडी दासी आसा. ती पड्डयाआड रावन तुका नमस्कार करतली आनी तुजें शिष्यत्व पत्करून मंत्र शिकतली. तिका जर मंत्रसिद्धी मेळ्ळी जाल्यार हांव तुका पासांमेखळो करून तुका तुज्या राज्यांत धाडीन.'

उदयनान ही गजाल मान्य केली. प्रद्योतान वासवदत्तेक सांगलें कि, 'एक धवे कोड जाल्लो मनीस हतयाचो मंत्र जाणा. ताजें तोंड न पळेतां ताका नमस्कार करून तो मंत्र तुवें ग्रहण करूंक जाय.' त्याप्रमाण वासवदत्तेन उदयनाक पड्डयाआडसून नमस्कार करून मंत्र शिकपाक आरंब केलो. तो शिकताना तिका कांय अक्षरां सारकीं उच्चारूंक येना जालीं. तेन्ना उदयनान तिडून म्हळें, 'कुबडे, तुजे ओंठ खूबच दाट काय कितें ?' तें आयकून वासवदत्ता खूब संतापली आनी तिणें म्हळे, 'आरे कोडयाळ्या, तू राजकन्येक कुबडी म्हण्टा ?'

उदयनाक हो प्रकार कितें हें समजना जालें; तें कळूंक ताणें एकदम पड्डो कुशीक साल्लो. तेन्ना त्या दोगांकय प्रद्योताचो मतलब समजलो. तत्काळ दोगांचेय एकमेकांचेर प्रेम जडलें आनी अवंतीच्यान पळून वचपाचो ताणी बेत रचलो. बऱ्या म्हूर्तार मंत्रसिद्धीखातीर एक वखदी वनस्पत हाडूक जाय म्हणून वासवदत्तेन आपल्या बापायकडल्यान भद्रवती नावाची एक

हत्तीण मागून घेतली. आनी प्रद्योत उद्यानांत क्रीडेक गेलासो पळौन तिणें आनी उदयनान ते हत्तिणीर बसून पळ काडलो. उदयन हती चलौपांत पटायत आशिल्लोच. पुण ताज्या फाटोफाट धाडिल्ल्या शिपायकांनी ताका वाटेंत गांठलो. वासवदत्तेन बापायच्या खजिन्यांतल्यात व्हरूं येताल्यो तितल्यो भांगराच्या म्होरांच्यो चिरयो बरोबर हाडिल्ल्यो. तांतली एक चिरी सोडून भितल्ल्यो म्होरो तिणें रस्त्यार शिंपडायल्यो. शिपायक त्यो वेंचपांत गुल्ल आसताना उदयनान हत्तिणीक फुडें पिटाळ्ळी. शिपायकांनी परतीय हत्तिणीक गांठली; तेन्ना तसोच प्रयोग परतो जालो; आनी ह्या उपायान त्या दोगांयनी कौशाम्बी गाठली.

एक फावट उदयन आपणाल्या उद्यानांत क्रीडेखातीर गेल्लो आसताना थंयच ताका न्हीद लागली. पिंडोल भारद्वाज भिक्षु लागशिल्ल्या एका रुखामुळा बशिल्लो. राजाक न्हीद लागल्या, अशें पळौन ताज्यो बायलो पिंडोल भारद्वाजासरीं गेल्यो आनी ताजो उपदेस आयकत बसल्यो. इतलें म्हणसर राजा जागो जालो आनी राग येवन पिंडोल भारद्वाजाच्या आंगार हुमले सोडपाचो ताणें येत्न केलो, असो उल्लेख संयुक्तनिकायाच्या अट्ठकथेंत सांपडटा. पुण फुडें पिंडोल भारद्वाजाचोच उपदेस आयकून तो बुद्धाचो उपासक जालो.

कौशाम्बीक घोषित, कुक्कुट आनी पावारिक ह्या तीन श्रेष्ठींनी बुद्धाच्या भिक्षुसंघाक रावपाखातीर अनुक्रमे घोषिताराम, कुक्कुटाराम आनी पावरिकाराम अशे तीन विहार बांदिल्ल्याचो उल्लेख अंगुत्तरनिकायाचे अट्ठकथेंत आनी धम्मपद अट्ठकथेंत सांपडटा.[६] उदयनाची एक प्रमुख राणी आनी तिगेली दासी खज्जुत्तरा (कुब्जा उत्तरा) ह्यो बुद्धाच्यो दोन उपासिका आशिल्ल्यो. ह्या वेल्यान दिसता कि, उदयन राजा जरी व्हडलोसो स्रध्दाळु नाशिल्लो, तरी कौशाम्बीच्या लोकांमदीं बुद्धाचे भक्त जायते आशिल्ले आनी भिक्षूंचो योगक्षेम नीट चलौंक ते उत्सुक आसताले.

६. 'बौद्धसंघाचा परिचय,' पृ. २३७–२४५.

## ९ कुरू

ह्या देशाची राजधानी आशिल्ली इंद्रप्रस्थ नगर. बुद्धाचे मुस्तीत थंय कौरव्य नांवाचो राजा राज्य करतालो इतलीच कितें ती खबर सांपडटा. पुण थंय राज्यवेवस्ता कशी चलताली ही म्हायती खैंच सांपडना. ह्या देशांत बुद्धाच्या भिक्षुसंघाखातीर एकयसून विहार नाशिल्लो. बुद्ध भगवान् उपदेस करीत त्या देशांत वच तेन्ना एखाद्रया झाडामुळा वा अशेच दुसरे सुवातेर मुक्कामाक रावं. पुण ह्या देशांत बुद्धाचो उपदेस तोखणायेन आयकुपी जायते आशिल्ले अशें दिसता. तांचेपैकीं राष्ट्रपाल नावाचो एक धनाढ्य तरुण भिक्षु जाल्ल्याची खबर मज्झिमनिकायांत विस्तारान दिल्या. कुरू देशातल्या कम्मा सदम्म (कल्माषदम्य) म्हळ्या नगरा-शेजरा बुद्ध भगवानान सति पट्ठानासारकेलीं काय बेस बरी सुत्तां उपदेसिल्ल्याचो उल्लेख सुत्तपिटकांत सांपडटा. ताजेवरवीं अशें दिसतां कि, थैंचो सर्वसाधारण लोक जरी बुद्धाक मानतालो तरी अधिकारी वर्गांत ताजो कोणच भक्त नाशिल्लो आनी वैदिक धर्माचें हांगां खूपच वर्चस्व आशिल्लें.

## १०–११ पञ्चाला (पांचाला) आनी मच्छा (मत्स्या)

उत्तर पांचालांची राजधानी 'कम्पिल्ल' (काम्पिल्य) आशिल्ली, असो उल्लेख जातक अट्ठकथेंत जायतेकडेन सांपडटा; पुण मत्स्य देशाचे राजधानीचो पत्तो ना. ह्यावेल्यान दिसता कि, बुध्दाचे मुस्तींत ह्या दोन देशांक व्हडलेशें म्हत्व उरूंक नाशिल्लें आनी ह्या देशांतल्यान बुध्दान प्रवास न केल्ल्यान थैंच्या लोकांसंबंदान वा शारांसंबंदान बौध्द ग्रंथांनी चडशी म्हायती मेळना.

## १२ सूरसेना (शूरसेना)

हांची राजधानी मधुरा (मथुरा). हांगा अवंतिपुत्र नांवाचो राजा राज्य करतालो. वर्णाश्रमधर्मासंबंदान ताजो आनी महाकात्यायनाचो जाल्लो संवाद मज्झिमनिकायाच्या मधुरसुत्तांत वर्णिल्लो आसा. ह्या देशांत

बुध्द क्वचितच वचं. मधुरा ताका व्हडलीशी आवड नाशिल्ली, अशें सकल्या सुत्तवेल्यान दिसता:

> पञ्चिमे भिक्खवे आदीनया मधुरायं। कतमे पञ्च ?
> विसमा, बहुरजा, चण्डसुनखा, वाळयक्खा, दुल्लभपिण्डा।
> इमे खो भिक्खवे पञ्च आदीनवा मधुरायं ति।
> (अगुंत्तरनिकाय पञ्चकनिपात)

भिक्षूंनो, मथुरेंत हे पांच दोष आसात. खैंचे पांच ? थैंच रस्ते खडबडीत, धुल्ल चंड, सुणीं पाडीं, यक्ष क्रूर आनी थंय भिक्षा मेळप भोव कठीण. भिक्षूनो मथुरेंत हे पांच दोष.

## १३ अस्सका (अश्मका)

सुत्तनिपातांतल्या पारायणवग्गाच्या आरंबाक ज्यो वत्थुगाथा आसात तांचे वेल्यान अशें दिसून येतां कि, अस्सकांचें राज्य खंय तरी गोदावरी न्हयेच्या आसपास आशिल्लें. श्रावस्तीक रावपी बावरी नांवाच्या ब्राह्मणान आपणाल्या सोळा शिष्यांसैत ह्या राज्यांत वस्ती केली.

> सो अस्सकस्स विसये अळकस्स समासने।
> वसी गोदावरी कूले उञ्छेन च फलेन च।।

तो (बावरी) अश्वकाच्या राज्यांत आनी अळकाच्या राज्यालागसार गोदावरीचे देगेर भिक्षेचेर आनी फळांचेर निर्वाह करून रावंक लागलो.

अस्सक आनी अळक दोन आंध्र (अन्धक) राय आशिल्ले आनी तांगेल्या राज्याच्या दरम्यान बावरीन आपल्या सोळा शिष्यांसैंत एक वसणूक केली आनी ती फुडें फुडें वाडत गेली, अशें अट्ठकथाकाराचें म्हणणें. वैदिक धर्मप्रचारकांची ही पैली दक्षिणेंतली वसणूक, अशें म्हणपाक हरकत ना. बुध्द वा ताज्या काळचे भिक्षु येथमेरेन न पाविल्ल्यान ह्या राज्यांची व्हडलीशी म्हायती बौध्द वाङमयांत सांपडना. तरीपुण बुध्दाची कीर्त तेथवेर वचून थडकल्ली. ती आयकून बावरीन

आपल्या सोळाय शिष्यांक बुध्दाच्या दर्शनाक धाडले. ते प्रवास करीकरीत मध्यदेशांत आयले आनी अखेरेक राजगृहाक बुध्दाक गांठून ताजे शिष्य जाल्ल्याची खबर वैर निर्देसिलेल्ल्या पारायणवग्गांतच आसा. परंत त्याउपरान्त ताणीं परत वचून गोदावरीच्या प्रदेशांत उपदेस केल्ल्याचो उल्लेख खैंच मेळना.

## १४ अंवती

अवंतींची राजधानी उज्जयिनी आनी तांचो राजा चंडप्रद्योत हांच्या संबंदान बरीच म्हायती मेळटा. चंडप्रद्योत जोरान पडिल्लो आसताना ताणे आपैल्यान मगध देशांतलो नावाजतो वैज जीवक कौमारभृत्य ताका बरो करूंक उज्जयिनीक गेलो. प्रद्योताच्या अत्यंत क्रूर सभावाक लागून ताका चण्ड हें विशेषण लायताले; आनी ही गजाल जीवकाक बेस बरी खबर आशिल्ली. राजाक वखद दिवचेपैली जीवकान जंगलांत वचून वखदां हाडपाच्या निमित्तान भद्दवती नांवाची हत्तीण मागून घेतली आनी राजाक वखद दिवन ते हत्तिणीचेर बसून पपा काडलीं. हांगा वखद घेतल्या त्याबरोबर प्रद्योताक आकांतालो ओंकारो लागलो. ताका लागून तो खुबळ्ळो; आनी ताणें जीवकाक धरून हाडपाचो हुकूम सोडलो. पुण जीवक थैंच्यान निस्टल्लो. ताजो फाट धरूंक राजान काक नांवाच्या आपणाल्या दासाक पिटाळ्ळो. काकान कौशाम्बीमेरेत प्रवास करून जीवकाक गांठलो. जीवकान ताका एक वखदी आंवाळो दिलो; ताका लागून काकाची दुर्दशा जाली आनी जीवकान भद्दवतीचेर बसून राज-गृहाक प्रयाण केले. हांगा प्रद्योत सामको बरो जालो. दास काकय बरो जावन उज्जयिनीक गेलो. रोग ना जावन प्रकृति पूर्ववत बरी जाल्ल्यान प्रद्योताची जीवकाचेर मर्जी बसली आनी ताका भेट म्हणून प्रद्योतान सिवेय्यक नांवाच्या उत्तम वस्त्रांचो जोडो राजगृहाक धाडलो.[७]

---

७. महावग्ग, भाग ८ वो पळेयात.

हे गजालींत आनी धम्मपद अट्ठकथेंतले खबरींत बरेंच साम्य आसा. परंत एकेवेल्यान दुसरी घडल्या काय त्यो भिन्न भिन्न काळांत घडल्यो हें सांगतां येना. ह्या दोनय गजालींविल्यान प्रद्योताचें उग्रपण व्यक्त जाता आनी तो सर्वसत्ताधीश राजा आशिल्लो, अशें दिसून येता.

बद्ध भगवान् प्रद्योताच्या राज्यांत केन्नाच गेलो ना. पुण तागेल्या प्रमुख शिष्यांपैकी एक महाकात्यायन प्रद्योताच्या पुरैताचो पूत आशिल्लो. बापायच्या मर्णाउपरान्त पुरैतपद ताका मेळ्ळें. पुण तातूंत समाधान न मानतां तो मध्यदेशांत वचून बुद्धाचो भिक्षुशिष्य जालो. महाकात्यायन परतो स्वदेशाक वतकच प्रद्योतान आनी हेरा लोकांनी ताजो बेस बरो आदर-सत्कार केलो.[८] ताजो आनी मथुरेचो राजा अवंतिपुत्र हांचो जातिभेदा-विशींचो संवाद मज्झिमनिकायांतल्या मधुर वा मधुरिय सुत्तांत सांपडटा. मथुरेंत आनी उज्जयिनीत महाकात्यायन जरी प्रसिद्ध आशिल्लो, तरी ह्या प्रदेशांत बुद्ध भगवानाचे ह्यातेंत बौद्ध मताचो व्हडलोसो प्रसार जालो, अशें दिसना. बुद्धाचे भिक्षुशिष्य तुरळक आशिल्ल्यान ह्या प्रदेशांत पांच भिक्षूणींपसून दुसऱ्या भिक्षूक उपसंपदा दिवन संघांत दाखल करून घेवपाची बुद्ध भगवंतान परवानगी दिली.[९] ह्या कामांत मध्य देशांत किमान वीस भिक्षूंची गरज लागताली.

## १५ गंधार (गांधारा)

हांची राजधानी तक्कसिला (तक्षशिला) हांगा पुक्कुसाति नांवाचो राजा राज्य करतालो. ताणें उतारवयांत आपलें राज्य सोडलें आनी राजगृहामेरेन पायांनी प्रवास करून भिक्षुसंघात प्रवेश केलो. त्या उपरान्त पात्र आनी चीवर सोदपाखातीर भोंवता आसताना एके मदेल्ले गायेन ताजो जीव घेतलो. ताका गायेन मारिल्ल्याची खबर मज्झिमनि-

---

८. विशेष म्हायतीखातीर 'बौद्धसंघाचा परिचय' पृ. १६५–६८

९. महावग्ग, भाग ८ वो; 'बौद्धसंघाचा परिचय' पृ. ३०–३१

कायाच्या धातुविभंग सुत्तांत आयल्या. तो तक्षशिलेचो राजा आशिल्लो. आनी ताजी आनी बिंबिसार राजाची इष्टागत कशी जाली बी सविस्तर वर्णन ह्या सुत्ताच्या अट्ठकथेंत सांपडटा. ताचो सारांश असो :

तक्षशिलेंतले कांय वेपारी राजगृहाक आयले. बिंबिसार राजान वयवाटेप्रमाण तांचो आदरसत्कार करून तांगेल्या राजाची प्रवृत्ति विचाल्ली. तो अत्यंत सज्जन आसून पिरायेन आपल्यायेदोच आसा, अशें कळटकच बिंबिसार राजाच्या मनांत ताज्या संबंदान मोग आदर उत्पन्न जालो; आनी ताणें त्या वेपाऱ्यांक जकातपटी माप करून पुक्कुसाति राजाक इष्टागतीचो निरोप धाडलो. ताका लागून पुक्कुसाति बिंबिसाराचेर खूबच प्रसन्न जालो. मगध देशांतल्यान येवपी वेपाऱ्यांवर आसतालो ती पटी ताणें माफ केली. आनी आपणाल्या चाकरमान्याकरवीं त्या वेपाऱ्यांवांगडा बिंबिसार राजाखातीर आठ पंचरंगी मोलादी कशाली धाडल्यो. बिंबिसार राजान हे सागवादीच्या मोबदल्यांत एक भांगरपटो उत्तम करंडांत घालून धाडलो. त्या भांगरपटयार बुद्ध, धर्म आनी संघ हांचे गुण बऱ्यांतल्या बऱ्या हिंगुळात बरैल्ले. तो मजकूर वाचून पुक्कुसातीक बुद्धाचो निदिध्यास लागलो; आनी अखेर राज्यत्याग करून तो राजगृहामेरेन पायांनी चलत आयलो.

थंय एका कुमारागेर ताची आनी बुद्धाची गाठ कशी पडली, ताका बुद्धान कितें उपदेस केलो, आनी अखेर मदेल्ले गायेकडल्यान ताजो अंत कसो जालो, हो मजकूर वैर निर्देसिल्ल्या धातुविभंग सुत्तांतच सांपडटा. गांधारांचो आनी तांचे राजधानीचो (तक्षशिलेचो) उल्लेख जातक अट्ठकथेंत जायतेकडेन आसा. तक्षशिला जशी कला कसबांत तशीच विद्वत्तेंतय फडेक आशिल्ली. ब्राह्मणांले भुरगे वेदाभ्यास करूंक, क्षत्रिय धनुर्विद्या आनी राज्यकारभार शिकूंक, आनी तरणे वैश्य शिल्पकला आनी हेर धंदे शिकुंक पैसुपैसुल्या प्रदेशांतल्यान तक्षशिलेक येताले. राजगृहाचो विख्यात वैजजीवक कौमारभृत्य हाणें आयुर्वेदाचो अभ्यास हांगाच

केल्लो. हिंदुस्थानांतलें सगल्यांत प्राचीन अशें घणघण्टें विद्यापीठ तक्षशिलेकच आशिल्लें.

## १६ कंबोजा (काम्बोज)

हांचे राज्य वायव्य दिशेक आसून तांगेली राजधानी द्वारका आशिल्ली, अशें प्रो. र्‍हिस् डेव्हिड्स् हांचे मत आसा.[१०] परंत मज्झिमनिकायांतल्या अस्सलायन सुत्तांत 'योनकंबोजेसु' असो त्या देशाचो यवनांवांगडा उल्लेख केल्लो आशिल्ल्यान हो देश गांधारांच्याय पेलेकडेन आशिल्लो अशें दिसता. त्याच सुत्तांत यवनकाम्बोज देशांत आर्य आनी दास अशो दोनच जाती आसात आनी केन्ना केन्ना आर्यांचो दास आनी दासाचो आर्य जाता अशेंय म्हळां. गांधारांच्या देशांत वर्णाश्रम धर्मान घट मूळ घेतिल्याचें कांय जातककथांवेल्यान स्पष्ट दिसता. खद्द तक्षशिलेंत चडशे गुरु ब्राह्मण जातीचे आसताले. पुण काम्बोजांत चातुर्वर्ण्याचो शिरकाव जावंक नाशिल्लो. तेन्ना तो देश गांधारांच्या पेलेकडेन आशिल्लो अशें म्हणचें पडटा.

ह्या देशांतले लोक जंगली घोडे धरपांत पटायत आशिल्ले अशें कुणालजातकाचे अट्ठकथेवेल्यान दिसून येता. जंगली घोडे जंय उदक पियेवंक येताले त्या उदकावेल्या शेळचाक आनी म्हऱ्यांतल्या तणाक हे घोडयांक धरपी लोक म्होंव साड्डायताले. घोडे तें तण खायत खायत त्या लोकांनी तयार केल्ल्या एका व्हडले वंयेत भितर सरत. ते अशे भितर सल्ले त्या बराबर घोडे धरपी वंयेचें धांव धांकून घेत आनी त्या घोडयांक ल्हव ल्हव आपल्या कबजात हाडीत. (आजकाल असल्याच कांय उपायांनी म्हैसुरांत हती धरतात हे सगळयांक खबर आसाच.) जंगली घोडयांक लगामांत हाडून तांकां हे लोक काम्बोजांतल्या वेपाऱ्यांक विकताले जावंये. वेपारी लोक घोडयांक थैंच्यान मध्यदेशांत बनारस बी सुवातींनी विकीत.[११]

---

१०. Buddhist India p. 11-28

११. देखीक, तण्डुलनालिजातक

काम्बोज देशांतलो भौस किडे, पिसोळीं बी प्राण्यांक मारिल्ल्यानच आत्मशुद्धि जाता, अशें मानीत.

कीटा पतंगा उरगा च भेका
हन्त्वा किमिं सुज्झति मक्खिका च ।
एते हि धम्मा अनरियरूपा
कम्बोजकानं वितथा बहुन्नं ।।[१२]

'किडे, पिसोळीं, सोरोप, बेबे, कृमी आनी मूस मारिल्ल्यान मनीस-प्राणी शुद्ध जाता, असो अनार्य आनी तथ्य नाशिल्लो धर्म काम्बोजांतलो भौस मानता.'

हाजेवेल्यान हे लोक, सध्या जशे सरहद्दीवेले लोक आसात, तशेच मागूस आशिल्ले अशें दिसता.

मनोरथपुरणी अट्‌ठकथेंत महाकपिन्नाची गजाल आयल्या. तो सरहद्दीवेल्या कुक्कुटवती नांवाच्या राजधानींत राज्य करतालो आनी फुडें बुद्धाचे गुण आयकून मध्यदेशांत आयलो. चंद्रभागा न्हंयेच्या कांठार बुद्धाची आनी ताजी भेट जाली. थंय भगवन्तान कपिन्नाक ताज्या आमात्यांसंत भिक्षुसंघांत घेतले. इत्यादि.[१३]

महाकप्पिन राजा आशिल्लो आनी तो कुक्कुटवतींत राज्य करतालो हाका आधार संयुत्तनिकायाचे अट्‌ठकथेंत सापडटा. परंत ही कुक्कुटवती राजधानी काम्बोजांत आशिल्ली काय ताज्या लागशिल्ल्या दुसऱ्या एखाद्‌्या संस्थानांत आशिल्ली, हें कांयच समजना. इतलें खरें कि, बुद्धाचे हयातेंतच ताजी कीर्त आनी प्रभाव सरहद्दीवेल्या रानवट लोकांतय पातळिल्लो. हाका एक हालींचें उदाहरण दितांयेसारके आसा. पंजाबां-तल्या जातिनिष्ठ लोकांत गांधीजीचें जेदें वजन आसा, ताज्यापरस कितलें तरी पटींनी चड सरहद्दीवेल्या पठाणांत दिसून येता. असोच

१२. भूरिदत्तजातक, श्लोक ९०३
१३. बौद्ध संघाचा परिचय, पृ. २०३

थोडोसो प्रकार बुद्धाचे मुस्तींत घडिल्लो आसल्यार तातूंत अजाप मानी-सारकें कांय ना.

## सोळा राज्यांचो ललितविस्तरांत उल्लेख

ह्या सोळा राज्यांचो उल्लेख ललितविस्तरांत सांपडटा, अशें वैर म्हळ्ळेंच आसा. प्रसंग असो आसा कि, बोधिसत्व तुषितदेवभवनांत आसताना खैंच्या राज्यांत जल्म घेवन लोकोद्धार करचो हें येवजिता. ताका वेगवेगळे देवपुत्र भिन्नभिन्न राजकुळांचे गुण सांगतात आनी दुसरे कांय देवपुत्र त्या कुळांचे अवगुण सांगतात.

### मगधराजकुळ

(१) कोणा देवपुत्रान म्हळें, 'मगध देशांत हे वैदेहिकुळ खूब संपन्न असून बोधिसत्वान जल्मा येवंक हेंच स्थान योग्य.' हाजेर दुसऱ्या देवपुत्रान म्हळें, 'हे कुळ योग्य न्हय, कारण तें आवयचे वटेयां आनी बापायचे वटेयां शुद्ध नासून चंचल आसा; विपुल पुण्यान ते मुस्नात जाल्लें ना. तळयांउद्यानादिकांनी तांगेली राजधानी सोबीत नासून ती जंगली लोकांक फावशी आसा."

### कोसलराजकुळ

(२) दुसऱ्या देवपुत्रान म्हळें, 'हें कोसलकुळ दळ, वाहन आनी धन हाणीं संपन्न आशिल्ल्यान बोधिसत्वाक सोबशें आसा.' ताजेर दुसऱ्यान म्हळें, 'तें मातंगीच्या स्खलनान जाल्लें आसून मातृपितृशुध्द न्हय, आनी हीण धर्मार भावार्थ दवरपी. म्हणून तें योग्य न्हय.

### वंशराजकुळ

(३) दुसऱ्यान म्हळें, 'हें वंशराजकुळ तरतराटाक आयिल्लें आनी सुक्षेम आसून तांच्या देशांत संपन्नताय आशिल्ल्यान तें बोधिसत्वाक योग्य आसा.' ताजेर दुसऱ्यान म्हळें, 'तें अडाणी आनी उग्र आसा. त्या

कुळांतल्या जायत्या राजांचो जन्म कुळाभायल्या पुरशांपसून जाला. आनी त्या कुळांतलो सध्याचो राजा उच्छेदवादी (नास्तिक) आशिल्ल्यान तें बोधिसत्वाक फावशें न्हय.'

## वैशालींतले राय

(४) दुसऱ्या देवपुत्रान म्हळें, 'ही वैशाली महानगरी गडगडटी, सुक्षेम, सुभिक्ष्य, रमणीय, मनशांनी गजबजिल्ली, घरांवाड्यांनी सभराभरित, फुलबागांनी आनी उपवनानीं प्रफुल्लीत अशी आशिल्ल्यान ती देवोंचे राजधानीकडेन सर करता काय दिसता. म्हणून बोधिसत्वान जल्म घेवंक ती योग्य दिसता.' हाजेर दुसऱ्यान म्हळें, 'थंयच्या रायांचे परस्परां-विशींचें वर्तन न्यायाचें न्हय. ते धर्मान चलनात. आनी उत्तम, मध्यम, जाण्टे आनी ज्यष्ठ इत्यादिकांसंबंदान ते आदर बाळगिनात. जण एक समजता आपुणच राजा. कोण कोणाचो शिष्य जावंक इत्सिना. कोण कोणाची भींड मुर्वत दवरिना. म्हणून ती नगरी बोधिसत्वाक अयोग्य.'

## अवंतिराजकुळ

(५) दुसऱ्या देवपुत्रान म्हळें, 'हें प्रद्योताचें कुळ भौच बलाढ्य, व्हडल्या-व्हडल्या वाहनांनी संपन्न आनी शत्रुसैन्याचेर जैत मेळौपी जाल्ल्यान बोधिसत्वाक योग्य आसा.' हाजेर दुसऱ्यान म्हळे, 'त्या कुळांतले राजे उग्र, क्रूर, कठोर उलौपी आनी धाडशी. कर्माचेर तांचो विस्वास ना. देखून तें कुळ बोधिसत्वाक सोवशें न्हय.'

## मथुराराजकुळ

(६) दुसऱ्यान म्हळें, 'ही मथुरा नगरी समृद्ध, सुक्षम, सुभिक्ष्य, आनी मनशांनी गजबजिल्ली. कंसकुळांतल्या शूरसेनांचो राजा सुबाहु हाजी ही राजधानी. ही बोधिसत्वाक योग्य.' हाजेर दुसऱ्यान म्हळें, 'हो राजा मिथ्यादृष्टि कुळांत जाला आसून दस्युराय आशिल्ल्यान ही नगरीय बोधिसत्वाक योग्य न्हय.'

## कुरुराजकुळ

(७) दुसऱ्यान म्हळें, 'ह्या हस्तिनापुरांत पांडव कुळांतलो शूर आनी देखणो राय राज्य करता. पर सैन्याचो पराभव करपी अशें हें कुळ जाल्ल्यान बोधिसत्वाक हें योग्य आसा.' हाजेर दुसऱ्यान म्हळें, 'पांडव कुळांतल्या राजांनी आपलो वंश विकल करून उडैला. युधिष्ठिराक धर्माचो, भीमसेनाक वायूचो, अर्जुनाक इंद्राचो आनी नकुळ-सहदेवांक अश्विनांच पूत म्हण्टात. ह्या खातीर हेंय कुळ बोधिसत्वाक योग्य न्हय.'

## मैथिलराजकुळ

(८) दुसऱ्यान म्हळें, 'मैथिल राजा सुमित्र हाजी राजधानी ही मिथिला नगरी अत्यंत रंजौणी आसून हती, घोडे, पायदळ हाणी हो राजा संपन्न आसा. ताजेकडेन भांगर, मोतीं, जवाहीर आसा. सामन्त राजांची सैन्यां ताज्या पराक्रमाक भियेतात. तो धर्मवत्सल आसा आनी ताजो इष्टपरिवार व्हडलो आसा. म्हणून हें कुळ बोधिसत्वाक योग्य.' हाजेर दुसऱ्यान म्हळें, 'हो राजा असो आसा खरो. पुण ताका पुस्कळ संतत आसून तो खूब म्हातारो आशिल्ल्यान पूत जन्माक घालची टांक ताका ना. म्हणून हें कुळलेगीत बोधिसत्वाक अयोग्य.'

'ह्या प्रमाण त्या देवपुत्रांनी जंबुद्वीपांतल्या सोळा राज्यात (षोडश जान पदेषु) जीं ल्हानव्हड राजघराणीं आशिल्लीं तीं सगळी पळेलीं. पुण तीं तांकां सदोष दिसलीं.' [१४]

## आठच कुळांची म्हायती

सोळा जनपदांपैकी हांगा आठांच्याचें राजकुळांचें वर्णन आसा. पैकीं सुमित्राचें कुळ ताज्या फाटोफाटच नष्ट जावन विदेहाचो अंतर्भाव वज्जींच्या राज्यांत जालो जावंये. उरिल्ल्या सातांत पांडवांचे पथावळींत कोण राजा

१४. हें मूळ उताऱ्याचें आटींव रूपांतर.

राज्य करतालो हें सांगिल्ले ना आनी ताजी म्हायती हेर बौद्ध ग्रंथांनीय सांपडना. कुरु देशांत कौरव्य नांवाचो राजा राज्य करतालो असो उल्लेख रट्ठपाल सुत्तांत आसा. तो पांडव कुळांतलो आशिल्लो त्या संबंदानचो पुरावो खेंच ना. उरिल्ल्या सं राजकुळांची जी म्हायती हांगा दिल्या, तशीच आगळीउणी त्रिपिटक ग्रंथांनी सांपडटा.

## शाक्यकुळ

बौद्ध ग्रंथांनी शाक्य कुळाची म्हायती विस्तारान दिल्या. अशें आसताना वेल्या सोळा जानपदांत शाक्यांचे नांवनिशाण मातय ना हें कशें? हाका जाप ही कि, ही वळेरी तयार जावचें पैलींच शाक्यांचें स्वातंत्र्य नष्ट जावन त्या देशाचो समावेश कोसलांच्या राज्यांत जाल्लो आनी म्हणूनच हे वेळेरेंत तांचो निर्देस सांपडना.

बोधिसत्व घर त्यागून राजगृहाक आयिल्लो आसताना बिंबिसार राजान ताजी भेट घेवन तूं कोण असो प्रश्न विचाल्लो. तेन्ना ताणें म्हळें–

उजुं जानपदो राजा हिमवन्तस्स पस्सतो ।
धनविरियेन सम्पन्नो कोसलेसु निकेतिनो ।।
आदिच्चा नाम गोत्तेन, साकिया नाम जातिया ।
तम्हा कुला पब्बजितोम्हि राज न कामे अभिपत्थयं ।।

(सुत्तनिपात, पब्बज्जासुत्त)

'आगा राया, हांगच्यान थेट हिमालयाच्या मुळसांत कोसल देशापैकीं एक जानपद (प्रांत) आसा. तांचें गोत्र आदित्य आनी जात शाक्य. राजा, त्या कुळांतलो हांव कामोपभोगांची इत्सा सोडून परिव्राजक जालां.'

ह्या गांथेंतलीं 'कोसलेसु निकेतिनो' हीं उतरां म्हत्वाचीं आसात. कोसल देशांत ज्यांचें घर आसा, म्हळ्यार कोसल देशांत ज्यांची गणना जाता. हाजेवेल्यान शाक्यांचें स्वातंत्र्य केन्नाच नष्ट जाल्लें हें उक्तें दिसता.

शाक्य कोसल राजाक पटी भरताले आनी भितल्लो कारभार तांचो ते करताले. महानामाचे दासिकन्येकडेन पसेनदीचें लग्न जाल्याची खबर वैर दिल्याच. ते विशीं प्रों. र्‍हिस डेव्हिड्स् दुबाव दाखयतात. कोसल राजाचो सर्वाधिकार जर शाक्यांक मान्य आशिल्लो जाल्यार आपणाली चली ताका दिवंक शाक्यांक हरकत कित्याक दिसची, अशें तांगेलें म्हणणें दिसता.[१५] परंत हिंदुस्थानांतलो जातिभेद कितलो तीव्र हें तांका खबर नासुं ये. उदेपूरच्या प्रतापसिंहाक अकबराचे सार्वभौमपण मान्य आशिल्ले. तरीय आपली चली अकबराक दिवंक तो राजी नाशिल्लो. कोसलकुळ 'मातंगच्युत्युत्पन्न' अशें ललितविस्तरांत म्हळां. त्यावेल्यान हें कुळ मातंगांच्या ( मांगांच्या ) जातीतल्यात उदयाक आयलें आसुंये अशें दिसता. अशा घराण्याकडचो शरीरसंबंद शाक्यांक नाका दिसलो जाल्यार तातूंत अजाप मानपाजोगें कांय ना.

## गणराज्यांची वेवस्ता

हीं राज्यां एका काळाक गणसत्ताक वा म्हाजनसत्ताक अशें वैर म्हळांच. वज्जी, मल्ल व शाक्य हांच्या संबंदान जी म्हायती त्रिपिटक ग्रंथांनी मेळटा, तिजेवेल्यान अशें दिसता कि ह्या राज्यांतल्या गांवोगांवच्या मुखेल्यांक राजा म्हण्टाले. हे सगळे राजे एकठांय जमून आपणांतल्याच एकाद्याक यजमान म्हणून वेंचून काडीत. ताजी मुजत हयातभर आसताली काय कांय काळमेरेनच आसताली ह्या संबंदानची कांयच नाट मेळना. वज्जींतलो एकाद्रो कोणय म्हाराज आशिल्लो अशेंय दिसना. वज्जींच्या सेनापतीचो उल्लेख आसा. पुण म्हाराजाचो ना; कदाचित् तितले वेळेपुरतो यजमान वेंचून काडून ते काम चलैताले जावंये. ह्या गणराज्यांनी न्याय दिवपासंबंदानचे आनी राज्याची वेवस्ता कशी दवरची ह्या संबंदानचे कांय कायदे थारायल्ले आसताले आनी तांकां धरूनच हे गणराजे आपलीं राज्यां चलैताले.

---

१५. Buddhist India p. 11–12

## गणराज्यांच्या नाशाचीं कारणां

सोळा जनपदांच्या गणराजांचो नाश जावन चडशा राज्यांनी महाराजसत्ता स्थापन जाल्ली. आनी मल्लांचीं ल्हानशीं दोन आनी वज्जींचें बलाढ्य एक मेळून जीं तीन गणसत्ताक स्वतंत्र राज्यां उरिल्लीं तींय एकसत्ताक राज्यपद्धतीचे भकीक पडपाक आयिल्लीं. हाजीं कारणां कितें जालीं जातीत? म्हज्या मतान, गणराजांचो ऐषआराम आनी ब्राह्मणांचें राजकर्णांत वर्चस्व, हीं हे क्रांतीचीं प्रमुख कारणां जावंक जाय.

गणराजांक कोण निवडून दी नाशिल्लो. बापायच्या फाटोफाट पूत राजा जातालो. पिढ्यान्तीं हो अधिकार भोगूंक मेळिल्ल्यान हे चैनी आनी बेजबाबदार जावप सामकें सभावीक आशिल्लें. वैर जें ललितविस्तारांतलें वर्णन दिलां, तें तर्जिल्यार, हे गणराजे जरी प्रबळ आशिल्ले तरी आपसांत तांकां पड नाशिल्ले आनी जण एक आपणाक राजा मानून चलतालो अशें दिसता. ताका लागून बुद्धाच्या परिनिर्वाणा उपरान्त अजातशत्रूक वज्जींच्या गणराजांत फूट घालून तें राज्य अनायासान काबीज करूंक आयलें.

सामान्य लोकांचें ह्या गणराजांक फाटबळ आसप शक्य नाशिल्लें. जो तो आपापले परीन लोकांचेर जुलूम करूंक लागलो जाल्यार ताका आळाबंदाक हाडपाचें बळगें लोकांत वा हेरा राज्यांत नासतालें. त्यापरस हे सगळे राजे नाजावन एकच सर्वसत्ताधिश आसप सामान्य मनशाचे नदरेन अदीक सोयीचें आशिल्लें. महाराजा आपल्या अधिकाऱ्यांचेर जोर जुलूम करी, राजधानीच्या आवंतीभोवंतीं एकाद्री रुपेस्त तरणीताठी सापडली, जाल्यार तिका आपणाल्या झनानखान्यांत घाली. असले कांय थोडेभोव अतितायेचे प्रकार ताजेकडल्यान घडले, तरी ते गणराजांच्या इतके आसप शक्य नाशिल्लें. गणराजे गांवोगांवीं आशिल्ल्याकारणान तांचो जुलूम जालो, जाल्यार तांतल्यान भौसांतलो कोणच शक नाशिल्लो. करांच्या आनी वेठीच्या रुपान हे राजे सगळ्यांकच धोंसताले जावंये. एकसत्ताक

महाराजाक अशे तरेन शेतकामतींक सतावपाची निखालस गरज नाशिल्ली. ताज्या फोल्गांपुरतो पैसो नेमान येवपी करांच्या रूपान ताज्यान सहज वसूल करूंक येतालो. तेन्ना सामान्य लोकांक 'फातरापरस वीट मोव' ह्या न्यायान एकसत्ताक राज्यपद्धतीच बरी दिसली जाल्यार नवल ना.

एकसत्ताक राज्यांत पुरैताचें काम वंशपरंपरेन वा ब्रह्मवृन्दाचे संमतीन ब्राह्मणाकच मेळ. मुख्यप्रधानादिकांची कामांय ब्राह्मणांकच मेळटालीं. अर्थात् ब्राह्मण एकसत्ताक राज्यपद्धतीचे मोटे भोक्ते जाले. ब्राह्मणी ग्रंथांनी गणसत्ताक राजांचें नांवय घेतिल्लें ना ही गजाल विचार करपा-जोगी आसा. ह्यावेल्यान अशें दिसता कि, ब्राह्मणांक गणसत्ताक राज्यपद्धत निकालस पसंत नाशिल्ली. शाक्यांसारकेले गणराजे ब्राह्मणांक मान दिनात, असो अंबष्ठ ब्राह्मणान तांचेर आरोप केल्ल्याचो उल्लेख अंबठ्ठ सुत्तांत आसा.[१६] गणराज्यांनी यज्ञयागांत मातय उत्तेजन मेळ नाशिल्लें, आनी एकसत्ताक राजांनी तर महाराजे यज्ञयाग चलौपा खातीर ब्राह्मणांक वंशपरंपरेन इनामां दिताले. एका बिंबिसाराच्या राज्यांत सोणदण्ड, कूटदन्त बी ब्राह्मणांक, त्याचप्रमाण कोसल देशांत पोक्खरसाति ( पौष्क-रसादि ) तारुक्ख ( तारुक्ष ) बी ब्राह्मणांक व्हडलीं व्हडलीं इनामां आशिल्लीं, अशें सुत्तपिटकांतल्या तांच्या वर्णनावेल्यान दिसून येता. तेन्ना 'परस्परं भावयन्तः श्रेयः परमवाप्स्यथ' ह्या न्यायान एकमेकांच्या आला-सऱ्याक ब्राह्मणजातीचें आनी एकतंत्री राज्यपद्धतीचें वर्चस्व वाडत वचप सहजिक जाले.

बुद्धकाळात ब्राह्मणांपरस श्रमणांचे (परिव्राजकांचें) म्हत्व चंड चंड वाडत वतालें, हे फुडल्या प्रकरणावेल्यान स्पष्ट दिसून येतलें. ह्या श्रमणांक गणसत्ताक राज्यसंबंदान आदर आशिल्लो. कारण अशा राज्यांनी यज्ञयागांक

---

१६. चण्डा भो गोतम सक्यजाति........
इब्भा सन्ता इब्भा समाना न ब्राह्मणे रुगकरोन्ति, न ब्राह्मणे मानेन्ति, इत्यादी",(दीघनिकाय अम्बट्ठसुत्त).

कोण विचारिनाशिल्लो. पुण अध्यात्मचिंतनांत गुल्ल जावन गेल्ल्यान राजकी बाबतींत येवजण करून ह्या गणसत्ताक राज्यांची सुधारणा कशी करूंक येत, हाजो मार्ग सोदून काडूंक तांकां अवकाशच नाशिल्लो. जें किर्तें चल्लां ताका परिहार नासुंये असो तांचो समज जाल्लो अशें दिसता.

गणराजासंबंदान बुद्धाचो आदर स्पष्ट दिसता. वज्जींक ताणे उदरगतीचे सात नेम घालून दिल्ल्याचो उल्लेख वैर आयलाच. पुण ताणे लेगीत हे पोरणे राज्यपद्धतींतल्यान नवी नीटनेटकी बांदावळ कशी घडुं येता ह्या संबंदानचे आपणाले विचार प्रगट केल्ल्याचे दिष्टि पडना. गण-राजांपैकी एखाद्र्या राजान जर जुलूम केलो, जाल्यार हेर राजांनी एक जावन ताका आळो घालचो? वा ह्या सगळयाच गणराजांक लोकांनी वेळोवेळ निवडून दिवन तांचेर दाब दवरचो? बी विचार बौद्ध वाङमयात खैंच सांपडनात.

बुद्धाच्या अनुयायांनी तर गणसत्ताक राज्यांची कल्पना सामकीच सोडून दिली. दीघनिकायांत नमुनेदार राज्यपद्धत सांगपी चक्कवत्तिसुत्त आनी महासुदस्सनसुत्त अशी दोन सुतां आसात. तातूंत चक्रवर्ती राजाचे म्हत्व सुमार सोडून वर्णिलां. ब्राह्मणांच्या सम्राटांमदीं आनी ह्या चक्र-वर्तीमदीं तफावत इतलीच कि, पैलो सामान्य जनाचो हुस्को न करता खूब यज्ञयाग करून ब्राह्मणांचो तितलो हुस्को काढ्टा आनी दुसरो सगले प्रजेक न्यायान वागौन सुखी करपांत दक्ष आसता. राज्यात थंडाय स्थापित जातकच तो लोकाक उपदेस करता कि,

पाणो न हन्तब्बो, अदिन्नं नादातब्ब, कामेसु मिच्छा
न चरितब्बा, मुसा न भासितब्बा, मज्जं न पातब्बं ।.

'प्राण्यांची हत्या करूं नये, चोरी करूं नये, भायलो छंद करूं नये, फट उलंव नये, सोरो पियेंव नये.'

म्हणचे बौद्ध गृहस्थाचे जे शीलाचे पांच नेम तांकां पाळो दिवपाचो उपदेस हे चक्रवर्ती राजे करताले. तात्पर्य, ब्राह्मणांचे नदरेन जावं, वा बुद्धाच्या अनुयायांचे नदरेत जावं, एकसत्ताक राज्य पद्धतच बरी थल्ली. तत्वाचो फरक नासून तपशिलाचो तितलो फरक उल्लो. परंत खुद्द गौतम बोधिसत्वाचेर गणसत्ताक राज्यपद्धतीचो बरो परिणाम जाल्लो. संघाची बांदावळ बुद्धान गणसत्ताक राज्यांचे राज्यपद्धतीवैल्यान रचली जावंक जाय. म्हणून ह्या गणसत्ताक राज्यांची मेळटा ती अल्पस्वल्प म्हायती विशेष म्हत्वाची दिसता.



प्रकरण तिसरें

# तेन्नाची धर्मीक परिस्थिति

## खोट्यो समजुती

आजकालच्या पुष्कळशा विद्वानांचो असो समज दिसता कि, आरंबाक ब्राह्मणांचो सगलो भार वेदांचेर आशिल्लो, उपरान्त ताणीं यज्ञयागाचें प्रस्थ मातैलें, तांतल्यान उपनिषदांचें तत्वज्ञान भायर सल्लें आनी मागीर बुद्धान त्या तत्वज्ञानांत सुधार करून आपणालो संप्रदाय स्थापन केलो. ही विचारसरणी मुदलांतच भ्रमाची. ती सोडून दिल्याबगर बुद्धचरित्राचो जथापथ बोध जावप अशक्य. म्हणून ह्या प्रकरणात बुद्धाचे मुस्तींत धर्मीक परिस्थिती कशी तरेची आशिल्ली हें संक्षेपान वर्णप योग्य दिसता.

## यज्ञसंस्कृतायेचो प्रवाह

पैल्या प्रकरणांत सांगलां कि, आर्यांच्या आनी दासांच्या संघर्षाक लागून सप्तसिंधूच्या प्रदेशात यज्ञयागाची संस्कृताय उपरासली आनी परीक्षित आनी ताजो चलो जनमेजय हांचे कारकिर्दींत हे वैदिक संस्कृतायेन कुरु देशांत आपणालें सासणाचें थाणें मांडलें परंत हे संस्कृतायेचो प्रवाह कुरूंचे पेलेकडेन पूर्वेक नेटान व्हावंत गेलो ना. ह्या प्रवाहाची गती कुरु देशांतच आडावली. हाजें मुख्य कारण पूर्वेकडल्या देशांनी ऋषिमुनींचे अहिंसेक आनी तपश्चर्येक म्हत्व दिवपी लोक जायते आशिल्ले.

## तपस्वी ऋषीमुनी

जातक अट्ठकथेंत तपस्वी ऋषिमुनींच्यो जायत्यो गजाली आयल्यात. तांचेवैल्यान अशें दिसता कि, हे लोक जंगलांत वचून तपश्चर्या

करीत. तांचे तपश्चर्येचो मुखेल विशय म्हळ्यार खैंच्याच प्राण्याक दुखवप ना आनी जाता तितले देह दंडण करप. हे लोक एकटुके वा जमो करून रावताले. एकेका जम्यांत ५००/५०० तपस्वी परिव्राजक आसताले असो उल्लेख जायत्या जातककथांनी सांपडटा. जंगलांतली कंदमुळां, फळां बी जिनसांचेर ते आपलो निर्वाह करीत आनी प्रसंगोपात खैण आनी आमट जिनस (लोण – अम्बिल–सेवनस्थं) खावपाक लोकवस्तीच्या जाग्यांनी येत. तांचेविशीं लोकांक आदर आशिल्लो आनी तांका लागपी जिनसांची ते वाण पडूंक दी नाशिल्ले. ह्या ऋषिमुनींचें लोकांचेर वजन आसतालें; पुण ते लोकांक धर्माचो उपदेस करि नाशिल्ले. तांचे देखोन लोक अहिंसेक मानीत इतलेंच.

## ऋषीमुनींचे भोळेपण

हे तपस्वी लोक वेव्हारांत नेणार आशिल्ल्यान केन्ना केन्ना प्रपंचात फटवताले. ऋष्यशृंगाक बायलांनी फटोन हाडिल्ल्याचे आनी पराशर सत्यवतीशीं रत जाल्याचें वर्णन पुराणांनी आसाच. ते खेरीज जातक अट्ठकथेंतय हे ऋषिमुनी नसत्याच मार्गाक लागिल्ल्याच्यो जायत्यो गजाली सांपडटात. तांतली एक हांगा दितां –

खूब पुर्विल्ल्या काळांत वाराणसी नगरींत ब्रह्मदत्त राजा राज्य करता आसताना बोधिसत्व काशी राष्ट्रांत औदिच्य ब्राह्मणकुळांत जल्मा आयलो. वयार येतकच ताणें प्रव्रज्या घेतली; आनी तो पांचशें शिष्यांच्या सहवर्तमान, हिमालयाच्या मुळसांत रावंक लागलो. पावशेदीस लागीं आयले तेन्ना ताज्या शिष्यांनी ताका म्हळें, 'आचार्य, लोकवस्तीत वचून आमी खार आनी आमट जिनस खावं या' आचार्यान म्हळें, 'आयुष्मंतानो! हांव हांगाच रावतां. तुमी वचून शरीराक मानवपी जिनस खावन येयात.'

ते तपस्वी वाराणसीक आयले. राजान तांची नामना आयकून चातुर्मास आपणाल्या उद्यानांत सारात अशी तांका विनंती केली; आनी तांच्या

जेवणाखाणाची वेवस्ता आपल्याच राजवाड्यांत करूंक लायली. एक दीस नगरांत सुरापानाचो महोत्सव चालिल्लो. जंगलांत परिव्राजकांक सोरो मेळूंक कठीण, म्हणून राजान ह्या तपस्व्यांक बऱ्यांतलो बरो सोरो दिवंक लायलो. तपस्वी सोरो पियेवन नाचूक लागले, गावंक लागले आनी कांय अस्ताव्यस्त जावन जमनीर पातळ्ळे. जेन्ना ते साबुद्दीर आयले, तेन्ना तांको खूब पच्छताप जालो. त्याच दिसा राजाचें उद्यान सोडून ते हिमालयावशीं वळ्ळे; आनी क्रमशः आपल्या आस्रमांत येवन आचार्याक नमस्कार करून एके कुशीक बसले. आचार्यान तांकां म्हळें, 'लोकवस्तींत तुमकां भिक्षेचो त्रास जालो ना मू? आनी तुमी समग्र भावान रावले मू?' तार्णी म्हळें, 'आचार्य, आमी सुखान रावले; मात जें पियेवं नये तें आमी पियेले.'

अपायिम्ह अनच्चिम्ह अगाच्चिम्ह रुदिम्ह च ।
विसञ्ञकरणिं पित्वा दिट्ठा नाहुम्ह वानरा ॥

आमी पियले, नाचूंक लागले, गावंक लागले आनी रडले. भावानार करपी (सोरो) पियेवन आमी माकड जाले नात, इतलेंच!'[1]

## ऋषिमुनींत जातिभेद नाशिल्लो

तपस्वी ऋषिमुनींत जातिभेदाक निकालस थारो नाशिल्लो. खैंचेय जातीचो मनीस तपस्वी जालो, जाल्यार सगळ्या समाजांत ताका भौमान आसतालो. देखीप, जातकांत आयिल्ली मातंग ऋषीची गजाल[2] हांगा संक्षेपान दितां :—

मातंग हो वाराणसी नगराभायर चांडाळ कुळांत जल्मलो. तो वयार येतकच एक दीस ताजी आनी वाराणसी श्रेष्ठीचे दृष्टमंगलिका नांवाचे तरुण चलयेची रस्त्यांत गांठ पडली. तेन्ना मातंग एके कुशीक उबो रावलो. आपल्या परिवारांतल्या चाकरमान्यांक दृष्टमंगलिकेन विचाल्लें कि, हो कुशीक उबो राविल्लो मनीस कोण? चाकरान तो चांडाळ अशें सांगलें त्याबराबर अपशकुन जालो अशें समजून थैंच्यानच ती परतली.

---

१. सुरापान जातक (नं. ८१).
२. मातंगजातक (नं. ४९७).

दृष्टमंगलिका म्हैन्या दोन म्हैन्यांतल्यान एकदां उद्यानांत वचून आपल्या वांगडच्या आनी थंय जमपी हेरां लोकांक पैशे वांटी. ती घरा परतल्ल्यान त्या लोकांची निराशा जाली. ताणी मातंगाक बडौन निचेष्ट करून रस्त्यात उडैलो. मातंग कांय वेळान साबुद्दीर आयलो आनी दृष्ट-मंगलिकेच्या बापायच्या दरवठ्यांत सपणार आडवो पडून रावलो. जेन्ना ताका विचाल्लें कि, 'असो त्रागो तूं कित्याक करता ?' तेन्ना ताणें म्हळें, 'दृष्ट-मंगलिकेक घेतल्याबगर हांव हांगचो हालचों ना.' सात दीस तसोच पडून रावतकच श्रेष्ठीन निरुपाय जावन आपली चली ताज्या सुवादीन केली. तिका घेवन तो चांडाळग्रामात गेलो.

दृष्टमंगलिका जरी ताजेकडेन बायलेच्या नात्यान वागूंक तयार आशिल्ली, तरी ताणे तिका तशें तरेन वागयनासताना अरण्यांत वचून घोर तपश्चर्या आरंबली. सात दिसांनी मातंग परतो आयलो, आनी दृष्ट-मंगलिकेक ताणें म्हळें, ' तूं जाहीर कर कि, म्हजो घोव मातंग नासून महा-ब्रह्मो आसा; आनी तो पुनवेच्या दिसा चंद्रमंडळांतल्यान सकल देंवतलो.' त्याप्रमाण दृष्टमंगलिकेन हें वर्तमान सगल्यांक सांगलें. पुनवे दिसा रातची लोकांची खूब मोटी तांडी चांडालग्रामात तिज्या घरामुखार जमली. तेन्ना मातंग ऋषि चंद्रमंडळातल्यान सकल देंवलो; आनी आपले खोंपींनं भितर सरून ताणें दृष्टमंगलिकेचे बोंबलेक आपलो आंगठो लायलो.

थंय जमिल्ल्या ब्रह्मभक्तांनी हो अद्भूत चमत्कार पळौन दृष्टमंगलिकेक उखलून वाराणसी नगरीक न्हेली आनी नगरीच्या मदल्या वाठारांत एक मोटो माटव उबारून तिजी पुजा चलैली. लोक तिका नवस करूंक लागले. णव म्हैन्यांनी त्याच माटवांत तिका भुरगो जालो. मांडवांत जाल्ल्यान ताजें नांव मांडव्य दवल्लें. लोकान त्या माटवासरींच एक वाडो बांदलो आनी ह्या आवयपुताक ह्या वाड्यांत दवल्लीं. तांची पुजा चालू आशिल्ली.

ल्हानपणसारन मांडव्यकुमाराक शिकौंक व्हडले व्हडले वैदिक पंडित आपखोशयेन आयले. तो तीनय वेदांत पारंगत जालो. आनी ब्राह्मणाक जायती मजत करूंक लागलो. एक दीस मातंग ऋषि ताज्या दारांत भिक्षे-खातीर उबो रावील्लो आसताना मांडव्यान ताका म्हळें, 'बोंदरां घालून पिशाच्चसो हांगा उबो रावपी तूं कोण?'

मातंग – तुगेर खावंकपियेवंक खूब आसा. म्हणून कितेंय खरकटें मेळत हे आशेन हांव हांगा उबो आसां.

मांडव्य – पुण हे जेवण ब्राह्मणांखातीर आसा. तुजेसारकेल्या हलकटाक दिवंक न्हय.

दोगांयचेंय बरेंच उलौणें जातकच मांडव्यान मातंगाक आपणाल्या तीन द्वारपाळांकडल्यान धुकलून भायर घालो. पुण ताका लागून ताजीच दांतकडी बसली, दोळे धवे जाले आनी तो निरणून पडलो. ताज्या वांगडच्या ब्राह्मणांचीय थोडया प्रमाणात हीच गत जाली. तोंडां कशायकशीं करून ते गडबडां लोळूंक लागले. हो प्रकार पळौन दृष्टमंगलिका धावली. एका दळिद्री तपस्व्याच्या प्रभावान आपल्या पुताची आनी हेरां–ब्राह्मणांची अशी दशा जाल्ल्याचें जेन्ना तिका समजलें तेन्ना ती ह्या तपस्व्याचो सोद करूंक भायर सल्ली. मातंग ऋषि एकेकडेन बसून भिक्षाटणात मेळिली पेज जेवतालो. दृष्टमंगलिकेन ताका वळखिलो आनी आपल्या चल्याक क्षमा करपाची विनंती केली. आपणाले उष्टे पेजेचो कांय वांटो ताणे तिका दिलो आनी सांगलें कि, ही पेज चल्याच्या आनी हेरां–ब्राह्मणांच्या तोंडांत घाल, म्हणटकच ते बरे जातले. दृष्टमंगलिकेन तशें करतकच ते सगले ब्राह्मण पूर्वस्थितीचेर आयले. पुण चांडाळाच्या उष्टयान ब्राह्मण बरे जाल्ल्याचें वर्तमान सगळे वाराणसीत पातळ्ळें. तेन्ना लोकांची लज दिसून ते मेज्झ (मेध्य) राष्ट्रांत गेले. मांडव्य मात थैंच रावलो.

मातंग ऋषि कांय काळान भोंवतां भोंवतां मेज्झ राष्ट्रांत पावलो. हें वर्तमान मांडव्या वांगडच्या ब्राह्मणांक समजलें, तसो मेज्झराजाचो ताणें समज करून दिलो कि, हो नवो आयिल्लो भिकारी आसा आनी तो सगळी राष्ट्रां पाडा घालतलो. हें आयकनाफुडें राजान आपले शिपायाक मातंगा सोदीक रवाना केले. ताणी ताका एके वण्टीसरीं मेळिल्लें भिक्षान्न खातना गांठलो आनी थैंच थार माल्लो. हाका लागून देवता खुबल्यो आनी ताणीं तें राष्ट्र पाडा घालें.

मातंगाचे हत्येक लागून मेज्झ राष्ट्र पाडा पडिल्ल्याचो उल्लेख जाय त्या जातकांनी सांपडटा. हे दंतकथेंत कितलेंशें तथ्य आसा हें सांगतां येना. पुण मातंग ऋषी चांडाळ आशिल्लो आनी ताजी पूजा ब्राह्मण आनी क्षत्रियपसून करताले, हें वसलसुत्रांतल्या सकल्ल्या गाथांवैल्यान स्पष्ट जाता.

तदमिना पि जानाथ यथा मेदं निदस्सनं ॥
चण्डालपुत्तो सोपाको मातंगो इति विस्सुतो ॥ १ ॥
सो यसं परमं पत्तो मातंगो यं सुदुल्लभं ।
आगच्छुं तस्सुपट्ठानं खत्तिया ब्राह्मण बहू ॥ २ ॥
देवयानं अभिरूय्ह विरजं सो महापथं ।
कामरागं विराजेत्वा ब्रह्मलोकूपगो अहु ।
न नं जाति निवारेसि ब्रह्मलोकूपपत्तिया ॥ ३ ॥

(१) हाका हांव एक दाखलो दितां. सुण्याचें मांस खावपी चांडाळाचो एक पूत मातंग ह्या नावांन प्रसिद्ध आशिल्लो. (२) त्या मातंगाक अत्यंत श्रेष्ठ आनी दुल्लभ येस मेळ्ळें. ताजे सेवेक जायते क्षत्रिय आनी ब्राह्मण हाजीर आसताले (३) विषयवासनेचो क्षय करपी व्हड मार्गाचो आनी देवयानाचो (समाधीचो) अवलंब करून तो ब्रह्मलोकाक गेलो. ब्रह्मलोकांत उत्पन्न जावंक ताजो जल्म ताज्या आडा आयलो ना.

## शंबूकाची कथा काल्पनिक

शंबूक नावाचो सुदीर अरण्यात तपश्चर्या करतालो. तिका लागून एका ब्राह्मणाच्या भुरग्याक मरण आयलें. रामाक ही खबर कळटकच ताणें अरण्यांत वचून शंबूकाची तकली माल्ली आनी ब्राह्मणाच्या भुरग्याक जितो केलो. ही कथा रामायणांत खूब फुलौन वर्णिल्या. थोडें सौम्य स्वरूप दिवन भवभूतीन हो प्रसंग उत्तररामचरितांतय घाला. पुण असो प्रकार बुद्धाआदीं वा बौद्ध धर्म हिंदुस्थानात आससर घडिल्ल्याचे पुरावो खैंच सांपडना.

## श्रमण

जंगलात रावपी ह्या ऋषिमुनींक तापस वा परिव्राजक म्हण्टाले; ते तपश्चर्या कशी करीत हाजी चडशी म्हायती मेळना. ह्याच तपस्वी लोकांच्या जम्यांतल्यांन लोकवस्तीत भोंवन लोकांक उपदेस करपी तरेक तरांचे संघ भायर सल्ले. श्रमण हें उत्तर श्रम ह्या धातूपसून जाला. हाजो अर्थ कष्टी असो जाता. आज जशें कायकष्ट करपी मानायांचें म्हत्व वाडत चल्लां, तशें बुध्दाचे मुस्तींत श्रमणांचे वाडटालें. पुण त्या दोगांमदलो फरक हो कि, मानाय समाजाक उपकरपी वस्तू उत्पन्न करूंक कष्ट करतात आनी हे श्रमण लोक समाजांत अध्यात्मिक जाग्रुताय हाडूंक कष्ट करीत. कदाचित हे लोक तपश्चर्येन देहाक कष्ट दिताले म्हणून तांकां श्रमण हे नांव लागलें जावंये. पुण जंगलात रावपी ऋषिमुनी लेगीत तपश्चर्येन शरीर कष्टायताले; तरी तांका श्रमण म्हणनाशिल्ले. तेन्ना लोकांच्या बऱ्याखातीर स्वत: श्रम करपी म्हणूनच तांकां श्रमण म्हणीत, हें अदिक संभाव्य दिसतां.

## त्रिसष्ट श्रमणपंथ

बुद्धाचे मुस्तींत अशे ल्हान व्हड त्रिसष्ट श्रमण संघ आशिल्ले. 'यानि च तीणि-यानि च सट्ठी ' ह्या वाक्यात जीं तीन आनी साठ मत्तां सांगल्यात तातूंत बौद्ध मत्ताचोय समावेश जाता काय कितें हे सांगू नज. तो जाता अशें धल्लें जाल्यार पालि वाङ.यांत जायतेकडेन सांपडपी बांसष्ट मत्तांच्या (द्वासट्ठि-

दिट्ठिगतानि) उल्लेखाचो अर्थ बरोबर लागता. म्हळयार बुद्धाच्या श्रमण पंथाभायर तेन्ना आनिक बांसष्ट श्रमणपंथ आशिल्ले अशें थरता. ह्या बांसष्ट श्रमणपंथांची मत्तां तपशिलासैत दाखौपाचो येत्न दीघनिकायाच्या ब्रह्मजालसुत्तांत केल्लो आसा पुण तो कृत्रिम दिसता. जेन्ना हें सुत्त बरैलें, तेन्ना बांसष्ट ह्या आंकडयाखेरीज तपशील असो नाशिल्लोच. तेन्ना सुत्त रचैतल्यान बांसष्ट हो आंकडो भरून काडपाखातीर नवो तपशील रचून ह्या सुत्तांत घालो. ह्या पोरण्या बांसष्ट श्रमणपंथांची म्हायती ना जावन वचपाचें कारण अशें दिसता कि, तांतले प्रसिद्ध अशे श्रमणपंथ सापच थोडे आशिल्ले आनी ल्हानसान संप्रदायाचो व्हडल्या संप्रदायात समावेश जायत गेलो. आजकालचे बावा, बैरागी बी पंथांची सारकी गण्टीक केली जाल्यार ती केदीतरी जातली. पुण तांतूत नांव घेण्याजोगें कबीर, दादू, उदासी बी हातांच्या बोटांचेर मेजपाइतलेच शिलकीं उरतले.

## तपश्चर्येचे प्रकार

बुद्धाच्या वेळार सगळयांत मोटे श्रमणसंघ संच आशिल्ले, आनी तांतूतपसून निर्ग्रंथ श्रमणांच्या संप्रदायाचो नंबर पैलो लागता. ह्या पंथाचो इतिहासिक संस्थापक पार्श्व मुनी – ताजें परिनिर्वाण बुद्धाच्या जल्माआदीं १९३०व्या वर्सा जालें. तेपैकी चाळीस पन्नास वर्सां तरी पार्श्व तीर्थंकर आपल्या धर्माचो उपदेस करतालो जावंये. हाज्या आनी हेर श्रमणसंघनायकांच्या मत्तांचो विचार फुडें येवंपाचो आसा. सध्या, ह्या लोकांच्या तपश्चर्येचे प्रकार खैंचे आशिल्ले हें दाखौन दिवप इष्ट दिसता. कित्याक, तर ताका लागून तापसांच्या तपश्चर्येचो पसून थोडोभोंव बोध जावं येता. श्रमणांच्या तपश्चर्येचे प्रकार जायत्या सुत्तानी सापडटात. पुण त्यांपैकी मज्झिमनिकायांतल्या महासीहनाद सुत्तात आयिल्लें तपश्चर्येचे वर्णन विशेष म्हत्वाचे दिशिल्यान ताजो गोशवारो हांगा दितां.

बुद्ध भगवान सारिपुत्ताक म्हणता, " आगा सारिपुत्ता, हांवें चार तरांचें तप आचरिल्लें, हें म्हाका आठवता, हांव तपस्वी जालों, रूक्ष जालों, जुगुप्सी जालों आनी प्रविवित्त जालों.

## तपस्विताय

“ आगा, सारिपुत्ता, म्हजी तपस्विता कशी आशिल्ली तें सांगतां. (आनी) हांव नागडो रावतालों. लौकिक आचार पाळीनाशिल्लों. हातार भिक्षा घेवन खातालो. ‘ भदन्त, हांगा येयात ’ अशें कोणेंय म्हळचार तें आयकनाशिल्लो. ‘ भदन्त, थांब ’ अशें कोणेय म्हळचार तें आयकनाशिल्लों. बशिल्लेकडेन हाडून दिल्ल्या अन्नाचो, म्हज्या खातीर तयार केल्ल्या अन्नाचो आनी आमंत्रणाचो हांव स्वीकार करिनाशिल्लों. ज्यातूंन अन्न शिजैलां, त्याच आयदनांतल्यान अन्न हाडून दिलें जाल्यार तें घेनाशिल्लो. वानांत कांडिल्लो खावपाचो जिनस हाडून दिल्यार तो घे नाशिल्लो. हुमऱ्याच्या आनी दांड-क्याच्या पेलेकडेन रावन दिल्ली भिक्षा घे–नाशिल्लो. दोग जेवीत आसतान तांतल्या एकान उठून घाल्ली भिक्षा घे–नाशिल्लो. गुरवार, दूददिवपी वा घोवामरीं एकांतांत आसपी अशे बायलेकडली भिक्षा घे–नाशिल्लो. मेळच्या-जात्रांनी तयार जाल्ल्या अन्नाची भिक्षा घे–नाशिल्लो. जंय सुणें वा मुसांचे चोंबे आनी कुलकुल आसत थैंची भिक्षा घे–नाशिल्लो. नुस्तें, मांस, सोरो बी जिनस घे–नाशिल्लों.[3] एकाच घरची भिक्षा घेवन एकाच उंडयेर रावतालो. वा दोन घरची भिक्षा घेवन दोन उंडयांर, ह्या भशेन सात दीस वाडयत सात घरची भिक्षा घेवन सात उंडयो जेवन रावतालों. दावलभरच अन्न घेतालों. हे भशेन सात दीस वाडयत व्हरीत सात दावलां अन्न घेवन ताजेर निर्वाह करतालों. एका दिसाआड जेवतालों. दोन दिसांआड जेवतालों. अशें तरेन उपासांची मर्यादा वाडयत व्हरीत सात दिसांआड वा पंदरशितल्यान एक दीस जेवतालों.

(इ) ‘ शाक, श्यामाक, नीवार, चामारान भायर उडैल्ले चामाचे कुडके, शेळो, कुंडो, करपल्लें अन्न, पेंड, तण वा गायचें शेण खावन राव-तालों. वा अरण्यांत आपसूक मेळिल्ल्या फळांमुळांर निर्वाह करतालों. हांव

३. जैन साधू नुस्तें आनी मांस घेताले. पुण सोरो घेताले असो दाखलो सांपडना. मांसाहाराची चर्चा इकराव्या प्रकरणांत केल्या.

गाची वस्त्रां न्हेसतालों. मिस्त्र वस्त्रां वापरतालों. प्रेतांचेर घाल्लीं वस्त्रां गुरतालों. रस्त्यांतल्या आंगटयांची वस्त्रां करून ती घालतालों, वल्कलां रण करतालों. मृगाजिनां वापरतालों. कुशांपसून केल्लें लुगट धारण रतालों. वाकाचें चिवर धारण करतालों. मनशांच्या केंसांची व घोडयांच्या सांची कांबळ वा नातकांच्या पाखांचें केल्लें चिवर धारण करतालों.

(नि) हांव खाडमिशयो आनी केस हुमरावन काट्टालों. उबो वन तप करतालों. उकडयां बसून तप करतालों.

(इ) हांव कांटयाचे शेजेर न्हिदतालों. दिसांतल्यान तीन फावटीं ातालों. अशे तरेन परोपरीन देह दण्दणायतालों. ही म्हजी तपस्विताय.

## रूक्षताय

सारिपुत्ता, म्हजी रूक्षताय कशी आशिल्ली हें सांगतां :–

नि) वर्सासंकीच्या धुल्लान म्हज्या आंगार अळशिकेचो थर चडिल्लो. काद्र्या तिंदुक रुखाचें कांड वर्सानवर्सांच्या धुल्लान माखिल्लो आसता सो म्हाजो देह जाल्लो. पुण म्हाका अशें दिसनाशिल्लें कि, हांवें वा दुसऱ्या णेय ही धुल्लाची पापडी हातान झाडची. म्हजी रूक्षताय ही अशी आशिल्ली.

## जुगुप्सा

आतां म्हजी जुगुप्सा कशी आशिल्ली हें सांगतां :–

(नि) हांव व्हडा जतनायेन येतावतालों. उदकाच्या थेंब्यार पसून म्हजी तीव्र दया आसताली. अशे विषम अवस्तेंत सांपडिल्ल्या सुक्षिम प्राण्यांचो, म्हजे हातसून नाश जावं नये, हे विशीं हांव अत्यंत जतनाय घेतालों. म्हजी जुगुप्सा ही अशी आशिल्ली! (जुगुप्सा म्हळयार हिंसेचो वीट)

## प्रविविक्तताय

सारिपुत्ता, आतां म्हजी प्रविविक्तताय कशी आशिल्ली हें सांगतां –

(इ) हांव एकाद्र्या अरण्यांत रावता आसताना एकाद्रो गोरवांराखणो,

तण काडपी, भोरो व्हरपी वा जंगलाची देखरेख करपी दिसलो जाल्यार अटंग्य रानांतल्यान, सकलाटेच्या वा सपाट प्रदेशांतल्यान धांवत सुट्टालों. हेतू हो कि, तांकां हांव दिसचों न्हय आनी ते म्हाकां दिसचे न्हयत. एकाद्रो मेरू जसो मनशांचो सुलूस लागतकच धावत सुट्टा तसो हांव पळ काट्टालों. म्हजी प्रविविक्तताय ही अशी आशिल्ली.

## अकटोविकट जेवण

(इ) 'जंय गायो बांदिल्ल्यो आसताल्यो आनी जंयच्यान त्यो निकत्योच चरूंक गेल्ल्यो आसताल्यो थंय हातांपायांर चलत वचून हांव पाडकांचें शेण खातालों. जंववर म्हजे मलमूत्र कायम आसताले तंववर ताजेरच हांव निर्वाह करतालों. अशें हें म्हजें अकटोविकट जेवण आसतालें.'

## उपेक्षा

(नि) 'हांव एकाद्‌न्या आकांताळ्या अरण्यांत रावतालों. जो कोण संसारी मनीस ह्या अरण्यांत प्रवेश करी, ताज्यो आंगार कांटो उबो रावत इतलें हें भयांकृत आशिल्लें. शियांदिसांनी आकांताली हिमवृष्टी जाता आसताना उकत्या सुवातेर रावतालों आनी दिसाचो जंगलांत रिगतालों. गिमाच्या निमाण्या म्हैन्यात दिसाचो उकत्या सुवातेंत रावतालों आनी रातचो जंगलांत वतालों. हांव मसण्णेंत मनशांची हाडां उशाक घेवन न्हिदतालों. अडणाडी लोक येवन म्हजेर थुकताले, मुतताले, धुल्ल उडैताले वा म्हज्या कानांत काडयो घालताले. पुण तांचेंविशीं म्हज्या मनांत केन्नाच पापबुद्धी नशिल्ली.

## आहारव्रत

(इ)' आहारान आत्मशुद्धी जाता अशी जायत्या श्रमणांची आनी ब्राह्मणांची समजूत आसा. ते निकठीं बोरां खावन रावतात, बोरांचो पिठो खातात, बोरांचें काट पियेतात, बाहेर कसलोय पदार्थ बोरांचोच करून खातात. हांव एकच बोर खावन रावतालों ताजी म्हाका याद आसा. सारिपुत्ता,

तूं अशे समजूं नाका कि, त्या काळचीं बोरां खूब मोटीं आसतालीं. आज आसात तशींच तीं तेन्नाय आशिल्लीं. हे भशेन एकच बोर खावन रावि-ल्ल्यान म्हजे शरीर सामकें कृश जातालें. आसीतक वालीच्या वा काळ-वालीच्या गांठीभशेन म्हजे सांदे स्पष्ट दिसताले. म्हजो कमरा–माच उंटाच्या गेतासारको दिसं. मोडक्या घराचे वांशे जशे सकलवैर जातात, तशो म्हज्यो बरी जाल्ल्यो. खोल बांयेंत पडिल्ल्या नक्षत्रांच्या पर्डबिंबांभशेन म्हज्यो बावल्यो खोल गेल्ल्यो. कच्चो कोडु दुदी कापून ओताक घालतकच तो जसो बावता तशी म्हजी तकलेची कात आक्रसून गेल्ली. पोटावैल्यान हात भोंवडायलो जाल्यार फाटीचो कणोच म्हज्या हाताक लागं. ताजेर हात भोंवडायतलों, तेन्ना पोटाची चामडी हाताक लागं. अशे भशेन म्हजो फाटीचो कणो आनी पोटाची चामडी एक जाल्ली. परसाकडेन वा वाटोण्या बसपाचो येत्न केल्यार हांव थंयच पडटालों. त्या उपासाक लागून म्हजी गत्त तशी जाल्ली.

‘जायते श्रमण आनी ब्राह्मण मूग खावन रावताले, तीळ खावन रावताले वा तांदूळ खावन रावताले. पदार्थांनी आत्मशुद्धी जाता अशो तांचो समज आसलो. सारिपुत्ता, हांव एकच तांदूळ, एकच तीळ वा एकच मूग खावन रावतालों. त्यावेळार हे दाणे मोटे आसताले अशें समजुं नाका. हालींच्याच भशेन ते दाणे आसताले. ह्या उपासान म्हजी स्थिती तशीच (वैर वर्णिल्लेभशेन) जाताली.’

बुद्ध घोषाचार्यांचें म्हणणे कि, भगवन्तान ही तपश्चर्या एका पूर्व-जल्मीं केल्ली. त्या काळाक बोरां बी पदार्थ हालींच्या सारकेच आशिल्ले, ह्या मजकुरावैल्यान बुद्धघोषाचार्यांचें म्हणणें सयुक्तिकशें दिसता. बुद्धाचे मुस्तींत ज्यो जिनसवार तपश्चर्या चलताल्यो तांचें वायफळपण दाखौन दिवंक सुत्त रचतल्यान वेलो मजकूर भगवन्ताच्या तोंडांन घाला हें सांग-णेली गरज ना.

टिपेंत दिल्ल्या फरकाभायर(नि) सदराखाल आयिल्ली तपश्चर्या निग्रंथ (जैन साधू) करीत. आजय केंस हुमटावपाची, उपासतापास करपाची बी प्रथा तांच्यांत चालू आसा.

(इ) सदराखाल आयिल्ली तपश्चर्या हेर पंथांचें श्रमण आनी ब्राह्मण करीत. तांतले भौतेक प्रकार बुवा, बैरागी बी लोकांन अजून चलतात.

## गू–मूत खावपाची चाल

आपलोच गु-मूत खावपाची चाल अजूनय अघोरीसारकेल्या पंथांन चालू आशिल्ली दिसता. काशींत तेलंगस्वामी म्हणून एक नामनेचे संन्याशी जावन गेले. ते नागडेच रावताले. तांचेभशेन नागडे भोंवपी हेरय जायते परमहंस काशीक आशिल्ले. त्या वेळार गोड्विन नांवाचो (हाकाच काशीचे लोक गोविंद सायब म्हणत) मोटो लोकप्रिय कलेक्टर आशिल्लो. हिंदू लोकांच्या चालीरितींची ताणे अगत्यान म्हायती करून घेतली; आनी नंग्या बावांनी काष्टी लावन भोंवचें म्हणून सकला दिल्ली युक्त काडली.

रस्त्यांत भोंवपी नंगो बावा दिसलो तसो पुलीस ताका सायबाकडेन व्हरीत. आनी सायब ताका विचारी, ‘ तूं परहंस मू?’ ताण ‘ हय ’ म्हळें तसो तो ताका आपणालें जेवण जेवंक सांगी. अर्थातच तें नंग्या बावाक पसंत नासतालें. तेन्ना गोविंद सायब म्हणी, ‘ परमहंस कसलोच भेद पाळिना, अशें शास्त्रांत सांगलां; आनी तुमी तर भेदभाव मानतात; तेन्ना तुमी नागड्यांनी भोंवक कामा नये,’ हे भशेन कितल्याशाच नंग्या बावांक ताणे काष्टी लावंक लायली.

असोच प्रसंग एक फावट तेलंगस्वामींचेर आयलो. पुलीस स्वामींक घेवन कलेक्टर सायबाच्या बंगल्यार गेल्याचें वर्तमान कळनाफुडें तांचें शिष्य आनी वाखाणपी व्हडले व्हडले पंडित आनी हेर तोलादीक लोक सायबाच्या बंगल्यार गेले. सायबान सगळ्यांक बसोन घेवन तेलंगस्वामींक प्रश्न केलो, ‘तुमी परमहंस मू?’ स्वामींकडल्यान ‘ हय ’ अशी जाप

मेळटकच सायबान दुसरो प्रश्न केलो, 'म्हजेकडलें अन्न तुमी खाशात?' ताजेर स्वामींनी म्हळें 'तुमी म्हजें अन्न खाशात?' 'हांव जरी परमहंस न्हय आसलों तरी कोणालेंय अन्न खातां' सायबान जाप दिली.

स्वामींनी थंयचेंथंय आपल्या हातार शौचविधी केलो आनी तो हात फुडें करून स्वामींनी गोविंद सायबाक म्हळें, 'हें घेया म्हजें अन्न. हें तुमी खावन दाखया.' सायब सामको विटलो आनी संतापून ताणें म्हळें, 'हें कितें मनशान खावपासारकें अन्न ?' तेन्ना स्वामींनी तें चट्ट केलें आनी हात चाटून चक्क केलो! सायबान स्वामीक सोडून दिलो, इतलेंच न्हय तर परती ताजी चौकशी लेगीत केली ना.

हांव १९०२ सालाक काशीक आसताना ही गजाल पंडितांनी व्हडा आदरान सांगिल्ली आयकल्या आनी हे आदीं ती तशेंच अःदरबुद्धीन 'काशीयात्रा' ह्या पुस्तकात बरैली वाचल्या.

## आधुनिक तपस्या

हेच तेलंगस्वामी ऐन शियांच्या दिसांनी फक्त तकली तितली वैर करून गंगेत बसताले; आनी रखरखत्या गिमांत जंय चल्ल्यार पायांक फोड येताले, त्या गंगेच्या रेंवटांत बसताले.

लोखणी खिळ्यांची खाट करून घेवन तिजेर न्हिदपी बैरागी पुस्कळांनी पळेल्यात जातले. १९०२ सालाक असो एक बैरागी काशीक बिंदुमाधवाच्या मंदिराशेजारा रावतालो. लांकडी काष्टी घालून भोंवपी बावा बैरागीय हांवें पळेल्यात.

## श्रमणांचे तपश्चर्येविशीं आदर

वैर दिल्ल्या तपश्चर्येच्या प्रकारांपैकी शाक, शामाक आनी अरण्यांतलीं सहज मेळिल्लीं फळांमुळां खावन रावप, हो प्रकार अरण्यांत रावपी ऋषिमुनी आचरीत. ते वल्कलां न्हेसताले आनी चडशे अग्निहोत्रय चलैताले.

परंत हे जे नवे श्रमण संप्रदाय उपजले ताणीं अग्निहोत्र सोडून दिलें आनी अरण्यांत रावपी ऋषिमुनींच्यो बऱ्योचशो तपश्चर्या घेवन तातूंत चामाचे कुडके बी खावपाच्या तपश्चर्यांची भर घाली.

## ते मुस्तींतली धार्मीक परिस्थिती

बुद्धाचे मुस्तींत निर्ग्रंथांचो (जैनांचो) संप्रदाय तरतरतालो हें वैर सांगलांच. त्या भायर पूरणकाश्यप, मख्खलि गोसाल, अजित केसकम्बल, पकुध कात्यायन आनी संजय बेलट्ठपुत्त ह्या पांच श्रमणनायकांचें श्रमण संप्रदाय खूब प्रसिद्ध आशिल्ले. ह्या लोकांच्या तत्वज्ञानाचो विचार संक्षेपान सातव्या प्रकरणांत केला. ताजेवेल्यान दिसून येतलें कि, तत्वासंबंदान तांचो खूब मोटो मतभेद आशिल्लो. मात दोन गजालींत साम्य आशिल्लें –

(१) ह्या सगल्यांत यज्ञयाग पसंत नाशिल्ले आनी

(२) तपश्चर्येविशीं थोड्याभोव प्रमाणांत तांचो आदर आशिल्लो.

## श्रमणांचे प्रचारकार्य

ह्या आनी हेरां श्रमणाचें लोकांचेर खूब वजन आशिल्लें हें वैर सांगलांच. हे श्रमण पूर्वेक चंपा (भागलपूर), पच्छिमेक कुरुंचो देश, उत्तरेक हिमालय आनी दक्षिणेक विंध्य हांच्यो मजगतल्या प्रदेशांत पावसाळ्यांतले चार म्हैने खरीज करून उरिल्ले आठ म्हैने सारके भोंवताले आनी आपापल्या मत्तांचो लोकाक उपदेस करताले. ताका लागून लोकांत यज्ञयागाविशीं अनादर आनी तपश्चर्येविशीं आदर उत्पन्न जालो.

## यज्ञयागांची व्याप्ती

परंत राजांक युद्धांत जैत मेळचें म्हणून यज्ञयाग करप गरजेचे दिसतालें. यज्ञयाग चालू दवरपाखातीर कोसलांच्या पसेनदि राजान उक्कट्ठा नावांचो गांव पोक्खरसाती (पौष्करसादि) आनी सालवतिका गांव लोहिच्च (लौहित्य) ब्राह्मणाक, त्याचप्रमाण मगध देशांत बिंबिसार राजान चंपा सोमदंड ब्राह्मणाक आनी खाणुमत गांव कूटदन्त ब्राह्मणाक इनाम दिल्ल्याचो

दाखलो दीर्घनिकायांत सापडटा. ह्याशिवाय खुद्द पसेनदि राजा यज्ञयाग करतालो अशें कोसलसंयुत्तांतल्या णव्या सुत्तांवेल्यान दिसून येता. पुण ह्या यज्ञयागांची व्याप्ति कोसलाचो पसेनदि आनी मगधाचो बिंबिसार हांच्या राज्यांपुरतीच आशिल्ली. कारण व्हडले व्हडले यज्ञयाग करप राजांक आनी इनामदार ब्राह्मणांकच तांकतालें.

असले अवाढव्य यज्ञयाग करप सर्वसाधारण लोकांचे तांकेभायलें जाल्यान यज्ञयागांच्यो सुपुल्ल्यो आवृत्ती भायर सल्ल्यो. अमूक तरेच्या लांकडाच्या अमूक तरेच्या दौल्यान, तुसाचो, कुंड्याचो, अमूक तरेच्या तांदळाचो, अमूक प्रकारच्या तुपाचो, अमूक प्रकारच्या तेलाचो, अमूक प्राण्यांच्या रक्ताचो होम केल्यार अमूकतमूक कार्यसिद्धी जाता, अशें सांगून ब्राह्मण लोक भौसाक हे होम करूंक लायताले आनी कांय श्रमणपसून तातूंत वांटो घेताले, अशें दीर्घनिकायांतल्या मजकुरावेल्यान दिसून येता[४] कार्यसिद्धीखातीर लोक जरी हे होम करताले तरी तांची गणना ते धर्म-विधींत करिनाशिल्ले अशें दिसता. कारण, ते होम करपी ब्राह्मणांक आनी श्रमणांक लोक चडशे मानिनाशिल्ले.

## दैवतांच्या पुजा

आजकालचे हिंदू लोक जशे देवदेवतांक, यक्षांक आनी म्हारवा देंवचारांक बी मानतात आनी तांकां थातारूंक मानतुको करतात तशेच बुद्धाचे मुस्तीं-तले हिंदू लोक दैवतांक मानताले आनी बळीय दिताले. विशेष फरक इतलोच आसतालो कि, सध्याच्या बऱ्याचशा दैवतांक पुजारी लागतात आनी ते चड करून ब्राह्मण आसतात. शिवाय सध्याचीं दैवतां जरी बुद्धा-मुस्तींतल्या दैवतांभशेनच काल्पनिक आशिल्लीं तरी ह्यांपैकीं बऱ्याच जाणांची पुराणां जावन बसल्यात. हो प्रकार बुद्धाचे मुस्तींत नाशिल्लो. वडासारकेल्या झाडार, एकादऱ्या दोंगरार वा रानांत महानुभाव दैवतां

४. दीर्घनिकाय – ब्रह्मजाल, सामञ्ञफल बी सुत्तां पळेयात.

रावतात आनी तांकां आंगवण्यो केल्यार त्यो पावतात असो लोकांचो समज आशिल्लो; आनी बोकडे, कोंबे बी प्राण्यांचो बळी दिवन ते आपणाले नवस फेडटाले. पलास जातकाच्या (नं. ३०७) कथेवेल्यान अशें दिसतां कि, दैवतांची पुजा ब्राह्मणपसून करताले, पुण ताणी त्या दैवतांचें पुजारीपण स्वतःची वृत्ती म्हणून बळकायल्ल्याचो पुरावो खैंच सांपडना. जशें आज दगडोबा म्हसोबाक जाखाये जोखायेक ब्राह्मण पुजारी नात, तशे तेन्ना सगळ्याच दैवतांक नासताले. लोक नवस करताले आनी मध्यस्थेबगर आपल्या हातानच बळी दिताले. सुजातेन वडावेल्या दैवताक दुदाचे खिरीचो नवस केलो आनी अखेर त्या झाडामुळा बशिल्ल्या गोतम बोधिसत्वाकच तिणें ती खिर दिली, ही कथा बौद्ध वाङमयांत प्रसिद्ध आसा आनी बौद्ध चित्रकलेचेर तिजो बेस बरो परिणाम जाल्ल्याचें दिसून येता. तात्पर्य ह्या देवदेवतांच्या पुजेंत पुजारी ब्राह्मणांची गरज नासताली.

## श्रमणांचा उत्कर्ष

ह्या देवतांक पुराणां आनी पुजारी नाशिल्ल्यान तांकां हालींचें धर्मीक स्वरूप येवंक नाशिल्लें. सगल्या दर्जाचे आपलेवेलें अरिष्ट टाळूंक वा आपणें केल्ल्या नवसाक दैवत पावलें म्हणून, ताका बळी दिताले. पुण हें कृत्य धर्मीक समजनाशिल्ले. ब्राह्मणांच्या यज्ञयागांक वेदांची आनी वेदिक वाङमयाची पुष्टी मेळिल्ल्यान तांची गणना धर्मीक कृत्यांत जाताली. पुण हे यज्ञयाग खूब खर्चाचे जाल्ल्यात. सर्वसाधारण लोकांच्या तांकीभायले आशिल्ले. तातूंत शेंकडयांनी गायबैलांची हत्या जाताली. शेतकामाक उपकरपी ही जनावरां राजांक आनी हेरां प्रतिष्ठित लोकांक बळजबरीन व्हरचीं पडिल्ल्यान सर्वसाधारण लोकाक हे यज्ञयाग सामके नसाय जायत गेल्ले. हाच्या उरफाटें श्रमणांक सामान्य लोक आदरातिथ्यान वागैताले, चातुर्मासांत खोंपी बी बांदून तांच्या रावपाची सोय करताले आनी तांचो उपदेस आयकूंक तत्पर आसताले. म्हणजेच श्रमणसंघांची एकासारकी उदरगत जायत वताली.

## उपनिषत्कालचे ऋषी

सध्याचो चालंत समज हो कि, वेदांपसून उपनिषदां आनी तांच्यापसून बौद्ध, जैन बी धर्म निपजल्यान तेय धर्म वेदिकच. बौद्धांची आनी जैनांची परंपरा वेद वा उपनिषदां हांच्यापसून निपजूंक ना; तर ती वेदकाळा आदीं मध्यहिंदुस्थानांत चालत आशिल्ल्या ऋषिमुनींचे परंपरेतल्यान निपजल्या, हे वेल्या विवेचनावेल्यान स्पष्ट जातलें असो भरवंसो दिसता. पुण उपनिषदांत वर्णिल्ल्या ब्राह्मणांची स्थिती बुद्धाचे मुस्तींत कशी आशिल्ली हाजो थोडयाभितर येवजण करप अप्रस्तुत जावचें ना.

आरण्यकां आनी उपनिषदां रचून जालीं तीं बुद्धकाळाउपरान्त बऱ्याच वर्सांनी, हे हांवें 'हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा' ह्या पुस्तकांत दाखौन दिलां. (पृ. ४८–५० पळेयात). परंत, बुद्धाचे मुस्तींत उपनिषदांत वर्णिल्ल्या ब्राह्मणांसारकेले कांय ब्राह्मण आनी क्षत्रिय आशिल्ले अशें मानूंक कसलीच हरकत ना. पुण तांतले चडशे होमां-हवनांचो धर्म सोडून सर्वशीं श्रमण जाताले, अशें जातकांतल्या जायत्या कथांवेल्यान दिसता. देखीक नंगुट्ठ जातकाचो (नं. १४४) गोषवारो हांगा दितां.

वाराणसींत ब्रह्मदत्त राज्य करता आसतांना बोधिसत्त्व औदीच्य ह्या ब्राह्मणकुळांत जल्मलो. ताज्या जाल्ल्या दिसा आवयबापायन जाताग्नी दवल्लो आनी तो सोळा वर्सांचो जातकच तांणी ताका म्हळें, 'बाबारे, तुज्या जाल्ल्या दिसा हो अग्नी स्थापित केला. जर तुका गृहस्थ जावचेलें आसत, तर तीन वेदांचें अध्ययन कर; पुण जर ब्रह्मलोकपरायण जावपाची इत्सा आसत, जाल्यार हो अग्नी घेवन अरण्यांत वच आनी ताज्या सेवेन ब्रह्मदेवाची आराधना करून ब्रह्मलोकपरायण जा.'

बोधिसत्वाक गृहस्थास्रम नाका आशिल्लो. आपलो जाताग्नी घेवन तो अरण्यांत गेलो आनी थंय आस्रम बांदून त्या अग्नीची सेवा करीत रावलो. एक दीस बोधिसत्वाक एका कुळवाडयान दक्षणा म्हणून एक

बैल दिलो. ताजो बळी दिवन अग्निभगवन्ताची पूजा करपाचो बोधिसत्वाचो विचार आशिल्लो. पुण आस्त्रमांतले मीठ सोंपिलें. तें हाडूंक तो गावांत गेल्लो आसतांना हांगा कांय गुंडांनी त्या बैलाक मारून आपल्याक जाय आशिल्लें तितलें मांस त्या अग्निहोत्राचेर शिजौन खालें आनी उरिलें बरोबर व्हेलें.

ब्राह्मण मीठ घेवन परतो आयलो आनी पळेता, जाल्यार बैलाचें चामडें, शेंपडी आनी हाडां तितलीं उल्ल्यात. ताणें आपलेशींच म्हळें, 'हो अग्निभगवान आपल्याच भक्ष्याचें रक्षण करूंक शकना; मागीर म्हजें रक्षण कशें करीत?' अशें म्हणून ताणें आपणालें अग्निहोत्र उदकांत मोखून माल्लें आनी ऋषिप्रव्रज्या घेतली.

बुद्धाचो उपदेस आयकून उरुवेलकाश्यप, नदीकाश्यप आनी गयाकाश्यप ह्या तिगां ब्राह्मण भावांनी आपापलीं अग्निहोत्रां न्हयेंत शेंवटून मारिल्ल्याची कथा बौद्ध वाङमयात प्रसिद्ध आसा.

## उपनिषदृषी

कांय ब्राह्मणांक अशे तरेन उकतेपणान श्रमणधर्म स्वीकारपाचें धाडस नाशिल्लें. ते वेदिक यज्ञयाग आनी श्रमणांचें तत्वज्ञान हांचें मदीं हलकां घेताले. अश्वमेधाचेर रूपकां रचून तांतल्यानच आत्मतत्व काडचेलो येत्न करताले. देखीक, बृहदारण्यक उपनिषदाच्या पैल्या अध्यायांतल्या, दुसऱ्या ब्राह्मणाच्या आरंबाक आयिल्ली कथा पळेयात. थंय ऋषि म्हण्टा, 'ह्या जगांत उत्पत्ती जावचे पैलीं कांयच नाशिल्लें. मर्णान हे सगलें धांकिल्लें; तें कित्याक म्हणशात जाल्यार खावपाचे वान्शेन. कारण खावपाचे वान्शेकच मर्ण म्हण्टात. ताका आत्मवान जावचें अशें दिसलें .... व्हडा यज्ञान हांवें परतें यजन करचें अशी त्या मर्णान कामना केली. अशी कामना करून तें श्रांत जालें; तप करूंक लागलें. त्या श्रांत आनी तपान तप्त जाल्ल्या मर्णापसून यश आनी

वीर्य उत्पन्न जालीं. प्राण हें यश आनी हेंच वीर्य. हे भशेन प्राण शरीर सोडून वतकच प्रजापतीचें शरीर फुगलें. पुण ताजें मन त्यां शरीरात आशिल्लें. म्हजें हें शरीर मेध्य (यज्ञीय) जावचें आनी ताकालागून हांवें आत्मवान (आत्मन्वी) जावचें अशी ताणें कामना केली. जे अर्थीं तें शरीर म्हज्या वियोगाक लागून यश आनी वीर्य हांकां व्हडगत चल्लां, फुगलां, ते अर्थीं तो अश्व (फुगिल्लो) जाला आनी जे अर्थीं तें मेध्य जालें ते अर्थीं तेंच अश्वमेधाचें अश्वमेधत्व. जो ह्या अश्वाक अशे भशेन जाण्टा तोच अश्वमेधाक जाण्टा.'

हातूत अश्वमेधाच्या निमित्तान तपश्चर्याप्रधान अहिंसाधर्म सांगपाचो येत्न दिसता. खावपाची वान्सा हेंच मर्ण वा मृत्यू. तो आत्मवान जालो म्हण्टकच ताका व्यक्तित्व आयलें आनी क्रमान ताका यज्ञाची इत्सा उद्‌भवली. ते इत्सेपसून यश आनी वीर्य हे दोन गुण निपजले. तेंच खरे प्राण. ते जर भायर सल्ले, जाल्यार शरीर मरून फुगिल्लेभशेन (अश्वयित) समजुंचें. आनी तें लासून उडौंक फाव. हें तत्व जो जाण्टा तोच अश्वमेध जाण्टा.

छांदोग्य उपनिषदांत प्रवाहण जैवलि अरुणाच्या पुताक म्हण्टा, " गौतमा, द्युलोक होच अग्नि. ताजी आदित्य हीच समिधा, किरण हो धुंवर, दीस ही ज्वाळा, चंद्रमा हे इंगळे आनी नक्षत्रां ह्यो किटी (विस्फुलिंग,) " (छां–उ.–५/४).

हाजेवेल्यान अशें दिसून येतलें कि, ह्या ब्राह्मण ऋषींच्या मनाचेर श्रमण संस्कृतायेचो पुरतो पगडो बशिल्लो; पुण वेव्हारात त्या तत्वांचो स्पष्ट पुरस्कार करप तांकां पुरव नाशिल्लें; आनी देखूनच अशी रूपकांची भास ते वाफरीत.

## उपनिषद्दृषिपसून जातिभेद मानीनाशिल्ले

पुर्विल्ले ऋषिमुनी, श्रमण आनी उपनिषदृषी हांचें मदीं एके बाबतींत, एकमत आशिल्लें. ती बाब म्हळ्यार जातिभेदाची. मातंग ऋषीची गजाल

वैर आयल्याच. तिजेवेल्यान ऋषिमुनींत जातिभेद नाशिल्लो हें स्पष्ट जाता. श्रमणसंघांत तर जातिभेदाक मातय थारो नाशिल्लो आनी उपनिषदृषी लेगीत जातीक चडशें म्हत्व दी नाशिल्लें हें सकले गजालीवेल्यात दिसून येतलें

सत्यकामान आपली आवय जबाला हिका म्हळें, ‘आये, हांव ब्रह्मचर्याचे आचरण करूंक सोदतां. (ब्रह्मज्ञान मेळौपाची इत्सा करतां) म्हजें गोत्र कितें तें सांग.’ तिणें ताका म्हळें, ‘पुता, म्हाका तें खबर ना. जुवानपणांत हांव जायत्या जाणांसरीं राबलां (बद् वहं चरन्ती) आनी तूं जालो. तेन्ना तुजें गोत्र हांव नकळं. म्हजें नांव जबाला आनी तुजें नांव सत्यकाम. म्हणून तूं सत्यकाम जाबाल अशें सांग.’

ताणें (सत्यकामान) हारिद्रुमत गौतमाक म्हळें, ‘तुमचेकडेन ब्रह्मज्ञान शिकपाक म्हणून हांव आयलां!’ गौतमान विचाल्लें, ‘तुजें गोत्र कितें?’ सत्यकामान म्हळें, ‘तें म्हाका खबर ना. आवयक हांवें विचाल्लें. पुण तिणें म्हाका म्हळें की, तरुणपणात पुस्कळ दादल्याकडेन संबंध आयिल्ल्यान आपणाक गोत्र खबर ना. तेन्ना आपुण सत्यकाम जाबाल अशें सांग.’

ताका गौतमान म्हळें, ‘तूं सत्यापसून चळ्ळो ना. ब्राह्मण न्हय जाल्ल्याक तें शक्य ना. म्हणून समिधा घेवन यो. तुजें उपनयन करतां’ अशें म्हणून त्या ऋषीन ताजी मूज केली. (छां. उ. ४-४)

## गुप्तांचे कारकिर्दीपरसून जातिभेद बळ्ळो

उपनिषदृषी जरी जातिभेद पाळटाले तरी जातीपरस सत्याक ते अदीक मान दिताले हे सत्यकामाचे गजालीवेल्यान सिद्ध जाता. परन्त ह्याच उपनिषदांचो मेळ घालंक सोदपी बादरायण, व्यास आनी भाष्यकार शंकराचार्य जातिभेदाचें कितलें स्तोम मातैतात तें पळेयात :–

श्रवणाध्ययनार्थप्रतिषेधात्स्मृतेश्च । अ. १।३८

इतश्च न शूद्रस्याधिकारः । यदस्य स्मृतेः श्रवणाध्ययनार्थप्रतिषेधो भवति । वेदश्रवणप्रतिषेधो वेदाध्ययनप्रतिषेधस्तदर्थज्ञानानुष्ठानयोश्चप्रतिषेधः शूद्रस्य स्मर्यते । श्रवणप्रतिषेधस्तावत् 'अथास्य वेदमुपशृण्वतस्त्रपुजतुभ्यां श्रोत्रप्रपूरणम्' इति । 'पद्युह् वा एतत् स्मशानं यच्छूद्रस्तस्माच्छूद्रसमीपे नाध्येतव्यम्' इति च । अत एवाध्ययनप्रतिषेधः । यस्य हि समीपेऽपि नाध्येतव्य भवति, स कथमश्रुतमधीयीत । भवति च वेदोच्चारणे जिव्हाच्छेदो धारणे शरीरभेद इति अत एव चार्थादर्थज्ञानानुष्ठानयोः प्रतिषेधो भवति 'न शूद्राय मतिं दद्यात्' इति । (ब्रह्मसूत्रशांकरभाष्य अ. १।३।३८.)

"आनी म्हणूनच सुदराक (ब्रह्मज्ञानाचो) अधिकार ना. कारण, स्मृतीन ताका वेद आयकुपाक आनी अध्ययन करपाक मनाय केल्या. वेद आयकूंक मनाय, वेदांचें अध्ययन करूंक मनाय आनी ताजें अर्थज्ञान आनी अनुष्ठान हांकाय मनाय, स्मृतीन सुदराक केल्या. आयकुपाक मनाय अशीः 'ताणें वेदवाक्य आयकलें जाल्यार ताजें कान लाखेन आनी शिश्यान भरचें' 'सुदीर म्हळचार पांय आशिल्लें मसण. म्हणून सुदराच्या लागसार अध्ययन करूं नये.' आनी म्हणूनच अध्ययनाचीय मनाय जाता. कारण ज्याच्या लागसारपसून अध्ययन करूंक कामा नये तो खामा श्रुतांचें अध्ययन कशें करतालो? आनी ताणें वेदांचें अध्ययन केलें जाल्यार ताजी जीब कापची, (वेदमंत्राचें) धारण केलें जाल्यार ताका थार मारचो (शरीरभेद करचो) अशें सांगलां. हाजेवेल्यान ताणें वेदांचें अर्थज्ञान आनी अनुष्ठान करूं नये अशें सिद्ध जाता. 'सुदराक मती (बुद्ध) दिवं नये."

शंकराचार्यान सुदराचो छळ करपाखातीर घतिल्ले आधार गौतमधर्मसूत्र बी गुप्त राजांचे मुस्तींत जाल्ल्या ग्रंथांतले आसात. म्हळ्यार समुद्रगुप्तापसून (इ. स. च्या चौथ्या शेंकडयापसून) थेट शंकराचार्यामिरेन (इ. स. च्या णव्या शेंकडयाच्या आरंबापसून) सुदराक चिड्डून आपणालें वर्चस्व कायम दवरपाचो आमच्या ब्राह्मण पूर्वजांचो येत्न सतत चालू आशिल्लो अशें दिसता. धर्मसूत्रकार आनी शंकराचार्य हांच्यामदलो फरक

इतलोच कि, सूत्रकारांच्या वेळार मुसलमान लोकांनी ह्या प्रदेशांत प्रवेश करूंक नाशिल्लो आनीक शंकराचार्यांच्या वेळार सिंधप्रदेश मुसलमानांच्या ताब्यांत वचून थंय मुसलमान धर्माचो एकसारको प्रसार जायत आशिल्लो. तांचेकडल्यान तरी आमगेल्या आचार्यांनी समानकायेचो धडो शिकूंक फाव आशिल्लो. तशें करीनासतांना आचार्य आपणालें जातीभेदाचें घोडें तशेंच पिटाळीत रावले. ताजे परिणाम ह्या हतभागी देशाक कशे भोगचे पडले हें इतिहास सांगतच आसा.

## साध्वींचे संघ

तपस्वी ऋषीमुनींत वा वेदीक ऋषीमदीं बायलांचो समावेश जावंक नाशिल्लो. गार्गी वाचक्नवी सारकेल्यो बायलो ब्रह्मज्ञानाचे चर्चेंत वांटो घेताल्यो.[5] पुण तांगेले स्वतंत्र संघ नासताले. बायलांचे स्वतंत्र संघ बुद्ध काळाआदीं एकदोन शेंकडे स्थापन जाले. तांच्यापैकीं सगळ्यांत पोरणो आशिल्लो तो जैन साध्वींचो, अशें दिसता. ह्यो जैन साध्वी वादविवादांत पटायत आसताल्यो, हें भद्रा कुण्डलकेशा[6] बी बायलांच्या गजालींवेल्यान समजून येतलें.

पुर्विल्ले ऋषिमुनीं जंगलांत रावताले आनीक गांवांत क्वचितच संचार करताले. ताका लागून तांकां बायलांचे संघ स्थापप जमनाशिल्लें. पुणून श्रमण लोक वस्तीचे लागसार रावताले आनीक त्या काळची परिस्थिती अणकूळ आशिल्यान तांकां बायलांचें संघ स्थापूंक आयले. बौद्ध आनी जैन वाङ्मय वाचलें जाल्यार एक विशेष गजाल दिसून येता ती ही कि, त्या काळार बायलो धर्माच्या बाबतींत दादल्यांइतल्योंच फुडारील्यो. हाजें कारण गणसत्ताक राज्यांत बायलांक पूर्ण स्वतंत्रताय आसताली. बुद्ध भगवन्तान वज्जींक जे उदरगतीचे सात नेम घालून दिल्यात तांतलो

५. बृ. उ. ३/६/१ वी.

६. बौद्धसंघाचा परिचय पृ. २१४–२१७ पळेयात.

पांचवो, 'बायलांचो मान राखूंक जाय; आंकवार वा लग्न जाल्या बायल-मनशेचेर कसल्याच प्रकारचो बलात्कार जावंक दिवंक जायना' हो आसा. आनी हाका अणसरून बुद्धाच्या मरणामरेन तर वज्जी लोक वागताले. वज्जी भशेनच मल्लांच्या राज्यांतय बायलांचो मान दवरताले, अशें मानूंक अडचण ना. अंग, काशी, शाक्य, कोलिय बी गणसत्ताक राज्यांचें स्वातंत्र्य नष्ट जाल्लें, तरी लेगीत भितल्ली वेवस्ता तांच्या हातांत आशिल्यान तांच्या राज्यांत बायलांच्या स्वातंत्र्याक व्हडलीशी नखलाभी बादल्ली ना.

मगध आनी कोसल या देशांनीं एकसत्ता राज्यपद्धत घट मूळ धरून आसली तरी त्या देशांच्या राजांक मूळच्या गणसत्ताक राज्यपद्धतीचे मूळ मामकें हुमटूंक आयलें ना. बिंबीसार म्हाराजान वा पसेनदि म्हाराजान खैंच्याच बायलेक बळजबरेन आपल्या जनान्यांत हाडिल्ल्याचो दाखलो खैंच सांपडना.

## कांय एकसत्ताक राज्यांत बायलांचो मान

गणसत्ताक राज्यपद्धत लोकांच्या यादस्तींतल्यान वचत चल्ली आनी एक-सत्ताक राज्य पद्धत प्रबळ जायत गेली तशें तशें बायलांचें स्वातंत्र्य संपुष्टांत येत गेलें. तरी पुण कांय राजा बायलांचो योग्य मान दवरताले अशें उन्मादयन्तीचे (उम्मदन्तीचे) गजालीवेल्यान दिसून येतलें.[७]

बोधिसत्व शिवि राजकुळांत जल्मलो. ताका शिविकुमार अशेंच म्हण्टाले. शिवि राज्याच्या सेनापतीचो पूत अभिपारक आनी शिविकुमार एकाच वयाचे आशिल्ले. तक्षशिलेक वचून त्या दोगांनी शास्त्राध्ययन केलें. बापूय मरतकच शिविकुमार राजा जालो आनी सेनापती मरतकच ताणें अभिपारकाक सेनापती नेमलो. अभिपारकान उन्मादयन्ती नांवाच्या अत्यन्त रूपेस्त श्रेष्ठीचे चलयेकडेन लग्न केलें. राजा नगरप्रदक्षिणेक गेल्लो

७. उम्मदंतीजातक नं. ५२७

आसताना जनेल्रांत उबी आशिल्ले उन्मादयन्तीची आनी ताजी दृष्टादृष्ट जाली. राजा तिजेर लुब्द जावन पिशान्तक जालो आनी राजवाड्यात वचून पलंगार पडून रावलो. अभिपारकाक हें वर्तमान समजलें तेन्ना राजाकडेन वचून ताणे ताजी प्रार्थना केली कि, म्हज्या बायलेचो स्वीकार करून हें पिशान्तकपण सोडून दी. ताका लागून राजा साबुद्दीर आयलो आनी ताणें म्हळें, "हो शिवींचो धर्म न्हय. हांव शिवींचो फुडारी. आनी शिवींचो धर्म पाळप हें म्हजें कर्तव्य; म्हणून म्हज्या चित्ताच्या विकाराक वश जावप म्हाका योग्य न्हय."

ही कथा विस्तृत आनी रोचक आसा. तिजें सार तितलें हांगा दिलां. ही रचणाऱ्याच्या काळाक गणसत्ताक राज्यपद्धत सामकी ना जाल्ली अशें दिसता. तरी लेगीत शिवीसारकेल्या गणसत्ताक राजांचें बायलासंबंदानचें कर्तव्य ताका पुरायेन खबर आशिल्लें; आनी तें सर्वसत्ताधारी राजांनीं ध्यानांत दवरचें असो ताजो इरादो आशिल्लो. शिविकुमाराच्या भाषणाच्या अखेरेक ताणे ही गाथा घाल्या —

नेता पिता उग्गतो रट्ठपालो  
धम्मं शिविनं अपचायमानो ।  
सो धम्ममेवानुविचिन्तयन्तो  
तस्मा सके चित्तवसे न वत्ते ॥

'हांव शिवींचो नेतो, बापूय आनी राष्ट्रपालक फुडारी. म्हणून शिवींच्या कर्तव्याक मान दिवन आनी शिवींच्या धर्माचो नीट विचार करून म्हज्या स्वतःच्या चित्तविकाराक हांव वश जावचों ना.'

## बालविवाहाची प्रथा

हे गजालीचो परिणाम बौद्ध राजांचेर तरी बरोच जालो जातलो. पुण ताका लागून दुसरीच एक वायट चाल पडली जावंये. ब्रह्मदेशांतले राजे लग्न जाल्ले बायलेक आपणाल्या जनान्यांत दवरि-नाशिल्ले. जरी लग्न जाल्या

बायलेच्या घोवान आपले बायलेकडेन काडीमोड करून तिका राजाच्या सुवादीन करपाचें कबूल केलें, तरी हो मोटो अधर्म अशें ते समजताले. पुण लग्न न जाल्ले बायलेक तिज्या आवयबापायचें संमतीबगर खुशाल उखलून व्हरताले. राजा आपले चलयेक जबरदस्तीन व्हरीत हे धास्तीन आवय-बापूय चलयांक ल्हानपणांतूच लग्न करून तांच्या गळयांत मंगळसूत्र बांद-ताले. हीं लग्नां सामकी खोटीं आसतालीं. चलयो घोवागेर वचनाशिल्यो, इतलेंच न्हय, तर पयलो न्हवरो सोडून मानत त्या न्हवऱ्याकडेन लग्न जावपाक तांका पूर्ण मेकळीक आसताली. केवळ राजांच्या जुलमापसून चलयांचें रक्षण करपाचो हो उपाय आशिल्लो. हिन्दुस्थानात बालविवाहाची दृढ जाल्ली रूढ अशेच परिस्थितीतल्यान उपरासतली कांय कितें हे सांगू नज. पुण ही रूढ बुद्धाचे मुस्तींत सार्वत्रिक जावंक नाशिल्ली आनी एक-सत्ताक राज्यपद्धत घट जातकच ती धर्मीक जावन बसली, हातूंत दुबावना. हिंदुस्थानांत गणसत्ताक राज्यपद्धतीचो विकास जालो जाल्यार, बालविवा-हाक बिलकुल थारो मेळचो नाशिल्लो, हे सांगूकच नाका.

## चार प्रकारचे श्रमणब्राह्मण

बुद्ध काळामेरेन चार प्रकारचे श्रमणब्राह्मण जाले, हाजेर एक रूपक आनी ताजी फोडणिशी मज्झिमनिकायांतल्या निवापसुत्तांत सापडटात. ताजो सारांश असो :—

बुद्ध भगवान श्रावस्तींत अनाथपिंडिकाच्या आरामांत रावतालो तेन्ना भिक्षूक उद्देशून ताणे म्हळें, ' भिक्षूनों, कुरण लावपी मनीस तें हर-णाच्या बऱ्याखातीर लायना. ह्या कुरणातलो चोरोव खावन हरणां मातचीं आनी पुरतीं आपल्या ताब्यांत येवचीं असो ताजो हेत आसता.

" (१) भिक्षूंनों, अशा एका कुरणांत हरणां भितर सल्लीं आनी तीं असुदाय चोरोव खावन मातील्यान त्या कुरण लावपी मनशाच्या ताब्यांत गेलीं. (२) तें पळौन दुसऱ्या कांय हरणांनी येवजिलें कि, ह्या कुरणांत

भितर सरप मोटें धोक्याचें. म्हणून तें कुरण सोडून तीं वशाड अशा अरण्यांत गेलीं. गिमाचे दीस येतकच थंय तांकां चोरोव-उदक मेळना जालें. आनी तांकां लागून तांकां कायबळ उल्लेंना. भुकेन त्रस्त जावन तीं त्या कुरणांत भितर सल्लीं आनी असुदाय चोरोवा-उदकाचो उपभोग घेवंक लागिल्ल्यान त्या मनशांच्या ताब्यांत गेलीं. (३) तिसऱ्या कांय हरणांनी हे दोनय मार्ग सोडून कुरणालागशिल्ल्या जंगलाचो आस्त्रय घेतलो आनी मोटच्या जतनायेन तीं कुरणांतलें तण खावंक लागलीं. बरोच काळ मेरेन मालकाक हें कळूंक पावलेंना. पुण कांय काळान ताणे त्या हरणांचें ठावठिकाण सोदून काडलें आनी ते सुवाती भोवतणीं जाळां पातळांवन तीं हरणां हातवासलीं. (४) पुण चौथीं हरणां खूब हिकमती आशिल्लीं. तांणी कुरणापसून खूब पैशिल्ल्या घनदाट अरण्यांत वस्ती केली; आनी थैंच्यान तीं कुरणांतल्या चोरवा-उदकाचो सादुरकायेन उपभोग घवंक लागलीं. तांच्या ठावठिकाणाचो पत्तो कुरणाच्या मालकाक लागलो ना.

"भिक्षूंनो, हांवे हें रूपक केलां. कुरण लावपी मनीस दुसरो कोण न्हय तर मार (म्हारू). (१) ज्या श्रमणब्राह्मणांनी विषयसुखांतच आनंद मानलो ते पयलीं हरणां. (२) विषयसुखाच्या भयान ज्याणी रान घेतलें आनी जे सगळ्या जगापसून कडेक सल्ले ते दुसरीं हरणां. (३) जे श्रमण-ब्राह्मण विषयाचो उपयोग मोटो सादुरकायेन घेवन 'जग शाश्वत काय अशाश्वत, आत्मा अमर काय नाशिवंत' बी प्रस्नांसंबंदान वादविवाद करतात आनी व्यर्थ आपलो वेळ व्हगडायतात ते तिसरीं हरणां. (४) परन्त जे असल्या वादविवादात पडनासताना आपणालें अंतस्करण निस्कलंक दवरपासंबंदान जतनाय घेतात, ते चौथीं हरणां."

ह्या सुत्तांत सांगिल्ले पयले श्रमणब्राह्मण म्हळचार यज्ञयागांत आनी सोमरस पियौपांत धर्मसर्वस्व मानपी वेदिक ब्राह्मण. वेदिक हिंसेक आनी सोमपानाक विटून जे अरण्यांत गेले, आनी थंयच्या कंदमुळांचेर निर्वाह करूंक लागले, ते ऋषीमुनी दुसऱ्या प्रकारचे श्रमणब्राह्मण समजुचें.

अरण्यांत फळांमुळां मेळनाजालीं, वा खारशे आमशे पदार्थ खायन दिसले म्हण्टकच ते लोक गावांत वचत आनी प्रपंच्याच्या जाळचांत घुसपत. हांजे एक उदाहरण वैर (पृ. ६२–६३) दिलांच ऋषिमुनींचो फळांमुळांचेर निर्वाह करपाचो मार्ग सोडून ज्यांणीं वेगवेगळे श्रमण संप्रदाय स्थापन केले ते तिसऱ्या प्रकारचे श्रमणब्राह्मण. हे परिव्राजक अटंग्या रानांत वचनासताना वस्तीच्या आस्रयान रावताले आनी लोकांकडल्यान मेळिल्ल्या अन्नवस्त्राचो खूब सादुरकायेन उपभोग घेताले. पुण ते 'आत्मो आसा काय ना' बी वादात गुल्ल आसताले. ताकालागून तांची आत्मशुद्धी न जाता ते माराच्या जाळचांत सापडटाले. बुद्धान हे सगळे वायफळ वाद सोडून दिवन अध्यात्मशुद्धीचो मार्ग सोदून काडलो. ताज्या भिक्षूंची गणना चौथ्या श्रमणब्राह्मणांत केल्या. हेरा श्रमणब्राह्मणांच्या आनी बुद्धाच्या आत्मवादांत फरक कसो आशिल्लो हाची फोडणिशी सातव्या प्रकरणात जातली. हांगा इतलेंच सांगचेलें आसा कि, ह्या चार प्रकारच्या श्रमण–ब्राह्मणात उपनिषदृषीचो बिलकुल समावेस जायना; आनी ह्यावेल्यान उपनिषदांपसून बौद्धधर्म निपजलो, ही कल्पना निराधार थरता.

## प्रकरण चवथें

# गोतम बोधिसत्त्व

## गोतमाची जल्मतीथ

गोतमाचे जल्मतिथीसंबंदान आर्विल्या पंडितांत बरोच मतभेद आशिल्लो दिसता. दिवाणबहाद्दूर स्वामिकन्नू पिल्ले हांच्या मत्तान बुद्धाचें परिनिर्वाण क्रिस्ताआदीं ४७८ व्या वर्सा जालें. हेरा कांय पंडितांच्या म्हणण्यात तें क्रिस्ताआदीं ४८६–८७ व्या वर्सा घडलें. पुण आजकाल लागिल्ल्या नव्या सोदावेल्यान महावंस आनी दीपवंस हातूंत दिल्ली बुद्धनिर्वाणाची तीथच योग्य थरता.[१] ह्या ग्रंथांवेल्यान बुद्धाचें परिनिर्वाण क्रिस्ताआदीं ५४३ व्या वर्सा जालें अशें सिद्ध जाता. आनी बुद्ध परिनिर्वाणाची ही तीथ धरली जाल्यार बुद्धाचो जल्म क्रिस्ताआदीं ६२३ व्या वर्सा जालो अशें म्हणचें पडटा.

### बोधिसत्त्व

गोतम जायतसांवन बुद्धत्वाक पावसर ताका बोधिसत्त्व म्हणपाची वैवाट खूब पुरातन. पालि वाङमयात सगळयांत पुरातन जो सुत्तनिपात तातूंत म्हळां कि,

सो बोधिसत्तो रतनवरो अतुल्यो ।
मनुस्सलोके हितसुखताय जातो ।
सक्यानं गामे जनपदे लुम्बिनेय्ये ।

स्त्रेष्ट रत्नासारको संर नाशिल्लो असो तो बोधिसत्त्व लुम्बिनी जनपदांत शाक्यांच्या गांवांत मनशांच्या हिताखातीर आनी सुखाखातीर जल्माक आयलो.

बोधि म्हळ्यार मनशाच्या उद्धाराचें ज्ञान आनी त्या खातीर प्रयत्न करपी जो प्राणी (सत्त्व) तो बोधिसत्त्व. आरंबाक गोतमाच्या जल्मापसून ताका संबोधिज्ञान जायसर हें विशेषण ताका लायताले जावंये. फुडें फुडें ह्या जल्मा आदी ताणे दुसरे अनेक जल्म घेतले, अशी कल्पना रूढ जाली; आनी त्या पूर्विल्ल्या जल्मांतय ताका बोधिसत्त्व हे विशेषण लावंक लागले. ताज्या पूर्विल्ल्या जल्माच्या कथांचो संग्रह जातकांत केला; त्या काणयांनी जें कोण मुख्य पात्र आसत, ताका बोधिसत्व ही संज्ञा लावन तो पूर्वजल्मीचो गोतमच अशें म्हळां. जे कथेंत योग्य पात्र सापडलेंना, थंय बोधिसत्त्वाक कथेकडेन व्हडलोसो संबंद नाशिल्ले. एकाद्रे वनदेवतेचें वा दुसरे एकाद्रे व्यक्तीचें स्वरूप दिवन कसो तरी संबंद जुळौन हाडला. अस्तु. हांगा गोतमाच्या जल्मापसून बुद्धत्वामेरेन ताका बोधिसत्त्व ह्या नांवांन संबोधपाचें आसा; ताज्या पूर्वजल्मांकडेन ह्या विशेषणाचो कांय संबंद ना अशें समजुचें.

## बोधिसत्त्वाचें कूळ

बोधिसत्त्वाच्या कुळाची आनी भुरगेपणाची खबर त्रिपिटकांत भोव थोडी सांपडटा. ती प्रसंगवशात् उपदेसिल्ल्या सुत्तांत आयिल्ली आसून तिजो आनी अट्ठकथांत सांपडपी म्हायतीचो केन्नाकेन्ना कसोच मेळ बसना. ह्या खातीर ह्या परस्पर विरोधाची नीट विस्कणी करून तांतल्यान कितें निष्पन्न जाता हें पळौप योग्य.

मज्झिमनिकायाच्या चूळदुक्खक्खन्ध सुत्ताच्या अट्ठकथेत गोतमाच्या कुटुंबाची म्हायती सांपडटा ती अशी :–

"शुद्धोदन, शुक्लोदन, शाक्योदन, धोतोदन आनी अमितोदन हे पांच भाव. अमितादेवी ही तांची भैण. तिष्यस्थविर तिजो चलो. तथागत

---

१. The Early History of India by V. A. Smith (Oxford 1924) P. 49–50.

आनी नंद शुद्धोदनाचे चले. महानाम आनी अनुरुद्ध शुक्लोदनाचे, आनी आनन्दस्थविर अमितोदनाचो चलो. तो भगवंतापरस ल्हान, आनी महानामा-परस व्हड."

हांगा दिल्ल्या अनुक्रमाप्रमाण अमितोदन निमाणो भाव दिसता आनी ताजो चलो आनंद भगवंतापरस वयात ल्हान आशिल्लो हे बरोबरच आसा. परन्त मनोरथपूरणी अट्ठकथेत अनुरुद्धासंबंदान बरैताना 'अमितो-दनसक्कस गेहे पटिसंधिं गण्हि' (अमितोदन शाक्याच्या घरा जल्मलो) अशें म्हळां![२] एकाच बुद्धघोषाचार्यान बरयल्ल्या ह्या दोन अट्ठकथांत असो विरोध दिसता. पयले अट्ठकथेत आनंदाक अमितोदनाचो चलो म्हण्टा; आनीक दुसरे अट्ठकथेत अनुरुद्धाक ताजो चलो म्हण्टा. तेन्ना शुक्लोदन बी नांवा लेगीत काल्पनिक काय कितें असो दुबाव मारता.

## बोधिसत्त्वाचें जल्मस्थळ

सुत्तनिपाताच्या वैर दिल्ल्या अवतरणांत बुद्धाचो जल्म लुम्बिनी जनपदांत जालो असो उल्लेख आसा. अजूनय ह्या स्थळाक लुम्बिनीदेवी अशें म्हण्टात आनी थंय जो जमनीत गाडून आशिल्लो अशोकाचो शिळास्तंभ सापडला, ताज्यावेल्या लेखांत "लुंमिनिगामे उबालिके कते" हें वाक्य आसा. अर्थात बोधिसत्त्वाचो जल्म लुम्बिनी गांवात जालो अशें पुरायेत सिद्ध जाता.

दुसऱ्या जायत्या सुत्तांनी महानामशाक्य कपिलवस्तूचो रयवाशी आशिल्लो अशा अर्थाचो उल्लेख सापडटा. शुद्धोदन कपिलवस्तूंत आशिल्लो असो महावग्गांत तितलो उल्लेख आसा. लुम्बिनीग्राम आनी कपिलवस्तू हांचेंमदीं चौदा पंदरा मैलांचें अंतर आशिल्लें. तेन्ना शुद्धोदन अदिमदीं लुम्बिनी गांवच्या आपल्या वतनांत रावतालो आनी थंयच बोधिसत्त्व

---

२. बौद्ध संघांचा परिचय पृ. १५४ पळेयात.

जालो अशें म्हणचें पडटलें. पुण सकला दिल्ल्या अंगुत्तरनिकायाच्या तिक-निपांतल्या १२४ व्या सुत्तावेल्यान ह्या विधानाकय सबळ बाध येता.

## कालामाचो आस्त्रम

एका समयाक भगवान कोसल देशांत प्रवास करीत कपिलवस्तूक आयलो. तो आयिल्ल्याचें वर्तमान आयकून महानाम शाक्यान ताजी भेट घेतली. तेन्ना आपणांक एक रात रावंक सुवात पळै अशें ताणें महानामाक सांगलें. परन्त भगवंताक रावपाजोगती सुवात महानामाक खैंच सांपडली ना. परत येवन ताणे भगवंताक म्हळें, "भदन्त, तुमकां फावशी सुवात आमकां सांपडना. तुमगेलो पैलीचो सब्रह्मचारी भरण्डु कालाम हाज्या आस्त्रमात तुमी एक रात रावांत." भगवंतान महानामाक थंय आसन तयार करूंक सांगलें आनी ती रात तो त्या आस्त्रमांत रावलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं महानाम भगवंताच्या भेटेक गेलो तेन्ना भगवंतान ताका म्हळें, " हे लोकीं, आगा महानामा, तीन प्रकारचे धर्मगुरु आसात. पैलो कामोपभोगाचो समतिक्रम (त्याग) दाखैता, पुण रूपाचो आनी वेदनेचो समतिक्रम दाखैना. दुसरो कामपभोगाचो आनी रूपाचो समतिक्रम दाखैता पुण वेदनेचो समतिक्रम दाखैना. तिसरो ह्या तिगांचोय समतिक्रम दाखैता. ह्या धर्मगुरूंचे ध्येय एक काय भिन्न?"

ताजेर भरण्डु कालाम उलैलो, " आगा महानामा, ह्या सगळ्यांचे ध्येय एकच अशें म्हण." पुण भगवंतान म्हळें, " महानामा, ताचें ध्येय भिन्न आसा म्हण." दुसरे फावट आनी तिसरे फावटी भरण्डून तांचें एकच ध्येय अशें म्हणपाक सांगलें; आनी भगवंतान तांचीं ध्येयां भिन्न आसात अशें म्हणपाक सांगलें. महानामासारकेल्या प्रभावशाली शाक्या-मुखार श्रमण गोतमान आपलो उपमर्द केलो अशें दिसून भरण्डु कालाम जो कपिलवस्तू सोडून गेलो तो परतो केन्नाच आयलो ना.

## भरण्डु-कालाम-सुत्तावेल्यान जावपी उलगडो

ह्या सुत्ताचें समग्र भाषांतर हांगा दिलां. ताजेवेल्यान बुद्धचरित्रातल्या दोनतीन गजालींचो बेसबरो उलगडो जाता. तांतुतली पैली ही कि, बुद्ध जाल्याउपरान्त भगवान गोतम मोटच्या भिक्षूसंघासैत कपिलवस्तूंत आयलो ना; आनी शाक्यांनी ताजो भौमान केलो ना. तो एकटूको आयलो; आनी ताका फावशी सुवात सोदूंक महानामाक मोटो प्रयास पडलो. शुद्धोदन राजान जर बोधिसत्त्वाखातीर तीन राजवाडे बांदिल्ले, तर तांच्यापैकी एक रिकामो करून बुद्धाक कित्याक दिलो ना? शाक्यांचें कपिलवस्तूंत एक संस्थागार (म्हळच्यार नगर-मंदिर) आशिल्ल्याचो उल्लेख जायतेकडेन सांपडटा. बुद्धाच्या उतार वयांत शाक्यांनी हें संस्थागार परतें बांदलें, आनी तातूंत सुर्वेक बुद्धाक भिक्षुसंघासैत एक रात रावपाची विनंती करून धर्माचो उपदेस करूंक लायलो.[३] पुण वेल्या प्रसंगात बुद्धाक त्या संस्थागारांत रावंक मेळ्ळें ना. हाजो अर्थ बुद्धाक शाक्यांपैकी एक सर्वसाधारण तरणाटो आसून ताजी कपिलवस्तूंत चडशी व्हडवीक नाशिल्ली अशें दिसतां.

दुसरी गजाल ही कि, गोतमान घर त्यागचेपैलीं कपिलवस्तूंत कालामाचो हो आस्रम आशिल्लो. कालामाचो हो धर्म समजून घेवपाखातीर ताका मगधाच्या राजगृहामेरेन प्रवास करपाची निखालस गरज नाशिल्ली. कालामाचें तत्त्वज्ञान तो कपिलवस्तूंत शिकिल्लो, हे ह्या सुत्तावेल्यानच सिद्ध जाता.

तिसरी गजाल ही कि, महानाम शाक्य बुद्धाचो बापोलभाव आसतो जाल्यार ताजी वेवस्था तो भरण्डु कालामाच्या आस्रमांत करिनसताना आपल्या घराशेजारा खंय तरी आस्कळविस्कळ सुवांतेंत करतलो आशिल्लो. श्रमण लोक गृहस्थाच्या घरा तीन दिसांपरस चड रावनाशिल्ले. हांगा

३. सळायतन संयुत्त आसीविसवग्ग, सुत्त ६ पळेया.

तर एके राती पुरतीच रावपाची वेवस्ता जाय आशिल्ली; आनी तीपसून महानामाक आपल्या घरा वा आपणाल्या अतिथीघरांत करूंक आयली ना. एक तर महानामाचें घर सापच ल्हान आशिल्लें जावंक जाय, वा बुद्धाक एक रात आस्त्रय दिवपाचें कारण ताका दिसले ना जावंक जाय.

या सगळ्या गजालींचो विचार करतकच अशें दिसतां कि, महानाम शाक्य आनी भगवान बुद्ध हांचो व्हडलोसो जिवाळ्याचो संबंद नाशिल्लो. आनी शुद्धोदन शाक्य तर कपिलवस्तूच्यान चौदा मैलांच्या अन्तरार रावतालो. ताजो आनी कपिलवस्तूचो संबंद भोव थोडो आसूंये. शाक्यांची सभा भल्ली, जाल्यारच तो कपिलवस्तूक वतालो जावयें.

## भद्दिय राजाची कथा

महापदानसुत्तांत शुद्धोदनाक राजा म्हळें आसून ताजी राजधानी कपिलवस्तू आशिल्ली अशें म्हळां. परन्त विनयपिटकांतल्या चुल्लवग्गांत जी भद्दियाची, कथा आयल्या, तिजो ह्या विधानाकडेन पुरायेन विरोध येता.

अनुरुद्धाचो व्हडलो भाव महानाम् बापायच्या मरणाउपरांत घरचो सगळो कारभार पळेंतालो. अनुरुद्धाक प्रपंच्यातलें कांयच खबर नाशिल्लें. बुद्ध भगवंताची सर्वत्र नामना जातकच व्हडल्या व्हडल्या शाक्यकुळांतले तरणाटे भिक्षू जावन ताज्या संघात भितर सरूंक लागले. हे पळौन महानामान अनुरुद्धाक म्हळें, "आमच्या कुळांतलो एकलोय भिक्षू जालोना तेन्ना तूं तरी भिक्षू जा, ना जाल्यार हांव जाता." अनुरुद्धान म्हळें, "म्हाका ते झेपचेना; तुमीच भिक्षू जायात."

महानामान ही गजाल मान्य केली आनी तो धाकल्या भावाक प्रपंच्याची म्हायती करून दिवंक लागलो. ताणें म्हळें, "पैली शेत नागरूंक जाय. उपरांत ओपणी करूंक जाय. त्या उपरांत ताका पाटयाचे उदक दिवच पडटा. उदकाक वाट करून दिवंन ताजी नडणी करतात. आनी तें पिकलें म्हण्टकच लुवणी करची पडटा."

अनुरुद्धान म्हळें "ही खटपट तर खुबूच मोटी दिसता. घरचो वेव्हार तुमीच सांबाळात. हांव भिक्षू जाता." पुण हे बाबतीत तांकां आवयची अनुमती मेळना जाली. पुण तो हटच घेवन बसलो, तेन्ना तिणे म्हळें, "शाक्यांचो राजा भद्दिय तुजेंवांगडा भिक्षू जाता जाल्यार हांव तुका भिक्षु जावपाक मुभा दितां."

भद्दिय राजा अनुरुद्धाचो इष्ट आशिल्लो. पुण तो राज्यपद सोडून भिक्षु जावचो ना अशें अनिरुद्धाच्या आवयक दिसलें आनी म्हणूनच तिणे ही शर्त घाली. अनुरुद्ध आपल्या इष्टाकडेन वचून ताकाय भिक्षु जावंक आग्रो करूंक लागलो. तेन्ना भद्दियान म्हळें, "तूं सात वर्सां राव. मागीर आमी भिक्षु जावंया." पुण इतलीं वर्सां वाट पळौंक अनुरुद्ध तयार नाशिल्लो. स वर्सां, पांच वर्सां, चार, तीन, दोन, एक वर्स, सात महिने, अशें करतां करतां भद्दिय सात दिसांनी अनुरुद्धावांगडा वचूंक कबूल जालो. आनी सात दिसांउपरांत भद्दिय, अनुरुद्ध, आनंद, भगु, किम्बिल आनी देवदत्त हे स शाक्य भुरगे आनी तांचेवांगडा उपालि नावाचो म्हालो अशे सात जण चतुरंग सैन्य सज्ज करून त्या सैन्यासैत कपिलवस्तूच्यान पैस अंतरार गेले; आनी थैंच्यान फाटी फिरावन तांणी शाक्य देशाची शीम बालांडली. तेन्ना भगवान मल्लांच्या अनुप्रिय म्हळ्ळ्या गावांत रावतालो. थंय वचून ह्या सात जणांनी प्रव्रज्या घेतली.

## भद्दियाच्या कथेवल्यान येवपी निष्कर्ष

बुद्ध भगवंताची कीर्त आयकून जायते शाक्य कुमार भिक्षु जावंक लागले; आनी तोंमेरेन शाक्यांच्या तख्तार भद्दिय राजा आशिल्लो. मागीर शुद्धोदन राजा जालो केन्ना? सगळे शाक्य एकठांय जावन आपणालो राजा वेंचून काडताले, काय ताजी नेमणूक कोसल म्हाराजाकडल्यान जाताली, हे सांगपाक येना. शाक्यांनी जर ताजी निवड केली म्हणचें, तर ताका ताजे-परस जाण्टो महानाम शाक्यासारको एकाद्रो शाक्य सहज निवडुं येतालो.

हे खेरीज अंगुत्तरनिकायाच्या पैल्या निपातांत, उंच कुळात जाल्ल्या म्हज्या भिक्षु श्रावकांत कालिबोधेचो पूत भद्दिय श्रेष्ठ आसा अशें बुद्धवचन सांपडटा. केवळ उंच कुळांत जल्मा आयिल्ल्यान शाक्यासारकेले गणराजे भद्दियाक आपणालो राजा करतीत हे संभाव्य दिसना. कोसल देशाच्या पसेनदि राजाकडल्यानच ताजी नेमणूक जाली जावंये, हेंच अदीक ग्राह्य दिसता. कितेंय जालें तरी शुद्धोदन केन्नाच शाक्यांचो राजा जालो ना, अशें म्हणचें पडटा.

## शाक्यांचो मुख्य धंदो शेती

त्रिपिटक वाङ्मयात मेळपी म्हायतेची अशोकाच्या लुम्बिनीदेवीच्या शिला-लेखाच्या आधारान तपासणी करतकच अशें दिसून येता कि, शुद्धोदन हो शाक्यांतलोच एक आसून तो लुम्बिनी गांवात रावतालो आनी थैंच बोधिसत्त्व जल्मलो. वैर दिल्ल्या महानामाच्या आनी अनुरुद्धाच्या संवादा-वेल्यान सिद्ध जाता कि, शाक्यांचो मुख्य धंदो शेतीचो आशिल्लो. महा-नामासारकेले शाक्य जशे स्वतः शेती करीत; तसेच शुद्धोदन शाक्यय करतालो. जातकाच्या निदानकथेंत शुद्धोधनाक म्हाराज करून ताजे, शेतीचें वर्णन केला, तें अशें :–

"एक दीस राजाचे ओपणेचो समारंभ (वप्पमंगलं) आशिल्लो. त्या दिसा सगळें नगर देवांच्या विमानाभशेन शृंगारताले. सगळे दास आनी वावराडी नवीं ताल्ल वस्त्रां न्हेसून आनी गंदमाळाधिकांनी भूषित जावन राजवाड्यांत एकठांय जाताले. राजाचे शेतीचेर हजार नांगराचो वापर जातालो. त्या दिसा सातशें णव्याणव नांगराचो दोरयो, बैल आनी बैलांच्यो कानयो रूप्यान मडैताले; आनी राजाचो नांगर बी शंभर नंबरी भांगरान मडैताले...... राजा भांगरान मडैल्लो नांगर धरी, आनी रूप्यान मडैल्ले सातशें णव्याणव नांगर अमात्य धरीत. बाकीचे दोनशें हेर लोक धरीत. आनी सगळे जाण मेळून शेत नांगरीत. राजा सरळ हांगाच्यान थंय मरेन नांगर भोंवडायतालो."

हे कथेत पांखाचो पाखो जाला आसलो तरी तांतले तथ्य इतलेंच कि, शुद्धोदन स्वतः शेती करतालो. आजकाल महाराष्ट्रात आनी गुजरातेंत जशे वतनदार पाटील खासा शेत करतात आनी मानायांकडल्यांनय कसौन घेतात तांच्या सारकेच शाक्यय आशिल्ले. फरक इतलोच कि, आजकालच्या पाटलांक राजकी अधिकार भोव थोडें आसात आनी शाक्यांक ते बरेच आशिल्ले. आपल्या भाटांतल्या मुंडकराचो आनी मानायांचो न्याय ते स्वता करताले, आनी आपल्या देशाचो भितल्लो कारभार संस्थागारांत एकठांय जमून पळेताले. एकमेकांमदीं कितेंय झगडें-झूज उद्भवलें जाल्यार ताजो निकाल ते स्वताच दिताले. मात एकाद्रयाक हद्दीभायर घालपाचो जाल्यार वा फांसार दिवचो जाल्यार, त्या खातीर तांकां कोसल राजाची परवानगी घेवची पडटाली, अशें चूळसच्चक-सुत्तांतल्या सकल्या संवादावेल्यान दिसून येतलें :–

"भगवान म्हण्टा, 'हे अग्गिवेसना, पसेनदि कोसलासारकेल्या वा मगधाच्या अजातशत्रूसारकेल्या अभिशिक्त राजांक आपणाल्या रैतां-पैकी एकाद्रया गुन्यावकाराक मर्णाची ख्यास्त दिवपाचो, दंड करपाचो वा हद्दपार करपाचो पूर्ण अधिकार आसा काय ना?' "

"सच्चक–'भो गोतम, वज्जी आनी मल्ल ह्या गणराजांक पसून आपल्या राज्यांतल्या गुन्यावकाराक फाशीं दिवपाचो, दंड करपाचो वा हद्दपार करपाचो अधिकार आसा; तर मागीर पसेनदि कोसल राजाक वा अजातशत्रूक हो अधिकार आसा हे सांगूक नाका.' "

ह्या संवादावेल्यान कळून येतलें कि, गणराज्यापैकी वज्जींचे आनी मल्लांचें तितले पूर्ण स्वातंत्र्य कायम आशिल्लें; आनी शाक्य, कोलिय, काशी, अंग बी गणराजांक गुन्यावकारांक देहान्त शासन करपाचो, तसोच मोठो दंड करपाचो अधिकार उरूंक नाशिल्लो. त्या खातीर शाक्य, कोलिय आनी काशी ह्या गणराजांक कोसल राजाची आनी अंग गणराजाक मगध राजाची परवानगी घेवपाची पडटाली.

## मायदवींची म्हायती

बोधिसत्त्वाचे आवयची म्हायती भोव थोडी मेळटा. तिजें नांव मायादेवी आशिल्लें, हातून दुबाव ना. पुण शुद्धोदनाचें लग्न कितलें पिरायेर जालें, आनी मायादेवीक बोधिसत्त्व कोणा वयार जालो बी गजालींची म्हायती खैंच सांपडना. अपदान ग्रंथात महाप्रजापती गोतमीचें एक अपदान आसा. तांतूंत ती म्हण्टा –

पच्छिमे च भवे दानि जाता देवदहे पुरे ।
पिता अञ्जनसक्को मे माता मम सुलक्खणा ।।
ततो कपिलवत्थुस्मि सुद्धोदनघरं गता ।

'आनी ह्या निमाणे जल्मांत हांव देवदह नगरांत जल्मलीं. म्हजो बापूय अञ्जन शाक्य, आनी म्हजी आवय सुलक्षणा. आनी उपरांत वयार येतकच हांव कपिलवस्तूक शुद्धोदनाच्या घरां गेलीं. (म्हळ्यार शुद्धोदन वांगडा म्हजें लग्न जालें).

ह्या गोतमीच्या म्हणण्यात तथ्य कितपत आसा हें सांगपाक येना. 'कपिलवस्तूक शुद्धोदनाच्या घरा गेलीं' हे म्हणणे वैर दिल्ल्या विवेचना-कडेन जुळना.[४] पुण जे अर्थी अञ्जनशाक्याची आनी सुलक्षणेची ती चली आशिल्ली, ह्या म्हणण्यात बाध येत असो मजकूर खैंच सापडना, ते अर्थी ती आनी तिजी व्हडली भैण मायादेवी अञ्जनशाक्याच्यो चलयो आशिल्ल्यो आनी त्या दोगींचीय लग्नां शुद्धोदनावांगडा जालीं, अशें-म्हणपाक हरकत ना. पुण तीं एकाच वेळार जालीं, काय फाटीं फुडें जालीं हें कळपाक मार्ग ना.

---

४. कारण भरण्डूचे कथेवेल्यान शुद्धोदन कपिलवस्तूंत रावताशिल्लो अशें थारता.

बोधिसत्त्व जाल्ल्याच्या सातव्या दिसा मायादेवी भायर पडली, ही गजाल बौद्ध वाङ्मयांत सुप्रसिद्ध आसा. त्या उपरांत बोधिसत्त्वाची ह्यगय जावंक लागिल्ल्यान शुद्धोदनांन मायादेवीच्या धाकले भैणीकडेन लग्न केलें जावंये, हें चड संभाव्य दिसता. इतलें खरें कि, गोतमीन बोधिसत्त्वाचें लालनपालन आवयभशेन अत्यंत प्रेमान केलें. ताका खरेले आवयची वाण केन्नाच भासलीना जातली.

## बोधिसत्त्वाचो जल्म

"मायादेवी धा म्हैयन्यांची गुरवार आशिल्ली. तेन्ना तिणे कुळरा वचपाची इत्सा दर्सायली. शुद्धोदन राजान तिजी इत्सा जाणून कपिलवस्तूच्यान देवदह नगरामेरेन सगळो रस्तो निवळ करून तो बावटचा घुडयांनी शृंगाल्लो, आनी भांगराचे पालखेतल्यान मोटचा लवाजम्यासैत तिजी कुळरा रवानगी केली. थंय वतना वाटेंत लुम्बिनीवनांत ती एका सायलाच्या रुखामुळां बाळंत जाली." जातकांतले निदानकथेतल्या वर्णनाचो हो सारांश. शुद्धोदन राजा जर एक सर्वसाधारण भाटकार आशिल्लो तर तो एदो सगळो रस्तो शृंगारुक शकत हे शक्यच ना. दुसरें हें कि, धा म्हैयने भरतकच गुरवार बायलेक कोणच कुळरा धाडचो ना. तेन्ना हें गजालींत तथ्य खूब थोडें अशें दिसता.

महापदानसुत्तांत बोधिसत्त्व आवयच्या पोटांत प्रवेश करता थैंच्यान तो जावन सात दिसांचो जायसर एकंदरीत सोळा लोकोत्तर विशेष (धम्मता) घडून येतात, अशें वर्णिल्लें आसा. तांचेंपैकी (९) बोधिसत्त्वाची आवय धा म्हैने भरतकच बाळंत जाता, (१०) ती उबी आसतांना बाळंत जाता आनी (८) बोधिसत्त्व जाल्या उपरात सात दिसांनी मरता, हे तीन लोकोत्तर विशेष गोतम बोधिसत्त्वाच्या आयुष्यातल्यान घेतले जातले. उरिल्ले सगळे काल्पनिक आसून तांचोय प्रवेश ल्हव ल्हव गोतमाच्या चरित्रांत जालो अशें दिसता. सारांश, बोधिसत्त्वाची आवय उबी आसताना बाळंत

जाली आनी ताज्या जल्माउपरांत सात दिसांनी भायर पडली अशें धरून
चलूंक हरकत ना. जातकाच्या निदानकथेंत ती सायलामुळा बाळंत जाली
आनी ललितविस्तरांत प्लक्षामुळा जाली अशें वर्णन आसा. लुम्बिनी,
गावांत शुद्धोदनाच्या घराभायल्या पोरसांत भोंवतांना ती बाळंत जाली,
मागीर ती सायलामुळा जांव वा प्लक्षामुळा जांव. मात ती बाळंत जाली
ती उबी आसताना, इतलेंच ह्या वणनातलें तथ्य अशें समजपाचें.

## बोधिसत्त्वाचें भविष्य

"बोधिसत्त्वाच्या जल्माउपरांत आवयबरोबर तो घरा येतकच शुद्धोदनान
व्हडल्याव्हडल्या पंडित ब्राह्मणांकडल्यान ताजें भाकित वर्तयलें. पंडितांनी
ताजीं बत्तीस लक्षणां पळौन हो एक चक्रवर्ती राजा जातलो, ना जाल्यार
सम्यक् संबुद्ध जातलो अशें भविष्य सांगलें." अशा अर्थाचीं विस्तृत वर्णनां
जातकाच्या निदानकथेंत, ललितविस्तरांत आनी बुद्धचरितकाव्यांत आय-
ल्यात. त्या काळाक ह्या लक्षणांचेर लोकांचो खूब भावार्थ आसतालो हातूंत
दुबाव ना. त्रिपिटक वाङ्मयात तांचो जायतेकडेन विस्तारांन उल्लेख
आयला. पोक्खरसाति ब्राह्मणान तरण्या अम्बष्ठाक बुद्धाच्या आंगार हीं
लक्षणां आसात काय नात हें पळौंक धाडिल्लो. ताणें तीस लक्षणां स्पष्ट
पळैलीं; पुण ताका दोन दिसना जालीं. बुद्धान अद्भुत चमत्कार करून
तीं ताकां दाखैलीं.[५] अशे तरेन बुद्धचरिताकडेन ह्या लक्षणांचो जंयथंय
संबंद दाखैला. बुद्धाची व्हडवीक गावचेलो भक्तजनांचो हो यत्न आशि-
ल्यान तातूंत विशेष तथ्य आसा अशें समजुपाची गरज ना. तरी पुण
बोधिसत्त्वाच्या जल्माउपरांत असित ऋषीन येवन ताजें भविष्य
वर्तयलें, ही कथा खूब पुरातन दिसता. तिजें वर्णन सुत्तनिपातांतल्या नालक-
सुत्तांचे प्रस्तावनेंत सांपडटा. ताजो गोषवारो हांगा दितां.

"बरीं बरीं वस्त्रां न्हेसून आनी इंद्राचो सत्कार करून देव आप-
णालीं उपवस्त्रां मळबात उडौन उत्सव करताले. तांकां पळौन असित

५. दीघनिकाय, अम्बट्ठसुत्त.

ऋषीन विचाल्लें, हो असो उत्सव कित्याक? तेन्ना त्या देवांनी असिताक सांगलें कि, लुम्बिनीग्रामांत शाक्य कुळांत बोधिसत्त्वाचो जल्म जाला, आनी ताका लागून आमी उत्सव करतात. तें आयकून असित ऋषी नम्र भावान शुद्धोदनागेर आयलो; आनी ताणे कुमाराक पळौपाची इत्सा दर्सायली. शाक्यांनी बोधिसत्त्वाक असितामुखार हाडलो, तेन्ना ताज्या लक्षणांची गिरेस्तकाय पळौन, 'मनशांमदीं हो सगळयांत श्रेष्ठ,' अशे उद्गार असिताच्या तोंडसून भायर सल्ले. पुण आपणालें आयुष्य आता थोडें उल्लां, हें लक्षांत आयिल्ल्यान असित ऋषीच्या दोळयांतल्यान दुखां देंवलीं. तें पळौन कुमाराच्या जिवाक कांय धोको बी ना मू? असो शाक्यांनी प्रस्न केलो. तेन्ना असितान, 'हो कुमार फुडें संबुद्ध जातलो, पुण म्हजें आयुष्य भोव थोडें उरिल्ल्यान ताजो धर्म आयकुपाची संद म्हाका मेळची ना, म्हणून वायट दिसता,' अशें सांगून शाक्यांचें समाधान केलें. आनी तांकां धादोस करून असित ऋषी थैंच्यान परतलो."

## बोधिसत्त्वाचें नाव

स शाक्यसिंहः सर्वार्थसिद्धः शौद्धोदनिश्च सः ।
गौतमश्चार्कबंधुश्च मायादेवीसुतश्च सः ॥

अमरकोशांत बोधिसत्त्वाची हीं सं नांवां दिल्लीं आसात. तांच्या-पैकी शाक्यसिंह, शौद्धोदनि आनी मायादेवीसुत हीं तीन विशेषणां आनी अर्कबंधु हे ताज्या गोत्रोचें नांव. उरिल्ल्या सर्वार्थसिद्ध आनी गौतम ह्या दोन नांवांपैकी तांगेलें खरेलें नांव खैंचें? काय हीं दोनय ताजींच नांवां? असो प्रश्न उपरासता.

त्रिपिटक वाङ्मयात बोधिसत्त्वाचें नांव सर्वार्थसिद्ध आशिल्लें, असो उल्लेख खैंच सांपडना. जातकाच्या निदानकथेंत मात सिद्धत्थ (सिद्धार्थ) हें ताजें नांव आयलां. पुण तें लेगीत ललितविस्तरावेल्यान घेतलां जावंये. त्या ग्रंथांत म्हळां कि,—

'अस्य हि जातमात्रेण मम सर्वार्थाः संसिद्धाः। यन्न्वहमस्य सर्वार्थसिद्ध ति नाम कुर्याम्। ततो राजा बोधिसत्त्वं महता सत्कारेण सत्कृत्य सर्वार्थसि- ोऽयं कुमारो नाम्ना भवतु इति नामास्याकार्षीत ॥'

सर्वार्थसिद्ध हेंच नांव अमरकोशांत दिलां. पुण ललितविस्तरांत ोधिसत्त्वाक वारंवार सिद्धार्थकुमार अशेंय म्हळां. आनी ताजेंच 'सिद्धत्थ' पालि रूपान्तर. सर्वार्थसिद्ध हाजें पालि रूपान्तर सब्बत्थसिद्ध अशें जाव- ाचें; आनी तें विचित्र दिशिल्ल्यान जातक अट्ठकथेच्या कर्त्यान सिद्धत्थ च नांव वापल्लें जावंये, अर्थात् सर्वार्थसिद्ध वा सिद्धार्थ ही दोनय नांवां ललितविस्तरकाराच्या वा तसल्याच एकाद्र्या बुद्धभक्त कवीचे कल्पनें- ल्यात भायर सल्लीं जावंक जाय.

बोधिसत्त्वाचें खरेलें नांव गोतम आशिल्लें. हातूंत दुबाव ना. थेरी- ाथेंत महाप्रजापती गोतमीच्यो ज्यो गाथा आसात तांतली एक ही –

बहूनं वत अत्थाय माया जनयि गोतमं।
व्याधिमरणतुन्नानं दुक्खक्खन्धं व्यपानुदि ॥

'पुस्कळांच्या कल्याणाखातीर मायेन गोतमाक जल्म दिलो. व्याधि ानी मरण हानी पीडिल्ल्या लोकांच्या दुःखाची रास ताणें ना केली.'

परन्त महापदानसुत्तांत बुद्धाक 'गोतमो गोत्तेन' अशें म्हळां. तेच शेन अपदानग्रंथांत जायते कडेन 'गोतमो नाम नामेन' आनी 'गोतमो नाम ोत्तेन' अशे दोन प्रकारचे उल्लेख सांपडटात. तांचेवेल्यान बोधिसत्त्वाचें ांव आनी गोत्र एकच आशिल्लें काय कितें असो दुबाव येता. पुण सुत्त- निपातांतल्या सकल्या गाथांवेल्यान तो पैसावपा मारको आसा.

उजुं जानपदो राजा हिमवन्तस्स पस्सतो।
धनविरियेन संपन्नो कोसलेसु निकेतिनो ॥
आदिच्चा नाम गोत्तेन साकिया नाम जातिया।
तम्हा कुला पब्बजितोऽम्हि राज न कामे अभिपत्थयं ॥

(पब्बज्जासुत, गा. १८–१९)·

(बोधिसत्त्व बिंबिसार राजाक म्हण्टा) 'आगा राया, हांगच्यान थेट हिमालयाच्या मुळसांत धनान आनी शौर्यान संपन्न असो एक प्रदेश आसा. कोसल राष्ट्रांत तो मोडटा. थैंच्या लोकांचें गोत्र आदित्य आसून तांका शाक्य म्हण्टात. त्या कुळातलो हांव परिव्राजक जालों, तो, आगा राया, कामोपभोगांचें वान्शेन न्हय.'

ह्या गाथांत शाक्यांचें गोत्र आदित्य आशिल्लें अशें म्हळां. एकाच काळांत आदित्य आनी गोतम अशीं दोन गोत्रां आसप शक्य दिसना. सुत्त-निपात हें चडांत चड पुरातन आशिल्ल्यान आदित्य हेंच शाक्यांचें खरेलें गोत्र जावयें. वैर दिल्ल्या अमरकोशाच्या श्लोकात अर्कबंधु अशें जें बुद्धाचें नांव आयलां, तें ताजें गोत्रनांव अशें समजूंक जाय. कारण तें 'आदिच्चा नाम गोत्तेन' ह्या वाक्याकडेन बरें जुळटा. बोधिसत्त्वाचें खरेलें नांव गोतम आशिल्लें आनी तो बुद्धपदाक पावतकच त्याच नांवान लोकीकवंत जालो. 'समणो खलु भो गोतमो सक्यकुलापब्बजितो' अशे तरेचो उल्लेख सुत्तपिटकांत कितल्यातरी सुवांतींनी आसात.

## बोधिसत्त्वाचें समाधिप्रेम

"वैर निर्देशिल्ल्या शुद्धोदन राजाच्या कसणेच्या समारंभाच्या वेळार भुरगेपणांत बोधिसत्त्वाक थंय व्हेल्लो, आनी ताज्या दुदकान्नींनी ताका एका जांभळीमुळा हातूणार न्हिदैल्लो. सिद्धार्थकुमार न्हिदला अशें पळौन दुदकान्नी तो समारंभ पळौंक गेल्यो. इतलेंभितर बोधिसत्त्व उठलो आनी आसनमांडी घालून ध्यानस्थ बसलो. बऱ्याच वेळाउपरांत दुदकान्नी येवन पळेतात जाल्यार हेरां रुखांच्यो सावळचो उरफाटचो जाल्यात. पुण हे जांभळेची सावळी पैलींभशेनच उल्ल्या! हो अद्‌भुत चमत्कार पळौन शुद्धोदन राजान बोधिसत्त्वाक नमस्कार केलो." जातकांतले दंतकथेतलें हें सार. बोधिसत्त्वाच्या आयुष्यांतले हे म्हत्वाचे गजालीक अशे तरेन, अद्‌भुत चमत्काराचें स्वरूप दिल्ल्यान तिज्यांत कितेंच अर्थ उल्लोना.

ी गजाल अशी दिसता कि, बोधिसत्त्व बापायवांगडा शेतार वचून कमणेचें काम करी आनी मोकळ्या वेळांत एके जांभळीसकल ध्यानस्थ बस.

मज्झिमनिकायांतल्या महासच्चकसुत्तांत बुद्ध भगवान सच्चकाक ्देशून म्हण्टा –

" म्हाका याद जाता कि, बापायच्या शेतार गेल्लों आसताना जांभ-ाच्या शितळ सांवळेक बसून कामोपभोगापसून आनी अकुशळ विचारां-सून विमुक्त जावन सवितर्क, सविचार आनी विवेकापसून उत्पन्न जावपी ीतिसुख ज्यांतून आसा अशें प्रथमध्यान हांव संपादन करतालों. होच तर ोधाचो खरेलो मार्ग नासत मू? त्या म्हजें विज्ञान स्मृतिक अनुसल्ले ानी होच तो बोधाचो मार्ग जावये, अशें म्हाका दिसलें. आगा अग्गि-स्मना, हांवें म्हजेशींच म्हळें, ' जें सुख कामोपभोगांपसून आनी अकुशळ वचारांपसून अलिप्त आसा, त्या सुखाक हांव कित्याक भियेता? ' उपरान्त ांवें येवजून थारायलें कि, त्या सुखाक हांवें भियेंक कामा नये. परन्त सुख अशा (देहदंडान जाल्ल्या) दुर्बल शरीरान प्राप्त करून घेवप ाक्य ना: म्हणून परत जिवाक लागता तें अन्न घेवप योग्य."

बोधिसत्त्वान सात वर्सां देहदंडण चलैल्याउपरांत ताकां बापायच्या ाटातले जांभळी सकल बसून मेळपी प्रथमध्यानाची अकस्मात याद ाली आनी तोच मार्ग तत्त्वबोधाचो आसूंक जाय अशें मानून ताणे देह-ंडण सोडून दिलें आनी आहार घेवंक आरंभ केलो.

परन्त बोधिसत्त्व भुरगेपणांतच हें ध्यान कोणाकडल्यान शिकिलो? काय तें ताका आपशींच प्राप्त जालें? जातक अट्ठकथेच्या कर्त्यान ललित-विस्तरकारान वा बुद्धचरितकारान हें ध्यान सामक्या भुरगेपणांत बुद्धाक प्राप्त जालें अशें वर्णिल्ल्यान, तें ताका आपशींच मेळ्ळें, आनी तो एक अद्भुत चमत्कारच जालो अशें म्हणचें पडटा. पुण वैर दिल्ल्या भरण्डु-कालाम सुत्ताचो विचार केल्यार ह्या अद्भुत चमत्काराचो सहज उलगडो

जाता. कालामाचो आस्रम कपिलवस्तूंत आशिल्लो. म्हणचे शाक्य लोकां
ताजो संप्रदाय जाणपी जायते आशिल्ले, अशें म्हणचें पडटा. फुडें ज
कालामाची हकीगत येवचेली आसा तिजेवेल्यान दिसून येतालें कि, काला
ध्यानमार्गी आशिल्लो आनी तो समाधीचे सात पांवंडे शिकैतालो. त्यांपैकं
पयलो पांवंडो जें प्रथमध्यान तें बोधिसत्त्वाक घरा आसतनाच प्राप
जालें जाल्यार तांतूंत अद्‌भुत चमत्कार तो कसलो? कांय चमत्का
आसलो जाल्यार तो इतलोच कि, भुरगेपणांत शेतोडेचें काम करतान
पसून बोधिसत्त्वाची वृत्ति धर्मीक आशिल्ली, आनी वेळोवेळ तो ध्यान
समाधीचो अभ्यास करतालो.

## बोधिसत्त्वाचे समाधीचो विषय

बोधिसत्त्वाच्या ध्यानाचो विषय खैंचो हे सांगप सोपें न्हय. प्रथमध्या
ज्याचेर सादता अशे एकांदर सव्वीस विषय[६] आसात. तांच्यापैकी बोधि
सत्त्वाच्या ध्यानाचो विषय खैंचो हें नक्की सांगप जरी कठीण आसले
तरी मैत्री, करुणा, मुदिता आनी उपेक्षा ह्या चार विषयांपैकी एकाद्र्य
विषयांचेर तो ध्यान करतालो जावंये, अशें अनुमान अनाठायी जाव
ना. कित्याक म्हळ्यार, ते ताज्या मायेस्त सभावाक अणसरून आशिल्ले
आनी ताका एक दुसरो आधार सापडटा तो असो —

“बुद्ध भगवान कोलिय देशांत हरिद्रवसन नांवाच्या कोलियांच्य
शारालागसार रावतालो तेन्ना कांय भिक्षू सकाळपाराक भिक्षेक वच
पैलीं हेरां परिव्राजकांच्या आरामांत गेले. तेन्ना त्या परिव्राजकांनी तांक
म्हळें, ‘आमी आमच्या श्रावकांक उपदेस करतात कि, इष्टांनो, चित्ता
उपक्लेश आनी चित्ताक दुर्बळ करपी जीं पांच नीवरणां,[७] तीं सोडून
तुमी मैत्रीन भरिल्ल्या चित्तान एक दिशा भरून उडयां

६. बुद्ध घोषाचार्य आनी अभिधर्माच्या मतान विषय पंचवीस; पु
उपेक्षेचेरपसून प्रथमध्यान साध्य जाता, अशें मानल्यार विषय सव्वीस
७. समाधिमार्ग, पृ. ३१–३५ पळेयात.

री, तिसरी आनी चौथी भरून उडयात. त्याच प्रमाण वैर सकल
नी चोशीं सगळे जगत् विपुल, श्रेष्ठ, निस्सीम, अवैर आनी द्वेषरहित
ीन भरिल्ल्या चित्तान भरून उडयात. करुणेन भरिल्ल्या चित्तान...
दितेन भरिल्ल्या चित्तान.....उपेक्षेन भरिल्ल्या चित्तान भरून उडयात.
मण गोतम पसून असोच उपदेस करता. मागीर ताज्या आनी
मच्या उपदेसांत फरक खैंचो?" (बोज्झंगसंयुक्त, वग्ग ६, सुत्त ४)

शाक्य आनी कोलिय एकमेकांच्या शेजाराक रावताले आनी तांचो
ंद लागशिल्लो आशिल्लो. केन्ना केन्ना रोहणी न्हयेच्या उदकावेल्यान
चें मदीं झगडीं उपरासतालीं, असो उल्लेख जातकअट्ठकथेंत आनी हेर
ट्ठकथांतल्यांन जायतेकडेन आयला. त्या कोलियाच्या राज्यांत अन्य
थांतले परिव्राजक बौद्ध संघांतल्या भिक्षूंक वेलो प्रस्न विचारतात. हे
रिव्राजक थंय बऱ्याच वर्सांपसून रावताले जावंक जाय. तांगेले आस्रम
द्धान धर्मोपदेस करूंक सुरवात केल्याउपरांत स्थापन जालो ना; तो
लींपसूनच थंय आशिल्लो हें निश्चित. आनी हे परिव्राजक मैत्री, करुणा,
ुदिता आनी उपेक्षा ह्या चार ब्रह्मविहारांची धारणा करची, असो उपदेस
रीत.[८] तेन्ना ते कालामाच्याच पंथांतले आशिल्ले अशें समजूंक कितें
रकत? निदान हें ब्रह्मविहार बोधिसत्त्वाक तरणेपणींच खबर आशिल्ले
ानी तो तांचेर ध्यान करून प्रथमध्यान संपादतालो, ह्या विधानाक
ाधा येना.

## बोधिसत्त्वान घर त्यागपाक कारण कितें

्या उपरान्तचो म्हत्वाचो प्रसंग म्हळ्यार बोधिसत्त्व आपल्या राजवाड्यात-
्यान बागेकडेन वता, हो. शुद्धोदन म्हाराजान ताज्या वाटेंत कोणूच
म्हातारो, पिडेखोर वा मेल्लो मनीस येवं नये असो बंदोबस्त केला
आसतानाय देवता एक म्हातारो निर्माण करून ताज्या नदरेक खालतात;

---

८. ह्या ब्रह्मविहाराची फोडणिशी समाधिमार्गाच्या पांचव्या प्रकरणांत केल्या.

आनी बोधिसत्त्व विरक्त जावन आपल्या वाडयांत वता. दुसऱ्या खे
पिडेखोर, तिसऱ्या खेपेक मेल्लो मनीस आनी चौथ्या खेपेक एक परि
व्राजक, देवता ताका दाखैतात; ताका लागून तो सर्वंशीं विरक्त जाव
आनी घरदार त्यागून तत्वबोधाचो मार्ग सोदून काडपाक प्रवृत्त जात.
ह्या प्रसंगाची रसभरीत वर्णनां ललितविस्तर बी ग्रंथांत सापडटात. तीं
सर्वथैव ग्राह्य न्हयत अशें म्हणचें पडटा. जर बोधिसत्त्व बापायच्या बरो
बर वा एकटोच शेतार वचून वावर करतालो, आनी आडार काला
माच्या आस्रमांत वचून ताजें तत्त्वज्ञान शिकतालो, तर मागीर ताणे
म्हातारो, पिडेखोर आनी मेल्लो मनीस पळेलोना हे कशें संभवता? .

निमाण्या दिसा बोधिसत्त्व बागेंत गेल्लो आसतांना "देवतांनी एक
बेस बरो परिव्राजक निर्माण करून ताजें नदरेक हाडलो. तेन्ना बोधि
सत्त्वान सारथ्याक प्रस्न केलो, 'हो कोण रे?' जरी त्या वेळार—बोधि
सत्त्व बुद्ध न जाल्ल्या कारणांन—परिव्राजक कोण वा ताजे गुण खैंचे
हें सारथ्याक खबर नाशिल्लें तरी देवतांचे सासायेक लागून ताणें म्हळें
'हो परिव्राजक'; आनी ताणे प्रव्रज्येचे गुण वर्णिले," अशें जातक अट्ठ
कथाकारांचें म्हणणें. पुण जर कपिलवस्तूंत आनी शाक्यांच्या शेजारच्या
राज्यांत परिव्राजकांचे आस्रम आशिल्ले, तर बोधिसत्त्वाक वा ताज्या
सारथ्याक परिव्राजकांची मातय म्हायती नासची हें अजाप न्हय?

अंगुत्तरनिकायाच्या चतुक्कनिपातांत (सुत्त नं. १९५) वप्प शाक्याची
गोष्ट आयल्या. तो निर्ग्रंथ (जैन) श्रावक आशिल्लो. एकदां ताजो आनी
महामोग्गल्लानाचो संवाद चलिल्लो आसताना बुद्ध भगवान थंय आयलो,
आनी ताणें वप्पाक उपदेस केलो. तेन्ना वप्पान म्हळें, "निर्ग्रंथांच्या
(जैन साधूंच्या) उपासनांपसून म्हाका कांय फायदो जालो ना. आतां
हांव भगवन्ताचो उपासक जातां." अट्ठकथाकार वप्प हो भगवन्ताचो
बापोल्यो आशिल्लो अशें म्हण्टात. हें म्हणणें महादुक्खक्खन्धसुत्ताचे
अट्ठकथेकडेन जुळना. कितेंय जावं, वप्प नावांचो एक म्हालम्हातारो

ाक्य जैन आशिल्लो हातूंत दुबाव ना. हाजोच अर्थ बोधिसत्त्वाच्या जल्मा-नींच शाक्य देशांत जैन धर्माचो प्रसार जाल्लो. तेन्ना बोधिसत्त्वाक रिव्राजकांची म्हायती नाशिल्ली हे मुदलांतच संभवना.

मागीर ह्यो सगळचो अद्‌भुत गजाली बोधिसत्त्वाच्या चरित्रांत ायल्यो खैंच्यान? महापदानसुत्तांतल्यान.[१] म्हाताऱ्या मनशाक पळेतकच ाधिसत्त्वान सारथ्याक प्रस्न कसो केलो, ह्या संबंदान जातक अट्‌ठकथाकार हण्टा "महापदाने आगतनयेन पुच्छित्वा" (महापदानसुत्तांत आयिल्ल्या थेक अणसरून प्रस्न विचारून).

---

१. अपदान (सं. अवदान) म्हळयार सच्चरित्र. व्हडांच्या सच्चरित्रांचो ज्या सुत्तांत संग्रह आसा तें महापदानसुत्त. हातूंत पुर्विल्ल्या युगांतले स आनी आर्विल्ल्या युगांतलो गोतम बुद्ध मेळून सात बुद्धांचीं चरित्रां आरंबाक थोडच्याभितर दिवन मागीर विपस्सी बुद्धाचें चरित्र विस्तारात वर्णिलां. तो एक नमुनो आसून ते धर्तीर हेरां बुद्धाचीं चरित्रां वर्णुचीं अशें अट्‌ठ-कथाकार म्हण्टात. ह्या वर्णनांतलो चंडसो भाग हें सुत्त रचचे आदीं वा उपरान्त बुद्धाच्या चरित्रांत दाखल केलात आनी ते खुद्द त्रिपि-टकांत वेगवेगळेकडेन सांपडटात. उद्यानदर्शनाचो भाग मात त्रिपि-टकांत ना. तो जातक अट्‌ठकथाकारान उखल्ला. ते आदीं ललित-विस्तरांत आनी बुद्धचरित काव्यांत हे कथेचो समावेश जाल्लो.

गोतम बोधिसत्त्वाखातीर तीन वाडे बांदिल्ले ही गजाल हांव इतिहासीक समजतालों. परन्त ती लेगीत कल्पित आसुंये. कारण शुद्धोदन सारकेलो खासा आंग मोडून काम करपी भाटकार आपल्या चल्याखातीर तीन वाडे बांदीत हें शक्य दिसना. 'दीघनिकाय' भाग दुसरो, भाषांतरकार परलोकवासी चिंतामण वैजनाथ राजवाडे, (प्रकाशक, ग्रंथसंपादक व प्रकाशक मंडळी, नं. ३८०, ठाकुरद्वार रोड, मुंबई नं. २) ह्या ग्रंथाच्या आरंबाकच महापदानसुत्ताचें मराठी भाषांतर आयलां. तें जिज्ञासू वाचप्यांनी मुजरत वाचचें.

म्हणजे ह्यो सगळ्यो अद्भुत कथा महापदान सुत्तावेल्यान घेतल्या अशें म्हणचें पडटा.

तर मागीर बोधिसत्त्वाक घरदाराचो त्याग करूंक कारण कि जालें जायत? हाजें उत्तर अत्तदण्डसुत्तांत खासा बुद्ध भगवानच दिता.

अत्तदण्डा भयं जातं, जनं पस्सथ मेधकं।
संवेगं कित्तयिस्सामि यथा संविजितं मया ॥ १ ॥
फन्दमानं पजं दिस्वा मच्छे अप्पोदके यथा।
अञ्ञमञ्ञेहि व्यारुद्ध दिस्वा मं भयमाविसि ॥ २ ॥
समन्तमसरो लोको, दिसा सब्बा समेरिता।
इच्छं भवनमत्तनो नाद्दसासिं अनोसितं।
ओसाने त्वेव व्यारुद्धे दिस्वा मे अरती अहु ॥ ३ ॥

(१) शस्त्रधारण धोक्याचें दिसलें. (ताका लागून) ही जनता कशी झगडटा पळेयात! म्हाका संवेग (वैराग्य) कसो उत्पन्न जालो हें सांगता (२) उण्या उदकांत नुस्तें जशें तडफडटा, ते भशेन आपसांत विरोध करून तडफडपी प्रजेकडेन पळौन म्हज्या अन्तस्करणांत भय रिगलें. (३) चोंशीं जग पडंग दिसूंक लागलें, सगळ्यो दिको कंपित जाल्यात अशें दिसलें आनी तांतूंत आस्रयाची सुवात सोदता आसतांना निर्भय अशें स्थळ सांपडना जालें. कारण अखेरमेरेन सगळी जनता एकमेकांआड जाल्लीच दिशिल्ल्यान म्हाका उबगण आयली.

रोहिणी न्हयेच्या उदकाखातीर शाक्य आनी कोलिय झगडताले; एक फावट तर दोगांनीय आपापलीं सैन्यां सज्ज करून रोहिणी न्हयेकडेन व्हेली; आनी त्या प्रसंगार बुद्ध भगवान दोनय सैन्या मजगती येवन ताणें हें सुत्त उपदेसलें. असो उल्लेख जातकअट्ठकथेंत जायतेकडेन आयला. पुण तो विपर्यस्त आसूंये अशें दिसता. शाक्यांक आनी कोलियांक भगवान बुद्धान उपदेस केलो जायत आनी तांची झगडीं पालेलीं जायत. परन्त

्या प्रसंगार हें सुत्त उपदेसपाचें कांय कारण दिसना. आपणांक वैराग्य कशें प्राप्न जालें आनी आपूण घरातल्यांन कित्याक भायर सल्लो, हें ह्या सुत्तांत भगवान सांगना. रोहिणी न्हयेच्या उदकावेल्यान वा अशाच शुल्लक कारणाखातीर शाक्य आनी कोलिय हांचें तंटे जाताले. त्या प्रसंगार आपणें शस्त्र धरचें काय ना, हो बोधिसत्त्वाक प्रस्न पडलो जावयें. पुण शस्त्रान हे तंटे पालवप शक्य नाशिल्लें. शाक्य आनी कोलिय हांचे तंटे बळजबरेन पालैले जाल्यारय ते पालौंचे नाशिल्ले. कित्याक म्हळचार, ते पालै-तल्याक परत शेजारच्या राजाआड शस्त्र धरचें पडटालें आशिल्लें; आनी जर ताणे ताकाय जिखता, तर ताज्या पेलेकडच्या राजाक जिखप ताकां भाग पडटालें आशिल्लें. अशा भशेन हातांत शस्त्र घेतिल्ल्यान जंय थंय जैंत मेळैल्याबगर गत्यंतर उरचें नाशिल्लें. पुण तें मेळैलें तरी ताका शान्ती खंच्यान मेळटली आशिल्ली? पसेनदि, कोसल आनी बिंबिसार हांचे पूतच तांचे दुस्मान जाले तर मागीर अशें शस्त्र घेतिल्ल्यान लाब कितें? अखेरमेरेन झगडत रावप होच! ह्या सशस्त्र प्रवृत्तिमार्गाचो मायेस्त बोधिसत्त्वाक कंठाळो आयलो आनी ताणे शस्त्रनिवृत्तीचो मार्ग पत्कल्लो.

सुत्तनिपातांतल्या पब्बज्ज्या सुत्तांत आरंबाकच सकल्यो गाथा आसात.

> पब्बजं कित्तयिस्सामि, यथा पब्बजि चक्खुमा,
> यथा वीमंसमानो सो पब्बजं समरोचयि ॥ १ ॥
> संबाधोऽयं घरावासो रजस्सायतनं इति ।
> अब्भोकासो च पब्बज्जा इति दिस्वान पब्बजि ॥ २ ॥

'(१) चक्षुष्मन्तान प्रव्रज्या कित्याक घेतली आनी ताका ती खैंच्या विचारान आवडली हें सांगून (ताज्या) प्रव्रज्येचे हांव वर्णन करतां.

(२) गृहस्थाश्रम म्हळचार अडचणीची आनी कोयराची सुवात आनी प्रव्रज्या म्हळचार मेकळी हवा, अशें जाणून तो परिव्राजक जालो.'

ह्या म्हणण्याचो आधार मज्झिमनिकायांतल्या महासच्चक सुत्तांतय सांपडटा. थंय भगवान म्हण्टा, " अग्गिवेस्सना, संबोधिज्ञान जावचे पैलीं बोधिसत्त्व आसतानाच म्हाका दिसलें, ' गृहस्थाश्रम अडचणीची आनी कोयराची सुवात. प्रव्रज्या म्हळचार मेकळी हवा. गृहस्थाश्रमांत रावन अत्यंत परिपूर्ण आनी परिशुद्ध ब्रह्मचर्य पाळप शक्य ना. म्हणून मुंडण करून आनी भगवीं घालून घरातल्यान भायर सरून परिव्राजक जावप योग्य.' "

परन्त अरियपरियेसनसुत्तांत हाजेपरस मात्शें वेगळें कारण दिलां. भगवान म्हण्टा, " भिक्षुनो, संबोधिज्ञान जावचेंपैलींच बोधिसत्त्व आसतानाच खासा हांव जल्मधर्मी आसतानाय, जल्माच्या फेऱ्यांत सांपडिल्ल्या वस्तूंच्या (भुरगीं, बायल, दासदासी बी च्या) फाटल्यान लागिल्लों (म्हळचार म्हजें सुख तांचेर आधारून आसा अशें म्हाका दिसतालें) खासा जराधर्मी आसताना, व्याधिधर्मी आसताना, मरणधर्मी आसताना, शोकधर्मी आसताना, जरा, व्याधि, मरण, शोक हांच्या फेऱ्यांत सांपडिल्ल्या वस्तूंच्याच फाटल्यान लागिल्लो. तेन्ना म्हज्या मनांत असो विचार आयलो कि, खासा हांव जल्म, जरा, मरण, व्याधि आनी शोक हाणी संबद्ध आसताना ताणींच संबद्ध जी बायलभुरगीं बी तांच्या फाटल्यान लागलां, हे योग्य न्हय; तर मागीर हांवे ह्या जल्मजरादिकांनी जावपी हानी पळौन अजात, अजर, अव्याधि, अमर आनी अशोक अशें जे परमश्रेष्ठ निर्वाणपद ताजो शोध करप हें योग्य."

ह्याप्रमाण बोधिसत्त्वाच्या प्रव्रज्येक साधारणपणान तीन कारणां दिल्यांत. (१) आपल्या आप्तांनी एकमेकांकडेन लडपाखातीर शस्त्र धारण केल्ल्यान ताका भंय दिसलें; (२) घर अडचणीची आनी कोयराची सुवात अशें दिसलें; आनी (३) आपूण जल्म, जरा, मरण, व्याधि हाणी संबद्ध आसताना अशाच प्रकारच्या वस्तूंचेर आसक्त जावन रावंक कामा नये अशें दिसलें. ह्या तीनय कारणांची संगती लावप शक्य आसा.

बोधिसत्त्वाचे जातभाव शाक्य आनी कोलिय हांचेंमदीं झगडीं झुजां उत्पन्न जालीं, आनी त्या प्रसंगांत आपणें तातूंत पडचें काय ना हो बोधिसत्त्वाक प्रस्न पडलो. मारामारीन हीं झगडीं मेटचीनात हें ताणे जाणलें पुण आपुण तांतूत पडलोना जाल्यार लोक आपणांक भेजूड म्हण्टले आनी आपणें गृहस्थाचो धर्म पाळ्ळोना अशें जातलें. अर्थात् गृहस्थाश्रम ताका अडचणेची सुवात दिसूंक लागली. त्या परस संन्याशी जावन निरपेक्षपणान रानावनांत हेडत रावप कितें वायट आशिल्लें? परन्त ताजें आपलें बायलेचेर आनी चल्याचेर. प्रेम आशिल्ल्यान काडून वचप ताका खूब कुस्तार जालें. तेन्ना तांकां आनीकय येवजुंचें पडलें. खासा हांव जल्म–जरा–व्याधि–मरण हांचो धर्मी जाल्ल्यान अशाच सभावान बद्ध जाल्ल्या बायलेभुरग्याचेर बी आसक्त जावन ह्या अडचणीच्या आनीक कोयराच्या गृहस्थाश्रमात पडून रावप योग्य न्हय अशें तांकां दिसलें; आनी म्हणून तो परिव्राजक जालो. ह्या तीनय कारणांन मुख्य कारण म्हळयार शाक्यांच्यो आनी कोलियांच्यो आपसातल्यो मारामाऱ्यो, हें लक्षांत दवल्लें जाल्यार बोधिसत्त्वान फुडें बुद्ध जावन सोदून काडिल्ल्या मध्यम मार्गाचो अर्थ नीट समजतालो.

## राहुल कुमार

बोधिसत्त्वाचें लग्न तरणेपणांत जावन घर सोडून वचचें पैलीं ताका राहुल नांवाचो चलो आशिल्लो, हाकां त्रिपिटकांत जायते कडेन आधार सांपडटा. जातकाचे निदान कथेंत राहुल कुमार ज्या दिसा जल्मलो तेच राती बोधिसत्त्वान घर त्यागलें अशें म्हळां. पुण दुसऱ्या अट्ठकथाकारांचें म्हणणें अशें दिसतां कि, राहुल कुमार जाल्ल्याच्या सातव्या दिसा ताणें घर त्यागलें. ह्या दोनय विधानांक पुर्विल्ल्या वाङमयांत आधार सांपडना. इतलें निश्चित कि, बोधिसत्त्वान घरा त्यागचेपैलीं ताका राहुल नांवाचो एक चलो आशिल्लो. गोतम बोधिसत्त्व बुद्ध जावन कपिलवस्तूंत आयलो, आनी त्या प्रसंगार ताणे राहुलाक दीक्षा दिली, अशीं वर्णनां महावग्गांत आनी हेरकडेन,

सांपडटात. त्या वेळार राहुल सात वर्सांचो आशिल्लो, अशें अट्ठकथांनी जायते कडेन म्हळां. राहुलाक भगवन्तान श्रामणेर केलो काय कितें आनी तो तेन्ना कितल्या वर्सांचो आशिल्लो हाचो विचार सव्या प्रकरणांत जातलो. कित्याक म्हळ्यार, श्रामणेराचो संबंद भिक्षुसंघाकडेन येता.

## राहुलमाता देवी

राहुलाचे आवयक महावग्गात आनी जातकअट्ठकथेंत सर्वत्र ' राहुलमाता देवी ' म्हळां. यसोधरा (यशोधरा) हे तिजें नांव फकत अपदान ग्रंथात सांपडटा. जातकाच्या निदानकथेंत म्हळां कि, " जेन्ना आमचो बोधिसत्त्व लुम्बिनी वनांत जल्मलो, तेन्नाच राहुलमाता देवी, छन्न अमात्य, काळुदायि (काळो उदायि) अमात्य, कंथक अश्वराजा (बुद्धगयेचो), महाबोधिवृक्ष आनी चार निधिकुंभी (द्रव्यान भरिल्ले रांजण) उत्पन्न जाले." हातूंत बोधिवृक्ष आनी ठेवीचे रांजण त्याच वेळार उत्पन्न जाले, ही शुद्ध दन्त-कथा समजूंक जाय. पुण बोधिसत्त्व, राहुलमाता, छन्न आनी काळा उदायि हीं एकाच वेळार जल्माक आयलीं नासलीं तरी सारक्या वयाचीं आशिल्लीं अशें मानूंक हरकत ना. राहुलमातेचे देहावसान ७८ व्या वर्सा म्हळ्यार बुद्धाच्या परिनिर्वाणाआदी दोन वर्सां जालें जावंये. अपदानात (५८४) ती म्हण्टा,

अट्ठसत्ततिवस्साहं पच्छिमो वत्तत्ति भवो ।
.... .... ....
पहाय वो गमिस्सामि कतम्मे सरणमत्तनो ।।

' हांव आज ७८ वर्सांचीं. हो म्हजो निमाणो जल्म. तुमकां हांव सोडून वतलीं. म्हजी मुक्ती हांवें संपादल्या. '

ह्या निमाण्या जल्मांत आपुण शाक्य कुळांत जालीं अशेंच ती म्हण्टा. परन्त त्या कुळाची म्हायती खैंच सांपडना. ती भिक्षुणी जावन रावली आनी ७८ व्या वर्सा बुद्धासरी वचून तिणे वैर दिल्ल्या प्रमाण भाषण केलें अशें अपदानकाराचें म्हणणें दिसता. पुण भिक्षुणी जाल्याउपरांत तिणे

चोच उपदेस केल्ल्याचो वा तिजो कशेच तरेन बौद्ध संघाकडेन संबंद यिल्ल्याचे दिसून येना. तेन्ना ती खऱ्यानीय भिक्षुणी जाली काय ना खात्रीन सांगूंक येवप कठीण. अपदान ग्रंथात तिजें नांव यशोधरा आनी लितविस्तरांत गोपा अशें आयलां. तेन्ना ह्यांपैकीं तिगेलें खरेलें नांव चें, काय ही दोनय नांवा तिजींच हे समजना.

## गृहत्यागाचो प्रसंग

धिसत्त्वान गृहत्याग केलो ते रातीं आपणाल्या राजवाड्यांत बशिल्लो. ज्या परिवारांतल्या बायलांनी गायन, वादन बी करून ताका रिझौपाची ब खटपट केली. पुण बोधिसत्त्व तांतूंत रमलोना. अखेर त्यो बायलो बगल्यो आनी तांका न्हीद लागली. कोण वथरेताल्यो; तर कोणाच्या तोण्डा-ल्यान लाळ गळटाली. बोधिसत्त्वाक तांचो भयंकर कंटाळो आयलो; नी ताणी सकल वचून छन्न सारथ्याक उलो मारून जागो केलो. छन्नान थक नांवाचो घोडो सज्ज करून हाडलो. बोधिसत्त्व ताजेर आरूड लो आनी छन्न घोड्याची शेंपडी धरून रावलो. देवतांनी त्या दोगां र्तीर नगराचो दरवाजो उक्तो केलो. तांतल्यान भायर सरून ते दोगय नोमा नांवाच्या न्हयेचे देगेर गेले. थंय बोधिसत्त्वान आपले केस आपल्या रसादीन कापून उडैले. आनी दागदागिने छन्नाच्या सुवादीन करून धिसत्त्व राजगृहाक गेलो. बोधिसत्त्वाच्या वियोगाक लागून कंथकान नौमा न्हयेचेरच कूड सोडली आनी छन्न सारथी दागदागिने घेवन कपिल-स्तूक गेलो.

निदानकथेतलो हो सारांश. निदानकथेत, ललितविस्तरांत आनी द्धचरित काव्यांत ह्या प्रसंगाचीं रसभरीत वर्णनां मेळटात; आनी तांचो द्ध चित्रकलेचेर बेस बरो परिणाम जाला. परन्त तांच्यात निखालस थ्य ना. आसल्यार खूबच थोडें आसुंये. कित्याक तर, चडात चड पुरातन तांत ह्या असंभाव्य दंतकथेक बिलकुल आधार सांपडना.

अरियपरियेसनसुत्तांत खासा भगवान बुद्ध आपल्या गृहत्यागाची गजाल सांगता, ती अशी :—

सो खो अहं भिक्खवे अपरेन समयेन दहरो व समानो सुसु काळकेसो भद्रेन योब्बनेन समन्नागतो पठमेन वयसा अकामकानं मातापितुन्नं अस्सु-मुखान रुदन्तानं केसमस्सुं ओहारेत्वा कासावानि वत्थानि अच्छादेत्वा अगारस्मा अनगारियं पब्बजिं ।

' भिक्षनो, असो विचार करता आसताना कांय काळान, जरी तेन्ना हांव तरणो आशिल्लो, म्हजो एकय केंस पिकूंक नाशिल्लो, हांव ऐन ज्वानींत आशिल्लों आनी म्हजो आवयबापूय म्हाका परवानगी दीनाशिल्लों, दोळयां-तल्यां दुखांच्या झरींनीं तांची तोंडां भिजिल्ली, तीं सारकीं रडटालीं, तरी हांव (त्या सगळयांची पर्वा करिनासताना) माथ्याचें मुंडण करून, भगव्या वस्त्रांनी शरीर धांकून, घरातल्यान भायर सल्लों (हांव सन्याशी जालों).'

होच उतारो जशाचो तसो महासच्चकसुत्तांत सांपाडटा. हाजेवेल्यान बोधिसत्त्व घरच्या कोणाकच कळूंक दीनासताना छन्नासैत कंथकाचेर स्वार जावंन पळून गेलो हें म्हणणें साप चुकीचें अशें दिसता. बोधि-सत्त्वाची खुद्द आवय मायादेवी जरी तो जाल्ल्याच्या सातव्या दिसा भायर पडिल्ली तरी ताजें पालन महाप्रजापति गोतमीन स्वताच्या चलयाभशेनच केल्लें. अर्थात वेल्या उताऱ्यांत तिकाय बुद्ध भगवन्तान आवय म्हळां जावंक जाय. शुद्धोदनाक आनी गोतमीक तो परिव्राजक जातलो हें खूब दिसांपसून खबर आशिल्लें, आनी तांचे इत्सेआड आनी तांच्या समक्षच ताणे प्रव्रज्या घेतली हें ह्या उताऱ्यावेल्यान स्पष्ट जाता

प्रकरण पांचवें

# तपच्छर्या आनी तत्त्वबोध

## आळार कालामाची भेट

घर सोडून बोधिसत्त्व थेट राजगृहाक गेलो, थंय ताजी आनी बिंबिसार राजाची भेट जाली, आनी त्या उपरान्त तो आळार कालामाकडेन वचून तागेलें तत्त्वज्ञान शिकलो, अशा अर्थाचें वर्णन जातकाच्या निदानकथेंत सापडटा. अश्वघोषान बरैल्या बुद्धचरित काव्यांत निदानकथेचोच क्रम घेतला. ललितविस्तरांत 'बोधिसत्त्व पैलीं वैशालीक गेलो आनी थंय, आळार कालामाचो शिष्य जालो, आनी उपरांत राजगृहाक गेलो, थंय बिंबिसार राजान ताजी भेट घेतकच तो उद्दक रामपुत्तासरीं गेलो.' अशें तरेचें सविस्तर वर्णन आसा. पुण हीं दोनय वर्णनां पुर्वील्या सुत्तांकडेन जुळनात. वैर दिल्या आर्यपरियेसन सुत्ताच्या उताऱ्यांत बोधिसत्त्वान घरा आसतानाच आवयबापाय समक्ष प्रव्रज्या घेतली अशें म्हळां. त्या उपरांत गोखडोच हो मजकूर मेळटा :–

सो एवं पब्बजितो समानो किंकुसलगवेसी अनुत्तरं सन्तिवरपदं परियेसमानो येन आळारो कालामो तेनुपसंकमिं ।

(भगवान म्हण्टा) "ह्या प्रमाण प्रव्रज्या घेतकच हिताचो मार्ग खैंचो हें जाणून घेवपाच्या उद्देशान श्रेष्ठ, लोकोत्तर, शान्त, तत्त्वाचो सोद घेत हांव आळार कालामाकडेन गेलो."

ह्या उताऱ्यावेल्यान अशें दिसून येता कि, बोधिसत्त्व राजगृहाक वचनासताना पैलीं आळार कालामाकडेन गेलो. आळार कालाम कोसल

देशाचोच रैवाशी आशिल्लो. अंगुत्तरनिकायाच्या तिकनिपातात (सुत्त नं. ६५) कालाम नांवाच्या क्षत्रियाच्या केसपुत्र शाराचो उल्लेख आयला. ताजेवेल्यान अशें दिसता कि, त्याच कालमांपैकीं आळार कालाम हो एक आशिल्लो. शाक्य आनी कोलिय राज्यांत ताजी बरीच ख्याती आशिल्ली. ताज्या एका शिष्याचो–भरण्डू कालामाचो–आस्रम कपिलवस्तूक आशिल्लो, हें वैर सांगलांच. दुसरें ताजें वा चड जाल्यार उद्दक रामपुत्ताचें शिष्य लागशिल्ल्या कोलियांच्या देशांत रावताले; आनी ह्या संप्रदायाचें प्रस्थ शाक्य आनी कोलिय देशांत बरेंच आशिल्लें, हातूंत दुबाव ना. बोधिसत्त्व प्रथमध्यानाची पद्धत ह्याच परिव्राजकांकडल्यान शिकलो, आनी तांणींच ताकां संन्यासाची दीक्षा दिली जातली.

परन्त शाक्य वा कोलिय देशांतल्या एकाद्र्या आस्रमांत रावन काळ कंठप बोधिसत्त्वाक योग्य दिसलें ना. हिताच्या मार्गाचो आनी श्रेष्ठ, लोकोत्तर, शान्त तत्त्वाचो बोध करून घेवपाखातीर ताणें खुद्द आळार कालामाची भेट घेतली. त्या वेळार आळार कालाम कोसल देशांत खंय तरी रावतालो जावंये. ताणे बोधिसत्त्वाक चार ध्यानां आनी तांच्या वेले तीन पांवंडे शिकैले. पुण ह्या समाधीच्या केवळ सात पांवंड्यांनी ताजें समाधान जालें ना. हो मार्ग मनोनिग्रहाचो आशिल्लो खरो, पुण सगळ्या मनीस जातीक ताजो उपेग कितें? ह्याच खातीर हिताच्या मार्गाचो सोद बोधिसत्वान फुडें चलैलो.

## उद्दक रामपुत्ताची भेट

आळार कालाम आनी उद्दक रामपुत्त हे दोगय एकच समाधिमार्ग शिकैताले. तांच्यान फरक आशिल्लो तो इतलोच कि, आळार कालाम समाधीचे सात पांवंडें शिकैतालो तर उद्दक रामपुत्त आठ पांवंडे शिकैतालो. ह्या दोगांचोय कोणय पुण एकच गुरु आसूंये आनी उपरांत तांणी हे दोन पंथ काडले जावंये. आळार कालामाक सोडून बोधिसत्त्व उद्दकाकडेन गेलो

पुण ताज्याय मार्गांत ताका विषेश तथ्य दिसलें ना. तेन्ना राजगृहाक वचून थैंच्या प्रसिद्ध श्रमणपंथांचें तत्त्वज्ञान जाणून घेवपाचो ताणें निच्छय केलो.

## बिंबिसार राजाची भेट

राजगृहांत जाल्ल्या बोधिसत्त्वाच्या आगमनाचें वर्णन एका अज्ञात कवीन सुत्तनिपातांतल्या पब्बज्जासुत्तांत केलां. ताजें भाषान्तर अशें —

१. चक्षुष्मन्तान (बोधिसत्त्वान) प्रव्रज्या कित्याक घेतली आनी खैंच्या विचारान ताका ती आवडली हें सांगून (ताजे) प्रव्रज्येचे हांव वर्णन करतां.

२. गृहस्थास्रम ही अडचणेची आनी कोयराची सुवात आनी प्रव्रज्या म्हळ्यार मेकळी हवा अशें जाणून ताणे प्रव्रज्या घेतली.

३. प्रव्रज्या घेवन ताणे कायेचे पापकर्म वर्ज्य केलें. वाचेचें दुर्वर्तन सोडून दिलें आनी आपली गुजराण निवळ मार्गान चलैली.

४. बुद्ध मगधाच्या गिरिव्रजाक (राजगृहाक) आयलो. सगळ्या आंगार उत्तम लक्षणां पातळल्यांत अशा ताणे राजगृहाक भिक्षाटणाखातीर प्रवेश केलो.

५. आपल्या राजवाडयावेल्यान बिंबिसारान ताका पळैलो. ताज्या लक्षणांची गिरेस्त काय पळौन बिंबिसारान म्हळें,

६. " लोकांनो, म्हजें आयकात—हो सुंदर, भव्य, शुद्ध आनी आचरणान संपन्न आसून पायांकडेन दोन हाताच्या अन्तरार नदर दवरून चलता. (युगमत्तं च पेक्खति).

७. हो नदर पायांकडेन दवरून चलपी जाग्रुत भिक्षू उणाक कुळा-तलो दिसना. तो खंय वता, हे राजदूताक धावत वचून पळौं दी.

८. तो भिक्षू (बोधिसत्त्व) खंय वता आनी खंय रावता हे पळौंपा-खातीर ते (बिंबिसार राजान धाडिल्ले) दूत ताज्या फाटोफाट गेले.

९. इन्द्रियांची राखण करीत घरोनघरची भिक्षा घेवन विवेकी आनी जाग्रुत अशा बोधिसत्त्वान रोखडीच पात्रभर भिक्षा मेळैली.

१०. भिक्षाटण सोपौन तो मुनी नगरांतल्यान भायर सल्लो आनी वस्तीक हांगा रावतालो अशा विचारान पाण्डव पर्वतासरीं आयलो.

११. ताका वस्तीक राविल्लो पळौन ते दूत ताज्या म्हऱ्यांत बसले आनी तांचेपैकीं एकान वचून राजाक खबर दिली.

१२. "म्हाराज, तो भिक्षू पाण्डव पर्वताचे पुर्वेक वागाभशेन, बैलाभशेन वा रानाघळींनी रावपी शिंवाभशेन बसला!"

१३. तें दूताचें वाक्य आयकून तो क्षत्रीय (राजा) उत्तम वहानांत बसलो आनी तार्कातिकेंत पाण्डव पर्वताकडेन वचूंक भायर सल्लो.

१४. जंयमेरेन वहानान वचप शक्य आशिल्लें थंयमेरेन वचून तो क्षत्रिय वहानांतल्यान सकल देंवलो आनी पांयांनीच (बोधिसत्त्वाच्या) म्हऱ्यांत येवन, ताजेसरीं बसलो.

१५. थंय बसून राजान ताका कुशळ प्रस्न बी विचारून तो अशे भशेन उल्लैलो.

१६. "तूं जुवान आनी तरणो; मनशाच्या पैल्या वयांतलो. तुजी कांत कुळीन क्षत्रियाभशेन अत्यंत तेजिष्ट दिसता.

१७. "तू हतयांचो तांडो बरोबर घेवन म्हज्या सैन्याक सोब हाड. हांव तुका संपत्ती दितां, तिजो उपभोग घे; आनी आतां तुजी जात कितें तें म्हाका सांग."

१८. "हे राजा, हांगच्यान सरळ हिमालयाच्या मुळसांत धनान आनी वीर्यान संपन्न -- जो कोसल राष्ट्रांत मोडटा असो देश आसा.

१९. "तांचें (थैंच्या म्हाजनाचे) गोत्र आदित्य आनी तांचें जातीक शाक्य म्हण्टात. त्या कुळातल्यान, आगा राया, हांव परिव्राजक जालों, तो कितें कामोपभोगाचे इत्सेन न्हय.

२०. "कामोपभोगात म्हाका दोष दिसलो आनी एकान्तवास सुखाचो दिसलो. आता हांव तपच्छर्ये खातीर चल्लों. त्या मार्गांन म्हजें मन रमता."

ह्या सुत्ताचे तिसरे गाथेंत बोधिसत्त्वान काया, वाचा आनी जिविका हांचें संशोधन केल्ल्याचो उल्लेख आयला. हें काम घरांतल्यान भायर सल्ल्या उपरांत वाटेतल्या वाटेंत ताका करूंक येवप शक्य दिसना. आळार कालाम आनी उद्दक रामपुत्त हांचेंसरीं रावन तांचें आचारविचार नीट सांबाळून ताणे हें काम केलें जावंये अशें दिसता. पुण इतल्यान ताजें समाधान न जाल्ल्यान प्रसिद्ध श्रमणनायकांचे तत्त्वज्ञान समजून घेवचें म्हणून तो राजगृहाक आयलो. थंय त्या सगळ्या संप्रदायांमदीं आगळी उणी तपच्छर्या पळौंक मेळिल्ल्यान आपणें अशीच तपच्छर्या करूंक जाय अशें ताका दिसलें, आनी म्हणूनच ह्या सुत्ताचे निमाणे गाथेंत, 'आता तपच्छर्ये खातीर चल्लों.' अशें तो म्हण्टा. कामोपभोगांतल्यान ताजें मन पैलींच कडेक सरिल्ल्यान मगध राजान दिवंक काडिल्लो अधिकार ताका रूचलो ना, हें सांगूकच नाका.

## उरुवेलेक आगमन

राजगृहाच्यान बोधिसत्त्व उरुवेलेक आयलो आनी तपच्छर्या करपाखातीर हें स्थळ ताणें पसन्त केलें. ताजें वर्णन अरियपरियेसन सुत्तांत सांपडटा.

भगवान म्हण्टा, "भिक्षूनो, तो हांव कुशळ कितें हें जाणपाच्या हेतान लोकोत्तर शान्तीच्या श्रेष्ठ स्थळाचो शोध करीत करीत क्रमश: प्रवास करून उरुवेलेक सेनानिगमाक आयलो, थंय हांवें सोबीत वाठार पळेलो. तांतूत सोबिवन्त वन आसून न्हय मंद व्हांवताली. तिजे दोनय वाटेयां धवी सफेद वेळ आनी उतार सोपो, आनी ती अत्यंत रम्य. ह्या वनाचे चारुयवाटेयां भिक्षाटण करपाखातीर गांव दिसलो. हो वाठार रम्य आशिल्ल्यान कुळीण मनशाक तपच्छर्या करपाक योग्य दिसून हांवें तेच सुवातेर तपच्छर्या चलैली."

राजगृहाचे भोंवतणीं ज्यो दोंगूल्यों आसात तांचेर निर्ग्रंथ बी श्रमण तपच्छर्या करताले असो उल्लेख बरेच कडेन सांपडटा. पुण बोधिसत्त्वाक

तपच्छर्येखातीर ते रूक्ष पर्वत आवडले नात; उरुवेलेचो रम्य प्रदेश आवडलो. ह्यावेल्यान सैमाच्या सौंदर्याचेर आशिल्ले ताजे प्रेम उक्तें जाता.

## तीन ओपारी

तपच्छर्येक आरंब करचेपैलीं बोधिसत्त्वाक तीन ओपारी सुचल्यो. ताचें वर्णन महासच्चकसुत्तांत केल्लें आसा. भगवान म्हण्टा, "आगा अग्गिवेस्सना, एकाद्रें ओलें लांकूड उदकांत पडिल्लें आसलें, आनी एकाद्रो मनीस उत्तरारणि घेवन ताजेर घांसून उजो निर्माण करूंक लागलो, तर ताजे पसून तो उत्पन्न जायत व्हय?"

सच्चक –– भो गोतम, त्या लाकडांतल्यान उजो निर्माण जावप शक्य ना. कित्याक तर, तें ओले आसा. त्या मनशाचे स्रम व्यर्थ वचून ताका त्रास मात जातलो."

भगवान––त्याचप्रमाण, आगा अग्गिवेस्सना, जे कोण श्रमण आनी ब्राह्मण कायेन आनी मनान कामोपभोगापसून अलिप्त जाले नात आनी ज्यांचो कामविकार न्हिवलो ना तांणी कितलेय कष्ट भोगले तरी तांका ज्ञानदृष्टी आनी लोकोत्तर संबोध प्राप्त जावचेलो ना. आगा अग्गिवेस्सना म्हाका दुसरी ओपार अशी सुचली कि, एकाद्रे ओले लांकूड उदकांतल्यान भायर पडिल्लें आसलें आनी एकाद्रो मनीस उत्तरारणि घांसून तांतल्यान उजो उत्पन्न करपाची खटपट करूंक लागलो, जाल्यार तांतुंतल्यान तो उत्पन्न जायत व्हय?"

सच्चक – ना, भो गोतम, ताजी खटपट फुकट वचून ताका त्रास मात जातलो. कित्याक तर, हें लांकूड ओले आसा.

भगवान – त्याच प्रमाण, आगा अग्गिवेस्सना, जे श्रमण आनी ब्राह्मण कामोपभोग सोडून कायेन आनी मनान तांचेपसून अलिप्त रावल्यात खरे, पुण ज्यांच्या मनांतले कामविकार न्हिविल्ले नात. तांणी जरी

कितलेय कष्ट सोंसले तरी तांचेंपसून तांकां ज्ञानदृष्टी आनी लोकोत्तर संबोध प्राप्त जावपाचो ना. आगा अग्गिवेस्सना, तिसरीय एक ओपार म्हाका सुचल्या. येकाद्रें सुकें लांकूड, उदकापसून पैस पडिल्लें आसा, आनी एकाद्रो मनीस ताजेर उत्तरारणि घासून उजो उत्पन्न करूंक लागलो तर ताका तो उत्पन्न करूंक येत काय ना?

सच्चक – हय येतलो, भो गोतम, कारण तें लांकूड सामकें सुकें सड-सडीत आसा, आनी उदकांत पडिल्लें ना.

भगवान – त्याचप्रमाण, आगा अग्गिवेस्सना, जे श्रमण ब्राह्मण कायेन आनी मनान कामोपभोगांपसून पैस रावतात, आनी ज्यांचे मनातले कामविकार समूळ ना जावन गेल्यात, तांणी कुडीक अत्यंत कष्ट दिले कितें वा ना दिले कितें, तांकां ज्ञानदृष्टी आनी लोकोत्तर संबोध प्राप्त जावप शक्य आसा.

ह्यो तीन ओपारी बोधिसत्त्वाक तपच्छर्येक आरंब करताना सुचल्यो. जे श्रमण ब्राह्मण यज्ञयागादिकांतच समाधान मानतात, तांणी तशा प्रसंगार तपच्छर्या करून शरिराक कष्ट दिले, तरी तांकां तत्त्वबोध जावपाचो ना. दुसरे श्रमण ब्राह्मण यज्ञयागाचो मार्ग सोडून जंगलांत वचून रावले, पुण जर तांच्या अंतस्करणांतले कामविकार ना जाले नात, तर तांच्या तपच्छर्येपसून कांयच निष्पन्न जावचें ना. ओल्या लांकडार उत्तरारणि घांसून उजो उत्पन्न करपाप्रमाण तांचो यत्न फुकट वतलो. पुण जर एकाद्रो मनीस कामोपभोगांपसून पैस रावन मनांतले कामविकार समूळ ना करूंक शकलो, जाल्यार ताका देहदंडाबगर तत्त्वबोध प्राप्त करून घेवंक येतलो.

## हठयोग

बोधिसत्त्वाक ह्यो ओपारी सुचल्यो, तरी ताणे त्या काळच्या श्रमणवेव्हाराक रून कडक तपच्छर्या करपाचो निच्छेय केलो. सुरवेक ताणे हठयोगाचेर

भर दिलो. भगवान सच्चकाक म्हण्टा, " आगा अग्गिवेस्सना, हांव जेन्ना दांतकडी दामून आनी जीब ताळवेंक लावन म्हज्या चित्ताचें दमन करतालों, तेन्ना म्हज्या खांक्यांतल्यान हूम सुट्टाली. जसो एकाद्रो बलिष्ट मनीस दुर्बळ मनशाक तकलेक वा खांदाक धरून दामता, तसो हांव म्हजें चित्त दामतालों.

"आगा अग्गिवेस्सना, त्या उपरांत स्वास उस्वास दामून हांव ध्यान करूंक लागलों. त्यावेळार म्हज्या कानांतल्यान स्वास भायर सरिल्याचो आवाज जांवंक लागलो. जसो मेस्ताचो भातो चलता, तसो म्हज्या कानांतल्यान आवाज येवंक लागलो. तरी पुण अग्गिवेस्सना, हांव स्वास उस्वास आनी कान दामून ध्यान करूंक लागलो. तेन्ना तीक्ष्ण–तरसादीच्या तोंकान कोणतरी म्हजें माथें कोरांतता असो म्हाका भास जालो. तरी पुण हेंच ध्यान हांवें फुडें चलैलें. आनी म्हज्या कपलाक चामडयाच्या वादयेन कोणेय पुण चराटून काण्णी घाल्या अशें म्हाका दिसूंक लागलें. तरी तेच ध्यान हांवें फुडें चालू दवल्लें. ताका लागून म्हज्या पोटांत कळो उठल्यो. कसांय जसो शस्त्रान गायेचें पोट कोरांतता, तशें म्हज्या पोटांत कोरांतता अशें म्हाका दिसलें. ह्या सगळ्या प्रसंगात म्हजी उर्बा कायम आशिल्ली, यादस्त थीर आशिल्ली, पुण आंगातलें त्राण उणें जाल्लें. तरी पुण त्यो असय्य कळो म्हज्या चित्ताक बादूंक पावल्यो नात."

तिसऱ्या प्रकरणांत श्रमणांच्यो जिनसवार तपच्छर्या दिल्यात. ताच्यात हठयोगाचा समावेस जाल्लो ना. तरी पुण त्या काळात वेल्या प्रकारच्या हठयोगाचो अभ्यास करपी तपस्वी आशिल्ले, अशें धरून चलचें पडटा. ना जाल्यार बोधिसत्त्व तशा योगाचो अभ्यास आरंबचो नाशिल्लो.

## उपास

हें भशेन हठयोगाचो अभ्यास करून तातूंत तथ्य ना अशें दिसून येतकच बोधिसत्त्वान उपासांक सुरवात केली. अन्न, उदक सामकें सोडून दिवप

ताका योग्य दिसलें ना. पुण तो साप्प थोडो आहार घेवंक लागलो. भगवान सच्चकाक म्हण्टा, " आगा अग्गिवेस्सना, हांव थोडो थोडो आहार घेवंक लागलो. मुगांचो काडो, कुळदांचो काडो, वाटाण्याचो काडो वा सोंड्याळच्या चण्याचो (हरेण) काडो पियेवनच हांव रावंक लागलों. तो लेगीत सामकोच उणो अशिल्ल्यान म्हजें शरीर खूबच कृश जालें. आसीतकवालीच्या वा काळवालीच्या गांठींभशेन म्हज्या अवयवांचें सांदे दिसूंक लागले. म्हज्या कमराचो माच उंटाच्या गेतांभशेन जालो. सुताच्या चातयांचे माळेभशेन म्हज्या फाटीचो कणो दिसूंक लागलो. मोडक्या घराचे वांशे जशे सकलवैर जातात, तशो म्हज्यो बरीं जाल्ल्यो. खोल बायेंत पडिल्ल्या नखेत्रांच्या बिंबाभशेन म्हज्यो बावल्यो खोल गेल्यो. हरवो दुदी कापून ओतांत, उडैतकच जसो बावन वता, तशी म्हज्या माथ्याची कात बावन गेली. हांवें पोटावेल्यान हात भोंवडायलो जाल्यार फाटीचो कण्णो म्हज्या हाताक लागतालो. आनी फाटीच्या कण्यावेल्यान हात भोंवडायलो म्हण्टकच, पोटाची चामडी हाताक लागताली. अशे परीन फाटीचो कणो आनी पोटाची चामडी एक जाल्लीं. परसाकडेन वा लघविक बसलों, जाल्यार हांव थेंच पडटालो. आंगावेल्यान हात भोंवडायतकच म्हजी निर्बळ जाल्ली ल्हंव आपशींच झट्टाली. "

## वितर्कांचेर ताबो

बोधिसत्त्वान सात वर्सां तपच्छर्या केली असो उल्लेख जायते कडेन सांपडटा. ह्या सात वर्सांत बोधिसत्त्व चड करून देहदण्डन करतालो जालो, तरी ताज्या मनांत हेर विचार घोळनाशिल्ले अशें न्हय. वैर दिल्ल्यो तीन ओपारी पळेल्यो जाल्यार अशें दिसून येता कि, कामविकार सामको ना केल्या-बगर तरेकतरांच्या कायक्लेशांचो उपयोग जावचो ना, हें ताका स्पष्ट दिसतालें. हे खेरीज आनीकय सद्विचार ताज्या मनांत येताले, अशें जायत्या सुत्तांवेल्यान दिसता. तांच्यापैकी कांय विचारांचो हांगा थोडचा भितर संग्रह करतां.

मज्झिमनिकायांतल्या द्वेधावितक्क सुत्तांत भगवान म्हण्टा, "भिक्षूनो, म्हाका संबोध प्राप्त जावचेपैलीं हांव बोधिसत्त्व आसतानाच म्हज्या मनांत असो विचार आयलो कि, वितर्कांचे दोन वांटे करचे. त्या प्रमाण कामवितर्क (विषयवितर्क), व्यापादवितर्क (द्वेषवितर्क) आनी विहिंसावितर्क (दुसऱ्याक वा आपणांक त्रास दिवपाचो वितर्क), ह्या तीन वितर्कांचो हांवें एक विभाग केलो; आनी नैष्कर्म्य (एकान्तवास), अव्यापाद (मैत्री) आनी अविहिंसा (त्रास न दिवपाची बुद्ध) ह्या तीन वितर्कांचो दुसरो विभाग केलो. त्या उपरान्त हांव मोटच्या सादुरकायेन आनी जतनायेन वागता आसताना पैल्या तीन वितर्कांपैकी एकाद्रो वितर्क म्हज्या मनांत उचकतालो. त्या वेळार हांव येवजितालो कि, हो वायट वितर्क म्हज्या मनात उत्पन्न जाला. तो म्हज्या दुःखाक, दुसऱ्याच्या दुःखाक वा दोगांच्याय दुःखाक कारण जातलो, प्रज्ञेक आडायतालो आनी निर्वाणाक वचूंक दिवचो ना. हे येवजणेन तो वितर्क म्हज्या मनांतल्यान ना जातालो.

"भिक्षूनो, शरद ऋतूंत जंय थंय शेतांत पीक आयिल्लें आसताना गोरवां-राखणो गोरवांची मोटच्या जतनायेन राखण करता; शेतापसून बडयेन बडौनपसून तांकां पैस दवरता. कित्याक तर, तशें केलें ना जाल्यार, गोरवां लोकांल्या शेतांत वतलीं, आनी आपणांक दंड भरचो पडटलो, हें ताका खबर आसता. त्या प्रमाण काम, व्यापाद, विहिंसा बी अकुशळ मनोवृत्ति भंय घालपी आसात हे हांवें जाणलें.

"त्या काळाक हांव मोटच्या जतनायेन वा उर्बेन वागता आसताना म्हज्या मनात नैष्कर्म्य, अव्यापाद आनी अविहिंसा ह्या तीन वितर्कांपैकी एकादो वितर्क उचकतालो. तेन्ना हांव येवजितालों कि, हो कुशळ वितर्क म्हज्या मनांत उत्पन्न जाला, तो आपणाक, दुसऱ्याक वा दोगांकय दुःख दिवपी न्हय, तर प्रज्ञेची वृद्धी करपी आनी निर्वाणाक पावौपी आसा. ताजी येवजण सगळी रात वा सगळो दीस केली तरी ताजेपसून भंय ना. पुण खूब वेळ ताजी येवजण केली जाल्यार म्हजे शरीर थकतालें, आनी

ताका लागन म्हजें चित्त थीर उरचें ना, आनी अस्थिर चित्ताक समाधी कश्यान मेळटली? म्हणून (कांय वेळान) म्हजें चित्त हांव भितल्ल्या भितरच थीर करतालों....येखाद्रो गोरवां-राखणो सोंपत्या गिमांत लोकांनी शेत घरा व्हरतकच गोरवांक खुशाल मेकळीं सोडटा. तो झाडामुळा आसलो वा मेकळे सुवातेंत आसलो तरी गोरवांचेर नदर दवरपापेलेकडेन दुसरें कांयच करिना. त्याप्रमाण नैष्कर्म्य बी कुशळ वितर्क उचकल्ले आसताना हे कुशळ धर्म आसात इतलीच याद हांव धरतालो. (तांचो निग्रह करपाचो यत्न करिनाशिल्लो.)"

## निर्भयपण

कुशल वितर्कांच्या साय्यान अकुशळ वितर्कांचेर जैत मेळैलें तरी जोंमेरेन धर्मीक मनशाच्या मनांत निर्भयपण उत्पन्न जालें ना, तोंमेरेन ताका तत्त्व-बोध जावप अशक्य. दरवडे घालपी वा सैनिक आपल्या विरोधकांचेर झाडसान तुटून पडटात. पुण तांच्यांत निर्भयपण आसता थोडेंच! ते शस्त्रास्त्रांनी कितलेय सज्ज आसले तरी भयभीत आसतात; कोण जाणां, आपणाले शत्रू आपणाचेर केन्ना घालो घालतीत हाजो नेम ना, अशें तांकां दिसता. अर्थात तांगेलें निर्भयपण खरें न्हय. जें निर्भयपण अध्यात्म मार्गान मेळटा तेंच खरें. तें बोधिसत्त्वान कशें मेळैलें हें सकल्या उताऱ्या-वेल्यान समजून येतलें.

बुद्ध भगवान जानुश्रोणी ब्राह्मणाक म्हण्टा :– "आगा ब्राह्मणा, जेन्ना म्हाका संबोध प्राप्त जावंक नाशिल्लो, हांव केवळ बोधिसत्त्व आशिल्लों, तेन्ना म्हाका अशें दिसलें कि, जे कोण श्रमण वा ब्राह्मण निर्मळ कायकर्मा आचरिनासतांना अरण्यांत रावतात ते ह्या दोषाक लागून भयभैर-वाक आपौन हाडटात. पुण म्हजीं कर्मां निर्मळ आसात. निर्मळ कायकर्मां आशिल्ले जे सज्जन (आर्य) अरण्यांत रावतात तांचे पैकी हांव एक आसां, अशें जेन्ना म्हाका दिसून आयलें, तेन्ना अरण्यवासांत म्हाका अत्यंत

निर्भयपण दिसलें. दुसरें कांय श्रमण वा ब्राह्मण वाचेची मळीण कर्मां आचरीत आसताना, मनाचीं मळीण कर्मां आचरीत आसताना, मळीण जीविका करीत आसताना अरण्यांत रावतात, आनी ह्या दोषांक लागून ते भयभैंरवाक आपौन हाडटात. पुण म्हजीं वाचेचीं आनी मनाचीं कर्मां आनी जीविका निर्मळ आसात. ज्या सज्जनांचीं हीं सगळीं निर्मळ आसात तांच्यापैकी हांव एक आसां, अशें दिसून येतकच अरण्यवासांत म्हाका अत्यंत निर्भयपण दिसलें.

" आगा ब्राह्मणा, जे श्रमण वा ब्राह्मण लोभी, दुष्टचित्त, आळशी, भ्रान्तचित्त, वा संशयग्रस्त जावन अरण्यांत रावतात, ते ह्या दोषांक लागून भयभैंरवाक आपौन हाडटात. पुण म्हजें चित्त कामविकारांपसून अलिप्त आसा, द्वेषापसून मुक्त आसा (म्हळयार सगळ्या प्राणिमात्रांसंबंदान म्हज्या मनांत मैत्री वसता), म्हजें मन उर्बेन भरिल्ले, थीर आनी निःशंक आसा. अशा गुणांनी युक्त जे सज्जन अरण्यांत रावतात, तांच्यापैकी हांव एक आसां, अशें दिसून येतकच म्हाका अरण्यवासांत अत्यंत निर्भयपण दिसलें.

" आगा ब्राह्मणा, जे श्रमण वा ब्राह्मण आपली तुस्त आनी दुसऱ्याची नालस्ती करतात, भेजूड आसतात, मानमान्यतायेची चाड धरून अरण्यांत रावतात........वा मंदगती आसतात, ते ह्या दोषांक लागून भयभैंरवाक आपौन हाडटात. पुण म्हज्या आंगांत हे अवगुण नात, हांव म्हजी तुस्त वा दुसऱ्याची नालस्ती करीना, हांव भेजूड न्हय, मानमान्यतेची म्हाका इत्सा ना.....आनी हांव प्रज्ञावंत आसां. जे सज्जन अशा गुणांनी युक्त जावन अरण्यांत रावतात, तांचेपैकी हांव एक आसां, अशें दिसून येतकच म्हाका अरण्यवासांत अत्यंत निर्भयपण दिसलें.

" आगा ब्राह्मणा, चतुर्दस, पुनव, उमास आनी अष्टम ह्यो राती (भयासंबंदान) प्रसिद्ध आसात. त्या रातींनी ज्या उद्यानात, अरण्यांत

ा रूखांमुळां लोक देवतांक बळी दितात, वा ही स्थळां अत्यंत भयांकुल
ासात अशें समजतात, त्या सुवातींनी हांव (एकटुको) रावतालों; कारण
भयभैरव कशें आसता हें पळौंवाची म्हाका इत्सा आशिल्ली. अशा स्थळांनी
ावता आसताना एकाद्रो मेरू ते वटेन वच, एकाद्रो मोर सुकें काष्ट सकल
उडई, वा झाडाचीं पानां वाऱ्यान हालत. त्या प्रसंगार म्हाका दिस, हेंच
ं भयभैरव आनी हांव म्हाका म्हण, भयभैरवाची इत्सा धरूनच हांव
ंगा आयला, तेन्ना हेच स्थितीत आसतानाच ताका ना करूंक जाय. हांव
चलतां आसताना हे भयभैरव आयलें, जाल्यार चलता आसतानाच हांव
ं ना करतालों. जोंमेरेन ताका ना केलें ना तोंमेरेन हांव उबो राव-
ाशिल्लो. आनी बसय नाशिल्लों, वा हांतुण्णार पडनाशिल्लों
जर तें भयभैरव उबो आसतांना आयलें तर ते हांव उब्यानीच
ना करतालों. जोंमेरेन तें ना केलें ना तोंमेरेन हांव चलनाशिल्लों.
बसनाशिल्लों वा हांतुण्णार पडनाशिल्लों. बशिल्लो आसताना जर तें
भयभैरव आयलें जाल्यार हांव न्हिदनाशिल्लो, उबो रावनाशिल्लों, वा
चलनाशिल्लों. बशिल्लों आसतानाच ताका ना करतालों. हांतुण्णार पडिल्लो
आसताना तें आयलें जाल्यार बसनाशिल्लों, उबो रावनाशिल्लों वा
चलनाशिल्लों, हांतुण्णार पडिल्लों आसतानाच ताका ना करतालों."

## राजयोग

बोधिसत्त्व केवळ हठयोग आनी तपच्छर्या हांचें मदींच आपणालो सगळो वेळ सारतालो अशें न्हय. तशें करप खैंच्याय तपस्व्याक शक्य नाशिल्लें. अदींमदीं तांकां बरें अन्न खावचें पड. शरीरांत थोडें बळ आयलें म्हण्टकच परते ते उपासतपासादिकांनी देहदंडण करीत. सात वर्सांच्या काळात बोधिसत्त्व चड करून तपच्छर्या आचरतालो, तरी अदींमदीं बरें अन्न घेतालो आनी शान्त समाधीचोय अणभव घेतालो हातूंत दुबाव ना. हठयोग सोडून आपुण आनापानस्मृतिसमाधीची भावना कशी करतालों, हें भगवान बुद्धान आनापानसंयुत्ताच्या पैल्या वग्गाच्या आठव्या सुत्तांत सांगलां.

भगवान म्हण्टा :– " भिक्षूनो, आनापानस्मृतिसमाधीची भावन केल्यार व्हड फायदो जाता. कशे तरेन तिजी भावना केल्यार व्हड फायदो जाता? एकाद्रो भिक्षू अरण्यांत झाडामुळां वा दुसरे एकान्त सुवांते आसनमाण्डी घालून बसता. तो लांब स्वास घेता आसलो जाल्यार आपुण लांब स्वास घेतां, हें तो जाण्टा; लांब उस्वास सोडीत आसलो जाल्यार, लांब उस्वास सोडटां, हें जाण्टा; मोटवो स्वास घेता आसलो, इत्यादी....'[1] हे प्रमाण आनापानस्मृतिसमाधीची भावना केली जाल्यार व्हड फायदो जाता. भिक्षूनो, हांव लेगीत संबोधिज्ञान जावचें पैलीं, बोधि-सत्त्वावस्तेंत आसतानाच चडशी हीच भावना करतालों. ताका लागून म्हज्या कुडीक वा दोळ्यांक त्रास जायनाशिल्लो. आनी म्हजें चित्त पापविचारां-पसून मुक्त जातालें."

हाजेवेल्यान स्पष्ट दिसून येतलें कि, बोधिसत्त्व सदाकाळ हठयोग आचरिनाशिल्लो. अडींमदीं ह्या शान्त राजयोगाचो तो अभ्यास करी आनी ताकालागून ताका समाधान मेळ.

## ध्यानमार्गाचो अवलंब

अशे रितीन उपास करप आनी आहार घेवप, हठयोग आनी राजयोग हांचे मदीं झेल खायत खायत अखेरेक बोधिसत्त्वाच्या मनाचो येकायेकीं असो निच्छेय जालो कि, तपच्छर्या ही सामकी व्यर्थ; तिजेबगर मुक्ती मेळप शक्य आसा. म्हणून ती सोडून ताणे परतें पुरायेन ध्यानमार्गाचे अवलंबन कशें केलें, हाजें थोडयाभितर वर्णन महासच्चक सुत्तांत केल्लें आसा.

भगवान सच्चकाक म्हण्टा, " हे अग्गिवेस्सना, म्हज्या शाक्य बापा-यच्या शेतार काम चलिल्लें आसताना जांबळीचे शितळ सावळेंत बसून प्रथमध्यान प्राप्त करून घेतिल्ल्याची म्हाका याद जाली, आनी ते यादीक धरून म्हजो समज जालो कि, बोधाचो मार्ग होच आसूंक जाय. आनी

---

१. अदिक म्हायते खातीर, समाधिमार्ग, पृ. ३८–४८ पळेयात.

जें सुख चैनीच्या पदार्थांच्या उपभोगाबगर आनी कुशळ विचारापसून मेळटा, त्या सुखांक हांवें कित्याक भियेंवचें? असो विचार म्हज्या मनांत आयलो, आनी त्या उपरांत ह्या सुखाक हांव भियेंवचो ना, असो हांवें निच्छेय केलो. परन्त तें सुख सामको हबको जाल्ल्या देहान मेळपाचें नाशिल्लें. म्हणून इल्लो इल्लो आहार घेवपाचो विचार करून हांव तसो वागूंक लागलों. त्या वेळार पांच भिक्षू म्हजी सेवा करताले. कित्याक म्हळ्यार, म्हांका ज्या धर्माचो बोध जायत तो धर्म हांव तांकां शिकैन, अशें तांकां दिस. परन्त जेन्ना हांव अन्न घेवंक लागलो (तपच्छर्या सोडून दिली), तेन्ना, 'हो गोतम तपश्चर्येपसून भ्रष्ट जावन खावंक जेवंक लागलो,' अशे दिसून ते पांच भिक्षू म्हाका विटून चलूंक लागले."

तरी पुण बोधिसत्त्वाचो निच्छेय धळ्ळो ना. तपच्छर्येचो मार्ग सोडून साद्या ध्यानमार्गानच तत्त्वबोध करून घेवंक जाय, हे विशीं ताजी खात्री जाली.

## माराचें युद्ध

ह्या प्रसंगार बोधिसत्त्वाकडेन मारान युद्ध केल्याचें काव्यात्म वर्णन बुद्धचरितादिक ग्रंथांतल्यान मेळटा. ताजो उगम सुत्तनिपातांतल्या पधान सुत्तांत आसा. त्या सुत्ताचें भाषांतर हांगा दितां —

१. नैरंजन न्हयेचे देगेक तपच्छर्येक आरंब करून निर्वाणाचे प्राप्ति-खातीर मोटया उर्बेन हांव ध्यान करीत आसताना —

२. मार काकुटवाणोस्वर काडून म्हजेसरीं आयलो. (ताणे म्हळें) तूं कृश आनी विवर्ण जाला. मरण तुजेसरीं आयलां.

३. तू हजार वाटयांनी मरतलो. तुजें जीवित एक वांटो बाकी आसा. आरे सभाग्या, तू जग. जगप बरें; जगल्यार पुण्यकर्मां करतलो.

४. ब्रह्मचर्यान रावलो आनी अग्निहोत्राची पूजा केली जाल्यार खूब पुण्याचो सांठो जातलो. हो निर्वाणाचो उदेग जाय कित्याक?

५. निर्वाणाचो मार्ग खूबच कठीण आनी दुर्गम. ह्यो गाथो उलौन मार बुद्धामुखार उबो रावलो.

६. अशें उलौपी त्या माराक भगवन्तान म्हळें, आरे घाळ मनशाच्या इष्टा, पापया, तू हांगा कित्याक आयला (हें हाव जाणां).

७. तशा पुण्याची म्हाका बिलकुल गरज ना. ज्याका पुण्याची गरज आसत ताका मारान ह्यो गजाली सांगच्यो.

८. म्हाका स्रद्धा आसा, विरी आसा आनी प्रज्ञाय आसा. अशेभशेन हांवें म्हज्या ध्येयाचेर चित्त दवरिल्लें आसताना म्हाकां जगपासंबंदान तू कित्याक उपदेस करता?

९. न्हयेचो ओग पसून हो वारो आटैत. परन्त ध्येयाचेर चित्त दवरतल्याचें (प्रेषितात्म्याचें) म्हजें रगत ताज्यान आटौंक जावचें ना.

१०. (पुण म्हज्याच प्रयासान) रगत आटलें जाल्यार ताजेवांगडा म्हजें पिन्त आनी सैंत हे विकारय आट्टात; आनी म्हजें मांस क्षीण जालें जाल्यार चित्त चडच प्रसन्न जावन स्मृति, प्रज्ञा आनी समाधी सारकी वाडत उरतात.

११. अशे भशेन रावन उत्तम सुखाचो लाव जातकच म्हजें चित्त कामोपभोगांकडेन वळना. ही म्हजी आत्मशुद्धी पळे.

१२. (आरे मारा) कामोपभोग हें तुजें पैलें सैन्य. अरति हें दुसरें. तानभूक हें तिसरें आनी आसक्ती हें तुजें चौथें सैन्य.

१३. पाचवें आळस, सवें भंय, सातवें वांकडों दुवाव, आठवें अभिमान (वा गर्व).

१४. लाव, भौमान, पुजा (हें णवे), आनी वांकडया मार्गान जोडिल्ली नामना (हें धावें), जिका लागून मनीस आपणाली तुस्त आनी दुसऱ्याची नालस्ती करता.

१५. आरे काळ्या नमुचि, (लोकांचेर) धपके घालपी हें तुजें सैन्य. भेजूड मनशाच्यान ताका जिरवूं नज. जो ताका जिरवता, ताकाच सुख मेळटा.

१६. हें हाव म्हज्या माथ्यार मुंजाचे तण[२] धारण करतां. म्हजो पराभव जालो, जाल्यार म्हजे जिणें व्यर्थ. पराभव पावन जगपापरस झुजांत मरण आयिल्लें बरें.

१७. जायते श्रमण-ब्राह्मण तुज्या सैन्यांत भरसून गेल्ल्यान उजवाड-खत जाल्यात, आनी ज्या मार्गान साधुपुरुष वतात तो मार्ग तांकां खबर ना.

१८. चोंशीं माराचें सैन्य दिसता, आनी मार आपणाल्या वहाना-सैत सज्ज जाला. ताजे वांगडा झूज करपाक हांव फुडें सरतां. कित्याक म्हळ्यार, ताणे म्हाका स्थानभ्रष्ट करचो न्हय.

१९. देव आनी मनीस तुज्या सैन्यामुखार उबे रावंक शकनात. त्या तुज्या सैन्याचो गुंड्यान मडकी फोडून उडौची तेपरी हांव म्हजे प्रज्ञेन पराभव करून उडैता.

२०. संकल्प ताब्यांत दवरून आनी स्मृति जागृत करून अनेक श्रावकांक उपदेस करीत हांव देशोदेशीं संचार करतलों.

२१. ते (श्रावक) म्हज्या उपदेसाप्रमाण सादूरकायेन चलून आनी आपल्या ध्येयाचेर चित्त दवरून तुज्या इत्सेआड अशा पदाक वतले कि, जंय शोक करचेलो प्रसंग येना.

२२. (मारान म्हळें), सात वर्सामेरेन भगवन्ताच्या फाटोफाट हांव हेडलों; परन्त स्मृतिमान बुद्धाचे कितेंय वर्म सापडलें ना.

२३. हांगा कांय मोव पदार्थ सांपडत, कांय गोड पदार्थ मेळत, अशे आशेन कावळो मेदवर्ण पाशाणासरीं आयलो.

२४. परन्त तातूंत लाव न दिशिल्ल्यान कावळो थैंच्यान गेलो. त्या कावळ्याभशेन हांवय गोतमापसून निवृत्त जावन वतां!

२५. हे भशेन शोक करीत आसताना माराच्या खांक्यातल्यान वीणा सकल पडली; आनी तो दुखेस्त मार थैंच गुप्त जालो.

---

२. संग्रामांतल्यान पराभव घेवन फाटीं सरचों ना, ह्या खातीर मुंज नांवांचें तण माथ्याक बांदून प्रतिज्ञा करीत.

ह्या सुत्ताचें भाषांतर ललितविस्तराच्या अठराव्या अध्यायांत आयलां. ताजेवेल्यान हाजें पुरातनपण सिद्ध जाता. वैर दिल्लो भयभैरव-सुत्तातलों मजकूर वाचतकच ह्या सादद्या रूपकाचो अर्थ सहज लक्षांत येता. मनीस जातीच्या कल्याणाखातीर कोणय फुडें सल्लो जाल्यार ताजेर पैल्ल्या प्रथम हल्लो करपी माराचें सैन्य म्हळयार कामोपभोगांची वासना. तिका दामून फुडे पावल घालता न घालता, इतले म्हणसर (अरति) असंतोष उत्पन्न जाता. त्या उपरान्त भूक तान बी एकाफाटोफाट उपस्थित जातात. आनी ह्या सगळया वासनांचेर आनी विकारांचेर जैत जोडल्याबगर कल्याण करपी तत्वाचो साक्षात्कार जावप केन्नाच शक्य ना. तेन्ना बुद्धान माराचो पराभव केलो म्हणचे मनाच्या असल्या वृत्तींचेर जैत जोडलें अशें समजुंचें.

## सुजातेन दिल्ली भिक्षा

बोधिसत्त्वाक संबोधिज्ञान वैशाख पुनवेचे रातीं जालें. त्या दिसा दनपारां सुजाता नावांच्या कुळीण तरुण बायलेन ताका उत्तम अन्नाची भिक्षा दिली. हाजो उल्लेख सुत्तपिटकांत क्वचित सांपडटा.[३] आनी ह्या प्रसंगा-खेरीज सुजातेचें नांव आयिल्लें खैंच मेळना. पुण बौद्ध चित्रकलेंत सुजातेक उत्तम स्थान मेळ्ळां; आनी बुद्धाचे दृष्टीन पसून हो प्रसंग चिरस्मरणीय जाला. चुंद मेस्तान दिल्ली भिक्षा ग्रहण करून भगवान जोरान पडलो. तातूंत आपले परिनिर्वाण जातलें अशें ताणें ताडलें. आनी आपल्या फाटल्यान चुंदाक लोकांनी बोल लावचो न्हय म्हणून भगवन्तान आनंदाक म्हळें "ज्या दिसा म्हाका संबोधिज्ञान प्राप्त जालें, त्या दिसा मेळिल्ली आनी आज मेळिल्ली अशो दोनय भिक्षा समसमान आसात. अशें तुमी चुंदाक सांगात आनी ताजें सांत्वन करात."

## बोधीवृक्षामुळां आसन

सुजातेन दिल्ली भिक्षा घेवन बोधिसत्त्वान नैरंजरा न्हयेचे देगेर जेवण केलें; आनी ते रातीं तो एका पिंपळाच्या झाडामुळां येवन बसलो. हें झाड

३. अंगुत्तरनिकाय एककनिपात 'बौद्धसंघाचा परिचय' पृष्ठ–२२६.

त्रा अस्तित्वात ना. शशांक राजान ताजो विध्वंस केलो, अशें म्हण्टात. ताजेच सुवातेर लायिल्लो पिंपळ आनी ताकाच तेंकून बुद्धगयेचें, बुद्ध मंदिर आसा. त्या झाडामुळां बोधिसत्त्व बसलो, तेन्ना परतो एक वट ललितविस्तरांत माराच्या युद्धाचो प्रसंग वर्णिला. संयुत्तनिकायां-त्रा सगाथांवग्गांत मारान बुद्धाक भुलौंक बोधिवृक्षामुळां (त्या पिंपळा-ां) तृष्णा, अरति आनी रगा ह्यो आपल्यो तीन चलयो धाडल्यो अशें ांन मेळटा. जातकाच्या निदानकथेंत तर ह्या प्रसंगार माराच्या सैन्यान ाचेर चोंशीं कसो मारो चल्लैलो, हाजें सविस्तर वर्णन आसा. माराचें य पळौन ब्रह्मादिक देव पळून वतात, बोधिसत्त्व तितलो एकटोच उरता. गीर मार तें स्थान आपलें, अशें म्हणून बुद्धाक थैंच्यान उठूंक सांगता; नी त्या स्थानार आपणांलें हक शाबीत करपाखातीर आपल्या सैन्याची ाय दिता. सगळे देव पळून गेल्यान त्या प्रसंगार बुद्धाक कोणच गवाय वपी मेळना. तेन्ना बुद्ध उजवो हात सकल करून, ही सगळें सोंसपी, री साक्ष आसा, अशें म्हण्टा; आनी धर्तरीरूपी देवता विराट स्वरूप रण करून माराच्या सैन्याचो पराभव करता, बी पुराणिक वर्णन जातक-ट्ठकथाकारान केलां.

बौद्ध चित्रकलेंत हो प्रसंग चित्रिकांनी बेस बरो चित्रायला. लोभ, ा, मोह, मद, जत्सर बी दुष्ट वृत्तींत मूर्तिमंत रूप दिवपाचो तांचो यत्न ाखणाय करपा सारको दिसता. सुर्वेक कवीन ह्या प्रसंगाचें वर्णन केलें ानी ताका धरून चित्रिकांनी ताकां मूर्त रूप दिवपाचो यत्न केलो, ाय चित्तिकांनी हो प्रसंग चित्रायतकच तांचे फाटोफाट वचून कवींनीय जें वर्णन केलें, हें सांगू नजं. तें कितेंय आसूं, एक गजाल खरी कि, र दिल्ल्या माराच्या सैन्याक मूर्त रूप दिवपाचो हो यत्न आसा.

## तत्त्वबोध

था वैशाख पुनवेचे रातीं बोधिसत्त्वाक तत्त्वबोध जालो; आनी तेन्नाच्यान ाकां बुद्ध म्हण्टात. म्हळ्यार तोंमेरेन गोतम बोधिसत्त्व आशिल्लो, तो

त्या दिसासावन गोतम बुद्ध जालो. बुद्धाक जाल्लो तत्त्वबोध म्हळ्या चार आर्यसत्यां आनी तांतलो अष्टांगिक मार्ग. ताजो उपदेस ताणे पैल आपल्या बरोबर रावपी पाच वांगड्यांक केलो. (तो प्रसग फुडे येवपाच आशिल्ल्यान हांगा ताजें विवरण करीना).

## विमुक्ती सुखाचो आस्वाद

तत्त्वबोध जातकच बुद्ध भगवान त्याच बोधिवृक्षामुळां सात दीस बसू विमुक्तीसुखाचो आस्वाद घेतालो; आनी त्या प्रसंगार रातीच्या तीन यामां ताणें सकल दिल्लो प्रतीत्यसमुत्पाद आरतो परतो मनात हाडलो, अ महावग्गात म्हळां. परन्त सयुंत्तनिकायांतल्या दोन सुत्तांत बुद्धान बोधि सत्त्वावस्तेंत आसतानाच हो प्रतीत्यसमुत्पाद जाणलो अशें सांगलां त्या सुत्ताचो आनी महावग्गातल्या मजकूराचो मेळ बसना. महाव बरैलो तेन्ना ह्या प्रतीत्यसमुत्पादाक सुमाराभायर म्हत्व आयिल्लें अशें दिमत नागार्जुनासारकेल्या महायानपंथाच्या आचार्यांनीं तर ह्या प्रतीत्यसमु त्पादाक आपणाल्या तत्त्वज्ञानाची मुळावी बुन्याद करून उडैली.[५]

## प्रतित्यसमुत्पाद

तो प्रतीत्यसमुत्पाद थोडें भीतर असो —

अविद्येपसून संस्कार, संस्कारापसून विज्ञान, विज्ञानापसून नामरू नामरूपापसून षडायतन, षडायतनापसून स्पर्श, स्पर्शापसून वेदना, वेद पसून तृष्णा, तृष्णेपसून उपादान, उपादानापसून भव, भवापसून जा (जल्म), आनी जातीपसून जरा, मरण, शोक, परिदेवन, दुःख, दौर्मनस्य उपायास हे उत्पन्न जातात.

---

४. निदानवगसंयुत्त, सुत्त १० आनी ६५ पळेयात.

५. माध्यमिक कारिकेचो आरंब पळेयात.

पूर्ण वैराग्यान अविद्येचो निरोध केल्यार संस्काराचो निरोध जाता. …कारांच्या निरोधान विज्ञानाचो निरोध जाता. विज्ञानाच्या निरोधान …रूपाचो निरोध जाता. नामरूपाच्या निरोधान षडायतनाचो निरोध, …ायतनाच्या निरोधान स्पर्शाचो निरोध, स्पर्शाच्या निरोधान वेदनेचो …रोध, वेदनेच्या निरोधान तृष्णेचो निरोध, तृष्णेच्या निरोधान उपा-…नाचो निरोध, उपादानाच्या निरोधान भवाचो निरोध, भवाच्या निरोधान …माचो निरोध, जल्माच्या निरोधान जरा, मरण, शोक, परिदेवन, दुःख …र्मनस्य, उपायास, हांचो निरोध जाता.

दुःखाच्या फाटल्यान एदी कारणपरंपरा जोडिल्ल्यान तें सर्वसामान्य …कांक समजप बरेंच कठीण जालां. फुडें फुडें ह्या प्रतित्यसमुत्पादाक …न तत्त्वज्ञानाचें स्वरूप आयलें, आनी ताजेरच वादविवाद जावंक लागले. …गार्जुनाचार्यान आपली मध्यमकारिका ह्या प्रतित्यसमुत्पादाच्या बुन्यादी-…रच बरैल्या; आनी बुद्धघोषाचार्यान विशुद्धिमार्गाचो एक षष्टांश, …सुमारे शें सवाय शें पृष्ठां) हाज्या विवेचनांत खर्च केला. ही सगळी …र्चा वाचतकच विद्वान मनीसपसून, घुस्पागोंदळांत पडटा, मागीर सर्व-…मान्य लोकांक हें समजूंचें कशें? बुद्ध भगवन्ताचो धर्म ब्राह्मण, क्षत्रिय … उंच वर्णांच्या लोकापरस सकल्या वर्गाच्या लोकांत विशेष फैलावलो … अशा गहन तत्त्वज्ञानाक लागून न्हय. चार आर्यसत्यांचें तत्त्वज्ञान …मकें सादें आसा. ते सगळ्या प्रकारच्या लोकांक पटलें, हातूंत इल्लेंय …वल ना. ताजो विचार रोखडोच जातलो.

## ब्रह्मदेवाची विनंती

…त्वबोध जाल्ल्याउपरांत बुद्ध भगवन्तान एक सप्तक बोधिवृक्षामुळांत …म्हळयार त्या पिपळामुळां) काडलें, अशें वैर सांगलांच. ह्या उपरांत …सरें सप्तक अजपाल न्यग्रोध वृक्षामुळां, तिसरें सप्तक मुचलिन्द वृक्षामुळां, …ौथें सप्तक राजायतन वृक्षामुळां काडून बुद्ध भगवान परतो अजपाल

वृक्षामुळां आयलो. थंय ताज्या मनांत विचार आयलो कि, हो धर्म हां
अत्यंत प्रयासान जाणला, तेन्ना तो लोकांक उपदेसून आनीक त्रास सोस
बरें न्हय. हो विचार ब्रह्मदेवान जाणलो; आनी धर्मोपदेस करपाच
भगवन्ताक प्रार्थना केली. ही कथा विस्तारान महावग्गात आन
मज्झिमनिकायांतल्या अरियपरियेनसुत्तांत आयल्या, पुण ती गोतम
बुद्धासंबंदान बिलकुल नासूंयें. कोणाय तरी पुराणकारान ती विपस्स
बुद्धासंबंदान रचली आनी उपरांत ती जशाच्या तशी गोतम बुद्धाच्य
चरित्रांत दाखल जाली. ह्या रूपकाचो अर्थ 'बुद्ध, धर्म आणि संघ
ह्या पुस्तकांत (पृष्ठ १६–१९) लावपाचो हांवें यत्न केला. तेन्ना ताज
चर्चा हांगा करीना.

## पंचवर्गी भिक्षूंक उपदेश करपाचो बेत

आपणांक प्राप्त जाल्ल्या चार आर्यसत्यांचें ज्ञान आरंबाक कोणाक कर
दिवचें असो बुद्ध भगवन्ताक प्रस्न पडलो. आळार कालाम आनी उद्द
रामपुत्त हे बोधिसत्त्वाचे दोगय गुरु जिते आसते, जाल्यार हो नवो धर्मम
तांकां तत्काळ पटतलो आशिल्लो. परन्त ते हयात नाशिल्ले. तेन्ना भग
वन्तान आपल्या पांच वांगड्यांक (पंचवर्गी भिक्षूंक) उपदेस कर
अशें थारायलें. हें भिक्षू तेन्ना बनारसा लागशिल्ल्या ऋषिपत्तनांत रावता
भगवान थंय वचूंक भायर सल्लो. वाटेंत उपक नांवाचो आजीवक श्रम
ताकां मेळ्ळो. आपणांक तत्त्वबोध जाला, अशें बुद्धान ताकां सांग
पुण उपकाक तेविशी खात्री दिसली ना. जायत कदाचित, अशें म्हण
तो दुसऱ्या मार्गांत चलूंक लागलो. ह्या एका प्रसंगावेल्यानच दुसऱ
पंथाच्या श्रमणांक उपदेस करपाचें निरर्थकपण भगवन्तान जाणलें जावंये.

## पंचवग्यांची समजावणी

आषाढे पुनवेपैलीं भगवान वाराणसीक पावलो. तो ऋषिपत्तनाक आयल
तेन्ना ताका पैंशिल्यान पळौनच ताजो कसोच आदरसत्कार करप न

ी पंचवर्ग्यांनी बेत थारायलो. पुण तो जसो जसो लागसार येवंक लागलो ा तसो तांचो हो बेत ढांसळत गेलो. तांणीं क्रमशः ताजो फावसो रसत्कार केलो. पुण ताजो नवो धर्ममार्ग आयकून घेवंक ते तयार शल्ले. आपणाक एक नवो धर्ममार्ग सांपडला अशें भगवन्तान जेन्ना ां सांगलें, तेन्ना तांणीं म्हळें, 'आयुष्मान गोतम, तुज्या तशे तरेचे च्छर्येन पसून तुका सद्धर्ममार्गाचो बोध जालो ना. आतां तूं तपोभ्रष्ट वंन खावंक जेवंक लागला. त्या तुकां सद्धर्माचो बोध कसो जातलो?'

भगवन्तान म्हळें, "भिक्षूनो, हाजपैलीं हांवें नसतीच वल्गना केन्ना या व्हय? जर ना, तर तुमी म्हज्या म्हणण्याकडेन लक्ष दियात. अम- वो मार्ग म्हाका सांपडला. ह्या मार्गाचो अवलंब केलो जाल्यार तुमकां ोनच विमुक्ति मेळटली."

अशे तरेन पंचवर्गी भिक्षूंची समजूत घालून कांय काळान आपणालो ो धर्म आयकून घेवंक भगवन्तान तांकां प्रवृत्त केले. त्या प्रसंगार ताणे ल्या उपदेसाक 'धर्मचक्रप्रवर्तन' म्हण्टात. हें सुत्त सच्चसंयुत्ताच्या ान्या वग्गांत आनी विनयग्रंथातल्या महावग्गांत सांपडटा. हाजें संस्कृत षान्तर ललितविस्तराच्या सव्विसाव्या अध्यायात दिलां. पैकीं पालि नाचें रूपान्तर हांगा दितां.

## धर्मचक्रप्रवर्तन

शें हांवें आयकलां. एका समयाक भगवान वाराणसीक ऋषिपत्तनांतल्या ावनांत रावतालो. थंय भगवन्तान पंचवर्गी भिक्षूंक उद्देशून म्हळें, "भिक्षूनो, र्नीक मनशान (पब्बजितेन) ह्या दोन तोंकांक वचूं नये. हीं दोन तोंकां ची? पैलें कामोपभोगांत सुख मानप. हे तोंक हीण, गांवठी, सामान्य कांच्या आवडीचें, अडणाडी आनी अनर्थाचे. दुसरें देहदंडण करप. दुःखदिणें, अडणाडी आनी अनर्थाचें. ह्या दोन तोंकाक न वतां तथा- तान ज्ञानचक्षू उत्पन्न करपी, उपशमाक, प्रज्ञेक, संबोधाक आनी निर्वा-

णाक कारण जावपी मध्यम मार्ग सोदून काडला. तो खैंचो? सम्य दृष्टी, सम्यक् संकल्प, सम्यक् वाचा, सम्यक् कर्मान्त, सम्यक् आजी सम्यक् व्यायाम, सम्यक् स्मृति, सम्यक् समाधी, हो तो आर्य अष्टांगि मार्ग.

"भिक्षूनो, दुःख नांवाचे पैलें आर्यसत्य आसा. जल्म दुःखदिण जरा दुःखदिणी. व्याधी दुःखदिणी. मरण दुःखदिणे. नाका आशिल्ल्यां सव्वास आनी जाय आशिल्ल्यांचो वियोग दुःखदिणो. जाय जाल्ली व मेळ्ळी ना म्हण्टकचय दुःख जाता. संक्षेपांत पांच उपादानस्कन्ध दुः दिणे आसात.[६]

"भिक्षूनो, भौन भौन उत्पन्न जावपी आनी विषयांत रमपी तृष्णा जिका कामतृष्णा, भवतृष्णा आनी विनाशतृष्णा म्हण्टात—तीं दुःखसमुद नांवाचे दुसरें आर्यसत्य.

"ते तृष्णेचो वैराग्यान पूर्ण निरोध करप, त्याग करप, तिजे पसू मुक्ती मेळौंप हें दुःखनिरोध नांवाचें तिसरें आर्यसत्य.

"आनी (वैर सांगिल्लो) आर्य अष्टांगिक मार्ग हें दुःखनिरो गामिनी प्रतिपदा नांवाचे चौथें आर्यसत्य.

" (क) हें दुःख आसा अशें समजलें तेन्ना म्हाका नवी नदर आय आनी ज्ञान उत्पन्न जालें, विद्या उद्भवली, आनी आलोक उत्पन्न जा हे दुःख जाणून घेवंक योग्य अशें समजलें, तेन्ना म्हाका नवी नदर (बी). हें दुःख हांवें जाणलें, तेन्ना म्हाका (बी)......

" (ख) हें दुःखसमुदय आर्यसत्य आसा अशें हांवें जाणलें, त्याज्य आसा अशें हांवें जाणलें, ताजो त्याग केलो अशें हांवें जाण तेन्ना म्हाका नवी नदर आयली (बी पूर्वोक्त)......

---

६. स्कन्ध पांच आसात. ते वासनामय आसले म्हण्टकच तांका उपाद कन्ध म्हण्टात. 'बुद्ध, धर्म आणि संघ' पृष्ठ—९०—९१ पळेयात.

" (ग) हें दुःखनिरोध आर्यसत्य आसा अशें हांवें जाणलें, ताजो क्षात्कार करप योग्य आसा अशें हांवें जाणलें, ताजो साक्षात्कार म्हाका लो अशें हांवे जाणलें, तेन्ना म्हाका नवी नदर (बी पूर्वोक्त)......

" (घ) हें दुःखनिरोधगामिनी प्रतिपदा नांवाचे आर्यसत्य आसा ां हांवें जाणलें, ताजो अभ्यास करप योग्य आसा अशें हांवें जाणलें, जो अभ्यास केलो असें हांवें जाणलें, तेन्ना म्हाका नवी नदर आयली, न उत्पन्न जालें, विद्या उद्भवली आनी आलोक उत्पन्न जालो. जोंमेरेन येक तीन आनी एकंदरीत बारा प्रकारांचें ह्या चार आर्यसत्याविशींचें न म्हाका जालें ना, तोंमेरेन म्हाका पूर्ण संबोधि लाभली ना."

बुद्धान केल्ले जायते उपदेस सुत्तपिटकांत एकठांय केल्यात. पुण ज्या धर्माचो तळावो असो खैंचोय उपदेस आसल्यार तो हो. एका च्चसंयुत्तांत ह्या चार आर्यसत्यांसंबदान एकांदर १३१ सुत्तां आसात. ाभायर हेर निकायांत तांचो उल्लेख भौन भौन येता. बुद्धाचे हेर ाळे उपदेस ह्या चार आर्यसत्यांक धरून आशिल्ल्यान हांचें म्हत्व खूब डलें.

वेल्या रूपान्तरांत (क) पसून (घ) मेरेन आयिल्लो मजकूर फकत च्चसंयुत्ताच्या एका सुत्तांत आनी महावग्गात सांपडटा. ताजो उल्लेख रकडेन ना. ह्या वेल्यान तो फाटसून दाखल केला जावंये असो भरकूम ाव येता. तरीपुण चार आर्यसत्यांच्या फोंडणिशेक ताजी मदत जाय-रकी आशिल्ल्यान तो हांगा दिला.

## चार आर्यसत्यांची फोंडणिशी

सारांत दुःख आसा हें कोणाच्यानच ना म्हणूं नज. परन्त जो तो आपणालें ःख कशें ना जायत हेंच येवजणेंत आसता. ताजो परिणाम असो जाता क, दुसऱ्याचो घातपात करूनपसून जण एक आपुण सुखी जावंक सोदता. ांच्यात जे खुनशी आनी हुषार आसतात, ते फुडारी जातात, आनी हेरांक ांच्या हुकमात रावचें पडटा. खुनशीपणाक लागून ह्या फुडाऱ्यांमदी

पसून एकचार उरना आनी तांकां सगळयांत जो चड खुनशी आनी हुषा
अशा फुडाऱ्याक आपलो राजा करून ताज्या तंत्रान चलचें पडटा. राजा
आपणालें राज्य दुसरो घेत अशे भंय दिसता आनी ताज्या राखणेखातीर त
यज्ञयाग करून अनेक प्राण्यांक बळी दिता. अशा प्रकारची, मनशांक आन
हेरा प्राण्यांक उपद्रव दिवपी समाजाची बांदावळ ना करून तिजे सुवाते
दुसरी बऱ्याभल्याची आनी सुखाची बांदावळ उबारपाची आसत, जाल्या
जण एकल्याक आपणालें आनी हेरांचें दुःख एक आसा अशी जाणवी
जावंक जाय; आनी म्हणूनच बुद्ध भगवन्तान पैल्या आर्यसत्यांत स
साधारण दुःखाचो समावेस केला.

जल्म, जरा, मरण बी सर्वसाधारण दुःख श्रमणांक मान्य आशिल
इतलेंच न्हय, तर तें दुःख ना करपाखातीरच तांगेली तपच्छर्या आसताल
परन्त दुःखाचें कारण कितें, ह्या संबंदान तांचो मतभेद आशिल्लो. को
म्हण्टाले, दुःख आत्म्यान उत्पन्न केलां (सयंकतं दुक्खं); दुसरे म्हण्टा
दुःख परान उत्पन्न केलां (परंकतं दुक्खं); तिसरे म्हण्टाले, कांय अं
आत्म्यान आनी कांय अंशीं परान दुःख उत्पन्न केलां (सयंकतं च परंकतं
दुःखं); आनी चौथे म्हण्टाले दुःख आत्म्यान वा परान उत्पन्न के
नासून आकस्मिक आसा (असयंकारं अपरंकारं अधिच्चसमुप्पन्नं दुक्खं)

हातूंत पैल्या प्रकारचे श्रमण म्हळयार निर्ग्रंथ (जैन) बी लोक. पु
जल्मांत आत्म्यान पाप केल्ल्यान दुःख उत्पन्न जालां अशें ते समजता
आनी ताजो परिहार करूंक देहदण्डनान आत्म्याक कष्टायताले. दुस
प्रकारचे श्रमण सांख्याभशेन आशिल्ले. ते स्थूळ प्रकृतिक लागून दु
उत्पन्न जालां अशें मानताले आनी आत्म्याक प्रकृतीच्या तडाख्यांतल्य
सोडोवपाखातीर खडतर तप करताले. तिसऱ्या प्रकारचे श्रमण आत्मो आ
प्रकृती मेळून दुःख उत्पन्न करतात अशें प्रतिपादन करताले आनी आत्म्या

७. निदानवग्गसंयुत्त, वर्ग २, सुत्त ७ पळेयात.

ांतल्यान सोडौपाखातीर देहदण्डण करताले. चौथ्या प्रकारचे श्रमण दुःख ाकस्मिक ममजताले जाल्ल्यान अक्रियवादाकडेन झुकताले. अशे रितीन श्रमण निष्फळ तपच्छर्या तरी करताले, वा निष्क्रिय जाताले. भौसाक ाचो भौच थोडो उपेग जाय.

दुःखाचें खरेलें कारण आत्मो वा प्रकृती न्हय तर मनशाची तृष्णा ्हे पैल्ल्या प्रथम बुद्ध भगवन्तान दाखौन दिलें. पुर्वजल्मीचे आनी ह्या जल्मा-ाले तृष्णेक लागूनच सगळें दुःख उत्पन्न जाता. तृष्णा खैंच्यान आयली, ो प्रस्न व्यर्थ. ती जोंमेरेन आसत तोंमेरेन दुःख उत्पन्न जातलें हेच दुसरें आर्यसत्य.

तृष्णा ना केल्ल्यानच मनीस दुःखातल्यान सुटतलो हें तिसरें आर्यसत्य.

आनी तृष्णा ना करचेलो उपाय म्हळचार दोन तोंकाच्या मदल्यान वचपी आर्य अष्टांगिक मार्ग, हे चौथें आर्यसत्य.

## अष्टांगिक मार्गाची फोडाणिशी

ह्या आर्य अष्टांगिक मार्गाचो सम्यक् दृष्टी हो पैलो पावंडो. सम्यक् दृष्टी म्हळचार चार आर्यसत्यांचें जिवूप ज्ञान. संसारान दुःख भल्लां ते मनीमजातीचे सुमाराभायले तृष्णेक लागून उत्पन्न जालां, ते तृष्णेचो लय केल्ल्यान सगळ्यांक शांती मेळप शक्य आसा आनी एकमेकांकडेन कायेन जावं, वाचेन जावं, मनान जावं सदाचारान, सत्यान, मायेन आनी अगत्यान वागप हो आर्य अष्टांगिक मार्ग, तो शांतीचो मार्ग. अशी सम्यक् दृष्टी लोकांत उद्‌भवली ना जाल्यार हंतमाक आनी सुवार्थाक लागून जावपी झगडीझुजां थांबपाची नात, आनी संसाराक शांती मेळपाची ना.

आपणाल ऐश्वर्य आनी सत्ता वाडौपाचो संकल्प जण एकल्यान केलो जाल्यार ताज्यापसून ताजी आनी हेरांची सारकीच हानी जातली. म्हणून कामोपभोगांत बद्ध न जावपाचो, हेरांचेर पूर्ण-मैत्री करपाचो, आनी हेरांच्या सुखासमाधानात भर घालपाचो शुद्ध संकल्प बाळगप योग्य.

फटी उल्लौन, चाडी, सवेस्त्राप, व्यर्थ बडबड बी अमंगळ वाणीक लागून समाजाची घडी इबाडटा, आनी झगडींझुजां उपरासून तीं रक्तपाताक कारण जातात; म्हणून सत्य, एकामेकांमदले सख्य सांबाळपी, प्रिय आनी मितभाषण करप योग्य. हांकाच सम्यक् वाचा म्हण्टात.

जिवाची हत्या, चोरी, शिंदळकी बी कर्मां कायेन आचरलीं जाल्यार तांचेंपसून समाजात मोटे अनर्थ उत्पन्न जातले. म्हणून जीवहत्या, चोरी, शिंदळकी बी कर्मांपसून अलिप्त रावन, लोकांचें कल्याण जायत अशींच कायकर्मां आचरूंक जाय. हाकांच सम्यक् कर्मान्त म्हण्टात.

सम्यक् आजीव म्हळ्यार समाजाक अपाय जावचो ना अशे रितीन आपल्याली जीविका करप. देखीक, गृहस्थान सोऱ्याची विक्री, जनावरांची देववघेव, बी वेवसाय करूंक कामा नये. हाच्यापसून समाजाक खूब त्रास जाता, हें उक्ते आसा. अशे वेवसाय वर्ज्य करून निवळ आनी सरळ वेव्हारान आपलो चरितार्थ चलौप हाकाच सम्यक् आजीव म्हण्टात.

जे वायट विचार मनांत आयिल्ले नासतीत तांकां मनांत येवंक सवड ना दिवप, जे वायट विचार मनांत आयिल्ले आसतात ते ना करप, जे बरे विचार मनांत उद्भविल्ले नासतीत ते उत्पन्न करचेलो प्रयत्न करप, आनी जे बरे विचार मनांत उद्भविले आसतीत ते वाडौन पूर्णतायेन व्हरपाचो प्रयत्न करप, ह्या चार मनाच्या प्रयत्नांक सम्यक् व्यायाम म्हण्टात. (शरीराच्या व्यायामाकडेन ताजो संबंद ना).

शरीर अपवित्र पदार्थांचे घडलां, हो विवेक जाग्रुत दवरप, शरिरांतल्या सुखदु:खादि वेदनांचें भौंन भौंन निरीक्षण करप, आपल्याच चित्ताचें निरीक्षण करप आनी इंद्रियां आनी तांचे विषय हांचे पसून खंची बंधनां उत्पन्न जातात आनी तीं कशीं ना करूंक येतात बी मनोधर्माचो नीट विचार करप, हाका सम्यक् स्मृती म्हण्टात.

आपल्याच शरिराचेर, प्रेताचेर, मैत्री, करुणा बी मनोवृत्तीचेर वा पृथ्वी, आप, तेज बी पदार्थांचेर चित्त एकाग्र करून चार ध्यानां संपादप हांका सम्यक् समाधी म्हण्टात.[८]

दोन तोंकांक वचनासतांना ह्या मदल्या मार्गाची भावना करूंक जाय. पैलें तोंक म्हळ्यार कामोपभोगांत सुख मानप. ताका हीण, गांवठी-सामान्य लोकांच्या आवडीचें, अडणाडी आनी अनर्थाचे (हीनो गम्मो पोथुज्जनिको अनरियो अनत्थसंहितो) ही पांच विशेषणां जोडल्यात. मनीस-जात दळिद्रांत आनी अज्ञानांत खिदपत पडिल्ली आसतांना आपणे फोल्गां-मौजांत आनंद मानप हाजेसारकेली हीण गजाल खंची? हें तोंक गांवठी म्हळ्यार गांवढळ लोकांचे, सामान्य लोकांचे. आर्यांक (धीरवीरांक) सोब-सारकें न्हय आनी तें अनर्थाचें. दुसरें तोंक देहदण्डण करप हें. ताका हीण आनी गांवठी हीं विशेषणां लावंक नात. पुण तें दुःख-दिणे धीरवीरांक सोबसारकें न्हय आनी अनर्थाचें (दुक्खो अनरियो अनत्थसंहितो). अष्टां-गिक मार्गाचीं सगळीं आंगां हीं तोंकां वर्ज्य करतात.

देखीक, खावचें, पियेंवचें, मजा करपी ही चैनी लोकांची दृष्टी आनी उपास बी व्रतांनी कूड झरवप ही तपस्व्यांची दृष्टी. हांचेमदली दृष्टी म्हळ्यार चार आर्यसत्यांचें ज्ञान. ह्याप्रमाण हेरां आंगाचें पसून मदेवर्तिपण समजूंचें.[८]

---

८. चार आर्यसत्यांची म्हायती ‘ बुद्ध, धर्म आणि संघ ’ ह्या पुस्तकाच्या तिसऱ्या परिशिष्टांत (पृ. ९४–९९) दिल्या. तीय पळोंची.

• • •

प्रकरण सवें

# श्रावक संघ

## पंचवर्गी भिक्षूंची खबर

ज्या पंचवर्गी भिक्षूंक भगवन्तान पैलो धर्मोपदेस केलो, तांची खबर सुत्त-पिटकांत भौच थोडी सांपडटा. पैल्या प्रथम ज्यांकां बौद्ध धर्माचो तत्त्वबोध जालो, तो आज्ञात कौंडिन्य खूब लांबाय राजगृहाक आयलो आनी ताणे बुद्धाक साष्टांग दंडवत घालो. असो उल्लेख संयुत्तनिकायांतल्या वंगीस संयुत्तांत (नं. ९) सांपडटा. दुसरो पंचवर्गी भिक्षू अस्सजि (अश्वजित) राजगृहाक जोरान पडिल्लो आनी ताका भगवन्तान उपदेस केलो अशी म्हायती खन्धसंयुत्ताच्या ८८ व्या सुत्तांत आयल्या. ह्या दोगांखेरीज बाकी तिगांची नांवां सुत्तपिटकांत बिलकुल मेळनात.

जातकाचे निदानकथेंत आनी हेर अट्ठकथांतल्यान ह्या पंचवर्गी भिक्षूंची थोडी भोव म्हायती सांपडटा, तिजो सारांश असो :–

रामो धजो लक्खणो चापि मन्ती
कोण्डञ्ञो च भोजो सुयामो सुदत्तो ।
एते तदा अट्ठ अहेसं ब्राह्मणा
छळंगवा मन्तं व्याकरिंसु ॥

'राम, ध्वज, लक्खण (लक्ष्मण), मन्ती (मंत्री), कोण्डञ्ञ (कौण्डिन्य), भोज, सुयाम आनी सुदत्त हे आठ षडंग वेद जाणपी ब्राह्मण आशिल्ले, तांणी बोधिसत्त्वाचे भविष्य वर्तयलें.'

हांच्यापैकीं सातांनीं, बोधिसत्त्व गृहस्थाश्रमांत रावलो जाल्यार चक्र-वर्ती जातलो, आनी गृहस्थाश्रम सोडून संन्याशी जालो जाल्यार सम्यक् संबुद्ध

ातलो, अशें दोन भासांचें भाकित केल्लें. ह्या आठांत कौंडिन्य सामको
ाण आशिल्लो. ताणे बोधिसत्त्व निस्संशय सम्यक् संबुद्ध जातलो अशें
कूच भविष्य वर्तयल्लें. दोन भासांचें भविष्य वर्तवपी सात ब्राह्मणांनी
रा वचून आपल्या चल्यांक सांगलें कि, "आमचें आतां वय जालां
ानी राजकुंवर सिद्धार्थ बुद्ध जालो जाल्यार तें पळोंवप आमच्या नशिबांत
ा. तो बुद्ध जालो जाल्यार तुमी ताज्या संघात वचात."

बोधिसत्त्वान घर त्यागलें तेन्ना कौंडिन्य तितलो हयात आशिल्लो. ाकीच्या सात ब्राह्मणांच्या चल्यांकडेन वचून ताणें म्हळें, "सिद्धार्थकुमार ारिव्राजक जाला. तो खात्रीन बुद्ध जातलो. ताज्या फाटोफाट आमीय ारिव्राजक जावंया." त्या तरण्यांनपैकीं चौगांनी कौण्डिन्याची सांगणी ान्य केली, आनी ताजेबरोबर प्रव्रज्या घेवंक ते बोधिसत्त्वाच्या फाटोफाट ाले. हे पांच जाण फुडें पंचवर्गी ह्या नांवान प्रसिद्धीक आयले. तांची ांवां महावग्गांत आनी ललितविस्तरांत सांपडटात, तीं अशीं :— ोण्डञ्ञ (कौण्डिन्य), वप्प (वाष्प), भद्दिय (भद्रिक), महानाम आनी ास्सजि (अश्वजित).

परन्त वैर दिल्ली पंचवर्ग्यांची खबर आख्यायका दिसता. गोतम- ुमार बुद्ध जातलो हाजी जर कौण्डिन्याक खात्री आशिल्ली तर मागीर ाका उरुवेलेंत सोडून तो वाराणसीक कित्याक गेलो? बोधिसत्त्वान ुडीक लागपी आहाराक आरंब करतकच कौण्डिन्याची सगळी स्रद्धा कशी ा जाली? म्हाका दिसता कि, हे पंचवर्गी भिक्षू पैलीं आळार कालामाच्या ंथातले आसून शाक्यांच्या वा तांच्या शेजारच्या प्रदेशात रावताले. थंय ांची आनी बोधिसत्त्वाची इष्टागत जमली. ते सगळेच ब्राह्मण आशिल्ले ाशें म्हण्टा येना. आळार कालामाच्या आनी उद्दक रामपुत्ताच्या संप्र- ायांत तथ्य न दिशिल्ल्यान बोधिसत्त्व फुडलो मार्ग सोदूंक म्हणून राज- ृहाक आयलो, तेन्ना ताज्या वांगडा हे पंचवर्गी भिक्षूय आयले जावंये. ोधिसत्त्वाक नव्या धर्ममार्गाचो बोध जालो जाल्यार त्याच मार्गान आमीय

वचूं असो तांचो विचार आशिल्लो. पुण बोधिसत्त्वान तपस्या आनी उपास-तपास सोडून दिले तेन्ना तांचो विश्वास उडलो आनी ते वाराणसीक गेले.

## पंचवर्गी भिक्षुसंघ

गौतम बोधिसत्त्व बुद्ध जावन वाराणसीक ऋषिपत्तनांत आयलो तेन्ना त्या पंचवर्गी भिक्षूंनी ताजो आदरसत्कारपसून करूं नये असो बेत केल्लो. बी मजकूर पांचव्या प्रकरणांत आयलाच. अखेरेक ह्या वर्ग्यांनी बोधि-सत्त्वाचो धर्ममार्ग आयकून घेतलो आनी त्या प्रसंगार एका कौण्डिन्यान तितली आपली अनुमती दर्सायली. तेन्ना बुद्ध भगवान उद्गाल्लो, "कौण्डि-न्यान जाणलें (अञ्ञासि वत भो कौण्डञ्ञो)" ताका लागून कौण्डिन्याक 'अज्ञासि कौण्डञ्ञ (अज्ञात कौण्डिन्य)' हेंच नांव पडलें. आनी ह्या एकाच गजालीवेल्यान बौद्ध वाङ्मयांत कौण्डिन्याक प्रसिद्ध स्थान प्राप्त जालें. ह्या उपरान्त ताणे कसलीच म्हत्वाची कामगिरी केल्ल्याचो उल्लेख बिलकुल सांपडना. पैल्या प्रथम ताणे एकटयानच बुद्धाच्या नव्या धर्म-मार्गाचें अभिनंदन केलें, होच तागेलो पुरुषार्थ समजूंक जाय.

त्याउपरान्त बुद्ध भगवन्तान वप्प (वाष्प) आनी भद्दिय (भद्रिक) ह्या दोगांचीय समजूत घाली आनी कांय दिसांनी ताकाय ह्या नव्या धर्म-मार्गाचो बोध जालो. उपरान्त कांय काळान महानाम आनी अस्सजि, (अश्वजित्) हांकां ह्या नव्या धर्ममार्गाचो बोध जालो. आनी हे पंचवर्गी भिक्षू बुद्धाचे एकनिष्ठ भक्त जाले. ह्या कामांत केदो काळ गेलो हाजो खंच उल्लेख ना. पुण पंचवर्गी भिक्षू आरंबाकच बुद्धाचे शिष्य जाले आनी ह्या पांचांचो भिक्षुसंघ जालो, ह्या संवंदान सुत्तपिटकाचें आनी विनय-पिटकाचें एकमत आसा.

## यश आनी ताजे वांगडी

पंचवर्ग्यांवांगडा बुद्ध भगवान ऋषिपत्तनाक रावता आसताना ताका आनीक ५५ भिक्षू कशे मेळ्ळे आनी त्या चातुर्मासाउपरान्त भगवन्तान

राजगृहामेरेन प्रवास करून भिक्षुसंघांत केदी व्हडली भर घाली हाजें वर्णन महावग्गांत सापडटा. ताजो सारांश हांगा दितां.

वाराणसीत यश नावाचो एक बरो आस्तिक तरुण रावतालो. एकाएकी प्रपंच्यातल्यान ताजें मन उठलें आनी शान्त स्थळाचो सोद घेत घेत तो ऋषिपत्तनांत आयलो. बुद्धान धर्मोपदेस करून ताका आपल्या संघांत घेतलो. ताजो सोद घेत तागेले आवयबापूय थंय आयले. तांकां बुद्धान उपदेस केलो आनी तेय बुद्धाचे उपासक जाले.

यश भिक्षू जावन बुद्धाच्या संघात दाखल जालो, हें वर्तमान वाराणसी नगरांत रावताल्या ताज्या विमल, सुबाहु, पुण्णजि (पूर्णजित) आनी गवंपति (गवांपति) ह्या चार इष्टांक समजलें आनी ऋषिपत्तनांत येवन तेय बुद्धाच्या भिक्षुसंघांत प्रविष्ट जाले. त्या सगळ्यांचे ५० तरुण मित्र आशिल्ले. ताणी ऋषिपत्तनांत येवन बुद्धाचो उपदेस आयकलो आनी आपल्या इष्टांभशेनच संघांत प्रवेश केलो. हे भशेन साठ भिक्षूचो संघ ऋषि-पत्तनांत पुंजा जालो.

## भौसाच्या हिताखातीर धर्मप्रचार

चातुर्मास सोंपत्यार बुद्ध भगवन्तान आपणाल्या भिक्षुसंघाक म्हळें, “भिक्षूनो, प्रपंचाच्या आनी स्वर्गाच्या पासांतल्यान हांव मेकळो जालां आनी तुमीय ह्या पासांतल्यान मेकळे जाल्यात. तेन्ना आतां भिक्षूनो भौसाच्या कल्याणाखातीर, सुखाखातीर, लोकांच्या काकुळतेखातीर, देवांच्या आनी मनशाच्या बऱ्याभल्याखातीर धर्मोपदेस करूंक मुखार सरात. एका वाटेन दोग वचूं नाकात. आरंबाक कल्याणाचो, मदीं कल्या-णाचो आनी अखेरेक कल्याणाचो अश्या ह्या धर्ममार्गाचो लोकांक उपदेस करात.”

अशेभशेन बुद्ध भगवन्तान आपणाल्या साठ भिक्षूंक चारय दिकांक धाडले. ते हेर तारणाटयांक भगवन्ताकडेन हाडीत आनी भगवन्तान

तांकां प्रव्रज्या दिवन आपल्या भिक्षुसंघांत दाखल करून घेंवचें. पुण ह्या कामांत त्या साठ भिक्षूंक आनी तरणाट्या उमेदवारांक दगदग जावंक लागली; म्हणून परस्परच प्रव्रज्या दिवन तांकां आपल्या संघात दाखल करपाक ताणे भिक्षूंक मुभा दिली आनी खासा तो उरुवेलेक वचूंक गेलो.

## भद्रवर्गी भिक्षू

वाटेंत भद्दवग्गी नावाचे तीस तरुण एका उद्यानात आपल्या बायलांसैत क्रीडा करूंक आयिल्ले. तांच्यापैकीं एकाक बायल नाशिल्ली म्हणून ताजे-खातीर ताणीं एक वेश्या हाडिल्ली. हे तीस असामी आनी तांच्यो २९ बायलो मौज मजेंत गुल्ल जावन घाळपणांन वावुरतांना हाताक मेळतीत तितल्यो वस्तू घेवन ते वेश्येन पपा काडली! त्या वेळार बुद्ध भगवान ह्या उपवनांत एका रूखामुळा विसव घेत बशिल्लो. उपकरपी वस्तू घेवन वेश्या पळून गेली, हें जेन्ना त्या तीस तरुणांक समजलें, तेन्ना ते तिजो सोद करीत भगवान बशिल्लो थंय आयले, आनी तांणी ताका म्हळें, "भदन्त, हे वटेन गेल्ली एक वयावर्ली बायल तुमी पळेल्या व्हय?"

भगवन्तान म्हळें, "जुवान गृहस्थानो, एकाद्रचा वयावयल्या बाय-लेच्या सोदांत भोंवप वा आत्मबोध करून घेवप हाचे पैकीं तुमकां कितें बरें दिसता?"

तें बुद्धाचें उलौणे आयकून ते ताजेसरीं बसले; आनी बरोच वेळ बुद्धाचो उपदेस आयकून घेतकच गृहस्थास्रमाचो त्याग करून ते भिक्षु संघात भितर सल्लें.

## काश्यप बंधू

त्या उपवनांतल्यान भगवान उरुवेलेक आयलो. थंय उरुवेलकाश्यप, नदी-काश्यप आनी गयाकाश्यप हे तीग जटिल भाव अनुक्रमान आपल्या पांचशें, तीनशें आनी दोनशें जटाधारी शिष्यांसैत अग्निहोत्र सांबाळून तपच्छर्या

करनाले. तांच्यापैकी व्हडल्या भावाच्या आस्रमांत बुद्ध भगवान रावलो आनी जायते अद्‌भुत चमत्कार दाखौन ताणे उरुवेलकाश्यपाक आनी ताज्या पांचशें शिष्यांक आपल्या भिक्षुसंघांत दाखल करून घेतले. उरुवेल-काश्यपाच्या फाटोफाट ताजे धाकले भाव आनी तांगेले सगळे अनुयायी बुद्धाचे शिष्य जाले.

## मोठ्या भिक्षुसंघासैत राजगृहांत प्रवेश

ह्या एक हजार तीन भिक्षूंक वांगडा घेवन बुद्ध भगवान राजगृहाक आयलो. थंय येदच्या व्हडल्या भिक्षुसंघाक पळौन नागरिकांत एकच बोवाळ जालो. बिंबिसार राजा आनी ताजे सगळे सरदार बुद्धाचें अभिनंदन करूंक आयले. बिंबिसारान बुद्धाक आनी भिक्षुसंघाक दुसऱ्या दिसा राजवाडयांत भिक्षा घेवंक आमंत्रण दिलें आनी तांचें जेवण जातकच वेणुवन उद्यान भिक्षुसंघाक दान दिलें.

## सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान

राजगृहालागी संजय नावाचो एक प्रसिद्ध परिव्राजक आपल्या पुस्कळ शिष्यांसैत रावतालो. सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान हे दोग संजयाचे प्रमुख शिष्य आशिल्ले. पुण त्या संप्रदायांत तांचें मन रमना जालें. तांणीं असो संकेत केल्लो कि, ‘ जर दोगांपैकी एकाक खरेलो धर्ममार्ग दाखौपी दुसरो कोणय सांपडलो जाल्यार ताणें दुसऱ्याक ही गजाल सांगची आनी दोगांनीय मेळून त्या धर्माचो आस्रय घेवचो.’

एक दीस अस्सजि भिक्षू राजगृहांत भिक्षाटण करतालो. ताजी शान्त आनी गंभीर मुद्रा पळौन हो कोणय तरी निर्वाणाच्या मार्गाक लागिल्लो परिव्राजक जावंये अशें सारिपुत्ताक दिसलें; अस्सजिकडेन संभाषण करून ताणे जाणलें कि, अस्सजि बुद्धाचो शिष्य आसा आनी बुद्धाचो धर्ममार्ग खरो आसा. ही गजाल सारिपुत्तान मोग्गल्लानाक कळैली; आनी ते दोगय संजयाच्या पंथातल्यान दोनशें पन्नास परिव्राजकांसैत बुद्धाकडेन येवन भिक्षुसंघांत प्रविष्ट जाले.

## इतिहासिक कसोटी

यश आनी हेर ५४ तरुण भिक्षू जाले, ते कथेपसून येथमेरेन कथन केल्लो मजकूर हो महावग्गांतल्यान सारांशरूपान घेतला[1]. आतां हे कथेक इतिहासाची कसोटी लावन पळौंक जाय. बोधिसत्त्वान उरुवेलेक तपच्छर्या केली आनी तत्त्वबोध प्राप्त करून घेतलो. अर्थात बुद्ध भगवन्ताक उरुवेलेचो प्रदेश बरो खबर आशिल्लो. उरुवेलकाश्यप आनी ताजे दोन धाकले भाव हजार जटाधारी शिष्यांसैत त्याच प्रदेशांत रावताले. तांकां अद्‌भुत चमत्कार दाखौन जर भगवन्ताक आपले शिष्य करचेले आसते, जाल्यार तांकां सोडून भगवान काशीमेरेन कित्याक गेलो? आपणालो धर्म पंचवर्ग्यांखेरीज हेरां कोणाक कळचो ना, अशें ताका कित्याक दिसलें? तेन्ना ताका अद्‌भुत चमत्कार दाखौपाची शक्त नाशिल्ली आनी काशींक वचून पंचवर्ग्यांक उपदेस केल्या उपरान्त ताका ती शक्त मेळ्ळी, अशें समजुचें काय कितें?

ऋषिपत्तनांत पंचवर्ग्यांखेरीज जे ५५ भिक्षू बुद्धाक मेळ्ळे, तांचे पैकी फकत पांचांचींच नांवां महावग्गांत दिल्यांत; बाकी पन्नासांपैकी एकाचेंय नांव ना. तेन्ना भिक्षूंचो आंकडो फुगौपाखातीर पन्नासांची भर घाली जावंये अशें दिसता.

वाटेंत तीस तरुण दादले बायलांसैत क्रीडा करता आसताना खिणाभितर भगवन्तान तांकां भिक्षू केले, हें संभाव्य दिसना. तशें करपाचें आसतें जाल्यार, उरुवेलेच्यान काशीक वचपाचे प्रयास ताणे कित्याक केले? उरुवेलेच्या लागसार मौजमजा करपी तरुण ताका सापडचे नाशिल्ले? मदीच ह्या तीस तरुणांची गजाल कित्याक शिरकटायली, हें समजना.

बुद्ध भगवान एक हजार तीन जटिलांक भिक्षू करून आनी बरोबर घेवन राजगृहांक आयलो तेन्ना सगळें राजगृह उंचाबळ जाल्लें आसताना

---

१. 'बुद्धलीलासार संग्रह', पृ. १६०–१६५ आनी 'बौद्ध संघाचा परिचय', पृ. ७–८ पळेयात.

सारिपुत्ताक बुद्ध कोण हाजी खबर नाशिल्ली, हें कशें? अस्सजि पंचवर्ग्यांपैकी एक. ताका हेरां पंचवर्ग्यांबरोबर काशीच्या लागसार धर्मोपदेस करपाक धाडून भगवान उरुवेलेक आनी थैंच्यान राजगृहाक आयलो; अशें आसताना हो अस्सजि राजगृहाक कसो पावलो? तात्पर्य, पंचवर्ग्यांक, यशाक आनी ताज्या चार वांगड्यांक भिक्षुसंघांत दाखल करून घेतल्या उपरान्त काशीसावन राजगृहामेरेनच्या भगवन्ताच्या प्रवासाची महावग्गांत आयिल्ली हकीगत भौतांशीं आख्यायकाच अशें म्हणचें पडटा.

## ललितविस्तरांतली यादी

खरो प्रकार कितें घडलो हें जरी निच्छीत सांगूक आयलेंना तरी ललितविस्तराच्या आरंबाकच जी भिक्षूंची वळेरी दिल्या तिजेवेल्यान भिक्षुसंघाची सुखेची खबर अल्प प्रमाणात जुळौंक येणेजोगी आशिल्ल्यान ती वळेरी हांगा दिल्या.

१ ज्ञानकौण्डिन्य (अञ्ञाकोण्डञ्ञ), २ अश्वजित (अस्सजि), ३ वाष्प (वप्प), ४ महानाम, ५ भद्रिक (भद्दिय), ६ यशोदेव (यस), ७ विमल, ८ सुबाहु, ९ पूर्ण (पुण्णजि), १० गवाम्पति (गवम्पति), ११ उरुवेलकाश्यप (उरुवेलकस्सप), १२ नदीकाश्यप, १३ गयाकाश्यप, १४ सारिपुत्र (सारिपुत्त), १५ महामौद्गल्यायन (महामोग्गल्लान), १६ महाकाश्यप (महाकस्सप), १७ महाकात्यायन (महाकच्चान), १८ कफिल (?), १९ कौण्डिन्य (?), २० चुनन्द (चुन्द), २१ पूर्ण मैत्रायणीपुत्र (पुण्ण मन्ताणिपुत्त), २२ अनिरुद्ध (अनुरुद्ध), २३ नन्दिक (नन्दक) २४ कस्फिल (कप्पिन), २५ सुभूति, २६ रेवत, २७ खदिखनिक, २८ अमोघराज (मोघराज), २९ महापारणिक (?), ३० वक्कुल (बक्कुल), ३१ नन्द, ३२ राहुल, ३३ स्वागत (सागत), ३४ आनन्द.

महावग्गात दिल्ल्या नांव नाशिल्ल्या भिक्षूंचो आकडो कडाळलो जाल्यार हे वळेरींतल्या पंदरा भिक्षूंच्या परंपरेचो आनी महावग्गाच्या

कथेचो मेळ बसना; आनी ताजेवेल्यान अशें अनुमान करूं येता कि, पंच-वर्ग्यांउपरान्त भगवन्ताक यश आनी ताजे चार इस्ट मेळ्ळे. ह्या धांक वांगडा घेवन भगवान उरुवेलेक गेलो आनी थंय ताजे संघात तीग काश्यप भाव सामील जाले. ह्या तेरा शिष्यांसैत भगवान राजगृहाक गेलो. थंय संजयाच्या शिष्यांपैकीं सारिपुत्त आनी मोग्गलान संजयाचो पंथ सोडून बुद्ध भगवन्ताचे शिष्य जाले. हे दोग आयिल्ल्यान भिक्षुसंघाची म्हैमा खूब वाडली. कित्याक म्हळ्यार राजगृहात तांची बरीच नामना जाल्ली. बुद्धाच्या तत्वज्ञानाचो ह्या दोगांनीय कसो विकास केलो, हाजी गवाय सुत्त आनी विनयपिटक दितात. चडशें अभिधम्मपिटक तर सारिपुत्तानच उपदेसलां अशें मानतात.

त्या उपरान्त आयिल्ल्या २९ भिक्षूंची परंपरा मात इतिहासिक दिसना. आनन्द आनी अनुरुद्ध एकाच वेळार भिक्षू जाले अशें चुल्लवगात (भा. ७) सांगिल्लें आसतानां हांगा अनुरुद्धाचो नंबर २२ आनी आनन्दाचो ३४ दिला. हांचेवांगडा उपालि म्हाल्यान प्रव्रज्या घेतली आनी तो फुडें विनयधर जालो अशें आसतानां हे वळेरीत ताजें नांव मेळना. हांगा दिल्ल्या चडशा भिक्षूंचीं चरित्रां ‘ बौद्धसंघाचा परिचय ’ ह्या पुस्तकाच्या तिसऱ्या भागांत आयल्यांत. जिज्ञासू वाचप्यांनी तीं वाचचीं.

## भिक्षूंचो आंकडो

आता राजगृहामेरेन बुद्धान जमा केल्ल्या भिक्षूंचो आंकडो ह्या पंदरा भिक्षूपरस चड आशिल्लो काय कितें, हाजो थोडचाभीतर विचार करूंया. बुद्धाक वाराणसींत साठ भिक्षू मेळ्ळे; उरुवेलेक वतानां वाटेर तीस आनी उरुवेलेक एक हजार तीन, मेळून एकांदरीत १०९३ भिक्षूंचो संघ एकठांय जातकच भगवन्तान राजगृहांत प्रवेश केलो. थंय सारिपुत्त आनी मोग्गलान हांच्यावांगडा संजय परिव्राजकाचे अडैशें शिष्य बौद्ध संघाक येवन मेळ्ळे. म्हणचे त्या वेळार भिक्षुसंघाचो आंकडो तेराशें पंचेचाळीस जालो. परन्त तेदो भिक्षुसंघ बुद्धाकडेन आशिल्ल्याचो उल्लेख सुत्तपिटकांत

खैंच्च सांपडना. बुद्ध भगवान परिनिर्वाणाआदीं एकदोन वर्सां राजगृहांत आयलो तेन्ना ताजे वांगडा बाराशें पन्नास भिक्षू आशिल्ले अशें सामञ्ज-फलसुत्तांत म्हळां. परन्त दीघनिकायाच्या दुसऱ्या आठ सुत्तांनी भिक्षुसंघाचो आंकडो पांचशें दिला; आनी भगवन्ताच्या अखेरच्या प्रवासांतय पांचशेंच भिक्षू आशिल्ले अशें दिसतां. भगवन्ताच्या परिनिर्वाणा उपरान्त राजगृहाक भिक्षूंची जी पैली परिषद भल्ली तिज्यांतय पांचशेंच भिक्षू आशिल्ले. तेन्ना भगवन्ताच्या परिनिर्वाणामेरेन भिक्षुसंघाचो आंकडो पांचशेंवैर वचूंक नाशिल्लो, अशें अनुमान करूं येता.

बुद्ध भगवन्ताच्या परिनिर्वाणाउपरान्त हो आंकडो फुगौंपाचो क्रम सुरू जाल्लो जावंये. ललितविस्तराच्या आरंबाकच श्रावस्तीक भगवन्ता-बरोबर बारा हजार भिक्षू आनी बत्तीस हजार बोधिसत्त्व आशिल्ले अशें म्हळां. अशे रितीन आपल्या संप्रदायाचें म्हत्व वाडौंपाखातीर त्या काळच्या भिक्षूंनी पुर्विल काळच्या भिक्षूंचो आंकडो वाडौंक आरंब केलो आनी महायान पंथाच्या ग्रंथकारांनी तर मानत तितल्या बोधिसत्त्वांची भर घाली! बौद्ध धर्माचे अधोगतिक जर खैंचे प्रमुख कारण जालें जायत तर तें हेंच. आपल्या धर्माचें आनी संघाचें स्तोम मातौंपाखातीर बौद्ध भिक्षूंनी भरमसाट आख्यायको रचूंक आरंब केलो, आनी ब्राह्मणांनी तांच्ययपरस विलक्षण आख्यायको रचून भिक्षूंचो पुरतो पराभव केलो!

## प्रसिद्ध सं श्रमणसंघ

बुद्धाचे मुस्तींत बुद्धाच्या संघापरस मोटे आनी प्रसिद्ध अशे सं श्रमणसंघ चलताले आनी पूरण कास्सप, मक्खलि गोसाल, अजित केसकंबल, पकुध कच्चायन, संजय बेलट्ठपुत्त आनी निगण्ठ नाथपुत्त ह्या सं संघाच्या फुडाऱ्यांचो लोकांत खूब मान आशिल्लो. ह्या संबदान मज्झिमनिकायांतल्या चूळसारोपम सुत्तांत सकलो उतारो सांपडटा.

येमे भो गोतम समणब्राह्मणा संघिनो गणिनो गणाचरिया ञाता यसस्सिनो तित्थकरा साधुसम्मता बहुजनस्स, सेय्यथीदं पूरणो, कस्सपो

मक्खलि गोसालो, अजितो केसकम्बलो, पकुधो कच्चायनो, सञ्जयो बेलट्ठ-पुत्तो, निगण्ठो नाथपुत्तो.

(पिंगल कौत्स भगवन्ताक म्हण्टा), "भो गोतम, हे जे संघी, गणी, गणाचार्य, प्रसिद्ध, यशस्वी तीर्थंकर, आनी भौसाक मान्य आशिल्ले (सं जाण आसात), ते कोण? पूरण कास्सप, मक्खलि, गोसाल, अजित केसकम्बल, पकुध कच्चायन, संजय बेलट्ठपुत्त आनी निगंठ नाथपुत्त."

## बौद्ध संघाची कर्तव्यनिष्ठा

हे सय आचार्य वयान बुद्ध भगवन्तापरस जाण्टे आशिल्ले आनी तांच्या भिक्षूंचो आंकडोय बरोच मोटो आशिल्लो. बुद्ध ह्या सगळ्या आचार्यांत वयान ल्हान, आनी ताज्या भिक्षूसंघाचो आंकडोय उणो, अशें आसतांना ह्या ल्हानशा नव्या भिक्षुसंघान सगळ्यांक फाटीं घाले आनी हिंदुस्थाना-चेरच न्हय, तर सगळ्या आशिया खंडाचेर आपलो प्रभाव घालो, हें कशें ?

हाका जाप ही कि, वेले सं श्रमणसंघ जरी संख्येन मोटे आशिल्ले, तरी सर्वसामान्य लोकसमुदायाचो व्हडलोसो हुसको काडिनाशिल्ले. तांच्यापैकीं भौंवतेकांचें ध्येय आशिल्लें तपच्छर्येन मोक्ष मिळौंप. गांवात वा शारांत वचून ते गृहस्थाकडल्यान भिक्षा घेताले आनी प्रसंगविशेषीं आपल्या संप्रदायाचें तत्त्वज्ञान शिकैताले. पुण गृहस्थांच्या भल्याखातीर आनी सुखाखातीर तांचो विशेष असो प्रयत्न नासतालो.

बौद्ध संघाची गजाल हाजे उरफाटी आशिल्ली. 'लोकांच्या बऱ्याभल्याखातीर आनी सुखाखातीर तुमी चारय दिकांक वचात, एका वाटेन दोग वचूं नाकात,' हो बुद्धाचो उपदेस वैर दिलाच. हो उपदेस महावग्गात आनी मारसंयुत्तात सांपडटा आनी तश्या अर्थाचे उपदेस सुत्तपिटकांत जायतेकडेन मेळटात. ह्या बुद्ध भगवन्ताच्या उपदेसाप्रमाण वागिल्ल्यान ताजो भिक्षुसंघ भौसाक प्रिय आनी मान्य जालो, आनी सगळ्या लोकांचेर ताजो प्रभाव पडलो.

एकमेकांकडेन झगडपी लोकांक पळौन बोधिसत्त्वाक वैराग्य आयलें हें चौथ्या प्रकरणांत आयलांच. हीं झगडीं राजसत्तेकडल्यान पालवप शक्य नाशिल्लें. जोंमेरेन लोकांत हिंसेची वृत्ती उरतली तोंमेरेन समाजांतलीं झगडींझुजां मेटप शक्य ना. म्हणून राजसत्तेकडेन फाट करून मनीसजातीचे मुक्तीचो मार्ग सोदून काडूंक बोधिसत्त्व फुडें सल्लो. सात वर्सां तपच्छर्येचे जायते अणभव घेतल्याउपरान्त ताका फाटल्या प्रकरणांत दिल्लो मध्यम मार्ग सांपडलो; आनी ताजो सगळयां लोकांत प्रसार करपाचो ताणें बेत थारायलो. ह्याच कामाखातीर बुद्ध भगवन्तान संघाची स्थापना केली. तेन्ना हेरां संघांतल्या श्रमणांपरस बौद्ध श्रमण सामान्य लोकांच्या हितसुखाची विशेष जतनाय घेवंक लागले हातूंत नवल ना.

## अध्यात्मिक शेतोडेची गरज

समाजांत शेती व्यापार बी धंदे सुरू केले, पुण समाजांत जर एकोपो नासलो, तर त्या धंद्यांपसून फायदो जावचो ना; एकान रोयिल्लें शेत दुसरो लुवन व्हरतलो आनी एकाद्रया व्यापाऱ्याक दुसरो चोर लुट्टलो. अशे रितीन समाजांत अव्यवस्था सुरू जाली जाल्यार त्या समाजांतल्या व्यक्तींक खूब कष्ट भोगचे पडटले. हो एकोपो शस्त्रबळान उत्पन्न करूंक आयलो तरी तो तीग धरचो ना. एकामेकाच्या बरेपणान आनी त्यागान उत्पन्न जाल्ली एकीच खरी एकी म्हणूंक जाय. सर्वसाधारण लोकसमुदायात अशी एकी उत्पन्न करपाचो बुद्धाचो हेतू आशिल्लो अशें सुत्तनिपातांतल्या कासिभारद्वाज सुत्तावेल्यान दिसून येता. ताजो सारांश असो :—

एक दीस बुद्ध भगवान भिक्षाटण करता आसताना भारद्वाज ब्राह्मणाच्या शेतार गेलो. थंय भारद्वाज ब्राह्मण आपल्या मनायांक जेवण दितालो. भगवान भिक्षेखातीर उबो आसा हें पळौन ताणें म्हळें, "म्हजे भशेन तूंय शेत कस, ओंप, धान्य पुंजाय आनी खा. भिक्षा कित्याक मागता?"

भगवन्तान म्हळें, "हांवय शेतकामती. हांव स्रद्धेन बी ओंपता. ताजेर तपच्छर्येची (प्रयत्नांची) वृष्टि जाता. प्रज्ञा म्हजो नांगर. पातकांविषयींची लज इसाड, चित्त दोरयो, स्मृति (जाग्रुताय) नांगराचो फाळ आनी चाबूक. कायेन आनी वाचेन हाव संयम पाळटा. आहारांत नेमान रावन मत्या-वर्खीं (मनाच्या दोषांची) हांव नडणी करतां. धादोसकाय ही म्हजी सोड. उर्बा म्हजे बैल; आनी म्हजें वाहन अशे दिशेकडेन वता कि, जंय शोक करपाचो प्रसंग येना !"

ह्या म्हणण्याचो अर्थ भारद्वाजाक तत्काळ समजलो आनी तो, बुद्धाचो शिष्य जालो.

ह्या उपदेसांत बुद्धान शेतकामाचो निषेध केल्लो ना. पुण त्या शेत-कामाक नीतीचें फाटबळ नासल्यार तिजेपसून समाजाक सुख न जाता दुःख जातलें, इतलोच ह्या उपदेसांचो निष्कर्ष. एकान रोयिल्ली शेतोड पिकेच्या वेळार दुसऱ्यान बळकायली जाल्यार शेतकाम करूंक कोणच फुडें सरचो ना आनी समाजांत आकांताळी अव्यवस्ता माततली. म्हणून आरंबाक एकमेकांमदलें रूणानबंद अहिंसेचे आसूंक जाय. अशा प्रकारची मनाची शेती केल्याबगर ही प्रत्यक्षांतली शेती उपकरा पडची ना, हें जाणून बुद्धान आपल्या संघाक समाजाची नीत जागोंक मुखार काडलो. ताका लागून बौद्ध संघ संख्येन उणो आसूनय लोकसमुदायाक प्रिय जालो; आनी आपल्या कर्तुत्वदशेन हेरां श्रमण संघांक ताणे फाटीं घाले.

## संघाची संघटना

आपलो संघ कर्तुत्वी जावचो हाजे खातीर बुद्ध भगवन्तान खूब जतनाय घेतली. संघाची बांदावळ ताणे अशी केली कि, आपल्या फाटल्यान ताच्यांत एकोपो उरचो आनी तांचेकडल्यान लोकाची सेवा अखंड जायत उरची. वज्जींच्या गणराज्यांतल्या मुखेल्यांनी एकठांय जावन विचारविनिमय करपाचो आनी एकामेकांचे हिताचे नेम थारावपाची जी पद्धत, तीच थोडोभोव फेरफार करून बुद्ध भगवन्तान आपल्या भिक्षुसंघाक लागू केली

जातली, अशें महापरिनिब्बानसुत्ताच्या आरंबाक आयिल्ल्या मजकूरावेल्यान दिसून येता.

वस्सकार ब्राह्मण बुद्धासरीं येता आनी वज्जींचेर धुरी घालपाचो आपल्या धनयाचो---अजातशत्रूचो---बेत भगवन्ताक कळैता. आपणे घालून दिल्ल्या सात नेमां प्रमाण जोंमेरेन वज्जी चलतले तोंमेरेन मांका जिखप शक्य ना अशें भगवान वस्सकार ब्राह्मणाक सांगता. आनी वस्सकार वतकच भिक्षुसंघाक म्हण्टा : 'भिक्षनो, हांव तुमका उदर्गतीचे सात नेम सांगतां. (१) जोंमेरेन भिक्षु पुस्कळ फावटी एकठाय जमतले तोंमेरेन भिक्षूची उदर्गतच जातली; हानी जावचो ना. (२) जोंमेरेन भिक्षू एक-मतान जमतले आनी आपल्या संघकर्मांचो एकामनान विचार करून उठटले तोंमेरेन भिक्षूंची उदर्गतच जातली; हानी जावचो ना. (३) जोंमेरेन संघान करूंक नाशिल्लो नेम, केल्लो अशें म्हणचे नात आनी केल्लो नेम मोडचे नात, नेमांचे मर्म समजून चलतले, तोंमेरेन भिक्षूंची उदर्गतच जातली, हानी जावची ना. (४) जोंमेरेन भिक्षू जाण्टया शीलवान मुखे-ल्याचो मान दवरताले, (५) जोंमेरेन भिक्षू परतून उत्पन्न जावपी तृष्णेक वश जावचेंनात, (६) जोंमेरेन भिक्षू एकान्तवासाची आवड धरतले, (७) जोंमेरेन भिक्षु येवंक नाशिल्ले सुज्ञ सब्रह्मचारी येवचे आनी आयिल्ले सुज्ञ सब्रह्मचारी सुखान रावचे, म्हणून सदांच जाग्रुत रावतले, तोंमेरेन भिक्षूंची उदर्गतच जातली, हानी जावचो ना."

ह्या वेल्यान अशें दिसून येतलें कि, संघांत एकठांय जमपाचे, संघाची कामां एकमतान करपाचे, जाण्टया शीलवान भिक्षूंचो मान राखपाचे बी विनय पिटकांत सांपडपी नेम बुद्धभगवन्तान वज्जींसारकेल्या स्वतंत्र गण-राज्यांत चालन्त आशिल्ल्या पद्धतीवेल्यान घेतले.

## संघाचे कांय नेम रूढीवेल्यान थारायले

परन्त राज्यशासनाचे सगळेच नेम संघाक लागू करप शक्य नाशिल्लें. संघांत एकाद्रया भिक्षून कितेंय गुन्याव केलो जाल्यार ताका चडांतचड ख्यास्त

म्हळ्यार संघातल्यान भायर घालप ही आशिल्ली; हिजेपेलेकडेन दुसरी कठोर ख्यास्त नाशिल्ली. कित्याक म्हळ्यार, संघाचे सगळे नेम अहिंसेक धरून आशिल्ले. तांचेपैकी बरेचशे नेम केवळ चालंत रूढीवेल्यान घेतिल्ले. देखीक, सकलो नेम घेयात –

बुद्ध भगवान आळवी म्हळ्ळे कडेन अग्गाळव चेतियांत रावतालो. तेन्ना आळवक भिक्षू बांदकाम करतांना जमीन खोदैताले. तांचेर लोक टीका करूंक लागले. ही गजाल समजली, तेन्ना भगवन्तान तांचो निषेध करून भिक्षूंक नेम घालून दिलो तो असो :—

जो भिक्षू जमीन खण्टा वा खणून घेता, ताका पाचित्तिय जाता.[२]

भिक्षूंनी ल्हानशी खोंप वा सुमाराचोसो विहार बांदून तांतूंत रावचें येदी परवानगी भगवन्तान दिल्ली; आनी त्या कामाक जमीन खासा खोदप वा दुसऱ्याक खोदूंक लावप हातूंत पातक नाशिल्लें. पुण हो नेम केवळ लोकांच्या समाधानाखातीर करचो पडलो. चडशे श्रमण ल्हानसान जंतूंचो नाश जावंनये म्हणून जतनाय घेताले. ते रातचो दिवोपसून पेटैनाशिल्ले. कित्याक म्हळ्यार, त्या दिव्यार पिसोळीं बी जीव येवन पडपाचो संभव आसतालो. आनी तांगेले हे आचार लोकांच्या आंगवळणी पडिल्ले. एकाद्रो श्रमण खासा कुदळ घेवन जमीन खणूंक लागलो जाल्यार, सर्वसाधारण लोकांच्या मनांक धको बसप सामकें सभाविक आशिल्लें. तांचेंकडेन वादविवाद करून तांगेलो दृष्टिकोन बदलपाची बुद्ध भगवन्ताक गरज भासली ना. तपच्छर्येंत फुकट वेळ न व्हगडायतां भिक्षूंक लोकांक धर्मोपदेस करपाक आनी ध्यानसमाधीवरवी आपले चित्त आळाबंदा हाडपाक अवसर मेळ्ळो म्हणटकच संघाचो कार्यभाग सुलभ जातलो हें बुद्ध भगवान जाणून आशिल्लो; आनी म्हणूनच ज्यो रितीभाती निरुपद्रवी आशिल्ल्यो, त्यो संघाक लागू करपाक भगवन्ताक हरकत दिसली ना.

---

२. बौद्ध संघाचा परिचय. पृ. ९७ पळेयात.

## भिक्षुसंघाचें सादेपण

ृगवन्ताक हेरां संघांत चालू आशिल्ली तपच्छर्या बिलकुल पसंत नाशिल्ली ूरी पुण आपल्या संघांतल्या भिक्षूंनी सामक्या सादेपणान चलचें म्हणून ृगवान खूब जतनाय घेई. भिक्षू जर परिग्रही जाले, जाल्यार ते आपल्या ृरिग्रहासैत चारय दिकांक वचून प्रचाराचें कार्य कशें करूंक पावतले? ामञ्ञजफलसुत्तांत भगवान बुद्ध अजातशत्रू राजाक म्हण्टा,

सेय्यथापि महाराज पक्खी सकुणो येन येनेव डेति सपत्तभारो व ृति। एवमेव महाराज भिक्खु संतुट्ठो होति, कायपरिहारिकेन चीवरेन ृच्छिपरिहारिकेन पिण्डपातेन। सो येन येनेव पक्कमति समादायेव पक्क-ृति।

म्हाराज, जसो एकाद्रो पक्षी उडत त्या दिकेक आपल्या पांखाटयां-ैतच उडटा. तेच भशेन म्हाराज, भिक्षू देहाक लागपी चीवरान आनी ोटाक लागपी पिंडान (भिक्षेन) संतुष्ट जाता. तो जे जे दिकेक वता ृ ते दिकेक आपणालें सामान बरोबर घेवनच वता.'

अशा भिक्षूकडेन चडच जाल्यार सकल्या गाथेंत दिल्ल्यो आठ जिनसो आसताल्यो.

> तिचीवरं च पत्तो च वासि सूचि च बन्धनं।
> परिस्सावनेन अट्ठेते युत्तयोगस्स भिक्खुनो॥

'तीन चीवरां, पात्र, वासि (ल्हानशी कुराड), सूय, कमरपटो आनी उदक गाळपाचो आंगसो, ह्यो आठ जिनसो योगी भिक्षूक पुरो.'

## वागणुकेचे नेम

अशे भशेन भिक्षूंनी सामक्या सादेपणान वागचें असो बुद्ध भगवन्ताचो उपदेस आशिल्लो. तरी लेगीत मनीससभावाक धरून कांय भिक्षू ह्यो जिनसो घेवपांतय सुमार दवरिनाशिल्ले; म्हळयार तीन चीवरांपरस चड वस्त्रां घेताले; मातयेच्या वा लोखणाच्या पात्राच्या जाग्यार तांब्या-

पितळेचे पात्र स्वीकारताले; चीवरां मर्यादेभायर व्हडलीं करून घेताले, ताका लागून परिग्रहाक अवसर मेळटालो. म्हणून ताकां आळो घालपाक पुस्कळशे नेम करचे पडले. अशा नेमांचो आंकडो बरोच मोटो आसा.

विनयपिटकांत भिक्षुसंघाखातीर एकूण दोनशे सत्तावीस (२२७) निषेधाचे नेम दिल्यात. ताका 'पातिमोक्ख' अशें म्हण्टात. तांच्या पैकी दोन अनियत (अनियमित) आनी निमाणे ७५ सेखिय, म्हळचार खावपा जेवपांत, वागण्याउलौण्यांत, शिष्टाचारांत कशें चलचें ह्या संबंदानचे नेम. इतले उणे केल्यार, बाकी १५० नेमांकय अशोक काळाच्या अदमासाक पातिमोक्ख म्हण्टाले, अशें दिसता. त्या काळापैलीं हे सगळे नेम नाशिल्लेच, आनी जे आशिल्ले तातूंत मुळावे नेम सोडून उरिल्ल्या नेमांत फाव तो फेरफार करपाक संघाक पूर्ण अधिकार आशिल्लो. परिनिर्वाण पावचेपैलीं भगवान आनंदाक म्हण्टा, " आनंदा, जर संघाची इत्सा आसत जाल्यार म्हज्या फाटल्यान संघान बारीक-सारीक नेम काडून उडौचे."

हाजेवेल्यान बारीक-सारीक नेम काडून उडौंक वा देसकालानुसार सर्वसाधारण नेमांत फेरफार करूंक भगवन्तान संघाक पुरती मुभा दिल्ली हें स्पष्ट जाता.

## देहाक लागपी पदार्थ वापरपांत जतनाय

भिक्षूंक लागपी पदार्थांत चीवर, पिंडपात (अन्न), शयनासन (रावपाची सुवात) आनी वखद हे चार पदार्थ मुख्य आसताले. पातिमोक्खाच्या नेमानुसार तांचो उपभोग घेता आसतानापसून समजिकायेन वागचें, अशें भगवन्ताचें म्हणणे आशिल्लें.

चीवर न्हेसता आसताना भिक्षूंक म्हणचें पड – 'नीट विचार करून हें चीवर हांव वापरतां, तें केवळ शीं, उष्ण, जळार, मूस, वारें, वात, सोरोप हांची बाधा जावची न्हय म्हणून आनी गुह्येंद्रियां धांपपाच्या उद्देशान.'

पिंडपात सेवन करताना म्हणचें पड —'नीट विचार करून हो
डपात हांव सेवन करतां. तो शरीर क्रीडा करपाक समर्थ जावचें, मस्त
वचें, मंडित आनी भूषित जावचें म्हणून न्हय, तर केवळ शरिराचो सांबाळ
वचो, त्रास ना जावचो आनी ब्रह्मचर्याक मदत जावची म्हणून. ह्या
माण हांव (भुकेची) पोरणी वेदना ना करीन, आनी (चड खावन)
वी वेदना उत्पन्न करचों ना. हाका लागून म्हजी शरीरयात्रा चलतली,
ोकापवाद उरचो ना आनी जीण सुखाची जातली.'

शयनासन वापरताना म्हणचें पड—'नीट विचार करून हें शयना-
न हांव वापरतां, तें केवळ शीं, उष्ण, जळार, मूस, वारें, वोत, सोरोप,
चीं बाधा जावची न्हय म्हणून आनी एकान्तवासांतल्या विसवाखातीर.'
खदी पदार्थ वापरताना म्हणचें पड —'नीट विचार करून हो वखदी
दार्थ हांव वापरतां, तो केवळ उत्पन्न जाल्या रोगाच्या नाशाखातीर
ानी आरोग्य प्राप्त जायसरच[३]

## द्वेषान केल्लो संघभेद

घांत सरळपण आनी इष्टागत उरची ह्या सबंदान भगवान खूब खबर-
ारी घेतालो तरी लेगीत मनीससभाव असो कितें विचित्र आसा कि,
ाज्या समुदायांत मतभेद जावन पंगड पडपाचेच. हाका मुख्य कारण
हळचार अभिमान आनी ताज्या फाटोफाट अज्ञान. मनीस कितलोय
ादेपणान वागलो, तरी तो जर मुखेली जावपाची इत्सा बाळगिता आसलो
ाल्यार दुसऱ्याच्या गुणाक अवगुणाचे स्वरूप दिवन आपली व्हडवीक
ाडोपाचे यत्न केल्याबगर रावचो ना. ताज्या जाळ्यात अज्ञानी लोक
ांपडले जाल्यार ताका सहज एकाद्रो विलक्षण संप्रदाय स्थापूंक येता.

३. अशे तरेन कुडीक उपकरपी चार जिनस सादूर कायेन वापरप हाका पच्चवेक्खण (प्रत्यवेक्षण) म्हण्टात आनी ताजी वैवाट आजय चालू आसा.

बौद्ध संघांत अशे तरेचो पैलो भिक्षू म्हळ्यार देवदत्त. हो शाक्यांतलोच एक आसून बुद्धाच्या नात्याचो आशिल्लो. हाणें संघाचें मुखेलपण आपल्या सुवादीन करचें अशी भगवन्ताक विनवणी केली. भगवन्तान ती मान्य केली ना, तेन्ना अजातशत्रू राजाकडल्यान बुद्धाक थार मारूंक ताणें मारेकार धाडले. पुण ते बुद्धाचो खून न करतां उरफाटे ताजेच शिष्य जाले. तेन्ना देवदत्तान गृध्रकूट पर्वताच्या एका दोगूंल्लेवेल्यान बुद्धाचेर एक व्हडली खडप धुकलून घाली. तिजे एक चीप बुद्धाच्या पायाक लागून ताका घाय जालो. तो पेखतकच भगवान राजगृहाक भिक्षाटणाक गेल्लो आसताना देवदत्तान ताजेर नालगिरी नावाचो मादनार जाल्लो हती सोडूंक लायलो. ताणें भगवन्ताच्या पायांची धूळ मस्तकार घेतली आनी तो परतो आपले हतयावळींत वचून उबो रावलो. हे भशेन सगळ्यो मसलती फसतकच देवदत्तान संघाक तपच्छर्येचे कडक नेम घालून दिवपाची भगवन्ताक विनवणी केली. आनी ती भगवन्ताक मान्य न जाल्ल्यान संघांत धोंस घालून आनी कांय भिक्षूंक वांगडा घेवन तो गयेक गेलो.

देवदत्ताची ही कथा चुलवग्गात विस्तारान आयल्या.[४] परन्त तिज्यांत इतिहासीक तथ्य खूब थोडें दिसता. कित्याक म्हळ्यार, देवदत्त जर खून करपा इतलो दुष्ट आसतो, तर संघांत धोंस घालप ताका शक्य जातें ना आनी कांय भिक्षू ताजे भक्त जाते ना.

अजातशत्रू युवराज आसतांनाच ताजी आनी देवदत्ताची इष्टागत जमली आनी तेन्नाच्यान देवदत्त मुखेलपणाखातीर खटपट करूंक लागलो अशें लाभसत्कारसंयुत्ताच्या ३६ व्या सुत्तावेल्यान दिसून येता. त्या सुत्ताचो सारांश असो –

बुद्ध भगवान राजगृहांतल्या वेळूवनांत रावतालो त्या काळांत अजातशत्रू राजकुंवर पांचशें रथ बरोबर घेवन सकाळ सांज देवदत्ताच्या दर्शनाक वतालो आनी देवदत्ताक पांचशें पात्रांचें जेवण धाट्टालो. कांय

४. ‘बुद्धलीलासारसंग्रह,’ पृ. १७९–१८८ पळेयात.

ूंनी ही गजाल भगवन्ताक सांगली. तेन्ना भगवन्तान म्हळें, " भिक्षूंनो, दत्ताच्या लाभासत्काराची वान्सा धरू नाकात. लाभाक लागून देव-ाची हानीच जातली, वृद्धि जावची ना."

हे खेरीज देवदत्ताक उपदेसून भगवन्तान म्हळ्ळी सकली गाथा सकडेन मेळटा.

फलं वे कदलिं हन्ति फलं वेळुं फलं नळं।
सक्कारो कापुरिसं हन्ति गब्भो अस्सतरिं यथा ॥[5]

'फळ केळीचो नाश करता, फळ वेळूचो आनी फळ नळाचो नाश ंता; आनी खेचरीचो गाब खेचरीचो नाश करता. त्याच भशेन भौमान पुरुषाचो नाश करता.'

हाजेवेल्यान देवदत्त अधिकार जोडूंक अजातशत्रूच्या आलासऱ्यान ी खटपट करतालो हाजें अनुमान येता. अजातशत्रू बापायक न तख्तार आयलो तरी लेगीत देवदत्तान ताजी संगत सोडली ना आनी ज्याच मदतीन संघात धोंस घालून बऱ्याच भिक्षूंक ताणें आपल्या नादाक यले, हें ताजें कृत्य बुद्ध भगवन्ताक आवडलें ना हातूंत अजाब कसलें? न्न देवदत्तान घाल्ली धोंस संघाक नखलामींची न जातां त्या संकष्ठात-ान संघ सुसंगीत पार पडलो.[6]

## भिक्षु संगांतले आनीक एक झगडें

परें एक भिक्षुसंघांत साधारण झगडें कौशाम्बिक उद्भवल्ल्याचें सविस्तर ंन महावग्गांत सांपडटा. महावग्गाच्या कर्त्यान वा कर्त्यांनी ह्यासारक्या प्रसंगीं उपकरा पडटीत अशे रितीन हे कथेची रचणूक केल्या. तांच्या णण्याचो सारांश असो कि, दोगां विद्वान भिक्षुमदीं विनयाच्या एका ल्लक नेमासंबंदान मतभेद जावन हें झगडें उपरासलें. त्या वेळार भग-

---

'संयुत्तनिकाय' (P.T.S.) भाग २, पृ. २४१ आनी 'अंगुत्तरनिकाय' (P.T.S.) भाग २, पृ. ७३.

'बुद्धलीलासारसंग्रह' पृ. १८७–१८८ पळेयात.

वन्तान तांकां दीर्घायूची गजाल सांगली. पुण ते आयकनात जाले. तांचेपैकी एक भिक्षू म्हणूंक लागलो, "भदन्त, तुमी स्वस्त रावात. आमी ह्या झगड्याचें कितें जाता तें पळौन घेंव." त्या सगळ्यांचीं मनां कलुषित जाल्ल्यांत अशें पळौन भगवान कौशाम्बीच्यान पुरातन वंसदाव उपवनांत गेलो. थंय अनुरुद्ध, नंदिय आनी किम्बिल हे तीग भिक्षू रावताले. तांचो एकोपो पळौन भगवन्तान तांचें अभिनंदन केलें; आनी थैंच्यान भगवान पारिलेय्यक वनांत गेलो. त्याच वेळार एका हत्याच्या ताण्ड्याचो म्हान्त आपल्या ताण्ड्याक वाजेवन त्या वनात एकटोच रावतालो. ताणे भगवन्ताचें स्वागत केलें. भगवान ते सुवातेर कांय काळ रावन श्रावस्तीक आयलो.

हांगा कौशाम्बीच्या उपासकांनी त्या झगडपी भिक्षूंक ताळच्या हाडूंक तांचो कसल्याच तरेन आदरसत्कार करूं नये आनी तांकां भिक्षा घालूं नये असो बेत केलो. ताका लागून साबुद्दीर येवन ते भिक्षू श्रावस्तीक गेले. तेन्ना भगवन्तान झगडें कशें पाळचें ह्या संबंदान कांय नेम करून उपालि वी भिक्षूंकडल्यान तें झगडें पाळैलें.[७]

मज्झिमनिकायांतल्या उपक्किलेससुत्तांत (नं. १२८) महावग्गाच्या मजकुरापैकीं बरोच भाग आयला. पुण तातूंत दीर्घायूची गजाल तर नाच आनी त्या सुत्ताची समाप्ती पुर्विल्ल्या वंसदाव वनातच जाता. पारिलेय्यक वनांत बुद्धभगवान गेल्याचो भाग त्या सुत्तांत ना. तो उदानवग्गांत सांपडटा.

कौशाम्बियसुत्तांत ह्या परस वेगळोच मजकूर आसा. ताजो सारांश असो —

भगवान कौशाम्बीक घोषितारामांत रावतालो. त्या वेळार कौशाम्बी-तले भिक्षू एकमेकांकडेन झगडटाले. भगवन्ताक ही गजाल कळ्ळी, तेन्ना ताणे त्या भिक्षूंक आपौन हाडले; आनी भगवन्तान तांका म्हळें, "भिक्षूनो,

७. 'बौद्ध संघाचा परिचय' पृ. ३७–४३ पळेयात.

तुमी एकमेकांकडेन झगडटात तेन्ना तुमचें एकमेकांसंबंदीचें कार्यचें, र्तें, आनी मनाचें कर्म मैत्रीमय आसप शक्य आसा व्हय?"

"ना." अशें त्या भिक्षूंनीं उत्तर दिलें. तेन्ना भगवन्तान म्हळें. "अशें ना, तर तुमी झगडटात कित्याक? अर्थ नाशिल्ल्या मनशांनो, तरेचे झगडें तुमकां सदांकाळ नुकसानाचें आनी दुःखाचें जातलें."

परतें भगवन्तान म्हळें, "भिक्षूंनो, ह्यो स निरंतर स्मरणात दवर- वो गजाली झगडीं पालौक समग्रकायेक आनी एकचाराक कारण त. त्यो खैंच्यो? (१) मैत्रीमय कायकर्मां, (२) मैत्रीमय वाचिक , (३) मैत्रीमय मानस कर्मां, (४) उपासकांकडल्यान मेळिल्ल्या र्माचो उपभोग सगळया संघांवांगडा सम वांटे करून घेवप, (५) या शीलांत मातय उणेंपण आसूंक न दिवप, आनी (६) आर्यश्राव- सोबसारकी सम्यक् दृष्टी दवरप."

हे सम्यक् दृष्टीचें भगवन्तान बरेंच विवेचन केलां. तें विस्तारान दिवपाची गरज दिसना. ह्या उपदेसाच्या अखेरेक त्या भिक्षूंनीं भग- च्या भाषणाचें अभिनंदन केलें.

हाजो अर्थ असो जाता कि, हें झगडें थैंच्या थैंच पालवलें ना जाल्यार न्ताच्या भाषणाचें ते भिक्षू अभिनंदन कशें करताले आशिल्ले? वग्गांत आनी उपक्किलेस सुत्तांत त्या भिक्षूंनीं भगवन्ताचें अभिनंदन याचो उल्लेख ना; ते झगडतच रावले आनी तांकां उबगून भगवान ान भायर सरून पुर्विल्ल्या वंसदाव वनांत गेलो अशें थंय म्हळां. ह्या परस्परविरोधाचो मेळ कसो घालचो?

अंगुत्तरनिकायाच्या चतुक्क निपाताच्या २४१ व्या सुत्तांत हो कूर आसा :—

एकदां भगवान कौशाम्बीक घोषितारामांत रावतालो. तेन्ना आयु- न आनंद ताजेकडेन येवन नमस्कार करून एके कुशीक बसलो. ताका वन्तान म्हळें, "आनंदा, तो खटलो पालवलो काय ना?"

आ. — भदन्त, खटलो पालवतलो कसो? अनुरुद्धाचो शिष्य बाहि जसो कितें संघ फोडूंकच मुखार सल्ला; आनी अनुरुद्ध ताकां ए उतरानपसून उलैना.

भ.– पुण, आनंदा, अनुरुद्ध संघांतली किजिलां सोडवपाच्या कामा केन्ना हात घालतालो? तूं आनीक सारिपुत्त – मोग्गल्लान हीं किजि मेटैतात न्हय?

ह्या वेल्यान अशें दिसून येतलें कि, बाहियाक लागून हें झगडें उपरा विकोपाक गेलें आनी तें मेटौपाच्या कामांत खुद्द भगवन्ताक खटपट कर पडली. त्या भिक्षूंच्या सभेंतल्यान भगवान कांय काळ दुसरेकडेन गे आसलो, तरी तें झगडे कौशाम्बीकच मेटलें जावयें.

अशा प्रसंगार झगडाळ भिक्षूंक ताळ्यार हाडपाखातीर उपासकां तांचेर बहिष्कार घालचो आनी ते साबुद्दीर आयले म्हण्टकच खैंच्य तरी पद्धतीन तें झगडें मेटौंचें, हें दाखौपाच्या उद्देशान महावग्गाच्या कत्य ही कथा रचल्या, अशें सिद्ध जाता. असल्या ल्हान सान झगड्यांचो संघ चेर विपरीत परिणाम जावप बिलकुल शक्य नाशिल्लें.

## भिक्षुणीसंघाची स्थापना

भिक्षणीसंघाचे स्थापनेची हकीकत चुल्लवग्गांत आयल्या. तिजो सार असो :–

बुद्ध भगवान कपिलवस्तूंतल्या निग्रोधारामांत रावतालो. तेन्ना म प्रजापती गोतमी भगवन्तासरीं येवन म्हणूंक लागली, "भदन्त, बायल तुमगेल्या संप्रदायांत प्रव्रज्या घेवंक परवानगी दियात." भगवन्तान विनंती तीनदां नाकाल्ली. आनी भगवान थैंच्यान वैशालीक आय महाप्रजापती गोतमी आपलें केशवपन करून आनी बऱ्याच शाक्य बायल बरोबर घेवन भगवन्ताच्या फाटोफाट वैशालीक आयली. प्रवासान पांय सुजिल्ले, आंग धुल्लान माखिल्लें आनी तिच्या चेऱ्यार उदासीन

ल्ली. तिका पळौन आनंदान तिज्या उदासकायेचे कारण विचाल्लें. लांक बौद्ध संप्रदायांत प्रव्रज्या घेवंक भगवान परवानगी दिना, हांव उदास जाल्यां," अशें गोतमी उलैली. तिका थैंच रावंक सांगून भगवन्तासरीं गेलो, आनी बायलांक प्रव्रज्या घेवंक परवानगी दिवची ताणे भगवन्ताक विनंती केली. भगवन्तान ती गजाल नाकाल्ली. आनंदान म्हळें, " भदन्त, तथागतान सांगिल्ल्या धर्मसंप्रदायांत भिक्षुणी एकाद्रे बायलेमनशेक स्रोतआपत्तिफल, सकृदागामिफल, अना- फल आनी अर्हत्फल[८] प्राप्त करून घेवप शक्य आसा काय ना?" न्तान " शक्य आसा." अशी जाप दितकच आनंदान म्हळें, " अशें ासा तर जे मावशेन भगवन्ताक आवयफाटल्यान दुद दिवन ल्हानाचो केलो तिजे विनंतीखातीर भगवन्तान बायलांक प्रव्रज्या दिवची."

भगवन्तान म्हळें, " जर महाप्रजापती गोतमी जापसालदारींचे आठ (अट्ठगरुधम्मा) पत्करता आसत जाल्यार बायलांक प्रव्रज्या घेवंक परवानगी दितां. (१) भिक्षुणी संघांत कितलींय वर्सां राविल्ली आसू, ल्हान व्हड सगळ्या भिक्षूंक नमस्कार करूंक जाय. (२) ज्या, त भिक्षू नासतीत त्या गांवांत भिक्षुणीन रावंक कामा नये. (३) दर शीक उपोसत खंयच्या दिसा आनी धर्मोपदेस आयकूंक केन्ना येवचें, ह्यो गजाली भिक्षुणीन भिक्षुसंघाक विचारच्यो. (४) चातुर्मासाउपरांत णीन भिक्षुसंघाची आनी भिक्षुणीसंघाची प्रवारणा[९] करूंक जाय. जे भिक्षुणीकडल्यान संघादिशेष आपत्ती घडिल्ली आसत, तिणे संघांकडल्यान पंदरा दिसाचे मानत्त[१०] घेवंक जाय. (६) दोन

---

या चार फलांची फोडणिशी फुडें ह्याच प्रकरणांत आयल्या. पृ. १५९ पळेयात.

. आपलो दोष सांगपासबंदान संघाक विनंती करप. 'बौद्ध संघाचा परिचय' पृ. २४–२६ पळेयात.

संघाचो संतोष जावपाखातीर विहाराभायर रात काडप. 'बौद्ध- संघाचा परिचय' पृ. ४७ पळेयात.

वर्सां अभ्यास केल्लो आसत अशे श्रामणेरीक दोनय संघांनी उपसंप
दिवंक जाय. (७) कसल्याय कारणाक लागून जांव, भिक्षुणीन भिक्षू
गाळी मारूंक जायना. (८) भिक्षुणीन भिक्षूक उपदेस करूंक जायना
भिक्षून भिक्षुणीक उपदेस करचो."

आनंदान ते आठ नेम महाप्रजापती गोतमीक कळैले आनी तिका
पसन्त पडले. येथमेरेन ही कथा अंगुत्तरनिकायाच्या अट्ठकनिपातांत
मेळटा आनी त्या उपरान्त भगवान आनंदाक म्हण्टा, " आनंदा, ज
बायलांक ह्या धर्मविनयांत प्रव्रज्या मेळूंक नासती, तर हो धर्म (ब्रह्मचर्य
एक हजार वर्सां तिगतालो आशिल्लो. जे अर्थी आतां बायलमनशेक सन्य
साचो अधिकार दिवन जाला, ते अर्थी हो सद्धर्म पांचशें वर्सां तिगतलो

ह्याप्रमाण विनय आनी अंगुत्तरनिकाय हांचो मेळ आसा, त
लेगीन हे आठ गुरुधर्म फाटसून रचले अशें म्हणचें पडटा; किता
म्हळ्यार, विनयाचे नेम घालून दिवपाची जी भगवन्ताची पद्धत आशिल्ली
तिजो ह्या नेमाकडेन उक्तो विरोध आसा.

बुद्ध भगवान वेरंजा गांवांसरीं रावतालो त्या काळार वेरंज्या गांवा
आसपास दुकळ पडिल्ल्यान भिक्षूंचें खूब हाल जावंक लागले. तेन्ना सारि
पुत्तान भगवन्ताक विनंती केली कि, भिक्षूक आचारविचारांसंबंदान ने
घालून दिवचे. भगवन्तान म्हळें, " सारिपुत्ता, मात्सो राव. नेम घाल
दिवपाचो प्रसंग खैंचो ते तथागताकच कळटा. संघांत जोंमे
पापाचार भितर सरले नात तोंमेरेन तथागत तांकां निवारपाचे नेम घाल
दिना."[११]

ह्या बुद्धाच्या वचनाक धरून सगळ्याच नेमांची रचणूक केल्या
आरंबाक एकाद्रो भिक्षु कसलोय पुण गुन्याव वा चूक करता. ही गज
बुद्धाच्या कानार येतकच भिक्षुसंघ जमौन भगवान एकाद्रो नेम घाल

११. ' बौद्ध संघाचा परिचय ' पृ. ५२–५३ पळेयात.

आनी त्या नेमाच्या अर्थाक सारको पाळो मेळना, असो अणभव
जाल्यार तातूंत फुडे सुधारणा करता.

परन्त महाप्रजापती गोतमीचे बाबतीत हे पद्धतीचो अंगिकार केल्लो
भिक्षुणीसंघात कसलोच दोष घडून आयिल्लो नासताना आरंबाकच
तींचेर हे आठ नेम लादले, हें विचित्र दिसता; आनी भिक्षुसंघांत
सत्ता आपल्या हातांत दवरपाखातीर फाटसून हे नेम रचून विनयांत
अंगुत्तरनिकायांत दाखल केले, अशें अनुमान करूं येता.

विनयपिटकापरस सुत्तपिटक अदीक पुरातन. पुण तातूंत काय सुत्तां
न दाखल केल्यात. तांतलेंच हें एक आसूंये, अशें दिसता. इसवी
नीं पैल्या आनी दुसऱ्या शेंकडयांत जेन्ना महायान पंथांचो नेटान
जावंक लागलो तेन्ना तें बरैलें जावंयें. तातूंत सद्धर्म म्हळचार स्थविर-
पंथ. भिक्षुणीसंघाचे स्थापनेक लागून तो पांचशें वर्सां तिगतलो
उपरान्त मेळत थंय महायान संप्रदायाचो प्रसार जातलो, असो ह्या
त्र्याचो भविष्यवाद आसूंये. हें सुत्त भगवान बुद्धाच्या परिनिर्वाणा-
न्त पांचशें वर्सांनी बरैलें, अशें ह्या भविष्यावेल्यानच सिद्ध जाता.

भारतवर्षांत पयलो भिक्षुणी संघ बुद्धानच स्थापन केलो, अशें आसतें
र कदाचित ह्या आठ गुरुधर्मांची अल्पस्वल्प प्रमाणांत इतिहासांत
करूं येताली. पुण वस्तुस्थिती तशी नाशिल्ली. जैन आनी हेर संप्र-
बौद्ध संप्रदायापरस एक दोन शेंकडयांपैलीं अस्तित्वात आशिल्ले आनी
संप्रदायांत भिक्षुणीचे व्हडले व्हडले संघ आसून तांच्या पैकी कांय
णी हुशार आनी शिकिल्ल्यो सवरिल्ल्यो आशिल्ल्यो. अशी म्हायती
वाङमयात बरेचकडेन सांपडटा. तेच धर्तीचेर बुद्धाचो भिक्षुणीसंघ
न जालो. गणसत्ताक राज्यांत आनी ज्या देशांनी एकसत्ताक
पद्दत उदयाक आयली थंय लेगीत, बायलांक बरोच
आसतालो. ताकां लागून भिक्षुणी संघाच्या रक्षणाखातीर

विचित्र नेम करपाची निखालस गरज नाशिल्ली. अशोका
काळाउपरान्त ही परिस्थिती पालटली. ह्या देशाचेर यवन आनी श
लोकांच्यो धाडी पडूंक लागल्यो आनी दिशिंदिशीं बायलाचो दर्जो सा
सकल जावन समाजात तांचो मान उल्लो ना. त्या काळाक भिक्षुणीसंबं
अशे तरेचे नेम अस्तित्वात आयले जाल्यार तातूंत नवल कसलें?

## राहुल श्रामणेर

भिक्षुसंघ आनी भिक्षुणीसंघ स्थापन जातकच तातूंत श्रामणेर आनी श्राम
दाखल करून घेवच्यो पडल्यो. सुर्वेक बुद्ध भगवन्तान राहुलाक श्राम
करून घेतिल्ल्याची कथा महावग्गांत आयल्या ती अशी :—

भगवान कांय काळ राजगृहात रावन कपिलवस्तूक आयलो.
तो निग्रोधारामांत रावतालो. एक दीस भगवान शुद्धोदनाच्या घराकडल
भिक्षाटन करीत आसताना राहुलमातेन ताका पळैलो. तेन्ना तिणे राहु
म्हळें, "पुता राहुला, हो तुजो बापुय. ताजेकडेन वचून तुगेलो दाय
माग." आवयचें वचन आयकून राहुल भगवन्तामुखार वचून उबो रा
आनी ताणे म्हळें, "श्रमणा, तुजी सांवळी सुखाची जांव." भग
थैंच्यान चलूंक लागलो. राहुल ताजेफाटोफाट, 'म्हजो दायभाग दिया
अशें म्हणंत गेलो. विहारांत वतकच आपलें दायज राहुलाक दिवपा
उद्देशान सारिपुत्ताक आपौन भगवन्तान राहुलाक श्रामणेर करूंक लाय
ती गजाल शुद्धोदनाक रूचली ना. ल्हान भुरग्यांक प्रव्रज्या दिली जा
तांच्या पालकांक कशें दुःख जाता, हें सांगून ताणें भगवन्ताक असो
करूंक लायलो कि, भुरगेपणांत मनशाक प्रव्रज्या दिवं नये.

ही कथा इतिहासिक कसोटेक तिगना. एक तर शुद्धोदन
कपिलवस्तूंत रावनाशिल्लो. दुसरें, निग्रोधाराम बांदलो तो बुद्धाच्या उ
वयांत आनी त्यावेळार राहुल वयान भुरगो नाशिल्लो. तेन्ना ही ग
पुस्कळ शेंकड्यांउपरान्त रचून महावग्गांत दाखल केल्या अशें म
पडटा.

बुद्ध भगवन्तान राहुलाक श्रामणेरदीक्षा दिली त्या वेळार ताजें वय
वर्सांचें आशिल्लें, अशें अम्बलट्ठिकराहुलोवाद सुत्ताच्या अट्ठकथेंत
आनी होच समज बौद्ध लोकांत अद्यापय चलता. बोधिसत्त्वान
ग केलो त्याच दिसा राहुलकुमार जालो अशें गृहीत धल्लें जाल्यार
मणेर दीक्षेच्या वेळार सात वर्सांचो आशिल्लो हे संभवना. कित्याक
ार गृहत्यागाउपरान्त बोधिसत्त्वान सात वर्सां तपच्छर्या केली आनी
ाध जातकच पैलो चातुर्मास वाराणसीक काडलो; आनी त्या उप-
संघाचे स्थापनेक एक वर्स तरी लागलें आसूंक जाय. तेन्ना राहुलकुमार
ार दीक्षेच्या वेळार सात वर्सांचो आसप शक्यच नाशिल्लें. राहुलाक
ार कशे तरेन केलो, हाजें अनुमान सुत्तनिपातांतल्या राहुलसुत्ता-
ा करूंक येसारकें आसा, म्हणून त्या सुत्ताचें भाषांतर हांगा दिता.

(भगवान–) (१) सदांच्या संवकळेक लागून तू पंडिताची अवज्ञा
मू? मनशाक ज्ञानाचो उजवाड दाखैतल्याची (तांची) तूं फावशी
करता मू?

(राहुल–) (२) हांव सदांचे संवकळेक लागून पंडितांची अवज्ञा
ा. मनशाक ज्ञानाचो उजवाड दाखैतल्याची हांव सदाकाळ फाव ती
करतां.

(ह्यो प्रास्तविक गाथा)

(भगवान–) (३) प्रिय दिसपी मनोरम (पंचेंद्रियांचें) पांच कामो-
सोडून स्रद्धेन घरांतल्यान भायर सर आनी दुःखाचो शेवट करपी जा.

(४) कल्याण करपी इष्टांची संगत धर. जंय चडसो बोवाळ ना अशे
न सुवातेर तुजें रावपाचें स्थळ आसूंदी; आनी मोतादान खा, जेव.

(५) चीवर (वस्त्र), पिण्डपात (अन्न) वखदी पदार्थ आनी राव-
सुवात हांची तृष्णा धरूं नाका आनी पुनर्जल्म घेवं नाका.

(६) विनयाच्या नेमांत आनी पांचय इंद्रियांत संयम पाळ, काय-
स्मृती आसूंदी; आनी वैराग्यान संपन्न जा.

(७) कामविकारान भरसल्यात अशा विषयांचें शुभ निमि सोडून दी आनी एकाग्रताय आनी समाधी प्राप्त करून दिवपी अशुभ निमि त्ताची भावना[१२] कर.

(८) आनी अनिमित्ताची (निर्वाणाची) भावना कर आनी हन्त सोड. हन्तम ना करतकच तू शान्ततायेंत रावतलो.

ह्या प्रमाण भगवन्तान ह्या गाथानी राहुलाक परतो परतो उपदे केलो.

ह्या सुत्तांत एकांदर आठ गाथा आसात. पैकीं दुसरी राहुला आनी बाकीच्यो भगवन्ताच्यो; अशें अट्ठकथाकारांचें म्हणणें आस पैलें गाथेंत भगवन्तान ज्याका पंडित म्हळां, तो सारिपुत्त, अशेंय अट् कथाकार म्हण्टा; आनी तें बरोबर जावंये अशें दिसता. राहुल वय भुरगो आसतानाच ताका शिक्षणाखातीर भगवन्तान सारिपुत्ताच्या मु दिन केलो. आनी एक दोन वर्सांनी वयार येतकच ताकां भगवन्तान उपदेस केलो जावंये. कित्याक म्हळ्यार, ह्या सुत्तांत सांगिल्ल्यो गजा ल्हान वयाच्या भुरग्याक समजुपाजोगत्यो नात. राहुल श्रामणेर जाल जाल्यार 'स्रद्धेन घरातल्यान भायर सरून दुःखाचो शेवट करपी ज असो उपदेस करपाची गरजच नाशिल्ली.

ब्राह्मण तरुण गुरूच्या घरा वचून ब्रह्मचर्य पाळून वेदांचे अध्य करताले आनी त्या उपरान्त आपले आवडीप्रमाण गृहस्थास्रम वा तपच्छर्ये मार्ग अवलंबताले. तसोच प्रकार राहुलाचे बाबतींत जालो जावंये. ता सर्वसाधारण ज्ञान मेळचें म्हणून भगवन्तान ताका सारिपुत्ताच्या सुवा केलो आनी सारिपुत्ताबरोबर तो राविल्ल्यान ताका ब्रह्मचर्य पाळप अ श्यकच आशिल्लें. वयार येतकच ताणे परत गृहस्थास्रमांत वचूं नये म्ह भगवन्तान ताका हो उपदेस केला; आनी ह्या राहुलाचे गजालीचे बुन्या चेर महावग्गकारान श्रामणेरांची लांब लचक कथा रचली.

१२. अशुभ भावनेसंबंदान 'समाधिमार्ग' पृ. ४९-५८ पळेयात.

## हेर श्रामणेर

भगवन्ताचे ह्यातीत भुरग्या वयांत संघांत दाखल जाल्ले श्रामणेर
ाच थोडे आशिल्ले. पुण दुसऱ्या संप्रदायांतल्यान जे परिव्राजक येताले
ां चार म्हयने उमेदवारी करची पडटाली आनी अशा प्रकारच्या श्राम-
चोच भरणो चड आशिल्लो अशें दिसतां. दीघनिकायांतल्या महासीहनाद
ाचे अखेरेक काश्यप परिव्राजक बुद्धाच्या भिक्षुसंघांत प्रवेश करूंक
ता तेन्ना भगवान ताका म्हणटा, " काश्यपा, ह्या संप्रदायांत जो प्रव्रज्या
न संघांत प्रवेश करूंक सोदता, ताका चार म्हयने उमेदवारी करची पडटा.
र म्हैन्या उपरान्त भिक्षूंची खात्री जाली म्हणटकच ते ताका प्रव्रज्या,
न संघांत दाखल करतात. हे बाबतींत अपवाद आसात, हें हांव जाणां."

याप्रमाण काश्यपान चार म्हैने उमेदवारी केली आनी भिक्षूंची खात्री
ाकच ताका संघांत दाखल करून घेतलो.

## श्रमणेर संस्थेची वाढ

ाणेरांची संस्था भगवन्ताच्या परिनिर्वाणाउपरान्त वाडत गेली आनी
फुडें भुरगेपणांत श्रामणेर जावन भिक्षू जातल्यांचीच संख्या चड मोटी
ी. ताकां लागून संघांत दोष रिगले. खासा बुद्ध भगवान आनी ताजो
ुसंघ हांकां प्रपंच्याचो जायतो अगभव आशिल्लो आनी तांचें मन परत
्याकडेन धावप शक्य नाशिल्लें. पुण भुरगेपणांतच संन्यासाची दीक्षा
न ज्यांकां प्रपंच्यातल्यान भायर काडले तांची ओड संसाराकडेन वचप
ाविकच आशिल्लें. पुण रूढ तांच्या आड येवंक लागली. आनी तांच्या
की पुस्कळ मानसिक दोष घडूंक लागले. संघाच्या नाशाक जीं जायतीं
णां जालीं तांच्यापैकीं हें एक प्रमुख कारण समजूंक जाय.

श्रामणेरांच्या धर्तीचेरच श्रामणेरींची संस्था उबी जाल्ली. श्रामणेर
ूंच्या आनी श्रामणेरी भिक्षुणींच्या आस्रयान रावत, होच कितें तो
क.

## श्रावक संघाचे चार विभाग

परन्त संघाच्या चार विभागात श्रामणेरांची आनी श्रामणेरींची गणना केल्ली ना. ताका लागून भगवन्ताचे हयातीत तांकां बिलकुल म्हत्व नाशिल्लें अशें समजूंक जाय. भिक्षू, भिक्षुणी, उपासक आनी उपासिका हेच ते बुद्धाच्या श्रावक संघाचे विभाग.

भिक्षुसंघाची कामगिरी खूब व्हडली आशिल्ली, हातूंत दुबाव ना; तरी पुण भिक्षुणी, उपासक आनी उपासिका हाणी लेगीत संघाचे उन्नतीक पुस्कळ भर घाल्ल्याचे जायते दाखले त्रिपिटक वाङमयांत सांपडटात.

## बायलांचो दर्जो

बुद्धाच्या धर्ममार्गांत बायलांचो दर्जो दादल्यांइतलोच आशिल्लो, हें मारा भिक्षुणींच्या माराबरोबर जाल्ल्या सकल्या संवादावेल्यान दिसून येतलें.

दनपारच्या पारार सोमा भिक्षुणी श्रावस्ती लागशिल्ल्या अंधवनांत ध्यान करूंक बसली, तेन्ना मारान तिजेसरीं येवन म्हळें,

यन्तं इसीहि पत्तब्बं ठानं दुरभिसंभवं ।
न तं द्वंगुलपञ्ञाय सक्का पप्पोतुमित्थिया ।।

‘जें (निर्वाण) स्थान ऋषींक मेळप कठीण, तें (शिजिल्लें शीत तपासून पळोवपाची) दोन आंगळां जिची बुद्द, ते बायलेक मेळप शक्य ना.’

सोमा भिक्षुणीन म्हळें,

इत्थिभावो किं कयिरा चित्तम्हि सुसमाहिते ।
ञाणम्हि वत्तमानम्हि सम्मा धम्मं विपस्सतो ।।
यस्स नून सिया एवं इत्थाहं पुरिसो ति वा ।
किञ्चि वा पन अस्मीति तं मारो वत्तुमरहति ।। [१३]

‘चित्त उत्तम तरेन समाधान पाविल्लें आसल्यार आनी ज्ञानाचो लाव जाल्लो आसल्यार सम्यक पणान धर्म जाणपी व्यक्तीक (निर्वाण मार्गांत,

१३. भिक्खुणीसंयुत्त, सुत्त.२.

पण कशें आड येतलें? ज्या कोणाक हांव बायल, हांव दादलो वा कोणय तरी, असो हन्तम[१४] आसत, ताकां मारान ह्यो गजाली यो!'

आपणांक सोमा भिक्षुणीन वळखिलो, हें जाणून मार दुखेस्त अन्त-गान थंयच गुप्त जालो.

हो संवाद काव्यमय आसा. तरी लेगीत ताजेवेल्यान बौद्ध संघांत ांचो दर्जो कसो आशिल्लो, हें स्पष्ट जाता.

## निर्वाण मार्गांतल्या श्रावकांचे चार प्रकार

निर्वाण मार्गांतल्या श्रावकांचें सोतापन्न, सकदागामी, अनागामी आनी , अशे चार प्रकार आशिल्ले. सक्काय दिट्ठि (आत्मो हो निराळो आसून तो नित्य आसा अशी दृष्टी), विचिकिच्छा (बुद्ध, धर्म आनी हांचेविशीं दुबाव वा अविस्वास), सीलब्बतपरामास (स्नानादिक आनी उपासांनी मुक्ती मेळटली असो विस्वास) ह्या तीन संयो-ों (बंधनांचो) नाश केलो जाल्यार श्रावक सोतापन्न जाता; आनी मार्गांत तो थीर जालो म्हण्टकच ताका सोतापत्तिफलट्ठो[१५] म्हण्टात. उपरान्त कामराग (कामवासना), आनी पटिघ (क्रोध) हीं दोन ना धील जावंन अज्ञान उणे जालें म्हण्टकच तो सकदागामी जाता; त्या मार्गांत थीर जातकच ताका सकदागामीफलट्ठो म्हण्टात पांचय संयोजनाचो सामको लय करतकच श्रावक अनागामी जाता; त्या मार्गांत थीर जातकच ताका अनागामिफलट्ठो म्हण्टात. त्या न्त रूपराग (ब्रह्मलोकाचे बी प्राप्तीची इत्सा), अरूपराग (अरूप काचे प्राप्तीची इत्सा), मान (अहंकार) उद्धच्च (भ्रांतचित्तत्व)

---

हन्तम तीन तरांचो (१) हांव ऊंच हो (२) हांव समान हो (३) हांव उणाक हो. विभंग (P.T.S.) पृ. ३४६ आनी ३५३.

फलट्ठो—फलस्थः

आनी अविज्जा (अविद्या) , ह्या पांच संयोजनाचो लय करून तो अरह
(अर्हन्) जाता; आनी त्या मार्गांत थीर जालो म्हण्टकच ताका अरह
प्फलट्ठो (अर्हत्फलस्थ) म्हण्टात. ह्याप्रमाण श्रावकांचे चार वा आ
भेद केल्यात.

चित्र आनी विशाख हे गृहस्थ आसून अनागामी आशिल्ले. आनी
आनंद भिक्षू आसताना भगवन्ताच्या हयातींत केवळ सोतापन्न आशिल्लो
क्षेमा, उत्पलवर्णा बी भिक्षुणी अर्हत्पदाक पाविल्ल्यो. म्हणचे निर्वाणमार्गा
प्रगती करूंक बायलपण वा गृहस्थपण बिलकुल आड ये नाशिल्लें.

## संघा ी प्रतिष्ठा

बुद्धं सरणं गच्छामि ।
धम्मं सरणं गच्छामि ।
संघं सरणं गच्छामि ।

हाका शरणगमन म्हण्टात. आजय बौद्ध लोक हेंच त्रिशरण म्हण्टात
ही वैवाट बुद्धाच्या हयातीतच सुरू जाली जावंये. आपल्या धर्मांइतलें
म्हत्व बुद्ध भगवन्तान संघाक दिवन दवरलां, हें ध्यानांत दवरिसारखे
आसा. खैंच्याय दुसऱ्या धर्मांत हो प्रकार ना. जेजू क्रिस्त म्हण्टा, " त्रस
आनी वज्यान बागवल्ल्या लोकांनो, तुमी सगळे म्हजेकडेन येयात. म्हण्टक
हांव तुमकां विसव दीन.[१६]

आनी कृष्ण भगवान म्हण्टा,

सर्वधर्मान्परित्यज्य मामेकं शरणं व्रज ।
अहं त्वा सर्वपापेभ्यो मोक्षयिष्यामि मा शुच ॥[१७]

'सगळे धर्म सोडून तू म्हाका एकटयाकच शरण वच; हांव तुक
सगळ्या पापातसून मुक्त करीन. तू शोक करूं नाका.'

१६. Matthew, 11, 28.
१७. भगवद्गीता अ. १८, श्लो. ६६.

पुण बुद्ध भगवान म्हण्टा, "तुमी बुद्ध, धर्म आनी संघ हांचो आस्रय
न खासा आपल्या परिश्रमान आपणालें आनी हेरांचे दुःख ना करात;
चें दुःख उणें करात."

जगांतल्या सुज्ञ आनी शीलवान दादल्या बायलांचो मोटो संघ
ान ताका जर आमी शरण गेले जाल्यार दुःख ना करपाचो मार्ग सोंपो
ाचोना व्हय?

## संघच्च सगळ्यांचो फुडारी

भगवन्तान आपल्या फाटल्यान संघाचो फुडारी नेमलो ना; सगळ्या
ान मेळून संघाची कार्यां करूंक जाय, असो नेम घालून दिलो. एकसत्ताक
यपद्धतीत रूळिल्ल्या लोकांक बुद्धाची ही पद्धत विचित्र दिसली जाल्यार
ूंत नवल ना.

भगवान परिनिर्वाण पावन चड काळ जावंक नाशिल्लो. त्या काळार
ांद राजगृहांत रावतालो. प्रद्योताच्या भयान अजातशत्रू राजान राज-
ाची दागदुजी चलैली; आनी त्या कामार गोपक मोग्गल्लान ब्राह्मणाची
णूक केली. आयुष्मान आनंद राजगृहांत भिक्षेक वचूंक भायर सल्लो.
भिक्षाटणांक अजून कळाव आसा अशें दिसून तो गोपक मोग्गल्लान
ह्मणाच्या कामार गेलो. ब्राह्मणान ताका आसन दिलें आनी स्वता
प्रतीच्या आसनार बसून प्रस्न विचाल्लो, "भगवन्तासारको गुणेस्त
क्षू आसा व्हय?" आनंदान "ना" अशी जाप दिली.

ही गजाल चलिल्ली आसताना मगध देशाचो मुख्यमंत्री वस्सकार
ह्मण थंय आयलो; आनी ताणे चलिल्ली गजाल आयकून घेवन आनंदाक
न केलो, "त्या भगवन्तान अशा एकाद्रया भिक्षूची निवड केल्या व्हय,
भगवन्ताच्या अभावी संघ त्या भिक्षूक शरण वचत?" आनंदान "ना",
ी जाप दितकच वस्सकार ब्राह्मणान म्हळें, "असो कोणय एकाद्रो भिक्षू
सा व्हय, कि जाका संघान भगवन्ताच्या जाग्यार निवडला?" आनंदान

" ना " अशी जाप दिली. वस्सकारान म्हळें, " तेन्ना तुमच्या ह्या भिक्षु-संघाक कोणच नियन्तो ना. अशे आसतना ह्या संघात एकवट कसो उरता?" आनंदान म्हळें, "आमकां नियन्तो ना अशें समजू नये, भगवन्तान विनयाचे नेम घालून दिल्यात. जितले म्हणून भिक्षू एका गांवांत रावतात तितलेच एकठांय जमून त्या नेमांची आमी उजळणी करतात; ज्याचेकडल्यान दोष घडला जायत तो आपणालो दोष उलोन दाखैता आनी त्याबद्दल प्रायश्चित घेता.. एकाद्रो भिक्षू शीलादिक गुणांनी संपन्न आसलो जाल्यार ताजो मान आमी सांबाळटात आनी ताजी बुद्ध घेतात.".[१८]

वस्सकार ब्राह्मण अजातशत्रू राजाचो प्रधान आशिल्लो. कोणय पुण सर्वाधिकारी व्यक्ति आसल्या बगर राज्याची वेवस्ता सुरळीत चलप शक्य ना, अशें ताजें ठाम मत आशिल्लें जावंक जाय. बुद्धान आपल्या आसनार कोणच बसैलो ना तरी निदान संघान एकाद्रया भिक्षूक निवडून त्या आसनार ताजी स्थापना करूंक जाय, अशें वस्सकार ब्राह्मणाचें म्हणणें. पुण अशा सर्वाधिकाऱ्याबगर बुद्धाफटल्यानपसून संघाचे काम सुरळीत चल्लें हाजेवेल्यान बुद्धान थारायल्ली संघाची बांदावळ योग्यच आशिल्ली अशें म्हणचें पडटा.

---

१८. मज्झिमनिकाय, गोपकमोग्गल्लानसुत्त (नं. १०८).

प्रकरण सातवें

# आत्मवाद

## आत्मवादी श्रमण

ापसुत्तान बुद्धाचे मुस्तींतल्या श्रमण ब्राह्मणांचे स्थूळ मानान चार वर्ग ात. तांतलो पैलो वर्ग यज्ञयाग करून सोम पियेपी ब्राह्मणांचो. अशा ानय मोक्ष मेळटा, हो तांचो समज; यज्ञयागाक आनी सोमपानाक ागून जे अरण्यांत गेले, आनी खडतर तपच्छर्या करूंक लागले, ते ऋषि- ो दुसऱ्या वर्गांत मोडटात. ते निरंतर अरण्यांत तिगूंक शकले नात. ो, प्रपंच्यांत आयले, आनी चैनींत सुख मानूंक लागले. पराशर, ऋष्यशृङग ऋषींचे दाखले आसातच. तिसरे श्रमण ब्राह्मण म्हळयार गांवालागसार ान अल्पाहार करपी श्रमण. पुण ते आत्मवादांत भितर सल्ले. कोण ्मो शाश्वत, तर कोण आत्मो अशाश्वत, अशा वादांत पडिल्यान तेय ाराच्या जाळयांत सांपडले. बुद्ध भगवन्तान हो आत्मवाद सोडून दिलो नी आपणालें तत्त्वज्ञान सत्याचे बुन्यादीचेर उबाल्लें. ताका लागून ताजे वक माराच्या जाळयांत सांपडले नात. म्हणून तांचो समावेस चौथ्या ाण ब्राह्मणांत केला.[1]

बुद्ध भगवन्तान हो आत्मवाद कित्याक सोडून दिलो हाजो विचार ाच्यापैलीं तेन्नाच्या श्रमण ब्राह्मणांचे आत्मवाद कशे तरेचे आशिल्ले पळौंक जाय. त्या काळांत एकांदर ६२ श्रमण पंथ आशिल्ले, हें तिसऱ्या ारणांत सांगलांच.[2] तांतलो खैंचोच पंथ आत्मवादापसून मुक्त नाशिल्लो.

---

पळेयात, फाटीं पृ. ६९–७०.

पळेयात, फाटीं पृ. ५०–५१.

पुण त्या सगळयांचें तत्त्वज्ञान आज उपलब्ध ना. तांचेपैकी जे सं मोटे संघ आशिल्ले तांच्या तत्त्वज्ञानाचो बरोचसो वांटो पालि वाङ्मयांत शिल्लक उल्ला; आनी ताजेवेल्यान हेर श्रमण ब्राह्मणांच्या आत्मवादाचें अनुमान करप शक्य आसा. म्हणून सुर्वेक तांच्या तत्त्वज्ञानाचो विचार करप योग्य दिसता.

## अक्रियवाद

ह्या सं पैकीं पैलो पूरण कस्सप अक्रियवादाचो पुरस्कर्तो आशिल्लो. तो म्हण्टालो, " एकाद्रयान कितेंय केलें वा करैले, कापलें वा कापूंक लायलें, कष्ट दिले वा दिवंक लायले, शोक केलो वा करैलो, एकाद्रयाक त्रास जालो वा दिलो, ताका भंय दिसलें वा ताणें दुसऱ्याक भेष्टायलो, प्राण्याक थाप माल्लें, चोरी केली, घर फोडलें, दरवाडो घालो, एकाच्या घराचेर घालो घालो, वाटमारी केली, शिदळकी केली, वा असत्य भाषण केलें, तरी ताका पातक लागना. तीक्ष्ण धारेच्या चक्रान एकाद्रयान जरी धर्तरेवेल्या प्राण्यांच्या मांसाची रास केली, एक धिग केलो, तरी तांतूंत बिलकुल पातक ना. त्यापसून कांयच दोष ना. गंगा न्हयेचे दक्षिण देगेर वचून एकाद्रयान हाणामारी केली, कापलें, कापूंक लायलें, त्रास दिलो वा दिवैलो, तरी तांतूं मातय पातक ना. गंगा न्हयेचे उत्तर देगेर वचून जरी एकाद्रयान दान दिलीं वा दिवैलीं, यज्ञ केले वा करैले, तरी त्यापसून मातय पुण्य लागना. दान, धर्म, संयम, सत्य भाषण हांका लागून पुण्य प्राप्त जायना. "

## नियतिवाद

मक्खलि गोसाल संसारशुद्धिवादी वा नियतिवादी आशिल्लो. तो म्हण्टलो " प्राण्याचे अपवित्रकायेक कांय हेतू ना, कांय कारण ना. हेतूवगर, कारणा वगर प्राणी अपवित्र जातात. प्राण्यांचे शुद्धीक कांय हेतू ना, कांय कारण ना. हेतुवगर, कारणावगर प्राणी शुद्ध जातात. स्वताच्या बळग्यांन कांय जायना. दुसऱ्याच्या बळग्यांन जायना. पुरुषाच्या बळग्यान कांयच जाय

वीर्य ना, पुरुषशक्ति ना, पुरुष पराक्रम ना. सगळें सत्व, सगळे प्राणी, भूतां, सगळे जीव अवश, दुर्बळ आनी निर्वीर्य आसात. ते निर्याते ) संगत, आनी सभाव हांका लागून परिणत जातात, आनी सं ांच्याय तरी एके जातीक (वर्गांत) रावन सुखदु:खाचो उपभोग ..शाणे आनी मूर्ख दोनय ८४ लाख महाकल्पांच्या फेऱ्यांतल्यांत तांच्या दु:खाचो नाश जाता. ह्या शीलान, व्रतान, तपान वा ब्रह्म- ह्यांव अपरिपक्व कर्मपक्व करीन, वा परिपक्व जाल्ल्या कर्मांचीं फळां ां ना करून उडैन अशें जर एकाद्र्यान म्हळें, तर ते ताजेकडल्यान ां ना. ह्या संसारात सुखदु:खां परिमित दोण्यांनी (मापांनी) मेजूंक कीं थराविक आसात. तीं चड थोडीं वा आगळीं उणीं करूंक येवपाची ा प्रमाण सुताची गुठली शेंवटून मारतकच ती पुरती उलगडसर वचत ा, त्या प्रमाण शाणे आनी मूर्ख (संसाराच्या) समग्र फेऱ्यांतल्यान त्र तांच्या दु:खाचो नाश जातलो."

## उच्छेदवाद

केसकम्बल उच्छेदवादी आशिल्लो. तो म्हण्टालो, "दान, यज्ञ, तूंत कांय ना; बऱ्या-वायट कर्मांचें फळ आनी परिणाम नात; , परलोक, आवयबापूय वा औपपातिक (देव वा नरकवासी) ात; इहलोक आनी परलोक जाणून आनी नीट वळखून दुसऱ्याक ा तत्त्वज्ञ आनी योग्य मार्गान वचपी श्रमण ब्राह्मण ह्या संसारांत मनीस चार भूतांचो घडिल्लो आसा. तो मरता तेन्ना ताज्यांतली ातू पृथ्वींत, आपोधातू उदकांत, तेजोधातू तेजांत आनी वायुधातू वचून मेळटात, आनी इंद्रियां मळबांत वतात. मेल्ल्या मनशाक ा घालून चार लोक मसंण्णेंत व्हरतात. ताज्या गुणा अवगुणाची ाता, पुण अस्थी धव्यो जावन आहुती भस्म जातात. दानाचें पिशें नशांनी सांतैलां. जे कोण आस्तिकवाद सांगतात तांचें तें उलौणें फट आनी व्यर्थ बडबड. कूड नष्ट जाल्याउपरान्त शाण्यांचो

आनी मूर्खांचो उच्छेद जाता; ते नाश पावतात. मरणाउपरान्त
कांयच उरना."

## अन्योन्यवाद

पकुध कच्चायन अन्योन्यवादी आशिल्लो. तो म्हण्टालो, "सात पदार्थ
केल्ले, करयल्ले, निर्मिल्ले वा निर्माण करयल्ले नासून, वन्ध्य, कूटस्थ
नगरवेशींविल्या खांब्याभशेन[3] अचळ आसात. ते हालनात, बद
एकमेकांक बादनात, एकमेकांचे सुखदुःख उत्पन्न करूंक समर्थ नात. ते
तर पृथ्वी, आप, तेज, वायू, सुख, दुःख आनी जीव हे. हांका मारपी, म
आयकुपी, सांगपी, जाणपी वा हांचें वर्णन करपी कोणच ना. जो
शस्त्रान एकाद्र्याची तकली मारता, तो ताजो जीव घेना. ह्या सात
र्थांच्या मदल्या अवकाशांत शस्त्र भोवलें, इतलेंच कितें तें समजुचें."

## विक्षेपवाद

संजय बेलट्ठपुत्त विक्षेपवादी आशिल्लो. तो म्हण्टालो, "परलोक
व्हय? अशें म्हाका विचाल्लें, आनी तशें म्हाका दिसतां आसलें, त
परलोक आसा अशें म्हणन. परन्त तशें म्हाका दिसना. परलोक ना
दिसना. औपपातिक प्राणी आसात वा नात, बऱ्या वायट कर्मा
आसता काय नासता, तथागत मरणाउपरान्त उरता काय उरना, हा
कितेंच म्हाका दिसना."[4]

---

३. नगर दरवाजाचेर हतयाक मरळ हल्लो करूंक येवं नये, म्हणून
मुखार एक भरकूम खांबो बांदीत. ताका पालि भाषेत ए
इंद्रखील म्हण्टात.

४. सामञ्ञफलसुत्तांत निगण्ठ नाथपुत्ताचो चातुर्यामसंवरवाद
वादपैलीं घाला. पुण मज्झिमनिकायांतल्या चूळसारोपम
आनी हेरय जायत्या सुत्तांनी नाथपुत्ताचें नांव निमाणें येतां.

## चातुर्यामसंवरवाद

नाथपुत्त चातुर्यामसंवरवादी आशिल्लो. ह्या चार यामांची म्हायती फलसुत्तात सांपडटा ती अपुरी आसा. जैन ग्रंथावेल्यान अशें दिसून अहिंसा, सत्य, अस्तेय आनी अपरिग्रह हे चार याम पार्श्वमुनीन तातूंत ब्रह्मचर्याची महावीरस्वामीन भर घाली. तरी पुण बुद्धाचे निर्ग्रंथांत (जैन लोकांत) वेल्या चार यामांचीच व्हडवीक आशिल्ली. मांच्या आनी तपच्छर्येच्या योगान पुर्वजल्मात केल्ल्या पातकांचें करून कैवल्य (मोक्ष) मेळौचें हो जैन धर्माचो मतितार्थ आशिल्लो.

## अक्रियवाद आनी सांख्यमत

काश्यपाचो अक्रियवाद सांख्य तत्त्वज्ञानासारको दिसता. आत्मो हून वेगळो आसा, आनी मारप, माखप बी कृत्याचो परिणाम ताजेर अशें सांख्य मानतात. हाजोच प्रतिध्वनी भगवद्गीतेंत वेगळ्या कडेन उदेला.

प्रकृतेः क्रियमाणानि गुणैः कर्माणि सर्वशः ।
अहंकारविमूढात्मा कर्ताऽहमिति मन्यते ॥

कृतीच्या गुणांनी सगळीं कर्मां घडटा आसताना अहंकारान मोहित आत्मो हांव कर्तो आसां, अशें मानता. (अ. ३, श्लो. २७).

य एनं वेत्ति हन्तारं यश्चैनं मन्यते हतम् ।
उभौ तौ न विजानीतो नायं हन्ति न हन्यते ॥

ो (आत्मो) मारपी आसा अशें जो मानता, वा हाका मारू येता समजता, त्या दोगांकय सत्य समजलें ना. कारण, हो मारिना, वा डल्यान मरना (अ. २, श्लो. २१.).

यस्य नाहंकृतो भावो बुद्धिर्यस्य न लिप्यते ।
हत्वाऽपि स इमाँल्लोकान्न हन्ति न निबध्यते ॥

जाका अहंभाव ना, ज्याची बुद्ध (ताजेपसून) अलिप्त उरता, ह्या लोकांक माल्ले, तरी तो तांकां मारिना; तातूंत बद्ध जायना. (अ श्लो. १७).

## अक्रियवाद आनी संसारशुद्धिवाद

ह्या अक्रियवादापसून मक्खलि गोसालाचो संसारशुद्धिवाद चडमो नाशिल्लो. ताजें म्हणणें अशें दिसता कि, आत्मो जरी प्रकृतीपसून अ आसा तरी ताका थराविक जल्म घेवचें पडटात आनी त्या उपरान्त आपशींच मुक्त जाता. चौऱ्यांयशीं लक्ष जल्म घेवन प्राणी उन्नत वता, ही कल्पना अद्यापय हिंदू समाजात सांपडटा. मक्खलि गोसाल काळार तीं खूब प्रचलित आशिल्ली, अशें दिसता.

कांय काळान पूरण काश्यपाचो संप्रदाय मक्खलि गोसालाच्या वक पन्थांत सामील जालो अशें अंगुत्तरनिकायातल्या छक्कनिपाताच्या (नं. ५७) सुत्तावेल्यान दिसून येता. तातूंत आनंद भगवन्ताक म "भदन्त, पूरण कास्सपान कृष्ण, नील, लोहित, हरिद्र, शुक्ल आनी शुक्ल अशो सं अभिजाती सांगल्यात. खाटीक, पारधी, बी लोकांचो भिजातींत समावेस जाता. भिक्षू बी कर्मवादी लोकांचो नील जा एक वस्त्र वापरपी निर्ग्रंथाचो लोहिताभि जातींत, सफेद वस्त्र वापरपी लक श्रावकांचो (आजीवकांचो) हरिद्राभि जातींत, आजीवकांचो आजीवक भिक्षुणींचो शुक्लाभिजातीत, आनी नन्द, वच्छ, किस, म आनी मक्खलि गोसाल, हांचो परमशुक्लाभिजातींत समावेस जाता."

ह्या वेल्यान पूरण कस्सपाचो संप्रदाय आनी आजीवकांचो म एक जाले, अशें स्पष्ट दिसता. नंद, वच्छ बी तीन आचार्य आजीवक तले फुडारी आशिल्ले. कस्सपाच्या आनी तांच्या आत्मवादात नाशिल्लो आनी कस्सपाक तांचो देहदण्डाचो मार्ग पसन्त आशिल्ल ह्यावेल्यान सिद्ध जाता.

## अजित केसकंबलाचो नास्तिकवाद

केसकम्बल सामको नास्तिक आशिल्लो, हें ताजो उच्छेदवाद
बरोबर लक्षांत येता. सर्वदर्शनसंग्रहांत सांपडपी चार्वाक मताचो
थापक नासलो तरी एक प्रसिद्ध पुरस्कर्तो आसुंये. ताका ब्राह्मणांचे
जशे पसन्त नाशिल्ले तशीच आजीवक बी श्रमणांची तपच्छर्याय
नाशिल्ली. सर्वदर्शनसंग्रहात म्हळां कि,

अग्निहोत्रं त्रयो वेदास्त्रिदण्डं भस्मगुण्ठनम ।
बुद्धिपौरुषहीनानां जीविका धातृनिर्मिता ।।

'अग्निहोत्र, तीन वेद, त्रिदंड धारण आनी भस्म लावप ही ब्रह्म-
उत्पन्न केल्ली बुद्धिहीण आनी पुरुषार्थहीण मनशांची जीविका आसा.'
अशें आसलें तरी अजिताची गणना श्रमणांत जातली हाजें कारण
हिंसा ताका बिलकुल पसन्त नाशिल्ली आनी जरी तो तपच्छर्या
शिल्लो तरी तो श्रमणाचे आचारविचार पाळटालो. श्रमणाच्या
वादापसून तो अलिप्त नाशिल्लो. ताजी आत्म्याची कल्पना म्हळचार
महाभूतांपसून आत्मो निपजता, आनी मरतकच तो परतो चार महा-
वचून मिसळटा, अशी आशिल्ली. तेन्ना --

यावज्जीवं सुखं जीवेन्नास्ति मृत्योरगोचरः ।
भस्मीभूतस्य देहस्य पुनरागमनं कुतः ।।

'जितो आसासर सुखान रावचें; कारण मृत्यूच्या तडाख्यात न सांप-
प्राणी ना, आनी कुडीचो गोबर जावन वतकच तो परतो खैंच्यान
? ' अशें ताजें मत आसप सभाविक आशिल्लें.

ह्या केसकम्बलाच्या तत्वज्ञानातल्यानच लोकायत अर्थशास्त्र भायर
, आनी ताजो विकास कौटिल्यासारख्या आचार्यांनी केलो.

## अन्योन्यवाद आनी वैशेषिक दर्शन

कच्चायनाचो अन्योन्यवाद वैशेषिक दर्शनासारको आशिल्लो. पुण
ा सात पदार्थांत आनी वैशेषिकांच्या पदार्थांत भोव थोडें साम्य आसा.

कच्चायनाचो मोटो श्रमणसंघ आशिल्लो. तरी पुण ताजी परंपरा का उल्ली ना. अर्वाचीन वैशेषिक दर्शन ताज्याच तत्वज्ञानातल्यान उप जावंये. पुण तशा प्रकारचें तत्वज्ञान मानपी श्रमणसंप्रदाय बुद्धकाळाउप अस्तित्वांत उल्लो ना जावंये.

## विक्षेपवाद आनी स्याद्वाद

संजय बेलट्ठपुत्ताचो विक्षेपवाद जैन्नांच्या स्याद्वादाभशेन आशिल्लो. आ ताजो समावेस कांय काळान जैनांनी आपल्या तत्त्वज्ञानांत करून घेत 'अशें आसत, अशें नासत, (स्यादस्ति स्यान्नास्ति) बी स्याद्वाद आनी वर्णिल्लो बेलट्ठपुत्ताचो विक्षेपवाद ह्या दोंयत व्हडलोसो फरक ना. ते जैन संप्रदायान विक्षेपवादच आपणालें मुख्य तत्वज्ञान केलें अशें म्हणप हरकत खैंची?

## निर्ग्रंथ आनी आजीवक

बुद्धाचे मुस्तींत जैनांचो चोविसावो तीर्थंकर महावीरस्वामी (ज्याका निग नाथपुत्त म्हणत) आनी मक्खलि गोसाल ह्या दोगांनी सं वसंमिरेन एक रावन तपच्छर्या केली, अशें जैन ग्रंथावेल्यान दिसून येता. आजीवकां आनी निर्ग्रंथांचो संप्रदाय एक करचो असो त्या दोगांचो प्रयत्न आशिल जावंये. पार्श्व मुनीचे संन्याशी एक वस्त्र वा तीन वस्त्रां बाळगिताले महावीरस्वामीन मक्खलि गोसालाचें दिगंबर व्रत स्वीकारलें; आनी ते च्यान निर्ग्रंथ निर्वस्त्र जाले. परन्त निर्ग्रंथांच्या आनी आजीवकांच्या त ज्ञानाचो मिलाप जावंक पावलो ना. महावीरस्वामीन चौऱ्यांशीं फेऱ्यांचे तत्त्वज्ञान अंगिकारल्लें जाल्यार निर्ग्रंथाचे परंपरेत चलत आयिल्ल चातुर्यामांची किमत उरची नाशिल्ली. प्राणी नियति (नशीब), संगत (प स्थिती) आनी सभाव हांकालागून परिणत जायत आसतात, अशें मान जाल्यार अहिंसा, सत्य, अस्तेय आनी अपरिग्रह ह्या चार यामांचो उपय कितें? अर्थात् हे दोगय आचार्य एकठांय रावंक शकले नात.

ाजीवकांच्या चौऱ्यांशीं लक्ष फेऱ्यांच्या तत्वज्ञानापरस निर्ग्रंथाचो
ासंवरवाद लोकांक अदिक मानवलो, हातूंत अजाप ना. कित्याक
ए, ताज्या आनी तपच्छर्येच्या वरवीं फाटल्या जलमांतलीं पातकां
ाडौंक येवन एका जल्मांतच मोक्ष संपादूंक येवप शक्य आशिल्लें.

## निर्ग्रन्थांची म्हायती

ाच्या मताची बरीचशी म्हायती सुत्तपिटकांत सांपडटा. पैकी मज्झिम-
ानल्या चूळदुक्खक्खन्ध सुत्तांत बुद्धाचो आनी निर्ग्रंथांचो संवाद आसा.
सारांश असो :—

राजगृहाक कांय निर्ग्रंथ उबे रावन तपच्छर्या करीत आशिल्ले पळौन
ागवानान तांचेसरीं वचून म्हळें, "भावांनो, अशे तरेन तुमी आपणालें
कित्याक दण्डणायतात?"

तांणीं म्हळें, "निर्ग्रंथ नाथपुत्त सर्वज्ञ आसा. चलतांना, उबो आस-
न्हिदिल्लो आसताना वा जागो आसताना आपणालीं ज्ञानदृष्टी कायम
ा अशें तो म्हण्टा, आनी आमकां उपदेस करता कि, 'निर्ग्रंथांनो,
पूर्वजल्मात पातक केलां, तें अशा प्रकारच्या देहदण्डान जर्जर करात
जरेथ), आनी ह्या जल्मांत कायावाचामनान कसलेंय पातक करूं
त. हाकालागून पूर्वजल्मींच्या पातकाचो तपान नाश आनी नवें पातक
ल्यान फुडल्या जल्मीं कर्मक्षय जातलो, आनी ताका लागून सगळें
ना जातलें.' हें तांगेलें म्हणणें आमकां मानवता."

भगवन्तान म्हळें, "निर्ग्रंथांनो, तुमी पूर्वजल्मीं आशिल्लें काय
ल्लें हें तुमकां खबर आसा व्हय?"

नि.— ना, आमकां खबर ना.

भ. — बरें, पूर्वजल्मीं तुमी पातक केल्लें काय ना हें जरी तुमकां
आसा व्हय?

नि. — तेंय आमकां खबर ना.

भ. – आनी तें अमूक तरेचें पातक आशिल्लें हें तरी तुमकां खब आसा व्हय?

नि. – तेंय आमकां खबर ना.

भ. – तुमगेल्या इतल्यां दुःखाचो नाश जालो, आनी इतलें बा उल्लां हें तरी तुमी जाणात व्हय?

नि. – तेंय आमी नकळत.

भ. – ह्यो गजाली जर तुमकां खबर नात, तर मागीर तुमी फाटल्या जल्मांत पारध्यांभशेन क्रूरकर्मी आशिल्ले आनी ह्या जल्मांत ह्या पातकां नाश करपाखातीर तपच्छर्या करतात, अशें जावचें ना?

नि. – आयुष्मान गोतम, सुखान सुखप्राप्त जायना; दुःखा सुख प्राप्त जाता. सुखान सुख प्राप्त जातें जाल्यार बिंबिसार राजाक आ ष्मान गोतमापरस अदिक सुख मेळटलें आशिल्लें.

भ. – निर्ग्रंथांनो, हें तुमी विचार करिनासताना उलैले. हांगा हा तुमकां अशें विचारतां कि, बिंबिसार राजा सात दीस मेरेन सरळ ब एकय उतर उलै नासतांना एकान्ताचे सुख अणभवंक पावत व्हय?

"आयुष्मान, ताका हें शक्य जावचें ना," अशी निर्ग्रंथांनी जाप दिल तेन्ना भगवन्तान म्हळें, "हांव एकच दीस न्हय, तर सात दीस अशें सु अणभवूंक शकता; आनी तुमकां विचारतां कि, बिंबिसार राजा (आपल वैभवान) अदिक सुखी काय हांव अदिक सुखी?"

नि. – अशें आसत जाल्यार आयुष्मान गोतमच बिंबिसार राजाप अदिक सुखी.

बौद्ध मतांचें खाशेलेपण दाखौपाखातीर हो संवाद रचला आस तरी जैन मतांचो हातूंत विपर्यास केल्लो ना. तपच्छर्येच्या आनी चा र्यामांच्या अभ्यामान पूर्वकर्मांचो क्षय करूंक येता अशें तांचें म्हण आशिल्लें; आनी ती परंपरा अद्यापय चल्ल्या.

## आत्म्याच्यो कल्पना

आचार्यांच्यो आनी तांच्या काळच्या हेरां श्रमणांच्यो आत्म्यासंबंदान तल्यो विलक्षण कल्पना आसल्यो तांचो ल्हानसो नमुनो उपनिषदांत सांप-ा. देखीक, आत्मो तांदळापरस आनी जवापरसय बारीक आसा, आनी काळजांत रावता, ही कल्पना घेयात.

एष मे आत्मान्तर्हृदयेऽणीयान्व्रीहेर्वा यवाद्वा सर्षपाद्वा
श्यामाकाद्वा श्यामाकतण्डुलाद्वा। (छान्दोग्य ३।१४।३)

'हो म्हजो आत्मो अंतर्हृदयांत (रावता). तो भातापरस, जवापरस ांसवापरस, श्यामाक नावाच्या देवाभातापरस वा ताज्या तांदळापरस ्हान आसा?

आनी तो तांच्यायेदोय आसा !

मनोमयोऽयं पुरुषो भाः सत्यस्तस्मिन्नन्तर्हृदये यथा
व्रीहिर्वा यवो वा....(बृहदारण्यक ५।६।१)

'हो पुरुषरूपी आत्मो मनोमय भास्वान आनी सत्यरूपी आसून त्या अंतर्हृदयामदीं जसो भाताचो वा जवाचो गोटो (तसो आसता).'

त्या उपरान्त तो आंगठयायेदो आसा अशी कल्पना रूड जाली.

अङ्गुष्ठमात्रः पुरुषो मध्य आत्मनि तिष्ठति। (कठ २।४।१२)

'आंगठयायेदो तो पुरुष आत्म्याच्यामजगतीं रावता.'

आनी मनीस न्हिदिल्लो आसताना तो ताज्या शरिरातल्यान भायर भोंवक वता.

स यथा शकुनिः सूत्रेण प्रबद्धो दिशं दिशं पति-
त्वान्यत्रायतनमलब्ध्व बन्धनमेवोपश्रयत एवमेव
खलु सोम्य तन्मनो दिशं दिशं पतित्वा-
न्यत्रायतनमलब्ध्वा प्राणमेवोपश्रयते प्राणबन्धनं हि
सोम्य मन इति ॥ (छान्दोग्य ६।८।२).

'तो (आत्मो) जसो दोरयेन बांदिल्लो पक्षी, चारय दिकांक उट्टा आनी थंय राव नज जाल्यान बंधनातच येता, त्याप्रमाण, हे सोम्य, मनाचे-वरवी आत्मो चारय दिकांक उट्टा, आनी थंय स्थान न मेळिल्ल्यान प्राणाचो आश्रय घेता; कारण प्राण हे मनाचे बंधन.

## शाश्वतवाद आनी उच्छेदवाद

अशो विचित्र आनी तरेकतरांच्यो आत्म्यासंबदाच्यो कल्पना बुद्धामुस्तीं-तल्या श्रमण ब्राह्मणांत पार्तळिल्ल्यो त्यो सगळ्यो दोन वर्गांत येतात. तांचेपैकीं एकाचे म्हणणें अशें कि,

सस्सतो अत्ता च लोको च वंझो कूट्टठो एसिकट्ठायी ठितो ॥

'आत्मो आनी जग शाश्वत आसात. तो वंध्य, कूटस्थ आनी नगर-वेशीवेल्या खांबाभशेन थीर आसा.'[१]

ह्या वादांत पूरण कस्सप, मक्खलि गोसाल, पकुध कच्चायन आनी निगण्ठ नाथपुत्त हांचीं मतां समाविष्ट जाताली.

आनी दुसरे श्रमण ब्राह्मण उच्छेदवाद प्रतिपादन करताले. ते म्हण्टाले,

अयं अत्ता रूपी चातुम्महाभूतिको मातापेत्तिसंभवो
कायस्स भेदा उच्छिज्जति विनस्सति न होति परं मरणा ॥

'हो आत्मो जड, चार महाभूतांचो घडिल्लो आनी आवयबापाय-पसून उत्पन्न जाल्लो, शरीरभेदाउपरान्त विच्छिन्न जाता, नाश पावता. मरणा-उपरान्त तो उरना.'

हें मत प्रतिपादन करपी श्रमणांत अजित केसकम्बल प्रमुख आशिल्लो. हांच्या दरम्यान आत्मो कांय अंशी शाश्वत आनी कांय अंशी अशाश्वत, अशें म्हणपीय श्रमण ब्राह्मण आशिल्ले. संजय बेलट्ठपुत्ताचो वाद तशाच प्रकारचो दिसता आनी तेंच तत्त्वज्ञान फुडें जैनांनी उखल्लें.

---

१. हे आनीक जायते आत्मवाद दीर्घनिकायांतल्या ब्रह्मजाल सुत्तांत दिल्यात. हेर निकायांतय वेगवेगळ्या आत्मवादांचो उल्लेख आसा.

## आत्मवादाचे परिणाम

सगळ्या आत्मवादाचे परिणाम चड करून दोन जाताले. एक चैनींत मानप, आनी दुसरो तपच्छर्या करून कड कष्टावन पूरण करपाच्या प्रमाण जर आत्मो कोणाक मारिना, वा मारैना, तर आपले चैनी- तीर हेरांची हत्या करपाक हरकत कसली? जैनांच्या मताप्रमाण च आत्मो पूर्वजल्मीच्या कर्मान बद्ध जाल्लो आसा, अशें म्हळें ल्यार ह्या कर्मांपसून सुटपाक खडतर तपच्छर्या करूंक जाय अशें तत्व- न उत्पन्न जावप सहजिक आसा. आत्मो अशाश्वत आसा. मेल्या-- परान्त तो उरना. अशें मानलें जाल्यार जितो आसासर मौज मजा करून ळ सारचो वा ह्या भोगांची शाश्वती तरी कितें अशें म्हणून तपच्छर्या रची अशीं दोनय प्रकारचीं मतां निष्पन्न जावं येतात.

## आत्मवादाचो त्याग

रन्त बुद्ध भगवन्ताक चैनीचो आनी तपच्छर्येचो अशे दोनय मार्ग त्याज्य दिसले. कित्याक म्हळ्यार, तांचेपसून मनीसजातीचे दुःख उणें जायना. आपसात झगडपी जनांक दोनय तोकांपसून शान्तीचो मार्ग सांपडप शक्य ना. ह्या तोंकाक आत्मवाद कारण, अशी बोधिसत्वाची खात्री जाली, आनी तो सगळो कुशीक सारून ताणे एक नवोच मार्ग सोदून काडलो. आत्मो शाश्वत जावं वा अशाश्वत जावं, ह्या संसारात दुःख आसा तें आसाच. आनी तें मनीसजातीचे तृष्णेचें फळ. आर्य अष्टांगिक मार्गा- निसबतीं ते तृष्णेचो क्षय केलो जाल्यारच मनशाक आनी मनीसजातीक शान्तीसमाधान मेळत. हो नवो मार्ग, आत्मवाद सोडून दिल्याबगर ध्यानांत येसारको नाशिल्लो. म्हणून बुद्ध भगवन्तान पंचवर्गी भिक्षूंक चार आर्य सत्याच्या फाटोफाट अनात्मवाद उपदेसिल्ल्याचो दाखलो खन्धसंयुत्तांत सापडटा.[६]

---

६. हेंच सुत्त महावग्गांतय आसा.

भगवान वाराणसीक ऋषिपत्तनाच्या मृगदावांत रावतालो. थंय पंचवर्गी भिक्षूंक उद्देशून भगवन्तान म्हळें " भिक्षूनो जड शरीर अनात्मा आसा, शरीर जर आत्मो आसतें तर तें उपद्रव दिणे जातें ना, आनी म्हजें शरीर अशें जांव आनी अशें न जावं अशें म्हणूं येतें. पुण जे अर्थी शरीर अनात्मा आसा ते अर्थी तें उपद्रव दिणें जाता आनी तें ह्या प्रमाण जावं आनी ह्या प्रमाण न जांव अशें म्हण्टा येना.

" भिक्षूनो, वेदना अनात्मा आसा. ती जर आत्मो आसती जाल्यार उपद्रवदिणी जाती ना आनी म्हणूं येते कि, म्हजी वेदना अशी जांव आनी अशी न जांव. पुण जे अर्थी वेदना अनात्मा आसा ते अर्थी ती उपद्रवदिणी जाता आनी ती अशी जांव आनी अशी न जांव अशें म्हण्टा येना. त्याच प्रमाण संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान अनात्मा आसा. जर विज्ञान आत्मो आसतें तर तें उपद्रवदिणें जातें ना, आनीक म्हणूं येते कि म्हजें विज्ञान अशें जावं आनी अशें न जावे. पुण जे अर्थी विज्ञान अनात्मा आसा ते अर्थी विज्ञान उपद्रवदिणे जाता, आनी म्हण्टा येना कि, म्हजे विज्ञान अशें जांव आनी अशें न जांव."

" भिक्षूनो, जड शरीर, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान नित्य आसात काय अनित्य आसात?"

" भदन्त तीं अनित्य आसात " अशें भिक्षूनीं उत्तर दिलें.

भ. – जें अनित्य आसा तें दुःखाक कारण काय सुखाक कारण?

भि. – भन्ते, तें दुःखाक कारण.

भ. – आनी जें दुःखाक कारण, विपरीत परिणामाक पावौपी, तें म्हजें, तें हांव, तो म्हजो आत्मो, अशें मानप योग्य जायत व्हय?'

भि. – ना, भदन्त.

भ. – म्हणून भिक्षूनो, जो जड पदार्थ अतीत, अनागत, प्रत्युत्पन्न, आपल्या शरीरातलो वा शरीराभायलो स्थूळ, सुक्षीम, उणाक, ऊंच, पैसुल्लो वा लागशिल्लो तो सगळो म्हजो न्हय, तो हांव न्हय, तो म्हजो आत्मो न्हय,

शें यथार्थकायेन सम्यक् ज्ञानान जाणचें. त्याचप्रमाण खैंचीय वेदना, खैंचीय
ंज्ञा, संस्कार, जे कांय विज्ञान, अतीत, अनागत, प्रत्युत्पन्न, आपल्या शरीरा-
ले वा शरीराभायलें, स्थूळ, सुक्षीम, उणाक ऊंच, पैसुल्ले वा लागशिल्लें,
सगळें म्हजें न्हय, ते हांव न्हय, तो म्हजो आत्मो न्हय, अशें अथार्थकायेन
म्यक् ज्ञानान जाणचें. भिक्षूनो, ह्या प्रमाण जाणपी विद्वान आर्य श्रावक
ड पदार्थ, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान, हांचेविशीं विरक्त जाता,
नी विरागाक लागून विमुक्त जाता.

## आत्म्याचे पांच विभाग

त्मो शाश्वत आसा काय अशाश्वत आसा असो प्रस्न येतकच ताजी सरळ
ाप दिल्यान घोटाळो जावपाचो संभव आशिल्लो, म्हणून बुद्ध भगवन्तान
त्मो म्हणजे कितें हाजी नीट कल्पना येवपाखातीर ताजें पृथक्करण या
स्कंधांत केलां. जड पदार्थ, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान अशे
आत्म्याचे पांच विभाग करूं येतात. आनी ते विभाग केले त्याबरोबर,
ट दिसता कि, आत्मो शाश्वत वा अशाश्वत न्हय. कित्याक म्हळ्यार,
पांचय स्कन्ध सतत बदलपी म्हळ्यार अनित्य आसात, दुःखदिणे आसात
ी म्हणूनच ते म्हजें वा तो आत्मो म्हजो अशें म्हणप योग्य जावचें ना.
बुद्धाचो अनात्मवाद आनी तो शाश्वतवाद आनी अशाश्वतवाद
दोन तोंकांक वचना. भगवान कात्यायन गोत्री भिक्षूक उद्देशून म्हण्टा,
ागा कात्यायना, लोक चड करून आसतेपण आनी नासतेपण ह्या दोन
ांक वतात. ही दोनय तोंकां सोडून तथागत मध्यम मार्गांन धर्मोपदेस,
ा."[७]

## गरजेभायले वाद

फोड करून जातकच जर कोणय हट धवन बसलो कि, शरीर आनी
ो एक काय वेगळे, हे सांगात तर भगवान म्हण्टालो, "हे चर्चेत हांव

निदानसंयुत्त, वग्ग २, सुत्त ५.

पडना. कित्याक म्हळयार, तिका लागून मनीसजातीचे कल्याण जावपाचे ना." ह्याजी मात्सी पत चुळमालुंक्यपुत्तसुत्तांत[८] सांपडटा. त्या सुत्ताचो सारांश असो —

'बुद्ध भगवान श्रावस्तींत अनाथपिंडकाच्या आरामात राविल्लो आसताना मालुंक्यपुत्त नांवाचो भिक्षू ताजेंसरीं आयलो आनी नमस्कार करून एके कुशीक बसलो. उपरान्त ताणे भगवन्ताक म्हळें, "भदन्त, एकांतांत बशिल्लो आसताना म्हजे मनांत असो विचार आयलो कि, हें जग शाश्वत काय अशाश्वत, शरीर आनी आत्मो एक काय वेगळीं, मरणा-उपरान्त तथागताक पुनर्जन्म आसा काय ना, ह्या प्रस्नांचो भगवन्तान खुलासो केल्लो ना; तेन्ना भगवन्ताक हांवें हे प्रस्न विचारचे, आनी जर भगवन्ताक ह्या प्रस्नांचो निर्णय लावंक आयलो, जाल्यारच भगवन्ताचे शिष्यशाखेंत रावचें. पुण जर भगवन्ताक हे प्रस्न सोडौंक येना जाले, तर भगवन्ताक सरळ तशें सांगचें."

'भ. — मालुंक्यपुत्ता, तू म्हजो शिष्य जालो जाल्यार ह्या प्रस्नांची फोडणिशी हांव करीन अशें हांवे तुका केन्ना सांगिल्लें व्हय?

'मा. — ना, भदन्त.

'भ. — बरें, तुवे तरी म्हाका म्हळें व्हय कि, भगवन्तान जर ह्या सगळ्या प्रस्नांची फोडणिशी केली, तरच हांव भगवन्ताच्या भिक्षुसंघांत समाविष्ट जातलों?

'मा. — ना, भदन्त.

'भ. — तर मागीर आता ह्या प्रस्नांचो खुलासो केल्याबगर हांव भगवन्ताचो शिष्य रावचो ना अशें म्हणपांत अर्थ कितें? मालुंक्यपुत्ता, एकाद्र्या मनशाच्या शरीरांत बाणाचें विखाळें तोंक रोंमून तो तळमळूंक लागिल्लो आसताना ताजे आप्त इष्ट शस्त्रक्रिया करपी वैजाक आ[...]

८. मज्झिम मनिकाय नं. ६३.

ाडटले. पुण तो पिडेस्त जर तांकां म्हणत, 'हो बाण कोणे माल्लो? तो
ाह्मण आशिल्लो काय क्षत्रीय? वैश्य आशिल्लो काय सुदीर? काळो
ाशिल्लो काय गोरो? ताजे धनुष्य कसले तरेचें आशिल्लें? धनुष्याची
ारी कसल्या पदार्थाची केल्ली? बी गजालींचो खुलासो केल्याबगर हांव
ाकांक हात लावंक दिवचो ना;' तर हे मालुंक्यपुत्ता, अशे परिस्थितींत
ा मनशाक ह्यो गजाली न समजतांच मरण येतलें. त्याचप्रमाण जो असो
 धरीत कि, जग हें शाश्वत आसा काय अशाश्वत बी गजालींची फोडणिशी
ल्याबगर हांव ब्रह्मचर्य आचारचों ना, ताका ह्यो गजाली समजल्याबगरच
ाण येतलें.

'हे मालुंक्यपुत्ता, जग शाश्वत आसा काय अशाश्वत आसा अशीं
ी आनी विश्वास आसलो, तरी त्यापसून धर्मीक आचरणांत मदत
ात अशें ना. जग शाश्वत आसा असो विश्वास दवल्लो, तरी जरा,
ण, शोक, परिदेव हांचेपसून मेकळीक जायना. त्याचप्रमाण जग शाश्वत
', शरीर आनी आत्मो एक, शरीर आनी आत्मो वेगळी, मरणाउपरान्त
ागताक पुर्नजल्म आसा वा ना, बी गजालींचेर विश्वास दवल्लो, न
ल्लो तरी जल्म, जरा, मरण, शोक, परिदेव आसात तीं आसातच.
ान, मालुंक्यपुत्ता, ह्या गजालींचो खल करपाचे भरीक हांव
ाींना. कित्याक म्हळ्यार, त्या वादविवादांत ब्रह्मचर्याक कसल्याच
ारचे थिरपण येवपाचो संभव ना. ह्या वादांत वैराग्य उत्पन्न जावपाचें
ापापाचो निरोध जावपाचो ना. आनी शान्ती, प्रज्ञा, संबोध आनी
ाण हांचो लाव जावपाचो ना.

'परन्त मालुंक्यपुत्ता, हें दुःख आसा, हो दुःखाचो समुदय आसा,
खाचो निरोध आसा, आनी हो दुःखनिरोधाचो मार्ग आसा हे हांवें
करून दाखैलां. कारण हीं चार आर्यसत्यां ब्रह्मचर्याक थिराय हाडपी
ा, हाका लागून वैराग्य येता, पापाचो निरोध जाता, शान्ती, प्रज्ञा,
 आनी निर्वाण हांचो लाव जाता. म्हणून हे मालुंक्यपुत्ता, जे गजा-

लींची हांवें चर्चा केली ना, ते गजालीची चर्चा करू नाका; जे गजा-
लीची हांवें फोडणिशी केल्या त्यो फोडणिशेक योग्य आसात अशें समज.

हाजो अर्थ असो कि, आत्मो पंचस्कन्धांचो घडला, तरी ताजो
आकार बी कसो आसता तो जशाच्या तसो परलोकाक वता काय किते
गजालींचो खल केल्ल्यान ब्रह्मघोटाळो तितलो मातशो. संसारात दुःख
विपुल आसा आनी तें मनीसजातीचे तृष्णेन उत्पन्न जालां आशिल्ल्यान
अष्टांगिक मार्गाच्या निसबतीं ते तृष्णेचो निरोध करून संसारात सुख
शान्ती स्थापन करप जणेक व्यक्तींचें कर्तव्य आसा. हो सरळ रस्तो, आनी
हेंच बुद्धाचें तत्त्वज्ञान.

## ईश्वरवाद

बुद्ध ईश्वराक मानी नाशिल्लो, म्हणून तो नास्तिक आशिल्लो, असो काय
लोकांचो समज आसा. बौद्ध वाङ्मय वा पुरातन उपनिषदां वाचतकच
ह्या समजांत तथ्य ना, अशें दिसून येता. तरी पुण लोकांचो भ्रम ना करपा
खातीर बुद्धाचे मस्तींत रूड आशिल्ल्या ईश्वरवादाचें दिग्दर्शन करप योग्य
दिसता.

खामा ईश्वर शब्दाचो अंगुत्तरनिकायाच्या तिकनिपातात (सुत्त नं.
६९) आनी मज्झिमनिकायांतल्या देवदहसुत्तांत (सुत्त नं. १०१) उल्लेख
आयला. पैकीं ईश्वरासंबंदीचो पैल्या सुत्तातलो मजकूर असो :–

भगवान म्हण्टा, "भिक्षूनो, जें कितें सुख, दुःख वा उपेक्षा मनीस
प्राणी भोगता तें सगळें ईश्वरनिर्मित आसा. (इस्सरनिम्मानहेतु) अ
सांगतल्यांक आनी मानतल्यांक हांव विचारतां कि, तांचे मत हें आसा
व्हय? आनी तांणी हय अशी जाप दिल्यार हांव म्हण्टां, तुमी खुनमा
चोर, अब्रह्मचारी, फटिंग चाडयाळे गाळीमारपी, वाचाळ, दुसऱ्याच्या
धनाचे लोभी, द्वेष्टे आनी खोटे दृष्टीचे ईश्वरान निर्मिल्ल्यानच जाल्या

काय कितें? भिक्षूंनो, हें सगळें ईश्वरान निर्माण केलां हें सत्य मानलें जाल्यार (सत्कर्मांविशीं) आवड आनी उत्साह उरचो ना; अमूक करचे वा अमूक करुं नये, हें समजुचें ना."

हे ईश्वरनिर्मणेचो उल्लेख देवदहसुत्तांतय आयला. परन्त हो मजकूर प्रक्षिप्त आसुंये असो जबर दुबाव येता. कारण दुसऱ्या खैंच्याय सुत्तांत ही कल्पना सांपडना. बुद्ध काळचो व्हडलो देव म्हळयार ब्रह्मा. पुण तो वेगळच्या तरेचो कर्तो. बिब्लींतल्या देवाभशेन न्हय. जग जावच्यापैलीं तो नाशिल्लो. विस्व उत्पन्न जातकच पैल्या प्रथम तो अवतरलो, आनी त्या उपरान्त हेर प्राणी जाले, ताका लागून ताका भूतभव्याचो कर्तो म्हणूंक लागले. ब्रह्मजालसुत्तांत आयिल्ल्या ताज्या वर्णनाचो सारांश असो :–

"पुस्कळ काळाउपरान्त ह्या जगाचो संवर्त (नाश) जाता आनी तांतले चडशे प्राणी आभास्वर देवलोकांत वतात. त्या उपरान्त पुस्कळ काळान ह्या जगाचो विवर्त (विकास) जावंक लागता. तेन्ना सुर्वेक रिकामे ब्राह्मविमान (मजल्यांचे घर) उत्पन्न जाता. त्या उपरान्त आभास्वर देवलोकांतलो एक प्राणी थैंच्यान च्युत जावन ह्या विमानांत जल्मा येता. तो मनोमय, प्रीतिभक्ष्य, स्वयंप्रभ, अन्तरिक्षचर, शुभस्थायी आनी दीर्घ-जीवि आसता. त्या उपरान्त दुसरे जायते प्राणी आभास्वर देवलोकांतल्यान च्युत जावन त्या विमानांत जल्माक येतात. तांकां दिसता हो जो भवान ब्रह्मा, महाब्रह्मा तो अभिभू, सर्वदर्शी, वशवर्ती, ईश्वर, कर्तो, निर्मातो, श्रेष्ठ, सर्जितो, वशी आनी भूतभव्यांचो बापूय आसा."

'ब्रह्मा देवानां प्रथमः संबभूव विश्वस्य कर्ता भुवनस्य गोप्ता ।' ह्या मुण्डकोपनिषदाच्या (१।१) वाक्यांत ब्रह्मदेवाची वैर दिल्ली कल्पना थोडे भितर दाखैल्या. ह्यावेल्यान ब्रह्मदेवाक जगाचो कर्तो थारावपाचो ब्राह्मणाचो प्रयत्न स्पष्ट दिसता. पुण तो त्या काळच्या श्रमण संस्कृताये-मुखार तिगूंक पावलोना. खुद्द ब्राह्मणांकच हो प्रयत्न सोडून दिवन ब्रह्म

हें नपुंसकलिंगी उतर स्वीकारचें पडलें. आनी चडश्या सगळ्या उपनिष-दांतल्यान ह्या ब्रह्म उतराकच म्हत्व दिल्लें आसा.

ब्रह्मापसून वा आत्म्यापसून जगाची उत्पत्ती कशी जाली हाजी एक कल्पना बृहदारण्यक उपनिषदांत सांपडटा, ती अशी –

आत्मैवेदमग्र आसीत् पुरुषविध.....स वै नैव रेमे तस्मादेकाकी न रमते । स द्वितीयमैच्छत । स हैतावानास यथा स्त्रीपुमांसौ संपरिष्वक्तौ । स इममेवात्मानं द्वेधा पातयत्ततः पतिश्च पत्नी चाभवतां तस्मादिदमर्धबृगल-मिव स्व इति ।

'सगळ्यांआदीं पुरुषरूपी आत्मो तितलो आशिल्लो....तो रमना जालो; म्हणून (मनीस) एकटूको रमना. तो दुसऱ्याची इत्सा करूंक लागलो, आनी जशें दादलोबायल एकमेकांक आलिंगन दितात तसो जावन रावलो. ताणे आपणांक दोशीं केलो. ताका लागून घोवबायल जालीं, म्हणून हे शरीर (धापळ्यांच्या धान्याचे) धापळेभशेन आसा.' (बृ. उ १।४।१–३).

आतां बिब्लींतली उत्पत्तीकथा पळेयात. "मागीर परमेश्वर देवान जमनीतल्यान मातयेचो मनीस घडलो......मागीर देवान आदांवाचेर (त्या मनशाचेर) गाड न्हीद घाली, आनी ताजी बर काडून तिजी बायलमनीस घडली......ताका लागून दादलोमनीस आपल्या आवयबापायक सोडून आपले बायलेक दसून रावतलो; ती दोगांय देहांन एक जातली." (बिब्ल, उत्पत्ती, अ. २).

हे आनी वेल्या उत्पत्तीत केदी तफावत! हांगा देव सगळी पृथ्वी निर्माण करून मागीर मनशाक आनी ताज्या बरीपसून बायलमनशेक उत्पन्न करता; देव जगापसून सामकोच वेगळो; आनी थंय पुरुषरूपी आत्मो आपूणच दोशीं जावन बायल आनी दादलो जाता.

## प्रजापतीची उत्पत्ती

प्रजापती म्हळ्यार जगत्कर्तो ब्रह्मा, ताजी उत्पत्ती बृहदारण्यकांत सांगल्या ती अशी :—

आप एवेदमग्र आसुस्ता: आप: सत्यमसृजन्त, सत्यं ब्रह्म, ब्रह्म प्रजापतिं, प्रजापतिर्देवांस्ते देवा: सत्यमेवोपासते ॥ (५।५।१)

'सगळ्यांपैलीं उदक तितलें आशिल्लें. त्या उदकान सत्य, सत्यान ब्रह्म, ब्रह्मान प्रजापती आनी प्रजापतीन देव उत्पन्न केले; ते देव सत्याचीच उपासना करतात.'

बिब्लींतय जळप्रलयाउपरान्त सृष्टीची उत्पत्ती परती जाल्याची कथा आसा, पुण देवान पैलींच नोहाचें कुटुंब आनी सावजासवण्यांची जोडी तारवांत भरून दवरूंक लायलीं आनी मागीर जलप्रलय केलो.[१] उपनिषदांत जलप्रलयाआदीं कितें आशिल्लें ते कांयच सांगूक ना. इतलेंच न्हय, तर सत्य ब्रह्मदेवाच्या आनी ब्रह्मतत्वाच्याय वेल्या पांवंड्यार दवल्लां.
न्हय, तर सत्य ब्रह्मदेवाच्या आनी ब्रह्मतत्वाच्याय वेल्या पांवंड्यार दवल्लां.
ब्रह्मा.. लमुत्तांत दिल्ली ब्रह्मोत्पत्तीची कथा हे कथेक खूबच लागीं आसा.

ईश्वर जगापसून वेगळो आसून ताणें जग निर्माण केलें, ही कल्पना हिन्दुस्थानांत शकांनी हाडली जावंये. कित्याक म्हळ्यार, त्यापैलीच्या वाङ्मयांत ती तशा रूपांत सांपडना. तेन्ना, बुद्ध ईश्वर मानीनाशिल्ल्यान नास्तिक आशिल्लो असो ताजेर आळ हाडप मुदलांतच संभाव्य नाशिल्लें. तो वेदनिंदक आशिल्ल्यान तो नास्तिक, पुण बुद्धान वेदांची निंदा केल्ली खैंच सांपडना. आनी ब्राह्मणांक मान्य जाल्ल्या सांख्यकारिकेसारख्या ग्रंथांत वेदांची निंदा कितें उणी आसा?

दृष्टवदानुश्रविक:
स ह्यविशुद्धिक्षयातिशययुक्त: ।

---

१. बायबल, उत्पत्ती, अ. ७.

'दृष्ट उपायाभशेनच वेदिक उपायच (निरुपयोगी) आसा. कारण तो अविशुद्धी, नाश, आनी अतिशय हांणी युक्त आसा.'

आनी 'त्रैगुण्यविषया वेदाः' बी वेदनिंदा भगवद्गीतेंत सांपडना? पुण सांख्यान ब्राह्मणांच्या जातिभेदाचेर धपको घालो ना, आनी भगवद्गीतेंत तर त्या जातिभेदाक स्पष्ट उखलून धल्ला. तेन्ना ताका वेदनिंदा पचप शक्य आशिल्ले. हाजे उरफाटें, बुद्धान वेदनिंदा केली नासली तरीय जातिभेदाचेर नेटान हल्लो केलो. मागीर तो वेदनिंदक कसो थरचो ना? वेद म्हळयार जातिभेद आनी जातिभेद म्हळयार वेद, अशी त्या दोगांचीय एकी आसा! जातिभेद नासल्यार वेद उरतलो कसो आनी जातिभेद अस्तित्वांत उरून वेदांचे एक अक्षरपसून कोणाक खबर नासलें, तरी वेद प्रमाण मानपाची वृत्ती कायम आशिल्ल्यान वेद उल्लोच म्हणूंक जाय!

बुद्धाचे मुस्तींत श्रमण ब्राह्मणांमदीं ईश्वरवादाक बिलकुल म्हत्व नाशिल्लें. हे वेल्या विवेचनावेल्यान दिसून येतलेंच. तांच्या पैकी कांय ईश्वराच्या जाग्यार कर्माक मानताले, आनी केन्नाकेन्ना बुद्ध कर्मवादी न्हय, म्हणून नास्तिक, असो बुद्धाचेर आरोप करताले. ताजें निरसन फुडल्या प्रकरणांत येतलें.

• • •

## प्रकरण आठवें

# कर्मयोग

### बुद्ध नास्तिक काय आस्तिक ?

एका काळाक बुद्ध भगवान वैशाली लागशिल्ल्या महावनांत रावतालो. तेन्ना कांय प्रसिद्ध लिच्छवी राजे आपणाल्या संस्थागारात कित्याकशे लागून जमिल्ले आसतांना बुद्धाच्यो खबरी आयल्यो. तांतले चडशे जाण बुद्धाची, धर्माची आनी संघाची तुस्त करूंक लागले. ती आयकून सिंह सेनापतीक बुद्धदर्शनाची इत्सा जाली. तो निर्ग्रंथाचो उपासक आशिल्ल्यान तागेल्या मुख्य गुरुक – नाथपुत्ताक–मेळ्ळो आनी ताणें ताका म्हळें, ' भदन्त, हांव श्रमण गोतमाची भेट घेवंक सोदता. ' नाथपुत्तान म्हळें, ' सिंहा, तूं क्रिया–वादी आसताना अक्रियवादी गोतमाची भेट कित्याक घेवंक सोदता? ' हें आपल्या गुरूचें वचन आयकून सिंह सेनापतीन बुद्धदर्शनाक वचपाचो बेत सोडून दिलो. परतून एक दोनदां ताणें लिच्छवीच्या संस्थागारांत बुद्धाची, धर्माची आनी संघाची तुस्त आय्यकली. तरी पुण नाथपुत्ताचे सांगणेक लागून बुद्धदर्शनाक वचचेलो बेत ताका परतो तत्रस्थ दवरचो पडलो. निमाणें सिंहान नाथपुत्ताक विचाल्ल्याबगरच बुद्धाची भेट घेवपाचो निश्चेय केलो आनी मोटया लवाजम्यासैत महावनांत येवन आनी भगवन्ताक नमस्कार करून तो एके कुशीक बसलो. आनी ताणें भगवन्ताक म्हळें, ' भदन्त, तुमी अक्रियवादी आसात आनी श्रावकांक अक्रियवाद शिकैतात. हें खरें व्हय?'

भगवन्तान म्हळें, ' असो एक पर्याय आसा कि, ज्याच्या योगान सत्यवादी मनशाच्यान म्हणूं येत; 'श्रमण गोतम अक्रियवादी आसा. तो पर्याय खैंचो? '

' हे सिहा, हांवें कायेच्या दुश्चरितांची, वाचेच्या दुश्चरितांची आनी मनाच्या दुश्चरितांची अक्रिया उपदेसली "

' सिहा, दुसरोय एक पर्याय आसा, कि ज्याका लागून सत्यवादी मनशाच्यान म्हणूं येत श्रमण गोतम क्रियावादी आसा. तो खैंचो ? हांव कायेच्या सुचरिताची, वाचेच्या सुचरिताची आनी मनाच्या सुचरिताची क्रिया उपदेसतां.'

' आनीक असोय पर्याय आसा कि ज्याच्यायोगान सत्यवादी मनशाच्यान म्हाका उच्छैदवादी म्हणूं येत. तो खैंचो? सिहा, हांव लोभ, द्वेष, मोह बी सगळ्या पापकारक मनोवृत्तींचो उच्छेद उपदेसता.'

' असोय एक पर्याय आसा कि ज्याच्या योगान सत्यवादी मनशाच्यान म्हाका जुगुप्सी म्हणूं येत. तो खैंचो? सिहा, हाव कायेच्या दुश्चरिताची, वाचेच्या दुश्चरिताची आनी मनाच्या दुश्चरिताची जुगुप्सा (कंठाळो) करतां. पापकारक कर्मांचो म्हाका वीट आसा.'

' असोय एक पर्याय आसा कि, ज्याका लागून सत्यवादी मनशाच्यान म्हाका विनाशक म्हणूं येत. तो खैंचो? लोभाचो, द्वेषाचो आनी मोहाचो हांव विनाश उपदेसतां.'

' आनी सिहा, असोय एक पर्याय आसा कि, ज्याचेकरवी सत्यवादी मनशाच्यान म्हाका तपस्वी म्हणूं येत. तो खैंचो? हे सिहा, पापकारक अकुशळ धर्म कडोन सोडचे अशें हांव म्हण्टां. ज्याचे पापकारक अकुशळ धर्म कडून गेले, नष्ट जाले, परत उत्पन्न जावपाचे नात ताका हांव तपस्वी म्हण्टां.'[1]

१. बुद्धलीलासारसंग्रह, पृ. २७९–२८१ पळेयात.

## नास्तिकतायेचो आरोप

ह्या सुत्तांत बुद्धाचेर मुख्य आरोप केल्लो आसा तो अक्रियवादाचो. तो खुद्द महावीरस्वामीन केल्लो आसत नासत. तरी पुण तशे तरेचो आरोप बुद्धाचेर जातालो हातूंत दुबाव ना.

गोतम क्षत्रीय कुळांत जल्मलो. शाक्य क्षत्रीयांचे शेजारी आनी सोयरे कोलिय क्षत्रीय ह्या दोगांमदीं रोहिणी न्हयेच्या उदकावेल्यान भौंन भौंन मारामाऱ्यो जाताल्यो, हें फटीं सांगलांच. (पृ. ९३) दुसऱ्या एकाद्रया तोळयेन आपले तोळयेतल्या मनशांचें नुकसान केले वा खून केलो जाल्यार ताजो बदलो ते तोळयेंतल्या मनशाचें नुकसान करून वा खून करून घेवपाची पद्धत आयच्या सरादींवेल्या पठाण लोकांत चलता. तशीच नी पुर्विल्ल्या काळाक हिंदुस्थानांतल्या क्षत्रियांमदीं आसली जाल्यार तांतूत अजब करिसारकें कांय ना. खरें अजाप हें कि, ह्या क्षत्रियांच्या एके तोळयेत जल्मल्ल्या गोतमान आपल्या शेजाऱ्यांचो आनी आप्तांचो सूड घेवपाचें साप्प नाकाल्लें आनी एकदम ताणें तपस्वी लोकांत प्रवेश केलो.

गृहस्थाश्रमाचो वीट आयलो जाल्यार त्या काळचे ब्राह्मण आनी क्षत्रिय घर त्यागून परिव्राजक जाताले आनी खडतर तपश्चर्या करताले. तेन्ना गोतम तपस्वी जालो, हातूंत कोणाकय विशेष अशें दिसलें जावंये. चडच जाल्यार हो वयावेल्लो गृहस्थ आपल्या आस्त्रमाक निरुपयोगी थल्लो, अशें लोकांत म्हळें जातलें. पुण जेन्ना सात वर्सां तपश्चर्या करून गोतम बोधिसत्त्व बुद्ध जालो आनी गृहस्थास्त्रमांतल्या चैनीचो आनी संन्यासास्त्रमांतल्या तपश्चर्येचो सारकोच निषेध करूंक लागलो, तेन्ना ताजेर टीका जावंक लागली.

ब्राह्मणांक चालंत समाजपद्धत जाय आशिल्ली. तांगेलो कर्मयोग म्हळयार ब्राह्मणांनी यज्ञयाग करचे, क्षत्रियांनी युद्ध करचें, वैश्यांनी वेपार आनी सुदरांनी सेवा करची. हो कर्मवाद ज्याका पसंद नासत ताणे अरण्यवास पत्करून तपच्छर्येच्या योगान आत्मबोध करून घेवचो आनी मरून वचचें, समाजाची घडी इबाडत अशें कसलेंच कृत्य करूं नये.

वेगवेगळ्या श्रमणसंघांत वेगवेगळ्या तत्वज्ञानाचें प्रतिपादन चलतालें. पुण तपच्छर्येच्या संबंदान तांतल्या भौतेक श्रमणांची एकवाक्यताय आशिल्ली. तातूंत निर्ग्रंथांनी कर्माक विशेष म्हत्व दिलें. हो जल्म दुःखाक कारण आनी तो पूर्वजल्मींच्या पापकर्मांनी आयिल्ल्यान तीं पातकां ना करपाखातीर खडतर तपच्छर्या करूंक जाय अशें तांगेले फुडारी प्रतिपादन करताले आनी बुद्ध तर तपच्छर्येचो निषेध करपी. तेन्ना ताका निर्ग्रंथांनी अक्रियवादी (अ-कर्मवादी) म्हणप सामकें सहजीक आशिल्लें. ब्राह्मणांच्या नदरेंत बुद्धान शस्त्रत्याग केलो म्हणून तो अक्रियवादी थरता, तर तपस्व्यांच्या नदरेन तपच्छर्या सोडिल्ल्यान तो अक्रियवादी थारता.

## क्रांतिकारी तत्त्वज्ञान

हांगां हें ध्यानांत दवरूंक जाय कि, गोतमान गृहत्याग केलो ते केवळ आत्म-बोध करून घेवन मोक्ष मेळौपाखातीर न्हय. आपल्या शेजाऱ्यांचेर शस्त्र उखलप ताका योग्य दिसलें ना. शस्त्राबगर, एकमेकांच्या सलोख्यान चलपी अशी एक समाजाची बांदावळ तयार करूं येत काय कितें ह्या संबंदान ताज्या मनांत सतत विचार चालू आशिल्ले. तपश्चर्येन आनी तपस्वी लोकांच्या तत्वज्ञानान मनीसजातीखातीर असो एकाद्रो सरळ मार्ग काडूं येत अशें दिशिल्ल्यानच ताणें गृहत्याग करून तपश्चर्या आरंबली, आनी ।तज्यायोगान कांयच निष्पन्न जायना हें कळटकच ताणें ती सोडून दिली, आनी एक नवोच असो मध्यम मार्ग सोदून काडलो.

आजकालच्या क्रांतिकारी लोकांक राजकर्णी आनी धर्मीक लोक नष्टे (Nihilist) बी विशेषणां लायतात आनी तांगेलें अडाणीपण लोकांमुखार मांडटात त्याप्रमाण बुद्धामुस्तीतले टीकाकार ताका अक्रिय-वादी म्हण्टाले आनी ताज्या नव्या तत्वज्ञानाचें वायफळपण लोकांसामकार मांडीत, अशें समजूंक हरकत ना.

## दुश्चरितां आनी सुचरितां

ह्यांगा वैर दिल्ली दुश्चरितां आनी सुचरितां खैंची ह्याजें थोडयाभितर विवेचन करप योग्य दिसता.

भगवान सालेयक ब्राह्मणांक म्हण्टा, ' गृहस्थानो, कायेन घडपी तीन प्रकारांचें अधर्माचरण खैंचें? जीवाची हत्या करता, रुद्र, दारुण, खुनयाळच्या, मरणामारीच्या कामांत सांपडिल्लो आसा, जी वस्त आपली न्हय ती–गांवात आसूं वा अरण्यांत –मालकाक विचारिनासताना घेता, वा शिदळकी करता, मावय, बापूय, भैण, घोव वा आप्त हाणीं रक्षण केल्ले बायलमनशेकडेन व्यभिचार करता. अशे भशेन कायेन त्रिविध अधर्माचरण घट्टा.

" आनी गृहस्थानो, वाचेन घडपी चार प्रकारचें अधर्माचरण खैंचें? एकाद्रो मनीस फट उलैता, सभेंत, परिषदेंत, आप्तमंडळींत वा रायदर–बारांत गेल्लेकडेन ताजी गवाय विचारतात. तुका जें खबर आसा तें सांग. तो जें नकळ तें आपुण जाणां, जें पळैलें ना तें आपणें पळैलां अशें सांगतां. अशे भशेन आपल्याखातीर, दुसऱ्याखातीर वा थोडें भोव प्राप्तीखातीर बुद्ध्यां फट उलैना, वा चाडी करना, ह्या लोकांचें आयकून त्या लोकांत धोस घालपाखातीर कागाळचो सांगता, वा त्या लोकांचें आयकून ह्या लोकांक सांगता आनी तांच्यामदीं झगडीं लायता. अशे भशेन एकचारान चलतल्या लोकांमदीं धोंस घालता वा झगडटल्यांत उत्तेजन दिता. झगडीं वाडौपांत ताका आनंद जाता, झगडीं वाडटीत अशींच उत्तरां तो उलैता. अथवा तो गाळी-गुप्त करता, दुष्टाव्याचें, कर्कश, कोडू, वर्मा काडपी, रागिष्ट आनी समाधान भंग करपी उत्तरां उलैता, वा तो वायफळ बडबड करता, न्हय त्याच वेळार उलैता, घडूं नाशिल्लेंच वर्तून सांगता, धर्माभायरें, शिष्टाचाराभायरें, ध्यानांत न घेवपासारकें, प्रसंगाक सोबना असलें, गरजेभायरें पाल्हाळिक आनी अनर्थकारी भाषण करता. ह्याप्रमाण वाचेन चतुर्विश्व अधर्माचरण घडटा.

" आनी गृहस्थानो! तीन प्रकारचें मनाचें अधर्माचरण खैंचें? एकाद्र
मनीस परधनाचें चिंतन करता. दुसऱ्याच्या संपत्तीची साधनां आपणाक
मेळचीं, अशी वान्सा धरता वा द्वेषबुद्धी आसता, हे प्राण्यांचो घात जा
ते ना जावं, अशें येवजिता, वा मिथ्यादृष्टी जाता, दान ना, धर्म ना, सुकृ
दुष्कृत कर्मांचें फळ ना, हो लोक ना, परलोक ना, अशे प्रकारचे नास्तिक
विचार बाळगिता. ह्या प्रमाण मनाचें त्रिविध अधर्माचरण घट्टा.

" गृहस्थानो, तीन प्रकारचें कायेन घडपी धर्माचरण खैंचें? एकाद्र
मनीस जीवाची हत्या करिना, तो कोणाचेर शस्त्र उखलिना. हत्या करपाक
तांका लज दिसता, सगळ्या जीवमात्रासंबंदान ताजें वर्तन कळवळ्याच
आसता. तो चोरी करिना, गांवांत जावं, अरण्यांत, दुसऱ्याची वस्त ताण
दिल्याबगर घेना, तो शिंदळकी करिना. आवय, बापूय, भैण, भाव, घोव
आप्त वा लोकान सांबाळिल्ल्या बायलांकडन संबंद दवरिना. ह्याप्रमाण
कायेन त्रिविध धर्माचरण घट्टा.

" आनी गृहस्थानो, चार तरांचें वाचेन घडपी धर्माचरण खैंचें?
एकाद्रो मनीस फट उलौंप सामकें सोडून दिता, सभेंत, परिषदेत वा राय
दरबारांत ताजी गवाय विचाल्ल्यार तो जें खबर ना, तें खबर ना
आनी जें पळेलें ना तें पळेलें ना अशें म्हण्टा—अशे भशेन आपल्याखातीर
जावं, दुसऱ्या खातीर जावं वा थोडेभोव प्राप्तीखातीर जावं तो फट उलैना
तो चाडी करपाचें सोडून दिता. ह्या लोकांचें आयकून त्या लोकांत धोंस
घालीत अशी गजाल तांका सांगना, वा त्या लोकांचें आयकून ह्यांका सांगना
अशे भशेन ज्यांच्यात झगडीं जाल्लीं आसतीत तांचो एकचार करता आनी
ज्यांच्यात एकोपो आसा तांकां उत्तेजन दिता. एकोप्यान तांका खोस
भोगता आनी एकोपो जायत अशेंच उलैता. तो गाळीफस्त करपाचें सोडून
दिता. तो सरळ, कानांक गोड लागपी, काळजाक सुखीपी, गृहस्थाक सोबा
सारकें आनी चार चौगांक मानपासारकें उलैता. तो बडबड करिना. प्रसंगा

चित, तथ्याचें, सार्थ, धर्मीष्ट, चांगरितीचें, लक्षांत धरिसारकें, सकारण, हुद्देसूद आनी हिताचें उलैता! ह्याप्रमाण वाचेन चतुर्विध धर्माचरण घट्टा.

'आनी गृहस्थानो, तीन तरांचें, मनाचें धर्माचरण खैचें? एकाद्रो नीम परद्रव्याचो लोभ धरिना, दुसऱ्यांच्या संपत्तीचीं साधना आपली ावचीं असो विचार लेगीत मनांत हाडिना, ताजें चित्त द्वेषापसून मुक्त ासता, हे प्राणी वैर, बाधा आनी दुःख हाच्यो विरैत आसचे आनी सुखी ावचे, असो ताचो शुद्ध संकल्प आसता. तो सम्यक्‌दृष्टी जाता. दानधर्म ासा, सुकृत-दुष्कृत कर्माचें फळ आसा, इहलोक-परलोक आसा, बी गजालीं- र ताजो विस्वास आसता.' हे भशेन मनान त्रिविध धर्माचरण घट्टा."[1]

संक्षेपान सांगपाचें जाल्यार प्राणिघात, अदत्तादान (चोरी) आनी ामिथ्याचार (शिदळकी) हीं तीन कायेचीं पापकर्मां; असत्य, चाडी ळफस्त आनी पोली बडबड हीं चार वाचेचीं पापकर्मां; आनी परद्रव्याचो भ, हेरांक ना करपाची वान्सा आनी नास्तिक वृत्ति हीं तीन प्रकारचीं ाचीं पापकर्मां आसात. ह्या धांकय अकुशळ कर्मपथ म्हण्टात. तांचेंपसून वृत्त जावप म्हळचार कुशळ कर्मपथ. तेय धा आसात. आनी तांचें वर्णन आयलांच. धा अकुशळ आनी धा कुशळ कर्मपथांचीं वर्णनां त्रिपिटक ङमयांत जायत्याकडेन सांपडटात. वैल्या उताऱ्यात अकुशळ कर्मपथांक र्माचरण आनी कुशळ कर्मपथांक धर्माचरण म्हळां.

## कुशल कर्मां आनी अष्टांगिक मार्ग

पैकीं कुशळ कर्मपथांचो आर्य अष्टांगिक मार्गांत समावेश जाताच. तीन ारचें कुशळ कार्यक्रम म्हळ्यार सम्यक् कर्म, चार प्रकारचें कुशळ वाक्कर्म ळ्यार सम्यक् वाचा आनी तीन प्रकारचें कुशळ मनःकर्म म्हळ्यार, यक् दृष्टी आनी सम्यक् संकल्प. बाकी उरिल्लीं आर्य अष्टांगिक मार्गाचीं

[1] मज्झिमनिकाय (नं. ४१) सालेय्यकसुत्त पळेयात.

चार आंगां ह्या कुशळ कर्मपथांक पोषकच आसात. सम्यक् आजीव, सम्यक व्यायाम, सम्यक् स्मृति आनी सम्यक् समाधि ह्या चार आंगांच्या जथापथ भावनेबगर कुशळ कर्मपथाची अभिवृद्धि आनी पूर्णताय जावपाची ना.

## अनासक्तियोग

केवळ कुशळ करीत गेलो पुण जर तांतूंत आसक्त जालों, जाल्यार ताका लागून अकुशळ उत्पन्न जावपाचो संभव आसा.

कुसलो धम्मो अकुसलस्स धम्मस्स आरम्मणपच्चयेन पच्चयो। दानं दत्वा सीलं समादियित्वा उपोसथकम्मं कत्वा तं अस्सादेति अभिनन्दति। तं आरब्भ रागो उप्पज्जति दिठ्ठि उप्पज्जति विचिकिच्छा उप्पज्जति उद्धच्चं उप्पज्जति दोमनस्सं उपज्जति (तिकपट्ठान)

'कुशळ मनोविचार अकुशळाक आलंबन प्रत्ययान प्रत्यक्ष जाता. (एकाद्रो मनीस) दान दिता, शील सांबाळटा, उपोसथकर्म करता, आनी ताजो आस्वाद घेता, ताजें अभिनंदन करता. ताका लागून लोभ उपजता, दृष्टि उपजता, दुबाव उपजता, भ्रम उपजता, दुर्मनस्य उपजता.'

अशे भशेन कुशळ मनोवृत्ती अकुशळाक कारण जातात देखून कुशळ विचारांत आसक्ती दवरूंक कामा नये, निरपेक्षपणांत कुशळ कर्म करीत रावंक जाय. होच अर्थ धम्मपदांतले सकले गाथेंन संक्षेपान दर्शायला.

सब्बपापस्स अकरणं कुसलस्स उपसम्पदा।
सचित्तपरियोदपनं एतं बुद्धान सासनं॥

'सगळ्या पापांचें अकरण, सर्व कुशळांचें संपादन आनी आपल्या चित्ताचें संशोधन हें आमा बुद्धाचें शासन.'

म्हळचार वैर सांगिल्ले सगळे अकुशळ कर्मपथ पुरायेन वर्ज्य करप
ानी कुशळ कर्मपथांचें सदाआचरण करून तांतूंत आपणालें मन आसक्त
ावंक न दिवप. हें सगळें अष्टांगिक मार्गाच्या अभ्यासान घडून येता.

## कुशल कर्मांत जाग्रुताय आनी उर्बा

शळ कर्मांत सुमाराभायर जाग्रुताय आनी उर्बा दवरूंक जाय. अशे तरेचे
पदेस त्रिपिटक वाङ्मयात जायते सांपडटात. त्या मगळयांचो संग्रह
ंगा करप शक्य ना. तरी पुण नमुनो म्हूणून तांतलो एक ल्हानसो उपदेस
ंगा दितां.

बुद्ध भगवान म्हण्टा, "भिक्षूनो, बायलेन, दादल्यान, गृहस्थान वा
व्रजितान, पांच गजालींचें निरंतर चिंतन करचें (१) हांव जराधर्मी आसां
शें भौन भौन येवजूंचें. कित्याक म्हळयार ज्या जुवानपणाच्या मदाक
ागून प्राणी काया-वाचा-मनान दुराचरण करतात, तो मद ह्या चिंतनान
ा जाता. निदान उणो जाता. (२) हांव व्याधिधर्मी आसां, अशें भौन
ौन येवजूंचें, कित्याक म्हळयार ज्या आरोग्यमदाक लागून प्राणी काय-
ाचा-मनान दुराचरण करतात, तो मद ह्या चिंतनान ना जाता, निदान
णो जाता. (३) हांव मरणधर्मी आसां, अशें भौन भौन येवजूंचें. कित्याक
्ळयार ज्या जीवित मदान प्राणी काया-वाचा-मनान दुराचरण करतात,
ा मद ह्या चिंतनान ना जाता. निदान उणो जाता. (४) प्रियांचो आनी
ाय जाल्ल्यांचो (प्राण्यांचो आनी जिनसांचो) म्हाका वियोग घडटलो
शें भौन भौन येवजुंचें. कित्याक म्हळयार ज्या प्रियांच्या मायेक लागून
ाणी दुराचरण करतात ती माया ह्या चिंतनान ना जाता. निदान उणी
ाता. (५) हांव कर्मस्वकीय, कर्मदायाद, कर्मयोनि, कर्मबंधू, कर्मप्रति-
रण आसां. जे हितकर्म वा पापकर्म करीन ताजो दायाद जातलों अशें
ौन भौन येवजूंचें. कित्याक म्हळयार ताका लागून कायेचें, वाचेचें
ानी मनाचें दुराचरण ना जाता – निदान उणें जाता.

‘हांव एकलोच न्हय तर कुल्लीं प्राणी जराधर्मी, व्याधिधर्मी, मरणधर्मी आसात. त्या सगळयांक प्रियांचो वियोग घट्टा आनी तेय कर्मदायाद आसात, अशें आर्यश्रावक सतत येवजिता, तेन्ना ताका मार्ग सांपडटा. त्या मार्गाच्या अभ्यासान तागेलीं संयोजनां ना जातात.’[३].

ह्या उताऱ्यांत कर्मस्वकीय म्हळयार कर्म हेंच म्हजे आप्त. हेर सगलें वस्तुजात म्हजेपसून केन्ना विलग जायत हाजो नेम ना. हांव कर्माचो दायाद म्हळयार बरीं कर्मां केल्यार म्हाका सुख मेळटलें, वायट केल्यार दुःख भोगचें पट्टलें, कर्मयोनि म्हळयार कर्मांक लागूनच म्हजो जल्म जाला, आनी कर्मबन्धू म्हळयार संकटप्रसंगाक कर्मच म्हाका पावपी इष्ट, आनी कर्मप्रतिशरण म्हळयार कर्मच म्हजो राखण करूंक शकत. हाजेवेल्यान बुद्ध भगवन्तान कर्माचेर केदो भर दिला, हें बेस बरें समजून येतलें. अशा गुरुक नास्तिक म्हणप योग्य कशें जायत?

सत्कर्मां उत्साहित मनान करचीं, ह्या संबंदान धम्मपदाची मकलीं गाथाय विचार करपाजोगी आसा.

अभित्थरेथ कल्याणे पापा चित्तं निवारये ।
दन्धं हि करोतो पुञ्ञं पापस्मिं रमतो मनो ॥

‘कल्याणकर्मां रोखडया रोखडीं करचीं आनी पातकापसून चित्त फाटीं काडचें. कारण आळसायेन, पुण्यकर्म करतल्याचें मन पातकांन रमूंक लागता.”

## ब्राह्मणांचो कर्मयोग

येथवेर बुद्धाच्या कर्मयोगाचो विचार जालो. आता त्या काळच्या ब्राह्मणांमदीं कोणा तरेचो कर्मयोग चलतालो ताजो थोडयाभितर विचार करप

३. अंगुत्तरनिकाय, पञ्चकनिपात, सुत्त ५७.

ष्ट आसा. ब्राह्मणाचें चरितार्थाचें तेन्नाच्या साधन म्हळ्यार यज्ञयाग. ो विधिपूर्वक करप हांकाच ब्राह्मणलोक आपणांलो कर्मयोग मानताले. या उपरान्त क्षत्रियांनी युद्ध, वैश्यांनी वेपार, आनी सुदरांनी सेवा करची, तांचे तांचे कर्मयोग अशें ते प्रतिपादन करताले. तांतूंत एकाद्रयाक उबगण ायली जाल्यार ताणें सर्वसंगपरित्याग करून रानावनांत वचचें आनी पच्छर्या करची. हाका संन्यासयोग म्हणत. तातूंत ताज्या कर्मयोगाचो विट जातालो. कांय ब्राह्मण संन्यास घेवतपसून अग्निहोत्रादिक कर्मयोग ाचरताले आनी तोच श्रेष्ठ समजताले. ह्या संबंदान भगवद्गीतेंत म्हळां –

यज्ञार्थात्कर्मणोऽन्यत्र लोकोऽयं कर्मबंधनः ।
तदर्थं कर्म कौंतेय मुक्तसंगः समाचर ॥

'यज्ञाखातीर केल्ल्या कर्माभायलें हेर कर्म लोकांक बंधनकारक ाता. म्हणून हे कौंतेया, संग सोडून यज्ञाखातीर तूं कर्म कर.'

सहयज्ञाः प्रजाः सृष्ट्वा पुरोवाच प्रजापतिः ।
अनेक प्रसविष्यध्वमेष वोऽस्तिष्टकामधुक् ॥

'पूर्वी (सृष्टीच्या आरंबाक) यज्ञासैत प्रजा उत्पन्न करून ब्रह्मदेव ल्लैलो, 'तुमी ह्या यज्ञावरवी उदरगतीक पावात; ही तुमगेली इष्ट ामगाय जावं." आनी म्हणून –

एवं प्रवर्तितं चक्रं नानुवर्तयतीह यः ।
अघायुरिंद्रियारामो मोघं पार्थ स जीवति ॥

'हे भशेन सुरू केल्लें (यज्ञयागाचें) चक्र ह्या संसारात जो चलैना ाजें आयुष्य पापरूप आसून तो इंद्रियलंपट व्यर्थ जियेता'.[४]

## ब्राह्मणांचो लोकसंग्रह

ुण जर एकाद्रयाच्या मनांत विचार आयलो कि, प्रजापतीन प्रवर्तिल्लें हें त्रक्र सारकें न्हय, कारण ताज्या मुळाक हिंसा आसा, जाल्यार तो विचार ानांत येवंक दिवं नये; ताका लागून अज्ञ लोकांचो बुद्धिभेद जातलो,'

४. भगवद्गीता, अ. ३, श्लोक ९, १० आणि १६.

न बुद्धिभेदं जनयेदज्ञानां कर्मसंगिनाम् ।
जोषयेत्सर्वकर्माणि विद्वान्युक्तः समाचरन् ।।

'कर्मांत आसक्त आशिल्ल्या अज्ञ लोकांचो बुद्धिभेद करूं नये. विद्वान मनशान युक्त जावन, म्हळ्यार सगळीं कर्मां सारकीं आचरून हेरांक तीं करूंक लावचीं (भ. गी. ३–२६. हो गीतेचो सगळोच अध्याय विचारकरपासारको आसा.)

भगवद्गीता खैंच्या शेंकड्यांत बरैली ह्या वादांत पडपाचें कारण ना. पुण खैंच्याच बरप्यांन तिका बुद्धामुस्तींतलीं मानूंक ना. बुद्धाउपरान्त पांचशीं वर्सांपसून एक हजार वर्सांमेरेन तिजो काळ आसुंये अशीं जिनसवार अनुमानां पश्चिमेकडल्या पंडितांनी केल्यात. हातूंत दुबाव ना किं, ती बरीच आधुनिक आसा. तरी लेगीत हांगा वर्सायल्ले विचार बुद्धामुस्तींतल्या ब्राह्मणांमदीं चालंत आशिल्ले. आपणाक जरी कुशळ तत्व समजलें तरीं तें लोकांत प्रकट करूं नये, अशें लोहित्य नांवाचो कोसलदेशी प्रसिद्ध ब्राह्मण प्रतिपादन करी.[५] संक्षेपान ताजी गजाल अशी :–

भगवान कोशल देशांत प्रवास करीत शालवतिका नांवाच्या गांवांसरीं पावलो. तो गांव पसेनदि कोसल राजान लोहित्य ब्राह्मणाक इनाम दिल्लो. लोहित्य अशें एक पापकारक मत प्रतिपादन करी किं, 'जर एकाद्र्या श्रमणाक वा ब्राह्मणाक कुशळ तत्वाचो बोध जालो जाल्यार तो ताणें दुसऱ्याक सांगू नये; एक मनीस दुसऱ्याक कितें करूंक पावतलो ? तो दुसऱ्याचे पोन्ने पास तोडून ताका हे नवे पास उत्पन्न करतलो; देखून हे वर्तन लोभी अशें हांव म्हण्टा.'

भगवान आपल्या गांवालागसार आयिल्ल्याचें वर्तमान जेन्ना लोहित्य ब्राह्मणाक समजलें, तेन्ना रोसिका नांवाच्या म्हाल्याक धाडून ताणें भगवन्ताक आमंत्रण दिलें आनी दुसऱ्या दिसा जेवण तयार करून त्याच म्हाल्याकडल्यान जेवण तयार आसा अशें वर्तमान भगवन्ताक आनी भिक्षुसंघाक

५. दीघनिकाय, भाग–१, लोहिच्चसुत्त पळेयात.

यलें. भगवान आपलें पात्र आनी चीवर घेवन लोहित्य ब्राह्मणागेर
क भायर सल्लो. वाटेर रोसिका म्हाल्यान लोहित्य ब्राह्मणाचें मत
वन्ताक सांगलें; आनी म्हळें, 'भदन्त, ह्या पापकारक मतापसून
हत्याची सुटका करात.'

लोहित्यान भगवन्ताक आनी भिक्षुसंघाक सन्मानान जेवण दिलें.
गाउपरान्त भगवन्तान ताका म्हळें, "लोहित्या, एकाद्र्याक कुशळ
ाचो बोध जालो जाल्यार ताणें तो हेरांक सांगू नये अशें तूं सांगता खंय?"

लो. – हय, भो गोतम.

भ. – लोहित्या, तूं ह्या शालवतिका गांवांत रावता. आता कोणीय
त कि ह्या शालवतिका गांवाची जितली म्हणून येणावळ आसत
सगळी लोहित्यान भोगची. दुसऱ्या कोणांक दिवं नये. अशें उलौपी
स तुजेर आदारून आशिल्ल्या (ह्या गांवच्या) लोकांचें अकल्याण
ा जातलो काय ना? लोहित्यान 'जातलो' अशी जाप दितकच भग-
न म्हळें, 'जो हेरांक अंतर दिला तो तांचो बरोमागतो काय वायट
तो?'

लो. – वायट मागतो, भो गोतम.

भ. – अशा मनशाचें मन मैत्रीमय आसतलें काय वैरमय?

लो. – वैरमय. भो गोतम.

भ. – वैरमय चित्त आशिल्लो मनीस मिथ्यादृष्टी जातलो काय सम्यकदृष्टि?

लो. – मिथ्यादृष्टि. भो गोतम.

## कुशळ कर्मान अकुशळाचेर जैत जोडचें

आनी दुसऱ्या जायतेकडेन भगवन्ताचें म्हणणें अशें कि चलत आयिल्ल्या
ळ रूडींआड कुशळ विचार सुचलो जाल्यार तो लोकांत पातळावप
ज्जन मनशाचें श्रेष्ठ कर्तव्य. वायट कर्मां आचरतल्याक कांय एक न

म्हणप वा आपणें ताज्याभशेनच वागून तीं तशींच आचरूंक दिवप हें कर्त
न्हय.

ब्राह्मणाचें म्हणणें आशिल्लें कि, यज्ञयाग आनी वर्ण व्यवस्था प्र
पतीनच घडिल्ल्यान तांकां धरून चलपी कर्मां पावन. पुण बुद्धाचें म्हण
हें कि तृष्णेपसून उपजल्लीं हिंसादिक कर्मां केन्नाच शुद्ध जावं नजत. तां
लागून मनीस विषम मार्गांत बद्ध जाला आनी त्या कर्मांआड कुशळ क
आचरिल्ल्यानच ताजी ह्या विषम मार्गातल्यान सुटका जातली. मज्झि
निकायांतल्या उल्लेख सुत्तांत (नं. ८) भगवान म्हण्टा, 'चुन्दा, दु
हिंसक वृत्तीन वागतात थंय आमी अहिंसक जावं या. साफसुफी अशी करच
दुसरे प्राणिघात करतात जाल्यार आमी प्राणिघातापसून निवृत्त जावं
साफसुफी अशी करची.[६] दुसरे चोर जातात जाल्यार आमी चोरयेपस
निवृत्त जावंया. दुसरे अब्रह्मचारी जाले जाल्यार आमी ब्रह्मचारी जावं
दुसरे फट उलैतात जाल्यार आमी फट उलौपापसून निवृत्त जावया. दु
चाडी करतात जाल्यार आमी चाडयेपसून निवृत्त जावया. दुसरे गाळफ
करतात जाल्यार आमी गाळीफस्तींपसून निवृत्त जावंया. दुसरें पो
बडबड करतात जाल्यार आमी बडबडीपसून निवृत्त जावंया. दुसरे प
द्रव्याचो लोभ धरतात जाल्यार आमी परद्रव्याच्या लोभापसून मु
जावंया. दुसरे द्वेष करतात जाल्यार आमी द्वेषापसून मुक्त जावंया. दु
मिथ्यादृष्टी आसात जाल्यार आमी सम्यक्‌दृष्टी जावं या. साफसुपी अ
करची.

"चुन्दा, विषम मार्गांत सांपडिल्ल्या एकाद्र्या मनशाक तांतल्य
भायर सरूंक सामको मार्ग सांपडचो त्याप्रमाण हिंसक मनशाक ति
तल्यान भायर सरूंक अहिंसा आसा. प्राणिघातकी मनशाक मुक्त जा
प्राणिघातापसून विरति, चोराक मुक्त जावंक चोरयेपसून विरति. अब्र

६. शंख बी घासून निवळ करपाक सल्लेख म्हण्टात. हांगा आत्मशुद्धि

ाक मुक्त जावंक अब्रह्मचर्यापसून विरति. फटिंगाक मुक्त जावंक
पणापसून विरति. चाडयाळयाक मुक्त जावंक चाडयेपसून विरति.
उलैतल्याक मुक्त जावंक कर्कश उलौण्यापसून विरति आनी पोली
ड करतल्याक मुक्त जावंक बडबडीपसून विरति होच उपाय......
'चुन्दा, जो स्वताच मांयडाक लागला, तो दुसऱ्याक रेंव्यांतल्यान
न हें शक्य ना. त्याचप्रमाण ज्याणें स्वताचें दमन केलें ना, स्वताक
लावन घेतली ना, जो स्वतः शान्त ना, तो दुसऱ्याचें दमन करीत
भवना. पुण जो स्वतः दान्त, विनीत आनी परिनिवृत्त, तोच दुसऱ्याचें
करीत, दुसऱ्याक विनय शिकैत आनी दुसऱ्याक परिनिवृत्त (शान्त)
हें शक्य आसा."

होच अर्थ धम्मपदाचे एके गाथेंत संक्षेपान शिटकायला. ती गाथा ही –

> अक्कोधेन जिने कोधं असाधुं साधुना जिने ।
> जिने कदरियं दानेन सच्चेनालीकवादिनं ॥

'क्षमेन क्रोध जिखचो, असाधूक साधुत्वान जिखचो, हिमटयाक
न जिखचो आनी फटकिऱ्याक सत्यान जिखचो' (धम्मपद २२३).

## धा कुशल कर्मपथांत ब्राह्मणांनी केल्ले फेरफार

आडेवेडे घेवन जायना. वैदिक ग्रंथकारांक वैर निर्देसिल्ल्या
आनी अकुशळ कर्मपथांक मान्यताय दिवची पडली. पुण तातूंत
धा एकाचेर गदा येवं नये अशी ताणीं जतनाय घेतली. मनुस्मृतींत
अकुशळ कर्मपथ कशेतरेन स्वीकाल्ल्यात ते पळेयात.

> स तानुवाच धर्मात्मा महर्षीन्मानवो भृगुः ।
> अस्य सर्वस्य शृणुत कर्मयोगस्य निर्णयम् ।

'तो मनूच्या कुळांत जाल्लो भृगु त्या महर्षींक उलैलो, ह्या सगळ्या
गाचो निर्णय आयकात.'

> परद्रव्येष्वभिध्यानं मनसानिष्टचिंतनम् ।
> वितथाभिनिवेशश्च त्रिविधं कर्म मानसम् ।

'परद्रव्याचो अभिलाश धरप, दुसऱ्याचें वायट चिंतप, आनी त्याच मार्गाक लागप (नास्तिकताय), हीं तीन मनाचीं (पापकर्मां) समजु

पारुष्यमनृतं चैव पैशुन्यं चापि सर्वशः।
असंबद्धप्रलापश्च वाङ्मयं स्याच्चतुर्विधम् ॥

'कठोर उलौणें, असत्य उलौणें, सगळे तरेची चाडी आनी पो बडबड हीं चार वाचेचीं पापकर्मां'.

अदत्तानामुपादानं हिंसा चैवाविधानतः ।
परदारोपसेवा च शारीरं त्रिविधं स्मृतम् ।

'अदत्तादान (चोरी), वेदांक मान्य नाशिल्ली हिंसा, आनी परदा गमन हीं तीन कायेची पापकर्मां'

त्रिविधं च शरीरेण वाचा चैव चतुर्विधम् ।
मनसा त्रिविधं कर्म दश कर्मपथांस्त्जेत् ॥

'(ह्याप्रमाण) कायेचे तीन, वाचेचे चार आनी मनाचे तीन धा (अकुशळ) कर्मपथ त्यागचे.' (मनु. १२।५–९).

ह्यापैकीं पैल्या श्लोकांत 'कर्मयोग' हें उतर उपयुक्त आसा. म स्मृतीच्या कर्त्याक बुद्धान उपदेसिल्लो कर्मयोग पसंत आशिल्लो खरो, त ताणें तांतूंत एक आडवाद दवल्ला. तो हो कि, हिंसा वेदाक धरून नास जाल्यारच ती करप ना. वेदांक धरून केल्ली हिंसा, हिंसा न्हय.

## युद्ध धर्मीक थारिल्ल्यान अकुशळ धर्म उपयुक्त थाल्ले

यज्ञयागांतली हिंसा त्याज्य मानिल्ली जाल्यार यज्ञयाग करपाचें कारण उरचें नाशिल्लें. आनी हें यज्ञयाग आशिल्ले कित्याक? तर युद्धांत मेळचें आनी जैत जोडल्याउपरान्त मेळैल्ले राज्य चिरस्थायी जा म्हणून. अर्थात् युद्धांतली हिंसा धर्मीक गणूंक नाशिल्ली जाल्यार वे हिंसेचे कारणच उरचें नाशिल्लें; आनी म्हणूनच युद्धाक पवित्रपण दि पडलें.

श्रीकृष्ण म्हण्टा —

स्वधर्ममपि चावेक्ष्य न विकंपितुमर्हसि ।
धर्म्याद्धि युद्धाच्छ्रेयोऽन्यत्क्षत्रियस्य न विद्यते ।।

'आनी स्वधर्माचो विचार करतकच लेगीत फाटीं सरप तुका योग्य क्षत्रियांक धर्म्य युद्धापरस अदिक श्रेयस्कर अशें दुसरें कांय ना!

यदृच्छया चोपपन्नं स्वर्गद्वारमपावृतम् ।
सुखिनः क्षत्रियाः पार्थ लभन्ते युद्धमीदृशम् ।।

'आनी आरे पार्था, सहज दैवान उकतें जाल्लें सर्गाचें दार अशें द्ध भाग्यवान क्षत्रियांक लाभता.'

'अथ चेत्त्वमिमं धर्म्यं संग्रामं न करिष्यसि ।
ततः स्वधर्मं कीर्तिं च हित्वा पापमवाप्स्यसि ।।

नी जर हो धर्म संग्राम तूं करिना जाशी जाल्यार स्वधर्म कीर्त व्हगडावन ांत पडटलो. (गीता, अ. २।३१–३३).

युद्ध धर्मीक थारिल्ल्यान सगळे अकुशळ कर्मपथ धर्मीक जावप विक आशिल्लें. म्हळ्यार युद्धाबगर अन्यत्र हिंसा करूं नये, गर लुटालूट करूं नये, युद्धाबगर व्यभिचार करूं नये, त्याचप्रमाण भाषण, चाडी, कर्कश वचन हीं युद्धाक उपकरा पडल्याबगर म्हळ्यार र्णाबगर वाफरचीं न्हयत. परद्रव्याचो लोभ तर युद्धात खूबच उप- चो. आपणाल्या सैन्यांत परक्यांसंबंदान द्वेष पातळायल्याबगर सैनिक तयार जावपाचेच नात; आनी आमी स्वधर्माखातीर स्वराष्ट्रा- र, वा असल्याच कसल्यातरी काल्पनिक पवित्र कार्याखातीर झुजतात तीव्र मिथ्यादृष्टी उत्पन्न जाल्याबगर युद्धांत जैत मेळवप शक्य ना. हें कि, एका युद्धाखातीर सगळ्या कुशळ कर्मांचेर उदक सोडप पवित्र ा!

अश्वत्थामा मेलो अशी स्पष्ट फट मारूंक युद्धिष्ठिर तयार नाशिल्लो, ताका श्रीकृष्णान 'नरो वा कुंजरो वा' (मनीस जायत हती) अशें लायलें. आजकालचें राजकर्ण अशेंच तरेचें आसता; अदें खरें

अर्दें फट. आनी आपल्या देशाचें घोडें फुडें घालूंक आयलें जाल्यार क
अकुशळ कर्म अत्यंत पवित्र थरूं येता!

## धर्मीक युद्धाचो विकास

जैन आनी बौद्ध धर्मांच्या प्रभावान वैदिक हिंसा बंद पडली. पुण क्षत्ति
तलीं आपसांतलीं युद्धां ह्या देशांत सासणाचीं उल्लीं; तांच्यातले वारि
उत्तेजन मेळ्ळें, तसल्या धर्मीक युद्धांचो विकास महंमद पैगंब
केलो. आपसांत युद्ध करप योग्य नासून हेरा संप्रदायाच्या लोकांचेर जि
(युद्ध) पुकारप अत्यंत धर्मिष्ट आसा, अशें ताणें प्रतिपादन केलें. त
प्रतिक्रिया किरिस्तावांच्या धर्मयुद्धांनी (क्रुझादांनी) घडून आय
आनी त्या सगळ्यांचो लय देशाभिमानान केलो. आज तो अभिमान धर्म
मानतात. ताज्याखातीर कसलेंय कुकर्म करप योग्य थरता. पुण त
लागूनच सगळी मनीसजात विषय मार्गांत सांपडल्या. तांतल्यान भ
सरूंक बुद्धाच्या कर्मयोगाबगर अन्य मार्ग असूं येता व्हय?

• •

प्रकरण णवें

# यज्ञयाग

## पुराणांतलो बुद्ध

ि्दु लोक बुद्धाक विष्णूचो णवो अवतार मानतात. विष्णून बुद्धावतार ान असुरांक मोह घालो आनी देवांकडल्यान तांचो उच्छेद केलो अशी ा विष्णुपुराणांत आयल्या. तिजो सारांश भागवताच्या सकल्या श्लोकांत सडटा :–

ततः कलौ संप्रयाते संमोहाय सुरद्विषाम् ।
बुद्धो नामाऽञ्जनसुतः कीकटेषु भविष्यति ॥

'त्या उपरान्त कलियुग आयिल्लें आसताना, असुरांक मोह घालूंक ब नांवाचो अजनाचो पूत कीकट देशांत उत्पन्न जातलो.'

सामान्य हिन्दु लोकांक बुद्धावताराची चडशी खबर ना. शास्त्री ाइतांक आनी पुराण आयकतल्या भावीक हिन्दूंक बुद्धासंबंदान जी कांय ायतां आसा, ती विष्णुपुराणावेल्यान वा भागवतावेल्यान मेळिल्ली.

## विष्णुशास्त्र्याची कल्पना

श्च्छमी देशांत मॅक्समुलर हांचे गुरु प्रसिद्ध फ्रेंच पंडित बर्नुफ हांचे लक्ष ेंदा प्रथम बौद्ध धर्माकडेन ओडलें, परन्त भरपूर सामग्री न मेळिल्ल्यान ां ह्या धर्माची सांगोपांग म्हायती थैंच्या लोकांमुखार माण्डूक आयली । तरी पुण बौद्ध धर्म सामको त्याज्य आसून विचारांत घेवंक योग्य न्हय, ो जो पच्छिमी लोकांलो समज आशिल्लो ताका बर्नुफच्या प्रयत्नान यतो आळो बसलो आनी ताजो परिणाम असो जालो कि, डॉ. विलसन

सारके जेजू क्रिस्ताचे भक्त पसून बौद्ध धर्माचो अभ्यास करूंक लाग
आनी तांचे संगतीक लागून आमच्या हांगच्या कॉलेजांतल्यान शिक्षण घेव
भायर सरिल्ल्या तरुण मंडळीची बौद्ध धर्माविशीं कल्पना बदलत गेल

विष्णूशास्त्री चिपळूणकर आपल्या बाण कवीवेल्या निबंदान म्हण्टात

" आर्य लोकांचो मुळचो जो वेदिक धर्म ताजेर पयलो मत
बुद्धान काडलो. ताज्या मताक काळान्तरान पुस्कळ लोक अणसरून धर्म
दुस्फळ जालीं आनी हे नवे लोक आपणांक बौद्ध अशें म्हणून घेवंक लाग
तांचीं नवी मतां खैंचीं आशिल्लीं, तांचो उदय, प्रसार आनी लय केन्ना जा
आनी कसो जालो बी गजाली इतिहासकाराक मोटो मनोरंजक वि
आशिल्लो; पुण आतां उलौन कितें उपयोग? फाटलीच खेदाची गजा
परती एक फावट हांगा सांगूंक जाय कि, इतिहासाच्या अभावाक ला
ह्या व्हडल्या लाभाक आमी एकांदर जगासैत अन्तरले. आसूं; बुद्धासंबंद
जरी आमकां कांय खबर नासली, तरी इतली गजाल स्पष्ट दिसता
ताजी बुद्द लोकोत्तर आशिल्ली जावंक जाय. कित्याक म्हळ्यार, ता
प्रतिपक्षियांनीं म्हळ्यार ब्राह्मणांनीय ताका ईश्वराचो साक्षात् णवो अवत
गणलो! जयदेवान ' गीतगोविंदा 'च्या आरंबाक म्हळां ––

निंदसि यज्ञविधेरहह श्रुतिजातं ।
सदयहृदयदर्शितपशुघातं ।
केशव धृतबुद्धशरीर जय जगदीश हरे । (ध्रुवपद)

. . . इसवी शकाच्या आरंबाच्या सुमाराक बौद्धांचे आनी ब्राह्मण
व्हडले वाद जावन तांतूंत शंकराचार्यान बौद्ध धर्माचें खंडण केलें, आ
परती ब्राह्मणधर्माची स्थापना केली. हे भशेन बौद्धांचो मोड जातकच
आपखोशयेन जायत वा राजाज्ञेन जायत देशत्याग करून कोण तिबेट
कोण चिनांत, तर कोण लंकेंत अशे वचून रावले. "

ह्या उताऱ्यावेल्यान त्या काळच्या इंग्रजी शिकिल्ल्या हिन्
धर्माविशींची कल्पना कशे तरेची आशिल्ली हाजें अनुमान करूंक

## 'लायट ऑफ एशिया'चो परिणाम

त्या उपरान्त १८७९ सालांक एडविन आर्नोल्ड (Edwin Arnold) हाचो 'लायट ऑफ एशिया' (Light of Asia) हो प्रख्यात काव्यग्रंथ प्रसिद्ध जालो. तो वाचिल्ल्यान इंग्रजी शिकिल्ल्या हिन्दूंची बुद्धाविशीं आदरबुद्धी वाडली; पुण यज्ञयागांचो विध्वंस करून अहिंसा परमधर्म स्थापपाखातीर बुद्धाचो अवतार जालो, ह्या समजाक घटाय येत गेली, आनी ही कल्पना थोड्याभोव प्रमाणांत अद्यापय चलता. हे कल्पनेंत कोठमेरेन तथ्य आसा हे पळौपाच्या उद्देशान बुद्धकाळच्या श्रमणांचें आनी खासा बुद्धाचें यज्ञ-यागांसंबदान कितें म्हणणें आशिल्लें हाजो विचार करप योग्य दिसता.

## हरिकेशिबलाची कथा

श्रमणपंथांपैकीं जैन आनी बौद्ध ह्या दोन पंथाचेच तितले ग्रंथ आयजघडयेक उपलब्ध आसात. तातूंत जैनांच्या उत्तराध्ययन सूत्रांत हरिकेशिबल हाजी खबर सांपडटा. तिजो सारांश असो ––

हरिकेशिबल हो चाण्डालाचो (श्वपाकाचो) भुरगो. तो जैन भिक्षू जावन मोटो तपस्वी जालो. कोणा एका समयाक म्हनोभर उपास करून पारण्याच्या दीसा भिक्षाटण करता आसतना तो एका महायज्ञाच्या स्थानार पावलो. मळीण वस्त्रांतलें ताजें तें कृश शरीर पळौन याजक ब्राह्मणांनी ताका हडबडायलो आनी थैंच्यान ताका वचूंक सांगलें. तेन्ना तिन्दुक रूखाचेर गुप्त रूपान रावपी यक्षान हरिकेशिबलाचो ताळो काडून त्या ब्राह्मणाक म्हळें, "ब्राह्मणांनो, तुमी केवळ शब्दांचें ओजें व्हांवैपी; तुमी वेदांचे अध्ययन करतात, पुण वेदांचो अर्थ तुमकां समजना." हे भशेन त्या भिक्षून अध्यायक ब्राह्मणांचो अवमान केलो अशें मानून त्या ब्राह्मणांनी आपल्या तरण्या भुरग्यांक ताका बडौंक लायलो. त्या भुरग्यांनी दाण्डयांनी, बडयांनी आनी चाबकांनी ताका मारूंक सुरवात केली. तें पळौन कोसलिक राजाची कन्या आनी पुरैताची बायल भद्रा हाणी तांचो निषेध केलो. इतल्यांन

अनेक यक्षांनी यवन त्या भुरग्यांक रक्तबंबाळ जायसर पेटून काडले. ताका लागून ब्राह्मण भियौन गुळी जाले आनी अखेर ताणी हरिकेशिबलाची क्षमा मागून ताका अनेक पदार्थांसैत तांदळाचें उत्तम जेवण अर्पण केलें.

तें जेवण घेवन हरिकेशिबलान तांकां म्हळें, "ब्राह्मणांनो, उजो पेटौन उदकाच्या योगान भायली शुद्धी मेळौपा फाटल्यान तुमी कित्याक लागल्यात? ही तुमगेली भायली शुद्धी योग्य न्हय, अशें तत्वज्ञ म्हण्टात."

हाजेर त्या ब्राह्मणांनी म्हळें, "हे भिक्षू, आमी याग कशा प्रकारचो करचो आनी कर्माचो नाश कसो करचो?"

हरि. – स जीवकायांची[१] हिंसा न करतां, असत्य भाषण आनी चोरी न करतां परिग्रह, बायलो, मान आनी माया सोडून साधुलोक दांकळ-पणान वागतात. पांच संवरांनी[२] संवृत्त जावन, जीविताची चाड न दवरतां देहाची आशा सोडून, ते देहाविशीं अनासक्त जातात आनी (अशे तरेन) श्रेष्ट यज्ञाचें यजन करतात.

ब्रा. – तुजो अग्नि खैंचो? तुजें अग्निकुंड खैंचें? श्रुचा खैंची? शेणी खैंच्यो? समिधा खैंच्यो? शान्ती खैंची? आनी खैंच्या होमविधीन तूं यज्ञ करता?

हरि. – तपच्छर्या हो म्हजो अग्नी; जीव अग्निकुंड; योग श्रुचा, शरीर शेणी, कर्म समिधा, संयम शान्ती; अशा विधीन ऋषींनी वर्णिल्लो यज्ञ हांव करतां.

---

१. पृथ्वीकाय, अप्काय, वायुकाय, अग्निकाय, वनस्पतिकाय आनी त्रस-काय अशें स जीवभेद. पृथ्वी परिमाणूंत बी जीव आसा अशें जैन मानतात. वनस्पतिकाय म्हळ्यार झाडां बी वनस्पत. त्रसकायांत सगळ्यां चलपी प्राण्यांचो समावेस जाता.

२. पांच संवर म्हळ्यार अहिंसा, सत्य, अस्तेय, ब्रह्मचर्य आनी अपरिग्रह. हांकांच योगसूत्रांत यम म्हळां. साधनपाद, सूत्र ३०.

ब्रा. – तुगेली तळी खैंची? शान्तितीर्थ खैंचें?

हरि. – धर्म हीच म्हजी तळी आनी ब्रह्मचर्य शान्तितीर्थ... हांगा स्नान करून विमल, विशुद्ध महर्षी उत्तम पदाक वतात.

हे खेरीज यज्ञयागांचो निषेध करपी दुसरी एक गाथा ह्याच उत्तराध्ययनाच्या २५ व्या अध्यायांत सांपडटा. ती अशी :–

पसुबंधा सव्वे वेया जठ्ठं च पावकम्मुणा ।
न तं तायंति दुस्सीलं कम्माणि बलवंतिह ॥

'सगळचा वेदांत पशुबलि सांगिल्ले आसून यजन पापकर्मांत भरसल्लें आसा. यज्ञ करतल्यांचीं हीं पापकर्मां ताजें रक्षण करूंक शकनात.'

हरिकेशिबलाच्या कथेंत यज्ञाचो तितलो निषेध केला. पुण हे गाथेंत यज्ञाचोच न्हय, तर वेदांचोय निषेध स्पष्ट दिसता.

## श्रमणपंथाचो वेदविरोध

अजित केसकम्बल नास्तिक मताचो प्रवर्तक आशिल्ल्यान यज्ञयागांचेरच न्हय, तर वेदांचेर पसून टीका करतालो जावंये, अशें सर्वदर्शनांतल्या चार्वाक मताच्या वर्णनावेल्यान समजून येता. चार्वाक मत दर्सविपी जे कांय श्लोक सर्वदर्शनांत आसात, तांच्यापैकीं हो देड श्लोक आसा.

पशुश्चेन्निहतः स्वर्गं ज्योतिष्टोमे गमिष्यति ।
स्वपिता यजमानेन तत्र कस्मान्न हिंस्यते ॥......
त्रयो वेदस्य कर्तारो भण्डधूर्तनिशाचराः

'अग्निष्टोम यज्ञांत मारिल्लो पशू जर सर्गाक वता जाल्यार त्या यज्ञांत यजमान आपल्या बापायचो वध कित्याक करिना?......वेदांचे कर्ते भंड, धूर्त, राक्षस हे तीग आसात.'

हाजेवेल्यान अशें दिसून येता कि, चडशे श्रमणसंप्रदाय उण्या अदीक प्रमाणांत वेदांचो स्पष्ट निषेध करताले, आनी तांकां वेदनिंदक म्हणपाक हरकत नाशिल्ली; परन्त बुद्धान वेदांची निंदा केल्ल्याचो दाखलो खैंच सांपडना. हाजे उरफाटो वेदाभ्यासाचो जंय थंय गौरव सांपडटा. बुद्धाच्या

भिक्षुसंघांत महाकात्यायनासारके वेदपारंगत ब्राह्मण आशिल्ले. तेन्ना बुद्ध भगवान वेदनिंदा करी हें संभवच ना. पुण यज्ञयागांत जावपी गाया-बैलांची आनी हेरा प्राण्यांची हिंसा ताका हेरां श्रमणांभशेनच पसंत नाशिल्ली.

## यज्ञांचो निषेध

कोसलसंयुत्तांत यज्ञयागांचो निषेध करपी सुत्त आसा तें अशें – " बुद्ध भगवान श्रावस्तीक रावतालो तेन्ना पसेनदि कोसल राजाच्या महायज्ञाक सुरवात जाली. तांतूंत पांचशे बैल, पांचशें पाडे, पाचशें पाडयो, पाचशें बोकडे आनी पांचशें मेंढे बळी दिवपाखातीर युपांक बांदिल्ले. राजाचे दास, दूत आनी मानाय ख्यास्तीच्या धाकान धाकान भयाभीत जावन दुखां काडीत, रडरडत यज्ञाचीं कामां करताले.

" तें सगळें भिक्षूंनीं पळौन भगवन्ताक सांगलें, तेन्ना भगवन्तान म्हळें –

अस्समेधं पुरिसमेधं सम्मापासं वाजपेयं ।
निरग्गळं महारम्भा न ते होन्ति महप्फला ॥
अजेळका च गावो च विविधा यत्थ हञ्ञरे ।
न तं सम्मग्गता यञ्ञं उपयन्ति महेसिनो ॥
ये च यञ्ञा निरारम्भा यजन्ति अनुकूलं सदा ।
अजेळका च गावो च विविधा नेत्थ हञ्ञरे ॥
एतं सम्मग्गता यञ्ञं उपयन्ति महेसिनो ।
एतं यजेथ मेधावी एसो यञ्ञो महप्फलो ॥
एतं हि यजमानस्य सेय्यो होति न पापियो ।
यञ्ञो च विपुलो होति पसीदन्ति च देवता ॥

" अश्वमेध, पुरुषमेध, सम्यक्पाश, वाजपेय आनी निरर्गल हे यज्ञ मोटचा खर्चाचे; पुण ते व्हडले फळ दिवपी जायनात. बोकडे, मेंढे आनी गायो अशा तरेकतरा प्राण्यांची ज्यांतूंत हत्या जाता त्या यज्ञाक सद्वर्तनी

हर्षी वचनान. पुण ज्या यज्ञांत प्राण्यांची हिंसा जायना, जे लोकांक आवड-
ात, आनी बोकडे, मेंढें, गायो बी तरेकतरा प्राण्यांची ज्यांतूंत हत्या जायना
शा यज्ञांत सद्वर्तनी महर्षी हाजीर रावतात. म्हणून शाण्या मनशान असो
ज्ञ करचो. हो यज्ञ व्हडलें फळ दिता. कारण ह्या यज्ञाच्या यजमानांचें
ल्याण जाता. अकल्याण जायना आनी तो यज्ञ वृद्धीक पावता आनी
वता प्रसन्न जातात."

## यज्ञांत पाप कित्याक ?

ज्ञांत प्राण्यांचो वध केल्ल्यान कायेन, वाचेन आनी मनान यजमान अकुशळ
र्मांचे आचरण करता. म्हणून यज्ञ अमंगळ अशे बुद्धाचे म्हणणे आशिल्लें.
ह्या संबदान अंगुत्तरनिकायाच्या सत्तकनिपातांत एक सुत्त सांपडटा. ताजें
पांतर हे भशेन --

एका समयाक भगवान श्रावस्तीत जेतवनांत अनाथपिंडिकाच्या
आरामांत रावतालो. त्या वेळार उद्गतशरीर (उग्गतसरीर) ब्राह्मणान
महायज्ञाची तयारी चलैली. पांचशे बैल, पाचशें पाडे, पाचशें पाडयो,
पाचशें बोकडे आनी पाचशें मेंढें यज्ञांत बळी दिवपाखातीर युपांक बांदिल्ले.
तेन्ना उद्गतशरीर ब्राह्मण भगवन्ताकडेन येवन, भगवन्ताक कुशल प्रस्न
ो विचारून एके कुशीक बसलो आनी ताणें म्हळें, "भो गोतम, यज्ञा-
खातीर अग्नी पेटवप आनी यूप उबारप व्हड फळ दिणें जाता अशें हांवें
आयकलां."

भगवन्तान म्हळें, "हे ब्राह्मणा, यज्ञाखातीर अग्नी पेटवप आनी
यूप उबारप व्हडलें फळदिणें जाता अशें हांवेय आयकलां."

हेंच वाक्य ब्राह्मणान आनीक दोन फावटीं उच्चाल्लें आनी भग-
वन्तान ताका तीच जाप दिली. तेन्ना ब्राह्मणान म्हळें, "तर मागीर आमच्या
दोगांचे सर्वशी जुळटा."

ताजेर आनंदान म्हळें, "हे ब्राह्मणा, हो तुजो प्रस्न सारको न्हय.
'हांवें अशें आयकलां,' अशें न म्हण्टा तू अशें म्हण, 'यज्ञाखातीर हांव अग्नी

पेटौपाच्या आनी यूप उबारपाच्या खटपटींत आसा. ह्या संबदान भगवन्तान म्हका असो उपदेस करचो कि, ज्याका लागून म्हजे मामणाचे कल्याण जायत."

आनंदाच्या म्हणण्याप्रमाण ब्राह्मणान भगवन्ताक प्रश्न केलो तेन्ना भगवन्तान म्हळें, " जो यज्ञाखातीर अग्नि पेटैता आनी यूप उबारता तो दुःख उत्पन्न करपी तीन अकुशळ शस्त्रां उबारता. तीं खैंचीं तर कायशस्त्र वाचाशस्त्र, आनी चित्तशस्त्र. जो यज्ञाक आरंब करता ताज्या मनांत इतले बैल, इतले पाडे, इतल्यो पाडयो, इतले बोकडे, इतले मेंढें मारचे, असो अकुशळ विचार उद्भवता. हे भशेन तो सगळ्यांत पैलीं दुःख उत्पन्न करपी अकुशल चित्तशस्त्र उबारता. उपरान्त हे प्राणी मारपाक तो आपल्या तोंडान आज्ञा दिता ताका लागून दुःख उत्पन्न करपी अकुशळ वाचाशस्त्र उबारता. ताज्या उपरान्त त्या प्राण्यांक मारचे म्हणून पैलीं आपूणच त्या त्या प्राण्यांक मारूंक आरंब करता, आनी ताका लागून दुःख उत्पन्न करपी अकुशळ कायशस्त्र उबारता.

" हे ब्राह्मणा, हे तीन अग्नि त्याग करपाक, परिवर्जनाक योग्य आसात; तांचे सेवन करू नये. तें खैंचें? कामाग्नि, द्वेषाग्नि आनी मोहाग्नि. जो मनीस कामान अभिभूत जाता तो कायावाचामनान कुकर्म आचरता आनी ताका लागून मेल्याउपरान्त दुर्गतीक वता. तेचभशेन द्वेषान आनी मोहान अभिभूत जाल्लो मनीसय कायावाचामनान कुकर्मां आचरून दुर्गतीक वता. म्हणूनच हे तीन अग्नि त्याग करपाक, परिवर्जनाक योग्य; तांचें सेवन करूं नये.

" हे ब्राह्मणा, ह्या तीन अग्नींचो सत्कार करचो, तांकां मान दिवचो, तांची पूजा आनी बरेभशेन, सुखान परिचर्या करची. ते अग्नि खैंचे? आहवनीयाग्नि, (आहुनेय्यग्गि), गार्हपत्याग्नि (गहपतग्गि), आनी दक्षि

ाग्नि (दक्खिणेय्यग्गि)[१] आवयबापूय आहवनीयाग्नि समजूंची. आनी ंची मोठ्या सत्कारान पुजा करची. बायल, भुरगीं, दास, कामेरी, ार्हपत्याग्नि आसात अशें समजूंचें आनी तांची आदराव पुजा करची. श्रमण ाह्मण दक्षिणाग्नि समजुचो आनी ताजी सत्कारान पुजा करची. हे ब्राह्मणा, ा लांकडांचो अग्नि केन्ना पेटोचो पडटा, केन्ना ताजी उपेक्षा करची डता आनी केन्ना तो पालौचो पडटा."

हे भगवन्ताचें भाषण आयकून उद्गतशरीर ब्राह्मण ताजो उपासक ालो आनी ताणे म्हळें, "भो गोतम, पांचशें बैल, पांचशें पाडे, पांचशें डयो, पांचशें बोकडे आनी पांचशें मेंढें ह्या सगळ्या प्राण्यांक हांव पापसून मेकळे करतां. तांकां जीवदान दितां. ताजो चोरोव खावन ानी थंड उदक पियवन ते शीतळ सावळेंत संतोषान रावंत."

## यज्ञांत तपच्छर्येची मिस्रण

द्धकाळच्या यज्ञयागांत ब्राह्मणांनी तपच्छर्येचे मिस्रण केल्लें. वैदिक मुनी ागलांत रावन तपच्छर्या करूंक लागले तरी सवड आसतकच अदिमदीं हान मोठे यज्ञ ते करतालेच. हाजी एक दोन उदाहरणां तिसऱ्या प्रकरणांत दल्लींच आसात.[२] ह्या खेरीज यज्ञवल्क्याचें उदाहरण घेयात. यज्ञवल्क्याक ोटो तपस्वी आनी ब्रह्मिष्ट समजताले. अशें आसून ताणे जनक राजाच्या ज्ञांत वाटो घेतलो आनी अखेर एक हजार गायांची, धा हजार म्होरांसैत क्षणा स्वीकारली.[३]

---

१. हे तीन अग्नी ब्राह्मणी ग्रंथांत प्रसिद्ध आसात. दक्षिणाग्निर्गार्हपत्या हवनीयो त्रयोऽग्नयः (अमरकोश) ताजी परिचर्या कशीं करची आनी तिजें फळ कितें बी म्हायती गृह्यसूत्र बी ग्रंथांत सांपडटा.

२. फाटीं पृ. ६०–६१ पळेयात.

३. बृहदारण्यक उपनिषद ३।१।१–२ पळेयात.

परन्त यज्ञ आनी तपच्छर्या हांचें मिश्रण दोट्टी दुःखाक कारण अशें बुद्ध भगवन्ताचें म्हणणें आशिल्लें. कन्दरक सुत्तात[६] भगवन्तान चार प्रकारचीं मनशा वर्णिल्यांत, (१) आत्मन्तप पुण परन्तप न्हय; (२) परन्तप पुण आत्मन्तप न्हय; (३) आत्मन्तप आनी परन्तप; (४) आत्मन्तपय न्हय आनी परन्तपय न्हय.

ह्या चारांत पैलो कडक तपच्छर्या करपी तपस्वी. तो स्वताक ताप दिता, पुण पराक ताप दिना. दुसरो खाटीक पारधी बी. तो दुसऱ्या प्राण्यांक ताप दिता पुण स्वताक ताप दिना. तिसरो यज्ञयाग करपी. तो स्वताकय ताप दिता आनी हेराप्राण्यांकय ताप दिता. चौथो तथागताचो (बुद्धाचो) श्रावक. तो आपणाक वा पराक ताप दिना.

ह्या चारांचेय सविस्तर विवरण त्या सुत्तांत सांपडटा. तांच्यापैकीं तिसऱ्या प्रकारच्या मनशाच्या वर्णनाचो सारांश असो :– भगवान म्हण्टा "भिक्षूनो, आत्मन्तप आनी परन्तप मनीस खैंचो? एकाद्रो क्षत्रिय राजा वा एकाद्रो श्रीमन्त ब्राह्मण एक नवें संस्थागार बांदता, आनी मुण्डण करून खराजिन (गाडवाचें चामडें) पांगरूंक तुपातेलान आंग माखता, आनी सांवराच्या शिंगान फाट खरपीत आपले बायलेसैत आनी ब्राह्मणासैत त्या संस्थागारात भितर सरता. थंय तो शेणान सारयेल्ल्या जमनीचेर कांयच हांतरूण नासताना न्हिदता. एके वऱ्या गायीच्या एका पान्याच्या दुदार तो गवता, दुसऱ्या पान्याच्या दुदार ताजी बायल रावता आनी तिसऱ्या पान्याच्या दुदार पुरेंत रावता. चौथ्या पान्याच्या दुदांत होम करता. चारय पान्यांतल्यान उरिल्ल्या दुदाचेर पाडकाक निर्वाह करचो पडटा.

"मागीर तो म्हण्टा, 'ह्या म्हज्या यज्ञाखातीर इतले बैल मारात, इतले पाडे मारात, इतल्यो पाडयो मारात, इतले बोकडे मारात, इतले मेंढे मारात, यूपाखातीर इतले रूख तोडात, कुशासनाखातीर इतलें दर्भ कापात.' ताजे दास, दूत आनी मानाय ख्यास्तीच्या धाकान भयाभीत जावन

६. मज्झिमनिकाय नं. ५१.

दुखां काडीत रडरडत तीं कामां करतात. हाका म्हण्टात आत्मन्तप आनी परन्तप."

## लोकांक गोहत्या नाकाआशिल्ली

हे दास, दून आनी मानाय यज्ञाची कामां रडरडत कित्याक करताले जावंये? कारण, ह्या यज्ञांत ज्या जनावरांची हत्या जातली तीं गरीब कुळवाड्यां-कडल्यान जबरदस्तीन काडून व्हरताले आनी ताका लागून कुळवाड्याक खूब दुःख जातालें. सुत्तनिपातांतल्या ब्राह्मणधम्मिक सुत्तांत अती पुरातन काळच्या ब्राह्मणांचें आचरण वर्णिलां. तातूंत सकल्यो गाथा सांपडटात —

यथा माता पिता भाता अञ्जे वाऽपि च ञातका ।
गावो नो परमा मित्ता यासु जायन्ति ओसधा ॥
अन्नदा बलदा चेता वण्णदा सुखदा तथा ।
एतमत्थवसं ञत्वा नास्सु गावो हनिंसु ते ॥

'आवय, बापूय, भाव आनी दुसरे सोयरेधायरे हांचे भशेनच गायो आमच्यो इष्ट आसात. कित्याक म्हळ्यार, शेती तांचेर आधारून आसता. त्यो अन्न, बळ, कांती आनी सुख दिवपी आसात. हें कारण जाणून पुरातन ब्राह्मण गायांची हत्या करिनाशिल्ले.'

हाजेवेल्यान अशें दिसून येता कि, सामान्य लोकांक गायो आपल्यो आप्तेष्ट दिसताल्यो. आनी यज्ञयागांत तांची सुमाराभायर कत्तल करप तांकां बिलकुल पसन्त नाशिल्लें. राजांनी आनी श्रीमन्त लोकांनी स्वताच्या गायांचो वध केल्लो जाल्यार, तांच्या दासांचेर, मानायांचेर रडपाचो प्रसंग उणें प्रमाणांत येतल्लो आशिल्लो. पुण, जे अर्थी हीं जनावरां ताच्याच सारक्या गरीब शेतकामतीकडल्यान बळजबरेन व्हरताले, ते अर्थी तांकां अनोतात दुःख जावप सामकें सहजिक आशिल्लें. यज्ञाखातीर लोकांचेर जबरदस्ती कशी जाताली हें सकले गाथेवेल्यान दिसून येतलें.

ददन्ति एके विसमे निविट्ठा
छेत्वा वधित्वा अथ सोचयित्वा !

सा दक्खिणा अस्सुमुखा सदण्डा ।
समेन दिन्नस्स न अग्घमेति ।

'कोण विषम मार्गांत निविष्ट जावन हाणमार करून लोकांक शोक करूंक लावन दान दितात. ते (लोकांच्या) दुःखांनी भरिल्ल्या सदंड दक्षणेक समत्वान दिल्ल्या दानाचे मोल येना?

त्या काळाक जशें यज्ञयागाखातीर जनावरां मारताले तशेंच उदरनिर्वाहाखातीरय मारताले; गाय मारून तिजें मास चवाटचार विकपाची प्रथा खूब चालताली.[७] परन्त बुद्धान जितलो यज्ञयागांचो निषेध केला तितलो ह्या कृत्यांचो केल्लो दिसना. चवाटचार मांस विकपाची पद्धत बुद्धाक पसन्त आशिल्ली अशें समजूंक फावना. पुण एकाद्रया यज्ञयागामुखार तिजी कांय किमत नाशिल्ली. कसायाच्या हातांत जी गाय वा जो बैल पड, ती गाय दुभती नासताली, आनी तो बैल शेतकामाक निरुपयोगी आसतालो; ताजेखातीर कोण दुखां गाळिनाशिल्लो. यज्ञाची गजाल निराळी आशिल्ली. पांचशें वा सातशें पाडयो वा पाडे एका यज्ञात मारप म्हळयार शेतोडीचें केदें नुकसान जातालें, आनी त्याबद्दल शेतकामती लोक कितले हळहळताले हाजी निखटी कल्पनाच करूंक जाय! अशा जुल्मांचो निषेध बुद्धान केलो जाल्यार ताका वेदनिंदक कित्याक म्हणचो?

## सुयज्ञ खैंच्चो ?

राजांनी आनी श्रीमंत ब्राह्मणांनी कशे तरेन यज्ञ करचो हें बुद्ध भगवन्तान दीर्घनिकायांतल्या कूटदंत सुत्तांत सुचयलां. त्या सुत्ताचो सारांश असो –

एका समयाक बुद्ध भगवान मगध देशांत संचार करीत आसताना खाणुमत नांवाच्या ब्राह्मणाच्या गांवाक आयलो. हो गांव मगध देशाच्या

७. सेय्यथापि भिक्खवे दक्खो गोघातको वा गोघातकन्तेवासी वा गाविं वधित्वा चातुम्महापथे बिलसो विभजित्वा निसिन्नो अस्स । (सतिपट्ठानसुत्त).

बिंबिसार राजान कूटदंत नांवाच्या ब्राह्मणाक दान दिल्लो. त्या ब्राह्मणान महायज्ञाखातीर सातशें बैल, सातशें पाडे, सातशें पाडयो, सातशें बोकड आनी सातशें मेंढे हाडिल्ले.

भगवान आपल्या गांवाक आयिल्ल्याचें आयकनाफुडें खाणुमत गांवांतले ब्राह्मण पुंजा जावन भगवन्ताच्या दर्शनाखातीर कूटदन्त ब्राह्मणाच्या बाडयावटयां वचूंक लागले. ते खंय वतात हाजी कूटदन्तान चौकशी केली, आनी ताणे आपल्या हुजऱ्याक म्हळें, " ह्या ब्राह्मणांक सांग कि, हांवय भगवन्ताच्या दर्शनाक वचूंक सोदता, तुमी मातशे रावात."

कूटदन्ताच्या यज्ञाखातीर पुस्कळ ब्राह्मण जमिल्ले. कूटदन्त भगवन्ताच्या दर्शनाक वतालो हे वर्तमान आयकनाफुडें ते ताजे सरीं येवन म्हणूंक लागले, " भो कूटदन्त, गोतमाच्या दर्शनाक तू वतालो, ही गजाल खरी व्हय?"

कूटदन्त – हय, म्हाका गोतमाच्या दर्शनाक वचचें अशें दिसता.

ब्राह्मण – भो कूटदन्त, गोतमाच्या दर्शनाक तुवें वचप योग्य न्हय. तू जर ताज्या दर्शनाक गेलो जाल्यार ताजें यश वाडतलें आनी तुज्या यशाची नुकसानी जातली. म्हणून गोतमानच तुजे भेटेक येवचें आनी तुवें ताजे भेटेक वचू नये, हें बरें. तू उत्तम कुळांत जाला, धनाढय आसा, विद्वान आसा, सुशील आसा, पुस्कळांचो आचार्य आसा, तुजेकडेन वेदमंत्र शिकपाक चारय कडल्यान पुस्कळ शिष्य येतात. गोतमापरस वयान तूं जाण्टो आनी मगध राजान भौमानान हो गांव तुकां इनाम दिला. तेन्ना गोतमान तुजे भेटेक येवचें आनी तुवे ताजे भेटेक वचू नये, हेंच योग्य.

कूटदन्त – आता म्हजें म्हणणें कितें तें आयकात. श्रमण गोतम ऊंच कुळांत जाल्लो आसून व्हड संपत्तीचो त्याग करून श्रमण जाला. ताणे तरण्या वयांत संन्यास घेतला. तो तेजिश्ट आनी सुशील आसा. तो मधुर आनी कल्याणाचें वचन उलौपी आसून पुस्कळांचो आचार्य आनी प्राचार्य आसा. विषयांपसून मुक्त जावन तो शान्त जाला. तो कर्मवादी आनी क्रियावादी

आसा. सगळ्या देशांतले लोक ताजो धर्म आयकूंक येतात. तो सम्यक् संबुद्ध, विद्याचरणसंपन्न, लोकाविद्, दम्य पुरुषांचो सारथी, देवांमनशांचो शास्तो अशी ताजी कीर्त सर्वत्र पातळ्ळ्या. बिंबिसार राजा, तसोच पसेनदि कोसल राजा आपल्या परिवारासैत ताजो श्रावक जाला. जसो ह्या राजांक, तसोच तो पौष्करसादींसारक्या ब्राह्मणाक वंद्य आसा. ताजी योग्यताय येदी आसून सध्या तो आमच्या गावांत आयिल्ल्यान ताका आमी आमचो अतिथी मानूंक जाय; आनी अतिथी ह्या नात्यान ताज्या दर्शनाक वचून ताजो सत्कार करप आमकां योग्य.

ब्राह्मण – भो कूटदन्त, तुवें ही जी गोतमाची तुस्त केल्या, तिका लागून आमकां अशें दिसता कि, सद्गृहस्थान शंबर योजनांचेर वचून ताजी भेट घेवप योग्य जातलें. चलात, आमी सगळेच ताज्या दर्शनाक वचूंया.

तेन्ना कूटदन्त ह्या ब्राह्मणसमुदायासैत भगवान आम्रयष्टिवनांत रावतालो थंय आयलो, आनी भगवन्ताक कुशल प्रस्न बी विचारून एके कुशीक बसलो. त्या ब्राह्मणांपैकी कांय जाण भगवन्ताक नमस्कार करून, कांय जाण आपणाले नांवगोत्र सांगून आनी कांय जाण कुशल प्रस्न बी विचारून एके कुशीक बसले.

आनी कूटदन्तान भगवन्ताक म्हळें, "तुमकां उत्तम यज्ञविधी खबर आसा अशें हावें आयकलां. तो जर तुमी आमकां समजावन सांगशात, जाल्यार बरें जातलें."

भगवन्तान सकली कथा सांगली ––

पुरातन काळाक महाविजित नांवाचो एक प्रख्यात राजा जावन गेलो. एक दीस एकान्तांत बशिल्लो आसताना त्या राजाच्या मनांत विचार आयलो कि, आपलेकडेन विपुल संपत्ती आसा; तिजो महायज्ञांत विलो केलो जाल्यार त्या कृत्याक लागून आपलें सासणाचे कल्याण जातलें आनी तें आपल्याक सुखाक पायतलें. हो विचार ताणे आपल्या पुरैताक सांगलो

आनी ताका म्हळें, “ आगा ब्राह्मणा, हांव महायज्ञ करूंक सोदता. तो कशे तरेन केल्यार म्हाका हिताचो आनी सुखाचो जातलो हें सांग.”

पुरैतान म्हळें, “ सध्या तुमच्या राज्यांत थंडाय ना; गांवची आनी शारांची लूट जाता, वाटमारी चलता. अशे स्थितींत जर तुमी लोकांचेर पटी बसैली, जाल्यार कर्तव्यापसून तुमी विन्मुख जातले. तुमकां अशें दिसत कि, शिरच्छेद करून, बणखणींत घालून ख्यास्त लावन वा आपल्या राज्यांतल्यान धावडावन घालून चोरांचो बंदोबस्त करूं येत. परन्त या उपायांनी बंडाय पुरती आळाबंदाक येवची ना. कित्याक म्हळ्यार, जे शिल्लक उरतले ते चोर परती बंडाय उबी करतले. ती सामकी ना करपाचो खरेलो उपाय तो असो — जे तुमगेल्या राज्यांत शेतकाम करूंक सोदतांत तांकां बीं बियाण असुदाय मेळत अशी तजवीज करात. जे वेपारउद्येग करूंक सोदतात तांकां भांडवल उणें पडूंक दिवं नाकात. जे सरकारी नोकरी करूंक सोदतात तांकां फाव जाल्लो पाग दिवन योग्य कामांर लायात. अशे तरेन सगळीं मनशां आपापल्या कामांत दक्ष उरिल्ल्यान राज्यांत बंडाय उपरासूंक पावची ना; वेळोवेळ पटी वसूल जावन तिजोरेची येणावळ वाडत उरतली. बंडवाल्यांचो उपद्रव ना जाल्ल्यान लोक निर्भयपणान आपणांली दारां उक्तीं उडौन भुरग्यांबाळांसैत मोटया आनंदान काल-क्रमणा करतले.”

पुरैत ब्राह्मणान सांगिल्लो बंडाय ना करचेलो हो उपाय महाविजित राजाक पसन्त पडलो. आपणाल्या राज्यांत शेती करपाची तांक आशिल्ल्या लोकांक बीं बियाणाची पुरवण करून ताणे तांकां शेती करूंक लायली; ज्यांकां वेपारउद्येग करपाची तांक आशिल्लीं, तांकां भांडवल दिवन वेपा-राची उदरगत केली आनी जे सरकारी नोकरेक योग्य आशिल्ले तांची सरकारी कामार योग्य जाग्यांनी नेमणूक केली. हो उपाय अमलात हाडि-ल्यान महाविजिताचे राष्ट्र थोडयाच अवकाशांत समृद्ध जालें. दरवडे आनी चोरयो ना नपच्छात जाल्यान पटी वसूल जावन तिजोरी वाडली,

आनी लोक निर्भयपणान दारां उक्तीं उडौन आपल्या भुरग्यांक खेळैत काळ कडूंक लागले.

एक दीस महाविजित राजान पुरैताक म्हळें, " हे ब्राह्मणा, तुमी सांगिल्ल्या उपायांन म्हज्या राज्यांतली बंडाय नष्ट जाल्या. म्हजे तिजोरेची आस्पत बेस बरी आसून राष्ट्रांतले सगळे लोक निर्भयपणान आनी आनंदान रावतात. आतां हांव महायज्ञ करूंक सोदता. ताजें विधान म्हाका सांगात."

पुरैतान म्हळें, " तुमकां महायज्ञ करपाचो आसत जाल्यार ह्या कामांत प्रजेची अनुमती घेवंक जाय. त्याखातीर पैलीं राज्यांतल्या सगळ्या लोकांक जाहीर रितीन आपणाली इत्सा दर्सावन त्या कामांत तांची सम्मती मेळयात."

राजाचे इत्सेक अणसरून सगळ्या लोकांनीं यज्ञाक अनुमती दिली. आनी त्या प्रमाण पुरैतान यज्ञाची तयारी करून राजाक म्हळें, " ह्या यज्ञांत पुस्कळ संपत्ती खर्च जातली असो विचार यज्ञाच्या आरंबाक मनांत हाडू नाकात. यज्ञ चलिल्लो आसताना आपणाली संपत्ती ना जाता आनी यज्ञ सोंपतकच आपणाली संपत्ती ना जाली, असो विचार तुमी मनांत हाडूंक फाव ना. तुमगेल्या यज्ञाक बरे वायट लोक येतले. पुण तांच्यातल्या सत्पुरुषांचेर नदर दिवन यज्ञ करचो आनी आपणांले चित्त आनंदीत दवरचें."

त्या महाविजिताच्या यज्ञांत गायो, बैल, बोकडे आनी मेंढे मारल्ले नात; झाडां तोडून यूप उबे केलेनात, दर्भाची आसनां तयार केलीं नात; दासांक, दूताक आनी मनायांक वेटेक धल्ले नात. ज्याकां इत्सा आशिल्ली ताणीं कामां केलीं आनी ज्यांचीं नाशिल्लीं तानीं केलीं नात. तूप, तेल, लोणी, म्हींव आनी काकय ह्या जिनसांनीच तो यज्ञ समाप्त जालो.

त्या उपरान्त राष्ट्रांतले श्रीमन्त लोक व्हडले व्हडले नजराणे घेवन महाविजित राजाच्या दर्शनाक आयले. तांकां राजान म्हळें, " गृहस्थानो, म्हांका तुमच्या नजराण्यांची विलकूल गरज ना. धर्मीक पटयेच्या रूपान हम्जेकडेन पुस्कळ द्रव्य सांटला, तांतलें तुमकां कांय जांय आसत जाल्यार खुशाल घेवन वचात."

ह्या प्रमाण राजान त्या धनीक लोकांचें नजराणे घेवपाचे नाकारनकच तांणीं ते द्रव्य खर्चून यज्ञशाळेच्या चोंशींय अगरसाळो बांदून गोरगरिबांक दानधर्म केलो.

ही भगवन्तान सांगिल्ली यज्ञाची गजाल आयकून कूटदन्तावांगडा आयिल्ले ब्राह्मण उद्‌गारले, " भोव बरो यज्ञ! भोव बरो यज्ञ! "

त्या उपरान्त भगवन्तान कूटदन्त ब्राह्मणाक आपल्या धर्माचो विस्तारान उपदेस केलो. आनी तो आयकून कूटदन्त ब्राह्मण भगवन्ताचो उपासक जालो आनी ताणे म्हळें, " भो गोतम, सातशें बैल, सातशें पाडे, सातशें पाडयो, सातशें बोकडे, आनी सातशें मेंढे ह्या सगळ्यां प्राण्यांक हांव यूपापसून मेकळे करतां, तांकां जीवदान दितां. ताजो चोरोव खावन आनी थंड उदक पियेवन ते शीतळ सावळेंत आनंदात रावंत! "

## बेकारपण ना करप होच खरेलो यज्ञ

वेल्या सुत्तांत महाविजित हाजो अर्थ ज्यागेलें राज्य विस्तीर्ण आसा असो. ताज्यानच महायज्ञ करू येता. त्या यज्ञाचें मुख्य विधान म्हळ्यार राज्यांत लोकांक बेकार रावंक न दिवप; सगळ्यांक सत्कार्याक लावप. हेंच विधान निराळे तरेन चक्कवत्तिसीहनाद सुत्तांत सांगलां. ताजो सारांश असो——

दृढनेमी नांवाचो चक्रवर्ती राजा जावन गेलो. वृद्धापकाळात आपल्या चल्याक अभिषेक (राज्याचो) करून तो योगाभ्यास करपाखातीर उपवनांत वचून रावलो. सातव्या दिसा राजाच्या प्रासादासामकार आशिल्ले दैदिप्यमान चक्र गुप्त जालें. तेन्ना दृढनेमीचो पूत खूब भियेलो आनी राजर्षी बापायकडेन वचून ताका हें वर्तमान ताणें विदित केलें. राजर्षीन म्हळें, "चल्या, तूं भियंव नाका. हें चक्र तुजे पुण्यतायेन उत्पन्न जावंक नाशिल्लें, तूं जर चक्रवर्ती राजाचें व्रत पाळशी जाल्यार तें परतें जागच्या जाग्यार एवन थीर रावतलें. तूं लोकांचें न्यायान आनी समभावान रक्षण कर, तुज्या राज्यांत अन्यायाकडेन प्रवृत्ती जावंक दिवं नाका. जे दळिद्री आसतीत तांकां

(उद्देगाक लावन) धन मेळत अशी तजवीज कर आनी तुज्या राज्यांत जे सत्पुरुष श्रमणब्राह्मण आसतीत तांचेकडल्यान वेळोवेळ कर्तव्य कितें आनी अकर्तव्य कितें हाजो बोध करून घे. तांचो उपदेस आयकून अकर्तव्या-पसून पैस राव आनी कर्तव्यांत दक्ष राव."

तरुण राजान हो उपदेस मान्य केलो. आनी तसो तो वागिल्ल्यान तें दैदिप्यमान चक्र परतें आपल्या जाग्यार आयलें. राजान दाव्या हातान उदकाची झारी घेतली आनी उजव्या हातान ताजें प्रवर्तन केलें. तें तागेल्या साम्राज्यांत चोंय वाटांनी भोंवलें. ताज्या फाटोफाट वचून राजान सगल्या लोकांक उपदेस केलो कि, 'जीवहत्या करूं नाकात, चोरी करूं नाकात, व्यभिचार करूं नाकात, फट उलंव नाकात. योग्य तरेन निर्वाह करात.'

त्या उपरान्त तें चक्ररत्न परत येवन राजाच्या सभास्थानामुखार उबें रावलें. राजवाड्याक ताणे सोब हाडली.

हो चक्रवर्तिव्रताचो प्रकार सात पिळग्यांमेरेन चल्लो. सातव्या चक्रवर्तीन संन्यास घेतकच सातव्या दिसा तें चक्र गुप्त जाल्लें. पुण राजर्षी बापायकडेन वचून ताणे चक्रवर्तिव्रत समजावन घेतलें ना. ताज्या अमात्यांनी आनी हेरां सद्गृहस्थानी ताका तें चक्रवर्तिव्रत समजावन दिले. तें आयकून घेवन राजान लोकांचे न्यायरक्षण आरंबलें, पुण दळिद्री लोकांक उद्देग मेळत अशी वेवस्ता केली ना. ताका लागून भयांकृत दळिद्र आयलें. आनी एका मनशान चोरी केली. ताका लोकांनी राजाच्या सुवादीन करतकच राजान ताका विचाल्लें, "सभाग्या, तुवें चोरी केली हें खरें?"

तो. – खरें, म्हाराज.

राजा – चोरी कित्याक केली?

तो – निर्वाह जायना म्हय, म्हाराज!

ताका फावशें द्रव्य दिवन राजान म्हळें, "ह्या द्रव्यान तू खासा निर्वाह कर, तुज्या कुटुंबाक पोस, वेपारउद्देग चलय आनी दानधर्म कर."

ही गजाल दुसऱ्या एका बेकार मनशाक कळ्ळी. तेन्ना ताणेय चोरी ली. राजान ताकाय यथायोग्य द्रव्य दिलें. लोकांक समजून चुकलें कि, चोरी करता ताका राजा तस्रीप दिता. तेन्ना जो तो चोरी करूंक लागलो. ापैकीं एकाक पकडून राजाकडेन व्हेलो, राजान येवजिलें, 'जर चोरयो रतल्यांक हांव द्रव्य दित गेलो, जाल्यार सगळ्या राज्यांत सुमाराभायर ोरयो जातल्यो! म्हणून ह्या मनशाची तकली वळांवक लायिल्ली बरी.' ाप्रमाण ताणें ह्या मनशाक दोरयांनी बांदूक लायलो, ताजें मुंडण करूंक यलें आनी रस्त्यातल्यांन ताजी धिड काडूंक लावन नगराच्या दक्षिणेक जो शिरच्छेद करपाची आज्ञा दिली.

तो प्रकार पळौन चोर लोक भयाभीत जाले. ह्याफुडें सरळ चोरयो रप धोक्याचें हें उमजून तांणी तीक्ष्ण शस्त्रां तयार करयलीं आनी ते सउजवाडे दरवडे घालूंक लागले. . . .

हे भशेन दरिद्री लोकांक व्यवसाय न मेळिल्ल्यान दळिद्र वाडत गेलें. ळिद्र वाडिल्ल्यान चोरयो आनी लुटालूट वाडली, चोरयो, लुटालूटी वाडि-ल्यान शस्त्रास्त्रां वाडलीं. शस्त्रास्त्रां वाडिल्ल्यान खून वाडले. खून वाडि-ल्यान असत्य वाडलें, असत्य वाडिल्ल्यान चाडयाळपण वाडलें, चाडयाळपण डिल्ल्यान शिदळकी वाडली आनी तिकालागून गाळफस्त आनी पोली डबड वाडली. ती वाडिल्ल्यान लोभ आनी द्वेष वाडले आनी ताकालागून थ्यादृष्टी वाडून सगळ्या तरांची दुष्कर्मां फैलावलीं.

महाविजित राजाक पुरैतान सांगिल्ल्या यज्ञविधानाचो खुलासो ह्या क्कवत्तिसीहनाद सुत्तावेल्यान जाता. लोकांकडल्यान बळजबरेन जनावरां हरून तांचो यज्ञांत वध करप हो खरेलो यज्ञ न्हय, तर राज्यांतल्या ोकांक समाजाक उपकरा पडतीत अशा कामांक लावन बेकारपण ना रप हो. बळि दिवपाचे यज्ञयाग केन्नाच लुप्त जाले. पुण अद्यापय खरेलो ज्ञ करपाचो यज्ञ क्वचित दिष्टी पडटा. बेकारपण उणें करपाखातीर र्मनींत आनी इतालींत युद्ध सामग्री वाडैली; तिका लागून फ्रान्स, इंग्लंड

आनी अमेरिका ह्या राष्ट्रांकय युद्धसामुग्री वाडौंची पडली. आनी आता प्रसंग विकोपाक येवपाचो संभव दिसता; हांगा जपानान तर चिनाचेर आक्रमण केलांच; आनी थंय मुसोलिनी आनी हिटलर फाल्यां कितें करतीत हाजो कोणाकच भरवंसो दिसना.[८] एक गजाल खरी कि, ह्या सगळ्यांचें पर्यवसान रणयज्ञांतच जातलें! आनी तातूंत हेरां प्राण्यांपरस मनीस प्राण्यांच्योच आहुती जास्त पडटल्यो! हो रणयज्ञ थांबौपाचो आसत, जाल्यार लोकांक युद्धसामुग्रीकडेन न लायतां समाजाचे उन्नतेच्या कामाक लावंक जाय. तेन्नाच बुद्ध भगवन्तान उपदेसिल्लें यज्ञविधान अंमलांत येतलें. अस्तु!

हें थोडें विषयांतर जालें. बुद्धाच्या यज्ञविधानाचे फोडणिशीखातीर तें योग्य दिसलें. वैर दिल्लीं सुत्तां बुद्धाउपरान्त कांय काळात रचिल्लीं आसलीं, तरी तांतूंत बुद्धान उपदेसिल्ल्या मुळाव्या तत्वांचो खुलासो केल्लो आसा. असो सुयज्ञ उपदेसपी गुरुक वेदनिंदक म्हणून ताजी वकच्छाया करप योग्य आसा काय कितें हाजो विचार सुज्ञांनीं करचो.

---

८. हो मजकूर चालू युद्धापैलीं बरैलो तो तसोच उरूंक दिला. मध्यायाय परिस्थिती उणी अधिक अशीच आसा.



प्रकरण श्रावें

# जातिभेद

## जातिभेदाचो उगम

'ब्राह्मणोऽस्य मुखमासीद्बाहू राजन्यः कृतः ।
ऊरू तदस्य यद्वैश्यः पद्भ्यां शूद्रो अजायत ॥'
ऋ. १०।९०।१२

दुस्थानःतल्या जातिभेदाचें मूळ ह्या पुरुषसूक्ताचे ऋचेंत आसा अशें नतात. पुण हो समज चुकीचो. वेदकाळापैलींय सप्तसिंधु प्रदेशांत आनी ऱ्य हिंदुस्थानांत अहिंसा धर्माभशेनच जातिभेद धर्मपसून अस्तित्वात शिल्लो. आर्य आयिल्ल्यान आनी वेदिक संस्कृतायेचो प्रसार जाल्ल्यान हिंसाधर्माक वनवास कसो पत्करचो पडलो हें पैल्या प्रकरणांत दाखौन लांच. (पृ. १०–१४). पुण जातिभेदाची अशी अवस्था जाली ना. तूंत थोडो फेरफार जावन तो तसोच चालू उल्लो.

## क्षत्रियांचें वर्चस्व

मेरियांत चड करून पुजारीच राजा जातालो आनी तसोच प्रकार सप्त-धु प्रदेशांत आशिल्लो. ह्या प्रदेशांत जीं ल्हानसान संस्थांना आशिल्लीं चो मुखेली जो वृत्र ताका इंद्रान थार मारल्लो आनी ताकालागन द्राक ब्रह्महत्येचें पातक लागलें. अशें वर्णन महाभारतांत सांपडटा.[१] र्य येवच्यापैलीं स्थिति कितें आशिल्लीं हें वेल्या ऋचेंत सांगलां. ऋषी

[१] 'हिंदी संस्कृति आणि अहिंसा' पृ. १५ पळेयात.

म्हण्टा, 'एका काळाक विराट पुरुषाचें मुख ब्राह्मण आशिल्लें. बावल
राजन्य आशिल्लो; ताज्यो मांडयो वैश्य आनी ताज्या पायांपसून सुदी
जालो.' आर्यांच्या आगमनाक लागून क्षत्रियांक म्हत्व आयलें, आनी ब्राह्म
णांचें वर्चस्व नष्ट जालें. तरी पुण पुरैताचें काम तांचेकडेन उल्लें. ही
स्थिति बुद्धकाळामेरेन चालू आशिल्ली. पालि वाङमयांत जंय थंय क्षत्रियांक
प्रमुख स्थान दिलां आनी उपनिषदांतपसून ताजोच पडसाद उठिल्लो
दिसता. देखीक सकलो मजकूर पळेयात.

ब्रह्म वा इदमग्र आसीदेकमेव । तदेकं सन्न व्यभवत्तच्छ्रेयोरूपमत्य
सृजत क्षत्रं यान्येतानि देवतां क्षत्रानीन्द्रो वरुणः सोमो रुद्रः पर्जन्यो यमो मृत्युरी
शान इति तस्मात् क्षत्रात्परं नास्ति । तस्माद्ब्राह्मणः क्षत्रियमधस्तादुपास्ते
(बृहदारण्यक १।४।११).

'पैलीं ब्रह्म तितलें आशिल्लें पुण तें एक आशिल्ल्यान ताजो विका
जालो ना. म्हणून ताणे उत्कृष्ट रूपाची क्षत्रिय जात उत्पन्न केली. ते क्षत्रि
म्हळ्यार देव लोकांतले इंद्र, वरुण, सोम, रुद्र, पर्जन्य, यम, मृत्यू आनी
ईशान. म्हणून क्षत्रियजातिपरस ऊंच दुसरी जात ना. आनी देखूनच
ब्राह्मण आपलेकडेन उणेपण घेवन क्षत्रियाची उपासना करता.'

## जातिभेदाचो निषेध

ह्या प्रमाण क्षत्रिय जातीक म्हत्व आयिल्लें आसलें तरी तांगेले प्रमुख कर्तव्
जें युद्ध तें बुद्धाक बिलकुल पसंत नाशिल्ल्यान सगळोच जातिभेद ताक
निरुपयोगी दिसलो. आनी ताजो ताणें सर्वंशीं निषेध केलो. हेरां श्रमणांच्य
फुडाऱ्यांनी बुद्धाभशेन जातीचो निषेध केल्ल्याचो दाखलो सांपडना. तांगेल्य
संघांत जातिभेदाक थारोच नाशिल्लो. परंत तांगेल्या उपासकवर्गां
अस्तित्वात आशिल्ल्या जातिभेदाक ताणी विरोध केलो ना जावंये. त
काम बुद्धान केलें. तें कशें हें पळौं या.

जातिभेदाआड बुद्धान उपदेसिल्लें सर्वांत पुर्विल्लें अशें वासिष्ठसु
सुत्तनिपातात आनी मज्झिमनिकायांत सांपडटा. ताजो सारांश असो —

एका समयार बुद्ध भगवान इच्छानंगल नांवाच्या गांवासरीं इच्छानंगल उपवनांत रावतालो. त्या काळाक जायते नांवाजते ब्राह्मण इच्छानंगल गांवांत आशिल्ले. तांचेपैकीं वासिष्ठ आनी भारद्वाज ह्या वयावैल्या दोन ब्राह्मणांमदीं 'मनीस जल्मांत ऊंच जाता काय कर्मान' हो वाद उपरासलो.

भारद्वाजान आपल्या इष्टाक म्हळें, 'भो वासिष्ठ, ज्याच्या आवयवटेनच्यो आनी बापायवटेनच्यो सात पिळग्यो शुद्ध आसतीत आनी ज्याच्या कुळयेंत सात पिळग्यांत वर्णसंकर जाल्लो नामत, तोच ब्राह्मण श्रेष्ठ."

वासिष्ठान म्हळें, "भो भारद्वाज, जो मनीस शीलान संपन्न आनी कर्तव्यांत दक्ष आसत ताकाच ब्राह्मण म्हणचें.'

जायतो वादविवाद जालो पुण ते दोगय एकामेकांचें समाधान करूंक पावले नात. अंती वासिष्ठान म्हळें, 'भो भारद्वाज, आमचो हो वाद हांगा सुटपाचो ना. हो श्रमण गोतम आमच्या गांवा शेजाराक रावता. तो बुद्ध आसा, पूज्य आसा, आनी सगळ्या लोकांचो गुरु आसा, अशी ताजी नामना सर्वत्र पातळ्ळ्या. आमी ताजेंसरीं वचून आमगेलो मतभेद ताका कळौया आनी तो दीत तो निकाल मान्य करूं या.'

तेन्ना ते दोगय बुद्धाकडेन गेले आनी बुद्धाक कुशळ बी प्रस्न विचारून जातकच एके कुशीक बसले. मागीर वासिष्ठान म्हळें, 'भो गोतम, आमी दोगय शिकिसवरिल्ले ब्राह्मणकुमार. हो तारुक्ष्याचो शिष्य आनी हांव पौष्करसादीचो शिष्य. आमचो जातिभेदासंबंदान वाद आसा. हो म्हण्टा, जल्मान ब्राह्मण जाता. आनी हांव म्हण्टा, कर्मान ब्राह्मण जाता. तुमगेली कीर्त आयकून आमी हांगा आयल्यात. तुमी आमच्या वादाचो निवाडो दिवचो.'

भगवन्तान म्हळें, 'आगा वासिष्ठा, तण, रूख बी वनस्पतींभितर वेगवेगळ्यो जाती सांपडटात. तशोच त्यो किडी मुयो बी क्षुद्र प्राण्यांमदीय आसात. सोरपांच्यो, सावजांच्यो, उदकांत रावपी नुस्त्याच्यो आनी मळबांत उडपी सवण्यांच्यो पसून जायत्यो जाती आसात. तांकां वेगळावणीं लक्षणां त्या त्या प्राणि समुदायांत स्पष्ट दिसतात. पुण मनशांमदीं वेगळेपणाचें

लक्षण दिसना. केंस, कान, दोळे, तोंड, नाख, ओंठ, भोंवयो, मान, पोट, फाट, हात, पांय बी अवयेवांनी एक मनीस दुसऱ्या मनशापरस सामकोच वेगळो आसू नज. अर्थात् पशुपक्ष्यांदिकांत जशो आकारांत बी वेगवेगळयो जाती सांपडटात, तशो त्यो मनीसप्राण्यांत नात. सगळया मनशांचे अवयेव लागीं लागीं सारकेच आशिल्ल्यान मनशांमदीं जातिभेद थारावंक येना. पुण मनशाची जात कर्मावेल्यान थारावंक येवप शक्य आसा.

'एकाद्रो ब्राह्मण गाय पाळून निर्वाह करता आसलो जाल्यार ताका गवळी म्हणूचें, ब्राह्म म्हणूं नये. जो शिल्पकलेन उपजीविका करता तो कारागीर, जो वेपार करता तो वाणी, दूताचे काम करता तो दूत, चोरयेर पोसता तो चोर, युद्धकाळेचेर गुजराण करता तो योद्धो, यज्ञयागाचेर पोट भरता तो याजक आनी जो राष्ट्राचेर पोसता तो राजा. पुण हांचेपैकीं कोणाकच जल्माक लागून ब्राह्मण म्हण्टां येना.

'संसाराचे सगळे पास तोडून जो कसल्याच प्रापंचिक दुःखाक भियेना, कसलेच गजालीची ज्याका आसक्ती ना, ताका हांव ब्राह्मण म्हण्टा. हेरांनी दिल्ले सर्व स्राप, वधबंध बी जो सोसता, क्षमा हेंच ज्याचें बळगें, ताका हांव ब्राह्मण म्हण्टा. कमळापानावेल्या उदकाच्या थेंब्याभशेन जो अस्त्रीच्या विषयसुखापसून अलिप्त रावता, ताकाय हांव ब्राह्मण म्हण्टा.

'जल्मान ब्राह्मण जायना, वा अब्राह्मण जायना. कर्मानिच ब्राह्मण जाता आनी कर्मानिच अब्राह्मण जाता. शेतकामत कर्मान जाता, कारागीर कर्मान जाता, चोर कर्मान जाता आनी राजापसून कर्मानिच जाता. कर्मानिच हो सगळो संसार चलता. आंसार आदारून जसो रथ चलता तशे सर्व प्राणी आपल्या कर्मार आदारून रावतात."

हो बुद्धाचो उपदेस आयकून वासिष्ठ आनी भारद्वाज ताजे उपासक जाले.

## ब्राह्मण आनी अब्राह्मण सारकेच

वैर दिल्ल्या पुरुषसूक्ताच्या ऋचेच्या आधारान ब्राह्मण प्रतिपादन करनाले

कि, ब्रह्मदेवाच्या मुखापसून जाल्ल्यान चारीय वर्णांत आमी श्रेष्ठ. मज्झिम-निकायाच्या अस्सलायनसुत्तांत ह्या संबंदात बुद्ध भगवन्ताचो संवाद खूबच उद्बोधक आसा. त्या सुत्ताचो सारांश असो –

एका समयार बुद्ध भगवान श्रावस्तीक अनाथपिंडिकाच्या आरामांत रावतालो. त्या वेळार विंगविंगड देशांतल्यान पांचशें ब्राह्मण कित्याकशे लागून श्रावस्तीक आयिल्ले. त्या ब्राह्मणांमदीं असो एक प्रस्न उपरासलो कि, हो श्रमण गोतम चारय वर्णांक मोक्ष मेळटा अशें प्रतिपादन करता. ताजेकडेन वाद करून हें ताजें म्हणणें कोण खोडून काडीत? शेवटाक हें कामार आश्वलायन ब्राह्मणकुमाराची योजना करची अशें थल्लें.

आश्वलायनकुमाराचें अध्ययन निकतेंच पुरतें जाल्ले. निघंटु, छंद-शास्त्र बी वेदांगासहवर्तमान ताका चारय वेद तोंडपाठ येताले. तरीपुण बुद्ध भगवन्ताकडेन वाद करप सोपें न्हय हें तो बेस बरें जाणां आशिल्लो. बुद्धाकडेन वाद करूंक जेन्ना ताजी निवड जाली तेन्ना ताणें त्या ब्राह्मणांक म्हळें, "भो, श्रमण गोतम धर्मवादी आसा. धर्मवादी लोकांकडेन वाद करप सोपें न्हय. जरी हांव वेदांत पारंगत आसलों तरी गोतमाबरोबर वादविवाद करपाची तांक म्हाका ना."

बरोच वेळ हय ना जातकच त्या ब्राह्मणांनी आश्वलायनाक म्हळें, "भो, आश्वलायन, तुवें परिव्राजक धर्माचो अभ्यास केला आनी युद्धाबगर पराजित जावप तुका योग्य न्हय."

आश्वालायनान म्हळें, "गोतमाकडेन वाद करप जरी कठीण आसलें, तरी तुमच्या आग्ऱ्याखातीर हांव तुमच्या बरोबर येतां."

त्या उपरान्त आश्वलायन त्या ब्राह्मणसमुदायासैत बुद्ध भगवन्ता म्हऱ्यांत गेलो आनी क्षेमकुशल बी विचारून जातकच ते सगळे जाण एके कुशीक बसले. तेन्ना आश्वलायनान म्हळें, "भो गोतम, ब्राह्मण म्हण्टात, ब्राह्मण वर्णच श्रेष्ठ. हेर वर्ण उणाक. ब्राह्मण वर्ण गोरो. हेर वर्ण काळे. ब्राह्मणांकच मोक्ष मेळटा. हेरांक ना. ब्राह्मण ब्रह्मदेवाच्या मुखापसून,

जाल्यात. ते ताजे खासा पूत. तेच ब्रह्मदेवाचे दायजी.' भो गोतम, ह्या संबंदान तुमचे मत कितें? "

भगवान – हे आश्वलायना, ब्राह्मणाच्यो बायलो न्हावंक लागतात, गुरवार जातात, बाळंत जातात आनी भुरग्यांक दूद दितात. ह्याप्रमाण ब्राह्मणांची संतत हेरां वर्णाभशेनच आवयच्या पोटांतल्यान जलमली आस-तानाय ब्राह्मणांनी आमी ब्रह्मदेवाच्या मुखापसून जाल्यात अशें म्हणचें, हे अजाप न्हय?

आ. – भो गोतम, तुमी कितेंय म्हणात. पुण ब्राह्मण ब्रह्मदेवाचे दायजी आसात ह्याजेर ब्राह्मणांचो पूर्ण विस्वास आसा.

भ. – हे आश्वलायना, यौन, कांबोज बी सरादीवेल्या प्रदेशांत आर्य आनी दास अशे दोनच वर्ण असून केन्नां केन्नां आर्याचो दास आनी दासाचो आर्य, ही गजाल तुज्या आयकिवांत आयल्या व्हय?

आ. – हय, अशें हांवें आयकलां.

भ. – अशें जर आसा, तर ब्रह्मदेवान ब्राह्मणांक मुखापसून उत्पन्न केले आनी ते सगळया वर्णांत श्रेष्ठ ह्या म्हणण्याक आधार कितें?

आ. – तुमगेलें म्हणणें कितेंय आसूं, पुण ह्या ब्राह्मणाचो असो दृढ समज आसा कि ब्राह्मण वर्णच तितलो श्रेष्ठ आनी हेर वर्ण उणाक.

भ.– क्षत्रियान, वैश्यान वा सुदरान खून, चोरी, व्यभिचार वा फट उलवप, चाडी, गाळफस्त, पोली बडबड केली, परद्रव्याचेर दोळो दवल्लो, द्वेषबुद्धी वाडैली, नास्तिकपण घेतलें, जाल्यार तोच तितलो देह पडटकच नरकांत वतलो. पुण ब्राह्मणान हीं कर्मां केलीं जाल्यार तो मात नरकाक वचचो ना, अशें तुका दिसता व्हय?

आ. – भो गोतम, खैंच्याय वर्णाच्या मनशान हीं पातकां केली जाल्यार तो मेल्या उपरान्त नरकाक वतलो. ब्राह्मण जावं, अब्राह्मण जावं सगळयांकच आपल्या पातकांचें पानवळ भोगचें पडटलें.

भ. – एकाद्रो ब्राह्मण जीव हत्येपसून निवृत्त जालो, चोरी, शिंदळकी, सत्य भाषण, चाडी, गाळफस्त, पोली बडबड, परद्रव्याचो लोभ, द्वेष आनी ास्तिकताय ह्या (धा) पातकांपसून निवृत्त जालो जाल्यार तोच तितलो ह पडटकच सर्गाक वतलो पुण हेर वर्णांचे लोक ह्या पातकांपसून मुक्त ाले जाल्यार ते मात सर्गाक वच्चे नात अशें तुका दिसता व्हय?

आ. – खैच्याय वर्णाचो मनीस ह्या पापकर्मांपसून निवृत्त जालो ाल्यार सर्गाक वतलो; पुण्याचरणांचें फळ ब्राह्मणाक कितें वा ब्राह्मणे- ्राक कितें सारकेंच मेळटलें.

भ. – ह्या प्रदेशांत ब्राह्मण मात द्वेष आनी वैर सोडून मैत्रीची भावना रूंक शकता; पुण क्षत्रिय, वैश्य आनी सुदीर ती भावना करूंक शकनात शें तुका दिसता व्हय?

आ. – चारय वर्णांक मैत्रीची भावना करूंक येवप शक्य आसा.

भ. – मागीर ब्राह्मण वर्णच श्रेष्ठ आनी हेर वर्ण उणाक ह्या म्हण- ांत अर्थ खंय उल्लो?

आ. – तुमी कितेंय म्हणात, ब्राह्मण आपणांक श्रेष्ठ समजतात आनी रां वर्णांक उणाक लेखतात, ही गजाल खरी.

भ. – हे आश्वलायना, एकाद्रो अभिसिक्त राजा सगळ्या जातींच्या शंबर ादल्यांक एकठांय करीत, तांतूंत क्षत्रिय, ब्राह्मण आनी राजकुळांत जल्मल्ले ासतीत. तांकां तो म्हणू ये ‘हांगा येयात आनी सायल वा चंदनासार- ल्या उत्तम रूखांची उत्तरारणी घेवन अग्नि उत्पन्न करात.’ आनी तांच्या- ्रीं कांय चांडाळ, निषाद बी हीण कुळांत जल्मले आसतीत, तांकां तो- ्हणूं ये. ‘हांगां येयात आनी कुत्र्यांक खाण घालपाचे कोळंबेंत, दुकराक ाण घालपाच्या वा रंगाऱ्याच्या कोळंबेंत, एण्डाच्या उत्तम अरणीन ग्नि उत्पन्न करात!’ हे आश्वलायना, ब्राह्मणादिक ऊंच वर्णाच्या मनशान त्तम अरणीन उत्पन्न केल्लो अग्नि तितलो लखलखीत आनी तेजिष्ट ातलो आनी चांडाल बी हीण वर्णाच्या मनशान एण्डादिकाचे अरणीन

उत्पन्न केल्लो अग्नि मात लखलखित आनी तेजिष्ट आसचो ना आनी ताजेकडल्यान अग्नीची कामां घडचीं नात, अशें तुकां दिसता व्हय?

आ. – भो गोतम, खैंच्याय वर्णाच्या मनशान बऱ्या वायट लांकडाची उत्तरारणी करून खैंचेय सुवातेर अग्नि उत्पन्न केलो जाल्यार तो सारकोच तेजिष्ट जातलो आनी ताज्यापसून समान अग्निकार्यां घडून येतलीं.

भ. – एकाद्रया क्षत्रियकुमारान ब्राह्मणकन्येबरोबर शरीरसंबंद केलो आनी त्या संबंतापसून जर ताका पूत जालो तर तो आवयबापाय-सारकोच मनीस जातलो अशें तुका दिसता? त्याचप्रमाण एकाद्रया ब्राह्मण-कुमारान क्षत्रियकन्येकडेन लग्न केलें आनी त्या संबंदापसून ताका पूत जालो जाल्यार तो आवयबापायसारको जाय नासताना तिसऱ्याच प्रकारचो जातलो अशें तुका दिसता?

आ. – असल्या मिस्र लग्नांत जो भुरगो जाता, तो आपल्या आवय-बापायसारकोच मनीस आसता. ताका ब्राह्मणय म्हणु येत वा क्षत्रियय म्हणु येत.

भ. – आश्वलायना, एकाद्रया घोडयेच्या आनी गाडवाच्या संबंदा-पसून जें शिगरू जाता ताका ताज्या आवयभशेन वा बापायभशेन अशें म्हण येता व्हय? ताका घोडोय म्हणु येत आनी गाडवय म्हणु येत अशें आसा व्हय?

आ. – भो, गोतम, ताका घोडोय म्हण्टां येना आनी गाडवय म्हण्टां येना. तो एक तिसऱ्याच जातीचो प्राणी जाता. ताका आमी खेंचर म्हण्टात. पुण ब्राह्मण आनी क्षत्रिय हांच्या संबंदातल्यान जाल्ल्या भुरग्यांमदीं असो प्रकार सांपडना.

भ. – आश्वलायना, दोगां ब्राह्मण भावांपैकीं एक वेदपठण केल्लो बरो शिक्षित आसलो आनी दुसरो अशिक्षित, जाल्यार तांतल्या खैंच्या भावाक ब्राह्मण स्राद्धाक आनी यज्ञाक पैलीं आपयतले?

आ. – जो बरो शिक्षित आसतलो ताकाच पैलीं आपयतले. दुराचरणी मनशाक दिल्लें दान व्हड फळ दिवपी कशें जायत?

भ. – आगा आश्वलायना, सुर्वेक तुवे जातीक म्हत्व दिलें, उपरान्त वेदपठणाक आनी आतां तूं शीलाक म्हत्व दितां. अर्थात् हांव जी चातुर्वर्ण्याची शुद्धि प्रतिपादन करतां तिजोच अंगिकार तुवें केला.

हें बुद्ध भगवन्ताचें भाषण आयकून आश्वलायन मान सकल घालून चुप्प रावलो. फुडें कितें उलंवचें हें ताका सुचना जालें. उपरान्त भगवन्तान असितदेवल ऋषीची गजाल सांगली. आनी अंतीं आश्वलायन बुद्धाचो उपासक जालो.

## अधिकार लोकांनी दिवंक जाय

ब्राह्मण वर्णच श्रेष्ठ आनी हेर वर्ण उणाक, अशें म्हणून ब्राह्मणजातीचे फुडारी व्हड बसनाशिल्ले. चारय वर्णांचीं कर्तव्यां खैंचीं आनी अकर्तव्यां खैंचीं हें सांगपाचो अधिकार ते आपल्याकडेन घेताले, अशें मज्झिमनिकायांतल्या (नं. ९६) एसुकारीसुत्तावेल्यान दिसून येता. तांतल्या मजकुराचो सारांश असो :–

एका समयाक बुद्ध भगवान श्रावस्तीच्या जेतवनांत अनाथपिंडिकाच्या आरामांत रावतालो. तेन्ना एसुकारि म्हळ्ळो ब्राह्मण ताजेसरीं आयलो आनी क्षेमकुशल बी विचारून एके कुशीक बसलो आनी म्हणूंक लागलो, "भो गोतम, ब्राह्मण चार परिचर्या (सेवा) सांगतात. ब्राह्मणांची परिचर्या चारय वर्णांच्यान करूं येता, क्षत्रियांची परिचर्या क्षत्रिय, वैश्य, आनी सुदीर ह्या तीन वर्णांनी करची, वैश्याची परिचर्या वैश्य आनी सुदीर हाणींच करची आनी सुदराची परिचर्या सुदरानच करची. हेर वर्णांचो मनीस ताची परिचर्या कशी करीत? ह्या परिचर्यां संबंदान तुमगेले म्हणणें कितें?"

भ. – हे ब्राह्मणा, ह्या ब्राह्मणांच्या म्हणण्याक सगळ्या लोकांची संमती आसा व्हय? अशो परिचर्या सांगपाक लोकांनी तांकां अधिकार दिला व्हय?

एसु. – भो गोतम, अशें ना.

भ. – तर मागीर एकाद्र्या मांस खावंक नाका आशिल्ल्या गरी मनशाचेर ताजे शेजारी मांसाचो वांटो लादतले आनी म्हण्टले कि मांस तू खा आनी ताजी किमत दी ! त्याचप्रमाण ब्राह्मण ह्यो परिचर्य लोकांचेर लादीत आसात अशें म्हणचें पडटा. म्हजें म्हणणे अशें कि, मनी खैंच्याय वर्णाचो आसूं, ज्याची परिचर्या केल्ल्यान कल्याण जाता, अकल्य जायना, ताजीच परिचर्या करप योग्य. चारय वर्णांच्या समंजस मनशां विचाल्लें जाल्यार तेय अशेंच मत दितले. ऊंच कुळांत, ऊंच वर्णांत श्रीमंत घराण्यांत जल्म घेवप बरें वा वायट अशें हांव म्हण ना. ऊंच कुळां ऊंच वर्णांत वा श्रीमंत घराण्यांत जल्मनो मनीस जर प्राणघातादिक पात करूंक लागलो, तर ताजी कुळीणकाय बरी न्हय. पुण तो प्राणघातादि पातकांपसून विरत जालो जाल्यार कुळीणकाय वायट न्हय. ज्या मनशाच परिचर्या केली जाल्यार स्रद्धा, शीळ, श्रुत, त्याग आनीं प्रज्ञा हांची वृ जाता, ताची परिचर्या करची अशें हांव म्हण्टा.

एसु. – भो गोतम, ब्राह्मण हीं चार धनां प्रतिपादतात. भिक्षाचर्या ब्राह्मणांचे स्वकीय धन, बाणभातो हें क्षत्रियांचे, शेती आनी गोरक्ष हें वैश्यांचें आनी कोयती आनी पांटली हें सुदरांचें. चारय वर्णांनी आप पल्या स्वकीय धनाची हेळसांड केली, जाल्यार ते चोरी करपी राखणदार भशेन अकृत्यकरपी जातात. ह्या संबंदान तुमचें म्हणणें कितें?

भ.– हे ब्राह्मणा, हीं चार धनां मांगपाचो अधिकार लोकांनी ब्राह्मणा दिला व्हय?

एसु. – ना, भो गोतम.

भ. – तर मागीर मांस खावंक नाका आशिल्ल्या गरीब मनशा मांसाचो वांटो लादून ताजी किम्मत मागपासारकें हें ब्राह्मणाचें कृत्य समज जाय. हे ब्राह्मणा, श्रेष्ठ आर्य धर्म हेंच सगळ्यांचें स्वकीय धन, अशें ह म्हण्टा. क्षत्रिय, ब्राह्मण, वैश्य, आनी सुदीर ह्या चार कुळांत जल्मल मनशांक क्षत्रिय, वैश्य, ब्राह्मण, सुदीर म्हण्टात. ज्या प्रमाण लाक

ापटचो, तण आनी शेणी—ह्या चार पदार्थांपसून उत्पन्न जाल्ल्या अग्नींक ाष्ठाग्नी, शर्कलिकाग्नी, तृणाग्नी, आनी गोमयाग्नी म्हण्टात, तेच भशेन चार नांवां. परन्त ह्या चारय कुळांतले मनीस प्राणघात बी पातकांपसून वृत्त जाले जाल्यार तांच्यापैकी ब्राह्मण तितलोच मैत्रीभावना करूंक कता. आनी हेर वर्णाचे लोक मैत्रीभावना करूंक शकनात अशें का दिसता व्हय?

एसु. – भो गोतम, अशें न्हय, खैंच्याय वर्णाचो मनीस मैत्रीभावना रूंक शकता.

भ. – ब्राह्मणच तितलो न्हयचेर वचून न्हाणाच्या पिठयान आपणालें ंग निवळ करूंक शकता, पुण हेर वर्णाचे लोक आपणालें आंग निवळ रूंक शकनात अशें तुका दिसता व्हय?

एसु. – भो गोतम, अशें न्हय. चारय वर्णाचे लोक न्हयचेर वचून पणालें आंग निवळ करूंक शकतात.

भ. – तेच भशेन हे ब्राह्मणा, सगळ्या कुळांतले लोक तथागताच्या पदेसा प्रमाण वागून न्याय्यधर्माची आराधना करूंक शकतले.

## ब्राह्मण वर्णच श्रेष्ठ ही वेर्थ्री आरड

द्ध भगवन्ताच्या परिनिर्वाणाउपरान्तपसून बुद्धाचे मुख्य शिष्य चातुवर्ण्याक म्मती दी नाशिल्ले. ते म्हण्टाले, 'चातुवर्ण्य हें कृत्रिम. हाजें एक बरें उदा-रण मज्झिमनिकायांतल्यान (नं. ८४) माधुरसुक्तांत सापडटा. ताजो रांश असो. एका समयाक आयुष्मान महाकच्चान मधुरेलागतच्या[१] ावनांत रावतालो. मधुरेच्या राजान– अवन्तिपुत्रान– महाकच्चानाची र्त आयकली. व्हडल्या परिवारासैत तो ताजेसरीं गेलो आनी क्षेमकुशल विचारून जातकच एके कुशीक बसलो आनी ताणे म्हळें, "भो कात्यायन, ह्मणवर्णच श्रेष्ठ, हेर वर्ण उणांक, ब्राह्मणवर्णच गोरो, हेर वर्ण काळे; ह्मणांकच मुक्ती मेळटा हेर वर्णांक मेळना, ब्राह्मण ब्रह्मदेवाच्या मुखापसून लमले ताजे खाशेले पूत; अशें ब्राह्मण प्रतिपादतात ह्या संबंदान तुमचें णणें कितें?

---

[१] हीच सध्याची मथुरा.

का. – म्हाराज, हीं बेष्टी आरड (घोष) ! समजा एकाद्रो क्षत्रिय धनधान्यान वा राज्यान समृद्ध जालो, जाल्यार ताजी सेवा चारय वर्णाचे मनीस करतले काय ना?

राजा – भो कात्यायन, चारय वर्णाचे मनीस ताजी सेवा करतले.

का. – तशें जाल्यार चारय वर्णांचे मनीस समान जाले नात?

राजा – हे नदरेन चारय वर्ण खात्रीन समान थारतात. तांच्यात म्हाका कसलोच भेद दिसना.

का.– म्हणून हांव म्हण्टा कि, ब्राह्मणच श्रेष्ठ वर्ण बी जें ब्राह्मणाचे म्हणणें आसा, तें बेष्टी आरड. क्षत्रिय, ब्राह्मण, वैश्य आनीं सुदीर ह्या चारय वर्णांच्या मनशांनी प्राणिघात बी पातकां आचरलीं, जाल्यार ते सारकेच दुर्गतिक वतले अशें म्हाराजांक दिसना?

राजा – चारय वर्णांपैकींच्या कोणाय मनशान पापकर्म केलें जाल्यार तो दुर्गतीक वतलो.

का. – बरोबर म्हाराज, अशें जर आसा, जाल्यार, चारय वर्ण समान जाले नात? तुमकां ह्या संबंदान कितें दिसतां?

राजा – हे नदरेन चारय वर्ण खात्रीन समान ठारतात. तांच्यान म्हाका भेद दिसना.

का. – चारय वर्णांपैकींचो जो मनीस प्राणघातादि पातकांपसून विरत जालो, जाल्यार तो सर्गाक वतलो काय ना?

राजा – तो खात्रीन सर्गाक वतलो अशें हांव मानतां.

का.– आनी म्हणूनच हांव म्हण्टा कि, ब्राह्मण वर्णच श्रेष्ठ, ही बेष्टी आरड. म्हाराज, समजा, तुमगेल्या राज्यांत चारय वर्णांपैकीं एकाद्रयान घरफोडी, लुटालूट, शिंदळकी बी गुन्याव केले, आनी राजाच्या मनशांनी ताका हाडून तुमच्यामुखार उब्रो केलो जाल्यार ताका (ताजी जातपात पळेनासताना) फाव ती ख्यास्त तुम लायताले काय ना?

राजा – ताजी तकली वळावप फावता जाल्यार ताजी हांव तकली ळायतलों. दंड फावता जाल्यार दंड करतालों, आनी ताका हद्दीभायर लप फाव जालें जाल्यार हद्दीभायर घालतलों. कित्याक म्हळ्यार क्षत्रिय ह्मण बी जी तागेली पैलींची पदवी आशिल्ली ती नष्ट जाली आनी तो ्यावकारी थल्लो.

का. – तर मागीर हे चारय वर्ण समान जाले नात?

राजा – हे नदरेत पळोवंक गेल्यार चारय वर्ण समान थारतात.

का. – समजा, ह्या चारय वर्णांपैकीं कोणय मनीस जर परिव्राजक ालो आनी सदाचार पाळूंक लागलो, जाल्यार तुमी ताजेकडेन कशे ागतले?

राजा – ताका आमी वंदन करूं, ताजो फाव तो मान दवरूं; आनी ाका अन्नवस्त्रादी गरजेचे पदार्थ दिवं. कित्याक म्हळ्यार, ताजी क्षत्रिय, ाह्मण, सुदीर बी संज्ञा ना जावन लोक ताका श्रमण हे संज्ञेनच वळखताले.

का. – तर मागीर हे चारय वर्ण समसारखे थाल्लेनात?

राजा – हे रितीन चारय वर्ण खातीन समान थारतात.

का. – म्हणून हांव म्हण्टा कि ब्राह्मणवर्णच श्रेष्ठ ही बेप्टी आरड.

हो संवाद जातकच अवंती पुत्र राजान कात्यायनाक म्हळें, “ भो ात्यायन, तुमगेलो उपदेस भौंच सुंदर. उमथे आशिल्लें एखादे आयदन दारें करून दवरचें, धांपिल्ली वस्त उक्ती करची, वाट चुकिल्ल्याक ाट दाखौवची, वा दोळे आशिल्ल्याक पदार्थ दिसचे म्हणून काळखांत िवटी पेटोवची ते भशेन भवान कात्यायनान जायत्या पर्यायींनी धर्माचो ुपदेस केलो. म्हणून हांव भवान कात्यायनाक, धर्माक आनी भक्षुसंघाक शरण वतां. हांव आयच्यान आमरण शरण गेल्लो उपासक ासां अशें समजा.”

का. – म्हाराज, म्हाका शरण वचुं नाकात. ज्या भगवन्ताक हांव रण गेलों, ताकाच तुमीय शरण वचात.

राजा – भो कात्यायन, तो भगवान सध्या खंय आसा?

का.– तो भगवान परिनिर्वाण पावलो.

राजा – तो भगवान हयात आसतो जाल्यार ताज्या दर्शनाखातीर आमी शंबर योजनाय प्रवास करतले आसले. पुण आतां परिनिर्वाण पाविल्ल्यान त्या भगवन्ताक हांव शरण वतां. त्याच प्रमाण ताज्या धर्माक आनी भिक्षुसंघाक हांव शरण वतां. आयच्यान आमरण शरण गेल्लो हांव उपासक आसां अशें समजा.

बुद्धाचे हयातींत मथुरेंत, बौद्ध धर्माचो चडसो फैलाव जावंक नाशिल्लो. दुसऱ्या प्रकरणांत दिल्ल्या अंगुत्तरनिकायांतल्या सुत्तावेल्यान दिसून येतलेंच (पृ. २८) अवन्तिपुत्र राजा बुद्धाच्या परिनिर्वाणाउपरान्त गादयेर आयलो जावंये. कित्याक म्हळ्यार जर तो बुद्धाच्या हयातीन राज्यार आसतो, जाल्यार ताका बुद्धासंबंदान थोडीभोंव खबर आसतलीच आशिल्ली. वेल्या सुत्ताच्या निमाण्या मजकुरावेल्यान दिसून आयलें कि बुद्ध परिनिर्वाणाक पावलो हें पसून ताका खबर नाशिल्लें. बुद्धाच्या हयातीन ताजो बापूय राज्यार आशिल्लो आनी ताका ब्राह्मणधर्माचें खूब म्हत्व दिसतालें आनी ताका लागून बुद्धाकडेन ताणे दुर्लक्ष केलें जावये. महाकात्यायन अवन्तीक रावपी, मुदलचो ब्राह्मण आनी विद्वान जाल्यान ह्या तरुण अवन्तिपुत्र राजाचेर ताजो प्रभाव पडलो अशें समजप योग्य आसा.

## श्रमणांक जातिभेद मोडूंक आयलो ना

वैर दिल्ल्या चार सुत्तांपैकी पयल्या वासिष्ठसुत्तांत जातिभेद स्वभाविक कसो न्हय हें बुद्ध भगवन्तान स्पष्ट करून दाखैलां. दुसऱ्या अस्सलायन सुत्तांत ब्रह्मदेवाच्या मुखापसून ब्राह्मण जाले ही कल्पना खोडून काडल्या. आनी तिसऱ्या एसुकारिसुत्तांत ब्राह्मणांक हेरां वर्णांची कर्तव्यां आनी कर्तव्यां थारावपाचो अधिकार कसो ना हें सिद्ध केलां. चौथ्या माधुर-सुत्तांत महाकात्यायनान अर्थीक आनी नीतीक नदरेन जातिभेदाची कल्पना कशी निरर्थक थारता हें स्पष्ट केलां. ह्या सगळ्या सुत्तांचो नीट विचार

केलो जाल्यार अशें दिसून येता कि, बुद्धाक वा ताज्या शिष्यांक जातिभेद बिलकुल पसन्न नाशिल्लो आनी तो मोडून काडूंक ताणीं जायती खटपट केली. पुण्ण हे काम तांच्या तांकीभायलें आशिल्लें. ब्राह्मणांनी मध्यहिंदुस्थानांतच न्हय, तर गोदावरीचे देगेमेरेन जातिभेदाची उटावळ करून दवरिल्ली. आनी तो मपशेल हुमटावन उडोवप खैंच्याच श्रमण–संघाक शक्य जालें ना.

## श्रमणांत जातिभेद नाशिल्लो

तरीपुण ऋषीमुनींच्या परंपरेक धरून श्रमणांनी आपणांल्या संघांत जातिभेदाक थारो दिलो ना. खैंच्याय जातीच्या मनशाच्यान श्रमण जावन, एकाद्रया श्रमण संघांत दाखल जावंक येतालें. हरिकेशिबल चांडाळ आसून निर्ग्रंथांच्या (जैनांच्या) संघांत आशिल्लो हे फाल्यां प्रकरणांत सांगलांच. (पृ. २०५ पळेयात). बुद्धाच्या भिक्षुसंघांत तर श्वापाक नावाचो चाण्डाळ आनी सुनीत नावाचो भंगी हांच्यासारके अस्पृश्य वर्गांत जल्मल्ले श्रेष्ठ साधू जावन गेले.[3] आपणांल्या संघांत जे व्हड गुण आसात तांतलो एक म्हळ्यार जातिभेदाक थारो ना हो, अशें बुद्धाचें म्हणणें आसा. भगवान म्हणटा, भिक्षूंनो, गंगा, जमुना, अचिरवति, सरभू (शरयू), मही ह्यो व्हडल्यो व्हडल्यो न्हयो म्हाल समुद्राक मेळ्ळ्यो म्हणटकच आपलीं नांवां उडोवन समुद्र हें एकच नांव जोडटात. त्या प्रमाण क्षत्रिय, ब्राह्मण, वैश्य, सुदीर हे चार वर्ण तथागतांच्या संघांत भितर सरकतकच पैलींचें नांवगोत्र सोडून 'शाक्यपुत्रीय श्रमण' ह्या एकाच नांवान परिचित जातात." (उदान ५।५ आनी अंगुत्तरनिकाय, अट्ठनिपात).

## अशोकाच्या काळांत बौद्ध संघांत जातिभेद नाशिल्लो

अशोकाचे मुस्तीत बौद्ध संघ जातिभेद बिलकुल पाळिनाशिल्लो, अशें दिव्यावदनांतल्या यश अमात्याचे गजालीवेल्यान दिसून येता.

३. बौद्ध संघाचा परिचय पृ. २५३–५६ पळेयात.

अशोक राजा निकतोच बौद्ध जाल्लो आनी तो भिक्षूंच्या पांयां पड. ते पळोवन यश नावांच्या ताज्या अमात्यान म्हळें, "म्हाराज, ह्या शाक्य श्रमणांत सगळ्या जातींचे लोक आसात. हांचे मुखार आपलें अभिषिक्त माथें नमवप योग्य न्हय."

अशोकान कांय जाप दिली ना. आनी कांय काळान बोकडे, मेंढें बी प्राण्यांच्यो तकल्यो मागोवन त्यो विकूंक लायल्यो; यशाक मनशाची तकली हाडूंक लावंन ती विकूंक लायली; बोकडे, मेंढें बी प्राण्यांच्या तकल्यांची कितेंय पुण किमत आयली; पुण मनशाची तकली कोणच घेना जालो तेन्ना अशोकान फर्मायलें कि, ज्याका जाय ताणे ती फुकट व्हरची. पुण ती फुकट घेवपी मनीसच यश अमात्याक मेळ्ळो ना. ही गजाल ताणे अशोकाक सांगली, तेन्ना अशोकान म्हळें, "ही मनशाची तकली फुकट दिली तरी लोक कित्याक घेनात? "

यश कारण तांकां ह्या तकलेचो वीट दिसता.

अ. – ह्याच मनशाचे तकलेचो तांकां वीट येता काय सगळ्याच मनशांच्या तकलेचो तांकां वीट येतलो?

यश – म्हाराज, कोणाय मनशाची तकली कापून लोकांमुखार व्हेली तरी तांकां असोच वीट येतलो.

अ. – म्हज्या तकलेचो तांकां वीट येतलो?

ह्या प्रस्नाची जाप दिवंक यश धजना जालो. पुण अशोकान अभय दितकच ताणे म्हळें, "म्हाराज, तुमगेले तकलेकय लोक अशेच विट्टले."

अ. – तर मागीर, हांवें अशी म्हजी तकली भिक्षुकांच्या पायार दवरून तांचो भौमान केलो जाल्यार तुका वायट कित्याक दिसचें?

ह्या संवादाउपरांत कांय श्लोक आसात तांच्यापैकी हो एक —

आवाहकालेऽथ विवाहकाले
जातेः परीक्षा न तु धर्मकाले ।
धर्मक्रियाया हि गुणा निमित्ता ।
गुणाश्च जातिं न विचारयन्ति ।।

'चल्याच्या आनी चलयेच्या लग्नांत'[4] जातीचो विचार करप योग्य आसा. धर्मीक बाबतींत जातीचो विचार करपाचें कारण ना. कित्याक म्हळ्यार धर्मकृत्यांत गुण पळौंचे पडटात; आनी गुण जातीर अवलंबून नासतात.

## जैन संघान जातिभेद पत्कल्लो

हेरां श्रमण संघांपैकीं एका निर्ग्रंथ संघाची तितली अल्पस्वल्प म्हायती आयचे घडयेक उपलब्ध आसा. ह्या श्रमण संघान जातिभेदाक अशोक काळापैलींच म्हत्व दिवंक आरंब केल्लो अशें आचारांग सुत्ताचें निरुक्ति वेल्यान दिसून येता. ही निरुक्ती भद्रबाहून रचली आनी तो चंद्रगुप्ताचो गुरु आशिल्लो असो समज जैन लोकांत रूड आसा. हे निरुक्तीच्या आरंबाकच जातिभेदाविशीं जो मजकूर सांपडटा, ताजो सारांश असो –

'चार वर्णांच्या संयोगान सोळा वर्णा उत्पन्न जालीं. ब्राह्मण दादलो आनी क्षत्रिय बायल हांचेपसून प्रधान क्षत्रिय वा संकर क्षत्रिय उत्पन्न जाता. क्षत्रिय दादलो आनी वैश्य बायल हांचेपसून प्रधान वैश्य वा संकर वैश्य उत्पन्न जाता. वैश्य दादलो आनी सुदीर बायल हांचेपसून प्रधान सुदीर वा संकर सुदीर उत्पन्न जाता. हे भशेन सात वर्ण जातात. आता ही णव वर्णांतरां – (१) ब्राह्मण दादलो आनी वैश्य बायल हांचेपसून अम्बष्ठ; (२) क्षत्रिय दादलो आनी सुदीर बायल हांचेपसून उग्र; (३) ब्राह्मण दादलो आनी सुदीर बायल हांचेपसून निषाद; (४) सुदीर दादलो आनी वैश्य बायल हांचेपसून अयोगव; (५) वैश्य दादलो आनी क्षत्रिय बायल हांचेपसून मागध; (६) क्षत्रिय दादलो आनी ब्राह्मण बायल हांचेपसून सूत; (७) सुदीर दादलो आनी क्षत्रिय बायल हांचेपसून क्षत्ता; (८) वैश्य दादलो आनी

---

४. आवाह म्हळ्यार सुनेक घरा हाडप आणि विवाह म्हळ्यार आपल्या चलयेचे लग्न करून तिका घोवागेर धाडप.

ब्राह्मण बायल हांचेपसून वैदेह; (९) सुदीर दादलो आनी ब्राह्मण बायल हांचेपसून चाण्डाल उत्पन्न जाता.'

(आचारांग निर्युक्ति, अ. १, गाथा २१ ते २७).

आज अस्तित्वात आशिल्ली मनुस्मृति ही निर्युक्तीपरस खूपच हालींची. तरीपुण हे निर्युक्तीच्या काळांत ब्राह्मण लोक मनुस्मृतींतल्या अनुलोम प्रतिलोम जातींचीं अशेच तरेन व्युत्पत्ती लावपाचो यत्न करताले, अशें अनुमान करपाक कसलीच हरकत ना आनी जैनांनी ही व्युत्पत्ती ब्राह्मणांकडल्यान घेतली जावंये, असो जबर दुबाव येता. कितेंय जावं, निर्ग्रंथ श्रमणांनी जातिभेदाक पूर्ण सम्मती दिल्ल्याचो हो एक उत्तम दाखलो.

## उणाक जातींच्यांक जैन साधुसंघात घेवपाची मनाय

बाले वुड्ढे नपुंसे य कीवे जड्ढे य वाहिए ।
तेणे रायावगारी य उम्मत्ते य अदंसणे ॥
दासे दुट्ठे य मूढे य अणत्ते जुंगिए इ य ।
उबद्धए च भयए सेहनिप्फेडिया इ य ॥

(१) बाळ, (२) वृद्ध, (३) नपुंसक, (४) खोजो, (५) आळशी (६) पिडेखोर, (७) चोर, (८) राजाचो गुन्यावकर, (९) उन्मत्त, (१०) अदर्शन(?), (११) दास, (१२) दुष्ट, (१३) मूढ, (१४) रिणकारी, (१५) जुंगित, (१६) कैदी, (१७) भेजूड आनी (१८) उखलून हाडिल्लो शिष्य. ह्या अठरांक जैन साधुसंघांत घेवपाची मनाय आसा. हांच्यापैकीं बऱ्याच जणांक बौद्ध भक्षुसंघांत पसून घेवंक नज. ह्या दोन संघांतल्या प्रवेशविधींची (उपसंपदांची) तुळणा अत्यंत उपयुक्त जातली.[५] पुण तो ह्या प्रकरणाचो विषय न्हय. वैर दिल्या अठरा आसमीपैकीं पंदराव्याचो तितलो विचार गरजेचो आसा. ह्या उतरांवेली टीका अशी —

---

५. बौद्ध भिक्षुसंघातल्या प्रवेशविधिसंबंधी 'बुद्ध, धर्म आणि संघ' पृ. ५६–६० आनी 'बौद्ध संघाचा परिचय' पृ. १७–१९.

" तथा जाति-कर्म-शरीरादिभिर्दूषितो जुंगितः। तम मातंग-कोलिक-रुड-सूचिक-छींपादयोऽस्पृश्या जातिजुंगिताः। स्पृश्या अपि स्त्री-मयूर-कुक्कुट-कादिपोषका वंशवरत्रारोहण-नखप्रक्षालन-सौकरिकत्व-वागुरिकत्वादिनि-तकर्मकारिणः कर्मजुंगिताः। करचरणवर्जिताः पंगुकुब्ज-वामनककाण-भृतयः शरीरजुंगिताः। तेऽपि न दीक्षार्हा लोकेऽवर्णवादसंभवात्।"

'त्याचप्रमाण जात, कर्म, शरीर बी आंगांनी जो दूषित, तो जुंगित मजुचो. तांतूत मांग, गाबीत, बुरुड, दर्जी, रंगारी बी अस्पृश्य जाती ह्यो गित. स्पृश्य आसून पसून बायल, मोर, कुकड, कीर बी पाळप कोंडयावेली ा नाडयावेली कसरत करप, दुसऱ्यांचीं नाखटां निवळ करप, दुकरां पोसप, ारध्याचें काम करप, बी निंद्य कर्मां करपी ते कर्म जुंगित. हातपाय नाशिल्ले, पंगूल, कुबडे, मोटवे, तिरशे बी आमतीत ते शरीरजुंगित. लोकांत टीका ावपाचो संभव आशिल्ल्यान तेय दीक्षा दिवंक योग्य न्हयत.'[६]

बौद्ध भिक्षुसंघांत प्रवेश करपाक जात बिलकुल आड येना. कर्मां निंद्य ासलीं, जाल्यार तीं ताका सोडचींच पडटात, पुण तांकां लागून तो दिक्षेक पात्र थारना.

## अहिंदूंचो हिंदू समाजांत प्रवेश

शें जरी आसा, तरी बौद्ध आनी जैन ह्या दोनय संप्रदायांनी परकी लोकांक दु समाजांत दाखल करून घेवपाचें महत्वाचें कार्य केलें. ग्रीक, शक, हूण, ालव, गुर्जर बी भायल्यो जाती हिंदुस्थानांत आयल्यो आनी ह्या दोन धर्मांच्या हाल दरवाजातल्यान तांणी हिंदू समाजांत प्रवेश केलो. आरंबाक हे लोक न वा बौद्ध जाताले आनी मागीर आपापले आवडीनुसार ब्राह्मण, क्षत्रिय, ा वैश्य जाताले. एकाच घराण्याच्या एका भावाच्या संततीन क्षत्रियपण, ानी दुसऱ्या भावाच्या संततीन ब्राह्मणपण घेतिल्याचो दाखलो सापडला.[७]

---

६. प्रवचनसारोद्धार, द्वार १०७. हो उतारो मुनी श्री. जिनविजयजी हाणी काडून दिलो. देखून तांचें उपकार मानतां.

७. ह्या संबंदान Dr D. R Bhandarkar हाचों Indian Antiquary Vol. 40, January 1911, P P 7–37 मदीं प्रसिद्ध जाल्लो The Foreign Elements in the Indian Population हो लेख पळौंचो. चड करून पृ. ३५–३६ वेलो मजकूर अवश्य वाचचो.

## अस्पृश्यतायेचो परिणाम

अशे अशेन जेते लोक हिन्दुसमाजात भरसून गेले, तरी अस्पृश्यांची परिस्थिती सुधाल्ली ना. जैन आनी बौद्ध श्रमणांनी तांची हेळसांड केली, आनी तिका लागून दिशीं दिशीं अस्पृश्यांविशीं तिटकारो वाडत गेलो; कारण नासतना तांचो छळ जावंक लागलो; आनी ताजो परिणाम ल्हव ल्हव सगळ्या समाजाक आनी खुद्द जैनांक आनी बौद्धांक भोगचो पडलो.

जातिभेद दृढ जायत वतकच जैन आनी बौद्ध सगळ्या जातींची भिक्षा घेतात म्हणून निच थारुंक लागले. जैन संघांत अस्पृश्याक घेवपाची मनाय आशिल्ली. तरी सुदराक घेताले अशें दिसता. बौद्ध संघात तर अखेरे मेरेन जातिभेदाक थारो नाशिल्लो. पुण समाजांत जातिभेद बळ्ळो, आनी ब्राह्मणांक शेंबूकाचे गजाली सारकेल्यो काणयो रचून लोकप्रिय पुराणांत दाखल करप शक्य जालें. फुडें फुडें बौद्ध श्रमण सामके नष्ट जाले, आनी जैन श्रमण कशे तरी जीव वाटावन रावले! तांच्या हातसून समाजसंशोधनाचे कसलेच महत्कार्य घडून आयलें ना.

## भिक्षु संघाची अन्य देशांतली कामगिरी

जातिभेदामुखार बौद्ध भिक्षुसंघ हिन्दुस्थानांत तीग धरूक शकलो ना. तरीपुण भायल्या देशांनी ताणे मोटीच कामगिरी बजायली. दक्षिणेक सैळांवाक, पूर्वेक ब्रह्मदेशाच्यान थेट जपानमेरेन, आनी उत्तरेक तिबेट, मंगोलिया वी देश ह्या सगळ्या सुवातींनी बौद्ध संघान भौसाक एका काळार सुसंस्कृत करून सोडलो. उत्तरेक हिमालयावेल्यान आनी दक्षिणेक आनी पूर्वेक समुद्रातल्यान प्रवास करून अनेक भिक्षूंनी बौद्ध संस्कृतायेचो झेंडो ह्या सगळ्या देशांचेर फडफडायत दवल्लो. हाजें मर्म वयर दिल्या बुद्धाच्या उपदेसांत आसा. बुद्धान जातिभेदाक मात्सो जरी थारो दिलो, जाल्यार ताजे अनुयायी भिक्षू म्लेच्छ मानिल्ल्या देशांत संचार करून बौद्ध धर्माचो प्रचार करूंक पावचे नाशिल्ले. जातिभेदाक लागून आमचें नुकसान जालें, पुण पूर्व आशिया खंडाचो फायदो जालो, अशें म्हणचें पडटा!

● ● ●

प्रकरण इकरावें

# मांसाहार

## बुद्ध भगवंताचो मांसाहार

रिनिर्वाणाच्या दिसा बुद्ध भगवन्तान चुन्द मेस्तागेर दुकराचें मास खाल्लें ानी आजकालचे बौद्ध भिक्षूपसून आगळचा उण्या प्रमाणांत मांसाहार रतात; तेन्ना असो प्रश्न उपस्थित जाता कि, अहिंसेक परमधर्म समजुपी ुद्धाचें आनी ताज्या अनुयायांचें हें वर्तन क्षम्य आसा काय कितें? ह्या श्नाची चर्चा करप योग्य दिसता.

बुद्धान परिनिर्वाणाच्या दिसा जो पदार्थ खाल्लो ताजें नांव 'सूकरमद्दव' ाशिल्लें. ताजेर बुद्धघोषाचार्यांची टीका आसा ती अशी --

"सूकरमद्दवं ति नातितरुणस्स नातिजिण्णस्स एक जेट्ठकसूकरस्स वत्तमंसं। तं किर मुदुं चेव सिनिद्धं च होति। तं पटियादापेत्वा साधुकं पचा-त्वा ति अत्थो। एके भणन्ति, सूकरमद्दवं ति पन मुदुओदनस्स पञ्चगोरस-ूसपाचनविधानस्स नाममेतं, यथा गवपानं नाम पाकनामं ति। केचि भणन्ति ूकरमद्दवं नाम रसायनविधि, तं पन रसायनत्थे आगच्छति, तं चुन्देन भग-वतो परिनिब्बानं न भवेय्या ति रसायनं पटियत्तंति।"

"सूकरमद्दव म्हळचार सामको भुरगो न्हय आनी चड जाण्टो हय, पुण जो ल्हान पेट्यापरस वयान व्हड अशा दुकराचें शिजैलें ांस. तें लुसलुशित आनी तेलतो आशिल्लें आसता. तें तयार करूंक लावन म्हळचार उत्तम तरेन शिजौन असो अर्थ समजूचो. कांय जाण म्हण्टात,

पंचगोरसान तयार केल्ल्या मोवशा अन्नाचें हे नांव. जशें गवपान हें एक खास पक्वान्नाचें नांव. कोण म्हण्टात, सूकरमद्दव नांवाचें एक रसायन आशिल्लें. रसायन ह्या अर्थान ह्या शब्दाचो उपयोग करतात. भगवन्ताचें परिनिर्वाण जावं नये, म्हणून तें चुन्दान भगवन्ताक दिलें.'

ह्या टीकेंत सूकरमद्दव उतराचो मुख्य अर्थ सूकरमांस असोच केला. तरी पुण हो अर्थ बरोबर आशिल्लो, ह्या संबंदान बुद्धघोषाचार्याक खात्री नाशिल्ली. कित्याक म्हळ्यार, त्याच वेळार, ह्या उतराचे आनीक दोन अर्थ जाताले. ह्या खेरीज दोन वेगळे अर्थ उदानअट्ठकथेंत सांपडटात, ते अशे —

"केचि पन सुकरमद्दवं ति न सूकरमंसं, सूकरेहि मद्दितवंसकळीरो ति वदन्ति। अञ्ञे सूकरेहि मद्दितपदेसे जातं अहिच्छत्तकं ति।"

'कोण म्हण्टात, सूकरमद्दव म्हळ्यार दुकराचें मांस न्हय. दुकरांनी मस्तिल्लो तो किल्ल. दुसरे म्हण्टात, दुकरांनी मस्तिल्ल्या जाग्यार जाल्लीं आळमीं'.

हे भशेन सुकरमद्दव उतराच्या अर्थासंबंदान खूबच मतभेद आसात. तरीपुण बुद्ध भगवान दुकराचें मांस खातालो, हाका अंगुत्तरनिकायाच्या पंचकनिपातांत आधार सांपडटा. उग्ग गहपति म्हण्टा –

"मनापं मे भन्ते संपन्नवरसूकरमंसं, तं मे भगवा पटिग्गण्हातु अनुकम्पं उपादाया ति। पटिग्गहेसि भगवा अनुकम्प उपादाया ति।"

'भदन्त, उत्तम दुकराचें उत्कृष्ट रितीन शिजोवन तयार केल्लें हें मांस, तें म्हजेर उपकार करून भगवन्तान घेवचें. भगवन्तान कृपा करून तें मांस घेतलें.'

## जैन श्रमणांचो मांसाहार

हेर श्रमणसंप्रदायांत जे अत्यंत तपीष्ट आशिल्ले, तांतूत प्रामुख्यान जैनांची गणना जाताली. अशें आसूनय जैन संप्रदायांतले श्रमण मांसाहार करताले. अशें आचारांग सुत्तांतल्या सकल्या उताऱ्यावेल्यान दिसून येतलें –

"से भिक्खू वा भिक्खुणी वा सेज्जं पुण जाणेज्जा बहुअट्ठियं मंसं वा, मच्छं वा बहुकंटकं, अस्मिं खलु पडिगाहितंसि अप्पे सिया भोयणजाए बहुउज्झियधम्मिए। तहप्पगारं बहुअट्ठियं वा मंसं, मच्छं वा बहुकंटकं, लाभेवि संते णो पडिगाहेज्जा। से भिक्खू वा भिक्खुणी वा गाहावइकुलं पिंड-वायपडियाए अणुपविट्ठे समाणे परो बहुअट्ठिएण मंसेण मच्छेण उवणि-मंतेज्जा, आउसंतो समणा अभिकंखमि बहुअट्ठियं मंसं पडिगाहेत्तए? एयप्पगारं णिग्घोसं सोच्चा णिसम्म से पुव्वमेव आलोएज्जा, आउसोत्ति वा भइणीत्ति वा णो खलु मे कप्पइ बहुअट्ठियं मंसं पडिगाहेत्तए, अभिकंखसि से दाउं जावइयं तावइयं पोग्गलं दलयाहि मा अट्ठियाइं। से सेवं वदंतस्स परो अभिहट्ठु अंतोपडिग्गहगंसि बहुअट्ठियं मंसं परिभाएत्ता णिहट्ठु दलएज्जा, तहप्पगारं पडिग्गहणं परहत्थंसि वा परपायंसि वा अफासुयं अणेसणिज्जं लाभे वि संते णो पडिगाहेज्जा। से आहच्च पडिगाहिए सिया तं णोहित्ति वएज्जा, अणोवत्ति वएज्जा। से त्तमायाय एगंतमवक्क-मेज्जा। अवक्कमेत्ता अहेआरामंसि वा अहेउवस्सयंसि वा अप्पंडए जाव संताणए मंसगं मच्छगं भोच्चा अट्ठियाइं कंटए गहाय से त्तमायाए एगंत-मवक्कमेज्जा। अवक्कमेत्ता अहेज्झामथंडिलंसि वा अट्ठिरासिंसि वा किट्ठ-रासिंसि वा तुसरासिंसि वा गोमयरासिंसि वा अण्णयरंसि वा तहप्पगारंसि थंडिलंसि पडिलेहिय पडिलेहिय पमज्जिय पमज्जिय तओ संजायामेव पमज्जिय पमज्जिय परि वेज्जा।"

'परतून तो भिक्षू वा ती भिक्षुणी चड हाडां आशिल्लें मांस वा खूब कांटे आशिल्लें नुस्तें मेळ्ळें जाल्यार वळखतलीं कि, हातूंत खावपाचो पदार्थ उणो आनी भायर उडौपाचो चड. अशा प्रकारचें खूब हाडां आशिल्लें मांस वा चड कांटे आशिल्लें नुस्तें मेळ्ळें जाल्यार तो ताणे घेवं नये. तो भिक्षु वा ती भिक्षुणी गृहस्थाच्या घराक भिक्षेक गेलो वा गेली जाल्यार गृहस्थ म्हण्टलो, आयुष्मान श्रमणा, हें चड हाडां आशिल्लें मांस घेवपाची तुजी इत्सा आसा व्हय? अशा प्रकारचें भाषण आयकून पैलींच ताणे म्हणचें

आयुष्मान, किंवा (बायल मनीस आसल्यार) भैणी, हें चड हाडां आशिल्लें मांस घेवप म्हाका उचित न्हय. तुजी इत्सा आसल्यार मांस तितलें दी, हाडां दिवं नाका. अशें म्हळां आसतानाय जर तो गृहस्थ आग्रो करून तें दिवंक लागलो, तर ते अयोग्य समजून घेवं नये. ताणे ते पातांत घालें जाल्यार ते एके कुशीक घेवन वचचें आनी आरामांत वा उपास्रयांत प्राण्यांची, तातयां तुरळक आसतीत अशा सुवातेर बसून मांस आनी कपे तितले खावन हाडां आनी कांटे घेवन एके कुशीक वचचें. थंय वचून भाजिल्ले जमनीर, हाडांचे राशीर कळमेल्ल्या लोखणाच्या पोन्या कुडक्यांचे राशीर, कुंडचाचे राशीर, सुकिल्ल्या शेणींचे राशीर वा अशाच प्रकारच्या दुसऱ्या, स्थंडिलाचेर (उंचवटचार) सुवात बऱ्याभशेन निवळ करून ती हाडां वा ते कांटे संयमान थंय दवरचे.'

हाजोच अणवाद दशवैश्यालिक सुत्तांतल्या सकल्या गाथांनी संक्षेपान केला —

बहु अट्ठियं पुग्गलं अरिमिसं वा बहुकंटयं ।
अच्छियं तिंदुयं बिल्लं, उच्छुखण्डं व सिंबलिं ।।
अप्पे सिआ भो अणज्जाए, बहुउज्झिय धम्मियं ।
दिंतिअं पडिआइक्खे न मे कप्पई तारिसं ।।

'चड हाडां आशिल्लें मांस, खूब कांटे आशिल्लो मासो, अस्थि-वृक्षाचें फळ, बेलफळ, उंशिकांडो, शाल्मली अशा प्रकारचे पदार्थ —तांतूत खावपाचो भाग उणो आनी भायर उडौपाचो चड—दितलेक, तें म्हाका योग्य न्हय, अशें म्हणून आडावण करची.'

## मांसाहाराविशीं प्रसिद्ध जैन साधूंचें मत

गुजरात विद्यापीठाची पुरातत्वमंदीर नांवाची शाखा आशिल्ली, तिजे तर्फे 'पुरातत्व' त्रैमासिक भायर सरतालें. ह्या त्रैमासिकाच्या १९२५ सालच्या एका आंकांत हांवें प्रस्तुत प्रकरणाचे धर्तीर एक लेख बरैलो. आनी

तातूंत हे दोन उतारे दिले. तांचो सोद खासा हांवें लायिल्लो असें न्हय. मांसाहारासंबंदान चर्चा चलिल्ली आसताना प्रसिद्ध जैन पंडितांनीच ते म्हजे नदरेक हाडिल्ले. आनी तांचो हांवें म्हज्या लेखांत उपयोग केलो.

हो लेख प्रसिद्ध जातकच अहमदाबादच्या जैन लोकांत खूबच खळ-बळ जाली. तांच्या धर्माचो हांव उच्छेद करूंक सोदतां, अशा अर्थाच्यो तांगल्यो तक्रारी पुरातत्वमंदिराच्या संचालकांकडेन येवन थडकूंक लागल्यो. संचालकांनी परस्पर त्या तक्रारींचो परिहार केलो. म्हाका तांची बाधा जाली ना.

त्या वेळार म्हालम्हातारे स्थानकवासी साधु गुलाबचंद आनी तांचे प्रसिद्ध शतावधानी शिष्य रतनचंद अमदाबादेक रावताले. एका जैन पंडिता वांगडा हांव तांच्या दर्शनाक गेलों. समय सांजवेळचो आशिल्लो आनी जैन साधू आपणासरी दिवो दवरिनात जाल्ल्यान, त्या दोन साधूंचे चेरे स्पष्ट दिसनाशिल्ले. म्हज्या वांगडच्या जैन पंडितान रतनचंद स्वामींक म्हजी वळख करून दिली, तेन्ना ताणी म्हळें, " तुमची कीर्त हांव आयकतां. पुण तुमी आमचे पुर्विल्ले साधु मांसाहार करताले, अशें बरौन आमच्या धर्माचेर आघात केलो, हें बरें न्हय."

हांवें म्हळें, "बौध आनी जैन हे दोनच श्रमण संप्रदाय आज अस्ति-त्वांत उल्ल्यात आनी तांचेंविशीं म्हजे प्रेम कितलें आसा, हें ह्या (म्हज्या वांगडा आशिल्ल्या) पंडिताकच विचारात. परन्त संशोधनाचे बाबतींत श्रद्धा, भक्ती, वा प्रेम आड येवंक दिवंक जायना. सत्य सांगिल्ल्यान खैंच्याय संप्रदायाचें नुकसान जायत अशें म्हाका दिसना. आनी सत्यार्थ उजवाडाक हाडप हें संशोधकाचें कतव्य अशें हांव समजतां."

वृद्ध गुलाबचंद साधू कांय अन्तरार बशिल्ले. ताणी थैंच्यानच आपणाल्यां शिष्याक म्हळें, "ह्या गृहस्थान दोन उताऱ्यांचो अर्थ लायला, तोच बरोबर आसा; आधुनिक टीकाकारांनी केल्ले अर्थ सारके न्हयत. ह्या दोन उताऱ्यां-भायर आनीकय जायत्या सुवातींनी, जैन साधू मांसाहार करताले, हाका आधार सांपडटा."

अशें म्हणून तांणी जैन सूत्रांतले उतारे म्हणपाक सुरवात केली. पुण तांच्या विद्वान शिष्यांनी विषयांतर करून हो संवाद तसोच सोडून दिलो. तांच्या गुरूंनी सांगिल्ले आधार खैचे हें हांवें विचाल्लें ना. तशें करप म्हाका अप्रस्तुत दिसलें

## महावीर स्वामींच्या मांसाहारासंबदान वाद

खुद्द महावीरस्वामी मांसाहार करताले ह्या संबदान मबळ पुरावो सध्या फुडे आयला. ' प्रस्थान ' मासिकाच्या गेल्या कार्तिकाच्या आंकांत (संवत् १९९५ वर्स १४ आंक १) श्रीयुत गोपालदास जीवाभाई पटेल हांणी ' श्री महावीरस्वामीनो मांसाहार ' नावांचो लेख प्रसिद्ध केला. तांतूंतली प्रस्तुत विषयाक लागू पडपी म्हायर्ती थोडेभितर हांगा दितां.

महावीरस्वामी श्रावस्त नगरींत रावताले. मक्खली गोसाल हेय पावले. आनी ते दोग एकमेकांच्या थंय जिनत्वाआड खर टीका करूंक लागले. परिणामीं गोसालान महावीरस्वामीक स्राप दिलो कि, म्हज्या तपोबळाक लागून सं म्हैने सोपतयार कामींणीन तू मरतलो. महावीर-स्वामीन तांकां परतो स्राप दिलो कि, तू सातवे रातीं कामीण जावन मरतलो. त्याप्रमाण गोसालाक सातवें रातीं मरण आयलें. पुण ताज्या प्रभावान महावीरस्वामीक सुमाराभायर दाह जावन रगताचे धाळ सुरू जाले.

त्या वेळार महावीरस्वामीन सिंह नावाच्या आपल्या शिष्याक सांगलें, तू मेढिक गांवांत रेवती नांवाचे वायल मनशेकडेन वच. तिणे म्हज्या खातीर दोन पारवे रांदून दवल्ल्यांत, तीं म्हाका नाकात. ' काल मांजरान मारिल्ल्या कोंबयेचे मांस तुवें तयार केलां, तितलें दी,' अशें तिका सांग.'

श्रीयुत गोपाळदास हाणी मूळ भगवती सूत्रांतलो उतारो आपल्या लेखात दिवंक ना. तो हांगा दिवप योग्य आसा. –

"तं गच्छह णं तुमं सीहा, मेढियगामं नगरं रेवतीए गाहावतीणीए गिहे तत्थ णं रेवतीए गाहावतीणीए ममं अट्ठाए दुवे कवोयसरीरा उवक्खडिया, तेहिं नो अट्ठो। अत्थि से अन्न परियासिए मज्जारकडए कुक्कुडमंसए तं आहराहि एएणं अट्ठो।"

ज्याका अर्धमागधीचें अल्पस्वल्प ज्ञान आसा, ताणे निपक्षपातीपणान हो उतारो वाचलो जाल्यार तो म्हण्टलो कि, श्री. गोपालदास हाणी केल्लो अर्थ बरोबर आसा. पुण आज[1] श्री. गोपाळदास हांच्या आड अनेक जैन पंडितांनी खर टीका चलैल्या!

## बौद्ध आनी जैन श्रमणांच्या मांसाहारातलो फरक

मांसाहारासंबंदान जैनांचो आनी बौद्धांचो वाद कशा प्रकारचो आशिल्लो हाजो विचार केल्यारय श्री. गोपाळदास हांचेंच म्हणणें बरोबर आसा अशें थारता.

वैशालींतलो सिंह सेनापती निर्ग्रथांचो उपासक आशिल्लो, हाजो उल्लेख ८ व्या प्रकरणांत आयलाच. (पृ. १८५). बुद्धाचो उपदेस आयकून तो ताजो उपासक जालो आनी ताणें बुद्धाक आनी भिक्षुसंघाक आपल्यागेर आमंत्रण दिवन आदरान तांचें संतर्पण केलें. पुण निर्ग्रंथांक ही गजाल रुचली ना. तांणी वैशाली नगरींत अशी अवाय पिकैली कि, सिंहान व्हडलो पशू मारून गोतमाक आनी भिक्षुसंघाक मेजवानी दिली. आनी गोतमाक हें खबर आसूनय सिंहान दिल्ल्या जेवणाचो ताणे स्वीकार केलो! हें वर्तमान एका गृहस्थान येवन ल्हवच सिंहाक सांगलें, तेन्ना ताणे म्हळें, "हातूंत काय अर्थ ना. बुद्धाची नालस्त करपाक निर्ग्रंथांक खोस जाता. पुण हांव समजून सवरून मेजवानी खातीर प्राण्याची हिंसा करीन हें सामकेंच असंभाव्य."[2]

---

१. म्हळयार १९३८ सालाक.

२. बुद्धलीलासारसंग्रह, २७१–२८१ पळेयात.

अशेंच तरेचो दुसरो एक उतारो मज्झिमनिकायांतल्या (५५व्या) जीवकसुत्तांत सांपडटा. तो असो —

एका समयार भगवान राजगृहाक जीवक कौमार भृत्याच्या आम्र-वनांत रावतालो. तेन्ना जीवक कौमारभृत्य भगवन्तासरीं आयलो, भग-वन्ताक अभिवादन करून एके कुशीक बसलो आनी ताणे म्हळें, "भदन्त, तुमचे खातीर प्राणी मारून तयार केल्लें अन्न तुमी खातात, असो तुमचेर आरोप आसा तो खरो व्हय?" भगवन्तान म्हळें, "हो आरोप साप फट. म्हजे खातीर प्राणीवध केल्लो हांवे पळेलो, आयकलो वा तसो म्हाका दुबाव आयलो, जाल्यार तें अन्न निषिद्ध, अशें हांव म्हण्टा."

हाजेवेल्यान जैनांचो बुद्धाचेर कशा प्रकारचो आरोप आशिल्लो हें समजून येता. बुद्ध भगवन्ताक कोणेंय आमंत्रण करून मांसाहार दिलो जाल्यार जैन म्हण्टाले, श्रमण गोतमाखातीर पशू मारून तयार केल्लें (उद्दिस्सकटं) मांस तो खाता! स्वता जैन साधू कोणाचेंच आमंत्रण, स्वीकारी नाशिल्ले. रस्त्यांतल्यान वतना मेळिल्ली भिक्षा घेताले आनी तेन्ना मेळिल्लें मांस खाताले.

## कांय तपस्वी मांसाहार वर्ज्य करीत

बुद्ध काळचे काय तपस्त्री लोक मांसाहार निषिद्ध समजताले. तांचेपैकीं एका तपस्व्याचो आनी काश्यप बुद्धाचो संवाद सुत्तनिपातांतल्या (१४व्या) आमगंध सुत्तांत सांपडटा. त्या सुत्ताचें भाषान्तर अशें[३]—

१. (तिष्य तापस–) श्यामक, चिंगूलक, चीनक, झाडांची पानां कंदमूळां आनी फळां धर्माक घरून मेळ्ळीं जाल्यार तांचेर निर्वाह करपी चैनीच्या पदार्थांखातीर फट उलैनात.

---

३. ह्या आमगंध सुत्तांतल्या उपदेशाची तुळणा क्रिस्ताच्या सकल दिल्ल्या वचनाकडेन करची. 'जें तोंडांत वता, तें मनशाक भष्टिना; पुण जें तोंडातल्यान भायर सरता, तें भष्टिता." (म्याथ्यू १५।११)

२. हे काश्यपा, परक्यांनी दिल्लें वेचीव आनी बरे तरेन शिजैल्या, तांदळाचे सुरबूस आनी उत्तम अन्न स्वीकारपी तूं आमगंध (अमेध्य पदार्थ) खाता!

३. हे ब्रह्मबांधवा, शेवण्याच्या मांसान भरशिल्लें तांदळाचें अन्न खाता आसूनय तू आपणाक आमगंध योग्य न्हय, अशें म्हण्टा! तेन्ना हे, काश्यपा, हांव तुका विचारतां कि, तुजो आमगंध कशे तरेचो?

४. (काश्यप बुद्ध) प्राणघात, वध, छेद, बंधन, चोरी, असत्य भाषण ठकवण, नाडानाड, जारणमारणादिकांचो अभ्यास आनी व्यभिचार, हो आमगंध,; मांसाचे जेवण हो न्हय.

५. ज्यांकां बायलांच्या बाबतीत संयम ना, जे जिबेन लंपट, अपवित्र कर्मान भरसल्ले, नास्तिक, विषम आनी दुर्विनीत तांचे कर्म हो आमगंध; मांसाचे जेवण हो न्हय.

६. जे रुक्ष, दारुण, चाडयाळे, मित्रद्रोही, निर्दय, अतिमानी, किर्पीण, कोणाक कितेंच न दिवपी, तांचें कर्म हो आमगंध; मांसाचें जेवण हो न्हय.

७. क्रोध, मद, निष्टूरपण, विरोध, माया, ईर्ष्या, व्यर्थ बडबड, मानातिमान आनी दुष्टांकडलो संगत हो आमगंध; मांसाचें जेवण हो न्हय.

८. पातकी, रीण बुडौपी, चाडयाळे, लंचखावपी, खोटे अधिकारी, संसारात पाप उत्पन्न करपी नराधम हांचें कर्म हो आमगंध; मांसाचें जेवण हो न्हय.

९. ज्यांकां प्राणिमात्रांविशीं काकुळट ना, जे हेरांक लुटून त्राम दितात, दुःशील, भयांकृत, गाळीफस्ती दिवपी आनी अनादर करपी (तांचें कर्म)–हो आमगंध; मांसाचे जेवण हो न्हय.

१०. अशा कर्मांत आसक्त जाल्ले, विरोध करपी, घातमारे, सदांच अशा कर्मांत घुस्पल्ले कि जे परलोकांत काळखांत वतात आनी वैर पाय आनी सकल तकली जावन नरकांत पडटात (तांचे कर्म) – हो आमगंध; मांसाचें जेवण हो न्हय.

११. मांसमांसळेचो आहार वर्ज्य करप, नागडेपण, मुंडण, जटा, भस्म साड्डावप, खरखरीत अजिनचर्म, अग्निहोत्राची उपासना वा इह-लोकीच्यो अन्य तरेक तरांच्यो तपच्छर्या, मंत्राहुति, यक्ष आनी थंड उष्ण सोसून तप करप ह्यो गजाली विकल्पापेलेकडेन न गेल्ल्या मर्त्य मनशाक पावन करूंक शकनात.

१२. इंद्रियांत संयम राखून आनी इंद्रियांक वळखून वागपी, धर्मांत थीर आसपी, आर्जव आनी मार्दव हांच्यात संतोष मानपी, संगातीत आनी ज्याचें सगळे दुःख नाश पावलां असो जो धीर पुरुष, तो पळेल्ल्या आनी आयकल्ल्या पदार्थांत बद्ध जायना.

१३. हो अर्थ भगवन्तान परतो परतो उजवाडायलो आनी त्या मंत्रपार-गान (ब्राह्मण तापसान) तो जाणलो. हो अर्थ त्या निरामगंध अनासक्त आनी अदम्य मुनीन रम्य गाथांनी उजवाडायला.

१४. निरामगंध आनी सगळ्या दुःखाचो नाश करपी अशें बुद्धाचें सुभाषित वचन आयकून तो (तापस) नमळायेन तथागताच्या पांयां पडलो आनी ताणें थंयच प्रव्रज्या घेतली.

## श्रमणांनी केल्लें मांसाहाराचें समर्थन

हें सुत्त खूब प्राचीन. पुण तें खास काश्यप बुद्धान उपदेसिल्लें अशें समजूंक भरकूस आधार ना. बुद्धकाळांतले भिक्षू मांसाहाराचें समर्थन अशे भशेन करताले, इतलेंच समजुपाचें.

ह्या सुत्तांत तपच्छर्या निरर्थक गणल्या हें मत जैन श्रमणांक पसन्त पडचें नाशिल्लें. कित्याक म्हळ्यार, ते वारंवार तपच्छर्या करताले. तरी लेगीत मांसाहाराचें समर्थन ते अशेच तरेन करतले आशिल्ले. कारण ते पुर्विल्ल्या तपस्व्यांभशेन जंगलांतल्या फळांमुळांचेर निर्वाह करून न रावतां लोकांनी दिल्ले भिक्षेचेर विसंबून रावताले; आनी त्या काळाक मांस नुस्ते नाशिल्ली भिक्षा मेळप अशक्य आशिल्लें. ब्राह्मण यज्ञांत हजारांनी

ाण्यांचो वध करून तांचे मांस आसपासच्या लोकांक वांट्टाले. खेडयांतले ोक दैवतांक प्राण्यांची मानतूक करून तांचें मांस खाताले. ह्याखेरीज सा.य लोक भर चौकांत गायेक मारून तिजें मांस विकूंक बसताले. अशे रिस्थितींत शिजैल्ल्या अन्नाचे भिक्षेचेर विसंबून रावपी श्रमणांक मांसा-वरयत भिक्षा मेळप कशें शक्य आशिल्लें?

जैनांच्या समजाप्रमाण, पृथ्वीकाय, अप्काय, वायुकाय, अग्निकाय नस्पतिकाय आनी त्रसकाय अशे सं जीवभेद आसात (पृ. २०६) थ्वीकाय म्हळयार पृथ्वीपरमाणू, त्याचप्रमाण जल, वायू, आनी अग्नी ंचे परमाणू सजीव आसात. वनस्पतिकाय म्हळयार, रुखादी वनस्पती. सजीव, हें सांगूंक नाकाच. त्रसकाय म्हळयार कीड, मूय धरून वद्द हतया रेन सगळे ल्हान व्हड प्राणी. ह्या सं कायांपैकी खैंच्याय प्राण्यांची ्सा करप जैन श्रमण पाप समजतात. म्हणून ते रातचो दिवो ायनाशिल्ले, थंड उदक पियें नाशिल्ले आनी पृथ्वीच्या बी परमाणूंचो हार जावं नये म्हणून खूब जतनाय घेताले.

परन्त जैन उपासक शेत करताले, धान्य रोयताले आनी तें शिजौन न्न तयार करताले. ह्या कृत्यांत पृथ्वी, अप्, तेज, वायू, वनस्पत आनी त्रस ा संय प्रकारच्या जीवांचो संहार जातालो. जमीन कसताना पृथ्वीपरमाणूच ष्ट जातात अशें न्हय, तर किडी, मुयो बी बारीक बारीक लाखांनी ाणी मरतात. धान्य शिजैताना वनस्पतिकाय, अप्काय, आनी वायूकाय ा सगळ्या प्राण्यांचो उच्छेद जाता. अशें आसूनय त्या अन्नाची भिक्षा न साधू घेतातच. तर मागीर एकाद्र्या जैन उपासकान तयार केल्ली ांसाची भिक्षा घेवपाक पुर्विल्ल्या जैन श्रमणांक हरकत कसली आशिल्ली? ानीं त्या कृत्याचें समर्थन ते आमगंध सुत्ताच्या धर्तीचेरच करचे नाशिल्ले?

## गायच्या मांसाच्या आहाराआड चळवळ

ाता मांसाहाराआड चळवळ कशी सुरू जाली हेविशीं थोडेभितर विचार रूंया. सगळयांत पैलीं गायच्या मांसाच्या आहाराच्या निषेधाची चळवळ

बौद्धांनीच सुरू केली जावंये. णव्या प्रकरणांत (पृ. २१३।२१४) गायांची योग्यताय दाखौंची ब्राह्मणधम्मिक सुत्तांतल्यो दोन गाथा दिल्यात; त्या भायल्यो ह्यो गाथा पळेयात –

न पादा न विसाणेन नास्सु हिंसन्ति केनचि ।
गावो एळकसमाना सोरता कुम्भदूहना ।।
ता विसाणे गहेत्वान राजा सत्थेन घातयि ।।
ततो च देवा पितरो इन्दो असुररक्खसा ।
अधम्मो इति पक्कन्दुं यं सत्थं निपति गवे ।।

'मेंडराभशेन नम्र आनी कळसोभर दुद दिवपी गायो पायान, शिंगान वा दुसऱ्या खैंच्याय अवयवान कोणाचीच हिंसा करिनात. तांकां (ब्राह्मणाच्या सांगणेन) इक्ष्वाकु राजान शिंगाक धरून थार माल्ल्यो. तेन्ना गांयांचेर शस्त्रघात जाल्ल्यान देव, पितर, इंद्र, असुर आनी राक्षस अधर्म जालो म्हणून आक्रोश करूंक लागले!"

## बरोच काळ ब्राह्मणांनी गायचें मांस सोडलें ना!

बौद्धांच्या आनी जैनांच्या प्रयत्नान गायांच्या मांसाच्या आहाराचो निषेध जायत गेलो. तरी ब्राह्मण लोकांत ताजी मनाय जावंक बरेच शेंकडे लागले. सुरवातीक यज्ञाखातीर दीक्षा घेतल्यान गायचे मांस खावं नये अशी एक क्लृप्ती भायर सल्ली.

"स धेन्वै चानडुहश्च नाश्नीयात्। धेन्वनडुहौ वाऽइदं सर्वं बिभृतस्ते देवा अब्रुवन् धेन्वंनडुहौ वाऽइदं सर्वं बिभृतो हन्त यद्न्येषां वयसां वीर्यं तद्धेन्वनडुहयोर्दधामेति . . . तस्माद्धेन्वनडुहयोर्नाश्नीयात् तदु होवाच याज्ञवल्क्योऽश्नाम्येवाहं मांसलं चेद्भवतीति ।।"

'गायो आनी बैल खावं नये. गायो आनी बैल हे सगळें धारण करतात. त्या देवांनी म्हळें, गायो आनी बैल हे सगळें धारण करतात, म्हणून दुसऱ्या जातीच्या पशूचे जे वीर्य ते गायो आनी बैल हांच्यांत घालूंया.....म्हणून

ायो बैल खावं नये. पुण याज्ञवल्क्य म्हण्टा, शरीर मांसाळ जाता, म्हणून
ांव (हें मांस) खातलोंच.' (शतपथ ब्राह्मण ३।१।२।२१).

हो वाद यज्ञशाळेपुरतोच आशिल्लो. कांय जाणांचें म्हणणें आशिल्लें
क, दीक्षितान यज्ञशाळेंत भितर सरतकच गायचे मांस खावं नये. परन्त
ाज्ञवल्क्याक हें मत पसंत नाशिल्लें. शरीर पुष्ट जाता म्हणून तें वर्ज्य करूंक
ो तयार नाशिल्लो. हेर प्रसंगार गायच्या मांसाचो आहार करपासंबंदान
ाह्मणांमदीं बिलकुल वाद नाशिल्लो. इतलेंच न्हय, तर तसोच एकाद्रो तोला-
ाक सोयरो आयलो जाल्यार मोटो बैल मारून ताजो आदरसत्कार कर-
ाची पद्दत खूब प्रसिद्ध आशिल्ली. एका गौतमसूत्रकारान मात गायच्या
ांसाच्या आहाराचो निषेध केला. पुण ताका लेगीत मधुपर्कविधि पसन्त
ासुंये. ब्राह्मणांमदीं हो विधि भवभूतीच्या काळामेरेन तुरळक चलतालो,
शें दिसता. उत्तररामचरिताच्या चौथ्या आंकाच्या आरंबाक सौधातकी
ानी दंडायन हांचो संवाद आसा. तांतलो थोडोसो भाग असो —

सौधातकि – कितें वसिष्ठ!

दण्डायन – मागीर कितें?

सौ. – म्हाका दिसता कि, हो कोणय तरी वागासारको आसूंये.

द. – कितें म्हण्टा!

सौ. – ताणे येनाफुडें ती बावडी आमगेली कपली पाडी खिणाभितर
ट्ट केली!

द. – मधुपर्कविधि मांसाचो आसंक जाय, ह्या धर्मशास्त्राच्या
ाज्ञेचो भौमान करून गृहस्थ लोक श्रोत्रिय सोयरो आयलो जाल्यार पाडी
ा मोटो बैल मारून ताजें मांस रांदतात. कारण धर्मसूत्रकारांनी तसोच
पदेस केला.

. भवभूतींचो काळ सातव्या शेकड्यांत गणला. त्या काळाक आयचे
ारको गायचे मांस खावंक कडक निषेध आसतो जाल्यार वसिष्ठान
ाडी खावन उडैल्याचो उल्लेख ताका आपल्या नाटकांत करूंक येतो ना.

आयच्या नाटकांत असो संवाद घालो जाल्यार तें नाटक हिन्दुसमाजाक कितलेंशें मानवन?

## प्राणिवधाआड अशोकाचो प्रचार

प्राणिहिंसेआड प्रचार करपी इतिहासातलो पयलो राजा म्हळ्यार अशोक. ताजो पैलोच शिलालेख असो आसा —

'ही धर्मलिपी देवांक प्रिय अशा प्रियदर्शी राजान वरौंक लायली. ह्या राज्यांत खैंच्याच प्राण्याक मारुन होमहवन करूं नये आनी जात्रा करूं नये. कारण जात्रेंत देवांक प्रिय असो प्रियदर्शी राजा अनेक दोष पळेता. कांय जात्रा देवांच्या प्रिय प्रियदर्शि राजाक पसन्त आसात. पूर्वी प्रियदर्शि राजाच्या पाकशाळेंत सैंपाकाखातीर हजारांनी प्राणी मारताले. जेन्ना हो धर्मलेख वरैलो, तेन्नाच्यान दोन मोर आन एक मेरू अशे तीनच प्राणी मारतात. तो मेरूय दिसपट्टो मारीनात आनी फुडें हे तीन प्राणीय मारचे नात.'

ह्या लेखांत अशोकान गायांबैलांचो उल्लेचे करूंक ना. हाजेवेल्यान अशें अनुमान करू येता कि, ब्राह्मणेतर वरिष्ठ जातींत त्या काळाक गायच्या मांसाचो आहार बंदच पडिल्लो म्हळ्यार जाता. इतलेंच न्हय तर अशोकान अन्नाखातीर पसून खैंच्याच प्राण्याचो वध करूं नये असो प्रचार चलैलो. समाज ह्या उतराचें भाषांतर हांवें जात्रा अशें केलां. तें जरी तंतोतंत नासलें, तरी साधारणपणान ग्राह्य दिसलें. आजकाल जशी महाराष्ट्रांत जात्रा वा उत्तर हिन्दुस्थानांत मेळे जातात, तशा प्रकारचे समाज अशोकाच्या वेळार जाताले जावंये. तातूंत देवादेवतांक प्राण्यांचे बळि दिवंन मोटो उत्सव करपी समाज अशोकाक पसन्त नाशिल्ले. ज्यातूंत प्राण्यांचो बळि दिनात अश्यो जात्रा भरौपाक ताजी अडि नाशिल्ली. यज्ञांत जांव वा जात्रांनी जांव प्राण्यांच्यो मानतुको जावं नयेत हाजेर, ताजो मुख्य कटाक्ष आशिल्लो.

## आमचे पूर्वज सामके शिवराक नाशिल्ले

ाजकाल यज्ञयाग बंद पडिल्ल्यांतच जमा. पुण जात्रांतलें बलिदान जायते-डेन अद्यापय चलता. तरीपुण हेरा खँच्याय देशापरस मांस न खावपी दीक लोक हिन्दुस्थानचे. ह्या कामांत जैनांचो आनी बौद्धांचोच धर्म-चार कारण जालो, हातूंत दुबाव ना. अर्थात् आज आमी शिवराक आसात हण्‌न आमगेले पूर्वज तशेच शिवराक आशिल्ले, अशें प्रतिपादन करप वस्तु-स्थतीक धरून ना.

## चिनांत दुकराचें म्हत्व

ातां खास दुकराच्या मांसासंबदान चार उतरां बरौंप योग्य दिसता. पुरातन ाळाकसावन चिनी लोक दुकराक संपत्तीचें लक्षण मानतात. तांची लिपी ाकृतीची घडल्या. ह्यो आकृती एक करून वेगळीं वेगळीं उतरां घडूक तात. देखीक, मनशाची आकृती काडून ताजेर तरसादीची आकृती, ाडली, जाल्यार ताजो अर्थ शूर असो जाता. घराचे आकृती सकल भुर-ाची आकृती काडली तर ताजो अर्थ अक्षर, बायलेमनशेच्या दोन आकृती ाडल्यो जाल्यार झगडें आनी दुकराची आकृती काडली जाल्यार ताजो र्थ संपत्ती असो जाता. म्हळ्यार घरांत दुकर आसप हें संपत्तीचें लक्षण शें पुर्विल्ले चिनी लोक समजताले; आनी सध्या पसून चिनांत दुकराक ततलेंच म्हत्व आसा.

## प्राचीन हिन्दु दुकराक संपत्तीचो वांटो मानीत

हन्दुस्थानांत दुकराक इतलें म्हत्व आयलें ना, तरी तो एक संपत्तीचो वांटो मजताले. अरियपरियेसन सुत्तांत (मज्झिमनिकाय २६) ऐहिक संपत्तीची ानित्यकाय वर्णिल्या, ती अशी —

"किं च भिक्खवे जातिधम्मं? पुत्तभरियं भिक्खवे जातिधम्मं। ासीदासं.......अजेळकं.....कुक्कुटसूकरं......हत्तिगवास्सवळवं.......जातरूपरजतं. ातिधम्मं।"

म्हळचार हती, गायो, घोडे बी संपत्तींतच कुकडां आनी दुकरां, हांचोय समावेस जातालो. अशें आसून दुकराच्या मांसा संबदान इतलो वीट उद्भवलो कसो? यज्ञयागांत मारिल्ल्या प्राण्यांत दुकराचो उल्लेख पालि वाङ्मयात सांपडना. अर्थात् बुद्धाचे मुस्तींत हो प्राणी अमेध्य आशिल्लो, पुण तो अभक्ष्य आशिल्लो, हाका कांयच आधार सांपडना. तशें आसतें जाल्यार क्षत्रियांच्या घरच्या संपत्तींत तो मोडचो नाशिल्लो. दुकराच्या मांसाचो निषेध आरंबाक धर्मसूत्रांत सांपडटा.[४] आनी फुडें ताजोच अणकार मनुस्मृती बी स्मृतिग्रंथांत येता.[५] पुण रानदुकराचो केन्नाच निषेध जालों ना. ताजे मांस पवित्र गणलें[६]

## बुद्धाचेर चड खाल्ल्याचो खोटो आळ

बुद्ध भगवन्तान परिनिर्वाणाआदीं खाल्लो पदार्थ दुकराचें मांस आशिल्लो, अशें धरून चल्ले, तरी तो ताणे अजीर्ण जायसर खालो आनी ताकालागून ताका मरण आयलें हें जे कुच्छित्त्री टीकाकारांचे म्हणणें, ते मात सामकें फट. गोतम बुद्धान सुमाराभायर आहार घेतिल्ल्याचें उदाहरण वा दाखलो खैंच सांपटना. तेन्ना, ह्याच प्रसंगार ताणे हो पदार्थ मोतादाभायर खाल्लो अशें म्हणप निव्वळ खोडयाळें. बुद्ध भगवान त्या प्रसंगाआदीं तीन म्हैने वैशालीक भयंकर वायटांत आशिल्लो. आनी ताका लागून ताज्या आंगांत त्राण उरूंक नाशिल्लें. चुन्दान दिल्लें जेवण केवळ ताज्या परिनिर्वाणाक निमित्यकारण जालें. ताका लागून चुन्द मेस्ताचेर लोकांनी नस्तोच आळ

४. ''काककंकमृध्रश्येना जलजरक्त पादतुण्डा ग्राम्य कुक्कुटसूकराः। गोतमसूत्र, अं. ८।२९.

'एकखुरोष्ट्रगवयग्रामसूकरसरभगवाम्'। आपस्तम्बधर्मसूत्र प्रश्न १, पटल ५, खण्डिका १७।२९.

५. मनुस्मृति, अ. ५।१९.

६. मनुस्मृति, अ. ३।२७०.

वं नये म्हणून परिनिर्वाणाआदीं भगवन्तान आनंदाक म्हळें, " आनंदा,
ुन्द मेस्ताक कोणय म्हणत कि, आरे चुन्दा, तथागत तुवें दिल्ली भिक्षा
वन परिनिर्वाण पावलो, हातूंत तुजी मोटी हानी आसा, अशें म्हणून जर
ाणे चुन्द मेस्ताक वायट दिसूंक लायले, जाल्यार तुमी चुन्दाचे दुर्मनस्य
शे भशेन ना करात. ताका म्हणात, चुन्दा, ज्या तुजो पिंडपात खावन
थागत परिनिर्वाण पावलो, त्या तुकां तें तुजें दान खऱ्यानीच लाभदिण
ासा. आमी तथागताकडल्यान आयकलां कि, हेर भिक्षांपरस तथागताक
ळिल्ल्यो दोन भिक्षा अदीक फळदिण्यो आनीक अदीक तोखण येच्यो
ासात. त्यो खैंच्यो? जी भिक्षा घेवन तथागत संबोधिज्ञान मेळैता ती,
ानी जी भिक्षा घेवन परिनिर्वाण पावता ती. चुन्दान जें कृत्य केलां तें
ायुष्य, वर्ण, सुख, यश, स्वर्ग, आनी स्वामित्व दिवपी आसा, अशें समजुंचें.
ानंदा, हे भशेन चुन्दाचें दुर्मनस्य काडचें."



## प्रकरण बारावें

# दिनचर्या

### प्रसन्न नुरा

गोतम बोधिसत्व आशिल्लो तंवर, म्हळ्यार तो घरसंसार करतालो, तेन्ना आनी तप करतालो तेन्ना ताजी दिनचर्या कशी आशिल्ली हाजो विचार चौथ्या आनी पांचव्या प्रकरणांत केलाच. आतां ह्या प्रकरणांत बुद्धत्व प्राप्त जायत सावन परिनिर्वाणामेरेनचे ताजे दिनचर्येचे दिग्दर्शन करपाचें येवजिलां.

तत्वबोध जाल्याउपरान्त बुद्ध भगवन्तान बोधिवृक्षामुळाच आपणालो फुडलो जीवनक्रम आंखलो. तपच्छर्या तर ताणे सोडून दिल्लीच; आनी परतून कामोपभोगांकडेन वळपाची वासना ताका उल्ली नाशिल्ली. तेन्ना आंग धांपापुरतें वस्त्र आनी भुकेपुरतें अन्न इतल्यार उरिल्लें आयुष्य भौसाच्या बऱ्याभल्याक लावपाचो ताणे बेत केलो. ह्या निच्छेयाचो बुद्धाचे नुरेचेर कितें परिणाम जालो, हाजें वर्णन मज्झिमनिकायांतल्या अरियपरियेसन सुत्तांत आनी विनयाच्या महावग्गांत सांपडटा.

बुद्ध भगवान पंचवर्ग्यांक उपदेस करूंक म्हणून गयेच्यान वाराणसीक वतना वाटेंत ताका उपक नांवाचो आजीवक पंथांतलो श्रमण मेळ्ळो आनी ताणें ताका म्हळें, "आयुष्मान गोतमा, तुजो चेरो प्रसन्न आनी आंगाची कांती तेजिष्ट दिसता. तूं कोणा आचार्याचो शिष्य?"

भ. – म्हजो धर्ममार्ग म्हजे हावेंच सोदून काडला.

उपक. – पुण तूं अरहन्त जाला व्हय? तुका जिन म्हणूं येत व्हय?

भ. – हे उपका, हांवें सगल्यो पापवृत्ती जिखल्यात. म्हणून हांव जिन आसां.

उपकाक दिशिल्ली बुद्धाचे नुरेवेल्ली प्रसन्नकाय अखेरमेरेन कायम ाशिल्ली अशें मानपाक हरकत ना.

## साधारण दिनचर्या

बुद्ध भगवान फांतोटेर उठटालो आनी तेन्ना ध्यान करतालो वा रावतें मुवातेच्या आजुबाजूक चंक्रमण करतालो. (भोंवक वतालो). सकाळच्या ाराक तो गांवात भिक्षाटणाक वतालो. ताज्या भिक्षापात्रांत रांदिल्ल्या अन्नाची सगळ्या जातींच्या लोकांची जी भिक्षा एक जाताली ती घेवन तो गांवाभायर येतालो आनी थंय जेवण करून थोड्या विस्रांतीउपरान्त ध्यानस्थ बसतालो. सांजवेळा तो परतो प्रवास करतालो. रातचो खंय तरी एकाद्र्या देवळांत, धर्मशाळेंत वा झाडामुळा रावतालो.

रातीच्या तीन यामांपैकीं पैल्या यामांत भगवान ध्यान करी वा चंक्रमण करी. मदल्या यामांत आपणाली संघाटी चोट्टी दोडून हांतरी आनी हात उशाक घेवन उजवे कुशीर उजव्या पांयार दावो पांय दवरून पोटच्या सादुरकायेन न्हिद.

## सिंहशय्या

बुद्धाचे हे शय्येक सिंहशय्या म्हण्टात. अंगुत्तरनिकायांतल्या चतुक्कनिपातांत (सुत्त २४४) चार तरेच्यो शय्या वर्णिल्यात. (१) प्रेतशय्या, ही उदाऱ्यां न्हिदपी मनशांची. (२) कामभोगिशय्या. कामोपभोगांत सुख मानपी लोक चड करून दावे कुशीर न्हिदतात, म्हणून अशे शय्येक कामोपभोगी शय्या म्हण्टात. (३) सिंहशय्या. उजव्या पांयार दावो पाय मात्सो पालसो दवरून आनी मनांत हांव अमक्या वेळार उठटलों अशी याद धरून सादुरकायेन उजवे कुशीर न्हिदप हाका सिंहशय्या म्हण्टात (४) तथागतशय्या, म्हळ्यार चार ध्यानांची समाधी.

हांच्यापैकीं निमाण्यो दोन शय्या बुद्ध भगवंताक पसंत आसताल्यो. म्हळ्यार तो रातच्या पारा एक तर ध्यान करी वा मदल्या यामांत ही सिंहशय्या पत्करी. परतो रातच्या निमाण्या यामांत तो चंक्रमण करी वा ध्यान करी.

## मोतादाचो आहार

बुद्ध भगवंताचो आहार सामको मोजिमापिल्लो आसतालो. खाणाजेवणांत ताणे केन्ना अतिताय केली ना. आनी असो उपदेस तो भिक्षूंक परतो परतो करी. भगवान आरंबाक रातचो जेवी अशें मज्झिमनिकायांतल्या (नं. ७०) कीटागिरिसुत्तावेल्यान दिसून येता. तांतूंत भगवान म्हण्टा, " भिक्षूंनो, हांवें रातचें जेवण सोडलां आनी ताका लागून म्हज्या शरीरांत व्याधी उणी जाल्या, जडाय उणी जाल्या, आंगात बळगें आयलां आनी चित्ताक सवस्त-काय मेळत आसा. भिक्षूंनो, तुमीय अशेच वागात. तुमी रातचे जेवण, सोडलें जाल्यार तुमच्या शरीरांत व्याधी उणी जातली, जडाय उणी जातली, आंगांत त्राण येतलें आनी तुमच्या चित्ताक सवस्तकाय मेळटली."

तेन्नाच्यान भिक्षूंची दनपारचीं बारा जावचे पैली जेवपाची प्रथा सुरू जाली आनी बारा उपरान्त जेवप निषिद्ध अशें ते मानूंक लागले.

## चारिका

चारिका म्हळ्यार भोंवडी. ती दोन प्रकारची. शीघ्र चारिका आनी संथ चारिका. ह्या संबंदान अंगुत्तरनिकायाच्या पंचकनिपातांत तिसऱ्या वग्गाच्या आरंबाक सुत्त आसा, तें अशें —

भगवान म्हण्टा, " भिक्षूंनो, शीघ्र चारिकेंत हे पांच दोष आसात ते खैंचे? पैलीं जे धर्मवाक्य आयकल्लें नासत, तें आयकूंक येना; जें आयकल्लें आसत ताजें संशोधन जायना; कांय गजालींचें पुरतें ज्ञान मेळना; नाका केन्ना केन्ना आकांताळी पिडा लागता; आनी मित्र मेळनात. भिक्षूंनो, शीघ्र चारिकेंत हे पांच दोष आसात.

" भिक्षूंनो, संथ चारिकेंत हे पांच गुण आसात. ते खंचे? पैलीं जें
ंवाक्य आयकल्लें नासत, तें आयकूंक येता; जें आयकल्लें आसत, ताजें
ोधन जाता; कांय गजालींचें पुरतें ज्ञान मेळटा; आकांताळचो पिडा
गनात; आनी मित्र मेळटात. भिक्षूंनो, संथ चारिकेंत हे पांच गुण आसात."

बुद्ध भगवन्तान हो जो आपणालो अणभव सांगलो तो ताणेले बोधि-
त्व अवस्थेंतलो आसूंक जाय. ताकतिकेन केल्ल्या प्रवासान फायदो जायना
नी सवकासायेन केल्ल्या प्रवासान फायदो जाता, हो ताजो स्वताचो
भव आशिल्लो. अशे रितीन सवकासाय प्रवास करूनच हेर श्रमणां-
ल्यान ताणें ज्ञान जोडलें आनी अखेर आपणालो मध्यममार्ग सोदून
डलो.

## भिक्षु संघासैत चारिका

त्व प्राप्त जातकच भगवन्तान बुद्धगयेच्यान काशीमेरेन प्रवास केलो,
ी थंय पंचवर्गी भिक्षूंक उपदेस करून तांचो संघ स्थापलो. तांकां काशीक
न भगवान एकटोच राजगृहाक परतलो अशी कथा महावग्गांत वर्णिल्ल्या.
ते पांचय भिक्षू त्या चातुर्मासाउपरान्त भगवंतावांगडा आशिल्ले, अशें
क भरकूम आधार आसा. राजगृहाक सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान हे
प्रसिद्ध परिव्राजक बुद्धाचे शिष्य जाल्याउपरान्त बौद्ध संघाच्या
राराटाक आरंब जालो आनी तेन्नाच्यान बुद्ध भगवंताबरोबर चड करून
न व्हड भिक्षुसंघ आसतालो आनी ताजी चारिका भिक्षुसंघासहवर्तमान
ाली. भगवान भिक्षुसंघाक सोडून एकटो रावलो अशे प्रसंग सापच थोडे.

## भोवतीं गुरुकुलां

मुस्तींतले सगलें श्रमणसंघ आनी तांचे मुखेली अशेच तरेन प्रवास कर-
. बुद्धापैलीं आनी बुद्धाचे मुस्तींत ब्राह्मणांची गुरुकुलां आशिल्लीं.
वरिष्ठ जातींचे तरुण वचून अध्ययन करताले. पुण त्या गुरुकुलांचो
दो भौसाक भोव थोडो मेळं; ब्राह्मण वेदाध्ययन करून चड करून

राजास्त्रय घेताले; क्षत्रिय धनुर्विद्या शिकून, राजाचे नोकरेंत दाखाल जाताले आनी जीवक कौमारभृत्यासारकेले तरणाटे आयुर्वेद शिकून वरिष्ठ जातींक उपकरा पडटाले. पुण श्रमणांचीं गुरुकुलां अशीं नासतालींच. ते प्रवास करतां-करतांच शिक्षण घेताले आनी साधारण लोकांत भरसून धर्मोपदेस करताले हाकालागून भौसाचेर तांचें वजन पडटालें.

## भिक्षु संघांत शिस्त

बुद्ध भगवंताच्या भिक्षु सघात शिस्त बेस बरी आशिल्ली. भिक्षूंनी कशाकशेंय वागप ताका बिलकुल पसंत नाशिल्लें. ह्या संबंदान चातुमसुत्तांत (मज्झिम निकाय नं. ६७) आयिल्ली कथा थोडयाभितर हांगा दिवप योग्य दिसता.

भगवान चातुमा नांवाच्या शाक्यांच्या गांवांत आमलकीवनांत रावतालो. तेन्ना सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान पांचशें भिक्षूंक बरोबर घेवन चातुमेक आयले. चातुमेंतल्या रैवासी भिक्षूंच्यो आनी सारिपुत्त मोग्गल्लानाबरोबर आयिल्ल्या भिक्षूंच्यो एकमेकांकडेन आगतस्वागताच्यो वगजाली सुरू जाल्यो. बसूंक उठूंक सुवात खैंची, पात्रांचीवरां खंय दवरचीं बी वास्तपूस करता आसताना बोवाळ जावंक लागलो. तेन्ना भगवन्तान आनंदाक म्हळें, "गाबीत लोक पागतांना जसो कल्लाळ जाता, तसो हो हांगा कित्याक चल्ला?"

आनंदान म्हळें, "भदन्त, सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान हांच्याबरोबर आयिल्ल्या भिक्षूंच्यो गजाली चल्ल्यात. बोवाळ चल्ला तो रावपाच्या आनी पात्रांचीवरां दवरपाच्या सुवातींसंबंदान."

भगवन्तान आनंदाक धाडून सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान हांका आनी त्या भिक्षूंक आपोन हाडले आनी तांणी आपलेसरी न रावतां थैंच्यान वचचें अशी खयास्त लायली. ते सगले वरमले, आनी बुद्धाक नमस्कार करून थैंच्यान वचूंक भायर सल्ले. चातुमेंतले शाक्य तेन्ना कसल्याशा कामा लागून आपणाल्या संस्थागारांत जमिल्ले. आजच आयिल्ले भिक्षू पर

वल्ले, हें पळौन तांकां अजाप जालें. आनी ते कित्याक वतात हाजी तांणी ब्रासपूस केली. 'बुद्ध भगवंतान आमकां ख्यास्त लायिल्ल्यान आमी हांगच्यान वतात,' अशें त्या भिक्षूंनी शाक्यांक सांगलें. तेन्ना चातुमेंतल्या शाक्यांनी तांकां त्या भिक्षूंक थैंच थांबूंक सांगलें आनी बुद्ध भगवन्ताक विनंती करून तांकां क्षमा करूंक लायली.

## धर्मीक संवाद आनी आर्यमौन

सदांकाळ मौन घेवन रावपी मुनी बुद्धामुस्तींत जायते आशिल्ले. मुनी ह्या उतरावेल्यान मौन हें उतर साधलां. ही तपच्छर्या बुद्धाक पसंत नाशिल्ली. 'अविद्वान अडाणी मनीस मौन घेतलें म्हणून मुनी जायना.''[१] तरी लेगीत कांय प्रसंगार मौन घेवप बरें, अशें भगवन्ताचें म्हणणें आशिल्लें. अरियपरियेसनसुत्तांत (मज्झिमनिकाय नं. २६) भगवान म्हण्टा, "भिक्षूंनो, एक तर तुमी धर्मचर्चा करची, ना जाल्यार आर्यमौन घेवचें."

## शांततायेचो दाखलो

जेन्ना बुद्ध भगवान् भिक्षुसंघाक उपदेस करिनाशिल्लो, तेन्ना सगळे भिक्षू अत्यंत थंडसाणेन वागताले; बोवाळ मातय जाय नाशिल्लो. हाजो एक उत्तम नमुनो दीघनिकायांतल्या सामञ्ञफलसुत्तांत मेळटा. तो प्रसंग असो –

भगवान बुद्ध राजगृहाक जीवक कौमारभृत्याच्या आम्रवनांत मोटया भिक्षुसंघासैत रावतालो. त्या समयाक कार्तिक पुनवेचे रातीं अजातशत्रू राजा आपल्या अमात्यांसैत राजवाडयाच्या वैल्या मजल्यार बशिल्लो. तो उद्गाल्लो, "कितली सोबीत रात ही! असो कोणय श्रमण वा ब्राह्मण आसा काय, कि जो आपल्या उपदेसान आमचें चित्त प्रसन्न करीत?" त्या वेळार पूरण कस्सप, मक्खलि गोसाल, अजित केसकम्बल, पकुध कच्चायन, संजय बेलट्ठपुत्त आनी निगण्ठ नाथपुत्त हे नामनेचे श्रमण आपापल्या संघासैत राजगृहाच्या आसपासच रावताले. अजातशत्रूच्या अमात्यांनी वळीन तांची

---

१. न मोनेन मुनि होति मूळहरूपो अविद्दसु। (धम्मपद २६८).

तुस्त करून तांचे भेटेक वचपासंबंदान राजाचें मन वळौपाचो यत्न केलो. पुण अजातशत्रू कांयच न उलैतां ओग्गी रावलो.

जीवक कौमारभृत्य तेन्ना थंयच आशिल्लो. ताका अजातशत्रून म्हळें, ' तूं मोन्यानी सो बसला?'

त्या उतराक जीवकान म्हळें, " म्हाराज, हो बुद्ध भगवान आमच्या आम्रवनात मोटया भिक्षुसंघासैत रावता. आज म्हाराजांनी ताजी भेट घेवची. तिकालागून तुमचें चित्त प्रसन्न जातलें."

अजातशत्रून जीवकाक वहानां सज्ज दवरूंक फर्मायलें. त्याप्रमाण जीवकान सगळी तयारी करतकच अजातशत्रू राजा आपल्या हतयाच्या अंबारेंत बसून आनी अंतःपुरातल्या बायलांक वेगवेगळया हत्तिणींचेर बसौन मोटया परिवारासैत बुद्धदर्शनाक भायर सल्लो. जीवकाच्या आम्र-वनांसरीं पावताकच अजातशत्रून चपापून जीवकाक म्हळें, "जीवका, तूं म्हाका फस्तीक घालिना मू? म्हाका म्हज्या शत्रूंच्या सुवादीन करपाचो तुजो बेत ना मू? हांगा एदो व्हडलो भिक्षुसमुदाय जमला अशें तूं म्हण्टा पुण हांगा तर शींक, खांक वा हेर कसलोच आवाज आयकूंक येना!"

जीवक – म्हाराज, भियेवं नाकात, भियवं नाकात! तुमकां हांव फस्तीक घालिना, वा शत्रूच्या सुवादीनय करिना. फुडे सरात, फुडे सरात. मुखावेल्या मंडलमालांत[२] दिवे जळत आसात. (अजातशत्रूचे दुस्मान दिये पेटौन बसतीत हें संभव ना, असो हाजो भावार्थ).

जेथमेरेन हतयावेल्यान वचप शक्य आशिल्ले, तेथमेरेन वचून अजात-शत्रू सकल देंवलो, आनी जीवकाच्या आम्रवनांतल्या मंडलमालांच्या दर-वटयामेरेन पांयांनी चलत गेलो, आनी थंय उबो रावन जीवकाक ताणें विचाल्लें, " भगवान खंय आसा?"

जीवक – म्हाराज, मंडलमालाच्या मदल्या खांब्यासरीं भगवान पूर्वेक तोंड करून बसला.

---

२. मण्डल माल म्हळयार तंबूच्या आकाराचो माटव. ताजे जमनीक भोवतणचे जमनीपरस मात्शी चड उंचाय आसता.

अजातशत्रू भगवंता म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो आनी मौन घेवन थंड बशिल्ल्या भिक्षुसंघाकडेन पळौन उद्गाल्लो, " ह्या संघांत जी शांतताय नांदता, ते शांततायेन (म्हजो) उदयभद्र कुमार संपन्न जावं! अशी शांतताय उदयभद्र कुमाराक मेळूं!"

भगवन्तान म्हळें, "म्हाराज, तुमी आपल्या मायेक धरूनच उलैले."

त्या उपरान्त अजातशत्रूचो आनी भगवन्ताचो बरोच व्हडलो संवाद आसा. तो हांगा दिवपाचें कारण ना. संघाबरोबर भगवान रावतालो, तेन्ना भिक्षुसमुदायांत कसलीच गडबड नासताली, इतलेंच दाखौंपाखातीर हो प्रसंग हांगा दिला.

## भिक्षु संघाचे शिस्तीचो प्रभाव

सकाळच्या पारा भगवान भिक्षेक वता आसताना केन्ना केन्ना वेगवेगळ्या परिव्राजकांच्या आस्रमांक भेट दितालो. भगवंताक पळौन परिव्राजकांचे मुखेली आपल्या शिष्यांक म्हणत, " हो पळेयात, श्रमण गोतम येता. ताका गोवाळ आवडना. म्हणून तुमी मोटयामोटयान गजाली करिनासताना मात्शे थंड बसात." अशाच एका प्रसंगाचें वर्णन मज्झिमनिकायांतल्या महा-सकुलुदायि सुत्तांत (नं. ७७) आसा. तांतूंत बुद्धाचे दिनचर्येल्या दुसऱ्याय कांय गजालींचो खुलासो आयिल्ल्यान ताजो संक्षिप्त गोषवारो हांगा दितां.

भगवान राजगृहाक वेणुवनांतल्या कलंदकनिवापांत रावतालो. त्या वेळार कांय नांवाजते परिव्राजक मोरनिवापांतल्या परिव्राजकांच्या आस्रमांत रावताले. एक दीस सकाळीं भगवान राजगृहाक भिक्षाटणाक भायर सल्लो. अजून भिक्षाटणाची वेळ न जाल्ल्यान भगवान वाटेंत त्या परिव्राजकांच्या आस्रमाकडेन गेलो. थंय सकुलुदायि[3] आपले व्हडले परि-व्राजकसभेंत बशिल्लो; आनी ते परिव्राजक राजांच्यो, चोरांच्यो, महा-

---

३. सकुल–उदायि म्हळयार कुळीण उदायि.

मात्यांच्यो, सैन्यांच्यो, भयाच्यो, युद्धाच्यो वी नमत्योर्च गजाली मोटया-मोटयान उलैनाले. सकुलुदायीन आश्रमाच्या कांय अंतरार भगवंताक पळेलो; आनी ताणें आपल्या शिष्यांक म्हळें, "बावांनो, मोटयान उलौं नाकात. गडबड बंद करात. हो श्रमण गोतम येता. ताका ल्हव उलैल्लें आवडटा, आनी ल्हव उलौण्याची तो तोखणाय करता. आमी बोवाळ केलोना जाल्यारच हे सभेक येवप ताका योग्य दिसतलें." ते परिव्राजक शांत जाले आनी भगवान सकुलुदायि परिव्राजक आशिल्लो थंय आयलो. तेन्ना सकुलुदायीन भगवन्ताक म्हळें, "भगवन्! येयात! भगवंताचें स्वागत आसूं! भगवान खूब दिसांनी आमचे सभेक आयले. तुमच्या खातीर आसन मांडलां. ताजेर बसात."

त्या आसनार भगवान बसलो आनी आपलेसरीं बशिल्या सकुलुदायि परिव्राजकाक ताणे म्हळें, "उदायि, हांगा तुमगेल्यो कसल्यो गजाली, चलिल्ल्यो?"

उदायि – भगवान आमच्यो गजाली आसु दी. त्यो कितें दुल्लब न्हयत. म्हाका एक गजाल स्मरता. कांय काळाफाटीं जिनसवार संप्रदायांचे श्रमणब्राह्मण एके कौतुहलशाळेंत जमिल्ले. तांच्यात प्रस्न उपस्थित जालो कि, पूरण कस्सप, मक्खलि गोसाल, अजित केसकम्बल, पकुध कच्चायन, संजय बेलट्ठपुत्त, निगण्ठ नाथपुत्त आनी श्रमण गोतम अशे हे व्हडल्या-व्हडल्या संघांचे मुखेली आज राजगृहालागीं वर्षावासाक रावतात, हे अंगमगधांतल्या लोकांचें मोटें भाग्य समजूंक जाय! पुण ह्या मुखेल्यांमदीं श्रावक ज्याचो फावसो मानसरातब राखतात, असो मुखेली कोण? आनी श्रावक ताज्या आस्रयाखाल कशे वागतात?

---

४. तिरच्छानकथा । अनिय्यानिकता सग्ग–मोक्ख–मग्गानं तिरच्छानभूता, कथा ति तिरच्छानकथा (अट्ठकथा).

५. वादविवादाची सुवात

तेन्ना कांय जाणांनी सांगलें, "हो पूरण कस्सप प्रसिद्ध मुखेली आसा. पूरंत श्रावक ताजो मान दवरिनात आनी ताज्या पाख्याखाल रावंक सोदिनात. तांचेमदीं तक्रारी उपरासतात." त्याचप्रमाण दुसऱ्या कांय जाणांनी मक्खलि गोसाल बी मुखेल्यांच्या श्रावकांमजगतीं कशो तक्रारी जातात, हाजें वर्णन कलें. अखेरेक कांय जाणांनी म्हळें, "हो श्रमण गोतम नांवाजतो मुखेली आसा. ताजे श्रावक ताजो योग्य मान राखतात, आनी ताज्या आस्रयाखाल रावतात. एक फावट गोतम व्हडले सभेंत धर्मोपदेस करतालो. थंय श्रमण गोतमाचो एक श्रावक खांकलो, ताका धोंपरान दामून दुसऱ्यान म्हळें, "बोवाळ करूं नाका, आमचो शास्तो (गुरु) धर्मोपदेस करता." जेन्ना श्रमण गोतम शेंकडयांनी लोकांचे परिषदेंत धर्मोपदेस करता, तेन्ना ताज्या श्रावकांचो शिंकिल्याचो वा खांकिल्ल्याचो पसून आवाज आयकूंक येना. लोक मोटया आदरान ताजो धर्म आयकूंपाक तत्पर आसतात...."

भगवान – हे उदायि, म्हजे श्रावक म्हजेकडेन आदरान वागतात आनी म्हज्या आस्रयाखाल रावतात, हाजीं कारणां कितें आसतीत अशें तुका दिसता?

उदायि – हाजीं पांच कारणां आसतीत असो म्हजो समज. तीं खंचीं? (१) भगवान अल्पाहार करपी आसून अल्पाहाराचे गुण वाखाणटा (२) तो कशाय प्रकारच्या चीवरांनी संतुष्ट आसता, आनी तशे संतुष्टीचे गुण वाखाणटा; (३) जी भिक्षा मेळत तितल्यान संतुष्ट आसता आनी तशा संतोषाचे गुण वाखाणटा. (४) रावंक मेळिल्ले सुवातेंत संतोष मानता आनी तशे संतुष्टीचे गुण वाखाणटा. (५) एकान्तान रावता आनी एकान्ताचे गुण वाखाणटा. ह्या पांच कारणांक लागून भगवन्ताचे श्रावक भगवन्ताचो मान दवरतात, आनी ताज्या आस्रयाखाल रावतात, अशें म्हाका दिसता.

भगवान – श्रमण गोतम अल्पाहारी आसून अल्पाहाराचे गुण वाखाणटा, इतल्याच खातीर जर, हे उदायि श्रावक म्हजो मान दवरून म्हज्या आस्रयाखाल रावते, तर म्हज्या श्रावकांत म्हज्या परस्य उणो आहार

घेवपी जे श्रावक आसात, ते म्हजो मान दवरचे नाशिल्ले, आनी ते म्हज्या आस्रयाखाल रावचे नाशिल्ले.

मेळत त्या चीवरान श्रमण गोतम संतुष्ट रावन तशे संतुष्टीचे गुण गायता, इतल्याच खातीर जर, उदायि, म्हजे श्रावक म्हजो मान दवरून म्हज्या आस्रयान रावते, जाल्यार म्हज्या श्रावकांत जे मसण्णींतल्यान, कोयराचे राशींतल्यान वा बाजारांतल्यान फाळयो पुंजावन तांचीं चीवरां करतात आनी वापरतात, ते म्हजो मान दवरचे नाशिल्ले आनी म्हज्या आस्रयान रावचे नाशिल्ले. कारण, हांव केन्ना केन्ना गृहस्थांनी दिल्ल्या वस्त्रांची पसून चीवरां वापरतां.

श्रमण गोतम मेळिल्ले भिक्षेन संतुष्ट आसता आनी तशा संतोषाचें गुण वर्णिता, इतल्याच खातीर जर म्हजे श्रावक म्हजो मान दवरून म्हज्या आस्रयाखाल रावते, जाल्यार तांतले जे केवळ भिक्षेचेरच रावतात, ल्हान व्हड घर वर्ज्य करिनासताना भिक्षा घेनात आनी ते भिक्षेचेर निर्वाह करतात, तें म्हजो मान दवरून म्हज्या आस्रयान रावचे नाशिल्ले. कारण, हांव केन्ना केन्ना गृहस्थांचें आमंत्रण स्वीकारून बरें जेवण जेवतां.

श्रमण गोतम रावंक मेळिल्ले सुवातेंत संतोष मानता, आनी तशे संतुष्टीचे गुण वाखाणटा, इतल्याच खातीर जर हे उदायि, म्हजे श्रावक, म्हाका मान दिवन म्हज्या आस्रयाखाल रावते, जाल्यार तांतूंत जे झाडा-मुळा वा उक्ताडार रावतात, आनी आठ म्हैने धांकिल्ले जागेंत पांय दवरिनात, ते म्हजो मान दवरून म्हज्या आस्रयान रावचे नाशिल्ले. कारण हांव केन्ना केन्ना व्हडल्या विहारांनी पसून रावता.

श्रमण गोतम एकान्तात रावन एकान्ताचे गुण वाखाणटा, इतल्याच खातीर जर म्हजे श्रावक म्हजो मान दवरून म्हज्या आस्रयान रावते, तर तांतले जे अरण्यांतच रावतात, केवळ पंदरा दिसांनी प्रातिमोक्षा-

खातीर संघांत येतात, ते म्हजो मान दवरून म्हज्या आस्रयान रावचे नाशिल्ले. कारण, हांव केन्ना केन्ना भिक्षू, भिक्षुणी, उपासक, उपासिका, राजा, मंत्री, हेरा संघाचे मुखेली आनी तांचे श्रावक, हांकां मेळटां.

परंत हे उदायि, दुसरे पांच गुण आसात, कि, ज्यांकां लागून म्हजे श्रावक म्हजो मान दवरून म्हज्या आस्रयाखाल रावतात. (१) श्रमण गोतम शीलवान आसा. (२) तो खरो तोच धर्मोपदेश करता. (३) तो प्रज्ञावान आसा. म्हणून म्हजे श्रावक म्हाका मानतात आनी म्हज्या आस्रयान रावतात, (४) ह्याखेरीज हांव म्हज्या श्रावकांक चार आर्यसत्यांचो उपदेस करतां, आनी (५) आध्यात्मिक उदरगतीचे निरनिराळे प्रकार दाखैतां. ह्या पांच गुणांक लागून म्हजे श्रावक म्हजो मान दवरतात आनी म्हज्या आस्रयान रावतात.

## भिक्षुसंघाबरोबर आसताना भगवंताची दिनचर्या

आपल्या संघात बुद्ध भगवान कशी शिस्त दवरतालो, हें सगळ्या परिव्राजकांक खबर आशिल्लें. तो जेन्ना तांच्या परिषदेत वच, तेन्ना तेय मोटचा थंणसायेन वागत. हें ह्या सुत्तावेल्यान दिसून येतलेंच. बुद्ध भगवान केन्ना केन्ना गृहस्थांचें आमंत्रण आनी ताणीं दिल्लें वस्त्र घेतालो. तरी लेगीत अल्पाहार घेवपांत, अन्न वस्त्र बी गजालींतल्या सादेपणांत आनी एकान्तवासाचें आवडींतय ताजो लोकीक आशिल्लो. तो जेन्ना भिक्षुसंघासैत प्रवास करी, तेन्ना खंय तरी गांवाभायर एकाद्र्या उपवनांत वा अशाच दुसऱ्या सोयीच्या जाग्यार राव. रातची ध्यानसमाधी आटपून मध्यम यामांत वैर सांगिल्लेप्रमाण तो सिंहशय्या करी आनी फांतोटेर उठून परतो चंक्रमण करपांत वा ध्यान समाधित निमग्न जाई.

सकाळचो भगवान त्या गांवांत वा शारात चड करून एकटुकोच भिक्षाटणाक वच. वाटेंत वा भिक्षाटणा करताना प्रसंगानुसार गृहस्थांक उपदेस करी. सिगालोवादसुत्त भगवन्तान वाटेंन उपदेसलें आनी कासि-

भारद्वाजसुत्त आनी तशींच दुसरीं सुत्तां भिक्षाटण करीत आसताना उपदेसलीं.

पोटापुरती भिक्षा मेळनाफुडे भगवान गावाभायर वचून एकाद्र्या झाडामुळा वा अशाच एकाद्र्या प्रशस्त सुवातेर वचून जेवण करी आनी विहारांत येवन थोडो वेळ विसव घेवन कांय काळ ध्यानसमाधींत काडी. सांजच्या वेळार गृहस्थ लोक ताका मेळूंक येताले आनी ताजेकडेन धर्मसंवाद करताले. अशाच वेळार सोणदेव, कूटदंड बी ब्राह्मणांनी मोटचा ब्राह्मणसमुदायासंगीत बुद्धाची भेट घेवन धर्मचर्चा केल्याचो दाखलो दीघनिकायांत सांपडटा. ज्या दिसा गृहस्थ ये-नाशिल्ले, त्या दिसा भगवान चड करून वांगडच्या भिक्षूंक धर्मोपदेस करी.

परतो एक दोन दिसांनी भगवान प्रवासाक भायर सर आनी अशे तरेन पूर्वेक भागलपूर, पच्छिमेक कुरूंचें कल्माषदम्य म्हळ्ळें शार, उत्तरेक हिमालय आनी दक्षिणेक विंध्य, ह्या चतुःसीमांच्या वाठारांत भिक्षुसंघासंगीत आठ म्हैने संचार करी.

## वर्षावास

बुद्ध भगवंतान उपदेसाक आरंब केलो तेन्ना ताजे भिक्षू पावसाळ्यांत एके सुवातेर राव नाशिल्ले. चारय दिकांनी भोंवत उपदेस करताले. हेरा संप्रदायांचे श्रमण पावसाळ्यांत एके सुवातेर रावताले जाल्ल्यान साधारण लोकांक बुद्धाच्या भिक्षूंचें हे वर्तन आवडलें ना. ते भिक्षूंचेर टीका करूंक लागले; तेन्ना तांच्या समाधानाखातीर बुद्ध भगवन्तान, भिक्षूंनी पावसांतले निदान तीन म्हैने एके सुवातेर रावचें, असो नेम केलो.[६]

महावग्गात वर्षावासाची जी कथा आयल्या, तिजो हो सारांश. परंत ही कथा सर्वशी बरोबर आसत अशें दिसना. एक तर सगळे श्रमण पावसाळ्यांत दिशांत एकाच जाग्यार रावताले अशें न्हय, आनी भगवन्तान केल्या नेमाकय

६. बौद्ध संघाचा परिचय पृ. २८.

जाय ते आडवाद आसात. चोरांचो वा असोच दुसरो उपद्रव निर्माण जालो जाल्यार पावसाळयांत भिक्षूंच्यान दुसरेकडेन वचुं येता.

बुद्ध भगवन्तान उपदेसाक सुरवात केली, तेन्ना -जी व्हडलीशी नामना नाशिल्ल्यान ताका वा तागेल्या भिक्षुसंघाक वर्षावासाखातीर एके सुवांतेर रावप शक्य नाशिल्लें. जेन्ना ताजी चोंशीय नामना जाली, तेन्ना आरंबाक अनाथपिंडिक श्रेष्ठीन श्रावस्तीशेजारच्या जेतवनांत ताजेखातीर एक व्हडलो विहार बांदलो.[७] आनी कांय काळान विशाखा नावांचे उपासिकेन त्याच शारालागसार पूर्वाराम नावांचो वाडो बांदून बौद्ध संघाक अर्पण केलो. बुद्ध भगवान उत्तर वयात चडसो ह्या दोन जाग्यांनी पावसाळयात रावतालो. हेरकडच्या उपासकांनी आमंत्रण दिलें जाल्यार पावशा दिसांनी भगवान बुद्ध तांच्या गांवातय वतालो जावये. पावसाळयां पुरत्यो खोंपी बांदून लोक भिक्षूंच्या रावपाची सोय करताले. भगवन्ताखातीर वेगळी खोंप आसताली. तिका गंधकुटी म्हण्टाले.

पावसाळयांत आजूबाजूचे उपासक बुद्धाच्या दर्शनाक येताले आनी तागेलो धर्मोपदेस आयकताले. परंत ते सदांच भिक्षा विहारात हाडून दीनाशिल्ले. भिक्षूंक आनी बुद्ध भगवन्ताक रविशेंप्रमाण भिक्षाटणाक वचचें पड; गृहस्थागेर आमंत्रण क्वचितच आसतालें.

## जोरान आशिल्ल्या भिक्षूंची वासपूस

भिक्षूंपैकी कोणय जोरान पडलो, जाल्यार बुद्ध भगवान दनपरां ध्यानसमाधी आटपून ताज्या समाचाराक वतलो. एकदां महाकाश्यप राजगृहाक फप्फली धोलींत जोरान पडिल्लौ. तेन्ना भगवान वेळुवनांत रावतालो; आनी तो महाकाश्यपाच्या समाचाराक गेल्याची कथा बोज्झंगसंयुत्ताच्या चौदाव्या सुत्तात आयिल्ली आसून पंदराव्या सुत्तांत दुसऱ्या एका प्रसंगार भगवान महामोग्गल्लानाच्या समाचाराक गेल्याची कथा आसा. ह्या दोगांकय

७. बुद्धलीलासारसंग्रह, पृ. १६७–१७९.

भगवन्तान सात बोध्यंगांची याद करून दिली आनी ताका लागून तांचो जोर देंवलो.

## कांय दिसांचो एकान्तवास

भगवान प्रवासांत आसलो कितें, वा पावसाळयांत एके सुवातेर रावलो कितें, दनपारची एकदोन वरां आनी रातच्या पैल्या आनी निमाण्या यामांत बरोच वेळ ध्यानसमाधींत काडटालो, हें वैर सांगलांच. त्याभायर, भगवान एक फावट वैशाली शेजारच्या महावनातले कूटागार शाळेंत रावतालो तेन्ना एक पंदरस एकान्तात रावलो. भिक्षा घेवन येवपी एका भिक्षूक तितली ताणे म्हन्यात येवपाची परवानगी दिल्ली, अशी कथा आनपानस्मृतिसंयुत्तांच्या णव्या सुत्तांत आयल्या. ह्याच संयुत्ताच्या इकराव्या सुत्तांत मजकूर आसा तो असो –

एका समयार भगवान इच्छानंगल गांवालागशिल्ल्या इच्छानंगल वनांत रावतालो. थंय भगवन्तान भिक्षूंक म्हळें, "भिक्षूनो, हांव तीन म्हैनेपर्यंत एकान्तात रावतलों म्हण्टा–म्हजेसरीं पिंडपात हाडपी भिक्षू-बगर दुसऱ्या कोणेंय येवचें न्हय." ह्या तीन म्हैन्यांउपरान्त भगवान एकांतांतल्यान भायर आयलो आनी भिक्षूंक ताणें म्हळें, "जर अन्य संप्रदायांतले परिव्राजक तुमकां विचारतीत कि, ह्या वर्षाकाळात भगवान खैंची ध्यानसमाधी करतालो? तर तांकां सांगात, भगवान आनापानस्मृतिसमाधी[८] करून राविल्लो."

वेल्या सुत्तांतय भगवान पंदरा दीस आनापानस्मृतिसमाधी करतालो अशें म्हळां. हाजो अर्थ इतलोच कि, ते समाधीचें म्हत्व लोकांक समजुंचें.

---

८. आन म्हळचार आस्वास आनी अपान म्हळचार प्रस्वास. तांचेर साधपी समाधीक आनापानस्मृतिसमाधी म्हण्टात. तिजें विधान समाधीमार्गांत आयलांच. समाधीमार्ग, पृ. ३८–४८.

पंदरा दीसच न्हय तर तीन म्हैने पसून तिजी भावना केली, जाल्यार उबगण येना आनी तिका लागून शरिराचें आरोग्य बरें उरता.

दुसऱ्या एका प्रसंगार भगवान भिक्षुसंघांक सोडून एकटोच परिलेय्यक वनांत वचून राविल्ल्याचो उल्लेख सव्या प्रकरणांत (पृ. १४८) आयलाच. हाजेवेल्यान अशें दिसता कि, भगवान केन्ना, जंय आपणांक कोणच वळखना, अशे सुवातेर वचून एकान्तात रावतालो. पुण जेन्ना ताजी सर्वत्र ख्याती जाली आनी सगळे लोक ताका वळखूंक लागले, तेन्ना संघात आसतानाच कांय काळ संघापसून अलिप्त रावपाचो उपक्रम ताणे सुरू केलो जावये. परंत ताज्या पंचेचाळीस वर्सांचे कारकीर्दीत अशे प्रसंग चडशे नासतले.

आजकाल कायाकल्पाचो जायतो गवगवो जाला. म्हैनो दोन म्हैने मनशाक एके कुडींत कोंडून आनी पथार दवरून वखदविरसद करतात ताकालागून मनीस परतो तरणो जाता असो समज आसा. ह्या कायाकल्पाचो आनी भगवन्ताच्या एकांतवासाचो संबंद ना. कित्याक म्हळचार ते अवधींत भगवान वखदविरसद घे नाशिल्लो. फक्त आनापानस्मृतिसमाधीची भावना करतालो.

एकान्तात पुस्कळ काळ रावपाची प्रथा सैलावांत, ब्रह्मदेशांत वा सयामांत क्वचितच सांपडटा; पुण तिबेटांत मात ती चालू आसा. इतलेंच हय, तर कांयकडेन तिजो अतिरेक जाल्लो दिसून येता. कांय तिबेटी लामा वर्सांचीं वर्सां एकाद्रे धोलींत वा अशेच दुसरे सुवातेंत आपणांक कोंडून घेतात आनी सगळ्यो सिद्धी मेळौपाचो यत्न करतात.

## जोरजाळ

भगवान जोरान आशिल्ल्याचो उल्लेख खूबच थोडेकडेन सांपडटा. एक फावट राजगृहालागशिल्ल्या वेळूवनांत तो बरो नाशिल्लो. ताका महाचुंदान ताजे

सांगणेन सात बोध्यगां म्हणून दाखैलीं आनी तितल्यान तो बरो जालो, अशी कथाबोज्झंग संयुत्ताच्या सोळाव्या सुत्तांत सांपडटा.

विनयपिटकांतल्या महावग्गांत भगवानाच्या जिवाक मात्शें बरें नाशिल्लें आनी ताका जीवक कौमारभृत्यान भायरी दिली असो उल्लेख आसा.[१] चुल्लवग्गांत देवदत्ताची कथा आसा. ताणें गृध्रकूट पर्वता-वेल्यान भगवन्ताचेर एक खडप धुकलून उडैली. तिजे कुडके कुडके जावन एक चीप भगवन्ताच्या पायांक लागलें आनी ताज्या घायान भगवान बरो नाजालो. देवदत्त भगवंताचो खून करीत, अशें भंय दिसून कांय भिक्षूंनी भगवान रावतालो ताज्या आसपास पारो करपाक सुरवात केली. तांगेली हालचाल पळौन भगवन्तान आनंदाक म्हळें, "हे भिक्षू हांगा अशें कित्याक भोंवतात?" आनंदान जाप दिली, "भदन्त, देवदत्ताकडल्यान तुमच्या शरिराक अपाय जावचो न्हय म्हणून हे भिक्षू हांगा पारो करीत आसात."

भगवन्तान आनंदाक धाडून त्या भिक्षूंक आपौन हाडले आनी तांकां म्हळें, "म्हज्या, देहाची इतली जतनाय घेवपाचे कांय कारण ना. म्हज्या शिष्यापसून म्हजें रक्षण जावचें, अशी अपेक्षा ना. तेन्ना तुमी हांगा पारो करपाचें थांबौन आपापल्या कामाक लागचें."

ह्या विनयपिटकांतल्या गजालींक सुत्तपिटकांत आधार सांपडना. भायरेची खबर तर सामकीच सादी; आनी देवदत्ताची कथा ताका सामको अधम थारावंक घडल्या जावये. एक वेळ ती खरी आसली, तरी त्या घायान भगवान चंड दीस आजारी आशिल्लो अशें दिसना. असले हे ल्हानसान जोरजाळ सोडल्यार बुद्ध जायतमावन भगवंताची बलायकी एकंदरीत बरी आशिल्ली अशें म्हणपाक हरकत ना.

---

१. बौद्धसंघाचा परिचय, पृ. ३४.

## बलायकेचें कारण

बुद्ध भगवान आनी ताजे शिष्य मगल्या जातींच्या लोकांनी दिल्ली भिक्षा घेताले आनी दिसांतल्यान एकच फावट जेवताले. अशें आसून तांचें आरोग्य बरें उरून चर्या प्रसन्न दिसताली. हाचें कारण सकल्या काल्पनिक संवादांत दिलां.

(प्रस्न–) अरञ्ञे विचरन्तानं सन्तानं ब्रह्मचारिनं ।
एकभत्तं भुञ्जमानानं केन वण्णो पसीदति ।।

'अरण्यांत रावतात, ब्रह्मचर्यान वागतात आनी एक फावट जेवतात, अशें आसून साधूंची कांति प्रसन्न कशी ?'

(उत्तर –) अतीतं नानुसोचन्ति नप्पजप्पन्ति नागतं ।
पच्चुपन्नेन यापेन्ति तेन वण्णो पसीदति ।।

'जावन गेल्ल्या गजालींचो शोक करिनात, फाल्यां जातीत अशा गजालींची बडबड करिनात आनी वर्तमान काळांत संतोषान वागतात म्हणून कांती प्रसन्न उरता'.[१०]

## निमाणें दुखणें

बुद्ध भगवन्ताच्या निमाण्या दुखण्याचें वर्णन महापरिनिब्बानसुत्तांत आयलां.[११] त्या पावसाळ्याआदीं भगवान राजगृहाक आशिल्लो. थैंच्यान व्हडल्या भिक्षुसंघासैत प्रवास करीत तो वैशालीक आयलो आनी शेजारच्या बेलुव म्हळ्ळ्या गांवांत वर्षावासाखातीर रावलो. भिक्षूंक सोयीप्रमाण वैशालीच्या आसपास रावपाक ताणे परवानगी दिली. त्या पावसाळ्यांत भगवंताक आकांताळें वायट जालें. परंत ताणें आपली जाग्रुताय धळूक दिली ना. भिक्षुसंघाक पळेल्याबगर परिनिर्वाण पावप ताका योग्य दिसलें ना; आनी त्याप्रमाण तें वायट सोंसून आपल्या आयुष्याचे कांय दीस वाडैले. ह्या वायटांतल्यान भगवान बरो जालो, तेन्ना आनंदान ताका

---

१०. देवतासंयुत्त, वग्ग १, सुत्त १०.

११. बुद्धलीलासारसंग्रह, पृ. २९२–३१२.

म्हळें, " भदन्त, तुमी वायटांतल्यान उठले हें पळौन म्हाका सू जालें. तुमच्या ह्या वायटाक लागून म्हजो जीव दुबळो जालो, म्हाका कितेंच सुचना जालें आनी धर्मोपदेसाची पसून विसर पडूंक लागली. तरी लेगीत भगवान भिक्षुसंघाक निमाण्यो गजाली सांगल्याबगर निर्वाणाक वचचें नात, अशी म्हाका आशा दिसताली."

भगवान – आनंदा, भिक्षुसंघ, म्हजेकडल्यान खैंच्यो गजाली समजून घेवंक सोदता? म्हजो धर्म हांवें उकतो करून सांगला. तातूंत हातचो असो दवरूंक ना; ज्याका आपणें भिक्षुसंघाचो मुखेली उरचें आनी भिक्षुसंघान आपल्याचेर अवलंबून आसचें अशें दिसता, तोच भिक्षुसंघाक निमाण्यो कांय गजाली सांगतलो. पुण हे आनंद, तथागताचो भिक्षुसंघाचो मुखेली जावपाची वा भिक्षुसंघ आपल्याचेरच पातयेवन उरचो अशी इत्सा ना. तेन्ना तथागत अखेरेक भिक्षुसंघाक कसली गजाल सांगतलो? हे आनंदा, हांव आता जराजर्जर जालां. म्हाका ऐशीं वर्सां जालीं. मोडको खटारो जसो कोंडच्याच्या कामटयांच्या आधारान कसोयतरी चलता, तशी म्हजी कूड कशीबशी चलता. जेन्ना हांव निरोध समाधीची भावना करतां, तेन्नाच मात म्हज्या देहाक बरें दिसतां. म्हणून, आनंदा, आता तुमी स्वताचेरच अवलंबून रावात. आत्म्याकच जुंवो करात. धर्माकच जुंवो करात; आत्म्याकच शरण वचात आनी धर्माकच शरण वचात.

अशी स्थिती आसूनय भगवान बेलुव गांवच्यान परतो वैशालीक आयलो. थंय आनंदाक धाडून ताणें भिक्षुसंघाक महावनांतलें कूटागार शाळेंत पुंजा केलो आनी ताका बरोच उपदेस केलो. त्या उपरान्त भगवान भिक्षुसंघासैत भांडग्राम, हस्तिग्राम, जंबुग्राम, भोगनगर बी जाग्यांनी प्रवास करीत पावा नांवाच्या नगराक येवन चुंद मेस्ताच्या आम्रवनांत वस्तीक रावलो. चुंदागेर भगवन्ताक आनी भिक्षुसंघाक आमंत्रण आशिल्लें. चुंदान जें परखन्न केल्लें, तांतूंत 'सूकरमद्दव' नावाचो एक पदार्थ

आशिल्लो.[१२] तो भगवन्तान खायनाफुडें भगवान निर्मोळेन आजारी जालो. तरी लेर्गात त्यो कळो सोंसून भगवन्तान कुकुत्था आनी हिरण्यवती ह्यो दोन न्हयो बालांडल्यो आनी कुसिनारेमेरेन प्रवास केलो. थैंच्या, मल्लांच्या शालवनांत ते रातीचे पच्छिम यामांत बुद्ध भगवान परिनिर्वाण पावलो.

अशे भशेन भगवन्ताचे अत्यंत उद्‌बोधक आनी कल्याणप्रद जिणेचो अंत जालो. तरीपुण तिजे सुपरिणाम वेगवेगळ्या तरांनी आजतगायत घडत आयल्यात आनी तशेच ते फुडेंय मनीसजातीच्या इतिहासांत घडत उरतले.

---

१२. ह्या जिनसांसंबंदानची चर्चा फाटल्या प्रकरणाचे सुर्वेक आयल्या ती थंय वाचची.



## परिशिष्ट पयलें

# गोतम बुद्धाच्या चरित्रांत भरसल्ले महापदानसुत्ताचे खंड

अपदान (सं. अवदान) म्हळचार सच्चरित्र. अर्थात् महापदान म्हळचार व्हडांचीं सच्चरित्रां. महापदान सुत्तांत गोतम बुद्धाआदीं जाल्ले सं बुद्ध आनी गोतम बुद्ध हांचीं चरित्रां आरंबाक थोडे भितर दिल्यांत. गोतम बुद्धाआदीं विपस्सी, सिखी, वेस्सभू, ककुसंघ, कोणागमन आनी कस्सप अशे सं बुद्ध जाले. पैकीं पैले तीन क्षत्रिय आनी बाकीचे ब्राह्मण आशिल्ले. तांचीं गोत्रां, आयुर्मर्यादा, ते ज्या रूखामुळा बुद्ध जाले त्या रूखांची नांवां, तांचे दोन मुख्य शिष्य, तांच्या संघात भिक्षुसंख्या कितली आशिल्ली, तांचें उपस्थायक (सेवकभिक्षु), आवय बापूय, त्या काळचे राजा आनी राजधाटणां, हांची नांवां ह्या सुत्ताच्या आरंबाक दिल्यांत; आनी उपरान्त विपस्सी बुद्धाचे चरित्र विस्तारान वर्णिलां. त्या पौराणिक चरित्रांचे जे खंड गौतम बुद्धाच्या चरित्राक जोडल्यात, ताजो गोषवारो हांगा दितां.[1]

१

भगवन्तान म्हळें, " ह्या पैलीच्या एकोण्णव्याव्या कल्पांत अर्हत सम्यक संबुद्ध विपस्सी भगवान हे लोकीं जल्मलो. तो जातीन क्षत्रिय आनी गोत्रान कौडिन्य आशिल्लो. ताजी आयुर्मर्यादा ऐंशी हजार वर्सां आशिल्ली. तो पाटली वृक्षामुळा अभिसंबुद्ध जालो. ताजे खंड आनी तिस्स अशे दोन अग्रश्रावक आशिल्ले. ताज्या शिष्यांचे तीन समुदाय, पैल्यांत आडसट

---

१. ह्या सगळ्या सुत्तांचें भाषांतर चिं. वैं. राजवाडेकृत दीघनिकाय भाग २, (ग्रंथ संपादक व ग्रंथ प्रकाशक मंडळी, नं. ३८० ठाकुरद्वार रोड रोड, मुंबई २) त दिलां.

लाख, दुसऱ्यांत एक लाख आनी तिसऱ्यांत ऐंशी लाख भिक्षू आसून ते सगळे क्षीणाश्रव आशिल्ले. अशोक नावाचो भिक्षू ताजो अग्रउपस्थायक, बंधुमा नांवाचो राजा बापूय आनी बंधुमती नांवाची राजधानी आशिल्ली.

२

(१) आनी भिक्षूंनो, विपस्सी बोधिसत्व तुषित देवलोकांतल्यान च्युत जावन स्मृतिमान जागृत असो आवयच्या पोटांत प्रविष्ट जालो. हो हांगा स्वभावनियम.

२) भिक्षूनो, जेन्ना बोधिसत्व तुषित देवलोकांतल्यान च्युत जावन आवयच्या पोटांत प्रवेश करता, तेन्ना देव, मार, ब्रह्मा, श्रमण, ब्राह्मण आनी मनीस हांणीं भरिल्ल्या ह्या संसारांत देवांच्या प्रभावाक फाटी, घालपी असो अप्रमाण आनी विपुल अलीक प्रादुर्भूत जाता. निरनिराळ्या जगतांमजगतचे प्रदेश जे निरंतर काळखान भरिल्ले आनी काळेंकिट्ट आसतात, जंय इतल्या प्रतापी आनी महानुभाव चंद्रासूर्यांचो प्रभाव पडना, थंयपसून देवांच्या प्रभावाक फांटी घालपी अप्रमाण आनी विपुल उजवडा प्रादुर्भुत जाता. त्या देशांत उत्पन्न जाल्ले प्राणी त्या उजवाडान एका-मेकांक पळौन आपले शिवाय दुसरेय प्राणी थंय आसात अशें जाण्टात. हो धा हजार जगतांचो समुदाय हालूंक लागता आनी त्या सगळ्या जग-तांक देवांच्या प्रभावाक फाटी घालपी अप्रमाण आनी विपुल उजवाड प्रादुर्भुत जाता, असो हो स्वभावनियम.

३) भिक्षूंनो, असो स्वभावनियम आसा कि, जेन्ना बोधिसत्व आव-यच्या पोटांत प्रवेश करता, तेन्ना ताका आनी ताज्या आवयक मनीस वा मनशावेगळो अशा कोणाचोच त्रास जावचो न्हय म्हणून चार देवपुत्र तांचे राखणेखातीर चार दिकांक रावतात. असो हो स्वभावनियम.

४) भिक्षूंनो, जेन्ना बोधिसत्व आवयच्या पोटांत प्रवेश करता तन्ना तन्नी आवय स्वभाविकच शीलव्रती आसता; प्राणघात, चोरी, व्यभिचार, असत्य भाषण आनी मद्यपान हांच्यापसून अलिप्त रावता. असो हो स्वभाव-नियम.

५) भिक्षूंनो, जेन्ना बोधिसत्व आवयच्या पोटांत प्रवेश करता, तेन्ना ताज्या आवयच्या अन्तस्करणांत पुरुषांविशीं कामासक्ती उत्पन्न जायना. आनी कोणाच पुरुषाक कामुकचित्तान बोधिसत्वाच्या आवयचें अतिक्रमण करूंक येवप शक्य नासता. हो स्वभावनियम.

६) भिक्षूंनो, जेन्ना बोधिसत्व आवयच्या पोटांत प्रवेश करता, तेन्ना ताज्या आवयक पांच सुखोपभोगांचो लाव जाता. ह्या पंचसुखांनी संपन्न जावन ती तांचो उपभोग घेता. हो स्वभावनियम.

(७) भिक्षूनो, जेन्ना बोधिसत्व आवयच्या पोटांत प्रवेश करता, तेन्ना ताज्या आवयक कसलोच रोग जायना. ती सुखी आनी निरुपद्रवी आसता. आनी आपल्या पोटांत आशिल्ल्या सर्वेन्द्रियसंपूर्ण बोधिसत्वाक पळेता. जसो घासून तयार केल्लो, स्वच्छ, शुद्ध आनी सर्वाकार परिपूर्ण जातिवंत अष्टकोनी वैडूर्यमणी आसचो आनी तांतूत निळो, हळदूवो, तांबडो वा धवो दोरो गुंथलो जाल्यार तो मणी आनी तांतूत ओंविल्लो दोरो, दोळे आशिल्ल्या मनशाक स्पष्ट दिसता. त्या प्रमाण बोधिसत्वाची आवय आपल्या पोटांतल्या बोधिसत्वाक स्पष्ट पळेता. असो हो स्वभावनियम.

८) भिक्षूंनो, बोधिसत्व जल्मून सात दिस जातकच ताजी आवय भायर पडटा आनी तुषित देवलोकांत जल्म घेता असो हो स्वभावनियम आसा.

९) भिक्षूनो, ज्याप्रमाण हेर बायलो णव्या वा धाव्या म्हैन्यात वाळन्त जातात तशी बोधिसत्वाची आवय बाळन्त जायना. बोधिसत्वाक धा म्हैने पुरते जातकच ती वाळन्त जाता असो हो स्वभावनियम.

१०) भिक्षूनो, ज्याप्रमाण हेर बायलो बशिल्ल्यो आसताना वा न्हिदिल्ल्यो आसताना वाळन्त जातात त्याप्रमाण बोधिसत्वाची आवय वाळन्त जायना. ती उबी आसताना वाळन्त जाता, असो हो स्वभावनियम.

११) भिक्षूनो, बोधिसत्व आवयच्या पोटांतल्यान भायर सरता, तेन्ना पयलीं ताका देव घेतात आनी मागीर ताका मनीस घेतात. असो हो स्वभावनियम.

१२) भिक्षूंनो, बोधिसत्व आवयच्या पोटांतल्यान भायर येता तेन्ना जमनीर पडचे पैलीं चार देवपुत्र ताका घेतात आनी आवयच्या मुखार दवरून म्हण्ता, " देवी, आनन्द मान, तुका महानुभाव पूत जाला. " असो हो स्वभावनियम.

(१३) भिक्षूंनो, बोधिसत्व आवयच्या पोटांतल्यान भायर सरता तेन्ना पोटांतले उदक, सैंत, रगत वा हेर अळशीकेन साड्डल्लो नासता; शुद्ध आनी निवळ असो तो भायर येता. भिक्षूंनो, रसमी लुगटाचेर मोला-दीक मणी दवल्लो जाल्यार तो तें लुगट म्हेळ करिना वा तें लुगट त्या मणयांक मळीण करिना, कारण तीं दोनय शुद्ध आसतात. त्याचप्रमाण बोधिसत्व भायर सरता तेन्ना शुद्ध आसता. असो हो स्वभावनियम.

(१४) भिक्षूंनो, बोधिसत्व आवयच्या कुसव्यांतल्यान भायर सरता, तेन्ना मळबांतल्यान एक शितळ आनी दुसरी हून अशो उदकाच्यो धारो सकल येतात आनी त्यो बोधिसत्वाक आनी ताज्या आवयक धुवन काडटात. असो हो स्वभावनियम.

(१५) भिक्षूंनो, जायनाफुडें बोधिसत्व सरळ पांयार उबो रावन उत्तरेकडेन सात पावलां चलता—तेन्ना ताजेर धवें छत्र धरिल्लें आसता—आनी सगळ्या दिशांकडेन पळौन तो गर्जता, " हांव जगांत अग्रगामीं आसां; जेष्ठ आसां; श्रेष्ठ आसां; हो निमाणो जल्म; आतां परतो जल्म ना " असो हो स्वभावनियम.

(१६) भिक्षूंनो, बोधिसत्व आवयच्या पोटांतल्यान भायर सरता तेन्ना देव, मार, ब्रह्मा (फुडलो मजकूर कलम २ प्रमाण)..........

३

भिक्षूंनो, विपस्सी कुमार जल्माक येनाफुडें बंधुमा राजाक कळीत जालें कि, "म्हाराज, तुमकां पूत जाला, ताका तुमी पळौचो." भिक्षूंनो, बंधुमा राजान विपस्सी कुमाराक पळेलो आनी ज्योतिषी ब्राह्मणाक आपौन ताजी लक्षणां पळौंक सांगलीं.

ज्योतिषांनी म्हळें, "म्हाराज, खुशालभरीत जायात; तुमकां महानुभाव पूत जाला. तुमच्या कुळांत असो पूत जालो हें तुमचें व्हडलें भाग्य. हो कुमार महापुरुषाच्या बत्तीस लक्षणांनी संपन्न आसा. अशा, महापुरुषाच्यो दोनच गती जातात, तिसरी जायना. तो जर गृहस्थाश्रमांत रावलो जाल्यार धर्मनिष्ठ, धर्मराज, चारय समुद्रामेरेनचे पृथ्वीचो धनी, राज्यांत थंडाय स्थापन करपी, सात रत्नांनी संपन्न असो चक्रवर्ती राजा जाता. तांगेलीं सात रत्नां हीं – चक्ररत्न, हस्तिरत्न, अश्वरत्न, मणिरत्न, स्त्रीरत्न, गृहपतिरत्न आनी सातवे परिणायकरत्न.[२] (मुख्यप्रधान). ताका हजारावैर शूरवीर, शत्रुसैन्यांक ना करपी अशे पूत जातात. तो समुद्रामेरेनची ही पृथ्वी दंडाबगर आनी शस्त्राबगर धर्मान जिखून राज्य करता. परन्त जर ताणे प्रव्रज्या घेतली जाल्यार तो ह्या संसारात अर्हन सम्यक् संबुद्ध आनी अविद्येचे आवरण ना करपी जाता.

म्हाराज, तीं बत्तीस लक्षणां खैंची तीं आयकात. (१) हो कुमार सुप्रतिष्ठितपाद आसा; (२) ताज्या पायांच्या तळव्यामुळा सहस्र आरे, नेमि आनी नाभि हांणी संपन्न आनी सगळ्या आकारांनी परिपूर्ण अशी चक्रां आसात; (३) ताज्यो चांटो लांब आसात; (४) बोटां लांब आसात; (५) हातपाय मोव आनी कोंवळे, (६) जाळ्यासारखे; (७) पायाचे घोटे शंकूसारके वाटकुळे; (८) जांगो हरणाच्या जांगांभशेन; (९) उबो रावन बागवनासताना तळठांनी ताज्यान आपल्या धोपरांक हात लाव येता, तो तीं चोळूंक शकता; (१०) ताजे वस्त्रगुह्य कोशान धांकिल्लें आसा; (११) ताजी कांत भांगराभशेन; (१२) कात तलम आशिल्ल्यान ताज्या शरिराक धूळ लागना; (१३) ताज्या रूमांतल्यान एक एकच ल्हंव आयिल्ली आसा; (१४) ताजे केंस ऊंच तोकाचे निळे, काजकशे, कंग्रे आनी उजवे वटेयां वळिल्ले आसात; (१५) ताजी गात्रां सरळ आसात; (१६) ताजे शरिराचे सात भाग भरीव आसात; (१७)

---

२. परिणायक म्हळ्यार मुख्य प्रधान.

ताज्या शरिराचो फुडलो अर्दो भाग शिवाच्या फुडल्या भागाभशेन आसा; (१८) ताजो खांदो भरींव आसा; (१९) तो न्यग्रोध वृक्षाभशेन वाटकुळे आसा; जेदी ताजी लांबाय तितलो ताजो परिघ आनी जितलो परिघ तितली लांबाय; (२०) ताजे खांद बेस बरे वळींव आसात; (२१) ताजी रसना उत्तम आसा; (२२) खाडकी शिवाच्या खाडकेभशेन आसा; (२३) ताका चाळीस दांत आसात; (२४) ते सरळ आसात; (२५) ते गच्च आसात; (२६) ते धवेफुल्ल आसात; (२७) ताजी जीब लांब आसा; (२८) तो ब्रह्मस्वर आसून करवीक पक्ष्याच्या स्वराभशेन ताजो ताळो मंजूळ आसा; (२९) ताज्यो मंडोळचो निळचो आसात; (३०) गायच्या पातयांभशेन ताज्यो पातयो आसात; (३१) ताज्या भोंवयांमदीं मोव कापसाची तांत कशी धवी ल्हव आयिल्ली आसा; (३२) ताजी तकली उष्णीषाकार (म्हळ्यार मदी मात्सी उंच) आसा;

४

उपरान्त भिक्षूंनो, बंधुमा राजान विपस्सीकुमाराखातीर तीन राजवाडे बांदून घेतले; एक पावसाळ्याखातीर, एक शियांच्या दिसांखातीर आनी एक गिमाखातीर; आनी त्या राजवाड्यांत पंचेंद्रियांच्या सुखांचे सगळे पदार्थ दवरूंक लायले. भिक्षूंनो, पावसाळ्याखातीर बांदिल्ल्या. राजवाड्यात विपस्सीकुमार पावसाचे चार म्हैने केवळ बायलांनी वाजैल्ल्या वाजंत्रांनी वेष्ठित जावन रावतालो. राजवाड्यांतल्यान सकल देवनाशिल्लो.

५

आनी भिक्षूंनो, हजारांनी वर्सां उपरांत विपस्सी कुमारान सारथ्याक आपौन म्हळें, "मित्रा सारथ्या, बरीं बरीं वाहनां तयार दवर. सैमाची सोब पळोंवक उद्यानांत वचूंया." सारथ्यान वाहनां तयार केलीं आनी विपस्सी कुमार रथांत बसून उद्यानाकडेन वचपाक भायर सल्लो. वाटेंत गोपानसीभशेन बागवल्ले गलितगात्र, बडी तेंकैत थरथरत चलपी पिडेखोर अशा

एका म्हाताऱ्या मनशाक पळौन ताणे सारथ्याक म्हळें, "ह्या मनशाची अशी गत कशी जाली? हाजे केंस आनी शरीर हेरांभशेन नात."

सा. – म्हाराज, हो मनीस म्हातारो.

वि. – मित्रा सारथ्या, म्हातारो म्हळ्यार?

सा. – म्हातारो म्हळ्यार तो चड दिस जगपाचो ना.

वि. – हांवय असोच जराधर्मी मू?

सा. – म्हाराज, आमी सगळेच जराधर्मी.

वि. – तर मागीर सारथ्या, आता उद्यानाकडेन वचप नाका. परत वाडयांत वचूंया.

सा. – बरें, म्हाराज!

अशें म्हणून सारथ्यान अंतःपुराकडेन रथ परतिलो. थंय विपस्सी-कुमार दुखेस्त आनी उद्विग्न जावन येवजूंक लागलो कि, धिग् हो जल्म ज्याका लागून म्हातारपण येता!

बंधुमा राजान सारथ्याक आपौन म्हळें, "मित्रा सारथ्या, कुमार उद्यानांत रमलो मू? थंय ताका आनन्द जालो मू?

सा. – ना, म्हाराज.

राजा – कित्याक? ताणे उद्यानाकडेन वतना कितें पळेलें?

सारथ्यान घडिल्ले वर्तमान निवेदन केलें. तेन्ना बंधुमा राजान विपस्सीकुमार परिव्राजक जावं नये म्हणून ताजीं पंचेंद्रियांचीं सुखां अदीकच वाडैलीं आनी विपस्सी त्या सुखांत गुल्ल उल्लो.

आनी भिक्षूनो शेकडयांनी हजार वर्सां उपरांत विपस्सीकुमार, परतो उद्यानाकडे वचपाक भायर सल्लो. वाटेंत रोगयाळो, पिडेस्त खूब आजारी, आपल्याच मलमूत्रांत लोळपी, दुसऱ्यान उठौंचो पडटालो आनी ज्याचीं वस्त्रां दुसऱ्याक सांवरचीं पडटालीं अशा एका मनशाक पळौन ताणे सारथ्याक म्हळें, "हाका जालां कितें? हाजे दोळे ह्रांव, ताळो जांव, हेरा भशेन न्हय!"

सा. – हो रोगी.

वि. – रोगीं म्हळचार?

सा. – रोगी म्हळचार हे स्थितींत ताका पैलीभशेन वागूंक जमना.

वि. – मित्रा सारथ्या, हे भशेन हांवय व्याधिधर्मी मू?

सा. – म्हाराज, आमी सगळेच व्याधिधर्मी.

वि. – तर मागीर आता उद्यानाकडेन वचप नाका; अंतःपुराकडेन रथ फिराय.

त्याप्रमाण सारथी रथ घेवन अंतःपुराकडेन आयलो आनी थंय विपस्सीकुमार दुखेस्त आनी उद्विग्न जावन येवजणुकेंत पडलो कि, ज्याका लागून व्यधि प्राप्त जाता, धिक् तो जल्म!

सारथ्याकडल्यान बंधुमा राजाक हे वर्तमान समजले, तेन्ना ताणे विपस्सीकुमाराचीं सुखसाधना आनीकय वाडैली, कित्याक तर कुमारान राज्य सोडून प्रव्रज्या घेवची न्हय.

आनी भिक्षूनो, शेकडयांनी हजार वर्सांउपरान्त विपस्सीकुमार पैलीभशेनच तयारी करून उद्यानाकडेन वचूंक भायर सल्लो. वाटेंत, लोकांचो एक मोटो जमो रंगीबेरंगी वस्त्रांची पालखी तयार करी तें ताणे पळेलें आनी सारथ्याक म्हळें, “हे लोक रंगीबेरंगी वस्त्रांची पालखी कित्याक तयार करतात?”

सा. – म्हाराज, हांगा हो मेल्लो मनीस आसा (ताजेखातीर).

वि. – तर मागीर रथ त्या मेल्ल्या मनशासरीं व्हर.

त्याप्रमाण सारथ्यान रथ थंय व्हेलो आनी त्या मेल्ल्या मनशाक पळौन विपस्सीन म्हळें, “मित्रा सारथ्या, मेल्लो म्हळचार?”

सा. – तो आता आवय बापायक वा हेर सोयऱ्यांक दिष्टि पडचो ना वा तोय तांकां पळौंक पावचो ना.

वि. – मित्रा, सारथ्या, हांवय मरणधर्मी मू? राजा, राणी आनी दुसरे नातेवर्गी हांकां दिष्टि हांव पडचो ना मू? आनी हांवय तांकां पळौंक पावचों ना मू?

सा. – ना, म्हाराज.

वि. – तर मागीर आता उद्यानाकडेन वचप नाका. अंतःपुराकडेन रथ फिराय.

त्या प्रमाण सारथ्यान रथ अंतःपुराकडेन व्हेलो. थंय विपस्सीकुमार दुखेस्त आनी उद्विग्न जावन येवजणेंत पडलो कि, धिक् हो जल्म ज्याका लागून जरा, व्याधि, मरण प्राप्त जातात!

सारथ्याकडल्यान बंधुमा राजाक हें वर्तमान समजलें, तेन्ना ताणे कुमाराचीं सुखसाधनां आनीकय वाडैलीं. इत्यादी.

आनी भिक्षूनो, शेंकडयांनी हजार वर्सांउपरांत परतूनय सगळी सिद्धता करून विपस्सीकुमार सारथ्याबरोबर उद्यानाकडेन वचूंक भायर सल्लो. वाटेंत एका परिव्राजकाक पळौन ताणे सारथ्याक म्हळें, " हो पुरुष कोण? हाजी तकली आनी वस्त्रां हेरां भशेन नात."

सा. – म्हाराज, हो प्रव्रजित.

वि. – प्रव्रजित म्हळयार?

सा. – प्रव्रजित म्हळयार, धर्मचर्या बरी, समचर्या बरी, कुशलक्रिया बरी, पुण्यक्रिया बरी, अविहिंसा बरी, भूतदया बरी, अशें समजुपी.

वि. – तर मागीर रथ ताजेंसरीं व्हर.

त्याप्रमाण सारथ्यान रथ प्रव्रजिताकडेन व्हेलो, तेन्ना विपस्सी-कुमारान ताका म्हळें, " तू कोण? तुजें माथें आनी वस्त्रां हेरां भशेन नात.'

प्र. – म्हाराज, हांव प्रव्रजित. धर्मचर्या, समचर्या, कुशलक्रिया, पुण्यक्रिया, अविहिंसा, भूतानुकंपा बरी, अशें हांव समजतां.

'बरें आसा', अशें म्हणून विपस्सीकुमारान सारथ्याक म्हळें, " मित्रा सारथ्या, तूं रथ घेवन अंतःपुराकडेन परतो वच. हांव केंस आनी खाडमिशयो तासून आनी भगवीं धारण करून अनागारिक (घर सोडपाची) प्रव्रज्या घेता."

सारथी रथ घेवन अंतःपुराकडेन गेलो. विपस्सीकुमारान थंयच प्रव्रज्या घेतली.

६

आनी भिक्षूंनो, विपस्सी बोधिसत्व एकान्तांत येर्वजिता आसताना ताज्या मनांन विचार आयलो कि, लोकांची अवस्था अत्यंत वायट आसा. ते जल्माक येतात, म्हातारे जातात आनी मरतात; च्युत जातात आनी उपजतात; तरी या दुःखापसून सोडवण कशी करून घेवची हे जाणनात. ते हें केन्ना जाण्टले?

आनी भिक्षूंनो, जरामरण कित्यान उत्पन्न जाता हाजो विपस्सी बोधिसत्व विचार करूंक लागलो तेन्ना ताणे प्रज्ञालाभान जाणलें कि, जल्म आयलो म्हण्टकच जरामरण येता. आनी जल्म कित्यान येता? भवाक लागून. भव कित्याक लागून? उपादानाक लागून. उपादान तृष्णेक लागून, तृष्णा वेदनेक लागून, वेदना स्पर्शाक लागून, स्पर्श षडायतनाक लागून, षडायतन नामरुपाक लागून, नामरूप विज्ञानाक लागून उत्पन्न जाता ही कारणपरंपरा विपस्सी बोधिसत्वान क्रमवार जाणली. त्याच प्रमाण जल्म नासत जाल्यार जरामरण येना. भव नासल्यार जल्म जायना.... विज्ञान नासल्यार नामरूप जायना, हें ताणे जाणलें. आनी ताका लागून ताज्या मनांत धर्मचक्षु, धर्मज्ञान, प्रज्ञा, विद्या आनी आलोक (उजवाड) उत्पन्न जालो.

७

आनी भिक्षूंनो, अर्हन् सम्यक् संबुद्ध विपस्सी भगवन्ताच्या मनांत धर्मोपदेस करपाचो विचार आयलो. पुण ताका दिसलें, हो गंभीर, दिसूंक कठीण, समजूंक कठीण, शान्त प्रणीत, तर्कान कळना असो निपुण, पंडितांनीच जाणूंक योग्य असो धर्म हांवें प्राप्त करून घेतला. पुण हे लोक चैनींत गुल्ल जाल्ले, चैनींत रमपी, अशांक कारण परंपरा, प्रतीत्यसमुत्पाद समजप कठीण. सगळ्या संस्कारांचे शमन, सगळ्या उपाधींचो त्याग, तृष्णेचो क्षय, विराग, निरोध, निर्वाणपसून तांकां दुर्गम. हांवें धर्मोपदेस केलो आनी तो तांकां समजलो ना, जाल्यार म्हाकाच त्रास; म्हाकाच उपद्रव.

आनी भिक्षूंनो, विपस्सी भगवन्ताक पैलीं केन्नाच न आयकल्ल्यो फुडल्यो गाथा अकस्मात सुचल्यो --

जे हांवे प्रयासान मेळैलां, तें हेरांक सांगप नाका।
रागद्वेषान भरिल्ल्यांक ह्या धर्माचो बोध सहज जावपासारको ना।।
प्रवाहाच्या उरफाटो वचपी, निपुण, गंभीर, दुर्दर्श आनी अणरूप
असो हो धर्म काळखान रेवडिल्ल्या कामासक्तांक दिसचो ना।।

भिक्षूंनो, अर्हन्त सम्यक् संबुद्ध विपस्सी भगवन्ताचें चित्त ह्या विचारान धर्मोपदेसाकडेन न वळटां एकटुको रावपाकडेन वळलें. महाब्रह्मा तो विचार जाणून आपल्याच मनांत उद्गारलो, "आरेरे! जग नाशाक चल्लें! लयाक चल्लें!! कित्याक म्हळ्यार, अर्हन्त सम्यक् संबुद्ध विपस्सी भगवन्ताचें मन धर्मोपदेस करपाकडेन न वळटां एकटुको रावपाकडेन वळटां."

तेन्ना भिक्षूनो, जसो एकाद्रो बळिष्ट पुरुष आंखडिल्लो हांत सोडटा, वा सोडिल्लो आंखडून घेता, तितल्याच त्वरेन तो महाब्रह्मा ब्रह्मलोकांतल्यान अन्तर्धान जावन विपस्सी भगवन्तामुखार प्रकट जालो आनी आपणालें उपवस्त्र एका खांद्यार उडौन ताणे आपलें उजवें धोंपर जमनीक तेंकैलें आनी हात जोडून भगवन्ताक म्हळें, " भगवान, धर्मदेशना कर! सुगत, धर्मदेशना कर! कांय प्राणी अशे आसात कि, तांचे दोळे धुल्लान भरूंक नात. धर्म आयकूंक न मेळिल्ल्यान ते नाशाक वतात. अशे धर्म समजुपी लोक मेळटले."

विपस्सी भगवन्तान आपल्या मनांतलो विचार तीन फावटी प्रकट केलो आनी ब्रह्मदेवान भगवन्ताक तीन फावटी विनंती केली. तेन्ना भगवन्तान ब्रह्मदेवाची विनंती जाणून आनी प्राण्यांचे काकुळटेक लागून, बुद्धनेत्रांनी जगाचें अवलोकन केलें आनी ज्यांचें दोळे धुल्लान थोडे भल्ल्यात, ज्यांचे चड भल्ल्यात, तीक्ष्णेंद्रियांचें, मोव इंद्रियांचे, बरे आकाराचे, वायट आकाराचे समजपाक सोपे, समजपाक कठीण; आनी कांय परलोकाचें आनी वायट गजालींचें भय बाळगुपी अशे प्राणी ताका दिसले.

ज्याप्रमाण कमळांनी भरिल्ल्या सरोवरांत कांय कमळां उदकाभितरच बुडून आसतात, कांय उदकाच्या सपाटेर येतात आनी कांय उदकांतल्यान वैर आयिल्लीं आसतात, उदकाचो तांकां स्पर्श जायना, तशे प्रकारचे विपस्सी भगवन्तान जिनसवार प्राणी पळेले.

आनी भिक्षूनो, विपस्सी भगवन्ताच्या मनातलो हो विचार जाणून ब्रह्मदेवान फुडल्यो गाथा म्हळ्यो —

" शैलाचेर, पर्वताच्या मस्तकाचेर उबो रावन ज्याप्रमाण भौंव-तणच्या लोकांकडेन पळौचें, त्याप्रमाण हे सुमेध, धर्मप्रासादाचेर चडून आसमन्त पळौंपी असो तू शोक सोडून जल्म आनी जरा हांणी पिडिल्ल्या जनाकडेन पळे! ॥

" वीरा, ऊठ. तुवें संग्राम जिखला. तूं रिणातल्यान मुक्त आनी सार्थवाह आसा. म्हणून संसारात संचार कर ॥

" भगवन्, धर्मोपदेस कर, समजुपी आसतलेच ॥"

आनी भिक्षूनो, अर्हन् सम्यक् संबुद्ध विपस्सी भगवन्तान ब्रह्मदेवाक गाथांनी उत्तर दिलें.

" तांच्या खातीर अमरत्वाची दारां उकतीं आसात. ज्यांका आयकुपाची इत्सा आसात ताणी भावार्थ धरचो ॥

" उपद्रव जायत म्हणून हे ब्रह्मदेवा हांवें लोकांक श्रेष्ठ प्रणीत धर्म उपदेसलो ना ॥"

आनी भिक्षूंनो, विपस्सी भगवन्तान धर्मोपदेस करपाचे वचन दिलें, अशें जाणून तो महाब्रह्मा भगवन्ताक अभिवादन करून आनी प्रदक्षणा पालून, थंयच अंतर्धान जालो.

ह्या सात खंडांपैकी **तिसरो खंड** पैलीं रचलो जावंये. कित्याक म्हळ्यार, तो त्रिपिटकामदल्या सगळ्यांत पुर्विल्ल्या सुत्तनिपात ग्रंथांतल्या सेलसुत्तांत सांपडटा. हेंच सुत्त मज्झिमनिकायांत (नं. ९२) आयलां. त्या आदल्या (नं. ९१) ब्रह्मयुसुत्तांत आनी दीघनिकायांतल्या अंबट्ठ-

सुत्तांतय हाजो उल्लेख आयला. बुद्धकाळच्या ब्राह्मण लोकांत ह्या लक्ष-णांचे खूब म्हत्व आसतालें. तेन्ना बुद्धाच्या आंगार हीं सगळीं लक्षणां आशिल्लीं अशें दाखौन दिवपाच्या उद्देशान बुद्धाउपरान्त दोन शेकडयांनी हीं सुत्तां रचलीं जातनीं, आनी त्या उपरान्त तीं महापदान सुत्तांत दाखल केलीं जावंये. गोतम बोधिसत्व बुद्ध जाल्याउपरान्त ब्राह्मण पंडित ताजीं लक्षणां पळैताले. परन्त ह्या सुत्तांत विपस्सी कुमाराचीं लक्षणां ताज्या जल्माउपरान्त रोखडींच पळैलीं अशें दाखैलां आनी ताका लागून एक व्हडली विसंगती उत्पन्न जाल्या. ती ही कि, तांका चाळीस दांत आसात, ते सरळ आसात, तांकां छिद्रां नात आनी ताज्यो दाडो सामक्यो धव्यो फुल्ल आसात, हीं चार लक्षणां तातूंत तशींच उल्ल्यांत. जायनाफुडें भुरग्याक दांत नासतात हाची याद ह्या सुत्तकाराक उल्ली ना!

त्याउपरान्त दुसरो खंड तयार जालो जावंये. तातूंत जे स्वभाव-नियम सांगल्यात ते मज्झिमनिकायातल्या अच्छरियअब्भुधम्मसुत्तांत (नं. १२३) सापडटात. बोधिसत्वाक विशेष म्हत्व हाडपाखातीर ते रचल्यात. हांच्यापैकी ताजी आवय उबी आसताना बाळंत जाली तो सात दिसांचो जातकच भायर पडली हे दोन खऱ्यांनीच घडले जावंये. बाकी कविकल्पना.

त्या उपरान्तचो वा ताज्या फाटींफुडें कांय काळान बरैलो असो सातवो खंड. हो मज्झिमनिकायांतल्या अरियपरियेसन सुत्तांत निदान-वग्गसंयुत्तांत (६।१), आनी महावग्गाच्या आरंबाक सांपडटा. ब्रह्मदेवान केल्ले प्रार्थनेक लागून बुद्धान धर्मोपदेसाक सुरवात केली, हे दाखौन दिवपा-खातीर हो खंड रचला. मैत्री, करुणा, मुदिता आनी उपेक्षा ह्या चार उदात्त मनोवृत्तीतलें हें रूपक आसा अशें हांवे 'बुद्ध धर्म आणि संघ' ह्या पुस्तका-तल्या पैल्या व्याख्यानात दाखौन दिलां."

ह्या उपरान्त चौथो तीन प्रासादांचो खंड. ताजो उल्लेख अंगुत्तर-निकायाच्या तिकनिपातांत (सुत्त ३८) आनी मज्झिमनिकायातल्या मागन्दियसुत्तांत (नं. ७५) आयला. पैलेकडेन, हांव बापायच्या घरा आस-ताना म्हाका रावंक तीन प्रासाद आशिल्ले असो उल्लेख आसा. पुण दुस-

ऱ्यांत, तरणेपणांत हांव तीन प्रासादांत रावतालो असो मजकूर आसून बापायचो उल्लेख ना. शाक्य राजे वज्जी येदे संपन्न नाशिल्लेच, आनी वज्जीचे तरणे कुमार पसून अशे रितीन चैनीत रावताले, ह्या संबंदान खैंच पुरावो सांपडना. हाज्या आड, ते सामक्या सादेपणान वागताले आनी चैनीची पर्वा करिनाशिल्ले अशें वर्णन ओपम्मसंयुत्तांत (वग्ग १, सुत्त ५) सांपडटा. भगवान म्हण्टा, "भिक्षूंनो, सध्या लिच्छवी लोक लाकडाचो लोटिंगो उश्याक घेवन न्हिदतात, आनी मोटच्या सादुरकायेन आनी उर्बेन कवायत शिकतात. ताकालागून मगधाच्या अजातशत्रू राजाक तांचेर घुरी घालूंक येना. परन्त भविष्यकाळात लिच्छवी नाजूक जातले आनी तांचे हातपाय कोंवळे जातले. ते मोव कुलच्यांवार कापसाचीं उशीं घेवन न्हिदतले आनी तेन्ना अजातशत्रू राजा तांचेर घुरी घालपाक समर्थ जातलो."

वज्जींसारकेले संपन्न गणराजे जर इतल्या सादुरकायेन वागताले तर तांच्या मानान बरेच गरीब आशिल्ले शाक्य राजे व्हडल्या व्हडल्या प्रासादांनी चैनींत रावताले हें बिलकुल संभवना. जर खुद्द शुद्धोदनाकच शेती करची पडटाली, जाल्यार आपल्या चल्याक तो तीन प्रासाद कसो बांदून दितलो आशिल्लो? तेन्ना ही प्रासादांची कल्पना बुद्धाच्या चरित्रांत फाटसून रिगल्या हातूंत दुबाव उरना. ती महापदानसुत्तावेल्यान घेतली काय स्वतंत्रपणान एकाद्रया भाविकान बुद्धाच्या चरित्रांत दाखल केली, हे सांगू नज.

वैर दिल्लो सवो खंड आनी निदानवग्गसंयुत्ताचीं नं. ४ ते ६ सुत्तां तंतोतंत एकच आसात. हाज्यावेल्यान अशें दिसता कि, ह्या महापदान-सुत्तावेल्यानच हीं सुत्तां घेतलीं जावंये. गोतम बुद्धाआदले सय बुद्ध येवजिता येवजिता तांकां ही प्रतीत्यसमुत्पादाची कारण परंपरा जशी सांपडली तशीच ती गोतमाकय बोधिसत्वावस्थेंत आसतानाच सांपडली अशें निदानवग्ग-संयुत्ताच्या घाव्या सुत्तांत वर्णिलां. परन्त महावग्गांत गोतमान ही कारण परंपरा बुद्ध जाल्याउपरांत मनांत हाडली असो आरंबाकच उल्लेख आसा. हो प्रतीत्यसमुत्पाद गोतम बुद्धाच्या परिनिर्वाणाउपरान्त एक दोन शेक-

ड्यांनी बरैलो जावंये आनी ताका म्हत्व हाडपाखातीर पैलींच्या बुद्धाच्या चरित्रांत तो दाखल केलो जावंये. करतां करतां खुद्द बुद्धाच्या चरित्रांतय ताका विशेष म्हत्व येत गेलें. हाजो परिणाम इतलोच जातो कि, चार आर्य-सत्यांचे सादें तत्वज्ञान फाटीं पडून ह्या गहन तत्वज्ञानाक नस्तेंच म्हत्व आयलें.

उद्यानयात्रेचो पांचवो खंड त्रिपिटक वाङमयात गोतम बुद्धाच्या चरित्राक बिलकुल घाल्लो ना. तो ललितविस्तर, बुद्धचरित्र आनी जातकाची निदानकथा हातूंत जशाचो तसो वा आगळी उणी अतिशयोक्ति करून घेतला. ह्या निमाण्या प्रकरणांत तर 'ततो बोधिसत्तो सारथिं सम्म को नाम एसो पुरिसो केसा पिस्स न यथा अञ्ञेसं ति महापदाने आगतनयेन पुच्छित्वा ' अशे म्हळां. हाजे वेल्यान ह्या सगळ्या ग्रंथकारांनी हो मजकूर महापदानसुत्तावेल्यान घेतला अशें सिद्ध जाता.

पैल्या खंडांत सांगिल्ल्या प्रमाण गोतम बुद्धाच्या अग्रश्रावकांचीं बी नांवां ह्या सुत्ताचे प्रस्तावनेंत दिल्लींच आसात. गोतम बुद्ध क्षत्रिय आशिल्ल्यान ताज्या बापायची राजधानी कपिलवस्तू आशिल्ली अशें म्हळां. ह्याखेरीज ताजें गोत्र गोतम थारायलां. हाजी चर्चा चौथ्या प्रकरणांत केल्ली आसून शुद्धोदन शाक्य कपिलवस्तूंत केन्नाच रावनाशिल्लो हे सिद्ध केलांच. शाक्यांचें गोत्र आदित्य आशिल्लें आनी तांकां शाक्य ह्या नावांनच चड करून वळखताले. तशें नासतें जाल्यार बुद्ध भिक्षूंक शाक्यपुत्रीय श्रमण ही संज्ञा मेळची नाशिल्ली. बुद्धाचे गोत्र गोतम आसतें जाल्यार ताका गोतम वा गोतमक श्रमण म्हण्टले आशिल्ले.

# परिशिष्ट दुसरें

## वज्जींचे उदरगतीचे सात नेम

भगवान राजगृहाक गृध्रकूट पर्वताचेर रावतालो. तेन्ना अजातशत्रू राजा वज्जींचेर स्वारी करपाच्या विचारांत आशिल्लो. ते बाबतीत भगवन्ताचें मत कितें हें जाणून घेवंक ताणें आपल्या वस्सकार नांवाच्या ब्राह्मण अमात्याक भगवन्ताकडेन धाडलो. त्या अमात्यान अजातशत्रूचो बेत भगवन्ताक निवेदन केलो. तेन्ना आनंद भगवन्ताक वारो घालतालो. ताजेकडेन वळून भगवन्तान म्हळें, "आनंदा, वज्जी वारंवार सभा घेतात आनी एकठांय जातात अशें तुवें आयकलां व्हय?"

आ. – हय, भदन्त, वज्जी वारंवार सभा घेतात आनी एकठांय जातात अशें हांवें आयकलां.

भ. – वज्जी कुल्लीं एक जातात, कुल्ली उठटात आनी सगळे मेळून आपली कामां करतात व्हय?

आ. – हय भदन्त, अशें हांवें आयकलां.

भ. – वज्जी आपणे करूंक नाशिल्लो कायदो केला अशें म्हणनात मू? वा केल्लो कायदो मोडिनात मू? आपल्या कायद्याक धरून ते चलतात मू?

आ. – हय भदन्त, वज्जी कायद्यान चलतात अशें म्हज्या कानार आयलां.

भ. – जाण्टया राजकर्णी पुरुषांक वज्जी मान दितात मू? आनी तांची मसलत माननात मू?

आ. – हय भदन्त, वज्जी जाण्टया राजकर्णी पुरषांचो मान दवरतात आनी तांची सांगणी आयकतात.

भ. – ते आपल्या राज्यातल्या आंकवार आनी सजनी बायलांचेर बळजबरी करनात मू?

आ. – भदन्त, वज्जींच्या राज्यांत बायलांचेर जबरदस्ती जायना अशें हांवें आयकलां.

भ. – वज्जीच्या नगरांतल्या आनी नगराभायल्या देवस्थानांची ते नीट उस्तवारी करतात मू?

आ. – ते आपणांल्या देवस्थानांची योग्य जतनाय घेतात अशें हांवें आयकलां.

भ. – आपल्या राज्यांत आयिल्ले अर्हन्त सुखान रावचे आनी येवंक नाशिल्ल्या अर्हन्ताक येन दिसचें, ह्या खातीर अर्हन्ताक कसल्याच तरेचो उपद्रव बादूं नये हाजी वेवस्ता वज्जी दवरतात मू?

आ. – हय, भदन्त, अर्हन्ताक उपद्रव बादूं नये हाजी वज्जी दक्षता घेतात, अशें हांवें आयकलां.

तेन्ना भगवन्तान वस्सकार अमात्याक म्हळें, "हे ब्राह्मणा, एका काळांक हांव वैशालीक रावतालो तेन्ना उदरगतीचे हे सात नेम हांवें वज्जीक उपदेसिल्ले. जंवेर ह्या नेमांक धरून वज्जी चलतले तंवेर तांची उदरगतच जातली, अधोगत जावची ना."

वस्सकारान म्हळें, "भो गोतम, ह्याच्यापैकी एका नेमाक धरून जरी वज्जी चल्ले तरी तांची उदरगत जातली, पंड जावची ना. तर मागीर तांणी सातय नेम पाळ्ळे जाल्यार तांची उदरगत जातली हें सांगूकच नाका."

## सात नेमावेली टीका

ह्या सात नेमांचेर बुद्धघोषाचार्यांन बरैल्ले अट्ठकथेचो गोषवारो ––

(१) **वारंवार एकठांय जातात.** काल आमी जमिल्ले, पैरय जमिल्ले, तेन्ना आजय आनी कित्याक जमात, अशें म्हण नासतांना ते एकठांय जमतात. अशे रितीन एकठांय जालेना जाल्यार चारयकडल्यान

आयिल्ल्यो बातम्यो समजून घेवंक मेळनात. अमक्या गांवच्या वा शाराच्या शिमेसंबंदान वाद उपरासला वा चोर बंडाय करतात बी वर्तमानां ध्यानांत येनात. राज्यकर्ते घाळ उरतात अशें जाणून चोरय लूटमार करतात. ह्याप्रमाण राज्यकर्त्यांची अवनंत जाता. वारंवार एकठांय जमिल्ल्यान सगळेकडच्यो खबरी रोखडयोच समजतात आनी फौज धाडून बंदोबस्त दवरूं येता. राज्यकर्ते सादूर आसात हे जाणून चोरपसून तोळयो करून रावनात; त्यो मोडून फांसळटात. अशाभशेन राज्यकर्त्यांची उदरगत जाता.

(२) **कुल्लीं एक जातात** इत्यादी. आज कांय काम आसा वा मंगल कार्य आसा अशें म्हणून चुकारपण करिनासताना एकठांय जावपाखातीर नगाऱ्याचो आवाज कानार पडनाफुडें एकठांय जातात. एकठांय जातकच पुरत्या विचारान सगळ्या कामाचो निकाल लायल्या बगर वचूंक लागले जाल्यार ते कुल्ली उठले अशें म्हण्टा येना. तशें करिनासताना सगळीं काम आटपून सगळेच उठटात, समग्रपणान आपलीं कामां करतात; म्हळ्यार जर एकाद्र्या राजाक कांय काम पडलें जाल्यार हेर सगळे राजे ताज्या आलासऱ्याक वतात. वा दुसऱ्या राज्यातलो कोणय सोयरो आयलो जाल्यार ताज्या आदरसत्काराक सगळेच हाजीर रावता.

(३) **न केल्लो कायदो बी**. म्हळयार न थारयल्ली जकात, पटी बी घेनात, पैलीं थारायल्ले भशेनच घेतात. केल्लो कायदो मोडिनात, कायदयाक धरून चालतात. म्हळयार चोर म्हणून एकाद्र्याक धरून हाडलो जाल्यार चौकशी केल्याबगर ताका ख्यास्त दिनात. अशे रीतीन राज्यकर्ते वागले नात जाल्यार लोक त्रस्त जातात आनीक सरादिचेर वचून स्वता बंडवाले जातात ना जाल्यार बंडवाल्यांक वचून मेळटात आनी घुरी घालतात. अशे भशेन राज्यकर्त्यांक पंड लागता. कायदयान वागिल्ल्यान पटी वेळार वसूल जातात, तिजोरी वाडटा आनी ताका लागून सैन्याचो आनी खाजगी खर्च नीट चलता.

**वज्जीचो कायदो** म्हळयार, चोर म्हणून एकाद्रयाक धरून हाडलो जाल्यार वज्जी राजे ताका एकदम ख्यास्त फर्मायनासतांना विनिच्छय महामात्यांच्या सुवादीन करीत. ते अधिकारी तो चोर हय काय न्हय हाजी सारकी चौकशी करून चोर नासल्यार ताका सोडून दीत आनी चोर आसल्यार आपले काय एक मत न दिता ताका व्यावहारिकांच्या सुवादीन करीत. तेय तशीच चौकशी करून चोर नासल्यार ताका सोडून दीत आनी चोर आसल्यार अंतःकारिक नावाच्या अधिकाऱ्याच्या हवालीं करीत. ते चौकशी करून चोर नासल्यारः ताका सोडून दीत आनी चोर आसल्यार अष्टकुलादिकाच्या सुवादीन करीत, ते पैलीभशेनच चौकशी करून, चोर दिसल्यार ताका सेनापतीच्या, सेनापती उपराजाच्या आनी उपराजा, राजाच्या सुवादीन करी. चोर नासल्यार राजा ताका सोडून दिई, पुण चोर थारल्यार प्रवेणी पुस्तक (कायदयाचे पुस्तक) वाचूंक लायी. त्या पुस्तकांत अमक्या कृत्याक अमको दंड अशें बरयल्लें आसतालें. ताका धरूनच त्या चोराक राजा दंड करी. असो हो पूर्वापारचो वज्जींचो कायदो.

(४) आपल्या जाणट्या राजकर्णी पुरुषांचो मान दवल्लो ना आनी तांची वारंवार भेट घेतली ना जाल्यार तांचो सल्लो मेळपाचो ना, आनी ताका लागून राज्यकर्त्यांक पंड लागताली. पुण जे वडिलांचो सल्लो घेतात ताकां कोणा प्रसंगार कशें वागचें हें बरोबर समजता, आनी ताकालागून ताची उदरगत जाता.

(५) आंकवार वा सजनी बायलांचेर बळजबरी केली जाल्यार राज्यांतले लोक रूष्ट जातात. आमी ज्या चलयांक ल्हानाच्यो व्हड केल्यो, तांकां हे राज्यकर्ते जबरदस्तीन आपल्यागेर व्हरून दवरतात अशें म्हणून लोक सरादीचेर वचून स्वता बंडाय करतात, ना जाल्यार बंडवाल्यांक वचून मेळटात. आनी राज्याचेर घुरयो घालतात. बायलचेर

बळजबरी जालीना, राज्यकर्त्याकडल्यान तांकां अभय मेळ्ळें, म्हण्टकच लोक हुसक्यामेकळे आपापलीं कामां करतात आनी ताकांलागून राज्याची संपत्त वाडटा.

(६) देवस्थानाची नीट उस्तवारी केली म्हण्टकच देवता राज्याची राखण करतात.

(७) अर्हन्ताक कसल्याच प्रकारची बाधा लागूंक दिनात, म्हळ्यार ते रावतात थैंचीं झाडां कोणेंच तोडचीं न्हय, जाळां पातळांवन हरणांक धरचें न्हय, तळयेंतले नुस्तें मारचें न्हय, ह्या संबंदान जतनाय घेतात.

अट्ठकथेंत वज्जींच्या कायदयांचेर थोडीशी सविस्तर टीका आसा. चोराक धल्लो जाल्यार ताजी चौकशी क्रमवार विनिश्चिय, महामात्य, व्यावहारिक, अंतःकारिक, अष्टकुलिक, सेनापती, उपराजा आनी राजा अशे सात प्रकारचे अधिकारी करताले. तांतले अष्टकुलिक म्हळ्यार आजकालचे ज्यूरीभशेन आशिल्ले काय कितें हे सांगू नज. हेर अधिकाऱ्यांची अधिकारमर्यादा कितें आसताली हेंय समजना. राजा म्हळ्यार गणराजांचो अध्यक्ष. तो कितल्या वर्सां मेरेन अध्यक्ष आसतालो, हाची खबर खैंच सांपडना. वज्जीच्या कायदयाचें पुस्तक बरयल्लें आशिल्लें ते साप ना जावन गेलें, ही मोटचा दुःखाची गजाल. ग्रीक लोकांभशेन जर आमच्या पुर्वजांक राज्य वेवस्तेचें प्रेम आसतें, जाल्यार ह्या गणराजांचो इतिहासच ना जाल्ल्यांत जमा जातो ना.

बायलांचेर बळजबरी जावंक न दिवपासंबंदान वज्जी दक्ष आसताले हो म्हत्वाचो मुद्दो आसा. गणराजे जेन्ना कशाकशे वागूंक लागले तेन्ना गरीब धाटचांच्या बायलांचेर जुलूम जावंक लागलो. अशें अणुमान करपाक हरकत ना. ताका लागून लोकांक एकसत्ताक राज्यपद्धत बरी दिसूंक लागली. महाराजा चडच जाल्यार आपल्या शारांतल्या कांय बायलांक जनान्यांत व्हरून दवरी; पुण हे गणराजे देशांत सगळेकडेन पातळिल्ल्यान खैंच्याय गांवांतली बायलमनीस हांच्या जुलूमापसून मेकळी उरप शक्य

नाशिल्लें. हाका लागून लोकांनं. आपखोशियेन एकसत्ताक राज्यपद्दत पत्कल्ली जावंये.

एकदा हे राजे मनांक मानत तशे वागूंक लागले म्हण्टकच तांच्यात फाटाफूट जावप सहजिक आशिल्लें. वर्ज्ज. गणराजांत वस्सकार ब्राह्मणान फूट घाली आनी तिका लागून अजातशत्रूक तांचो पराभव करप सामकें सोपें जालें. वर्ज्ज.च्या गणराज्यांचो लय जातकच रोखडेंच मल्लांचें गणराज्यय लयाक गेलें जावंये. अशे रीतीन पुरातन गणसत्ताक राज्यांचो अन्त जालो. तांच्या एकवटाची आनी कायद्यांची तुरळक म्हायती बौद्ध वाङ्मयात शिल्लक उल्ल्या इतलेंच कितें ते.

बौद्ध संघांत एकठांय जमून संघांची कामां करपाची जी पद्दत विनयपिटकांत दिल्ल्या, तिजेवेल्यान वज्जी बी गणराजे एकठांय कशे जातालें आनी आपल्या सभेचें काम कशे चलैतालें हाजें अनुमान करू येता.



## परिशिष्ट तिसरें

# अशोकाचो भाब्रू शिळालेख आनी तातूंन निर्देसिल्लीं सुत्रां

भाब्रू हें स्थळ जयपूर संस्थानांतल्या एका दोंगरी प्रदेशांत आसा. थंय रावपी भिक्षुसंघान अशोक राजाकडेन संदेश मागिल्ल्यान अशोकान हो संदेश धाडलो आनी तो एका शिळेर कोत्रांवंक लायलो जावंये. अशे तरेचे संदेश अशोक वारंवार धाडतालो जावंये. परन्त तांचेपैकी जे ताका म्हत्वाचे दिसताले, तितलेच तो शिळांचेर वा शिळांच्या खांब्याचेर कोत्रांवंक लायी. ह्या शिलालेखांनी निर्देसिल्लीं सुत्रां मगध देशांतल्या बौद्धांनी वाचचीं अशो सांगण्यो तोण्डी वा पत्रीं अशोकान धाडल्यो जातल्यो; पुण त्यो, ताणे कोत्रांवक लायल्यो नात. कारण, आसपासचे संघ कितें करतात, कितें वाचतात हाजें वर्तमान ताका वारंवार समजतालें. त्या खातीर ताणे खास अधिकारी नेमिल्ले. परन्त राजपुतान्यासारक्या पैसुल्ल्या प्रदेशांतल्यान खबरो येवंक कळाव लागतालो. तेन्ना असो एक शिलालेख थंय उरप ताका योग्य दिसले जावंये. म्हज्या समजाप्रमाण ह्या शिळालेखाचें केल्लें भाषान्तर सकल दितां.

### भाब्रू शिळालेखाचें भाषान्तर

"प्रियदर्शी मगधराजा संघाक अभिवादन करून संघाची बलायकी आनी सुखसमाधान विचारता. भदन्त, तुमकां म्हजो बुद्ध धर्म आनी संघ, हांचेंविशींचो आदर आनी भक्ती खबर आसातच. भगवान बुद्धाचें वचन सगळें सुभाषितच. पुण, भदन्त, जें हांव निर्देसतां तें इतल्याच खातीर कि, सद्धर्म चिरस्थायी जावचो आनी त्याच खातीर उलवप योग्य दिसता. भदन्त, हे धर्मपर्याय (सुत्रां) आसात –– विनयसमुकसे, अलिय-

वसानि, अनागतभयानि, मुनिगाथा, मोनेयसूते, उपतिसपसिने आनी राहुलाक केल्ल्या उपदेसांत फट उलौपासंबंदान भगवान बुद्धान जें भाषण केल्लें तें ह्या सुत्तां संबंदान, भदन्त, म्हजी इत्सा अशी कि, ती चडांत चड भिक्षूंनी आनी भिक्षुणींनी परतीं परतीं आयकुची आनी पाठ करची. त्याचप्रमाण उपासकांनी आनी उपासिकांनी . भदन्त, हो लेख हांवें कोरावंक लायला; कारण, म्हजें अभिहित (संदेश) सगळे जाण समजूंत."

ह्या सात सुत्तांपैकी पैलें विनयसमुत्कर्ष वा धर्मचक्रप्रवर्तन. ताजें रूपांतर पांचव्या प्रकरणांत दिलांच. (पृ. १२१–१२२) बाकी उरिल्ल्या सुत्तांची रूपांतरां क्रमवार दितां.

## अलियवसानि किंवा अरियवंससुत्त

हें सुत्त अंगुत्तरनिकायाच्या चतुक्कनिपातांत सांपडटा. ताजें रूपांतर अशें—

भिक्षूंनो, हे चार आर्यवंश फडेचे आनी चड पुर्विल्ले वंश. ते पुरातन आनी असंकीर्ण आसून केन्नाच संकीर्ण जाले नात, संकीर्ण जायनात आनी संकीर्ण जावचे नात. तांकां खैंच्याच श्रमणांनी वा ब्राह्मणांनी दोष लायिल्लो ना. ते चार खैंचे?

हांगा भिक्षू मेळत तसल्या चीवरांत संतुष्ट आसता, अशे संतुष्टीची तुस्त करता, चीवराखातीर अनुचित आचरण करिना. चीवर मेळ्ळें ना म्हणून त्रस्त जायना, मेळ्ळें म्हणून हावरेपण करिना, उन्मत्त जायना, आसक्त जायना, चीवरांत दोष आसात हें जाणून केवळ मुक्तीखातीर तें वापरता; आनी ते आपले तशे तरेचे संतुष्टीक लागून आपली तुस्त आनी दुसऱ्याची अखटाय करिना. जो अशा संतोषांत दक्ष, सावध, हुषार आनी स्मृतिमान जाता, भिक्षूंनो, ताकाच पुरातन फडेच्या आर्यवंशाक धरून वागपी भिक्षू म्हण्टात.

परतून, भिक्षूंनो, भिक्षू मेळत तसले भिक्षेन संतुष्ट आसता; अशे संतुष्टेची तुस्त करता, भिक्षेखातीर अनुचित आचरण करिना. भिक्षा मेळ्ळी ना म्हणून त्रस्त जायना, मेळल्यार हावरेपण करिना, उन्मत्त जायना,

आसक्त जायना, अन्नांत दोष जाणून केवळ मुक्तीखातीर अन्नाचे सेवन करता; आनी ते आपले तशे तरेचे संतुष्टिक लागून आपली तुस्त आनी दुसऱ्याची अखटाय करिना. जो अशा संतोषात दक्ष, सावध, हुषार आनी स्मृतिमान जाता, भिक्षूंनो, ताकाच पुरातन फडेच्या आर्यवंशाक धरून वागपी भिक्षू म्हण्टात.

परतून, भिक्षूंनो, भिक्षू कशाय प्रकारच्या निवासस्थानान संतुष्ट आसता, तशा प्रकारचे संतुष्टेची तुस्त करता, निवासस्थानाखातीर अनुचित आचरण करिना, निवासस्थान मेळ्ळें ना म्हणून त्रस्त जायना, मेळ्ळें म्हणून हावरो जायना, उन्मत्त जायना, आसक्त जायना, निवासस्थानांत दोष जाणून केवळ मुक्तीखातीर तें वापरता आनी ते आपले तशे तरेचे संतुष्टीन आपली तुस्त आनी दुसऱ्याची अखटाय करिना जो अशा संतोषान दक्ष, सावध, हुषार आनी स्मृतिमान जाता, ताकाच पुरातन फडेच्या आर्यवंशाक धरून वागपी भिक्षू म्हण्टात.

परतून, भिक्षूनो, भिक्षू समाधिभावनेंत आनंद मानता, भावनारत जाता, क्लेश ना करपांत आनंद मानता, क्लेश ना करपात रत जाता आनी तशा त्या भावनाराम अवस्थेक लागून आपली तुस्त आनी दुसऱ्याची तुस्त अखटाय करिना. जो त्या आनंदांत दक्ष, सावध, हुषार आनी स्मृतिमान जाता, ताकाच पुरातन फडेच्या आर्यवंशाप्रमाण वागपी भिक्षू म्हण्टात.

भिक्षूनो, हे ते चार आर्यवंश. . . . . हांकां खंय्च्याच श्रमणांनी वा ब्राह्मणांनी दोष लायलो ना.[1]

भिक्षूनो, ह्या चार आर्यवंशांनी संपन्न जाल्लो भिक्षू जर पूर्व दिकेक वचत तर तोच अरतीक जिखता, अरती ताका जिखिना. . . . पच्छिम . . . . उत्तर. . . . .दक्षिण दिकेक वचत, तर तोच अरतीक जिखता, अरती

---

१. ब्राह्मण पुरातन वंश परंपरेक खूब म्हत्व दितात. पुण ती परंपरा म्हत्वाची नासून ह्या सुत्तांत वर्णिल्ली आर्यवंश परंपराच म्हत्वाची. तिका श्रमणब्राह्मणांच्यान बाल लावं नज. अशी हांगां शिटकावणी.

ताका जिखिना. तें कित्याक? कारण धीर अरतीचेर आनी रतीचेर जैत मेळैता.

धीराक जिखपी अरती न्हय. अरती धीराचेर जैत मेळोवंक शकना. अरतीक जिखपी धीर तो अरतीचेर जैत मेळैता.

सगळ्या कर्मांचो त्याग करपी आनी रागद्वेषांचें बी निरमन करपी त्या धीराच्या आड कोण येत? शंबर नंबरी भांगराच्या नाण्यासारक्या ताका दोष कोण लायत? देवय ताजी प्रशंसा करतात, आनी ब्रह्मदेवपसून प्रशंसा करता.

× × ×

## अनागतभयानी

हें सुत्त अंगुत्तरनिकायाच्या पञ्चकनिपातांत सांपडटा. ताजें भाषान्तर अशें —

भिक्षूनो, हीं पांच अनागतभयां पळौपी भिक्षू प्राप्त न जाल्ले पद प्राप्त करून घेवपाखातीर, जे जाणलेंना तें जाणपाखातीर, ज्याचो साक्षात्कार जालो ना ताज्या साक्षात्काराखातीर नमळायेन, मेहनतीन आनी मन लावन वागूंक पुरो अशीं आसात. ती पांच खैंची?

हांगा, भिक्षूनो, भिक्षू अशे येवजिता कि, हांव सध्या तरणो आनी यौवनसंपन्न आसां. पुण एक वेळ असो येतलो कि, ह्या शरिराक म्हातारपण येतलें. म्हातान्याक, जराजर्जराक बुद्धाच्या धर्माचे मनन सोपें न्हय, अरण्यांत एकान्तवासात रावप सोपें न्हय. ती अनिष्ट अप्रिय दशा येवच्यापैलीं हांवें प्राप्त न जाल्ल्या पदाचे प्राप्तिखातीर जें जाणलें ना तें जाणपाखातीर ज्याचो साक्षात्कार जालो ना ताज्या साक्षात्काराखातीर प्रयत्न केल्लो बरो! ज्याका लागून म्हातारपणांतय म्हज्यान सुखान रावंक येत. हें पैलें अनागतभय पळैतल्या भिक्षूक. . . . मन लावन वागूंक लावपाक पुरो.

परतून, भिक्षूनो, भिक्षू अशें येवजिता कि, सध्या हांव निरोगी आसां, म्हजो जठराग्नि बरो आनी प्रयत्नाक अणकूळ आसा. पुण असो एक वेळ

येता की हें शरीर पिडेन ग्रस्त जाता. पिडेन ग्रस्त जाल्याक बुद्धाच्या धर्माचें मनन सोपें न्हंय. अरण्यांत एकान्तवासांत रावप सोपें न्हंय. ती अनिष्ट अप्रिय अवस्था प्राप्त जावचे पैलीच. . . . . हांवें प्रयत्न केल्लो बरो! ज्याका लागून दुखण्यांत पसून म्हज्यान सुखान रावं येत. हे दुसरे अनागतभय पळौंपी भिक्षूंक मन लावन वागूंक लावन पुरो.

परतून, भिक्षूनो, भिक्षू अशें येवजिता कि, सध्या सुभिक्ष आसा, भिक्षा सहज मेळटा, भिक्षेचेर निर्वाह करप सोपें आसा. पुण एक काळ असो येता कि, दुर्भिक्ष जाता, धान्य पिकना, भिक्षा मेळप कठीण जाता, भिक्षेचेर निर्वाह करप सोपें नासता. अशा दुर्भिक्षांत लोक जंय सुभिक्ष आसत थंय वतात. थंय खेट जाता. तशे सुवातेर बुद्धाच्या धर्माचे मनन सोपें न्हय, अरण्यांत एकान्तवासांत रावप सोपें न्हय. ती अनिष्ट अप्रिय परिस्थिती प्राप्त जावचेपैलींच. . . . प्रयत्न केल्लो बरो! ज्याकालागून म्हज्यान दुर्भिक्षांत पसून सुखान रावं येत. हे तिसरें अनागतभय पळौंपी भिक्षूक . . . . मन लावन वागूंक लावपाक पुरो.

परतून, भिक्षूनो, भिक्षू अशें येवजिता कि, अयचो लोक प्रफुल्लित मनान झगड नासताना दुद आनी उदक हांचेभशेन सख्यान परस्परांविशीं प्रेम बाळगून वागता. पुण असो एक वेळ येता कि, एकाद्रें आकान्ताले बंड उपरासता. लोक म्हालमतो घेवन वहानांनी वा पांयांनी जळामळाक पळत सुटतात. अशा संकष्टाच्या वेळार जंय सुरक्षित सुवात मेळत, थंय पुंजा जातात. थंय तांडी जाता. अशे सुवातेर बुद्धाच्या धर्माचें मनन सोपें न्हय, अरण्यांत एकान्तवासांत रावप सोपें न्हय. ती अनिष्ट अप्रिय परिस्थिती प्राप्त जावचे पैलींच . . . प्रयत्न केल्लो बरो ! ज्याका लागून तशा संकष्टांत पसून म्हज्यान सुखान रावं येत. हें चौथें अनागतभय पळौंपी भिक्षूक. . . . मन लावन वागूंक लावपाक पुरो.

परतून, भिक्षूनो, भिक्षू अशें येवजिता कि, आज संघ एकवटीत, आनंदीत, झगड्याविरैत एका ध्येय्यान चलता. पुण असो एक काळ येता कि, संघांत फूट पडटा. संघांत फूट पडली जाल्यार बुद्धाच्या धर्माचें मनन

सोपें न्हय. अरण्यांत एकान्तवासांत रावप सोपें न्हय. ती अनिष्ट अप्रिय परिस्थिती प्राप्त जावचे पैलीच. . . प्रयत्न केल्लो बरो! ज्याका लागून ते प्रतिकूल परिस्थितीपसून म्हज्यान सुखान रावं येत. हें पाचवें अनागत-भय पळौपी भिक्षूक. . . मन लावन वागूंक लावपाक पुरो.

भिक्षूनो, ही पांच अनागतभयां पळौपी भिक्षूक, प्राप्त न जाल्ल्या पदाचे प्राप्तिखातीर जें जाणलें ना तें जाणपाखातीर, ज्याचो साक्षात्कार जालो ना ताज्या साक्षात्काराखातीर, नमळायेन म्हेनत्तीन आनी मन लावन वागूंक लावपाक पुरो.

× × ×

## मुनिगाथा

हें मुनिसुत्त ह्या नावान सुत्तनिपातांत सांपडता. ताजें भाषांतर अशें–

स्नेहाक लागून भय उत्पन्न जाता आनी, घराक लागून कोयर जाता; म्हणून स्नेह सोडप आनी घर त्यागप हेंच मुनीचें तत्त्वज्ञान समजुंचे.१

जो उद्‌भविल्लो मनोदोष हुमटावन ताका परतो वाडूंक दिना आनी ताजेविशीं स्नेह बाळगिना, त्या एकटुक्यान रावप्याक मुनी म्हण्टात. त्या महर्षीन शान्तिपद पळेलें.२

पदार्थ आनी ताजीं बियां वळखून[२] जो ताका स्नेह (ओलावो) दिना, तो खऱ्यानीच जल्मक्षयाचो अन्त पळौपी मुनी. तो तर्क सोडून दिवन नामाभिधान (जल्म) पावना.३

जो सगळो अभिनिवेश जाण्टा आनीक तांतल्या एकाचीय पसून इत्सा धरिना, तो तृष्णेतल्यान सुटिल्लो निर्लोभी मुनी अस्थिर जायना; कारण तो पार जाता.४

---

२. पालि उतर 'पमाय' टीकाकारान हाची 'हिंसित्वावधित्वा' असो अर्थ केला. पुण प्र-पूर्वक मा धातूचो अर्थ मेजप वा यथार्थतायेन जाणप असो जाता.

जो सगळें जिखता, सगळें जाण्टा, प्रबुद्ध आसता, सगळ्या पदार्थांपसून अलिप्त आसता, सगळें त्यागून आनी तृष्णेचो क्षय करून मुक्त जाल्लो आसता ताका सुज्ञ लोक मुनी म्हण्टात.५

प्रज्ञा ज्याचे बळ, तो शीलान आनी व्रतान संपन्न, समाहित, ध्यानरत, स्मृतिमान, निःसंग, काठिण्याविरयत आनी अनाश्रव ताका सुज्ञ लोक मुनी म्हण्टात.६

एकटुको रावपी, नम्र मुनी, निंदेन आनी स्तुतीन न बागडुपी, शिवाभशेन आवाजाक न भियोवपी, वाऱ्याभशेन जाळयांत न घुसपुपी, उदकांतल्या कमळाभशेन अलिप्त रावपी, हेरांचो फुडारी आसून ज्याका फुडारी ना, अशाक लोक मुनी म्हण्टात.७

ज्यांच्या विशीं लोक कितेंय उलैले तरी जो घाटार बांदिल्ल्या खांब्याभशेन[3] थीर रावता, जो वीतराग आनी इंद्रिय विजयी, ताका सुज्ञ लोक मुनी म्हण्टात.८

जो स्थितात्मो धोटयेभशेन[4] सरळ वता, पापकर्मांचो तिरस्कार करता, सम विषम पारखिता, ताका सुज्ञ लोक मुनी म्हण्टात.९

ल्हान आसूं वा मध्यीम वयाचो आसूं, जो संयतात्मो मुनी पाप करिना, जो यतात्मो तिडकना आनी दुसऱ्या कोणाकय तिडक हाडिना ताका सुज्ञ लोक मुनी म्हण्टात.१०

दुसऱ्यांनी दिल्ल्या अन्नाचेर जियेवपी, जो रांदिल्ल्या अन्नाची आरंबाक, मदीं, वा अखेर भिक्षा मेळ्ळी जाल्यार तुस्त वा अखटाय करिना, ताका सुज्ञ लोक मुनी म्हण्टात.११

---

३. न्हयेच्या घाटार चौकोनी वा अष्टकोनी खांबो बांदताले. थंय सगळ्या जातींचे लोक न्हाताना फाट घांसताले.

४. धोटो सम विषम धाग्यांतल्यान सरळ वता. धाग्यांत घुस्पना. ते भशेन सरळ वता.

जो मुनी विरक्त जालां, तरुणपणांत आसूनय खैंच बद्ध जायना, जो मद आनी प्रमाद हांच्यापसून विरत, जो मुक्त, ताका सुज्ञ लोक मुनी म्हण्टात.१२.

इहलोक वळखून ज्याणे परमार्थ पळेलो, ओग आनी समुद्र तरून जो तादृग्भाव पावलो, ज्याणे बंधना (ग्रंथी) तोडली, जो अनाश्रित आनी अनाश्रव, ताका सुज्ञ लोक मुनी म्हण्टात.१३

बायलेक पोसपी गृहस्थ आनी निर्मम मुनी ह्या दोगांचीय रहाणी आनी वृत्ती खूब वेगळी. कारण, प्राणघात जावंक न दिवपासंबंदान गृहस्थ संय्यम बाळगिना, पुण मुनी निरन्तर प्राण्यांचे रक्षण करता.१४

जसो मळबांत उडपी नीळकंठ मोर हंसाच्या वेगान वचूंक शकना, तसो गृहस्थ अरण्यांतल्या एकान्तात ध्यान करपी भिक्षू मुनीचे अनुकरण करूंक शकना.१५

## मोनेय्यसुत्त

हें 'नालकसुत्त' या नांवान सुत्तनिपातांत सांपडटा. हाज्यो प्रास्ताविक गाथा वीस आसात. तांचें भाषान्तर हांगा दिना. जिज्ञासूंनी जून १९३७ चो विविधज्ञानविस्ताराचो आंक पळौचो. तातूंत ह्या सुत्ताचें प्रास्ताविक गाथांसैत भाषान्तर दिलां. नालक असित ऋषीचो भाचो. तो भुरगो आशिल्लो तेन्ना गोतम बोधिसत्व जल्माक आयलो. असित ऋषीन बोधिसत्वाचें भविष्य वर्तयल्लें कि, तो व्हड मुनी जातलो. आनी ताणे नालकाक उपदेस केल्लो कि, गोतम बुद्धाचो धर्म पाळ. मामाच्या उतरार श्रद्धा दवरून गोतम बोधिसत्व बुद्ध जायसर नालक तापसी जावन रावलो; आनी जेन्ना गोतमाक बुद्धपद प्राप्त जालें, तेन्ना ताजेकडेन येवन ताणे मौनेया-संबंदान ताका प्रस्न विचाल्ले. त्या प्रस्नापसून ह्या सुत्ताक सुरवात जाता.

(तू श्रेष्ठ मुनी जातलो) हें असिताचे वचन यथार्थ आसा अशें हांवें जाणलें. आनीं म्हणून सगळ्या वस्तुजाताच्या पार गेल्ल्या गोतमाक हांव विचारतां.१

हें मुने, घर त्यागून भिक्षेचेर जियेता ताका उत्तम पद अशें मौनेय ंचें हें हांव विचारतां, तें म्हाका सांग.२

मौनेय खंचें हें हांव तुका सांगता — अशें भगवन्तान म्हळें, – तें रूंक कठीण आनी जावंक कठीण. तरी हांव तुका सांगतां. सांबाळून ाग आनी व्हड जा.३

गांवांत कोणेय अखटाय केली वा तुस्त केली जाल्यार सगळ्या- ंबंदान समान भाव बाळगुचो. मनांतलो क्रोध मनांत आवरचो, शांत ानी निगर्वी जावचें.४

पेटिल्ल्या अरण्यांतल्यो उज्या झेली कशो बायलो गांवांत भोवतात. यो मुनींक भुलयतात. तांणी तुका मोहांत घालुं नये म्हणून दक्ष राव.५

ल्हान व्हड कामोपभोग सोड आनी स्त्रीसंगापसून विरत जा. स्थिर-वर प्राण्यांचो विरोध आनी आसक्ती सोड.६

जसो हांव तशें हे, आनी ते तसो हांव, अशें आपल्या उदाहरणान जाणून कोणाक मारचें न्हय वा मारौंचें न्हय.७

ज्या इत्सेत आनी लोभांत सामान्य मनीस बद्ध जाता, ते इत्सेचो आनी लोभाचो त्याग करून चक्षुष्मंतान हो नरक तरून पार जावचें.८

पोट तट्टसर न जेवपी, थोडें खावपी, थोडें इत्सुपी आनी लोलूप न जावपी अशें जावचें. तोच इत्सा सोडून धादोस जाल्लो शांत अनिच्छ जाता.९

मुनीन भिक्षाटण करून रानांत येवचें आनी थंय झाडामुळा आसनार बसचें.१०

त्या ध्यानरत वीर पुरुषान वनांत आनंद मानचो. ताणें झाडामुळा बसून मनाक तुष्टायत ध्यान करचें.११

त्या उपरांत रात सोंपतकच गांवांत येवचें. थंय मेळिल्ल्या आमंत्रणान वा भेटेन उल्हसित जांव नये.१२

मुनीन गांवातल्या कुटुंबाकडेन सलगी करू नये. भिक्षेसंबंदान कांय उलों नये, शिटकावणेची उतरां उच्चारूं नये.१३

भिक्षा मेळ्ळी तर वा वा, मेळ्ळीना तरी वा वा. दोनय संबदान तो समभाव दवरता आनी (आपल्या खावपाच्या) झाडासरीं येता. १४

हातांत भिक्षापात्र घेवन भोवतल्यान मोनो नासून मोन्याभशेन वागचें आनी मेळिल्ल्या अल्प भिक्षेचो तिरस्कार आनी दात्याचो अनादर करूं नये. १५

श्रमणान (बुद्धान) हीण मार्ग खैंचो आनी उत्तम मार्ग खैंचो हाजी फोड केल्ली आसा. संसाराक पार दोन फावटी जायनात, तरी पुण ज्ञान एकाच प्रकारचें आसता अशें न्हय.१६

ज्या भिक्षूक आसक्ती ना, ज्याणे संसाराचो ओग तोडला आनी जो कृत्य आनी अकृत्य हांचेपसून मुक्त जाला, ताका परिदाह (जाळ) उरना.१७

तुका हांव मौनय सांगता, –अशें भगवन्तान म्हळें –वांखराच्या धारेवेलें म्होंव चाटपी मनशाभशेन सावध जावचें; जीब ताळवेक लावन पसून जेवणांत संयम बाळगुचो.१८

सावधचित्त जावचें, पुण चड चिंतनय करूं नये; हीण विचारापसून मुक्त, अनाश्रित आनी ब्रह्मचर्यपरायण जावचें.१९

एकान्तवासाची आनी श्रमणोपासनेची (ध्यान चिंतनाची) आवड धरची. एकटुकेपणाक मौन म्हण्टात. जर एकटुको रावपांत तुका आनंद दिसता जायत.२०

जाल्यार ध्यानरत कामत्यागपी धीराचें वचन आयकून तूं धाय दिको उजवाड भरीत करशीत. तरी (त्या पदाक पाविल्ल्या) म्हज्या, श्रावकांत न्हीं (पातकाची लज) आनी श्रद्धा वाडौची.२१

तें न्हयांच्या ओपारींन जाणचें. व्हाळ घोगे जावन खिण्डींतल्यान मोट्टो आवाज करीत व्हांवतात; पुण व्हडल्यो न्हयो सवकासिया चलतात.२२

जें उथळ तें खळखळता, पुण जें गंभीर तें संथच आसता. मूढ अर्द्या कळशाभशेन कचकचता; पुण सुज्ञ गंभीर सरोवराभशेन शांत आसता.२३

श्रमण (बुद्ध) जें पुस्कळ उलैता तें योग्य आनी उपयोगाचें हें जाणून उल्लेता. जाणून तो धर्मोपदेस करता आनी जाणून पुस्कळ उलैता.२४

पुण जो संयमात्मो जाणटा आसूनय पुस्कळ उलैना तो मुनी मौनःक योग्य आसा, त्या मुनीन मौन जाणलें.२५

## उपतिस्सपासिने

हें 'सारिपुत्तसुत्त' ह्या नांवान सुत्तनिपातांत सापडटा. अट्ठकथेंत हाका थेरपञ्ह अशेंय म्हळां. त्यावेल्यान अशें दिसता कि, हाका सारिपुत्तपञ्ह वा उपतिस्सपञ्ह अशेंय म्हण्टाले जावंये. ताजें भाषांतर अशें.

आयुष्यमान सारिपुत्तान म्हळें, – 'असो गोड उलौपी, तुष्ट' आनी संघाचो नियन्तो पुढारी, हांवें हाजेपैलीं पळैलो ना वा आयकलो ना.'

सगळ्या तमाचो नाश करून श्रमण धर्मांत रत जाल्लो असो हो सदेवक जगांक एकच चक्षुष्मान (दृष्टिवन्त) दिसता.२

अनाश्रित आनी अदांभिक अशा त्या बुद्धपदाक पाविल्ल्या संघ-नायकाकडेन हांव पुस्कळ बद्ध मनशांच्या कल्याणाचे इत्सेन प्रस्न विचारूंक आयलां.३

संसाराक विटून झाडामुळा मसण्णींत वा पर्वतांच्या धोलींनी एकान्त-वासांत रावपी भिक्षूक.४

तशा त्या बऱ्या वायट स्थळीं भयां खैंची? त्या निःशब्द प्रदेशांत खैंच्या भयांक त्या भिक्षून भियेंवक कामा नये?५

---

५. 'संतुष्ट उतराबदला मुळांत 'तुसित' आसा. पुण अट्ठकथेंत तुसिता असो पाठ आसून ताजो तुषित देवलोकांतल्यान इहलोकांत आयिल्लो असो अर्थ केला.

अमृत दिशेक वचपाखातीर पैशिल्ल्या प्रदेशांत रावपी भिक्षून खंची विघ्नां सोसूंक जाय? ६

त्या दृढनिश्चयी भिक्षूची वाणी कशी आसची? ताजी रहाणी कशी आसची? आनी ताजे शील आनी व्रत कशें आसचें? ७

शेट जसो रूपें उज्यांत घालून तांतले कीड काडटा, त्याप्रमाण समाहित, सावध आनी स्मृतिमान भिक्षून खंचो अभ्यासक्रम स्वीकारून आपलें मालिन्य लासून उडौंचें? ८

भगवन्तान म्हळें, सारिपुत्ता, संसाराक विटून एकान्तवास घेवपी संबाधिपरायण भिक्षूचें जें म्हाका कर्तव्य दिसता तें तुका सांगता.९

एकान्तवासांत रावपी स्मृतिमान धीर भिक्षून पांच भयांक बाडगूं नये. जळारांच्या चाबकाक, सोरपांक, मनशांच्या उपद्रवाक, चतुष्पादांक (चार पांयाच्याक) १०.

आनी परधर्मिकांक भियेंव नये. परधर्मिकांचीं पुस्कळ भयांकुत कृत्यां पळौन पसून तांका भियेंव नये. आनी त्या कुशळ सोदपी भिक्षून दुसरींय विघ्नां सहन करची.११

रोगान आनी भुकेन उत्पन्न जाल्लो त्रास, शीं आनी गजगज ताणे सोसचो. त्या विघ्नांची जिनसवार बाधा जाली तरी अनागरिक रावन ताणे आपलो उत्साह, पराक्रम दृढ करचो. १२

ताणे चोरी करूं नये, फट उलंव नये, स्थिरचर प्राण्यांचेर मैत्रीची भावना करची आनी मनाचें कलुशितपण मारावटेनचे हें वळखून तें ना करचें.१३

ताणे क्रोधाक आनी अतिमानान वश जावं नये, ताजी पाळांमुळां खणून काडची आनी खात्रीन बुद्धाचो मार्ग चलून प्रिय अप्रिय सहन करचें.१४

कल्याणप्रिय मनशान प्रज्ञेक म्हत्व दिवन तीं विघ्नां सोसचीं, एकान्तवासांत असंतोष दिसलो तरी तोय सोसचो आनी शोक दिवपी चार गजाली सहन करच्यो.१५

(त्या ह्या –) हांव आज कितें खातलों वा खंय जेवतलों, कालचें रातीं न्हिद न लागिल्ल्यान त्रास जालो, आज खंय न्हिदचें? अनागरिक दीक्षा घेतिल्ल्यान हे (चार) वितर्क त्यागचे.१६

वेळोवेळ अन्नवस्त्र मेळ्ळें तरी तातूंत प्रमाण राखचें, अल्पसंतोषी जावचें. त्या पदार्थांपसून मनाचे रक्षण करपी आनी गांवांत संयमान रावपी भिक्षून हेरांनी राग ये सारकें कृत्य केलें जाल्यार पसून कठोर वचन उलंव नये.१७

ताणे आपली नदर पांयांसरीं दवरची, चंचळपणान चलूं नये, उपेक्षेचो अवलंब करून चित्त एकाग्र करचें, तर्क आनी चंचळपण हांचो नाश करचो.१८

त्या स्मृतिमंतान आपणाले दोष दाखैतल्याचे अभिनंदन करचें, अन्य ब्रह्मचाऱ्याविशीं कठोरपण बाळगुचें न्हय, प्रसंगविशेषीं बरींच उतरां उलौचीं, लोकांच्या वादविवादात तोण्ड घालूंक सोदूं नये. १९

त्या उपरांत स्मृतिमंतान संसारातल्यान पांच रजांचो त्याग करूंक शिकचें. (म्हळ्यार) रूप, शब्द, गंध, रस आनी स्पर्श (ह्या पांच रजांचो) हांचो लोभ धरूं नये.२०

ह्या पदार्थांचो छन्द सोडून तो स्मृतिमान, विमुक्तचित्त, वेळोवेळ सद्धर्माचें चिन्तन करपी, एकाग्र चित्त भिक्षू काळखाचो नाश करूंक समर्थ जातलो (अशें भगवान उलैलो).२१

## राहुलोवाद सुत्त

हाका चूळराहुलोवाद आनी अम्बलटि्ठकराहुलोवाद अशेंय म्हण्टात. हें मज्झिमनिकायांत आसा. ताजो गोषवारो असो –

एका समयार बुद्ध भगवान राजगृहासरीं वेणुवनांत रावतालो, आनी राहुल अम्बलटि्ठका[६] नावाच्या जाग्यार रावतालो. एक दीस सांज-

६. हो एक राजवाडो आशिल्लो अशें अट्ठकथेंत म्हळां. पुण तें संभाव्य दिसना. राजगृहाच्या लागचो हो एक गांव जावंये अशें दिसता.

वेळेचो भगवान ध्यानसमाधी आटपून राहुल रावतालो थंय गेलो. राहुलान भगवन्ताक पैशिल्ल्यान पळौन आसन मांडलें आनी पांय धुवपाखातीर उदक हाडून दवल्लें. भगवान आयलो आनी त्या आसनार बसून ताणे पांय धुले. राहुल भगवन्ताक नमस्कार करून एके कुशीक बसलो.

भगवन्तान पांय धुवपाच्या पात्रांत थोडेंशें उदक शिल्लक दवल्लें आनी राहुलाक म्हळें, " राहुल, हे स्वल्प उदक तुकां दिसता मू?"

" हय, भदन्त," राहुलान जाप दिली.

" राहुल, ज्यांकां फट उलौंक लज दिसना, तांचें श्रमणपण ह्या उदकाभशेन शुल्लक. "

उपरांत तें उदक भायर उडौन भगवन्तान म्हळें, " राहुल, हें भायर उडेल्लें उदक तुवें पळेलें मू?"

" हय, भदन्त" राहुलान उत्तर दिलें.

" राहुल, ज्यांकां फट उलौपाक लज दिसना तांचे श्रमणपण ह्या उदकाभशेन त्याज्य."

उपरान्त तें पात्र उमथें करून भगवन्तान म्हळें, " राहुल, ज्यांकां फट उलौंक लज दिसना तांचें श्रमणपण ह्या आयदनाभशेन उमथें समजूंक जाय. "

उपरान्त तें उदारें करून भगवन्तान म्हळें, " राहुल, हें रिकामें पात्र तू पळेता मू?"

" हय, भदन्त " राहुलान जाप दिली.

" राहुल, ज्यांकां फट उलौपाक लज दिसना तांचे श्रमणपण ह्या आयदनाभशेन रिकामें."

" हे राहुल, लडायेखातीर सज्ज केल्लो राजाचो व्हडलो हती, पायांनी लडता, माथ्यान लडता, कानानी लडता,[७] दांतांनी लडता, शेंपडेन

७. कानांनी बाण निवारपाचें काम करता. शेंपडेक बांदिल्ल्या फातराच्या वा लोखणी दांड्यान तोडमोड करता, असो अट्ठकथेंत अर्थ केला.

लडटा' पुण येक सोंड तितली सांबाळटा. तेन्ना माहुताक दिसता कि, येदो व्हडलो राजाचो हती सगळ्या अवयवांनी लडता, फकत सोंड सांबाळटा; संग्राम जिखपाक ताणे जीवित ओपलें ना. जर त्या हतीन हेर अवयवांभशेन बरोबर सोंडेचोय पुरतो उपयोग केलो जाल्यार माहुताक कळटा कि, हतयान संग्राम जिखूंक आपलें जीवित ओपलां, आतां ताज्यांत उणाव उल्लो ना. त्याचप्रमाण ज्यांकां फट उलौंक लज दिसना ताणी खैंचेय पाप सोडले ना अशें हांव म्हण्टा! म्हणून हे राहुल मस्कऱ्यांनी पसून फट उलौंप ना असो अभ्यास कर."

"राहुल हारसो कत्याक उपकरता?"

"प्रत्यवेक्षण (निरीक्षण) करपाखातीर, भदन्त." राहुलान जाप दिली.

"त्याचप्रमाण, राहुल परतून परतून प्रत्यवेक्षण (नीट विचार) करून कायेन, वाचेन आनी मनान कर्मां करचीं.

"जेन्ना राहुल, तूं, कायेन, वाचेन वा मनान एकाद्रें कर्म करूंक सोदशी तेन्ना पैलीं ताजें प्रत्यवेक्षण कर आनी तें जर आपल्या आनी दुसऱ्याच्या हिताच्या आड येवपी आनी परिणामी दुःखाक कारण अशें दिसून आयतें जाल्यार ते बिलकुल करूं नाका. पुण ते आपल्या आनी दुसऱ्याच्या हिताच्या आड येवपी नासून परिणामीं सुखाक कारण अशें दिसून आयले, जाल्यार तें आचर."

"कायेन, वाचेन वा मनान कर्म आरंबिल्ले आसतानाय ताजें प्रत्यवेक्षण कर आनी तें आपल्या आनी दुसऱ्याच्या हिताच्या आड येवपी आसून परिणामी दुःखाक कारण अशें दिसून आयल्यार तितल्यारच ते सोडून दी. पुण तें आपल्या आनी दुसऱ्याच्या हिताच्या आड येवपी नासून परिणामी सुखाक कारण अशें दिसून आयल्यार, वारंवार करीत राव.

---

८. असत्य राखून हेरां पालकांचो त्याग केलो, तरी श्रमण खरेलो झुजारी न्हय, ताणे श्रामण्याक आपणालें जीवित ओपलें ना.

" कायेन, वाचेन वा मनांन कर्म केल्याउपरान्तपसून तूं ताजें प्रत्य-वेक्षण कर आनी तें कायिक वा वाचिक कर्म आपल्या वा दुसऱ्याच्या हिताच्या आड येवपी आनी परिणामी दुःखाक कारण जावपी अशें दिसून आयल्यार शास्त्याकडेन वा वांगडच्या विद्वान ब्रह्मचाऱ्यांकडेन तूं त्या पापाचो अविष्कार कर (तें कबूल कर), आनी परतून आपलेकडल्यान तसलें कर्म घडचें न्हय अशी जतनाय बाळग. तें कर्म मनाचें आसत, जाल्यार ताज्यासंबदान पच्छताप कर, लज धर आनी परतो तो विचार मनांत येवंक दिवं नाका. पुण कायेन, वाचेन वा मनान केल्ले कर्म आपल्या वा दुसऱ्याच्या हिताच्या आड येवपी नासून परिणामीं सुखाक कारण जाता अशें दिसून आयल्यार आनंदित मनान तें कर्म परतें परतें करूंक शीक.

" हे राहुल, पुर्विल्ल्या काळीं ज्या श्रमणब्राह्मणांनीं आपली कायिक वाचिक आनी मानसिक कर्मां परिशुद्ध केलीं, तांणीं तीं परतीं परतीं प्रत्य-वेक्षण करूनच परिशुद्ध केलीं. भविष्य काळांत जे श्रमणब्राह्मण हीं कर्मां परिशुद्ध करतले ते परते परते प्रत्यवेक्षण करूनच हीं कर्मां परिशुद्ध करतले. सध्या जे श्रमणब्राह्मण हीं कर्मां परिशुद्ध करतात ते परते परते प्रत्यवेक्षण करूनच हीं कर्मां परिशुद्ध करतात. म्हणून हे राहुल, परतें परतें प्रत्यवेक्षण करून कायिक, वाचिक आनी मानसिक कर्मां परिशुद्ध करूंक शीक."

अशें भगवान उलैलो. आयुष्मान राहुलान आनंदीत मनान भगवन्ताच्या भाषणाचें अभिनंदन केलें.

ह्या सात सुत्तांपैकीं सुत्तनिपातांत आशिल्ली मुनिगाथा, नालकसुत्त आनी सारिपुत्तसुत्त ही तीन पद्यांत आनी उरिल्लीं चार गद्यांत आसात. गद्य सुत्तांत पुनरुक्ती खूब मेळटा. त्या काळच्या वाङमयाची ही पद्धत समजूंक जाय. कित्याक म्हळ्यार, जैनाच्या सुत्रांत आनी कांय कडेन उपनिषदांत पसून अशी पुनरुक्ती आसा. पुण ती त्रिपिटकांत इतली आसा कि, हें सगळें पूर्ववत् आसूंचें अशें वाचकाक दिसता आनी एकाद्रो म्हत्वाचो मुद्दो ते पुनरुक्तीन येनासतना उरता; ताजेकडेन वाचकाचे लक्ष वचना.

देखीक, ह्या राहुलोवादसुत्तांत कायिक, वाचिक आनी मानसिक कर्मांच्या प्रत्यवेक्षणांत तोच तोच मजकूर परतो परतो आयला. परन्त कायिक आनी वाचिक अकुशळ कर्म आचरणांत आयलें जाल्यार शास्त्याकडेन वांगडच्या विद्वान ब्रह्मचाऱ्याकडेन ताजो अविष्कार करचो आनी तसलें कर्म परतें जावंक दिवं नये अशें म्हळां. मानसिक अकुशलाक हो नेम लागू केलो ना. कित्याक म्हळ्यार, विनयपिटकांत कायिक आनी वाचिक दोषांकच अविष्कारादिक (पापदेशना इत्यादी) प्रायच्छित्तां सांगल्यात; मनोदोषाखातीर प्रायच्छित्त विधान ना. ताका प्रायच्छित्त म्हळ्यार त्याबद्दल पच्छताप आनी लज धरची आनी अकुशळ विचार परतो मनांत हाडूं नये. कायिक आनी वाचिक अकुशळ कर्मांतलो आनी मानसिक अकुशळ कर्मांतलो हो फरक राहुलोवादसुत्त वेल्यावैर वाचतल्याच्या लक्षांत येवपाचो ना.

अशोकाच्या वेळारही सगळीं सुत्तां अशींच आशिल्लीं, काय संक्षिप्त आशिल्लीं हे सांगूक येवप कठीण. तीं संक्षिप्त आसलीं तरी सारभूत मजकूर होच आशिल्लो हातूंत दुबाव ना. सुत्तपिटकांतली चंडांत चंड पुरातन सुत्तां वळखुपाक हीं सात सुत्तां खूब उपकरा पडटात.



# आधार ग्रंथ

हो ग्रंथ चड करून पालि भाशेंतलें सुत्तपिटक आनी ताजेवेल्यो अट्ठकथा हांचेर आधाल्ला. विनयपिटकांतल्या गजालींचो हातूंत उपयोग केला आसलो तरी त्या सुत्तपिटकाच्या आधाराबगर त्यो इतिहासिक गणिल्यो-नात. अभिधम्मपिटकाचो (एका उताऱ्याभायर) उपयोग करूंक ना.

जैन वाङ्मयापैकीं आचारांगसूत्र, भगवतीसूत्र, दशवैकालिकसूत्र आनी प्रवचनसारोद्धार ह्या ग्रंथांतले उतारे घेतल्यात.

पयल्या प्रकरणांत ऋग्वेदाचो बरोच उपयोग केला. उपनिषदांत-ल्यान बरोचसो मजकूर घेतला.

धर्मसूत्रां आनी मनुस्मृती हांचोय वेळाप्रसंगाक उपयोग केला.

विष्णुशास्त्री चिपळुणकर हांच्या बाणभट्टावेल्या निबंधांतल्यान एक उतारो दिला; पुण तो आधार असो न्हय.

Arctic Home in the Vedas : by B. G. Tilale.

Myths and Legends of Babylonia and Assyria : by Lewis Spence.

A History of Babylon : by L. W. King. Buddhist India, (1903) : by prof. Rhys Davids.

# सूची

* *

